२६ चोय्या ते उजडांतु तरि वेचु नाका चोय्या तो अप्रकाशु कु
डांतुं तरि विश्वासु कोनाका । तेयितें विज्यु पुर्वदिकाथाकुनु
२७ पश्चिम परांतुं भोति कर्ता तसेंचि मनुष्याचे पुताचे येवप
२८ जायत । तेयितें खंच्या जाग्यारि मडें ते जाग्यारि मडें काय
२९ ळे एकडे जातित । ते वेळाचे दुखोपरांतु सुर्थ अंधकारमय
जायत आनि चंद्रु आपूणालि रश्मि दिणि ना आनि नक्षत्र
३० स्वर्गारियाकुनु पळेलिं जातित । स्वर्गाचो सगळो पराक्रोमु
हालत्ता । ते वेळारि मनुष्या पुतालो लक्षण स्वर्गांतु प्रकाश
पावल्लो जायत तेद्ना भुंचे सगळे लोकु रडतित आनि ते
स्वर्गाचे मेघारुढ पराक्रमान आनि सावार तेजान मनुष्या
३१ ले पुताक येत्ताना चोतित । तेद्ना ते तुरि आनि होडि
धनि कर्तले आपणाल्या दूतांक धाडतित आनि ते चारि
दिकाच्यान स्वर्गाचे आरंभदोड्नु खडेरिं परात आपणाले
३२ मनोनित लोकांक एकडे कर्तित । आत्तं रुंवडा भाडा
चा दृष्टांत सिका केद्ना ताजे खांदे तनें जाउनु पांन
काड्ता तेद्ना ग्रिष्मकाळु तलागि जात्ता हे तुमि समजा ।
३३ तसेचि तुंमि केद्ना हें सगळे चोयिश्या तेद्ना ते सानिध्यि
३४ जायत तेवागलांतुंचि हें समजा । तुमकां हांव सांगत
येतां हें सगळे पुर्ते ना जाल्यान हें आतेयि लोकु वोल्थि
३५ ना । स्वर्गु आनि भुयिं लोपु जायत तरि मेमेलें उत्तर
३६ लोपु जायशि ना । तरि तो दिसु आनि ति घडि
कोणयि समजनाति स्वर्गाचें दुतेयि समज्नाति तरि मेगेलो
बापुसुचि जाण । तरि कसि नुखाले वेळेरि आसिलें
३७ तसें मनुष्याल्या पुतालें येवप जायत तेयितें जल प्रळया
३८ च्या पिरतम ते दिसारि नुख़ान तावांचेरि प्रवेशु केला तो
दिसु पासुनु ते खात्ता पिता वारडिक करित वाद् दित आ
३९ सिल्लो । आनि जल प्रळयाचें येवप आनि सगळ्याक होडु
नु होव्हपासुनु समगूले ना तसेंचि मनुष्याचा पुताले येवप

४० जायत तेचि वेळेरि दोग जाण गांवांतु आस्तित एकलो
४१ हार्यो आनि एकलो त्याज्य जायत । दांतें घुवंडाउच्याक
दोगि वायलो जातित तांचे भित्तरि एकलि हार्या आनि
४२ एकलि त्याज्या जायत । हाज्या निमितीं तारो दिया तेयितें
४३ कोण्ते घडियेक तुमगेले प्रभु येतित हें तुमि समजनाति ।
तरि कोणतें प्राहारारि चोर येतोत घरचो धनि हें समज्
तातिं तरि पारो दितातिं आनि आपणाले घर मोंणु दिना
४४ ति तुमि हें समजताति । हाजे निमितीं तुमि सिद्ध जाया
तेयितें कोण घडियेक तुमि येनाति ते घडियेक मनुष्या पुतु
४५ येत । तरि विश्वस्त आनि विद्ना ते सेवकाक सरजाल्ले वे
ळारि आपणाल्या सांगात्याक खावचें दिव्चाक तागेल्या
४६ यजमानान धजि केलो तो कोणु परिचारकु । तागेलो धनि
आपणे येवचेवेळारि कोन परिचारकाक हो यजमानु चोथि
४७ ता तेचि परिचारोकु धंन्य । तुमका हांव सत्य म्हणतां ताक्का
४८ आपणाले सगळे संपतिचे कर्तलांतु नियुक्त करतित । तरि
तो दुष्ट परिचारोकु आपणाले मनःमनातं म्हता मेगेलो
४९ धनि तोडोउ कोर्नु येतित ताजेन आपणाल्या निजाचेडे
मार्चो लागत आनि मतकारां बरसि जेवण आनि पिवप
५० कोचाक लागता । तरि ते दिसांतु आठेना आनि ति
५१ घडि समज ना तेचि वेळेरि तागेलो धनि येतित आनि
ताका कातोर्नु घालतित आनि ते जाग्यारि रंणे आनि
दांत चावचे त्याजाग्यारि लाब्मनिकांचा सहित तोचि वांटो
दितिन् ।—

२५ पंचविंशति पर्व ।—ते वेळारि कसि धा चेलियो तसें
स्वर्गाचें राज्य जायत त्यो कंन्यो दिवे घेउनु होरेता लागि मे
२ लुचाक गेल्यो । तांचा भितरि पांच बुदवंत्यो आनि पांच
३ समजनातिल्यो । समजनातिल्यानि दिवे घेवूले तदि

४ तेल लागि घेत्लें ना। तरि बुदिवंत्येनि दियालागि
धायदनांतु तेल घेत्ले। होरेतान येउचाक कितलो
५ वेळु केलो तेदोळु तांनि कुरुवनि काल्यो आनि निदेलो।
६ तावळि मजराचिचा वेळारि चोय्या होरेतु येत्ता ताजा
७ लागि मेळचावचा हेंचि गदल जालें। तेदना ते चेलि
८ येनि उठाल्यो आनि दिवे प्रस्तुत केले। ते वेळेरि संनोञु
नातिल्यानि बुदवंतिक म्हळें तुंमि येदें तेल दिया तेंथिते
९ आमगेले दिवे वाडवल्याति। तरि बुदीवंति जाप दिउनु
उलेल्यो असि न्हे यितें जाण आमचा निमितीं आनि तुमचा
निमिती तेल नुपरो तरि ते तेल विकताति तांचा लागि
१० वोपुनु आपणा खातिर मोला घेया। त्या मोलाक घेउचाक
वोत्तचि होरेतु आयलो आनि कोण प्रस्तुत आसिल्यो तानि
तांचा लागि वाडिकेचा घरांतु भित्तरी गेले ताजा मागिरि
११ बागलां धांकली। ताजा मागिरि त्यो वेगल्यो चेलियो येउनु
१२ ये महाराय ये महाराय आमचा खातिर बागिल काडि हें
म्हणु लागल्यो। तरि तानि प्रतिउत्तर कोनु म्हळें नेवनै हांव
१३ म्हणतां तुमकां हांव नेणे। हेनिमिति तुमि यारो दिया तेंथि
त्या तेदिसा आनि कोण घडियेक मनुश्या पुतु येत हे तुमि
१४ समजनांति। कसि कोण एकलो दूरदेशांक वोचाक आठो
उनु आपणाल्या परिचारकांक आपोडनु तांचालागि आम्
१५ णालि संपत्ति समर्पण केलि। आनि एकल्याक पांच तालंत
आनि एकल्याक दोनि तालंत आनि एकल्याक एकु तालंत
वेगळ्यांक तागेले सरजाले तसें दिलें ताजा मागिरि पैस
१६ केलें तसें मनुष्या पुताजे येवप। तो मनुष्यु गेल्यापरांतु
कोण परिचारकान पांच तालंत पावलेलो तो वचुनु उदेगु
१७ कोनुं आनिकै पांच तालंत आदायु पावलो। जो परिचारकु
दोनि तालंत पावलो तेवैयि आनि दोनि तालंत पावलो।
१८ तरि कोणपरिचारकु एक तालंत पावलो तो वचुनु माति

१९ खोंडुनु आपणाले प्रभुले दिल्लें धन पुनु देवलें। सावारि दिसपरांतें त्या परिचारकांलो प्रभु येउनु तांचा लागि लेख
२० केलें। तेदना कोण मनुष्य पांच तालंत पावलो आसिल्लो तो येउनु आनि पांच तालंत हांगु उबैलो हे माराया मजा लागि तुमि पांच तालंत दिले चोय्या हावें ताजेन आनि
२१ पांच तालंत लाभु पावल्लों आसं। तागेलो प्रभु ताका उबैलो आहो चांग आनि विश्वासि परिचारोकु तुवें बरें केले आहा तुमि थोड्या वस्तांतु विश्वस्त जाल्लेले तुमकां सावार आणाल्या कर्टलंतु हांव नियुक्त करिन आपणाले प्रभुचा
२२ सुकांतु प्रवेश कर्या। कोण परिचारोकु दोनि तालंत पाविल्लो तेविंयि येउनु उबैलो हे माराया तुमि मजा लागि दोनि तालंत दिल्ले चोय्या हावें ताणे आनि दोनि तालंत
२३ मेळेले। तागेल्या प्रभुन ताका म्हळे आरे उत्तम आनि विश्वासु परिचारोकु तुवें बरे केलें तु थोड्या विषयांतु विश्वासु जालो तुका हांव सावारचो धनि करिन आपणाल्या
२४ प्रभुल्या सुकांतु प्रवेश कर्या। कोण मनुष्य एक तालंत पाविल्लो तो येउनु हे माराया तुमि कठिण लोकु कोण जाग्यारि वोंथिले ना ते जग्यारि पिकि कातर्तांति आनि कोण जाग्यारि
२५ पळेल्ले ना ते जाग्यारि वेंचिता हे माका समजलें। हाज्या खातिर हांव भिल्लों आनि वोचुनु तुमगेले तालंत मात्यंतु
२६ लिपेलें हे पले तुमगेलें मुळ आस। तागेलो प्रभु जाप दिउनु ताका म्हळें आरे दुष्ट आनि आळसि परिचारका हावें खेंवेने थे पिकि कातर्ता आनि खेंपंणे थे वेंचिता हेंचि तु समजो
२७ ळो। हाजानिमितीं मेगेलें धन वनशालेंत दोवोचें ते तुका सर आसिले ताजेन आयिल्या तावळि हांव मेगेलें
२८ अमल वाडि सहित पाव्चाक सक्तों। हाज्यानिमितीं तें धन ताजे लागिथाकुनु घेउनु कोणाचे धा तालंततांका
२९ दिया। तेयितें कोणाचे आस ताका दिवचे जावत आनि

ताज्यें साबार आयत तरि कोणाचे ना ताजें यिते आस्त
३० तें ताका लागिथाकुन घेउचे आयत। ते अलाभुकारि
परिचारकाक भायर काळकांतु कोण जाग्यारि रडण आनि
३१ दांत चावचे ते जाग्यारि घाल्या। केद्ना मनुष्याचो पुतु आप्
णालें ऐश्वर्य्यं वेडायलो जाउनु समस्त धर्म्म दुतांक लागि
घेउनु येत तेद्ना तो आपणाल्या तेजमय सिंवासनाचेरि
३२ बसत। आनि सगळ्या जातींत आसिले ताजा फुडे एकडे
जातित ताजा मागिरि कसो राकणो तगरांक आनि बोक
डांक वेगळे कर्ता तसें तांगिले एकल्याक आनि एकल्याला
३३ गियाकुन वेगळो कर्तित। ताजे मागिरि तगरांक
३४ आपणाल्या उजव्यांतु बोकडरांक दाव्यांतु दवर्तीत। तेद्ना
कोण उजवे कडे ताका रायु म्हण्तित आवो मेगेल्या बापु
मुलो आशिर्व्वादु पाविले कोण राज्य तुमचा निमितीं जगत्य
प्रर्व्वाग केलेलें वेळारियाकुन प्रस्तुत आसा तुमि येउनु ते
३५ राज्याचो अधिकार कर्या। तेयितें हांव भुकेनु आसिलों
आनि तुमि माका खाव्चाक दिलें हांव तान्नेलो जातां
आनि तुमि माका पिव्चाक दिलें हांव परगावांतु आसि
३६ लो आनि तुमि माका अतिथ्य केलें। हांव नागडों
आसिलो आनि तुमि आंगवलें दिले पिडेस्तु आसिलों तुमि
माका पोळोंचाक आयले पाचाघरांतु आसिलो आनि
३७ तुंमि मजलागि आयले। तेद्ना येतात्मिक लोकानि जाप
दिउनु तांका म्हळें हे प्रभु तुम्कां भुकेले देकुनु आमि केद्
ना खाव्चाक दिलेलें आनि केद्ना तांनेलो पोळोनु तुम्
३८ कां पिव्चाक दिलेलें। आनि तुम्कां परदेशि पोळोनु
अतिथ केलेले आनि नागडो केद्ना देकुनु आंगवलें दिलें।
३९ आनि पिडेस्तु आनि पाचाघरांतु पोउनु तुमगेलि सेवा कोर
४० चाक केद्ना आयलेलो। ताजे मागिरि रायु जाप

दिउनु तांचा जाग उलैत तुमकां हांव खरें म्हणतां तुंमि मजा भावालें अति लुद एकल्याक हें कर्तचि ते माकाथि
४१ केलें आस । तेद्‌ना कोण दावे दिकांन आसिले तांका तेवे म्हणतित आनि शापग्रस्त लाेक अनंताग्नि देवचार आनि तागेल्या दुतानिमितीं सिध आस तुमि मजा लाग चान
४२ तांतु वचा । तेयितें हांव भुकेलाे आसिलाे आनि माका तुमि खावचा दिले ना हांव तानेलों आनि तुमि
४३ माका पिव्‌चाक दिले ना । हांव परदेशांतु आसिलो आनि तुंमि माका अतिथ्य केलो ना नागडो आसिलों तुंमि माका आंगवले दिलें ना पिडेस्त आनि पाद्याघरांतु आसिलो
४४ आनि तुंमि माका पोळोचाक आयले नंति । तेद्‌ना तेवे तांकां जाप दिउनु उलैतित हे प्रभु आमि तुमकां भुकेले आनि तानेले आनि परदेशि आनि नागडे आनि पिडेस्त आनि पाद्याघरांतुं केद्‌ना चेउनु तुमगेलि सेवा केलि ना ।
४५ तेद्‌ना ते तांका जाप दिउनु म्हणतित खरें तुमकां हांव म्हणतां तुंमि ते हांचे साबार सानु एकल्याकना कोनुं
४६ मज्या प्रति केले ना । हें अनंत दंडणेंतु वतित तरि येताल्लिक अनंत परमायुष्यांतु जातित ।—

२६ षड्विंशति पर्व्व ।—यिशुन हि खबर सांगकोनुं आप
२ णाल्या शिष्यांक म्हळें । दोनि दिसपरांतुं पेसाख जायत हे तुंमि समजताति मनुष्याचे पुताकें क्रूशाचेरि मोर्‌चे
३ निमितीं परहस्तगत जावचें लागस । तेद्‌ना प्रधान याजक आनि अध्यायक आनि लाेकांतुले घोर्‌नें कायफा नावांचे
४ प्रधान याजकाले माळयेरि तुंसभें आसिले । आनि यिशुक कपटान धोनुं जिविसि मार्च्याक तजविज केलि ।
५ तरि उलैले परिच्या दिसांतु न्हे कोण जाण लोकांतुं गड
६ बडि जायत । तेद्‌नां यिशु बितानियांतु शीमोन कोडिचे

घरांतु आसिले। तेसमयारि जेवच्या बोध्चे वेळे एकि
७ बायल साबार मोलाचे परिमळ वस्तुन भर्ले लि थवे घाल
राघो कंडें। ताजे लागि ह्वाड्णु तांगेल्या माथ्यारि वोत्लि।
८ तागेले शिष्यानि तें घोउनु रुष्ट जाल्ले आनि म्हणु लाग्ले
९ हि च्युति यित्या कर्ता। तेयितें हे परिमळ वस्तु साबार
रुपयेन विक्रीत जाउनु दरिद्रि लोकाक दिलो जाउच्या
१० शकता। तरि यिशुन ते समज्तु तांका म्हळे तुमि बाय
लेक दुःख यित्या दित्ता तांनि मजेरि चां कार्य केले आस।
११ दरिद्र मनुष्यु सदंचि तुम्चे लागिं तरि ह्वांव सदंचि तुम्चे
१२ लागि ना। हे कोण परिमळ वस्तु मज्जे आंगारि हिणे घा
१३ ल्ला तो मेगेल्या कबरांतु दिवचाक केल्ला। तुम्का ह्वांव खरे
म्हण्तां सगळे राज्यांतुं कोण जाग्यारि हो बरो समाचारु
वाठुळि वाजैलो जायत ते जाग्यारि हि बायल मनसेन कोण
१४ केलें आस तिज्जें आठवणि निमितीं तें म्हणुचे लागत्। तेद्
ना बारा शिष्यां भितरि यिऊदाह् स्कारिओट नावांचो
१५ एक्लो प्रधान याजकांलागि वोचुनु। तांकां म्हळें माका
यितें दिशा तरि ताका तुम्चे ह्वातांतु कोनुं दिम देद्ला
१६ तिस रुपयो मुद्रा दिवच्याक खंड केलो। यानिमितीं केद्ना
यासुनु ताका तांचे ह्वांतातं कोनुं दिव्चाक जायि जाल्ले उ
१७ पाउ करुं लागलो। ताजे मागिरि बेखमिर भाक्रि पर्बिचे
प्रतम दिसारि शिष्य यिशुलागि येउनु उलैले पेसाख् जेवणा
१८ निमितों खयि प्रस्तुत करिन तुम्गेलि इच्छि यितें। ताणे
म्हळें पेंटातु अमक्या लागि वोच्या आनि तांकां म्हणा गुरु
म्हणतांति मेगेलो काळु लागि पाव्ला मेलेगे शिष्य सहित
१९ तुम्गेल्या घरांतु ह्वांव पेसाख् करिन। ह्वाजे निमितों यिशुन
तांकां आद्ना केलिलि जालि शिष्यांनि तसें कोनुं पेसाख्
२० सिद्ध केलो कसि सांज जातचि ते बारा शिष्यांघा लागि बसुले
२१ तागेल्या। जेव्णाच्या वेळारि तो उलैलो तुम्कां ह्वांव खरे

म्हण्तां तुम्चा भितरि एकलो दुसऱ्या हातांतु माका करित।
२२ ताजेन ते साबर दुःख पाउनु आपापण तांका म्होणु लाग्ले
२३ हे प्रभु तो यितें हांव। ते जाप दिउनु उलैले कोण मनुष्यु
मजा लागि आयदनांतु हातु बुडैता तोचि माक्का दुसऱ्याच्या
२४ हातांतु करित। मनुष्यांचे पुत कसें तागेल्या विषयांतु बरें
ले आस तसें वताति खरे तरि कोण मनुष्यान मनुष्याचा
पुत दुसऱ्या कोर्णु हातांतु वटा ताका संतापु जायत ताजो
२५ जन्मू ना जाल्लो जाल्यारि बरें जातो तेद्ना यिउदास घात
कि जाप दिउनु उलैलो हे प्रभु तो मनुष्यु यिते हांव ताणे
२६ ताक्का म्हळे तुवें म्हलें आस ताजे मागिरि तांगेल्या जेवणा वे
ळारि यिशुन भाकरि घेत्लि आनि आशिर्वादु कोर्नु मोड्
णु आनि आपणाल्या शिष्यांक दिउनु उलैलो घेया खाया
२७ हेचि मजे शरीर। ताजे मागिर ताणे गिंदल घेउनु स्तुति
२८ केलि आनि ताका दिउनु म्हळे तुमि सगळे पिया। नवि
बंदोवस्ति घडि कर्त्तलि मजे कोण रक्त पाप बोच्या निमित्यान
२९ साबार जाणानिमितीं पळेले जायत ते हेचि। तरि तुम्कां
हांव म्हण्तां कोण दिसु पासुनु हांव तुम्च्या भरसि मेगेल्या
बापुसुल्या राज्यांतुं ते नवे पिवप कर्ना ताजा पैले हांवे द्राक्ष
३० रसु आनिके पिशि ना। ताजेमागिरि ते एक संगित म्होंणु
३१ जीत वृक्ष गुड्याचेरि गेले। तेद्ना यिशुन तांका म्हळे हेचि
राति तुमि सगळि मजे निमितीं बादा पावशाति तेंथिते हें
बरैले आस हांव राखण्याक मारिन आनि हिंडाचे तगर
३२ आडादुडि जातित। तरि मेगेल्या दुसऱ्या उठपा मागिरि
३३ तुम्गेलि पिरतम गालिलिंतु हांव वचन। पितर जाप
दिउनु ताक्का उलैले तरी सगळे तुमगेल्या विषयारि बादे
३४ जातित जाल्यारि हांव केद्नांयि बादेचो जायिशि ना।
यिशुनु ताका म्हळें खरें हांव तुम्कां म्हण्तां हे रात्रि
कुंकड्याचो शादाच्या पेरितम तुमि मेगेल्या विषयांतुं तिनि

२५ वेळे नडिशा । पितरान तांका म्हळें तरी हांवं तुम्च्या लागि मरन ज्याल्यारि तुमगेल्या विषयारि नडिश ना
२६ सगळे शिष्यानि असें म्हळे । तेद्ना यिशुन तांच्या सहित गेत्सिमानि नावाचें एका जाग्यारि पैय केलें आनि शिष्यांक म्हळे हांव केदोळु परांतु वेचुनु त्या जाग्यारि कामना करिन तेदोळु परांतु तुमि हे जाग्यारि बैसा ।
२७ तेद्ना तांनि पितराक आनि जेबदिले दोगां पुतांक सांगाति घेत्ले आनि महाकातर आनि मनांतु सावार जडजा वच्याक
२८ लाग्ले । तेद्ना तांकां म्हळे मजें मन्न मरणा वेळावारि सावार दुखित आस तुमि हांगा राव मजे लागि पारो
२९ दिया । ताजा मागिरि आनिकै चिकै धुर वेचुनु ते उमति जाउनु पेंणु प्रार्थना केलें उलैले आहे मेगेलो बापुसु कोणि जाव्चाक आसत्ता तरि हें गिंदल मज्या पासुनु वोत्ता
४० तरि मजि इक्षा ना तुम्चि इक्षा जावो । ताजे मागिरि आपण त्या शिष्यांलागि येउनु तांकां निदस्ते देकले आनि पितराक म्हळे तुमि यितें एकि घडिहि मज्या लागिं पारो
४१ दिव्चाक ना शक्ले । परिक्षेंतु नापेड्चा निमितीं पारो दिया आनि प्रार्थना कया आत्मा नितांत सिद्ध तरि शरीर
४२ दुर्बळ । तो दुसारान वेचुनु आहे मेगेलो बापुसु मेगेल्या पिवच्या खेरिज हें गिंदल मजलागि थाकुनु वोचा शकना
४३ तरि तुमचि इक्षा जावो हि प्रार्थना केलि । ताजे मागरि तो वेचुनु दुसरान तांकां निदस्ते देकले तेथिंतें तांगेले
४४ दोळे भगभगें लागले । आनि तांकां सोंणु नेवान गेलो
४५ आनि तिसरा वेळे तेंचि उत्तर म्होंणु प्रार्थना केलि तेद्ना तो आपण त्या शिष्यांलागि वेचुनु उलैलो आतं निदा आनि दणु परियार करा चोय्यांति घडि लागि आयलि आनि
४६ मनुष्यालो पुतु पापीयांचा हातांतु जातां । उठाया हांव वतां

चोय्या कोणि मनुष्यु माक्का दुसऱ्या हातांतु करता तोचि
४७ लागि। ते हें उत्तर म्हण्ताना चोय्या शिष्यांतुलो यिहुदाह्
नावांचो एकलो आयिलो आनि ताजा लागि प्रधान याजक
आनि लोकाले प्राचिना पाश्नु खांडिं आनि वेड्डु हातांतुं
४८ घेउनु सावार लोक आयलो। तेद्ना कोणु ताका दुसऱ्या
हातांतु करता ताने तांका संनि केले आनि म्हळे कोणाक हांव
४९ ऊंमा घेन तो तोचि ताक्का घट्टि धऱ्या। तेवेळारि तो
यिशुलागि येउनु उलेलो हे प्रभु नमस्कार आनि ताजि ऊंमा
५० घेत्लि। यिशुन ताका म्हळें हे भावा तु यित्तें निमितीं
आयला तेद्ना तानि येउनु यिशुचेरि हातु घालुनु ताक्का
५१ धर्लें। तेवेळारि यिशुलागि कित्ले लोकु आसिल्लें तांतुल्या
एकल्यान हातु उबार्नु आपणालें खांडें कांणु प्रधान याज
५२ काचा एक्का परिचारकाक मार्नं ताज्जो कानु कात्तालें। तेद्
ना यिशुन तांकां म्हळें तुमगेले खांडें वोऱ्यांतु घाल्या तेयितें
५३ कोण मनुष्य खांडें धरता ते खांड्यान मर्तत। मेगेल्या बापु
सुन मजे लागि बारा समूहचे सावार दुतांक धाडित
५४ आसें हांव मेगेल्या बापुसु लागि यितें प्राधेना कोरूं शकलें
ना हेंचि समज्तानि तरि धर्मशास्त्र ग्रंतांतु हे सगळें जाव
५५ चें कारण बरेलें आस तें तेद्ना कसि पुर्ण जायत। ते घडि
यिशुन लोकाक म्हळें तुमि यितें चोराक धोर्चोवारि खांडि
आनि वेड्डु घेउनु आयल्याति हांव सदां नित्य देवळांतु
५६ बसलां आनि तुमि माक्का धर्लें लो ना तरि आचार्य उत्तर
पुर्तं जावचें निमितीं हें सगळें जालां तेद्ना सगळे शिष्यानि
५७ तांकां सोणु पेळ्ळुनु गेले ताजे मागिरि कोणे यिशुक धलेलो
कोण जाग्यारि अध्यापक आनि प्राचिन लोकु एकडे जाल्या
तिते जाग्यारि कायफा प्रधान याजकां लागि ताक्का घेउनु
५८ गेले। तरि पितरु धुर रावुनु प्रधान याजकाचा माळियेरि
वांचा माच्चि गेलो आनि भितरि वोचुनु पुतं पेळोच्याक

५९ सेवकांचा भर्सिं बस्लो । तेद्ना प्रधान याजक आनि प्राचिन मनुष्य आनि सभेंतुं आस्लिले समस्त लोकु यिशुचा विपरि तारि ताक्का जिविसि मार्च्यो निमितीं फटि साक्षि चेष्टा
६० केलि तरि पावले ना । साबारि फटि साक्षो आयल्यो खंये तरि मनावारि कोणकै पावले ना कडेरि दोनि फटि साक्षि
६१ येउनु उलैले । ह्यांणेचि म्हळेलें ह्यांव देवालें देवळ पाडु
६२ कोर्नुं नेंवान तिनि दिसांतु उधाव कोरं शक्तां । ताजे मागिरि प्रधान याजकानि उठाउनु तांकां म्हळें तुमि यित्या कस्लि जाप कर्नाति हें कोण साक्षि तुमगेल्या विपरितांतु
६३ दित्ताति ते यितें । तरि यिशु वेगो राब्लो ताजे मागिरि प्रधान याजक जाप दिउनु उलैलो तुम्कां ह्यांव जिया देवाचे नांव घेउनु प्रमाण करैता आम्कां म्हणा तुंमि देवाचो पुतु
६४ खीष्ट कि ना । यिशुन तांकां म्हळें तुमि म्हळें आस तरि ह्यांव हें उत्तर तुम्कां म्हणतां ह्याजा मागिरि तुमि मनुष्या ल्या पुताक पराक्रमाचे उजवे कडे बैसुनु स्वर्गाच्या मेघारि
६५ येत्ताना चोयिशाति । तेदना प्रधान याजक आपणालें आंगवलें पिंदुनु उलैलो ह्याणे देवालि निन्दा लेके आमगेलि साक्षिचि आनिकै यित्यें आगत्य आतं चोय्या ताणेलि निन्दा
६६ तुंमि आयकिलें आस । तुंमि यितें मनांतु ह्याड्ताति
६७ तांनि जाप दिलि तो मार्चा योग्य आस । तेद्ना ते तांचा तोंडारि थुकेलें आनि ताक्का मांर्लें आनि आनिकै लोकानि
६८ ताक्का थापठं मार्लिं । आनि म्हळें हे खीष्ट आचार्य्या उत्तर
६९ आम्का म्हणा तुक्का कोणे मार्लें । तरि पितर उठाउनु वो सरारि बस्लो तेद्ना एक चेडु येउनु ताक्का उलैलि तुंवंयि
७० गालिलिचे यिशुलागि आसिलो । तरि तो नड्नु सगळ्यां चा मुकारि उलैलो यितें म्हण्ता तें ह्यांव नेण । ताजे मागिरि
७१ दवें त्यारि गेलो आनि एकलो ताक्का पोळोउनु लोकांक
७२ उलैलो हो मनुष्यु यिशु नाजरेथाच्या लागि आसिल्लो ताजे

मागिरि ताणे प्रमाण कोनुं आणेन उलैलो हांव त्या मनुष्याक
७३ समज नाव । त्तिकेराबले परांतु कोणि लागि उबे राव्
ल्यांति तान्नि पितराक म्हळें आवश्यां तु तंतुजो एक्लो तेंथि
७४ तें तुगेल्या उतराम तु जाणेता । केद्ना तो घटि उत्र म्होणु
च्याक आनि आणु कोंथं लाग्लो हांव त्ये मनुष्याक नेण आनि
७५ तेंचि समयारि कुंकड रळें । तेद्ना पिशुन उत्तर उलैले
कुंकडानसाद् घालचें पैले तिनि वेळे मज्या विषयांतु नड्शी
पितरान हे उत्तर आठवण केलें परांतु तो भायर वोचुनु
सावार रोक्तो ।—

२७ सप्तविंशति पर्व्व ।—फाल्लें जात्तचि समस्त प्रधान
याजक आनि लोकांचा प्राचिनानि यिशुक जिविसि मारचा
२ निमितीं तांगेल्या विरोधांतु युक्ति केलि । हाजा खातिर ता
क्का बांधुनु घेउनु गेले आनि राज्याचो धनि पंतियस पीला
३ ताचे लागि समर्पण केलो । ताक्का मारच्याक आद्ना जालि
विश्वासुघातकि यिऊदाह् तें समुजुनु पश्चात्ताप कोनुं प्रधान
४ याजक आनि प्राचिन लोकांक त्यो तिस रुपैयो पतुंनु दिउ
नु म्हळे हावे अहिंसकाचो जिउ दुसऱ्या हातांतु दिउनु पाप
५ केलें तांन्नि म्हळे तें आम् गेले यितें कार्य तुं जाण । तेद्
ना त्यो रुपैयो देंवळांतु उडोउनु आपणा आपणे गळ फासु
६ घेतलो । ताजे मागिरि प्रधान याजकानि त्यो रुपया
कांणु उलैले दिले विषेयांतु हो देवानुं घेवचें उचित न्है तेंथि
७ त्या तेरक्त चें मोल तरि तानि परामर्शुनु परदेशांक पुचें
८ निमितीं कुंबारालो जागो त्यो दिउनु मोल्ला घेतलो । हे
निमितीं आजि म्होंणुपरांतु ते जाग्याक नांव रक्तक्षेत्र ।
९ तेद्ना आचार्याले हें उत्तर पूर्त जाल्ले कसल्या मोल यिश्र
ररलालें संतानानि केलें ताणे मोल ते तिस रुपैयोचि

१० तान्नि घेतल्यो आनि कसें यिऊडुन माक्का आद्‌ना केल्लेलि त
११ हि कुंबराले जाग्या निमितीं त्यो दिल्यो । तेद्‌ना यिशु धनियां
सुकारि उबि राब्‌लो ताजे मागिरि धनियान ताक्का निम
गिलें तुं यितें यिऊदियालो रायु यिशुन ताक्का म्हळें तुंमि
१२ म्हळें आसत । तो क्षेद्‌ना प्रधान याजक आनि प्राचिनाचें
वाटेन अपवादि जालो तेद्‌ना ताणे जाप कांइ दिल्लि ना ।
१३ ताजे मागिरि पिलातान ताक्का म्हळें हे तुगेले हाग्यांतु
१४ यितें प्रमाण दिताति ते यितें आयकुं पाव्‌नांतीं । आनि ताणे
एक उत्तर जाप दिल्लि ना ताजेन धनि साबार आश्चर्य जाल्लो ।
१५ ते पर्बांतु कसल्याक लोकानि इच्छा केल्लि असोलो एक्लो
१६ बंदिवानाक सोडोउचें धनियांक वेवहार आसिल्लो । हे वे
ळारि तागेलो एकलो होडु बंदिवानु आसिलो ताजें नाव
१७ बारब्बा । तेंनिमितीं ते एकडे जाल्ले परांतुं पिलातान ताक्का
म्हळें तुम्‌चे लागि हांव कोणाक मुक्त करिन बारब्बाक जावो
यिशुक कोणालें नांव ख्रीष्ट तुम्‌गेलि यितें कस्‌लि आग्ना ।
१८ तें तानि मत्सरान तांकां सर्पण केलेलें हेंचि ते समज्‌ताति
१९ ताजे परांतुं विचारा आसनाचेरि बस्‌ले परांतुं तागेले
बायलेन ताजे लागि मनुष्यु धाडुनु म्हळें कि तुंमि ते धर्मि
काक कांयि कोंमाक्का तेयितें आजि सप्नांतु हांव ताजे विष
२० यारि साबार दुःख पावल्यां । तरि प्रधान याजक आनि
प्राचिनानि बारब्बाचे मोचन आनि यिशुचे मारण माग्‌
२१ च्याक लोकांक धाळे। धनियान जाप दिऊनु तांकां म्हळें कि
तेदोगांचे कोणाक मुक्त करिन तुम्‌गेलि यितें इच्छा तान्नि म्ह
२२ ळे बारब्बाक । हे निमितीं पिलातान तांकां म्हळें तरि यिशु
कि कोणालें नाम ख्रीष्ट म्हण्‌ताति ताक्का यितें करिन तांनि
२३ म्हळें कि तो क्रूशाचेरि मोरो । धनि उलैलो यिते ताणे
यिते दोषु केला तरि ताणे आनिके होडान म्हळें तो क्रूशा

२४ चेरि मोरो । ह्याजे खातिर आप्णालें उत्तर कस्लेंयि येवचें नयिं ह्याड गदल आस्सें पिलातान हें पोळोउनु उदक वेउनु आनि लोकाच्या मुकारि हात धुउनु उलोलो हे धर्म्मिका
२५ चे ह्त्तेंत मेगेलो दोषु ना तुमि तें समजा । ताजे मागरि सगळो लोकु प्रतिउत्तर कोनुं उलैले ताजे ह्त्तेचो अपराधु
२६ आम्चेरि आनि आम्गेल्या संतानाचेरि जावो । तेद्ना तान्नि बारब्बाक सोडणु ताकां दिलो तरि यिशुक बेत्तं मानुं
२७ क्रूशाचेरि जिविलि मार्चें खातिर दिल्लो । ताजे मागरि यजमानाले सनेन यिशुक सबेतुं ह्वाळो आनि सगळे लष्
२८ कराक ताजे लागि एकडें केलें । आनि तागेलें आंगवलें काडणु एक तांबडें आंगवलें ताका वेडायलें ।
२९ तान्नि कांट्याचें एक किरिट कोनुं ताजा मात्यारि दिल्लें आनि बेत ताजे उजवे ह्वातांतु ताजे मागिरि ताजे एदुर डिंबि तेंकुनु हे
३० यिऊदाहुचे राया हें म्होंन्नु ताका खेंत्त केले । ताजे मागिरि ताजे वोयरि थुपि घालि आनि ते बेत्तान ताजे मात्यारि
३१ मार्लें । ताजे मागिरि ताका खेत्तें कोनुं ते आंगवले मेकोळुनु घेतले आनि तांगेलें आप्णाले आंगवले नेसोनु ताका
३२ क्रूशाचेरि मार्चानिमितीं घेउनु गेले । ताचे मागिरि भायर थाकुनु तांनि शीमोन नावांचो एकु मनुष्यु किरीणि देशाचो
३३ ताका चोउनु तागेल क्रूश वांव्हचाक बिटि घेतले । ते गल्गता जाग्यारि अर्थात मेंल्लो मनुष्याचा मुंडाच्या जा
३४ ग्यारि येउनु तानि पित मिश्रीत सिर्का पिव्चाक दिलो तो
३५ लउनु ताने पिल्लो ना । तान्नि क्रूशाचेरि ताका बांद्लो तांनि वांटो कोनुं मेगेलें आंगवले घेतले आनि मेगल्या चोग्या निर्मितीं चिटि घालि हें आच्याऱ्याले उत्तर पुर्तें कोचें निमितीं तांनि चिठ्ठो घालुनु तागेले आंगवलें वांटुनु घेत्
३६ लें । ताजे मागरि तांनि ते जाग्यारि बैसुनु ताजो पारो
३७ दिल्लो । आनि कि हो यिऊदयालो रायु यिशु तागेलें असें बरे

३८ लें दोषपत्र ताजा मात्यावैले राकडा वोयरि बांदलें। तेद्ना
दोग जण चोर एकलो ताजे उजयान एकलो दावान तांगे
३९ ले सहित क्रूशाचेरी मारुन गेलो। कोण ते जाग्यारि
४० गेलेल्यानि मात्तें हालोनु आनि देवळाक पाड कोर्नु तिन
दीसांतु उठकरायतल्या आह्लो आपणाक वाचुन घे तूं तरी
देवाचो पुतु क्रै जाल्यारि क्रूशारिथाकुन देंवं हें उत्तर म्हेणु
४१ ताका परिहासु केलो। तसेंचि प्रधान याजक आनि
आचारि आनि प्राचिन मनुष्यानि निंदा कोर्नु उलैले।
४२ ताणें आनिकै लोकाक वांचैले अपाणाक वांचोचाक सकना
तो तरी यिस्रएलाचो रायु जायत जाल्यारि क्रूशारिथा
४३ कुनु देवों तरि ताका विश्वासु कोरुं। ताणें देवाचे शरण
घेतलें तो तरी ताका इंछा करित जाल्यारि आतं ताका
४४ उधार कोरो तेयितें ताने म्हळे हांव देवाचो पुतु। कोण
चोर ताज्या भर्सि क्रूशारि सहरेलो तांनियिं ताका निंदा
४५ केलि। ते वेळारि दरंपार थोनु तिनपार परांतु सगळे
४६ देशांतु काळोकु जालो। तेद्ना तिसऱ्या प्रारारि यिशु
होडान उलोनु एलि एलि लामा शाबाख्तानि म्हळें अर्थातु
हे मेगेल्या देवा हे मेगेल्या देवा यितें निमितीं माका सोळो।
४७ हे निमितीं कोण मनुष्य ते जाग्यारि उबि आसिले तांतु
भितरि थोडे जाणानि ते आयकुनु उलैले तो एलियाह्याक
४८ आपैता। तेद्ना तांचा भितर एकलो वेगि धाउ
नु संजो घेउनु आनि ताका सिरक्यांतु तिबोनु नळिये
४९ चा तुदियेरि कोर्नु ताका पिवचाक दिलें। तरि आनि
कै मनुष्य उलैले राबा एलियाह् ताका निस्तार कोर्चाक
५० येता कि ना हें आमि पोळोउ। यिशुन नेवान होडान
५१ आपोनु जिउ सोळो। तेद्ना चोय्या देवळाचो फोडदो तुदि
थोर्नु मुळ पासुनु पिंदुनु दोनि कुडके जालो तसेंचि भुयिं
५२ कंपु जालो आनि गुंडेड भेदन। आनि कबर भेतुनु गेलि

आनि निद्रले पुन्निवंत्ये साबार लोकांले शरीर उटा
५२ यिलिं। तांगेले नेवांन उठपा परांतुं आपणालि कबर सोंगु
बार सर्जे आनि पवित्र शहरांतुं वोचुनु साबार लोकांलागि
५४ दरशन दिर्ले। तो एक सेंबरि दळाचो यजमानु आनि कोणे
तांचा सहित यिशुलो पारो दिल्यानि भुंयिकंपु आनि हें
सगळें कार्य पोळोनु हरें पेटुनु उलेले निश्चयु हो देवा
५५ पुतु। कोणि बायलो गालिलिंयाकुनु यिशुचा भर्सि आयिल्यो
५६ आनि तागेलि सेवा केलिलिं। तांतुल्यो मारिया माग्दलेन
आनि यश्राकूबाचि आनि योहनाचि आउसु मारिया
आनि जेबदिले पुताचि आउसु हांनि धुर उबि राबुनु
५७ चोयिल्यो। सांज आत्तचि युसफ नांव आरिमातियेचो एकु
५८ भाग्यवंतु तोवांय यिशुलो शिष्य ताणे पिलातालागि
वोचुनु यिशुलें कुडि मागले तेद्ना पिलातान ति कुडि दिव
५९ चाक आद्ना केलि। हाजा निमितीं युसफ कुडि
६० घेउनु निर्मल आंगवल्यान वेडायले आनि आपणालि
नवि एकि कबर गुंद्याचेरि खळेलि आसिलि ताजाभितरि
ति कुडि दवलि आनि कबराचा बाग्लाचेरि होडु फातोरु
६१ दिउनु चम्कोलो। मारिया माग्दलेन आनि वेगळि मारिया
६२ थैं येउन् कबरा मुकारि बस्ल्यो। पेसाखाचा आयोजन
कोर्चा दिसाचे दुसर्या दिसा प्रधान याजक आनि फारिशी
पिलातालागि येउनु उलेले। माहाराया केद्ना हो
६३ प्रतारक वांचुनु आसिलो तेद्ना उलैलोलो तिनि दिसा
परांतु आपण नेवांन उठायन हें आमकां उडगासु झालो।
हाजा निमितीं कबराचि पारो तिन दिस परांतु दिव्
६४ चाक आद्ना कर्या यितें जाण तागेले शिष्ये रातिचें येउनु
ताका चोरि कर्तित आनि लोकांक म्हणतित तो मारयांतु
जान उठाईलो ताजेन माघ्लिचो फिसाक पेल्याचाकें वायट
६५ जायत। पिलातान तांकां म्हळे तुमगेलो पाग्यालारु आस

१६ वोचा तुम्गेले वुद्दिवारि पारो दिया छे । निमितीं ताखे वोघुनु मुञा लाउनु पाछ देउनु कबर रक्षण केलि ।—

२८ अष्टविंशति पर्व्व ।—शावताचा कुडेचे तागेले प्रथम दिसु फाल्यारि मारिया माग्दलेन आनि वेगळि मारिया
२ कबर चोउचाक आदिल्यो । तेवेळारि चोय्या होडु भुवंपु जालो तेंयिते देवाल्या दुतान स्वर्गारियाकुनु देउनु बाग ला वेलो फातोछ निसरायलो आनि ताजेरि बसलो ।
३ ताजि मुर्ति विजवातारि आनि तागेलें आंगवलें हिंवा वारि
४ धवोबंगु । ताज्या भयान सगळे पाग्याकार कडकडेनु
५ आनि मुर्च जाले । दुतान उत्तर कोनु बायलांक म्हळे कि भय ना तुंमि क्रूसाचेरि मेल्या यिशुलें सोद कर्तातित हें हांव
६ जाण । तो हांगा ना ताणे कसि म्हळेलें तसें उटालाति
७ कोण जाग्यारि प्रभु पातलेलो तो जागो पळेया । तरि बेगि वोचुनु मरणातुल्यान तागेले उठपाचो खबर तागेल्या शिष्यांक दिया चोय्या तो गालिलिंतु तुम्चाके पिरतम वोत्ता थैं तागेलि मेळि पावशाति चोय्या हावें तुम्कां
८ सांगिलें । त्यो भिल्यो आनि चां अनन्दो जाउनु कब राचा लागचान गेल्यो आनि तागेल्या शिष्यांक खबर दिउ
९ चाक धावल्यो । त्यो शिष्यांक सांगचाक धांउनु वेताल्यो ते वेळारि चोय्या यिशुन तांचा लागि मेळि केलि आनि उले लो सगळ्याचें बरें जावो ताजेन त्यो येउनु ताजे पाय धोनु
१० ताका पुजा केलि । तेद्ना यिशु उलेलो भय ना वोचा मजा भावांक गालिलिंतु वोचाक म्हण ते जाग्यारि मेगेले दर्शन
११ पाव्तित । त्यो वताल्यो चोय्या ते वेळेरि थोडें भोउ पारेकार पेटां येउनु यितें जालेले तें प्रधान पुरेतालागि सांग्ले ।
१२ तेद्ना तांनि प्राचिन सहित एकडे जाउनु परामर्श कोनु
१३ दळाक सावार रुपेया दिल्यो आनि म्हळें तुंमि हे उत्तर

म्हणा आमि निदतचि तागेले शिष्य रातिं येउनु ताका चो
१४ र्नु घेउनु गेले । हें उत्तर तरि धनियांचा कानांतु समजत
१५ तरि तांका सांगुनु संमजाउनु तुम्कां रक्षण कोरुं । हाज्या खा
तिर तानि रुपैये घेउनु कसि आद्ना पावलेले तसि केलें
१६ हे उतर यिऊदियांतु आजिपरांतु प्रख्यात आस । ताजे
मागिरि ते इक्रा शिष्य गालिलिंतु कोण एकु गुडडो यिषु
१७ न तांचा निमितीं दाकैलेलो ते जाग्यारि गेले । तेद्ना
तांनि तागेले दर्शण पाउनु तागेले भजन केलें तरि थोडे
१८ जाणाक संदेह आसिलो । यिषु येउनु तांकां उलैलो ख
र्गारि आनि भुंचेरि सगळें शासन अधिकार माका दिउनु
१९ गेला । हाजा खातिर तुंमि वोचुनु सगळ्या गांवकारांक
बापुसु पुतु आनि धर्मात्माले नावारि त्रुडकुलि दिवोत
आनि हांवे कोणि आद्ना तुम्कां दिल्लिआस ति सगळी
२० मानचाक सिकैत तांकां शिष्य कचा । आनि चोय्या जंगत्याचे
निमाणे पाउनु हांव सुदंचि तुमिगेले भर्सि असं । आमिन ।

## मंगलसमाचार मार्करचिव।—

### १ प्रथम पर्व्व।—

१ देवापुतु यिशुखीष्टालो मंगलसमाचारालो प्रारंभु चो
व्या हांव मेगले दूताक तुम्च्या पिरतम तुम्गेली मुकावेली
२ वाट सीद कोर्च्याक धाड्तां। यिऊष्लो वाट तैयार कर्या
३ ताजो वाट सुऊ कर्या रानातु शब्दु कर्वल्यालें हें उत्तर कसो
४ आचार्य्य उत्रातु बरेलें आस तसो योहनु रानांभीतरी बुडु
कुल्यो दिवैतालो आनि पाप सुठैचे निमोतों परामननालो
५ बुडकुली वाटें ताजैतालो। तेद्ना यिऊदाह् देशां आसो
ले आनि यिरुशालमालो प्रजा ताजे लागों वेचुनु पाप स्वी
कार कोर्नु यरदनन्हैतुं ताजेल्या करशाक बुडकुलेले जालेतो।
६ योहनु कर्याले रोमे आंगवल्यान दुस्तु केलो आनि कातीलो
धाष्टो ताजे कुरटारी आसोल्लो तो तोळ आनि रान म्होउ खा
७ ताल्लो आनि मन्याकै होडु कोणाचे पायाण्याचे फीत लावच्याक
नि लाउच्याकै हांव पुरो जाल्लों न्हें असलो एकलो मजे परां
८ तें येता। हांव उदकांतु तुमकां बुडकुली दिवैतां खरें तरि
तो तुमकां धर्मात्मांतु बुडकुली दिवैत हेची उतर वाटे दाज
९ लें। तो वेळारि यिशु गालोलीच्या नाजरेतांथाकुन येउनु
१० यरदनांतु योहनाले करपाक बुडकुली मालेलो जाल्लो। आ
नि उदकांथाकुन उठायतनी स्वर्गु उमतो आनि धर्मात्माक
११ पारव्यावारि आपस्याचेरो आलाकं देक्लो। आनि मेगेल्या
कोण मोगा पुतचेरी मेगेजो होडो वुष्टि तो तूं आसो म्हाणचेर

१२ एकु शब्दु स्वर्गारीथाकुन उठायलो। तावेळी तो आत्माकर्टेक
अकर्षीत जाउनु रानांतु गेल्लो। आनि ते रानांतु चाळीस
१३ दिस देवचारांकरान परीच्चेंतु आसीलो। आनि तो राना
तुले जंतु भसींथि आसील्लो आनि दूतानि तागेली सेवा
१४ केल्ली। काळु पुर्तो जाल्लो देवालें राज्य लागि आल्लां तुमि
परामनन कर्या आनि देवाले राज्जाचो मंगलसमाचारु
१५ विश्वासु कर्या। योहन पाचाघरांत् सांपळे परांतु
यिशु हें म्हणत मंगलसमाचार जानेत गालिलींतु आयलो।
१६ ताजे परांतु तो गालीलीचे समुद्रा लागीं वोचुनु समुद्रांतु
बलें घालत् ले शीमोनक आनि ताजो भावु आंद्रुक पळैलो ते
१७ धितें तं खावि आसोल्ले। यिशुन तांकां म्हळे मजे लागीं येयार
१८ तुम्कां मनुष्ययांचे खावि हांव करीन। हाजे निमीतीं तत्
क्षण तानीं आप्णालें बलें उडैले आनि ताजे भसीं गेले।
१९ ते थैंयाकुन चोक्के दूर वेचुनु जेबदीलो पुतु यआकुबाक आनि
ताजो भाउ योहनाक दोणीचेरि बलें समकर्ताना देकले।
२० ततक्षणी ताणे तांकां आपैले तेद्ना ते आप्णाल्या बापुसुक
२१ आनि चाकरांक दोणीरी सोसु ताजे भसीं गेल्ले। ताजे मागी
री ते कफरनखमांतु गेले आनि ताणे तावळी शाबत दिसां
२२ तु सीनगगांतु वोचुनु शीक्षा करैली। तांनी कर्तुत्वायी
काराचे असे सीकैलें आनि अध्यापकांदारि तांका सीकैले
२३ ना ताजे निमीतीं ते आश्चर्य पावलो रकलो। अपवित्र आत्मा
ग्रस्त तागेल्या सिनगागांतु आसीलो तो कोरडुनु उलैलो
२४ रावा आहो यिशु नाजरेतांतुल्या तुजे लागीं आम्गेलें
कार्य यीतें तुं यीतें आम्कां पाड कोर्चो आयजा तुका हांव
२५ जाण तुं देवालो धर्म पुतु। ताणे मागीरी तुजत रावलो ताका
सोंणु ये यिशुन हें उत्तर म्होंणु तांका भोष्टायलो ताजेन तो
अपवित्रात्मा ताका फागुळणु आनि कोळचुनु ताका सोंणु
२६ भायर आयलो। आनि तो आश्चर्य पाउनु ताणे अपवित्र

२७ आत्माक ग्रासन पुर्रक अदन्या कर्तालो आनि ते ताका
मान्ताले हे योसें केषि यिते नवी शीक्षा हे उत्तर म्हण
२८ ताना आपायणा भीतरी निमगुं लागले। तादळींचि ता
गेली कीर्ति गालिलिच्या चारियी दिकांतु समस्थान पाव्ली।
२९ तावळी सिनगग सोंखु यआकुब आनि योहनाक सैत ला
गो घेउनु ते शीमोनाले आनि आंद्रुले घरालागी आयले।
३० तावळी शीमोनाली मांयी जोच्यान हांतलारी लागिलीहे
३१ खातिर ताज्नी तीगेली खबर ताजे लागी म्हळी। ताजेन
ते आयलो आनि हाता धोर्नुतीका उठ्कराय्ली तावळी
चि जोच्यान तीका सोळी ताजे मागीरी ताणे ताजी सेवा
३२ केल्ली। सांजिचें सुर्य्य अस्तमान जातचि लोकार्नी रोगी
३३ ष्टाक आनि भुत लागील्यांक ताजे लागि हाळे ताजेन पैठां
तुलो सगळो लोकु बागलांतु एकडे जालो तेद्ना ताणे सावार
३४ जोजोसु रोगु आनि भुतानी पंडायावल्या साबार जायांक
सोस्त केले आनि सावार भुतांक सोडैलीं आनि भुतांक
उत्तर उलोंच्याक सोळी ना तेयितें ताज्नी ताका समज्लें।
३५ फाल्यारी काळोकु आस्ताना ते उठाउनु अंतरगा जाग्यारीं
३६ गेलो ते जाग्यारी आराधना केल्ली। ताजे मागिरि शीमोन
३७ आनि तागेले संगति लोकु ताजे मागसी गेले आनि ताका
चोउनु उलैले सगळो लोकु तुका चोउनु आशा कर्ताति।
३८ ताणे ताका म्हळें आमी लागीं आसील्या गांवांतु वेचुं थै
हांव उत्तर जाणैन तेयितें ह्याजे खातिर हांव भायर आय
३९ लां। ते निमितो ते गालिलिचे सगळ्यान् तागेले सगळ्या सि
४० नगगांतु उत्तर जाणैलो आनि भुतांक सोडैलो। ते जाग्यारी
एक कोडी दोंवो तेंकुनु ताजे लागी येउनु आराधना केल्ली
आनि ताका म्हळें तुजी इछा जायत तरि माका सुद्ध कोरच्या
४१ शकसी। ताजेरी यिग्रु दयालु जाउनु हातु लांवु कोर्नु आनि

४२ ताका आपोंगु म्हळें मजो इछा जातार्त शुद्ध जा। हें उत्तर ते मनुष्याक म्हणत्‌चि ते कोडान ताका सोळो आनि तो
४३ बरो जाल्लो। ताजे मागिरि ताणे घडो अद्‌न्या दिउनु ताका
४४ धांणु दिल्लो। आनि ताका म्हळें जोके कोणाक यितें म्होंणा का तरि वोचुनु याजकाांक मेळ आनि जो मोशेहन प्रमाणां खातिर तांका अद्‌न्य दिलेली ते तुगेली शुद्धि जावचे निमित्ति
४५ उत्सर्ग कया। तरि तो वोचुनु ते कार्य्यांचो सावार विस्तार आनि प्रशंसा कोर्चों लागलो ताजेन यिशु समजसी स्यापेठांतु वोच्या सक्लो ना तरि भायर रानांतु राव्लो आनि च्यारियी दिशाचो लोकु ताजे लागी आयले।—

२ द्वितीय पर्व्व।—कितुले दिसपरांतु तो कफरनखुमी तु गेल्लो ताजेन तो घरांतु आस हें उत्तर प्रगट जालें।
२ त्यानिमित्ति वेगो सगळो लोकु एकडे आलो ताजेन ताजें रावुचां जागो ना असतांना घरा दारा लागीयी ना तेद्‌ना
३ ताणे तांका देवालें उत्तर म्हळे। ते वेळारी लोकानी चौग जाणांकि वांविल्या पक्षवातु जाल्या एकल्याक ताजे लागी
४ हाळो। ते जन समोहा निमित्ति ताजे लागि येउच्या नजजा उनु कोण जाग्यारि तो आसिलो ते घरा माळो भेतुनु वोणा वांतळारी पक्षवातु जाल्लो निदेलो तें हातुळसेत ताका दें
५ वेलो यिशुन तागेलो विश्वासु समजुन ते पक्षवातु जालेल्याक
६ म्हळें आरे पुता तुगेले पाप क्षमा जालें। तरि हो मनुषु
७ असो देव निन्दा यित्या कता देउन्‌ग्तां पाप वगसुच्याक जाता कोणु असिमनाभितरि आठेतले कितुले जाण अध्यापक थें
८ आसिले। ते मनांतु असें आठेताले तें यिशु अपणाले मनांतु तें समजुनु तेद्‌ना तांका म्हळे यितें तुमि मनाभितरि असे
९ आठेतावो। पक्षवातु जाल्याक तुमगेलें पाप वगसोलें म्ह णन की तुमगेलें हांतुळ उबानुं वोचा हें म्हणन हें दोनो

१० भितरि सर जाले यितें। तरी भुंयीचेरी पाप बगसु घाक मनुष्याले पुतालो पराक्रमु आस तुम्का ये कोळचे खातिर ते पक्षघातु आल्याक ताखि म्हळें हांव म्हण्तां उठा ११ या आनि हांतुळ उबालुं आपणाले घरालागी वचा। ते १२ तावळोचो उठाउनु आनि घांतुळ उबालुं तांचे सगळ्यां मुकारीं घमकलो ताजेन सगळे आश्चर्य पाउनु आनि आलि केदनायीं असले देकिलें ना हें उत्तर म्हणत देवाचो स्तुती १३ केली। तो नेवान समुद्रा लागी गेलो परांतु सगळो लोकु ताजे लागीं एकडे आलो आनि ताणे तांका शिक्षा करेवी। १४ तो ते वाटेन वताना कचेरी घरांतु आल्फोवो पुतु लेविउ साक घेयलो आनि ताका म्हळें मजे लागी यो तरी तो उठा १५ उनु ताजे लागीं गेलो। से परांतु यिशु ताजेल्या घरा लागी जेवुच्याक बसल्यि सावार जाखा कमाविसदार आनि पापी यिशुचे आनि ताजेले शिष्यांसेत बसले तेयितें ते सावार १६ आसोल्ले तानी तांचे भर्सीं आयोल्ले। तानि ताचे भर्सि जेव् याक बसकिले से अध्यापकानि आनि फारिश्यानि देकुनु ताजे ल्या शीष्यांक म्हळें कमावीसदारांचें आनि पापी लोकां भर्सीं १७ खाखा पिया यित्या कर्तानि। तेद्ना यिशु हें आय्कुनु तांका म्हळे जे रोगुनातील्ले तांका वैद्याचे अनुपत्य ना पोड आल्यां कचि जायी हांव यथार्थिक मनुपाले मनपरतुच्याक आपैा १८ घाक आयिल्लो ना तरी पापि। योहनाले आनि फारिश्या ले शिष्य उपासु कर्ताले ते खातिर तानि येउनु तांका म्हळें योहना आनि फारिश्यालें शिष्य उपासु कर्तासो तरी तुगेले १९ शिष्य उपासु कर्नाती हाजे कारण यितें। यिशुन तांका म्हळें होक्ले दिका लोकु होरेतु ताचे भर्सीं घाल्तां चिले उ पासु कोर्च्या सक्तालि होरेतु तांचे भर्सीं कितुले दिस आस २० तितुले दिस ते उपासु कोर्च्यां सकनातो तरि घलल्याव होरं ताक तांचे लागमें वेचें मायन असलो दीसु वस ते

२१ ते व्हारी ते उपासु कर्तीत। कोणे नवें आंगवल्यान पोनें आंगवल्याक चाकि दिनाति तें केल्यारि कोण दिल्या आस तियी पोन्याथाकुनु पोंदनु पड्ता ताजेन पोंदप आनिकें पड्
२२ जाता। कोणे नवें ज्ञाक्षेरोसु पोनें दाक्षांतु दवर्नांतो तसें केल्यान तो ज्ञाक्षेरोसु दाक्षाक भेतुनु उडैत ताजेन ज्ञाक्षे रोसु विकोनुं वचत आनि दाक्षांची पाड जायत तरि नवें
२३ ज्ञाक्षेरोसु नवेदाक्षांतु दवोचों लागत। तो शाबत दिसांतु गायांतुल्यान वतालो तेद्ना ताजेले शिष्य चमकताना सेत
२४ तंटोच्या लागले। तेद्ना फारिश्यानि ताका म्हळें चोय्या हें
२५ शाबत दोसांतु न्हे जालें कर्म ईत्या कर्तांति। ताणे तांकां म्हळें दाउद केद्ना ताका खावच्याक कांय नातीलें भुकेलो जालो तेद्ना तो आनि ताजे भर्सी आसिल्यानि यितें
२६ केलेंले। ताणे आबियातार प्रधान याजकाले वेळेरी देवा ल्या देवळांतु कोणजिनसान भितरि वोचुनु ते पुरेतान न्हंता कोणालेयो खाव न्हे त्यो दाकैलेल्यो भाक्यो घेतल्यो आनि कोण ताजे लागी आसोल्यांक दिल्यो तुमि यितें हें
२७ उत्तर केद्नायीं वाजिलें ना। ताणे तांका म्हळें शाबत दिस मनुष्यांखातिर निरोपित तसो मनुष्य शाबत दिसा
२८ खातिर न्हे हे निमिति मनुष्यपुतु शाबत दिसांचोयी देउ आस।

३ तृतीय पर्व्व।—वो नेजान सिनगगांतु गेलो थैं एकलो.
२ पांगळो आसोलो। तेद्ना ते शाबत दिसांतु ताका चां कर्तीत ताजेन ते ताजेलो अपवादु कर्तांति हेंचि निमित्यान
३ ताजे दिकान चोउनु राविले। तरि ताणे ते पांगळे मनुष्या
४ क म्हळें मुकारी उबो राव। ताजे मागिरि ताणे तांका म्ह ळें पांङ्गमें कोर्चें कि वायिट कर्म कोर्चें हाजे भितरी आनि

प्राणु राकचो कि प्राणु मार्चो हाजे अितरि शावत दिसांतु
५ कोकों जाल्लें थिलें ताजेन ते उत्तर नातिले जाले। तेद्ना
ताणें ताजेल्या मनातुले कठिनान दुखितु आनि कोपिलो आ
उनु चारि दिकांतु चायिलो ताजे मागिरि ताणें ते मनुष्या
क म्हळें तुजेलो हातु नीटु करी ताणें तें कर्तचि ताजेलो तो
६ हातु दूसरे हातावारि सम जालो। तरि फारिश्यानि वोचुनु
तावळींचि हेरोदीयाल्यांक सेत ताका कोण जीवसान
पाड कोर्चां जायत तसें ताजे दुष्मनपणांतु उपायु केलो।
७ हाजे खातिर यिशु आपणाले शिष्यांभर्शीं समुद्रालागीं
गेलो आनि साबार लोकुशी गालिलियाकुनु ताजे भर्शीं
८ गेले। आनि यिऊदाह देशु आनि यिरुशालम आनि एदोम
देशु आनि यरदनाचे पेलतडोयाकुनु आनि सूर आनि
सीदोनाचे चारिदिकाचो लोकाचो होडुगुंपु ताजेलि होडी
९ सासायो आयकुनु ताजे लागीं आयले। तेद्ना लोकु ताका
चेपुनु घाल्नासो एकि दोणी लागी आससी हो आज्ञा
१० ताणें शिष्यांक दिल्ली। साबार जणाक ताणें सोस्त केल्ले
ले हाजे खातिर कितुले जाणाक रोगु आसिल्लो तितुले
११ भाणु गडबडेउनु आयले। अपवित्र आत्मायीं ताका चो
१२ यतचि तुं देवापुत असी म्होंणु ताजे येदुर पळे। ताजे
मागिरि तांका ना समजसो आद्ना केलो ताजे परांतु तो
गुड्याचेरी वेचुनु कोणाक ताजो इछा तांका आयेलें आनि
१३ ते ताजे लागि आयले। तेद्ना आपणाले लागि राबच्याक
१४ आनि वाक्य जाणोंचे खातिरि धाडच्याक आनि रोग सोस्त
कोर्चें। आनि भुतं सोडेचें पराक्रमु पळेच्याक ताणें बारा
१५ जाणाक नियुक्त केले। शीमोन प्रख्यात ताणें पितर म्हळें
१६ ताका आनि जबदिलो पुतु यआकुबाक आनि ताजो भाउ
योहनाक ताणें तांजें प्रख्यात नांव बोआनर्गेस म्हळे अभो
१७ प्रायु गुडगुडाचो पुतु। आनि आंद्रेयाक आनि फिलिपाक आनि

१८ थातें बामीक आनि मातिउक आनि तमासाक आनि खल्
फोयालो पुतु यकोबाक आनि तदीक आनि शीमान कन
१९ अनिक। आनि कोणे ताका दुरूचा हांता सांपडायलो
यिऊदाक् ख्यारिओटाक नियुक्त केले तदना ते एक घरांतु
२० गेले। ताजे मागोरी लोकु बेवान एकठें जालो ताजेन ताका
२१ खावच्याक फुरसति नातिलि। तागेले सोयेंनि आयकुनु
ताका धेर्च्यांक गेले तेयितें ताणे म्हळे ते घावरो जालेंआस।
२२ कोण अध्यापक यिरुशालमांधाकुनु येउनु म्हळें कि ताजो
बआलजबूब आस आनि भुताचें धनिचें नांव घेउनु तो
२३ भुतांक सोडेता। तरि ताणे ताकां आपेवुनु उपदेशा
वाटेन म्हळे देवचाराक देवचार कसो कोनुं सोडेच्या स
२४ कत। तरी कोणें राज्य आपापणाले भागडयाव वेगळे जातीं
२५ जाल्यरि तें राज्य समराबच्या सक्सी ना। घर तरी आपा
पणाले भितरि भागडयान वेगळे जातीं जाल्यरि तें घर
२६ समराबच्या सक्सो ना। देवचार तरी आपणाले विरो
धान उठाउनु वेगळो आयल जाल्यरि तो थायी जावच्याक
२७ सक्ना तरि ताजो सेवट जाता। कोणे वळवंत मनुष्याक
पिरतन बांदनातिलें ते बळवंताल्याघरांतु वोघुनु तागेलो
वस्तु नागोव्याक सक्ना तरि ते केल्यान तागेले घर कोर्चो
२८ सक्ता। सारू हांव तुमकां सांगतां कोण समस्त पाप आनि
देवनिन्दा केल्यान कोणलो निन्दा करीत ते मनुष्याले पुताक
२९ बमुचे लागतं। तरि कोणुतो धर्मात्मा लागीं निन्दा करीत
ताका केदनायीं बमुप जायसी ना तरि ताका केद्नायो
३० पुञ्जनातिलें नरकापद आस। तेयितं ताणे म्हळे अपवित्र
३१ आत्मा ताका आस। ताजे मागिरी ताजे भाव आनि
तागेल्या आवसुन येउनु भायर उबि राबुनु ताका आपो
३२ याक मनुष धाळो तावळो। लोकु तागेल्या ध्यारियो
दिकांतु आसिबे तानि ताका म्हळें पोई तुगेलो आवसु

आनि तुगेलो भाउ भायर उबे रावुनु तुका सोदितात ।
३३ ताणे जाप दिउनु ताका म्हळें मगी आवसु कोणी आनि
३४ मजो भाउ कोण्णु । ताजे परातुं ताजे चारियी दिकां
तु बसुनु आशिल्यांक चोनु तो उबेलो चोया ते मगी आवसु
३५ आनि मजो भाउ । तेयेंते कोणु देवाली प्रीति कर्ता तोचि
मजो भाउ आनि तिचि मजी भयिणी आनि आवसु ।—

४ चतुर्थ पर्व्वं ।—नेवान तो समुद्रा तीरारी सिकैाया
लागलो आनि लोकसमुद्र ताजे लागिं एकडे आले ता
जेन तो दोणिरि चोणु समुद्रांतु बसले आनि लोक समु
२ द्र समुद्राचे तडीयेरी रावलो । तेद्ना ताणे दृष्टान्तान
ताकां सावार सिकैलें आनि आपणाले शीक्षें भितरि
३ तांकां म्हळे अवधान करा चोय्या एकलो बीयं सींपतलो
बीं सींपच्याक गेलो । सींपताना थोडींभो बीयं वाटे बगलेंतु
४ पळीं ताजे निर्मितिं सुन्याचे पक्षानि येउनु तें खाउनु उडे
लें । खैं सावारी माती ना अशिल्या फातरा जाग्यारी थो
५ डींभो पळीं तेद्ना माती मुळा नाशील्यान तीं वेगीं कीले
लों । तरि वोत पडतची तीं कर्पुनु गेलीं आनि ताजो मुळं
६ जाली ना खातिर बाउनु गेलीं । थोडींभो बीयं कांटीये
७ भाडांभितरि पळीं तरि कांटीये भाडं वांडुनु तीं खाउनु
उडेलीं ताजेन फळ नातिलीं जालीं । आनिकै चांग माती
येंतु पोणु वाडिली आंकुर आउनु वाउनु थोडीभो तीस थो
८ डीभो साठी थोडीभो सेंबरीगुण फळ फळलींति । ताजे
परांतु ताणे तांकां म्हळे कोणाक आयकुच्याक कान आस
९ तो आयको । ते वेगळे जातचि ते बारा जणाचे लागि कोण
चारियीदिकांतु आसिले तानि ताका ते दृष्टान्ताचो अर्थ
१० प्रायु निमगिलो । तेद्ना ताणे तांकां म्हळे तुम्कां देवाले

११ राज्याचे तत्व समजुच्याक अनुग्रह दिल्लो आस तरि कोण भायर आस्तलो ते पळयताना पळैतोत तरि समजसी ना आनि आयक्ताना आयकतीत पुण कळसी ना हे निमित्तिं
१२ हे तांचे लागीं दृष्टान्तांनी म्हळें जाता कोणन्नाण मन्न
१३ परतोल्याक तागेल्या पापाचो बकसण जायत। ताणे तांका हे म्हळें हो दृष्टान्त चिते तुमी नेण्ती समजनातल्यार।
१४ आनिकै सगळो दृष्टान्त कसो कोनुं समजण्या। बीं
१५ सोंपुचे उत्तर वेयो। कोण वाटेच्या बगलेंतु ते हेंचि कोण जाग्यारी उत्तर वोउनु गेले आस तरि ते आयक्तचि देव चाह तावळींचि येउनु तागेल्या अंतःकरणांतुं वोयोलें उत्तर
१६ घेउनु वता। कोण फातरा जाग्यारी वोयोलें जालें तें हें कोण उत्तर आयकुनु तेचि वेळारी आनन्दान तें घेताति।
१७ तरि आपुणा भितरी मुळ ना जाता हाजे खातिर थोडेदीस रावता ताजे परांतु वेद्ना उत्तरा खातिर दुःख आसो
१८ वेनळचाह जाता तेद्ना ते बाद्पावले जाताति। थोण कांट्या भाडांतु पोंगुकोलें वी ते हेंचि कोण उत्तर आयक्तचि संसाराची चिंता आनि दुडवाचे प्रवंचना आनि
१९ वोस्तुची लोभ जाउनु उत्तर खाउनु उडैताति ताजेन
२० फळ नातिले जाउनु वता कोण चांग मातियेंतु सोंपिलें ते हेंचि कोण उत्तर आयकत आनि मनांतु घेत आनि थो डोभैा तोसगुण थोडोभैा साठीगुण थोडोभैा सेंबरी गुण
२१ फळ फळता। ताणे तांकां म्हळें मात्या खाल जावो मांच्या खाल दोवोचें। खातिरचि दिवो चितें हाळो जाता आनि
२२ दिउलेचेरी दोवोचें खातीर न्हे। तेंयितें कोण प्रकाशित जायशी ना असो कसलोयी गुप्त दिपयु ना आनि भयरं ग कोर्चा न्हे जालो आसो कसलोयी अप्रचातु वोस्तुयोना।
२३ कोणाक आयकुच्याक कान आसतो आयको। ताजे परांतु

ताणे तांकां म्हळे तुमि कोण आयकताति तें जोके जाया ।
२४ कोण कुडवान तुमि मोज्ताति ते कुडवान तुम्चे खागि मेजु
चें लागत् आनि आयकतले तुम्कां आनिके दिल्ले जातित् ।
२५ तरि कोणाचें आस ताका दिवचें लागत् आनि कोणाचें ना
ताजेलें कोण आस तेंवैं ताजे लागिथाकुन घेव्चें लागत् ।
२६ ताणे म्हळें कोणतो मनुष भुयिंचेरि बीं सींपता ताजे
२७ परांतु रातिदिसु निदेउनु आस्ता आनि उटाउनु राविल्यान
यीं बी किलेंउन वाडीलें जाता कसिकोनु तें तो समज
२८ ना हो जिनोसु देवाले राज्य । तेंयितें पिरतम पान ताजे
२९ परांतु कणस ताजे परांतु पिकलें कणस भितरि सोसि
भुंयि हेजिनसान आपणंचि फळ फळ्ता । तरि फळ
पिकतचि ताजेन कातीचें लागता तेंयितें पिकि जाल्या ।
३० ताणे हेयीं म्हळें देवालें राज्य कसल्याचेयि साखें कोणते
३१ ग्यादीन ताजे सम हांवे कोचें । ते येक सासमा बीयांवारि
ते केद्भा भुंयितु वोयलें जाता भुंयितु कितुलें बीं ताजे
३२ सगळ्याच्याके सान । तरि वोनु जातचि होड जाउंपरांतु
आनि सगळे पाल्याचाके होड जाउनु उटायत आनि
होळे खांदे काडता ताजेरि सुन्याचे पक्षि येउनु ताजे
३३ सावळेक रावताति । ताणे कसि तांकां आयकुचि शक्ति
तांकां सरजालो साबार दृष्टान्तान तांका उत्तरं म्हळिं ।
३४ तरि दृष्टान्त ष्वंता आनि कसलेंयि म्हळें ना आनि वेगळे
-चि वोचुनु सगळ्याचो अर्थु आपणाले शिष्यांक सांग्लो ।
३५ तेदिसा ताणे सांजेवेळारि तांकां म्हळें वेया आमी
३६ पेलतडि वोच्यां । ताणे लोकांक थांगु दिउनु दोणिचेरि
३७ ताजे सैत गेले आनिके दोणोइं लागिं आसिल्यो । तेद्ना
होडु काळोकु जालो आनि पाळं दोणि वोल्यान गेलि
३८ ताजेन दोणि उदकान भर्लि । तरि दोणिमाल्ले पडिये

उसो कोनुं निदेलो हे निमिति तानि ताका जागोनु म्हळें हे गुरु आमो कि मर्तोंति हांतुं तुका कांयि चींता ना ।
३९ तेद्‌ना ताणे उटाउनु वाळ्‌काक्‌ भिष्टायलो आनि समुद्राक्‌
४० म्हळें तुलत राब तितुल्यान वोगो रान्‌लो । ताजे परांतु ताणे तांकां म्हळें तुमि असे भिजुडे यित्या आनि तुम्‌कां
४१ यदो विश्वासु ना हें कसि । हाजे खातिर तानि शोड भय केलें आनि वारें आनि समुद्रु ताणे सांगिले तसि आयक ना हे यितें आश्चर्यों मनुषु हेंचो उत्तर आपणा भितरि म्हळें ।

५ पंचम पर्व्व ।—तेवेळारि ते समुद्रु पार जाउनु
२ गदरीनाले देशांतु पान्‌ले । आनि दोणियाकुनु देंवतचि अपवित्र आत्मो येक्‌लो मसणाघाकुनु आय्‌लो आनि ताजे
३ वांगि भेट केलि । कोण मनुष्याचो वासु मसणा भितरि आस ताका सांकाळेनयों कोणाच्यानै बादुं नज जालें ।
४ तेंयितें नेवनेवान सांकाळेन आनि खोडयांतु पडुलो आ सिलो तरी सांकाळ ताजे वळान तुटेलि आनि खोड्या कुड के जालेलें आनि कोणै ताका मोड कोर्चो सकने आसोले ।
५ तोयो सदं रातिदिसु गुड्डावोयरि आनि मसणाभितरि पावड्यो घालच्यो आनि आपणाक फातरान कातर्तालो ।
६ तरि ताणे यिशुक थूरघाकुनु चैानु धावलो आनि ताजि
७ आराधना केलि । आनि होडि कोळ्‌चि मार्नुं उल्लेलो हे सगळ्यांच्याकैं होड देवाले पुता यिशु मजें तुका यितें काम हांव देवाचें नावं घेउनु तुका सोपुदु दितां माका
८ कष्टि कोर्नाका । तेयितें ताणे ताका म्हळेलें आरे अप
९ वित्र आत्मा ते मनुष्यांतुलो भायर सर । ताणे ताका निर्मगिलें तुजें नावं यितें ताणे जाप दिउनु ताका म्हळें मजें नांव लेजिओन तेयितें आमी सावार । ताणे ताका

१० देशभष्ट करनासि ताका साबारि काकुळति आयलो। तेवे
११ ळारि ते गुड्या लागि होड येकु दुकरां हींडु चर्धाले। तेखा
तिर सगळे भुतानि ताका काकुळति आयले आम्कां दुकरां
१२ भितरि धाडि आमों तांचे भितरि होफउं। तरि ताव
१३ ळिचो यिशुन तांकां अनुमति दिलि हाजे खातिर अपविञ्च
आत्मानी पयण कोर्नु दुकरां भितरि होफ्वले ताजेन तो
दुकरा हींडु यत्तर कडचन वेगान समुद्रांतु धांवलो आनि
१४ बुडुनु गेलो तीं येक दोनि हजार आसिलि। तेद्ना
दुकर राखण्यानि पोळणु पेंटांतु आनि गावांतु खबर दिलि
१५ ताजेन लोकु हेयिते हें समजुच्याक भायर आयलो। तेद्
ना ते यिशुलागि आयले आनि कोण भूत लागिलो आनि
लेजिओन यित्यांतु आसिले ताका आंगवलें न्हेसैलेलो आनि
१६ निश्चय मनान वसिलेलो चोउनु भिलेलि जाले। आनि
कोणे पळयिलेलें तानि तांकां ते भूत लागिल्यालो आनि
१७ दुकरालो विषयु जाल्लो सगळो सांगलो। ते तांगेलो
१८ भञ्जु सोणु वोच्याक ताका लालेच्या लागले। हाजे परांतु
तो दोणिवोयरि आयलो परांतु ते भूतलागिल्यानि ताजे
१९ लागि राबुच्याक सांगुन घेतलें। यिशुन ताका तसि
कोर्च्याक दिलें ना तरि म्हळें घरकडे तुमगेले कुटुंबाच्या
लागि वचा आनि देवान कोण होड काम तुम्चे खातिर
२० केलेलें आनि तुम्चेरि दया केलेलि हें तांकां सांगा। तानि
पयण कोर्नु कोण होड काम यिशुन तांचे खातिर केलेलें
ते देकापोलिसांतु कळोच्याक लागले ताजेन लोकु आश्चर्य
जाले।

२१ तेद्ना यिशु नेवान दोणिचेरि पेलतडि जाल्याक साबार
लोकु ताजे लागि येकडे जालो ताजेन तो समुद्रातडियेरि
२२ राबलो। आनि चोण्या हो याईरस नावाचो सिन
गगाचो धनी येकलो आयलो आनि ताका चोउनु ताजे

२३ पायारि पळो । आनि यग्रतेन ताजे लागि काकुळ तेलो आनि म्हळें मेगेलिसानि चेल्लो मरणात जालि आस तरि आपण येउनु तिजेरि हातु खेळैया ताजेन ती चां गा
२४ उनु वांचत् । तेद्ना यिणु ताजे सांगाति गेलो साबार लो कुयि ताजे मागसि गेलो ताजेन छेडि गिजिबिजि जालि ।
२५ तेद्ना बारा बर्स लागिन रक्तखावान पिडपावलि येकि बायलमनसि आसिलि आनि साबार वैद्या कच्यान साबार दुःख पाविलि आनि तिगेलि संपति खर्चु जाल्लि आनिलि ।
२६ तरि बरि ज जिना आनिकै साबार पीडा पाउनु आसिलि ।
२७ तिणे यिशुलो विस्तार आयकुनु लोकांभितरि ताजे मागसि
२८ येउनु तागेले आंगवल्याक आपड्लि । तेंथितें तिणे आटैलें छांव तरी तागेल्या आंगवल्याकचि आपडु सकन तरि चांगि
२९ जायन । तावळोचि तिजे रक्ताचो धारो सुकुनु गेल्यो ता
३० जेन ते वेथेंतुलि बरि जालि हें समजु पावलि । पाराक्रम कि आपणांथाकुनु गेल्लोआसिलो यिशुन तावळिचि आपना मनातु समजोतो ते कार्याक ते लोकांदिकां चोनु उलैलो मेगे
३१ ल्या आंगवल्याक कोण आपल्लें । तागेले शिष्यानि ताका म्हळें लोकु तुम्गेल्या च्यारियिदिकां भोंनु रावल्याति चोयत
आसां तावळि माका कोण आपल्लो असो तुं यित्या म्हणता ।
३२ तेपरांतु कोणे हें काम् केलेलें तें समजुचे खातिर च्यारि
३३ दिका चोय्लो । तो बायलमनसि आपणा मनातु हें केलें समजुन ताळो सुकुनु आनि घड्घडेउनु येउनु ताजे पाया रि पळि आनि जाल्लोलो वीस्तार सगळो तांकां खरो
३४ सांगलो । तेद्ना ताणे तिका म्हळें हेंचे लोये तुगेले वीश्वा सान तुका बरें केलें चां जालि जा आनि तुगेले रोगांतु
३५ ल्यान सुटोलि जा । तो हें म्हाणु आसुचे भितरि सिनगगा धनियाल्या घराजानिथाकुनु कोण येक्लो येउनु सांगत्तो जालो तुगेलि चेलि मेल्या गुरुक आनिकै कष्ट

३६ यित्या दिता । तरि यिशुन तें आयकतचि सिनगगाचे
३७ यजमानाक म्हळें चिंता कोनांका विश्वासुचि करि । तेद्ना
पितर आनि यअ्राकुब आनि यआकुबालो भाउ योहनु हे
३८ तीग जाणान्तुता कोणाकै लागि वोच्या दिले ना । ते सिन
गगाच्या यजमानाले घरांतु येउनु ताणे गुलुकलेल्या लोकाक
३९ साबार रडता आनि हाय ऊयि कर्ताना देकले । आनि
भितरि येउनु ताणे म्हळे यित्या गुलु आनि खोळसं कर्ताति
४० चेलि मेल्या न्हे तरि निद्ल्या । तेद्ना तानि ताका चेष्टा
केलि तरि ताणे तांकां सगळ्यांक भायर कोर्नु चेलियेले
आवसु बापुसु आनि ताजे लागि आसिले तांकां घेउनु कोण
४१ जाग्यारि चेलि निदेलि ते जाग्यांतु होकवले । आनि ताणे
ते चेलियचो हातु धेर्नु तिका म्हळें तालीता कुमी ताजो
४२ अर्थु हे चेलिये तुका हांव म्हणतां उटा । हे खातिर
चेलियेन तावळांचि उटाउनु चंमकलि तेयितें तिजि प्रायि
४३ बारा वर्षांचि ताजेन लोकु आश्चर्य जालो । बाजे परांतु
कोणाकयि कोळनये खातिर ताणे ताका घटि आद्न्या केली
आनि ताणे तिका यितें खावच्या दिव्याक आद्न्या केली ।

६ षष्ठ पर्व्व ।—ताजे परांतु तो आयणाले शिष्य सैत
२ थैंथावुनु पयण कोर्नु आप्णाले गावांतु आयलो । तेद्ना
शावत दिसआल्याक तो सिनगगांतु सिकोच्याक लागलो
ताजेन साबार लोकु तें आयकुनु आश्चर्य जाले आनि उलैले
हाका हें कार्य खैंथाकुनु जालें आनि असलि आश्चर्यां
कर्णी तागेले वाटेन केलेलि हें कोर्चाक कितुलो समजु
३ हाका दिलो । हो यितें मारियेलो पुतु न्हैं यआकुबा आनि
योशी आनि यिऊदाह आनि शीमोनालो भाउ तो वाटइ
न्हैं ताजि भयिणीयि यितें आमगेले थैं न्है आनि तो तांगेले
४ विषयांतु नडउन । तरि यिशुन तांकां म्हळें आप्णाले

गांवचे आनि आपणाले कुटुंबांतु आनि आपणालें घरन्दं
५ ना आचार्यालिं आपकीर्ति खैं ना। हाजे निमित्ति तानि
थोडे पिडेचे लोकाचेरि हातु दवोनु तांका बरें केलें होन्दं
६ ताखैं आनि तोणे आश्चर्य कर्गी कोरुं सक्ले नांति। लेवै
तागेल्या अनास्थान आश्चर्य जालें ताजे परांतु सिकैत ते
गावांतु भोवलो।

७ तेपरांतु तो बारा शिष्यांक आपोनु दोगं दोगं जाणाक
धाडच्या लागलो आनि तांकां अपवित्र आत्माचे वोयरि
८ अधिकारु दिलो। आनि वोड्डो न्हंतो आनि वाटे खातिर
भुति आनि खाचकें आनि चोयेंतु पैसा असलें कायों आनि
९ यितेंयि वेनासि आद्न्या। दिलि तरि पाया खाडावो घा
लच्या आनि दोनि आंगवलें ना घालंच्याक आद्न्या दिलि।
१० ताणे तांकां हेंयि म्हळें तुमी वोच्या खंचेयि जाग्यारि घरांतु
रिगश्यालि ते जाग्यारि तो गांउ सोडु परांतु रावा।
११ तरि तुमकां कोणतो अतिथ कोर्चा ईछा कर्ना आनि
उलरं आयकुच्या ईछिना तुमि थैंयाकुनु वोचे वेळ्यारी तां
चेरि साखि दिव्चे खातिर तुमगेल्या पाया धुळि फाफुडणु
घाल्याहांव तुकां खरें म्हणतां विचाराचे दिसांतु ते गांव्चे
प्रतिफळाच्याकि सदमाचे आनि अमराहाचे प्रतिफळ
१२ सोसें आसत। तेपरांतु तानि पयण कोनुं मनुषालें
१३ मन पर्तुचे ऐकार्थ डांगिरो वाज्लो। ताग्नो सावार
भूतांक सोडैलिं आनि सावार रोगिष्ठांक तेल्लाउनु बरे
१४ केले। ताजें नांवं सावार थुर गालें ते खातिर हेरोद
राजाक तागेलि कर्गी आयकुनु म्हळें योहन वुडकुलि
मारि लोको मरणांतुल्यान उठायला आस ताजेन आश्चर्य
१५ कामं तांतु जाल्यांतु यता। आनि कोणे म्हळें हो
एलियाह् आनि कोणे म्हळे हो कोणे आचारि आनि
१६ कसले आचार्यादारि आसत। तरि हेरोदान हें

आयकुन म्हळे योहनाले ख्रिस हावें कातर्लेलें तोचि
१७ तो मरणांतुल्यान उटायलो आस। आपणालो
भाउ फिलिपाले कोण बायलमनसि हेरोदियाक् हेरोदान
वारडीक केलेलि तिजे खातिर आपणालो मनुषु धांगु योह
१८ नाक् धर्लेलो आनि बांदुन पान्धांतु दवर्लेलो। तेयित्यार
योहनान हेरोदाक म्हळेलें कि आपणाले भावाले बायलेक्
१९ तुका वारडीक कार्चीक उचीत न्हैं। हाजे खातिर हेरोदि
यानि दुसमनपणा केलें, ताका जिवसि मार्चीक मन्न केलें
२० तरि सक्लो ना। योहनु यथार्थिकु आनि पुन्यकेलो हाजे
खातिर हेरोदु तें समजुन ताका भिलो आनि ताका
मान्सिलो आनि तागेलें उतर आयकुन सावारि क्रिया
२१ केलि आनी सन्तोषान तागेलें उतर आयकिले। तेपरांतु
केद्ना अनकुलु समयु जाल्याक हेरोदान आपणाले उबजल
दिसा आपणाले अध्यक्षाचे आनि सेनापति आनि गा
२२ लिलीचे म्हाजना खातिर जेवण फांति केलि। आनि केद्
ना हेरोदीयालों चेलियेन येउन नाचुन हेरोदालें आनि
ताजे सांगाति बसिल्यांलोंयि संतोषाक उत्पन्न केलो तेद्ना
रायान ते चेलियक म्हळें यितें तुजे मना आस ते मजे
२३ लागि माग आनि तें तुका हांव दिन। ताणे तिजे लागि
आणें केलि तुं यितें मांग्सि तें मेगेलें अर्दराज्य परांतु
२४ यि तुका हांव दिन। ताजे परांतु ती वेचुन आपणाले
आवसुक उलैलि हांव यिते मांगु तिणे जाप दिलि योहन
२५ बुडकुलि मारेतल्यालें ख्रिस माग। तेद्ना ती वेगि राया ला
गि येउन उलैलि आतंचि माका योहन बुडकुलि मारेतल्या
२६ लें ख्रिस आयदनांतु घालुन दी हांव हेंचो मागता। तेद्ना
रायु मनातु दचकलो जालो तरि आपणाले आणे खातिर
आनि तोजे भर्सी बसिले खातिर तीका ना म्हाणुच्या सक्लो
२७ नां। हे खातिर तेवेळारी रायान मनुष्याक धांगु ताजे

२६ सुविले पुडांतुल्यान कयालें वेचप सहज आस।   कोणें आयकिलें तांनि म्हळें कि जाल्यारि कोण निस्ताहचा सक
२७ ता।   ताणे म्हळें कि मनुष्यांले लागि कोण सकनातिले
२८ आस्ति ते देवाले लागि सकसले आसति।   पितराने म्हळें कि पळे आमि सगळ्यांक सोळे आनि तुंजे माक्शि
२९ आयलो।   ताणे तांकां म्हळें कि हांव तुमकां खरें सांगतां कि कोणें मनुष्यु नाज कि कोणें घर आनि आंमा आंनाक्ष आनि भावांक आनि बायलेक आनि चरडुवांक देवाले राज्याले खातिर सोळें कि कोण सावार गुण पडाव हे
३० वेळेंतु मेळसि ना आनि येवचे भअतांतु अनंत आयुष पावत।
३१   आनि ताणे बारा शिष्यांक आयेनु तांकां म्हळें कि पोया आमि यिरुशालमांतु वेतांति आनि मनुष्याले पुत्ताक विषयांतु आचार्यां कयान कोण बरैनु गेलां
३२ आस तें सगळें पुर्ते कोनु वेचत।   तें यिजे तो मोसान वेगळे मोवकारां लागि दिउनु वेचत आनि निंदा केलि जायत आनि मानुनातिलो केनु वेचत् आनि ताजेरि
३३ तुतु उडैनु वेचत।   आनि ते ताका कोरडो मारतित आनि मानु उडैतित आनि तिसरे दिसा तो दुसरे वेळ्या
३४ उठायत।   आनि तांनि हें समजले नाति आनि हें उत्तर तांचांथाकुन गुप्त आसिलें तांनि तें सांगिलें उत्तर समजले नांति।
३५   आनि तो यिरिखोले लागिं आयिल्यान कोणें कुरडो
३६ वाटे दगडे भिक मागत बसिलो।   ताणे समोंयाक ते
३७ वाटेन वत्ताना आयकुनु विचारिलें कि हें यितें।   तांनि
३८ ताका कळैलें कि यिशु नाजरेण हे वाटेन वेत्तास। आनि तणे हे म्होंणु गदळ केलें कि हे दाउदाले पुत्ता यिशु
३९ मजेरि दया कदि।   आनि मुकारि वत्त्यांनि ताका भि

म्हण्लो कि तो नुत राबो तरि ताणे नेवानयि बहु गदळ
४० घेतें कि हे दाउदाले पुत्ता माका दया करि। आनि
यिशुन थिवि राबुनु ताका आपण्यालागि हाड्चाक म्हळें
४१ तो लागों आतचि ताणे हें म्हेंणु ताका निमगिलें। कि
तुं यितें आपेता कि हांव तुका करिन ताणे म्हळें कि हे
४२ प्रभु कि हांव चोउचा लागुं। आनि यिशुन ताका म्हळें
कि चोउचा लाग तुगेले विश्वासान तुका त्राण केलो।
४३ आनि तो वोगि चोउचा लाग्लो आनि देवाक स्तुति
कर्ता१ वाटे मादि गेलो आनि सगळे लोकांनि चोउनु
देवालि स्तुति केलि।

१९ उनविंशति पर्व्व।—आनि तो येउनु यिरिखो
२ थाकुनु गेलो। आनि चायि जाकाया नांवालो येक्लो
आसिलो तो पाटेलालो येजमानु आसिलो आनिक्षै तो
३ धनवंतु आसिलो। ताणे यिशुक चोव्चा यत्न केलें कि
तो कोणु आस तरि समोहा खातिर सक्लो ना तेंथितें
४ तो गुट्टो मनुष्यु। आनि मुकारि धाउनु ताका चोउचे
खातिर येका सकमोर रुकाचेरि चळो तेंथितें ताका ते
५ वाटेन वोचें अगत्य आसिलें। आनि ते जाग्यांतु पाउनु
यिशुन वोयरि दिष्टि केनुं ताका चायलो आनि ताका
म्हळें कि हे जाकाया वोगि देंव वेंथितें आजि तुगेले घर
६ कडे माका राबचे आवश्य आस। आनि तो वोगि
७ देंवलो आनि ताका संतोषान घेतलो। आनि चोयतले
सगळ्यांनि हें म्हेंणु किर्किर केलें कि तो पापियाले लागि
८ मेजमानु जावचे खातिर गेलो। आनि जाकायान थिवि
राबुनु प्रभुक म्हळें कि हे प्रभु चोयि मेगेले धनाले अर्ध
हांव दुरबळ्यांक दितां आनि कदि अपवादु जावो को
णाचे लागचान कांयि घेतलां जाल्यारि हांव चारि गुण

९ पतुनु दितां । यिशुन ताका म्हळें कि आजि हे घरांतु त्राण आयलांश तेंयितें तोवे अबरहामाचो पुतु घास ।
१० तेंयितें मनुष्याचो पुतु योर गेल्याक सोदुचाक आनि त्राण दाचाक घायलांश ।—
११ ते हें आयकतचि तांगेले यिरुशालमाले लागीं जाल्यान आनि देवालें राज्य वेगिं प्रगट जायत तांगेले हे समज्ल्यान ताणे आनि उतरयि म्हांणु हो दिष्टांतु म्हळो।
१२ ताण म्हळें कि कोणे कुलीन आपणा खातिर राज्य घेतृचा
१३ आनि तेंवान येव्च खातिर योड धुर गांवांतु गेलो । आनि आपणाले धा चेड्यांक आपोउनु तांकां धा मिना दिले आनि तांकां म्हळें कि मेगेले यवपा परांतु वापार करा ।
१४ तरि तागेले वकलानि ताका कंठाळो केलो आनि ताजे मादिर खबर धांणु म्हळें कि आमचेरि राज्य कोचें खा
१५ तिर हाका आमे नाकि । आनि राज्य मेळतचि तागेले तेंवान घायिल्यान असि आसिलें कि कोणते चेड्यांक धन दिलें तांगेले तरतरा मनुष्यानि वापार केल्यान यितें लाबु मेळो तें समजुचे खातिर ताणे तांकां आपोचाक आज्ञा
१६ दिलि । आनि पितेमल्यान येउनु म्हळें कि हे प्रभु तुगेले
१७ मिनान धा मिना लाबु जालीं । ताणे ताका म्हळें कि हे बरा चेड्या तुं धन्य आस तुंवे सावार योड्यांतु विश्वासी
१८ जालो तुं धा प्रहरांले वोयरि अधिकार पाव । आनि दुसरोयि हे म्हांणु आयलो कि हे प्रभु तुगेले मिनान पांच
१९ मिना मेळिं । ताणे म्हळें कि तुं पांच प्रहरांले वोयरि
२० जा । आनि तिसरोयि हे म्हांणु आयलो कि हे प्रभु तुगेले मिनाक चोयि कि दोयाक घांवे येलुत्तरांतु बांदुनु दवलीं ।
२१ तेंयितें घांव तुजां थाकुनु भिलों तेंयिते तुवें कोणाक दवलें ना ताका उठकरायतलो आनि कोणाक वोयिले ना ताका
२२ कातर्तलो कठिण मनुष्यु आस । ताणे ताका म्हळें कि

द्वे दुष्ट चेड्या तुगेले आपणा तोंडान हांव तुका चुकिकाद करिन तुवें समजले कि हांवे कोणाक दवलें ना ताका उठ कशायत्जा आनि कोणाक वोयिले ना ताका कातर्नलो
२१ कठिण मनुष्य आसं। जाल्यारि तुवें भंडसाळेंतु मंगेलें धन यित्या पावेले ना आनि हांव येउनु वाडि सुद्दा मंगले
२४ आसत घेतों। आनि ताणे लागि रावतल्यांक म्हळें कि ते मिनाक ताजा थाकुन घे आनि था मिनिकाराक दि।
२५ तांनि ताका म्हळें कि हे प्रभु तागेले धा मिन आस।
२६ तेंयितें हांव तुमकां सांगतां कि कोण तरतरी मनुष्याले आस ताका दिउनु वोचत तरि कोणाले ना तागेले कोण
२७ आस ताजेन तेंवंयि घेउनु वचत। तरि मेगेले कोण वैरि आपणाचेरि राज्य कोचें खातिर माका आशे ना तांकां
२८ हांगा हाडि आनि मजे येदुर मारुं उडैया। आनि हे म्हणतांर तो यिरुशालम वतचि तागेले मुकारि गेलो।
२९ आनि असि घासिलें कि केद्ना तो बोतफाज आनि बोतानियेले लागि जैतान नांवाले गुड्याले लागि पावलो तावळि तानि हे म्हेंणु आपणाले दोग शिष्यांक धाळे।
३० कि तुमगेले येदुर गांवांतु वचा आनि ताजेन रिगुनु तुमि बांदिले येका पिलाक पावणा कि कोणाले वोदरि कोणं मणुष्य केदनांयि वैसले ताका मेकोळनु हाडा।
३१ आनि तरी कोण कोण मनुष्य तुमकां निमगित कि ताका यित्या मकळतति जाल्यारि ताका सांगा कि प्रभुक ताजे
३२ आवश्य आस। आनि त ध ळ जे मनुष्यांनि वेचुनु कलि
३३ यिशुन म्हळें तसि मेळें। ते पिजाक मकळताना ताजे यजमानांनि तांकां म्हळें कि पिलाक यित्या मकळतति।
३४ तांनि म्हळें कि प्रभुक ताजें आवश्य आस। आनि तांनि
३५ ताका यिशुले लागि हाळें आनि आपणा आंगल्यांक पिला
३६ चेरि घालुनु यिशुक ताजेरि बसलो। आनि ताजे मुकारि

वत्तल्यांनि आपणा आंगवल्यांक वाटेरि पावलायलिं ।
३७ आनि तो जैतानाले गुड्यारि थाकुन देंवचे जाग्याले लागि
पाविल्यान तांनि कोण सगळें आस्चर्य्य काम देकलें तांचां
थाकुन शिष्यांको सगळो समोउ होउ गदळ कोर्नु सावार
३८ संतोषान देवालि स्तुति कोर्चां लागले । आनि म्हळें कि
प्रभुले नावांतु येत्तलो रायु धन्य स्वर्गारि बरेपण आनि
३९ सगळ्याचाफे येत्तरांतु स्तुति । आनि समोशांथाकुन
फारिशियांलो कोणै मनुष्यान ताका म्हळें कि हे प्रभु आप
४० णाले शिष्यांक भिष्टायि । आनि ताणे जाप कोर्नु तांकां
म्हळें हांव सांग्तां कि तरी से नुत्तराबसीत जाल्यारि
फात्तोरु वोगि गदळ करित ।
४१ आनि लागी आयिल्यान ताणे पेंटेक दिष्टि केलि आनि
४२ तें म्हंणु ताजेरि रडो । कि तुं आपण हे वेळांतुयि
आपणाले बरेपणाले खातिर तरी कळतो तरि आत्तं ते
४३ तुगेले दोळ्यांनि निपल्याति । तेंयितें ते दिस तुजेरि
येतित कोणांतु तुगेले वैरि तुगेले चारिदिकां दोरो कर्तीत
आनि तुका मुतविलित आनि तरतरां दिकांनु तुका बांद्
४४ तित । आनि तुका मातिये समान कर्तित कि तुजे भितरि
कोण तुगेलिं चेरडुवं आसति तांकायि आनि तुजांतु फात्तरा
चेरि फात्तराक ना सोडतित तेंयिथें तुवें आपणाले चोउनु
वोचे वेळाक समजलो ना ।
४५ आनि तो देवळांतु रिगुनु घेवप विकप कर्तांल्यांक भायर
४६ काड्चा लाग्लो । आनि तांकां म्हळें कि हें बरैलां आस
कि मेगेलें घर प्रार्थनालें घर नांवांले जायत तरि तुमि
४७ ताका चोरांलो जागो केलो । आनि तो दिसदिसा देव
ळांतु सिकैतालो आनि प्रधान याजक आनि अध्यापक
४८ आनि लोकांले प्रधानानि ताका मार्चां आठैलें । आनि

तो कोर्चा सक्लो ना तेंयितें लोकांनि लागेलें उत्तर आय कुचें पोड मनोयुक्त आसिले ।

२० विंशति पर्व्व ।—आनि तें दिसांतें येक दिसांतु असि आसिलें कि तो देवळांतु लोकांक सिकव आनि मंगळ समाचार प्रगट करित मालगडे लोकांते भर्ति प्रधान
२ याजक आनि अध्यापक ताजे लागि आय्ले । आनि ताका हें उत्तर म्हळें कि तुं कोण पराक्रमान हें सगळें कर्ता आनि कोणें तुका हो पराक्रमु दिलाज हें आम्का
३ सांग । ताणें जाप दिउनु तांकां म्हळें कि हांवे तुम्कां
४ येक उत्तर निमग्निन माका सांगा । कि योहनालि बुडु कुलि दिवोचि यितें स्वर्गाथाकुनु जावो मनुष्यांथाकुनु जालें।
५ आनि तांनि हें म्होणु परस्पर विचार केलो कि तरी आमि म्होणु कि स्वर्गारिथाकुनु आवा जाल्यारि तो म्हणत कि
६ जाल्यारि तुंमि यित्या ताका विश्वासु केलो ना । आवि तरी म्हणु कि मनुष्यां थाकुनु आलें जाल्यारि सगळो लोकु आम्कां फातरान मानुं उडेतित तेंयितें ते जाणवाति
७ कि योहनु आचारि आस । आनि तांनि जाप दिलि
८ कि आनि सांगचा सकले नांति कि खंचान आस । आनि यिशुन तांकां म्हळें कि हांव कोण पराक्रमान हें कर्तो तेंवयि तुम्कां ना सांगन ।
९ आनि तो लोकांक हे दिष्टांताक सांग्चा लाग्लो कि कोणें मनुष्यान दराचे नडि वोयलि आनि वोकलांक खंडु दिलो आनि साबार दिसा खातिर परगावां गेलो ।
१० फळा वेळारि वकलांजे लागि येका चाकराक धाळो कितें ताका दराचेजे हिवलालें कांयि फळ दिवोति तरि वकलां
११ नि वाका मानुं रिते हातान पर्हुनु धाळो । नेंवान ताणें येड्याक धाळो आनि तांनि ताकांयि मार्ला आनि अपमांनु

सरावळ निगदि दिवचि आम्कां उचित आस जावो ना ।
२३ तरि ताणे तांकां दगुसमजु कोनु तांकां म्हळें कि यित्या
२४ मेगेलि परिक्षा कर्तांति मांका येक रुपें दाकै । ताजेरि
कोणालि मुर्ति आनि वोयरि बरैलां आस तांनि जाप
२५ दिउनु म्हळें कि कायसराक । ताणे तांकां म्हळें कि काय
२६ सरालि कायसराक दि आनि देवालि देवाक दि । आनि
ते लोकांले येदुर तागेलें उत्तर धोचां सकलेनाति आनि
तागेलि उत्तरान आश्चर्य कार्नु वोगे रावले ।—
२७ नैवान उठप ना म्हणतले सादुसांले कितलेक मनुष्य ताजे
२८ लाग येउनु ताका यें मोगु निमगिलें । कि हे उपदेशक
मोयशान आम्गेले लागि बरोनु दिलें कि कोणालेयि भा
वालि बायल आसत ति मरी पुतु नाविलि जाउनु मरण
जाल्यारि तागेलो भाउ तागेले बायलेक घेवो आनि आप
२९ णा भावालो वंशु उबजावो । सात भाव आसिल्ले आनि
पिल्मलो बायलेक वारडीक कोनुं संतान नासिलो जाउनु
३० मेलो दुसन्यान ते बायलेक घेतलि आनि तो संतान नासि
३१ लो जाउनु मेलो । ताजे मागिरि तिसन्याने तिका घेवलि
आनि तसेंचि सातानि चेरडुवं दवलिं नांति आनि मोनुं
३२ गेले सगळ्यां मागिरि बायले मेलि । ह्याजेन नैवान उठ
पांतुलि तागेले कोणालि बायल जायत सैयितें ति सात्तां
३३ लि बायल आसिलि । यिशुन तांकां जाप दिउनु म्हळें
हे जगताले चर्डुं वारडिक कर्तांति आनि वारडिक दित्ता
३४ ति । तरि कोण तें जगत आनि मरणातुल्यान नैवान
उठप पावचा पुरो जालो मोउनु वेचत ते वारडिक कर्नां
३५ ति आनि वारडिक दिनाति । आनि ते नैवान मोर्चां
सकनाति तरि दूतांले सारि आस आनि नैवान उठपाले
३६ चेर्डें जाउनु देवाले चेर्डें आसति । तरि मर्त्र कि उठाय्
ता हे मोयशान भुरंगला लागि केद्ना यिजवाक सव

हाथामाखो देउ आनि यिस्वाकालो देउ आनि याकू
२७ बाखो देउ म्हळें तेद्‌ना तें दाखै तें। देउ मेल्यालो देउ
नैं तरि जीयांलो आस कैंयिते सगळें ताजेले खातिर वांच
३८ ताति। आनि अध्यापकांले कितेक जाणानि म्हळें कि
३९ हे गुरु तुवें बरें सांगलें। ताजे मागिरि तानि ताचए
कांयि निमगुं हड केले ना।—
४० ताणे तांका म्हळें कि हे यितें निमितों सांगताति कि
४१ खीष्ट दाउदालो भुर्गे आस। तैंयितें गीतांले पुस्तकांतु
४२ दाउदान आपणे सांगलांज कि यिउवान मेजेले परमेश्वराक
४३ म्हळें कि हांव केदोळु परांतु तुजेले वैयांक तुजेले पायां
४४ पीठ ना करिन तेदोळु परांतु मेजेले उजवान बैस। हाजेन
करी दाउदु ताका परमेश्वर म्हणता आल्यरि तो कसि ताजे
लो पुतु आस।—
४५ आनि सगळो लोकु आयकसि ताणे आपणाले शिष्यांक
म्हळें कि अध्यापकांथाकुनु जोकें रावा कि कोण लांब
४६ दुस्सान वोचप आनि आंगडिंतु सलामु घेवचें आनि सिनगृ
गांतु प्रधान आसन आनि निमंत्रणांतु होडु जागो इच्छि
४७ ताति। आनि रांडांलें घर खाउनु उडेताति आनि
चवा खातिर लांबि प्रार्थना कर्त्ताति ते आनि होडु नर्कु
पावतित।—

२१ एकविंशति पर्व्व ।—ताणे दिष्टि कोनुं धनवानांक
देकलें कि कोण आपणालें १ दान भांडारांतु हडका ले।
२ आनि ताणे येकि दुर्ब्बळ रांडकयि देकलि कि कोण पैशा
३ ले दोनि कासांक तांतु उडेले। आनि ताणे म्हळें कि
हांव खरें तुम्कां सांग्तां कि हे दुर्ब्बळ रांडेन तांचाले
४ सावार उडयांज। तैंयितें हे सगळांनि आपणाले १
साबारांथाकुनु देवाक दिलेलो वोस्तांतु कांयिर उडेलि

तरि ताणे आपणाचे दुर्ब्बळपणांथाकुनु आपुला प्राणु दव
र्यों कोणा आसिलो तें सगळ्याक उडैलो।

५ आणि कित्तलेक प्राण देवळाचे विषयांतु म्हणताले कि
तो कोय सोभताय घड मोल फातरांनि आणि देवाक दि
६ लेले वस्तानि सिंगारला आहे। ताणे म्हळें कि तुम्हि कोणाचे
पायताति असलो दिसु आयत कि केणांतु फातोर फात
७ रारि दवचा नज आयत कि कोण मोडु वचसि ना। तांनि
हें म्हेणु ताका विचारलें कि हे गुरु हें केदना आयत
८ आणि वाजेलो आवचो गुतु यितें आस। ताणे म्हळें कि सांबे
भिक्तिउनाका तेंथितें सावाद्र मनुष्य मेगेले नांवाक येतित
आणि म्हणतित कि हांव ख्रीष्ट वेळुयि लागी पायला है
९ आतिर तांचे माग्रि वेचुनाका। आणि केदना तुम्हि झगडु
यणालें उत्तर आणि दिंडपणालें उत्तर आयकणा तेदना
घाबरेनाकाति तेंथितें पैगले पितैम आवचें आवश्य आस
१० तरि अंति आत्तंयि आयचे। तावळि ताणे तांका म्हळें
कि आति आतिचे दुसमनितु आणि राज्य राज्याचे दुस
११ मनितु उठायत। आणि आग आग्यारि भुंयिकांपु आणि
मारणायि आणि मारि आयत आणि भितायकले दर्शन
१२ आणि पेड लक्षण मळपारियाकुनु आयत। हेसगळ्या
ले पितैम ते तुमचेरि हात दितिथ आणि तुमकां दस्ति
वित आणि तुम्हि सिनगगांतु आणि बांध्या घरांतु पातैलें
आतित आणि मजे नांवाक तुम्हि रायालें आणि पाडेकालें
१३ येदुर हाळे आतित। आणि हें तमचे खातिर साक्षि
१४ आयत। हाजेन यितें आप दिणा पितैम वें चिंता ना
१५ कोयाच आपणालेर मनांतु सम दवचा। तेंथितें हांव
तुम्कां आसलें तोंड आणि ज्ञान दिन कि कोणाक तुमगेलो
सगळें वैरि आप दिवपा आवो तडोपा सकजिनाति।
१६ आणि आंमा आना बच्चान आणि भावां बच्चान आणि

३० सगळे रुकु चोया । ते केद्ना पान सोडताति तेद्ना तुमि
चोय्ताति आनि आपणांतु समजताति कि धगा दिस लागीं
३१ आस । असिचि तुमि केद्ना हे सगळ्याले येवप चोय्
३२ ताति तेद्ना समजा कि देवाचें राज्य लागीं आस । हांव
तुमकां खरें म्हणुतां कि हे ना जाल्यान हे वेळे वोळुनु ना
३३ वतिस । सर्गु आनि भुयि वचत तरि मेगेलें उत्तर वच
३४ सि ना । आनि आपणांघाकुनु ओकेजा कि तुमगेलें मन
साबार खातलें आनि सुरपिवपान आनि जगताले संदेशान
जड ना जावो आनि तो दिसु अकस्मात तुम्धेरि येत ।
३५ तेंथितें भुईले तोंडारि फिल्लो लोकु आस्सा ते सगळ्यांचेरि
३६ तो पासा वारि येत । ताजेन तुमि पारो दिया आनि
सदंचि प्रार्थना करया कि तुमि हे सगळे येत्ले हालान
वांचुन् वोचे आनि मनुष्याले पुताले येदुर थिबि रावचाक
३७ पुरो जाले मान्सिपा । दिसाक ताणे देवळांतु सिकैले
आनि रातिक तो भायर गेलो आनि जैतान नांवाचो
३८ गुड्यारि रावलो । आनि सकाळि सगळो लोकु ताजेलिं
उत्तं आयकुचे खातिर ताजे लागि देवळांतु आयले ।

२२ द्वाविंशति पर्व्वं ।—आनि आंबमालिले भाकरेचि
२ परबलागि आयलि कि कोणा नांव पेसाख आस । आनि
प्रधान याजकांनि आनि अध्यापकांनि सोद्लें कि ताका
३ कसि मारूं उडोउं तेंथितें ते लोकांघाकुनु भिले । तावळि
देवचार यिऊदाशांतु रिगलो कि कोणा नांव स्खारियोटा
४ तो ते बारा शिष्यांले येक्लो । आनि ताणे वोचुनु प्रधान
याजकाले आनि सिपायांले सरदारांले असिं उत्तर वित्तर
५ केलें कि कसि ताका तांचे लागि दिउं । आनि ते संतोषले
६ आनि ताका रुपैयो दिव्चा वोपले । ताजे मागिरि ताणे
सधि केलें आनि लोकांले आसप नातिलो वेळु सोद्लो ।

७ आनि पावनातिले भाकरेलो दिसु आयलो कि कसल्यां
८ तु पेसाखाक वेद्‌ना कोर्चें लागत। आनि ताणे पितराक
आनि योहनाक हें म्हणु धाळो कि वचा पेसाख सिद्ध
९ कर्‍या कि आमि खाउं। तानि ताका म्हळें तुं खैं इछिता
१० कि आमि सिद्ध कोरूं। ताणे तांका म्हळें कि चोया तुमि
शहरांतु रिगल्‌चि येक्‌लो तुमचे लागि मेळत कि कोण
उदका कळसो वाव्हंता तो कोणे घरांतु रिग्‌ता तांतु ताजे
११ माच्ति वचा। आनि घराचे यजमानाक सांगा कि गुरु
तुका म्हणता कि आतिथ्यालें घर खैं कि खंयांतु हांव
१२ आपुणा शिष्यांले भर्सि पेसाख खायन। आनि तो तुमकां
तैयार आनि सिमार्वैलि येकि सरवळि दाकैत थैं सिद्धि
१३ कर्‍या। तानि वोचुन ताणे कसि तांका सांगिल्लें तसि
मेळ्ळें ताजे मागिरि तानि पेसाख सिद्ध केलो।
१४ आनि ते घडियेरि येउन तो बसलो आनि बारा शिष्य
१५ ताजे भर्सि बस्‌ले ताणे तांकां म्हळें कि होडी इच्छेन आय्
णाले मरणाले पितृम तुम्‌चे लागीं हे पेसाखाक खावचा
१६ आशिलो। तेंयितें हांव तुम्‌कां हें म्हण्‌तां कि देवाले
राज्यांतु पुर्तें भावुपरांतु हांव तो समयु धोनुं आनि तें ना
१७ खायिन। आनि ताणे गिंदल घेउनु धन्यवादु कोनुं म्हळें
कि हाका घे आनि आपुणागेल्यांले भित्तरि वांटों कर्‍या।
१८ तेंयितें हांव तुम्‌कां सांग्‌तां कि देवालें राज्य केदे ळपरांतु
ना येत तेदोळु परांतु हांव दराक्षेंथाकुनु आली कोणि वस्तु
१९ पिसि ना। आनि ताणे भाकरि घेउनु धन्यवादु वाङुनु
मोळि आनि हें म्हणु तांकां दिलि कि हें मेगेलें शरीर
आस कि कोण तुमचि खातिर दिउनु गेलांज हें मेगेले उड
२० गासा खातिर कर्‍या। आनि रातिले खावपाले मागिरि
ताणे गिंदल घेउनु म्हळें कि मेगेलें कोण रगत तुम्‌चे
खातिर पळ्ळें ताजेन निश्चयु केलेलि नवे बंदेशि वो हें गिंदल

२१ आसे। तरि पोळा माझ्या मेरान वोपसिल्ल्यालो हातु
२२ मेजारि मजे सांगीं आस। आनि कसि निर्धेनु बांनु
गेलो तसि मनुष्याचो पुतु वोत्ता सहि तरि कोण मनुष्या
२३ कड्यान तो वोपसिलो जाता ताका संतापु जायत। आनि
ते आपापणांनु विचारुंक लागले कि कोण हें कार्य करीत
२४ तो कोणु आस। आनि तांगेले भितरी विवादु जालो कि
२५ तांगेले भितरि कोणतो होडु आस। आणि तांका म्हळें
कि दुसरे गांवकाराचो राजु तांचेरि यजमानपण कर्तांति
आनि तांचेरि कोण मनुष्यु यजमानपण कर्तात मंगळ कर्ते
२६ तांवान म्हाणु वत्ता। तरि तुमच्यांतु असि जायसि
ना तरि तुमगेले भितरि कोण होडु आस तो सानावारि
२७ जायत आनि येजमानु चाकरावारि जायत। तेंयितें
कोण खावपाक वस्ता जावो कोण चाकरि कर्ता हे दोगां
भितरि कोणु होडु यितें खावपा वस्तलो मैं तरि हांव तुम
२८ गेले भितरि चाकरा वारि आसं। तुमि तेचि कि मेगेले
२९ परिक्षेंतु मजे लागि राव्ले आनि मेगेले आंमान मजेकुण
कसि नेमक केलास तसिचि हांव तुमगेले खातिर राज्य
३० निरुपण कर्ता। कि तुमि मेगेले राज्यांतु मेगेले मेजारि
खाया आनि पिया आनि यिसरएलाचे बारा गोत्रियांक
३१ विचार कर्तना सिंहासनारि बेसा। आनि प्रभुन म्हळें
कि हे सीमोनाहे सीमोना चेतियि देवचारान तुका गोवा
३२ मणके आसुडचाक इच्छेलो। तरि हांवे तुगेले विषयांतु
प्रार्थना केलि कि तुगेलो विश्वासु पुरो नायना जायत आनि
३३ तुं परतुनु गेल्यान आपापणाले भावांक बळवंत करि। ताणे
तांका म्हळें हे प्रभु हांव तुज लागि पाच्यांतु आनि मरणां
३४ तुयि वोचाक सिद्ध आसं। ताणे म्हळें कि हे पितरा हांव
तुका सांगता कि आजि तुं माका कोंबडें विषयांतु केदोळ
पराघु तिनि वेळे वोपुसि ना बेदोळ पराघु कुंकड साड

३५ रिसिना । आनि ताणे तांकां म्हळें कि केद्ना हांवे तुम्कां चिल आनि मोट आनि पायासै नंता धाळे तावळो यित्तें तुम्कां कोण्ण वस्तुलें उणे जालें तांनि म्हळें कि कांयि ३६ ना । ताणे तांकां म्हळें तरि आत्तं कोणालें चिल आस तो ताका घेवो आनि मोटयि तसि आनि कोणालें खांडि ना ३७ ता आपणालो दुसु विकुनु खांडें मोला घेवो । तेंयितें हांव तुम्कां म्हण्टां कि मजे विषयांतु कोण हिं उत्र्ं बरोनु गेल्यांति मजांतु तांगेले पूर्ण जावचें आवश्य आस कि तो अपराद कारांले भसिं मोजनु गेलाञ तेंयितें मेगे ३८ ले विषयांतु कोण आस तांगेलि अंत्ति आस । तांनि म्हळें कि हे प्रभु पोयि हांगा दोनि खांडिं आसति ताणे तांकां म्हळें कि पुरो ।

३९ आनि तो भायर आयलो आनि आपणाले मरियादा वारि बैतानांले गुडारि गेलो आनि तांगेले शिष्य ताजे ४० मागि गेले । ताणे ते जाग्यांतु पावनु तांकां म्हळें कि ४१ प्राथंना करा कि तुमि परिक्षेंतु रिगु नाकाति । ताजे मागिरि पात्तोर फिमुंब दुर उडोउनु वोत्ता ताणे तितुले धुर् तांचेजाघाखुनु वोचुनु दोनि दिंबेरि बैसुनु प्राथंना ४२ केलि । आनि म्हळें कि हे बांगा तरी सुगेलें मंन आस जाल्यारि हें गिंदल मजे लागच्यान वोचो तरि मेंगेलें मंन ४३ ना तुगेंजें मंन जावो । आनि ताका बलवंतु कर्तलो सर्गारियाखुनु येकु दुतु येउनु ताजे लागि प्रगट जालो । ४४ आनि ताणे वादेंतु जाउनु चडाय प्राथंना केलि आनि तागेलि जम मार्थ्यारि पडचले रगताले थेंड थेंवा मणके ४५ जासिलि । ताजे मागिरि प्राथंनाथाखुनु उटाउनु तो आपणाले शिष्यांले लागीं आयलो आनि तांकां शोकान ४६ निद्ले देक्ले । आनि ताणे तांकां म्हळें यित्या निदेउनु

वेत्तानि उठाया प्रार्थना करा कि परिक्षेंतु पोंवाकाति।
४७ ते तांका म्हणताना चोयि समोक्ष आनि यिऊदाष् नांवा
लो बारा शिष्यांतुलो येक्लो तांगेले मुकारि गेलो आनि
४८ यिशुक उमा घेवचे खातिर ताजे लागीं आयलो। तवी
यिशुन ताका म्हळें कि हे यिऊदाष तुं यिशें उमा घेवि
४९ व्यान मनुष्याले पुताक समर्पिता। तांगेले पारि दिका
राबिल्यानि जावचें कार्य चोउनु ताका म्हळें कि हे प्रभु
५० आमि यितें खांड्यान मारूं। आनि तांगेले येकल्यान
प्रधान याजकाले येक्या चेड्याक मारी आनि तागेलो उजवो
५१ कानु कातोनुं उडैलो। तरि यिशुन जाप दिउनु म्हळें
कि हांगपर्यांतु ताळवियि आनि तागेले कानाक आपोंणु
५२ ताका चां केलो। तावळि यिशुन आपणा लागि आयिल्ले
प्रधान याजकांक आनि देवळाले पार्यंत्य मारांक आनि
म्हालगड्यांक म्हळें कि कसि चोराले वैर्यांतु तसि यितें खांडें
५३ आनि वोड्डा लागि घेउनु भायर आयल्याति। हांव सदं
वि देवळांतु तुमचे भसिं अस्ताना तुमि मजेरि हातु दवलीं
ना तरि हि तुम्गेलि घडी आनि काळशालें सामर्थ।
५४ वे ताका घेउनु गेले तरि आनि वोचुनु तांनि प्रधान
याजकाले घरांतु ताका घेउनु गेले तरि पितरु धुर येता
५५ लो। केद्ना तळांतु उजो केलो आनि येकडे बसले
५६ तेद्ना पितरुयि तांगेले भितरि बस्लो। आनि येका
चेडुवान ताका उज्या लागीं बसिलो देक्लो आनि ताजेरि
५७ येकि दृष्टि कोनु म्हळें कि हो ताजे लागि आसिलो। तरि
ताणे हें म्होंणु नह्लो ना पे बायलमनिसे हांव ताका
५८ नेण। आनि थोडे मागिरि दुसऱ्यान ताका चोउनु म्हळें
कि तुं वे तांगेले भितलीं आस तरि पितरान म्हळें कि हे
५९ मनुष्या हांव नैज। आनि येक घडी सुमार ताजे मागिरि
दुसर यक्ल्यान हे म्होंणु घट्टि कोनुं सांगलें कि खावस्य

हो ताजे बरोबर आसिल्लो तेंयितें तो गालिलिकारु आस।
६० पितरान म्हळें कि ये मनुष्या तुं कोण सांगता तें हांव नेणा
६१ आनि वोगि तो बोलतचि कुंकडान साद केलो। आनि प्रभुन पतुनु पितराचेरि पळेलें आनि प्रभुन ताका कोण उत्तर म्हळें कि कुंकडा साद दिवचे पिर्वम तुं मजे विशि यांतु तिनि वेळे नकार करसिं पितरान तें उत्तर उडमासु
६२ केलो। आनि पितरु भायर वोचुनु हेडान रडलो।
६३ आनि कोणतें मानुष्यांनि यिशुक धर्लो तांनि ताका मानु
६४ निंदा केलि। आनि तागेलें दोळ्यांरि झांकलें बांदुनु ताजे तोंडारि मार्लें आनि हे म्होणु ताका निमगिलें कि
६५ आचार्याचें उत्तर म्हण तुका कोणे मार्लें तो कोण। आनि निन्दा कोर्नु तांनि आनि साबार उत्रं ताका म्हळिं।
६६ आनि दीसु जाल्यान लोकांलें म्हालगडे आनि प्रधान याजक आनि अध्यापक येकडे आयले आनि हें म्होंणु ताका
६७ सभेंतु व्हालो। कि तुं यिर्ते स्त्रीष्ट आस आमकां सांग ताणे तांकां म्हळें कि तरी हांव तुमकां म्हणन जाल्यारि
६८ तुमि विश्वासु ना करोंनाति। आनि तरी हांव निमगिन जाल्यरियि तुमि माका जाप ना दिस्यानि ना सोडा
६९ जास्याति। हाजे मागिरि मनुष्यालो पुतु देवालें पराक्रमा
७० लें उजवे दिकांथाकुनु बसलो जायत। आनि सगळ्यांनि म्हळें जाल्यारि यितें तुं देवालो पुतु आस ताणे तांकां म्हळें
७१ तुमि म्हणतानि कि हांवज। आनि तानि म्हळें कि आमकां साक्ष्याल्यो आनि यितें अगपत्य आस तेंयितें आमि खासा तागेलें तोंडान आयकिलें।

२३ त्रयोविंशति पर्व्व।— आनि तागेलो सगळो सभेतु
२ उठावनु ताका पीलाताले लागि वेवन् गेलो आनि हे म्होंणु

ताजेले वगलांट दिव्चा लागलो कि आमि लोकांक वाट्ट
वाटेंतु घेउनु वत्ताना आनि आपण खीष्ट राय आस हें
म्हांगु कायिसराक निर्गदि दिव्चाक तडैताना ताका मेळ्ळे।
३ आनि पीलाताना हे म्हांगु ताका निमगिलें कि तुं यित्तें
यिऊदियांलो राय आस ताणे जाप दिउनु म्हळें कि तुं
४ म्हण्तास। आनि पीलाताना प्रधान याजकांक आनि
समोहाक म्हळें कि हांव हे मनुष्यांतु कांयि अपराद चोयि
५ ना। तरि तानि घडाव गदळ करुंले जाउनु म्हळें कि
तो गालिलियांकुनु सुरु केलुं हांगपरांतु सगळे यिऊदाह
६ गावांतु सिकैताना लोकांक उत्पातु करता। पीलाताना
गालिलिचे उत्तर आयकुनु निमगिलें कि हो मनुष्य यिवें
७ गालिलिकार आस। आनि समजुनु कि तो हेरोदाले
अधिकारांतु आस ताका हेरोदाले लागि धाळो कि तोय
आपण तेदिसांतु यिरूशा लमांतु आसिल्लो।
८ आनि हेरोदु यिशुक चोउनु चोडु खुषि जालो तेंयितें
सो ताजेले विषयांतु सावार आयकिल्यान ताका सावार
दिसान चोउचा आशेलो आनि ताणे ताज्यांघाकुनु केलेलें
९ कसलेंयि लक्षण चोउचाक भरवसो दवलों। आनि ताणे
ताका सावार उत्रं विमगिलों तरि ताणे ताका कांयि जाप
१० दिलि ना। आनि प्रधान याजकानि आनि अध्यापकानि
११ यिवि रावुनु ताजेलो चोडु दोषु दिलो। आनि हेरोदान
आपणाले सिपायांले लागि ताका नकारो केलो आनि
निंदा केलि आनि ताका चोड हिरदु आंगरखें नेसैलें आनि
ताका पीलाता लागि नेवान धाळो।—
१२ आनि तेदुसु पीलातु आनि हेरोदु परस्पर संमित जाले
तेंयितें ताजे पितम ते आपापणांतु वैरि आसिल्ले।—
१३ आनि पीलाताना प्रधान याजकांक आनि सरदारांक
१४ आनि लोकांक येकडे आपैनु तांकां म्हळें। कि तुमि हे

मनुष्याक मजे लागि कोणे येकलो लोकांलें वायट वाटेनु
घेउनु वत्तल्या वारि झालो आनि चोया तुमगेले येदुर
तार्का तजविज कोनुं तुमि तागेलो कोण दोषु दित्तालि ते
१५ विषयांतु ह्या मनुष्यालें कांयि अपराद् चोयि ना। आनि
हेरोदानयि पावलो ना कैयिलें हांवे तुम्कां ताजे लागि
१६ धाडे आनि चोया मारांचो सरजाल्लें कांयि ताका कोनुं
१७ वचने। ताजेन हांव ताका दंडणा दिउनु सोडिन। वेयिलें
ते परबेंतु तांचे लागि येकल्याक सोडूचें ताका आवश्य
१८ आता। आनि तानि येक वेळे बोव मारुं हे म्हळें कि
ह्याका उसळायि आनि आमचे लागि बारब्बाक सोडि।
१९ कि कोण शहरांतु केलेलें गदलान आनि जिवसि मार्पान
२० पाच्याघरांतु दवनु गेलाज। आनि पीलातान यिशूक
२१ वांचोचाक आशेउनु दुसरे वेळे तांचे लागि म्हळें। तरि
तानि ह म्होणु गदल केलें कि ताका क्रुसारि मारि ताका
२२ क्रुसारि मारि। ताणे तिसरे वेळे तांकां म्हळें कि ताणे
यित्तें वायट काम केलें हांव तांतु मोरपा सरजाल्लें कांयि
२३ अपराद् देकना हांव मारु दिउनु ताका सोडिन। तरि
तानि होड गदल कोनुं ताका क्रुसारि मारुं उडोयाक
लागेले आनि तांगेले आनि प्रधान याजकांले गदलान
२४ जीकलो। आनि पीलातान आज्ञा केलि कि तांगेले साले
२५ पाले असि जावो। आनि ताणे ताका तांचे लागि सोंपु
दिलो कि कोण गदल आनि जिवसि मार्पांथाकुनु पाच्या
घरांतु उडोनु गेल्लोलो कोणाक तानि मागलो आनि यिशूक
२६ तांगेले इच्छेवारि दिलो। आनि ताका घेउनु गेल्यान
तानि कोणे किरीणिय शिमोनाक बिट धर्लो कि कोण
गावांथाकुनु येतालो आनि यिशूले मात्ति वाहंचे खातिर
२७ तानि ताजेर क्रुषु दवर्लो। आनि लोकांलो आनि कोण
बायलानि तागेले वोयरि रडो आनि विलापु केलो कांगे

४० जाल्यारि आपणाक आनि आम्कां त्राणु करि । तरि दुसऱ्यान जाप दिउनु आनि हे न्हेंगु ताका भिडायलो कि तुं यित्तें देवाक भिनाज तेंयितें तथि दंडणेंतु तुवें आस
४१ आनि आंमियि नितिन तेंयितें आमि आयणा कार्यांचे सरजाक्षें फळ पावताति तरि हे मनुष्यान कांयि अपराद
४२ केलो ना। ताजे मागिरि ताणे यिशुक म्हळें कि हे प्रभु तुं येदना आपणा राज्यांतु पाउनु तेद्ना माका उडगासु
४३ करि । आनि यिशुन ताका म्हळें कि हांव तुका खरें म्हणतां कि आजि तुं मजे भशिं फारदेशांतु रावसि ।
४४ तो सुमार दोनपारा वेळ आसिलि आनि समळे देश
४५ येरि तीनि पारपरांतु कांळोकु जालो । आनि सूर्यु काळोकु जालो आनि देवळालो फोडदो मदेंतु पिंदुनु गेलो ।—
४६ आनि यिशुन हांडान गदळ कोनुं म्हळें कि हे आंना हांव तुजे हातांतु मेगेलो प्राणु वोपसितां आनि हे म्होंणु जीउ सोळो ।—
४७ आनि सेंबरि शिपायिचे सरदारान ते कामाक चोउनु हे म्होंणु देवाचि स्तुति केलि कि आवश्य हो येकु सज्जनु मनुष्यु
४८ आसिलो । आनि ते दर्शण चोउचे खातिर कोण समोउ येकडे जालो ते तें केल्ले कार्याक चोउनु आप्णाले हर्दें
४९ पेटुनु पतुनु गेलो । आनि कोणे ताका समज्लो आनि कोण बायलो गालिलेंयांकुनु ताजे मांच्त आयिल्यो तानि हे चोउनु यूर यिवि रावल्यो ।—
५० आनि चोयि युसफ नांवाचो यिजुदियाचे आरिमातेया पट्टणाचो मंत्रि बरो आनि सज्जनु येकलो आसिलो ।
५१ ताणे तांगेलो विच्यारु आनि कार्य कोपलेनांति आनिके
५२ ताणे देवाचे राज्या अपेक्षा केलि । ताणे पिलातालागि
५३ वोचुनु यिशुचे शरीर मागलें । आनि ताका देवोउनु

थांगवल्यान वेडायलो आनि फातरांतु खांडिलि येका चवरांतु दवर्लो कि कसल्यांइ कोणे मनुष्य तावळियरांतु
५४ दवर्नु गेलो ना आसिलो। तो दिसु सिद्ध करचो दिसु आ
५५ सिलो आनि शाबताथि लागीं आसिलो। आनि कोण यायलो ताजे लागि गालिलियाकुनु आयिल्यो त्यावे माग्चि गेल्यो आनि कबराक आनि ताजें शरीर कशि केलें
५६ दवर्नु गेलें तांकाथि देकलें। आनि परतुनु वोचुनु मसालो आनि तेल सिद्ध केलें आनि आज्ञाले वारि शाबत दिसु पाव्लो।—

२४ चतुर्विंशति पर्व।—आनि शाबताचे थिवंमल्यांतु फाले फाल्यारि तानि कोण सावारु सिद्ध केल्ले ते सावा रांक घेउनु कबराले लागी आयल्यो आनि तांचें भशिं
२ गिसलेलु फातुरि आसिलो। आनि कबरारिथाकुनु
३ गडगडायलो ते फातराक देकलो। आनि भितरि वोचुनु
४ प्रभु येशुचें शरीर मेळें ना। आनि ते ताजे विषयांतु सावार चिंता केल्ले जाल्यान चोयि दोग माण भगभगि
५ दुस्तान तांचे लागि थियि आसिले। आनि ते भोडु संशेयु केल्यान आनि नेलारि आपणां वोंड केल्यान ताणे तांकां
६ म्हळें मळांले भितरी जीयांक यित्या सोदितालि। तो हांगा ना तो उठायलाय तुमगेले भशिं गालिलीतुं आसताना ताणे कोण उत्तर तुमकां म्हळें तें उत्तर उडगाणु कया।
७ कि अपरादि मनुष्यांले हातांतु मनुष्याले पुताक दिवचो आनि क्रुसारि मारु वोचे आनि तिसरे दिसा नैवान उठा
८ वचे आवश्य आस। आनि तानि ताजें उत्तर उडगासु
९ केलें। आनि तानि कबरांथाकुनु परतुनु येउनु थिकरा
१० शिष्यांक आनि सगळ्यांक तें सगळें कळेलें। मारिया माग्दलीनि आनि योहाना आनि यकोबाजि आउस

मारिया आनि तांचे वांगि आनिके आसिल्लीं कि जेणी
११ थाळेल्यांक हें म्हळें। आनि तांचे लागी तांगेलें उत्तर
काम नातिले उलपावारि आसिलें आनि तांनि तांकां
विश्वासु केलो ना।
१२ आनि पितराच उठाउनु कबरालागि धांउनु आनि तेगुं
जाउनु आंगवल्यांक वेगळें दवर्लीं चोयिलो ताजे मागिरि
तो ताजे जाले कामाचेरि आश्चर्य कोर्नुं गेलें। —
१३ आनि चोयि तांगेले दोग जाण तेचि दिसा यिरुशालमां
थाकुनु कोस चारेक अंतर येक गावां गेले कि जाणा नांव
१४ एमाउस। आनि जेण सगळें कार्य जालेलें तांगेलिं उत्रं
१५ तांनि परस्पर म्हळें। आनि तें उत्तर बित्तर कर्ताना
आनि विचारु कर्ताना यिशु आपण तांचे लागीं आयलो
१६ आनि तांचे भसिं गेलो। तरि तांगेले दोळे धांपुनु गेलें
१७ ले कि तांनि ताका पार्किलो ना। ताणे तांकां म्हळें
हें यितें उत्तर कि तुंमि चमकताना आनि दुःखित जात्ता
१८ ना परस्पर म्हणताति। तांगेले भित्तवेलो येक्लो कि जाणा
नांव क्लेओपास जाप दिउनु उलेलो कि तुं यितें यिरुशा
लमांतु मात्र परदेशि आस आनि हे दिसांतु जाणर घें
१९ जालां हे यितें समज ना। ताणे तांकां म्हळें कि यित्तेर
जालें तांनि ताका म्हळें कि यिशु नाजरेथाले विषयांतु कि
जेण देवाले आनि सगळे लोकाले येदुर उत्राच आनि
२० कार्याच होउ आचारि जालिलो। आनि प्रधान याजकांनि
आनि आम्गेल्या सरदारांनि जेण जिवलाच ताका मार्चिं
आज्ञा मेळचे खातिर पावैलो आनि क्रुशारि मार्नुं उडे
२१ लो। तरि आंमि विश्वासु दवर्ला कि तो यिष्रएलाक
सुटैतलो आस आनि हे सगळ्याले वेयिरियि आजि हे
२२ सगळे कार्याले मागिरि तिसरो दिसु आस। आनिके काम्

गेले कोणि वायलांनि आम्का आश्चर्य उब्जायकें कि कोण
२३ सकाळि कबरा लागि गेलेल्यो। आनि तागेलें शरीर
मेळनासितें आयलिं आनि म्होणपा लागल्यो कि आमि
दुताले दर्शण पावलें कि कोणि म्हळें कि तो जीवो आस।
२४ आनि आमगेलें सांगातगारि कोणि मनुष्य कबराले लागि
गेले आनि ते वायलांनि कसि तांका सांगिलें तसि मेळें
२५ तरि ताका देकलो ना। आनि ताणे तांका म्हळें हे अग्नि
जिका आनि आप्चाप्यांनि कोण सगळें उत्रांक म्हळिं ते
२६ उत्रांक विश्वासु कोर्चांक मंद मन्न। ख्रीस्ताक हें भोगचें
आनि आपणाले ऐश्वर्यांतु रीगपा यित्तें आवश्य ना।
२७ आनि मोशस्तांतु आरंबु कोर्नु सगळे आच्यार्यांथाकुनु
ताणे ते सगळें शास्त्रांतु आपणा विषयांतु कोण सगळें
२८ उत्तर जालें तांगेलो अर्थ तांचे लागि केलें। आनि ते
कोणा गावांतु वत्ताले ताजे लागीं पावले आनि ताणे मुकारि
२९ वचपाले मणके केलें। आनि तांनि ताका हे म्होंणु सम
जायलो कि आमचे लागि राव तेंयितें सांज येत्ता आनि
दिसु आकेर जात्ता आनि तो तांचे लागि रावपा गेलो।
३० आनि ताणे तांचे लागि वस्तिल्यान भाकरि घेउनु धन्यवादु
३१ केलो आनि मोणु तांका दिलि। आनि तांगेले दोळे
उगडे आनि तांनि ताका गुर्तलो आनि तो तांगेले दिष्टे
३२ तुल्यान अन्तर्धान जालो। ताजे मागिरि तांनि परस्पर
म्हळें कि जेद्ना ताणे वाटेरि आमचे लागि उलैलो आनि
आमचे अर्सि धर्म्म पुस्तकालो अर्थ सांगलो तेद्ना आमगेलें
३३ मंत्र यित्तें आमगेले भितरि जोळ्नु गेले ना। आनि ते तेचि
घडियेंतु उठाउनु यिरुशालमांक नेवाम गेले आनि यिकरा
३४ शिष्यांक आनि तांगेले सांगातियांक येकडे मेळे। कि
कोण तानि म्हळें कि प्रभु आवश्य उठायलो आनि शिमो
३५ नाक दर्शण दिलांक। आनि वाटेंतु तांचेरि कोण घडलें

आनि तो भाकरि मोड्ल्यान ऋसि तांचान गुर्तेउनु गेलो तेवं यि तांनि म्हळें।—

३६ आनि ते हें म्हणतचि यिशु आपण तांगेले भितरि यिवि
३७ रावलो आनि तांका म्हळें कि तुम्गेलें बरेंपण जावो। तरि तांनि आश्चर्य मानलें आनि भिले म्हणुणा कि भुताक देखलें।
३८ आनि ताणे तांका म्हळें कि यित्या घाबरेताति आनि तुमि
३९ मनांतु यित्या चिंता करताति। मेगेले हात आनि पांय चोया कि हो हांव आपणचि आसं हात्तान धर्रिया आनि माका चोया तेंयितें तुमि कसि माका चोयेताति तसि भुताकें
४० मास आनि हाड नां। आनि हें म्हणु ताणे आपणा
४१ हात आनि पांय तांका दाकेले। आनि ते आनंदान विश्वासु ना केल्यान आनि आश्चर्य जाल्यान ताणे तांका
४२ म्हळें कि तुमचे लागि कांयि खावचे आस। आनि तांनि ताका भाजिलें मळ्कें येकु कुडको आनि मोवा माल्यालो
४३ कुडको दिलो। आनि ताणे घउनु तांचे येद्दुर खेलें।—
४४ आनि तांका ताणे म्हळें कि हावें तुमचे भसिं रावुनु कोण उत्रांक म्हळें त हें आस कि मोशाले शास्त्रांतु आनि आचार्यांले उत्रांतु आनि गीतांतु कोण२ उत्रं मेगेले विष यांतु बरेल्याति ते सगळ्यांले पुर्ते जावचे आवश्य आस।
४५ तावेळि कोणे तांगेलि बुद्धि मोचन केलि कि ते धर्म पुस्त
४६ काक समजोति। आनि ताणे तांका म्हळें कि असि बरे लांज आनि ख्रीष्टाक असलें दुःख पावचें आनि तिसरे
४७ दिसा मरणांतुल्यांन उठावचें। आनि यिरुशालमा थावुनु आरंबु कोनु तांगेले नांवान सगळे जातिले लागि पश्चात्ताप आनि पापांले माप प्रगट कोर्चें आवश्य आस।
४८ आनि तुमि हांगेले साक्षि जाया। आनि चोया हांव
४९ मेगेले आनालो रूस्तु तुमचेरि धाड्तां तरि तुमि केदना

परांतु तेयरिथाकुनु सामार्थ्य ना पार्वासि तेदोळु परांतु यिरुशालम शहरांतु रावा।—

५० ताजे मागिरि तो तांका भायर घेउनु बेतानियापरांतु घेउनु गेलो आनि आपणाले हातांक उबानुं तांकां आशी

५१ र्वाद केलो। आनि असि आसिलें कि तो तांका आशी र्वाद केल्यान तांचांथाकुनु वेगळें कोर्नुं गेलें आनि स्वर्गांतु

५२ घेउनु गेलो गेलो। आनि ते ताका भजन कोर्नुं होड

५३ संतोषान यिरुशालमांतु वैवान गेले। आनि ते सदंचिं देवाक स्तुति करीत आनि धन्यवाद करीत देवळांतु रावले। आमिन।—

## मंगल समाचार योहनरचित ।

### १ प्रथम पर्व्वं ।—

१ पितंम उत्तर आसिलें आनि उत्तर देवा लागि आसिलें
२ आनि उत्तर देउ आसिलो । तें पितंम देवालागिं आ
३ सिलें । सगळें ताजां उबजलां आनि कोण१ उबजलें
४ ताजे भितरि बांधि ताजे मंतां उबजले नासिलें । तांतु
जीउ आसिलो आनि तो जीउ मनुष्यांलो ऊजवाडु आसि
५ लो । आनि ऊजवाडान काळकांतु प्रकाशु पावलो आनि
काळकान ताका घेतलो ना ।—
६ देवांथाकुनु धाळोलो येकलो आसिलो कि कोणा नांव
७ योहनु । तो साद्दि जावपाक आयला कि ऊजवाडाले
विषयांतु साद्दि दिवो कि सगळें ताजेन विश्वासु करोति ।
८ तो ऊजवाडु तो ना आसिलो तरि तो ऊजवाडा विषयांतु
साद्दि जावचाक आयलो ।
९ तो बद्द ऊजवाडु आसिलो कि कोण जगतांतु येत्तलो
१० सगळे मनुष्याक ऊजवाडु करतां । तो जगतांतु आसिलो
आनि जगत ताजेन उबजलें आनि जगतान ताका आगळो
११ ना । तो आपणा अधिकारा लागि आयलो आनि आपणा
१२ लोकांनि ताका घेतलो ना । तरि कोणते लोकानि ताका
घेतलो तांकां ताणे देवालो पूतु जावचो पराक्रमु दिलो

१३ अर्थात आपण नांवांतु विश्वासु कर्तल्यांक। कि कोण रक्ता थाकुन् जावो शरीराले इच्छेंथाकुनु आवो मनुष्याले इच्छें
१४ थाकुनुयि उबजले नांति तरि देवांथाकुनु उबजले। आनिथै उत्तर शरीर कोनुं गेलें आनि दया आनि सत्यपणांथाकुनु भर्लो जाउनु आम्गेले भितरि गुडारकेलें आनि आंनालो येकु उबजले पूताले ऐश्वर्याले मणके आमि ताजेलें ऐश्वर्य देक्लें।

१५ योहनान ताजेके विषयांतु साक्षि दिलि आनि हें म्होणु गदळ केलें कि हें तें आस कि ज्यावें कोणाले विषयांतु सांगलें कि कोण मजे माग्लि आय्लो तो मजा पितंम आसिलो
१६ तेंयितें तो मजाके पितंम आसिलो। सर्वांन आमि सगळ्यांनि ताजेले पूर्णान पावलें आनि गुणावरि गुणु पाव्
१७ लो। तेंयितें शास्त्र मोशेहान जागि दिउनु गेलां तरि
१८ दया आनि वस्पण यिशु ख्रीष्टान आयलां। कोणे मनुष्यान देवाक केद्नांयि देक्ने येक उबजलो पुतु कि कोण आंनाले हर्धारि आस ताणे ताका कळेलें।

१९ आनि हि योहनालि साक्षि आस केद्ना यिऊदियांनि तुं कोणु आस ताका हें उत्तर निमगुचे खातिर यिरुशा
२० लमांथाकुनु याजकांक आनि लेवींक धाळे। आनि ताणे स्वीकार केलो आनि नडप केल्ले ना तरि स्वीकार केलो कि
२१ हांव ख्रीष्टु नै। आनि तांनि ताका निमगिलें कि तावळि तुं यितें एलियाच् आस ताणे म्हळें कि हांव नैयि तुं यितें
२२ तो आचेरी आस ताणे म्हळें कि नैयि। आनि तानि ताका म्हळें कि जाल्यारि तुं कोणु आस कि आमि तांका जाप दिव्चा कि कोणे आमकां धाळे तुं आपणा विषयांतु
२३ यितें म्हणता। ताणे म्हळें कि यिशाईयाच् आच्याचान कसि म्हळें कि हांव रांनांतु गदळ कर्तलो येकल्यालो शब्द
२४ प्रभुलि वाट थिऊ करि। आनि धाळेलो लोकु फारि

२५ धियांयाकुन आसिले । आनि तांनि ताका निमगिलें
आनि ताका म्हळें कि तरी तुं ख्रीष्टु नैं आनि एलियाह् नैं
आनि तो आचारियि नैं जाल्यारि यित्या बुडकुलि दिवें
२६ ता । योहनान तांका हें उत्तर म्हळें कि हांव उदकांतु
बुडकुलि दिवेतां तरि तुमचे भित्तरि येक्लो यिवि राव्
२७ तास कि कोणाक तुंमि समज्नांति । तो आस कि कोण
मजे मात्ति येतालो जाउनु मजे मुकारि आसिलो आनि
हांव ताजेले पायासालो कद्रु मेकोळ्चा पुरो जांसां नै ।
२८ हें यरदनाचें येलडिले बीतावारांतु वेडिलें आसिलें कि खें
योहनु बुडकुलि दिवेतालो ।

२९ ताजे दुसर दिसा योहनान आपणा लागीं येत्तलें यिशु
क् देक्लो आनि म्हळें कि देवाजे तगराले पिलाक चोय्याकि
३० कोण जगताले अपरादांक घेउनु वतास । हें तो आस
कि कोणाले विषयांतु हांवे म्हळें कि येक्लो मजे मात्ति
येत्ता कि कोण मजे मुकारि आसिलो कैंयितें तो मजाकै
३१ पिलैंम आसिलो । आनि हांवे तांकां समज्लो ना मात्र
कि तो यिष्ररएलाले लागि प्रगट जायत याजेन हांव उद
३२ कांतु बुडकुलि दिवेत आय्लां । आनि योहनान हें
म्होणु साक्षि दिलि कि हांवें आत्माक घुगु वारि सर्गारि
३३ थाकुन देंव आनि ताजेरि बैसत देकलो । आनि हांवे
ताका समज्लो ना तरि कोणे उदकांतु बुडकुलि दिवोंचे
खातिर माका धाळ्ळो ताणे माका म्हळें कि तुं कोणा चेरि
आत्माक देंव्ताना आनि ताजेरि राव्ता ना चोय्ता तो
३४ धर्म्मात्मांतु बुडकुलि दिवेतलो आस । आनि हांवें पळेलें
आनि साक्षि दिलि कि हो देवाजो पुतु आस ।

३५ ताजेले हेरदिसा योहनु आनि देक वेळे यिवि राव्लो
३६ आनि ताजेले शिष्यांले दोग जायायि । आनि यिशुक

भोंवताना चोउनु म्हळें कि देवाले तमराले पिलाक चोया ।
३७ आनि ते दोन शिष्यानि तागेलें उत्तर आयकिलें आनि यिशुले मात्ति गेले ।
३८ यिशुन पर्तुनु आनि तांकां आपणामात्ति येउचें चोउनु तांकां म्हळें कि तुमि कोणाक् सोद्दिताति तांनि ताका म्हळें
३९ कि हे राब्बि अर्थात् उपदेशक तुं खैं आस्ता । ताणे तांकां म्हळें कि यो चोया ते आयले आनि तो खैं राब्ताले तो चोयलो आनि तेदिसा ताजे भशिं राबताले तेंयितें साडे
४० तीनि पार सुमार दिसु जालोलो । कोण दोन जाण योहनालें उत्तर आयकुनु ताजे मात्ति गेले तांतुलो येक्
४१ लो शीमोन पितरालो भाउ आंद्रु । ताणे पितॆम आपणा भाउ शीमोनाक मेळो आनि ताका म्हळें कि आमि मशी
४२ याहाक अर्थात् खीस्ताक मेळो । ताजे मागिरि ताणे ताका यिशु लागि घेउनु गेलो आनि यिशुन ताजेरि दिष्टि केनुं म्हळें कि तुं योनाहालो पुतु शीमोन आस तुं को फास नांवान आपैल्लो जायव अर्थात् फात्तोर ।
४३ तागेजे हेर दिसा यिशुन गालिलींतु रिग्चा आसेलो आनि फिलिपा लागि भेट जालि आनि ताका म्हळें कि मजे मात्ति यो ।
४४ आंद्रु आनि पितराले गांव बोत्सैदालो फिलिप आसि
४५ लो । फिलिपान नातानएलाक पाव्लो आनि ताका म्हळें कि मूसान्तुं मोशहान कोणाले विषयांतु बरैलें आनि आचारेयि बरैलें अर्थात् युसफालो पुतु नाजरेतालो यिशु ताका आमि पावलो ।
४६ नातानएलान ताका म्हळें कि कोंणे चांग वस्तु यितें नाजरेतांथाकुनु येउचा सकता फिलिपान ताका म्हळें कि
४७ यो चोयि । यिशुन आपणा लागि येत्जो नातान एलाक पळेलो आनि ताजेले विषयांतु म्हळें कि वह्

यिष्रएलीयु येवल्याक चोखा कि कोणांतु कपट ना ।
४७ नाथानिएलान ताका म्हळें कि तुंवे खैंथाकुन माका आळ्
खो यिशुन जाप दिलि आनि ताका म्हळें कि तुका फिलि
पाले आयवपाले पिर्तिम तुं केद्‌ना अंजीरा रुखाले तोगुं
४९ आसिलो तावळि हांवे तुका पळैलो । नाथानएलान
जाप दिलि आनि ताका म्हळें हे राब्बि तुं देवाजो पुतु
५० आस तुं यिष्रएलालो रायु आस । यिशुन जाप दिलि
आनि ताका म्हळें कि हांवे तुका अंजीराले रुखाले तोगुं
पळैलो हें उत्तर म्हळ्यान तुं यित्तें मेगेले उत्तारि विश्वासु
५१ कर्ता तुं हांवांथाकुन थोड कार्य चोयशि । आनि ताणे
ताका म्हळें कि हांव तुम्कां खरें खरें म्हणतां कि हांगेले
मागिरि तुमि स्वर्गाक उगह्ले आनि देवाले दुतांक मनुष्यां
ले पुताले वोयरि चडत्‌ना आनि देवत्‌ना चोय्‌षा ।

२ द्वितीय पर्व्व ।—आनि तीसरे दिसा गालिलीले कानां
तु वारडिक आसिलि आनि यिशुलि आउम्‍यें आसिलि ।
२ आनि यिशु आनि तागेले शिष्य वारडिकेंतु निमंत्रित आसि
३ ले । आनि सोरो नातिल्यान यिशुले आंमान ताका
४ म्हळें कि तांगेलो सोरो ना । आनि यिशुन ताका म्हळें
कि हे बायलमनिषे तुजांथाकुन माका यित्तें कार्य मेगेलि
५ घडि आत्तं आय ने । तागेले आंमान चेर्यांक म्हळें कि
तो तुम्कां कोण कसलेंयि कार्य कोचांक सांगत तें कर्‍या ।
६ आनि तो यिऊदियांले पवित्र कोचां तकित फातराले स
भांख आसिलिं प्रति भांणांतु दोनि तीनि मण थर्तास ।
७ यिशुन तांकां म्हळें कि भांण उदकान भर्‍या आनि तांनि
८ तोंडपरांतु तांकां भर्लिं । नेंवान ताणे तांकां म्हळें कि
आत्तं वोतुनु आनि निमंत्रणकारालागि घेउनु वचा आनि

९ ते घेउनु गेले । केदना निमंत्रखि तें उदकाक मिटिमाउँ आसिलें कि कोण सोरा कलोलो आनि तो हैंथाकुन आस लें समजा कर्जे ना तरि उदकाक काडतले चेड्यांनि जाणलें केदना निमंत्रान होरेताक आयैलो आनि ताका म्हळें ।
१० कि सगळे मनुष्य पितेम चांग सोरो दित्तातिं आनि मनुष्यांनि सावार पित्तघि वायट दितातिं तरि तुवें आत्तंपर्यं
११ तु चांगु सोरो दवलोज । यिशुन हें पितेमलें आश्चर्य कार्य्यं गालिलोले कानांतु केलें आनि आपणालें ऐश्वर्य प्रगट केलें आनि तागेले शिष्यांनि तागेरि विश्वासु केलो ।—

१२ हागेले मागिरि तो आनि तागेलि आंमा आनि भाउ आनि तागेले शिष्य कफरनवमांतु गेले आनि थैं सावार दिस रावले नांति ।—

१२ आनि यिहुदियांलो पेसाख् लाग्नीं आयलो आनि यिशु
१३ यिरुशलमांतु गेलो । आनि देवळांतु गोरवांले आनि तगरांले आनि पार्व्यांले विकतल्यांक आनि चिनवार्यांक बस
१५ ले पळेले । आनि सोपुर दोरियेक कोरडो कोनु तागे देवळांथाकुन तेसगळ्यांक आनि तगरांक आनि गोरवांक धुर केलें आनि चिंनवार्तांले रुपैयांक उडेल्यो आनि मेज्यांक
१६ उमतायलिं । आनि पार्व्यांले विकतल्यां म्हळें कि हे ओन सांक हांगाथाकुन घेउनु वाचाति मगेले आंनाले घराक
१७ बांगडि कोनाकाति । आनि तागेलि शिष्यांनि उडमासु गेलो कि हें बरैलें कि तुगेले घराले विषयांतु चिंता माका खाउनु उडेलो ।

१८ आनि यिहुदियांनि जाप दिउनु ताका म्हळें तु आम
१९ कां यित्तें जत्त्व दाकेता कि तुं हें कार्य कर्तास । यिशुन जाप दिउनु तांकां म्हळें कि हे देवळाक मोड्या आनि तीनि
२० दिसांतु हांव ताका नेंवाल उबारिन् । यिहुदियांनि म्हळें कि हें देवळाले उबाचांतुं सवेचाळिस वर्षं गेलिं

२१ आनि तुं यिर्से तीनि दिसांतु ताका उबारित ।     तरि
२२ ताणें आपणा शरीराचे देवळाविषयांतु म्हळें। हाजेन
वेद्ना तो मरणाथाकुनु उठायलो आसिलो तेदना ताजेजे
शिष्यांनि उडगासु केलो कि ताणें ताका हें उत्तर म्हळेलें
आनि तानि धर्म पुस्तकाक आनि यिशुन कोण उत्तर म्हळे
लें ते उत्राचे विश्वासु केलो ।—

२३   आनि तो पेसाखाचे समयारि यिरुशलमांतु रावताना
परबेचे वेळा सावारांनि ताजांन केलेलें आश्चर्य कार्याक
२४ पोउनु ताजेचे नांवाचेरि विश्वासु केलो ।     तरि यिशुन
तांचे तानि आपणाक सोंपलो ना तेंयितें ताणें सगळ्यांक
२५ समजले ।     आनि कोणें कि मनुष्यांजे विषयांतु साक्षि
दिव्चें हें ताका आवश्य ना आसिलें तेंयितें मनुष्यांतु कोण
आत्ता तें ताणें समजलें ।—

३ तृतीय पर्व ।—फारिशियांचे भितरि यिऊदियांलो
सरदारु येकलो आसिलो कि कोणाचें नांव निकदेमस ।
२ तो रात्ति यिशुजे लागि आयलो आनि ताका सांगलें हे
राब्बि आमि जाणतांति कि तुं देवांथाकुनु आयिलो येकु
उपदेशक आस तेंयितें तुं कसलें आश्चर्य कार्य कर्ता को
णै मनुष्य ते कार्यांक कोर्चा सकनांति कि वरी देउ ताजे
३ भर्ति रावलो ना ।     यिशुन जाप दिलि आनि ताका
म्हळें कि वद्द वद्द हांव तुका म्हणतां कि वरी मनुष्यु दुसरे
वेळे उवजना झाल्यारि तो देवाचें राज्य पोउचा सक्ना।
४ निकदेमसान ताका सांगलें कि मनुष्य म्हांत्तारो आसतु
कसि उवजुचा सक्ता तो यिर्से दुसरवेळे आपणा आंमाचे
५ पोटांतु रिगचा आनि उवजुचा सक्ता।     यिशुन जाप
दिलि कि खरें खरें हांव तुका म्हणता कि वरी कोणै मनुष्य
उदकांथाकुनु आनि आत्माथाकुनु ना उवजत झाल्यारि तो

६ देवाले राज्यांतु रिगचा सक्ना । कोण शरीरान उवज्
ता तो शरिर आस आनि कोण आत्मान उवज्ता तो
७ आत्मा आस । आश्चर्य समजु नाका कि हांवें तुका
म्हळें कि तुमकां दुसरेवेळे उवजुचें आवश्य आस वारें खैं
८ वसास थें वांवता आनि तुं ताजेले गदळ आयक्ता तरि
समज ना कि तें खैंथाकुन येता आनि खैं वत्ता असि प्रत्येक
मनुष्य आसति कि कोण आत्मांथाकुन उवजला आस ।
९ निकदेमसान जाप दिलि आनि ताका म्हळें कि हें कोण
१० जोनसान जावपा सक्ता । यिशुन जाप दिलि आनि
ताका म्हळें कि तुं यित्तें यिसरएलालो येकु उपदेशकु आस
११ आनि हें समज ना । हांव तुका खरें खरें म्हणतां कि
आमि कोण समज्ताति तें म्हणताति आनि कोण पळेलें
ताजि साक्षि दिताति आनि तुंमि आम्गेलि साक्षि मान्
१२ सि नांति । तरी हांवें तुमकां जगतालें उत्तर म्हळें आनि
तुंमि विश्वासु ना कर्ताति जाल्यारि केद्ना हांव स्वर्गावेलें
१३ उत्तर तुम्कां सांगन वेद्ना कसि विश्वासु कर्शां । आनि
कोण स्वर्गारिथाकुन देंवलो अर्थातु मनुष्यालो पुतु कि कोण
स्वर्गांतु आस ताजे बंता कोणै मनुष्यु सरगारि चळो ना ।
१४ आनि मोशसान रानांतु कसि सर्पाक उबारलें तसि मनु
१५ ष्यालें पुतालें उबानुं वेचें आवश्य आस । कि कोण
कोणै ताजेरि विश्वासु कर्ता तो नाशु ना जावो तरि
१६ अनन्त जीवन पावो । तेंथितें देवान जगताक असि
मोगु केला कि ताणे आपणाले येकु उवजले पुताक दिलो
कि कोण कोणै ताजेरि विश्वासु कर्ता तो नाशु ना जावो
१७ तरि अनंत जीवन मेळो । तेंथितें जगताक अप
राधि कोचें खातिर देंवान आपणाले पुताक जगतांतु
१८ धाडो ना तरि कि जगत ताजेन त्राण पावता । कोण
कोणै ताजेरि विश्वासु कर्ता तो दंडनीयु नैं तरि कोण

कोणे विश्वासु कर्ना तो आतंयि दंडनियु तेंथिलें देवाले येको
१९ उत्पन्न पुताले नावांरि विश्वासु केला ना । हें दंड दिव्चें
कारण आस कि जगवांतु उजवाड दिग्ला आस तरि
मनुष्यालें कार्यं वायट जाल्यान ते उजवाडाच्याकै काळोकु
२० पसंद कर्तालि । तेंयितें कोण कोणे वायट कार्यं कर्ता तो
उजवाडाक कंटाळो कर्ता आनि तागेलें कार्यं निंदा केलेलें
२१ ना जाव्चें खातिर तो उजवाडा लागि ये ना । बरि
कोण कोणे बद्दया कर्ता ते मनुष्यालें कार्यं प्रगट जाव्चे
खातिर तो उजवाडा लागि येत्ता तेंथिलें तागेलें कार्यं देवां
तु केलुं वोत्ता ।—
२२ ताजे सांगातिं येशु आनि तागेले शिष्य यिऊदाह देशांतु
गेले आनि ताण ते जाग्यांतु तांगेले भांसि वासु केला आनि
२३ बुडकुलि मारेलि । आनि योहनु शालेमाले लागीं आइ
नोनांतु बुडकुलि दिवेतालो तेंथिलें सावार उदाक थें आनि
लें ताजेन मनुष्य आयले आनि बुडकुलि मारेलें काले
योहनु तेवेळा पाच्यांतु ना ।—
२४ तेवेळा पवित्र केर्चें विषयांतु योहनाले कितलेक
२५ शिष्य आनि यिऊदियाले विवादु आसिलो । हे खातिर
२६ तानि योहनाले लागि येउनु ताका म्हळें कि हे राब्बि
यर्दनाले पैलतडि कोण तुजे लागि आसिलो कि कोणा
जि साक्षि तुवें दिल्याय चोया तो बुडकुलि दिवेता आनि
२७ सगळे मनुष्य ताजे लागि येवाति । योहनु जाप दिउनु
उलैलो तरी सर्गांरिथाकुन दिल्लें ना जायत जाल्यारि कोणे
२८ कांयि पाव्चा सक्नांति । हांव ख्रीष्ट नैं तरि तागेले पैलंम
धाळेलों जालां आस हांवें कि हें उत्तर म्हळां चास ता
२९ जेन तुमि सगळे साक्षि आसति । कोण मनुष्यु होकल
पावता तो होरेतु तरि होरेतालो कोण स्नेहितु लागीं यिबि
रावुनु आयकता तोयि होरेताले उत्पारि सावार खुशी

कर्तास हेनिमित्ति हो मेगेलो आनंदु पुर्तो जाला आस ।
३० तो वाडत तरि हांव उणो जायन् । जो वोय
३१ ल्यान येता तो सगळ्याले वोयरि आस जो जगताथाकुन
आत्ता तो जगताचा आस आनि संसाराले उत्तर म्हण्
तास जो स्वर्गांवेल्यान जाता तो सगळ्याले वोयरि आस ।
३२ आनि जो ताणे पळैलांज आनि आयकिलांज तांजि
सांक्षि तो दित्तास वरि कोणे तागेलि सांक्षि स्वीकार
३३ कर्ना । जो मनुष्यु तागेलें उत्तर आयकत ताणे हाजेरि
३४ मुद्रित केलांज कि देउ खरो आस । तेंयितें जोणाक
देवान धाळा आस तो देवालें उत्तर म्हण्ता तेंयितें देउ
३५ माप कोर्नु ताका आत्मा दि ना । आनु पुत्ताक मोगु कर्ता
३६ आनि तागेले हातांतु सगळे दिलां आस । जो मनुष्यु
पुताचेरि भक्ति कर्ता अनंत आउक तागेलें आनि जोणे
पुताचेरि भक्ति कर्ना तो आउक चोयिसि ना तरि देवालो
कोपु ताजेरि राब्ता ।—

४ चतुर्थ पर्व्वं ।—प्रभुन समजलें कि फारिशियांनि
आयकिलें कि यिशु योहनाचाक्ष चडाव शिष्य केले आनि
२ बुडकुलि दिवैलि । यिशुन आपणे बुडकुलि दिवैलि ना
३ सहि तरि तागेले शिष्यानि । तावळि तो यिहुदाह् देशु
४ सोणु दुसरे वेळा गालिलांतु गेलो । आनि शमरोणां
५ थाकुनु जाउनु तागेले वोचपालें आवश्य आसिलें । जोण
भुंयि यआकुबान आपणा पुतु युसफाक दिलेली ते भुंयिले
लागीं श्रीखार नांवाले शमरोणियाले येका शहरांथाकुनु
६ तो आयलो । यआकुबालि बांयि ते जाग्यारि आसिलि
हे खातिर यिशु वत्तां दमाउनु तसोचि बांयचेरि बसलो
७ हे दोनि पारा वेळु जालो । शमरोणालि येक बायल
उदाक ओडोंक आयलि यिशुन तिका म्हळें माका पिव्पा

७ उदाक दि। तेंथितें ताजेले शिष्य खाव्चो वस्तु मोला
८ घेव्चाक शहरांतु गेलेले। तावळि ते शमरोणि बायलेन
ताका म्हळें कि तुं यिऊदिकार हांव शमरोणी बायल तुं
मजे लागि पिव्चा मागता हें कसलें उत्तर तेंथितें शमरोण
१० यांले लागि यिऊदियांलो कांयि वेवार ना। यिशुन
जाप दिउनु तिका म्हळें कि तुं खरो जाणता कि देवालें
दान यितें आनि कोण म्हळें कि माका पिवचा दि तो कोणु
आस हेंवे तरी समजति जाल्यारि तुं ताजे लागि मागति
११ आनि तो तुका जिवंत उदाक दितो। ते बायलेन ताका
म्हळें कि हे महाराया उदाक भोर्चाक तुजेलें आयदन ना
बायीथि कोंडि आस जाल्यारि तुवे तें जिवंत उदाक खें
१२ थाकुनु मेळां आस। तुं यितें फाम्गेलो आंमु यशा
कूवाचाकै व्हाडु आस कि कोणें आमका बांयि दिल्या आस
आनि आयण आनि ताजेलीं चेरडुंव आनि ताजेले पशुंनि
१३ ताजें उदाक पिल्यांति आस। यिशुन जाप दिउनु तिका
म्हळें कि कोण कोणें हें उदाक पिता तो नेंवान तांनिलो
१४ जाउनु वोचत। तरि कोण उदाक हांव दिन तें उदाक
कोण कोणें पित तो मनुष्यु आनि केदनांयि तांनिलो
जायलि ना तरि कोण उदाक हांव ताका दिनें तो अनंत
आयुष्यांतु उठायतलो ताजेले भितरि उदकाजे येक वोंब
१५ जायत। ते बायलेनि ताका म्हळें कि हे महाराज तें
उदाक माका दि कि हांव तांनिल्लि ना जायन आनि
१६ हांगा उदाक भोर्चाक ना येउं। यिशुन तिका म्हळें कि
१७ वोच आपणा बांमणाक आपोनु हांगा ये। बायलेन
जाप दिउनु म्हळें कि मेजेलो बांमुणु ना आस यिशुन
तिका म्हळें तुवे खरें म्हळें कि मेजेलो बांमुणु ना आस तेंथि
१८ तें तुजेले पांच बांमुण जालेले आनि तुं आतं कोणा लागि
रावृता आस तो तुजेलो बांमुणु नै हाजेन प्रांग उत्तर

१९ म्हळीं। ते बायलमनषेन ताका म्हळें कि हे महाराज
२० हांव समजुचा पावतां कि तुं भाच्यारि आस। आम्गेले
पिटलोकांनि हे गुडाचेरि भजनकेलें तरि तुमि म्हणतालि
कि यिरुशालम तो जागो आस किखे मनुष्याक भजन कोर्चे
२१ आवश्य आस। यिशुन ताका म्हळें कि हे बायले मेगे
के उत्राचेर विश्वासु करि केदना तुमि हे पर्वताचेरि आवो
यिरुशालमांतु आंवाक भजन ना कर्शाति तोचिवेळ येता।
२२ तुमि कोणाक भजन कर्ताति तो केनु हें समजनांति आमि
जाणताति कि कोणालें भजन कर्ताति तेयितें यिऊदियां
२३ कडान त्राण आला आस। तरि सत्य पुजतले कोणते
समयारि आत्मांतु आनि सद्पणांतु बापुसुली पुजा कर्तित
तो वेळु लागीं येतास आनि आतंयि जालां आस तेंयितें
आपणालि पुजा कर्तले असले लोकांक बापु इंचिता आस।
२४ देउ आत्मा आस आनि कोण तागेलें भजन कर्ताति तांकां
आवश्य आस कि आत्मांतु आनि सद्पणांतु तागेलें भजन
२५ करो। ते बायलेन ताका म्हळें आमि समजताति कि
मसीयाह् येत कि कोणा नांव ख्रीष्ट आस तो येउनु सग
२६ ळिं उत्रं आम्कां सांगत। यिशुन तिका म्हळें कि हांव
२७ तोचि आसं कि कोण तुजे भसिं उत्तर म्हणतां। हाजे
भितरि तागेले शिष्यानि येउनु आश्चर्य केलें कि ताणे ते
बायलेलि भसिं उत्तर म्हळें तरि कोणे सांगले ना कि तुं
यितें मागता जावो यितें खातिर तागेले भसिं उत्तरं म्हण
२८ तास। तावळि ते बायलमनषेन कळसो सोणु शह
२९ रांतु गेलि आनि लोकांक म्हळें। कि येया येवल्याक
चोया कि कोण कोणा कार्य हांवे कोणे वेळारि केलेले तें
३० सगळें कार्य माका सांग्तां आस तो यितें ख्रीष्ट नैं। हे
खातिर ते शहराले भायर वोचुनु तागेले लागीं आयले।
३१ तावळि तागेले शिष्यानि ताजे लागि प्रार्थना कोर्नु म्हळें

३२ कि हे राब्लि कांयि म्हा । तरि ताणे तांका म्हळें कि मेगेलो
३३ हाव आस कि जाण तुमि नेणवि । हेखातिर शिश्यानि
परस्पर म्हळें कीं कांयि खावपि वस्तु यिरें हागेले लागीं
३४ हाब्यातं । यिशुन तांकां म्हळें कि कोणे माका धाळा
आस तागेलि इच्छा कोर्चि आनि तागेलें कार्य पुर्ते कोर्चें
३५ हे मगेलो हाव आस । तुमि यित्तें सांगनावि कि आनि
चारि मास पराते पोकि कातेर्चो वेळु आत्तास योयि
तुमकां हांव म्हणतां कि तुम्गेले दोळे वायरि कोनुं
३६ नेंशिरि पळे तेंयितें आत्तं तो पोकि वारि धवो आस । आनि
कोण मनुष्यु पोकि कातर्ता तो मासु पावता आनि अनंत
आवश्यांतु पोकि येकडे कर्तोति कि वीं वायवलो आनि
३७ पोकि कावलेलो येकबेळे खुशि आवोति । आनि हाजाके
हें उत्तर खरें आस कि येकलो बीं वोयिता आनि येकलो
३८ पोकि कावतां । कस्ल्यांतु तुमि कांयि कष्ट केलो ना
तो पोकि कातोर्याक हांवे तुमकां धाड्याति आनि लोकानि
३९ कार्य केलांकास आनि तुमि तांगेलो कार्यांतु रिग्ले । बाय
लमनवेले हे उत्रान ते शहराचे साबार समरोणियांनि
विश्वासु केलो कि कोण हि साक्षि दिलि कि हांवे कोण कार्य
कोणे वेळांतु केलां आस तें सगळें कार्य ताणे माका म्हळें ।
४० हेखातिर समरोणी तांजे लागि येउनु आपणा भसिं राव्चे
खातिर ताका लालप केलें ताशेन तो दोनि दिस थें राव्लो ।
४१ तावळि आनि साबार लोकानि तागेले आपणाले उत्रान
४२ विश्वासु केलो । आनि ते नाय्लेक म्हळें कि आत्तं आमि
विश्वासु कर्तोति तुगेले उत्रान तें नैं तेंयितें आमि आपणे
आयकुनु समजलें कि तो आवश्य जगताले त्राण कर्तो खीष्ट
आस ।—
४३ आनि दोनि दिस उपरांतें तो सो जागो सोडुनु गालिलोंतु

४० गेलो । तेंयिवें यिशुन आपणे साक्षि दिलि कि आप्या
४५ चालि मर्य्याद आपणा देशांतु नैं । ताजे मागिरि तो गालिलींतु येउनु कोण सगळें कार्य ताणें यिरुशलमांतु पर्व वेळे केलें कोणें तें कार्य चायिलें ते गालिलीयांनि
४६ आदरान ताका घेतलो । तेंयिलें तवे परवेंतु गेलेले । हाजे मागिरि यिशु गालिलीले कानांतु दुसर वेळा गेलो शि खैं ताणें उदकाक दराक्षे रोसु केलेलो आनि थैं येकूलो होडु मनुष्यु आसिलो कि कोणा पुतु कफरनखमांतु सोस्त ना
४७ आसिलो । ताणें वेद्ना आयकिलें कि यिशु यिहुदाहु देशांयानु गालिलींतु आयलाआस तेद्ना लागेले लागीं वोचुनु ताका कालेप केलें कि तो तेआग्यांतु वोचुनु तागेले
४८ पुताक चांगो करी तेंयिते तो मद्यावारि आलोलो । यिशुन ताका म्हळें कि तुमि लक्षण आनि आश्चर्य कार्य चेयलें
४९ नंता विश्वासु ना कर्णांति । ते होड मनुष्यान ताका म्हळें
५० कि हे महाराज मेगेलो पुतु मरोंस्तना यो । यिशुन ताका म्हळें कि तुगेलो पुतु जीवो आस तावळि कोण उत्तर यिशुन ताका म्हळें ते उत्तरि ते मनुष्यान विश्वासु
५१ केलो आनि चमकलो । वत्ताक तागेले चाकरांनि ताजे लागि भेट केलि आनि म्हळें कि तुगेलो पुतु जीवो आस ।
५२ तावळि ताणें विचारिलें कि कोणवेळा सोस्त पावचा लागलो तांनि ताका म्हळें काजि दोनपार आंघ घडियेले
५३ वेळारि ताप्यान त का सोडो । हे खातिर आकाश समजलें कि कोण घडयेरि यिशुन ताका म्हळेलें कि तुगे लो पुतु जीवो आस ति घडि तोचि हे खातिर ताणें आनि
५४ तागेले घर्चे सगळे लोकांनि विश्वासु केलो यिशुन यिहु दाह देशांयानु गालिलींतु येउनु कोण आश्चर्य कार्य केलें ताजे दुसरें आश्चर्य कार्य हें ।—

बेळ येत्तास आतंयि जालांज केद्ना मेल्लो मनुष्यु देवाले
पुताले शब्दु आयकुचा पावतीत आनि कोण आयकताति
२६ ते वांचतित । जैंयिलें कसि आंनु आपण्यांतु चैतन्य आस
२७ तसि पुताकै आपणांतु चैतन्य जावचाक दिलांज । आनि
के ताच्या नीति कोर्चें सामार्थ्य दिलांम जैंयितें तो मनुष्या
२८ लो पुतु आस । आश्चर्य समजु नाका जैंझतें तिये
येत्तास कि वसल्यांतु कियुलों लोकु कबरांतु आसति तें
समळे तागेलो शब्दु आयकतलि आनि भायर येतलि कोण
२९ चांग कार्य कॆलें तेवांचुचें भोगा खातिर आनि कोणें वायट
३० काम केलां आस ते दंडणेलें भोगा खातिर । हांव आपण्या
सामर्थ्यान कांयि कोर्चो सकना हांव कसि आयकतां तसि
विचारु कर्तां आनि मेगेलो विचारु खरो आस जैंयितें हांव
मेगेलि इच्छा सोदि ना वरि आनालि इच्छा कोर्चां आपे
३१ वां कि कोणें माका धाळ्ळा आस । जरी हांव आपणाले
विषयांतु प्रमाण दिन जाल्यारि मेगेलें प्रमाण खरें नैं ।
३२ आनि येकलो आस कि कोण मेगेले विषयांतु प्रमाण दित्ता
आनि हांव समजतां कि तो कोण प्रमाण मगे विषयांतु
३३ दित्ता तें प्रमाण खरें आस । तुमि योहनाले लागि धाळे
३४ आनि ताणें वद्पणाले विषयांतु प्रमाण दिलें । हांव
मनुष्याकच्यान प्रमाण घेना सहि तरि हांव हें म्हणतां
३५ कि तुमि त्राण पावा । तो येकु उजवाडु आसिलो तेज
स्कार दिवो आसिलो आनि तागेले उजवाडांतु कांयि
३६ दिस आनंद कोर्चांक तुमि सम्मति आसिले । तरि योह
नाले प्रमाणान चोड मेगेलें येक प्रमाण आस जैंयिलें पुर्ण
कोर्चां खातिर कोण कार्य माका दिलांज हें कोणर कार्य
हांव कर्तां तेंचि कार्य मेगेले विषयांतु प्रमाण दित्ताआस
३७ कि आंनाव माका धाळ्ळा आस । आंनु कि कोणें माका
धाळ्ळा ताणें आपुणेचि मेगेले विषयांतु प्रमाण दिलां

आस तुमि ताजेलो शब्दु केदनांयि आयकिलो ना आनि
३८ ताजेलि मुर्ति केद्नांयि पेयिलि ना। ताजेलें उत्तर तुम्
गेले भित्तरि ना तेंयवें कोणाक ताणे धाळा आस ताजेरि
३९ तुमि विश्वासु करीनाति। धर्म्मपुस्तकांतु सोधा तेंथिवें
तुमि समजतातिकि ताजे भितरि तुमि अनंत आयुक
पावतातिः हेंवे तें आस कि काणा मेजेजे विषयांतु प्रमाण
४० दित्तास। तरि जिवनाले खातिर तुमि मजे लागि ये
४१ उंका आपुनाति। हांव मनुष्याले लागच्यान मर्याद
४२ घेना। तरि हांव तुम्कां समजतां कि तुम्गेले भितरि
४३ देवाचो प्रेमु ना। हांव मेजेले बापाले नांवान आयलांव
आनि तुमि मका मानतो ना तरी आनि केणे आपणा
४४ ले नांवान येत जाल्यारि ताका तुमि मानतिश्या। तुमि
कसले भीतसान विश्वासु करों सक्तातिकि कोण येक्
लो आनि येकल्या लागि मर्याद घेताति आनि केण म
४५ र्यांद मात्र देवाघाकुनु येता ति मर्याद आपेनाति। तुमि
यिवें समजनातिकि हांव बापसुले लागीं तुम्गेलो अप
वादु करीन तुम्कां अपवादु दित्तलो येक्लो आस तोचि
४६ मोशेच् कि कोणाचेरि तुमि विश्वासु करताति। तुमि
मोशेच्चेरि तरी विश्वासु कर्तें जाल्यारि माका विश्वासु कर्तें
४७ तेंथिवें ताणे मेजेले विषयांतु बरैला आस। तरि तरी
तुमि ताजेलें बरप विश्वासु ना कर्णा जाल्यारि मेजें
उत्तर कोण भीतसान विश्वासु कर्णाति।—

६ षष्ठ पर्व।—हाजे मागिरि येशु गालिलीचे
१ अर्थात् तिबेरियासालो समुद्र पार जालो। ताजेळि ताणे
कोण आश्चर्य कार्य सोख्नातिले मनुष्याले वायरि केलें
ताजेलें तें कार्य पोडुनु हाडु समोज ताजे मागि आयलो।
२ ताजे मागिरि येशु येका गुड्यारि वोचुनु शिष्याले भीतिं

१६ सांजे तागेले शिष्य समुद्राले देगेरि गेले । आनि
१७ दोणिरि चोंगु कफरनाउमाले दिक्का समुद्राले पेलतडि
आवचा लागले आनि काळोगु जात्तचिलि यिशु तांचे
१८ लागीं आयलो ना । तावळि होड वारें फूंकिल्यान
१९ समुद्रांत पाळ्ळ होड जालें । तेद्ना ते जस ताणतांर
दोनि तीनि कोस वात्तुनु समुद्राले वेयरि चलताना आनि
दोणिले लागि येताना यिशुक पळेलो हाजेन ते भिले ।
२० तरि तांका ताणें म्हळें कि हो हांव भिउनाकाति । हे
२१ खातिर तांनि खुषि जाउनु ताका दोणिरि घेतलो आनि
खंय जाग्यारि ते वोतित ते जाग्यारि ते दोणि पावलि ।
२२ दुसरे दिसा कोण्ण मनुष्य समुद्राले पेलतडि राबिले तांनि
केद्ना चोउचा पाविले आसिले कोण दोणिरि तागेले
शिष्य गेलेले ते नंतर दुसरि दोणि कि ते जाग्यारि ना
आसिलि आनि यिशु आपणाले शिष्यां भसिं कि गेलो ना
२३ तरि केवळ शिष्य गेलेले । कोण जाग्यारि प्रभुलो धंन्यवादु
केल्ले उपरांते तांनि भाकरि खेलेलि ते जाग्याले लागि
२४ आनि दोणि तिबेरिआसांथाकुनु आयिल्लि तरि । केद्ना
लोकांनि पळेलें कि यिशु जावो तागेले शिष्य ते जाग्यारि
ना तावळि यिशुलो सोदु कोर्चे खातिर ते दोणिरि चोंगु
२५ कफरनाउमांतु आयले । तावळि तांनि समुद्राले पेल
तडि तागेले भसि भेट कोरुं म्हळें कि हे राब्बि तुं केद्ना
२६ हांगा आयलो । यिशुन जाप दिउनु तांका म्हळें
कि हांव तुमका खरेंर सांगतां कि तें आश्चर्य चोयिल्यान
तुमि मेगेलो सोदु कर्तांति ते नैं तरि भाकरि खाउनु तृप्ति
२७ जाल्यान । विनासी हारा खातिर कष्टु कार्नाकाति तरि
कोण हाव अनंत आयुष पर्यांतु आस्ता कि कोण मनुष्याले
पुतु तुमका दित ताजे खातिर कष्ट कर्या तेंयितें देउ थों
२८ नान ताका मुद्रन मुद्रित केला आस । तावळि तांनि

तरतरी मनुष्यु पुताक पोळउनु विश्वासु कर्ता तोचि अनंत परमायु पावत आनि शेव दिसु हांव ताका उठवरायन।

४१ ते खातिर यिहुदियांनि तागेले लागि किर्किर केले तें यिवें ताणे सांगिलें कि कोण भाकरि स्वर्गारिथाकुन देंवलि

४२ ति भाकरि हांव आसं। आनि तानि म्हळें कि हो यिवें युसफालो पुतु यिशु नैं कि कोण ले पांमा आंनाक आमि समजतांवि जाल्यारि तो कसि म्हण्ता कि हांव

४३ स्वर्गारिथाकुन देंवलांज। यिशुन जाप दिउनु तांका

४४ म्हळें कि तुमि परसर किर्किर कोनांकाति। आनु कोणे माका धाळा ताणे तांडले विना कोणे मजे लागि येवचा नज जायत ताजे मागिरि कडु दिसु ताका हांव

४५ उठवरायन। आच्याराले उत्रांनु हें धरेलां आस कि ते सगळे देवांथाकुनु सिकेलें जांवित हे खातिर कोण तरतरी मनुष्यान आयकिलें आनि आंना लागि सिकि

४६ लो तो मजे लागि येत्ता। कोण देवांथाकुनु जालां आस तागेले वंतां कोणे कोण आंनाक चोयिला आस तो

४७ नैं तरि ताणे आंनाक चोयिला आस। हांव खरें तुम्कां म्हण्तां कि कोण कोणे मजेरि विश्वासु कर्ता तागेलो

४८ अनंत परमायु जाता। हांव ति जीवु दित्तलि भाकरि

४९ आसं। तुम्गेले पुरुषांनि रानांतु मान्न खेलेलिं आनि ते

५० मेले जाल्याति। कोण भाकरि स्वर्गारिथाकुनु येता

५१ ति हि आस कि मनुष्य ति खेल्यान मरसि नांति। स्वर्गारिथाकुनु कोण जीउ दित्तलि भाकरि ति हांव तरी कोणे हि भाकरि खायत जाल्यारि तो सदं वांचत आनि कोण भाकरि हांव दिन ति मजें मास कि कोण जगताले

५२ वांचुचे खातिर दिन। हे खातिर यिहुदियांनि परसर भगडें कोनुं म्हळें हो मनुष्य कि खावचे खातिर

५३ आपणा मास कसि दिवचा सक्ता। ताजेरि यिशुन

झाल्यारि तुमि यितें मजेरि श्रोण्णे तेंयितें थाबत दिसांतु
२४ धांवे येश्र्ल्यांक पुर्वं वास केला श्रास। कोण देकुं
पडता तांवेरि विच्यार केलोंकाति तरि प्रगत विच्यार
२५ करा। तावळि धिरुशलमाले कोणेर म्हळें कि हो तो
२६ नें कि कोणाक ते मारुं इच्छिताति। तरि चोया तो
निर्भय भावनु उत्रं सांगता श्रानि ते ताका कांयि म्हंणाति
अध्यक्ष यित्तें निःसंदेह समजताति कि हो निश्चय क्रीष्ट
२७ श्रास। श्रमि जाणताति कि हो मनुष्य खंचान जालो
तरि क्रीष्ट आयिल्यान तो खैंयाकुनु येता यें कोणे सम
२८ जनाति। तजे मागिरि थिशुन देवळांतु सिक्षा कांचें
वेळा घोरकोनु म्हळें कि तुमि यित्तें माका समजताति
आनि हांव खैंयाकुनु श्रासं तुमि यित्तें हेंयि समजताति।
२९ हांव मेगेले खुणीन आयिलो ना तरि कोणे माका धाळा
तो खरो श्रास कि कोणाक तुमि नेणाति तरि हांव ताका
समजतां तेंयितें हांव ताजांयाकुनु आयलां श्रानि ताणे
३० माका धाळाज। तावळि तांनि ताका धोचां आटैलें
तरि ताजेरि कोणेंयि हात घालो ना तेंयितें तागेलि वेळ
३१ तावळि जालि ना। हेखातिर समोहांतु सावार लो
कानि ताजेरि विश्वासु केलो श्रानि म्हळें कि क्रीष्टु येदना
येता तेद्ना कोण श्रास्चर्य कार्यं हो मनुष्य कर्तास तो यितें
साजाके चडाव करित।
३२ फारिशियांनि श्रायकुं पावले कि लोकानि ताजे विष्यां
तु असले किरकिर केले हे खातिर फारिशियांनि श्रानि
३३ प्रधान याजकानि ताका धोचांक सिपायि धाळा। ताजेरि
थिशुन तांकां म्हळें कि आनि थोडे दिस हांव तुमचे भसिं
रावन ताजे मागिरि कोणे माका धाळा ताजे लागि हांव
३४ वेत्तां। तुमि मेगेलो सोद करां तरि मेळसि ना श्रानि
कोण जाम्हांतु हांव रावलां तिजाग्यारि तुमि यवपा ना य

३५ क्षणा। तावळि यिहुदियांनि परस्पर म्हळें कि तो खैं
वोचत कि आमि ताका पावच्या सक्सि नांति। ग्रीकांचे
भितरि कोण लोकु आड्डाटुडु आल्यांति वो यिन्तें तागेले
३६ लागि वोचत आनि ग्रीक लोकांक सिकैत। तुंमि मेके
लो सोदु कर्शा तरि मेळसि ना आनि कोण आग्यारि
हांव आस्ता ते आग्यारि तुंमि येउचा सक्सि ना तागेले
३७ हे उतराको अर्थु यित्तें। थडु दिस अर्थात परबेले
होड दिसांतु यिशुन थिबि रावुनु म्हळें कि वरी कोणे ता
न्हेलो जायव आल्यारि मजे लागि तो येवो आनि पिवो।
३८ कोण मनुष्यु मजेरि विश्वासु कर्ता कसि धर्मग्रथांतु सांग्ता
तसि तागेले पोटांथाकुनु वस्त उदकांनि न्हैयो वारस
३९ तित। तरि कोण ताका विश्वासु कर्तांति ते कोण आत्मा
पावतिस हे विषयांतु ताणे हें उतर म्हळें कांयतें धर्मा
त्मा तावळि दिउनु गेलो ना कांयितें तावळि यिशु ऐश्वर्यं
४० वंतु केलोलो ना आसिलो। हाजेन सावार मनुष्यानि
हें उत्तर आयकुनु म्हळें कि खाम्खा हो तो आच्यारि
४१ आस। आनिकेर लोकानि म्हळें कि हो खीष्टु आस तरि
कोणे कोणे म्हळें कि खीष्टु यितें गालिलींथाकुनु येत।
४२ धर्मपुस्तकान यित्तें सांगले ना कि खीष्टु दाउदाले वंशांतु
आनि बीतलेखम पक्टरांथाकुनु येत अर्थात् कोणते आग्या
४३ रि दाउदु आसिलो। हे खातिर तागेले विषयांतु लोकां
४४ नें भगडें जालें। आनि कोणे कोणे ताका धोर्चा आटैलें
तरि तागेले वोयरि कोणे हातु घालो ना।—
४५ तावळि प्रधान याजकांले आनि फारिशियांले लागि
पाटेकार आयले आनि तांनि तांका म्हळें कि तुंमि ताका
४६ यित्या हाळो ना। पाटेकारांनि जाप दिलि कि हे मनु
४७ ष्याले वारि कोणे केदनांयि उत्तर म्हळें ना। फारि
शियानि ताका जाप दिलि कि तुंमीय यितें भुलैवेतु

४८ पळेलें। अध्यक्षांतु वा फारिसांतु यितें कोणे ताजे
४९ विश्वासु धेला आसा। तरि हें शास्त्र समजनातिलो लोकु
५० शिरापुनु गेल्याति। निकदेमस कि कोण रात्ति यिशुले
५१ लागि आल्लो तणे तांका म्हळें। कि उत्तर आयकुचें
आनि कार्य समजुचे यितेन आमगेलें शास्त्र यितें कोणे मनु
५२ ष्यालो दोष निश्चयु करता। तानि जाप दिउनु ताका
म्हळें कि तुं यित गालिलीयो मनुष्यु आस सोदि आनि
५३ चे यि लें यितें गालिलींथाकुनु कोणे भाच्यादि ना ताजे
मागिरि सगळे मनुष्य आपणालेर घरा गेले।—

८ अष्टम पर्व।—यिशु मैतानाले रुकाले गुड्यारि
१ गेलो। आनि सकाळि ते देवळांतु मैदान आयलो
तावळि सगळो लोकु ताजल्या आयलो आनि ताणे बैसुनु
२ तांका शिक्षा करेलि। तेद्ना व्यभिचारी धर्लि येक
३ लेक अध्यापकांनि वानि फारिसियांनि ताजे लागों हाळि
४ आनि तिका मद्दें वसोनु तानि म्हळें। कि हे गुरु हि
५ व यत व्यभिचारांतु धरुनु गेल्या तेचि कार्यांतु। अस
ले मनुष्याक फातर उडोनु मारचें मोशहान शास्त्रांतु
६ आमकां आज्ञा दिल्या तरि तुं यितें म्हणता। अपवादु
दिवच खातिर तांनि तागेलें परिक्षा कोर्चे खातिर हें उत्तर
म्हळें अरि यिशुन तागेलें उत्तर ना आयकतचि कसि करता
७ तसि व्यंगनत् बोटान मातियेरि बरैलें। तावळि तांनि
ताका निरंगुपाक सांगातिल्यान ता उठाउनु तांका उलै
लो कि तुमगेल्यांतु पाप नातिलो कोण मनुष्यु आस तो
८ ताजरि पैलेम फातोर उडेवो। ताजे मागिरि नें
९ वान बाग्गसुन तण मातियेरि बरैलें। ताजेन कोणे आय्
किलें तानि आपणा मनांतु अपरादी जाउनु शेवटाले सान
परांतु येकदो भायर गले ताजेन यिशु येकलो रावलो

१० आनि ति बायलमनिष मद्दे आग्यांतु रावलि। केद्ना
यिशुन उठाउनु पळैलें कि ति बायल वंता आनि कोणी
लागीं ना केद्ना ताणें तिका म्हळें कि हे बायलमनषे तु
जेलो अपवादु दित्तले खैं कोणें यितें तुका खरो दंडणा
११ ठाळिं ना। ताणें म्हळें कि हे प्रभु कोणै नैं यिशुन म्हळें
कि हांवयि तुका खरो दंडणा ठाळिं ना वोच वैंदान अप
राद् कोर्नाका।

१२ ताजे मागिरि यिशुन तांका दुसरे वेळे म्हळें कि हांव
जगतालो उजवाडु मजे मागिरि येत्लो कोण्लो आयव तो
काळकांतु भोंवनातिले चमकत तरि जीवनालो उजवाडु
१३ विश्विष्ठ आयत्। हे खातिर फारिशियांनि ताका म्हळें
कि तुं आपणा विषयांतु प्रमाण दित्ता तुजेंं प्रमाण वद्द
१४ नैं। यिशुन जाप दिउनु तांका म्हळें कि आपणा प्रमाण
हांव दित्तां सयि तरि मेगेलें प्रमाण खरें आस तैंयितें
हांव खैंथाकुनु आयलों आनि खैं वत्तां हें हांव समज्तां
तरि हांव खैंथाकुनु आयलों आनि खैं वत्तां हें तुंमि सम
१५ जुंचा सक्नांति। तुंमि शरीराले वारि विचारतांति हांव
१६ कोणालोयि विचार कर्नां। तरि तरी विचार करिन
जाल्यारियि मेगेलो विचार खरो आस तैंयितें हांव ऐकलों
नैं तरि हांव आनि पिता कि दोणें ताका धाळा आस
१७ तोवयि मजे लागि आस। तुमेगेले तोरेतांतु वरैलाश
१८ कि दोगांलें प्रमाण वद्द आस। हांव ऐकलों कि कोण
आपणा विषयांतु प्रमाण दितां आनि बापु कि कोणें माका
१९ धाड्ला तोवे मेगेले विषयांतु प्रमाण दिता। तावळि तांनि
ताका म्हळें कि तुगेलो बापु खैं आस यिशुन जाप दिलि
कि तुंमि माका समज्नांति आनि मेगेले बापाके समज्
नाति तरी माका समजते जाल्यारि मेगेले बापाले समज्ते।

२० यिशुन देवळांतु सिकैतर भांडाराघरांतु हें उत्तर म्हळें
तरि कोणेंयि ताजेरि हातु घालो ना तेंयिवें तागेलो वेळु
२१ तावळि ना पाविलो । ताजे मागिरि यिशुन दुसर
वेळा तांका म्हळें कि हांव वतां तुमि मेगेले सोदु कर्शांति
आनि आपणा पापांतु मर्शां खें हांव वतां थें तुमि येउंचा
२२ ना सकणा । हें खातिर यिऊदियांनि ताका म्हळें
कि तो यिंतें आपणाक मार्नु उडैत तेंयितें तो म्हणता कि
कोण आग्यांरि हांव वतां तें आग्यांरि तुमि येउंचा सर्क
२३ सिर्शानि । ताणें तांका म्हळें तुमि तागुथान आसति
हांव वोयल्याथ आसं तुमि हे जगतांतु आसति हांव हे
२४ जगताथाकुन ना । ते खातिर हांवें तुम्कां म्हळें कि
तुमि आपणाले पापांतु मर्शांति तेंयितें तुमि तरी विश्वासु
कर्शांति कि हांव तोचि आस्यांरि तुमि आपणा पापांतु
२५ मर्शां । तावळि तांनि ताका म्हळें कि तुं कोणु आस
यिशुन तांका म्हळें कि कोणाले विषयांतु हांवें पिर्थमता
२६ मेन तुम्कां म्हळें तोचि हांव । तुमगेले विषयांतु माका
सावार सांग्चें आनि बिचार कोर्चें आस तरि कोणें
माका धाळो तो खरो आस पोण उत्तर हांवें ताजेथाकुन
२७ आयिकलांथ तें उत्तर हांव जगताक सांग्तां । तांनि
समजले ना कि ताणें तांकां बापाले विषयांतु म्हळें ।
२८ ताजे मागिरि यिशुन तांकां म्हळें कि तुमि केद्ना मनुष्या
के पुताक उबारलां आस तेद्ना तुमि समजणा कि हांव
तो आस आनिकै हांव आपणाले मनान कांयि कर्शां तरि
कसि मेगेले बापान माका सिकैलां तसि हांव हें सांग्तां ।
२९ कोणें माका धाळा आस तोवयि मजे भर्सि आस बापान
माका येकलोचि सोडु दिले तेंयितें कोणर तागेलो संतोषु
३० दित्तलो तो हांव नित्य कर्तां । तागेले हें उत्तर म्हळ्यान
३१ साबार लोकानि ताजेरि विश्वासु केलो । तावळि कोण

यिहुदियांनि ताजेरि विश्वासु केलो तांकां यिशुन म्हळें कि तरी तुंमि मेगेले उत्रांतु रावस्या जाल्यारि तुंमि खामखा
३२ मेगेले शिष्य । तुमींयि वहंपण समजस्या आनि वहंपण
३३ तुमकां उद्धार करित । तानि ताका जाप दिलि कि आमि अबराहामाले संतान आसंति आनि केद्नांयि को णाले गुलाम ना आसिले तुं कशि कोणुं म्हणता कि तुंमि
३४ सुटस्या । यिशुन तांकां जाप दिलि कि हांव तुमकां खरें२ म्हणतां कि कोण कोणि पाप कर्ता तो पापालो गुलामु
३५ आस । आनि दासु सदंचि घरांतु राव ना तरि पुतु
३६ सदं रावता । हाजेन तरी पुतु तुमकां सुटैत जाल्यारि
३७ तुंमि अवश्य सुटस्या । हांव समजतां कि तुंमि अबराहामाले संतान आसति तरि तुंमि माका मारुंक सोदतांति कित्यक मेगेलें उत्तर तुमगेले भितरि जागो पाव
३८ ना । हांवे आपुणा आंबालें लागि कोण पळैलां तें हांव सांगतां आनि तुंमि आपणा आंबाले लागि कोण पळैलें
३९ तें तुंमि कर्तांति । तानि जाप दिउनु म्हळें कि अबराहाम आमगेलो आंबु यिशुन तांकां म्हळें कि कोण तुंमि अबराहामाले संतान आस्ति जाल्यारि अबराहामाले कार्यं कर्तं ।
४० तरि कोण सत्य उत्तर हांवें देवाले लागि आयकिलां आस तें उत्तर म्हणतलो माका तुंमि मारुं उबोस्या इच्छितांति
४१ अबराहामान अशि केलें ना । तुंमि आपस्या आंबाले कार्यं कर्तांति तावळि तानि ताका म्हळें कि आमि व्याबिचारान
४२ उवजले नांति आमगेलो येकु बापु आस तो देउ । यिशुन तांकां म्हळें कि तरी देउ तुमगेलो आंबु आसो जाल्यारि माका तुंमि मोगु कर्तं कित्यक हांव देवांथाकुनु वाहर्सो आनि आयलों हांव मजितल्या येने तरि ताणे माका धाडिला
४३ आस । मेगेलें उत्तर तुंमि कित्या समजनाति तुंमि मेगेलें
४४ उत्तर आयकुंचाक सकनाति ते खातिर । तुंमि आपस्या

आनु देवचाराथाकुनु आसति तुमि आपण्या बापाचे इच्छे
मणके कार्य करचें आशेताति तो पितंमलागिन मारेकार
आसिलो आनि खरे पणांनु राबलो ना कसलें तांनु कांयि
खरेपण ना तो केदना फटि सांगता तेदना आपणाथाकुनु
म्हणता कसलें तो फटको आनि फटिलो बापु करलो
४५ आस । हांव खरें उत्तर म्हणतां हाजेन तुमि मजेरि
४६ विश्वासु करीनाति । तुमगेले भितरि कोणु मनुष्यु मगेले
पापालें प्रमाण करचा सकत आनि हांव तरी खरें उत्तर
४७ म्हणतां जाल्यारि माका कित्या विश्वासु करीनाति । कोणुतो
देवालें उत्तर आयकता तो देवाचो हाजेन तुमि देवाचे नैं
४८ कसलें तुमि तें उत्तर आयकनांति । तेदळ्ळि यिहुदियांनि
जाब दिवुनु ताका म्हळें कि आमि यिवें खरें उत्तर म्हणांति
४९ कि तुं सामरेयाणो आनि भुताल धर्लो आवाज । यिजुन
जाब दिलि कि हांव भुत लागिलो नैं तरि हांव आपणालि
५० मर्याद करतां आनि तुमि मगेलो अपमानु करताति । तरि
हांव आपणाली सुख्याति मागना येकलो आस कि कोण
५१ सोदु आनि विचार करता । हांव तुमका खरेंर म्हणतां
कि तरि कोणि मगेलें उत्तर मानता जाल्यारि तो केदनांयि
५२ मरण चोर्यिसि ना । हाजेन यिहुदियांनि ताका म्हळें कि
आमि आतं समजतांति कि तुं भुतलागिलो आवाज अबरा
हामु मेला आस आनि प्रोफेतांयि मेल्याति तरि तुं म्हणता
कि तरी कोणि मगेलें उत्तर पाळित जाल्यारि तो मरणाचो
५३ रोसु केदनांयि चिंवसि ना । तुं यित्तें आमगेलो बापु
अबराहाम्वाके हेडु कि तो मेला आनि प्रोफेतांयि मेल्याति
तुं आपणाक यित्तें करुनु समजता । यिजुन जाप दिलि
५४ कि तरी हांव आपणाक मर्याद करीन जाल्यारि मगेलि
मर्याद कांयि ना मगेलो बापु कि कोणाक तुमि आपणालो
५५ देउ म्हणताति तो मगेलि मर्याद करता । तुमि ताका नेणांवि

तरि हांव ताका समजता आनि तरी हांव सांगु कि हांव
ताका नेण म्हल्यारि तुमगेले वारि फटको हांव जावन तरि
५५ हांव ताका जाण आनि तागेलें उत्तर पोस्तां । तुमगेलो
बापु अबराहामान मेगेलो समयु पोयिल्यान खुषि आलो
५६ तावथि ते पाउलु खुषि जाहिलो । ताजेरि यिउदियानि
५७ ताका म्हळें कि तुगेलि प्राथि पंनास वर्सांलि नैं आनि तुं
यित्तें अबराहामाक पोयिलोरौ । यिशुन ताका म्हळें
५८ कि खरेंर हांव तुमका म्हणतां कि अबराहामाले पिर्तेम
हांव आसं । हातु ताका मारचें खातिर तानि फातोर
५९ घेतलो तरि यिशुन आपणा गुप्त केलो आनि तागेले भित
रियाकुन देवळांतु गेलो आनि हे श्रीमसान चमकलो ।—

९ नवम पर्व ।—आनि यिशुन वतांर जन्मा कुरडो ये
२ कल्या पळैलो । तावळि तागेले शिष्यांनि ताजल्या निम
गिलें कि हे गुरु कोणे पाप केलां हे मनुष्यान अवो तागेले
३ आंमा बांवान कि तो कुरडो जाउनु उबजला । यिशुन
जाप दिलि कि हे मनुष्यान जावो तागेले आंमा बांवान
पाप केले ना तरि कि देवालें कार्य तांनु प्रगट जायत ।
४ कोणे माका धाळ्ळा दिसतां माका तागेले कार्य कोर्चें
आवश्य आस रातिं येता कि कोणांतु कोणी मनुष्य कार्य
५ कोर्चा सकना । कितुले दिस हांव जगतांतु आस तितुले
६ दिस हांव जगतालो उजवाडु । ताणें हें उत्तर म्होणु मातिं
येरि थुंकु घालो आनि ते थुंकान मातीन चिकोलु केलो ताजे
मागिरि तो चिकोलु कुरडे मनुष्याले दोळ्यारि लेपु दिउनु
७ ताका म्हळें कि तुं वोचुनु शिलोआम अर्थाथ धाळेले नांवा
ले तळ्यांतु म्हा हाजेन सो वोचुनु न्हाउनु दृष्टि पाउनु
८ आयलो । हाजेन तागेले सेजाऱ्यांनि आनि केणे पिर्तेम ते
कुरड्याक पोयिलो तानि म्हळें कि हो यिलें तोचि मनुष्य ने

९ कि जोण बसिलो आनि भिक मागतालो । कोणेर म्हळें
तोंचि मनुष्यु आस आनि कोणेर म्हळें कि तो ताजे वारि
१० आस तरि तो आपणचि उलैलो कि हांव तोंचि । तावळि
११ तानि ताका म्हळें कि तुजेले दोळे कसि यांग आले । ताणे
जाप दिउनु म्हळें कि यिशु नांवाचो येकल्या मासि कालोनु
मजे दोळ्यारि लेपु दिलो आनि म्हळें कि तुं शिलोआम
तळ्यांतु वाच आनि न्हा तांतु हांवें वेचुनु न्हालों आणि
१२ दोळे पावलों । तावळि तानि ताका म्हळें कि तो खैं
१३ आस ताणे म्हळें कि हांव नेण । कोण लो पोतेम कुरडो
आसिलो ताका लोकानि फारिशियांले लागों व्हेलो ।
१४ कोण दिसा यिशुन मातियेक कालोनु ताजेले दोळे यांग
१५ केलेले तो शाबत दिसु आसिलो । हे खातिर फारिशियानि
येवान विचारिलें कि तुवें कसि दोळे पावले ताणे तांकां म्हळें
कि ताणे चिकोलु मेजेले दोळ्यारि लेपु केलो ताजे मागिरि
१६ हांवें धुउनु चोउचा पावलों । हाजेन कितलेक लोकु फारि
शियांनि म्हळें कि हो मनुष्यु देवांपाकुन येनि तेंचितें शाबत
दिसु मानिसि ना आनिर लोकानि म्हळें पापि लोकु हें
आश्चर्यालें पार्थ कोणते जोनसान कोरचा सक्तानि आनि
१७ तांगेले झगडे जालें । तानि ते कुरड्याक येवान सांगले कि
ताणे तुजेले दाळे बरे केल्यानि ताजेन तुं ताजेले विषयांतु
१८ यितें म्हणचा ताणे म्हळें कि तो आचारि । तरि यिहुदि
यांनि ते दृष्टि पावतल्या मनुष्याले आंमा आनु बापे
नातिलें विश्वासु केलो ना कि ताणे कुरडो जाउनु दोळे
१९ पावले । आनि तानि तांकां विचारिलें कि हो यितें तुम्
गेलो पुतु कि कोण तुमि म्हणतानि जन्मालो कुरडो आसिलो
२० तो कोणते जोनसान चोउचा पावला । ताजेले बापा
आंमान जाप दिउनु म्हळें आमि समजातांनि कि हो
२१ आमगेलो पुतु आस आनि कि तो कुरडो जन्मालो आस

तरि आतं तो कसल्यान चोउथा पावता तें आमि नेणति
आनि कोणे तागेले दोळे बरे केल्याति आमि हेंवयि नेणति
तो पोडु जालाय ताका जिमगिया तो आपणालें उत्तर
२२ आपणचि म्हणत । तागेले आंमा आंबान यिऊदि
यांलि भयान हें उत्तर म्हळें तेयिसें जाजे पितंम यिऊदि
यांनि सम केलेलें कि तरी कोणे म्हणत कि तो ख्रीष्ट आस
२३ जाल्यारि ताका सिनगगांघाकुनु काडचो जायत । हे खा
तिर तागेले आंमा आंबान म्हळें कि तो पोडु जाला ताका
२४ जिमगिया । हे खातिर कोण मनुष्य कुरडो आसिलो
ताका तांनि नेंवान आपैानु म्हळें कि देवालि सुति करि
२५ आमि जाणति कि वो मनुष्यु पापि । ताणे जाप दिउनु
म्हळें कि तो पापि जावो नैं हें हांव नेण हांव येक उत्तर
समझता कि पितंम हांव कुरडो आसिलों आतं पाउचा
२६ पावता । ताजे मागिरि ताका तानि नेंवान म्हळें कि
२७ ताणे तुका यित्तें केवें तुगेले दोळें कसि पां केले । ताणे
तांकां जाप दिलि कि तुम्कां हांवि अत्तं येकवेळे सांगलां
तरि तुमि आयकिले ना नेवान कसले खातिर तुमि आय
कशा तुमियि यितें तागेले शिष्य जावचा आशेवाति ।
२८ तावळि ताका तानि सोवलें आनि म्हळें कि तूं तागेलो
२९ शिष्यु तरि आमि मोशहालें शिष्यु आसंति । आमि समझा
तांति कि देवान मोशहाक म्हळेलें पो हैंघाकूनु आयलो
३० तें आमि नेणति । ते मनुष्यान जप दिउनु तांकां म्हळें कि
हें येक आश्चर्य उत्तर कि ताणे मेगेले दोळे यास केल्याति
३१ तरि तुंमि नेणवि कि तो हैंघान आयलो । आमि समझ
तांति कि देव पापियांलें उत्तर आयक ना तरि तरी कोणे
मनुष्यु देवाक पूमतलो जायत आनि तागेलि खुशि करित
३२ जाल्यारि ताका तो आयकता । जगताले आरंभान थेट्
आयि आयकु आवलें; कां कि कोणे मनुष्यान कुका कुरडा

तगरं ताजे मांखिर वोप्ताति तेंथितें ते ताजेलो शब्दु पार्खि
५ ताति । आनिके तिं दुसऱ्याजे मांखिर वोचनात्ति तरि
ताजेन पोळतित तेंथिचें तिं दुसऱ्यालो शब्द समजनाति ।
६ यिशुन तांकां हो उपदेशु केलो तरि ताणे यितें उत्तरं म्हळें
७ तिं हें तानि समजलें ना । दुसरे वेळा यिशुन तांकां म्हळें
हांव तुमकां खरें म्हणवां कि हांव कावळकुवेंतले घर्चें
८ बागिलजं । कितलें मनुष्य मजा पिर्तेम आयले ते सगळें
चोर आनि नागेतले तरि तगरानि तांगेलें उत्तर आय्
९ किलें ना । हांव बागिल मजान तरी कोणे रिगत जाल्यारि
तो सुंठप पावत आनि भायर भितरि वोचुनु चांग चरवण
१० पावत । चोर्चें आनि मार्चें आनि वायट कोर्चें खातिर
पद्माव चोरु ये ना हांव आयलांज कि ते जीवन पावोति
११ तेंवयि साबार जीवसान पावोति । हांव चांग राकणी चांग
१२ राकणो तगरांखात्तिर आपणा जीउ दिता । तरि कोणतो
कुलि घेतलो आनि येवमानु नें तगरं कोणाले नीजा नें वो
कुतेकुरबालें येवप चोयतवि आनि तगरांव सोंणु पोळवा
ते निमितों कुतेकुरबा तगरांव धोनुं आड्डा दुबु वर्ता ।
१३ कुलिकार कुलिकार जाल्यान पोळता आनि तगरांखातिर
चिंता करीना हांव चांग राकणो आसं आनि आपणा तगरांक
१४ समजतां आनि आपणा तगरांवि समजुनु वेता । कसि
१५ बांनु माका समजता तसि हांव बांनाक समजतां आनि
हांव आपणा जीउ तगरांखातिर दित्तां । मेगेले आनिये
१६ तगरं आसति कि कोण हें घर्चें नें तांकांयि माका हाडका
आयत आनि तेंवें मेगेलो शब्दु आयक्तत ताजे मांगिरो
१७ येक घर आनि येकु राकणी आयत । हे खातिर मेगेलो
बांनु माका मोगु कर्त्ता तेंथितें हांव आपणालो जीउ दित्तां
१८ कि दुसरेवेळा तो मेळत । कोणे मजे कामताव तो घेवूर

तरि हांव आपणा खुशिन तो दितां तो दिव्याक आनि परतुन घेउपाक मेगेलें सामर्थ्य आस हि आज्ञा हांवे आमणा बापाले लागपान पावलांस ।—

१९ हे खातिर हेयि उत्रान यिऊदियांले परस्पर विच्छेदु
२० जालो । तांगेले भितरि सावारांनि म्हळें कि ताजेरि भुत आस तो पिसोयि जाला आस ताजें उत्तर यित्या आयक
२१ ताति । आनि कोणे म्हळें कि भुतलागिल्यालें हें उत्तर नैं भुत यित्तें कुरडाले दोळे चां कोर्चा सक्ता ।—
२२ यिरुशालमांतु पवित्र कीचें पर्व आसिलें आनिकैसियां
२३ दिस आसिले । यिशु देवळांतु शलमनाले सरवळेंतु
२४ भोंवलो । तावळि यिऊदियांनि ताजे चारिदिका येउनु म्हळें तुं केदोळुपरांतु आमकां बुडकुलि करैसि तरी तुं
२५ ख्रीष्टु जासि झाल्यारि आमकां फक सांग । यिशुन जाप दिलि कि हांवे तुमकां म्हळां आस तरि तुंमि विश्वासु केलो ना कोण कार्य हांव अपणा बानाले नांवान करां तें कर्य
२६ मेगेलें प्रमाण दितातित । तरि तुमि मेगेलिं तगरं नैं
२७ वयितें तुंमि विश्वासु करीनाति । कसि तुमकां हांवे हें उत्तर म्हळांज कि मेगेलिं तगरं मेगेलो शब्द आयकतातित आनि हांव तांका समजतां आनि तिं मेगेलें मात्ति लागुन
२८ आस्सातित । आनि हांव तांका अनंत परमायु दित्तां आनि तांगेलो सर्वनाशु केदनांयि जायसि ना आनि मेगेले हातां
२९ थाकुन कोणे उपुनु घेव्पा सक्ना । मेगेलो बानु कि कोणे तांका माका दिल्यातित तो समळ्यांचावैले होडु आस आनि मेगेले बानाले हातांथाकुन तांका कोणे उपनु घेव्चा
३० सक्ना । हांव आनि बानु येकु आसं । तावळि यिऊदि
३१ यांनि नेंवान ताका मार्चे खातिर फातोर उबार्ले । यिशु
३२ न तांका जाप दिलि कि चों सावार कार्यं हांवे आपणा बानाकड्यान तुमकां दाकैलां आस ताजे भितरि कसले

२१ कार्यां खातिर तुंमि माका फातोर मार्तांति । यिऊदियां नि जाप दिऊनु ताका म्हळें कि चांग कार्यां खातिर आमि तुका फातोर मार्तांवि वरि देवनिन्दा खातिर आनि तुं
३३ मनुष्य जाऊनु आपणाक देउ समज्ता हे खातिरयि। यिशु
३४ न तांका जाप दिलि तुमकां शास्त्रांतु हें यित्तें वरैलें ना कि
३५ हांवे म्हळें कि तुंमि देव आसति । कोणाले लागि देवालें उत्तर आयलें तांका वरी तो देउ म्हणता आनि धर्म्म
३६ पुस्तक नकारें आवचा सक्ना। जाल्यारि कोणाक आंनान पवित्र कोर्नु जगतांतु धाळाज तुंमि यित्तें तागेले विषयां तु सांगचा कि तुं देवनिन्दा कर्तां तेंयितें हांवे म्हळें कि
३७ हांव देवा पुतु आसं । तरी मेगेले आंनालें कार्यं हांव
३८ कर्नाजायन जाल्यारि माका विश्वासु कोर्नाका । तरि तरी हांव तें कर्तां जाल्यारि तरी माका विश्वासु कर्नाति जाल्यारियि कार्यांरि विश्वासु घेया कि तुंमि समजा आनि विश्वासु कचा कि आंनु मजांतु आंस आनि हांव आंनांतु आसं ।—

३९ हे खातिर नैवान तांनि ताका धोर्चा इच्छिलें तरि तो
४० तांगेलो हातु सोडोनु गेलो । आंनि योहनान कोण जाग्यारि पिरतम बुडकुलि दिवेलेलि तो जागा यरदनाले
४१ पेलतडि दुसरवेळा गेलो आनि ते जाग्यांतु राबलो। ता वळि साबार लोकु ताजे लागिं आयलो आनि म्हळें कि योहनान कांयि आश्चर्य केले ना तरि योहनान हे मनुष्या
४२ ले विषयांतु कोण म्हळेलें तें सगळें बद आस । आनि ते जाग्यांतु सावारांनि ताजरि विश्वासु केलो ।—

११ एकादश पर्व्व ।—ताजे मागिरि मारिया आनि तिगेलि भयणि मारता कोण गावांतु रावतालि ते बीता निआ गांवाले असराजो लाजार नांवाखो येक्लो रोगि

२ आसिलो । कोण मारियान प्रभुक सुगंध तेल लायिल्लें
आसिलें आनि आपणाले केशांनि तागेले पांय पुसिले ति
३ गेलो भाउ लाजारु सोख ना आसिलो । हे खातिर ता
गेले भयणिन मनुष्यु थाणु ताका म्हळें कि हे प्रभु कोणाक
४ तुं मोगु करीं चाथि तो रोगि आस । थेिसुन तें आय
कुनु म्हळें कि हो रोगु मोर्च्चे खातिर नैं तरि देवाले महि
माले खातिर कि देवाले पुतालि महिमा ताजेन प्रगट
५ आयत । मारता आनि तिगेलि भयणि आनि लाजा
६ राक येसुन मोगु केलो । हे खातिर तागेलो रोगु
जाल्लो समाचारु पाउनु तो आनि दोनि दिस ते जाग्यारि
७ राबलो । ताजे मागिरि ताणे आपणाले शिष्यांक म्हळें
८ कि येया आमि नैवान यिहुदाच गावांतु वोचां । तागेले
शिष्यांनि ताका म्हळें कि हे राब्बि येहु दिस जाले यिहु
दियांनि तुका फातर मार्चों आठेलें जाल्यारि नैवान यिर्वें
९ थैं वचि । येसुन जाप दिलि कि दिंनमान यित्ते तीस
घडि नैं कोणि तरी दिसांतु चमकत जाल्यारि तो पंगा
१० तैंथिलें ह्या जगताले उजवाडु चोवुधा पावता । तरि
तरी कोणि रातिं चमकत जाल्यारि तो पडता तैंथिलें तांतु
११ उजवाडु ना । ताणे हें उतर म्हळें ताजे मागिरि तांका
सांगलें कि आम्गेलो लोहितु लाजारु निद्दता तरि ताका
१२ जागोवाक हांव वत्तां । तागेले शिष्यांनि म्हळें कि हे
१३ प्रभु तरी निद्दता जाल्यारि पो जायत । येसुन तागे
ले मरणाले विषयांतु म्हळें तरि तांनि समजलें कि ताणे
१४ निद्दंतु विश्राम पावचें उत्तर म्हळें । ताजे मागिरि
तांकां येसुन साफ सांगलें कि लाजारु मेलाय । आनि
हांव तुमचे खातिर खुशि जात्तां कि हांव थैं ना आसिलो
तैंथिलें ताजेन तुम्गेलो विश्वासु जायत तरि आत्तं आमि
१६ ताजल्या वर्तांति । तावळि दिदिमस म्हणाले तमिसान

आपुणाले भर्सिंते शिष्यांक सांगलें कि येवा ताजे भर्सि
१७ आमिथि मोर्चां वोचां । थैं वोचुनु यिशुन थें समजय
१८ पावलें कि तो कबरांतु चारि दिस निद्ला आस । बेता
निया यिरुशालमाले लागों आसिलो सुमारान येकु कोसु
१९ अंतर । हे खातिर सावार यिऊदि तागेले भावाले विषयांतु
२० मारथा आनि मारिआलि सांत्वनाले खातिर गेले । मारथा
यिशुले येव्चें वर्तमान आय्कुनु ताजे भर्सि भेट कोर्चांक
२१ गेलि तरि मारिआ घरांतु बसलि । तावळि मारथान
यिशुक म्हळें कि हे प्रभु अपुण तरी हांगा रावलो आल्यारि
२२ मगेलो भाउ मर्तो ना । तरि हांव जाण्तां कि देवाले
लागि तरी कायि तुं मागता आल्यारि देउ तें दिता ।
२३ यिशुन तिका म्हळें कि तुगेलो भाउ नेवान उठायत ।
२४ मारथान ताका म्हळें हांव समज्तां कि कडे दिसा नेवान
२५ उठपांतु तो नेवान उठायत । यिशुन तिका म्हळें कि
हांव नेवान उठाव्चें आनि जीवन आसं के ण कोणी माका
विश्वासु कर्ता तरी तो मर्डें जायत आल्यारियि वांचत ।
२६ आनि कोण कोणि जीवो जाउनु मजेरि विश्वासु कर्ता तो
२७ केद्नांयि मर्लि ना तुं यित्तें हो विश्वासु कर्ता । ताणे
म्हळें कि हां प्रभु हांव विश्वासु कर्ता कि तुं ख्रीस्त देवाले
२८ पुतु कि हे जगतांतु योणाले येव्चे आवश्य आसिलें । ति
थें उत्तर म्हांणु गेलि आनि आंपणालि भयणि मारिआक
वेगळ्यान आपोनु म्हळें कि प्रभु आय्ला आस आनि तुका
२९ आपैता । तावळि ति आय्कुनु वेगि उठाउनु ताजे
३० लागों गेलि । यिशु तावळि गावांतु येने आसिलो तरि
खें मारथा ताजे लागि मेळलि ते जागारि आसिलो ।
३१ कोण यिऊदी मारियाले भर्सि रावुनु तिगेलि सांत्वना
करित घरांतु आसिले तानि केद्ना पळेलें कि ति वेगि
उठाउनु भायूर गेलि तेद्ना हि कबरारि रोडचा वता

२२ जें म्हीणु तागेले माच्चिर गेले । मारिया यिशुले लागि
पावनु आनि ताका चाउनु तागेले पायांरि पळि आनि
उलैलि कि हे प्रभु तुं तरी हांगा आस्ता जाल्यारि मेगेलो
२१ भाउ मर्त्ता ना । हे खातिर यिशुन ताका आनि कोण
यिहुदी तागेले भर्सि आयुले तांकांयि रोडचे चोउनु मना
२४ नु दुकलो आनि व्याकुल जाउनु म्हळें । कि ताका खैं दव
र्ला तानि ताका म्हळें कि हे प्रभु येो चोयि । यिशु रळो ।
२५ तावळि यिहुदियांनि म्हळें कि चोया ताणे ताका कसि
२६ मोगु केलो । आनि तांगिले कोणेर म्हळें हो मनुष्यु कि
कोण कुरडे लोकांले दोळे चोकतांलि हे मनुष्यालें मरण
२७ कसल्यान ना आसिलें तैयिलें हें कोचां सक्ना । हे
२८ खातिर यिशु दुसरवेळे आपणा मनांनु दुकुनु कबराले
लागि आयलो तो येकु फोंडु आनि ताझेरि फात्तोर ।
२९ यिशुन म्हळें फात्तोर लकया ते मल्यानि भयणि मारताने
म्हळें कि हे प्रभु आत्तं तो घाणि जाला आस तैयिलें आजि
३० चारि दिस जाले तो मेलाज । यिशुन ताका म्हळें कि
हांवें यिलें तुका म्हळे ना कि तरी तुंमि विश्वासु कर्शी जा
३१ ल्यारि देवालि महिमा चोयिशी । तावळि मल्याले निदले
जाग्यारियाकुनु तानि फात्तोर निसरायलो यिशुन वोयरि
चोउनु म्हळें हे बाबा हांव तुका स्तुति कर्तां कि मेगेलें उत्तर
३२ तुंवे आयकिलांज । हांवे समजलें कि तुं सदंयि मेगेलें
उत्तर आयकता तरि कोण लागीं रावल्यानि तांगेले खातिर
हांवे हें सांगलां कि ते विश्वासु कोरोति कि तुंवे माका
३३ धाळा आस । ताणे हें उत्तर म्हणतचि होडान आपै
३४ लें कि हे लाजार भायरयो । तावळि मडें कबराले आंगव
ल्यान हात पांय बांदिल्ले आनि येक येतुल्लर तोंडारि धां
किल्लो भायर आयलो यिशुन तांकां म्हळें कि ताका मेक
३५ ळ्या आनि सोडा । तावळि कोण साम्रार यिहुदी मारि

आजे लागीं आयिल्ले तानि यिशुलें हें कार्य पोळुनु ताजे
४६ रि विश्वासु केलो। तरि तांगेले भितरि कोणै फारि
शियांले लागीं वोचुनु कोणर कार्य यिशुन केलेलें तें म्हळें।
४७ ताजे मागिरि प्रधान याजकांनि आनि फारिशियांनि
सभा कोनुं म्हळें कि आमि यित्तें कोर्चें वेंयितें हो मनुष्यु
४८ सावारान आश्चर्य कार्य कर्तास। ताका तसो आमि कांयि
ना कोरु शाल्यारि सगळे मनुष्य ताजेरि विश्वासु कर्तित
आनि रुमी मनुष्य येउनु आमगेलो देशु आनि लोकांक
४९ उणुनु घेत्तित। काइयाफा नांवाजो तांगेजो येकलो तें वर्सा
प्रधान याजकु आसिलो ताणे तांकां म्हळें कि तुमि कांयि
५० समजनांति। तुमि यित्तें गोर करनांति कि हें आम्कां
उचित आस कि येक्लो लोकांले लाग्यारि मर्ता आनि
५१ देशाले सगळे मनुष्यांलो सर्वनाशु ना जायत। आनि ताणे
आपणाचान हें उत्तर म्हळें ना तरि ते वर्सा प्रधानयाजक
जाउनु हें आच्याचालिं उत्तं म्हळिं कि देशाले लोकांले ला
५२ ग्यारि यिशु मरव। आनि ते देशाले मनुष्यांले लाग्या
रि मात्र नैं तरि देवालिं कोण घाडुादुड पेरड्वं आसति
५३ तांकां येकडे कर्तित। तावळि तेदुसुलागिन ताका मारुं
५४ उडैाचो विचारु तानि परस्पर केलो। हे खातिर नैंवान
यिशु प्रकाश यिऊदियांले मद्दें पतंलो ना तरि तो भागो
सोणु रान्नाले लागीं येक देशाले एफरायिम नांवाले येका
शहरांतु गेलो आनि तो आपणाले शिष्यांलि भर्सि रावलो।
५५ तावळि यिऊदियांले पेसाखु लागीं जालो आनि ते
पर्वले पिंतंम सावार लोकु गावांघाकुन आपणाक पवित्र
५६ कोर्नु यिरुशालम गेले। तेद्ना तानि यिशुलो सोदु
केलो आनि देवळांतु यिवि रावुनु परस्पर म्हळें कि तुमि
५७ यित्तें समजतांति कि वो यित्तें पर्वांतु ना येत। वेंयितें
प्रधान याजकांनि आनि फारिशियांनि आज्ञा दिलेलि

चि तरी चोखे जाय कि तो खैं आस मात्यारि तो म्हणुता कि ते ताका धरेतिति।—

१२ द्वादश पर्व्व।—पेसाख पर्व्वांक स दिस आस्तान यिशु वीतनियांतु आयलो कि खैं ते लाजारालें घर कि कोण
१ मेल्लोलो कोणाक ताणें मारणांतुल्यान उठकरायल्लो। ते जाग्यारि तानि ताचे खातिर रात्ति रांद्प शिद्ध केलें आनि मारतान वाढ्ळें तरि लाजाराद ताजे भसि मेजारि बसोलो
२ येवलो आसिलो। तावळि मारियान उंचि अर्द सेर जटामांसीलें तेल घेउनु यिशुले पयांरि लायलें आनि आप्
णाले केशांनि ताचेले पांय पुसले ताजेन् ते तेलाले परिम
३ ळान समळें घर भलें। तावळि शीमोनालो पुत्रु यिहु दास् स्कारियोटा विश्वासघातकि ताचेले येक्ले शिष्य न
४ म्हळें। कि यित्या हें तेल तिन सें पावलांक विक्लं ना
५ आनि दुर्बळ्यांक दिले ना। दुर्बळे लोकांले विषयांतु ताणे कि विचार कोर्नु हें उत्तर म्हळें तें नैं तरि तो चोर आसिलो आनि चिरि पावनु ताचेले भितरि कोण वस्तु तो
६ घांवनु घेत्तो हे खातिर म्हळें। तावळि यिशुनु म्हळें कि ताका राबुं दि मेगेले कबरांतु निद्दोउचे दिसा खातिर
७ ताणें हें दवलें आस। सेंयितें दुर्बळे सदंचि तुमगेले भसि
८ आस तरि हांव सदंचि तुमगेले भसि नांज। हे खातिर साबार यिहुदि समजुनु ते जाग्यारि आयले मात्र यिशुले खातिर नैं नैं तरि लाजाराले चोवचे खातिरयि आयले कि कोणाक ताणें मरणांथाकुनु उठकरायलो आसिलो।
१० तरि प्रधान याजकांनि लाजारकैयि जीवसि मार्चो विचा
११ र केलो। सेंयितें ताजेन साबार यिहुदियांतुन वोचुनु यिशुचेरि विश्वासु केलो।—
१२ दुसरे दिसा ते पर्वा खातिर आयिल्ले साबार लोकांनि

१२ वेद्ना यिरुशालमांतु यिशुले येवचें वर्त्तमान आयकिलें
तेदना खाजराले दकालो पिडो घेउनु तागेलें भर्सि भेट
कोर्पाक भायर गेले आनि हांतुान सांगलें कि होशाना
यिस्रायलाले राया धन्य कि कोण देवाले नांवान येता।
१४ ताजे मागिर यिशुन येक तर्नोकुटे गाडुव केळनु ताजेर
१५ चळो कसि हें बरैलां कि ये सीओनाले धुवे तुं भिउ नाका
१६ चोयि तुगेलो रायु गाढवा पिल्लाचेरि चोणु येतास। हें
उतर तागल शिष्यांनि पिलम समजलें ना तरि वेद्ना
यिशुल महिमा प्रगट जालि तदना तानि उडासु केलो
कि हें सगळें तागेले विषयांतु बरैलां आनि कि तानि
१७ ताका हें सगळें केलेलें। हे खातिर वेद्ना ताणे
लाजाराश कबरांथाकुन आपैलो आनि ताका मरणांतुल्या
न उठकरायलो वेदना कोण समोड तावळि ताजे वांगीं
१८ आसिलो तानि प्रमाण दिलें। हे खातिर समोड
ताजे भर्सि भेंळ कोर्चाक गेलो हेंयिलें तानि आयकिलें कि
१९ ताणे हें आस्वर्य कार्य केलेलें। ताजेन फारिशियां
नि परस्पर सांगले कि तुंमि यिसें चे यनाधि कि तुमगेले
येतांतु कांयि फळ ना चाया सगळे मनुष्य ताजे अनुकुल
जाल्याति।—

२० कोण पर्व्वांतु भजन कोर्चे खातिर आयले तांगेले भितरि
२१ कितलेक यौक आसिले। हे खातिर तानि गालिली
बोतसेदाले फिलिपाले लागि येउनु ताका विनवुनु म्हळें
२२ कि हे महाराया आमि यिशुक चोउचा आशेताति फिलि
पान येउनु आंद्रुक म्हळें ताजे मागिर आंद्रु आनि फिलि
२३ पान यिशुक म्हळें। तावळि यिशुन तांकां जाप दिउनु
म्हळें कि मनुष्याले पुताल महिमा प्रगट जावचा वेळु
२४ आयलाज। हांव तुमकां सत्यर म्हणतां कि येकु दाणो

मोउ मातियेंतु पोंगु कुस्पा नंतां येकलो रावता तरि मरी
२५ मेले जाल्यारि साबार फळ फळता। कोणकोणै आपणा
जोवाक मोगु करतां तो तें होगडायत आनि कोण कोण हे
जगतांतु आपणा प्राणु अळसिकेता तो अनंत आयुष्य
२६ परांतु थे दवरित। तरी कोणै मेगेलि सेवा करित
जाल्यारि तो मजे मात्ति येवो आनि खैं हांव रावता थैं
मेगेलो सेवकुयि रावत तरी कोणै मनुष्यु मेगेलि सेवा
२७ करित जाल्यारि मेगेलो बांपु तागेलि मर्याद करिस। आत्तें
मेगेलें मन व्याकुळ आस आनि हांव यिचें म्हणन कि है
बाबा माका हे घडेन जाण करि तरि हेंचि खातिर हांव
२८ हे घडिपरांतु आयलांअ। ये बाबा तुं आपणाले नांवाचें
होडपण करि तेद्ना सर्गारियाकुनु येकु शब्दु जालो कि हांवें
तागेलें होडपण केलां आस आनि नेंवानथि तें करिन।
२९ ते खातिर कोणै लागों थियि राबुनु तो आयकिलो तांणि
म्हळें कि मेघांकुनु शब्दु जालाअ आनिक मनुष्यांन म्हळें
३० कि ताजे भसिं येकु दुतु उत्तर म्हणता। यिशुन जाप
दिउनु म्हळें कि हो शब्दु मजे खातिर आयलो तरि तुमचे
३१ खातिर। आत्तं हे जगतालो विचार जाता आत्तं हे
३२ जगतालो राय भायर उडौनु वोता। आनि हांव तरी
भुंयितुल्यान उबाळें आयन जाल्यारि सगळे मनुष्यांक
आपणा वाटि ताखिन आपण कोणा ते जिनसाले मरणान
३३ मरत हें कळौंचाक तांणे हें उत्तर म्हळें। लोकानि ताका
३४ जाप दिलि कि आमि शास्त्रांतु आयकिलांअ कि ख्रीस्त
नित्य आस्ता हाजेन तुं कशि म्हणता कि मनुष्याले पुत्ताक
३५ उठकरावचें लागत हो मनुष्यालो पुतु कोणु। यिशुन
तांकां म्हळें कि आत्तं सल्प वेळ उजवाडु तुमगेले भसिं
रावता केदोळु परांतु उजवाडु तुमगेले भसिं रावत ते
वेळु परांतु चमका कायन्ताण काळोकु तुमका मुळवित

कोणुतो काळ्कांतु वत्ता तो मनुष्यु समज ना कि खापण
३६ खैं वत्ता । केदोळु घरांतु उज्वाडु रावता तेदोळु घरांतु उज्वाडांतु विश्वासु करा कि तुमि उज्वाडाकी घेरुवं जाय्याति यिशु हें उत्तर म्होणु गेलो आनि तांचांथाकुनु आप्
३७ णाक निपैलो । ताणे घितुलो सावार आश्चर्य कार्य तांगेले येदुर केलें तयि जाल्यारियि तानि ताजेरि विश्वासु केलो
३८ ना । हे खातिर यिशाईयाह् आख्यायान कोण उत्तर म्हळेलें कि हे यिहूद आमगेलें वर्तमान कोणें विश्वासु केलो आनि देवालें उत्तर कोणाले तामीं प्रगट जालांय तें उत्तर
३९ पुर्तें जालें । हे खातिर ते विश्वासु कोर्चा सक्ले नांयि
४० तयितें यिशाईयाहान दुसरवेळा म्हळेलें । कि ताणे तांगेले दोळे कुरडे करैल्यावि आनि तांगेलें मन कठिण करैलांय कि ते दोळ्यांनि ना पोवोति आनि मनांतु ना समजोति आनि मन फर्वोति आनि हांव तांकां सोस्त ना
४१ करिन । यिशाईयाहान केदना तागेलें प्रतापण पोळ्
लें आनि तागेले विषयांतु म्हळें तेद्ना हें उत्तर म्हळें।
४२ तरि अध्यक्षांतु सावार मनुष्यांनि ताजेरि विश्वासु केलो तरि फारिशियांले भयान ताका वेपले नाति कोणजाण
४३ सिनागोगाथाकुनु कांडुछु जातित । देंयिवें देउ केलेलि होगळ्सणेन मनुष्यालि केलेलि होगळ्सणि आपैलि ।
४४ यिशुन होडुान म्हळें कि कोण कोणे माका विश्वासु कर्ता तो माका विश्वासु कर्ता तरि कोणे माका धाळ्ळा ताकायि वि
४५ श्वासु कर्त । आनि कोणुतो माका चोय्ता कोणे माका
४६ धाळ्ळा आस तो मनुष्यु ताकायि चोय्ता । जगतांतु हांव येकु उज्वाडु आयलांय कि कोणुतो विश्वासु कर्ता तो
४७ काळ्कांतु राव् ना जायत । तरी कोणे मगेलें उत्तर आयकुनु विश्वासु ना करित जाल्यारि हांव ताका विचाढ कर्ना वेंयिलें हांव जगताको विचाढ कोर्चे खातिर ये न

४८ तरि जगताक त्राण कोर्चे खातिर आयलाय। कोण
कोणे माका नडता आनि मगेलें उत्तर ना घेवा ताजेलो
विचार कर्तलो येवलो आस कोण उत्तर दावि म्हळ्यार
४९ तेंचि उत्तर कडु दिसा ताजेलो विचार करित। तेंयितें
हांव आपणांथाकुन सांगना तरि बांनु कि कोणे माका
धाडला ताणे माका आज्ञा दिल्यात कि कोण मःका उलौ
५० चाक आनि म्हःणचाक आवश्य आस। हांव जाणं कि
ताजेलि आज्ञा अनंत आयुष आस हे खातिर कोण हांव
म्हणतां तें बसि आंनान माका म्हळां आस तसि सांगतां।

१३ त्रयोदश पर्व।—पेसाख पर्बाचे दिसंम असि जालें
थिपुन समजलें कि आपणालि वेळ लागीं आस कि कोणी
तु हें जगत सांडुन बापाचे लागीं वेचत जगताचे वासि
आपणा लोकांक मागु कानुं कडुपर्यांतुयि मोगु केलो।
२ ताका मोसान हातीं कारायाक शीमोनाचो पुतु यिऊदाह
इस्कारियोटाचे मनांतु देवचाराने हें दितलि राति खावप
समस्त जात्तयि आंनान ताजेले हाताांतु सगळें दिल्यांत
आनि आपण देवाथाकुन आयलां आस आनि देवाचे
३ लागि वेचत थिपुन तें समजुन राति खावपाथाकुन उठाय्
४ ले आनि आंगवलें मेक्डाळुन बांगलो घेवन कुरटाक बांत्त
यि आ यदनांतु उदाक रकौनु शिष्यांचे पांय धुवचे आनि
५ के ण आंगसान आपणा कुटं बांदलो ताजेन पुसुं लागु
६ लो। तावळि तो शीमोन पेद्राचे लागीं आयलो आनि
पेद्रान ताका म्हळें कि हे प्रभु तुं यित्तें मेगेलें पांयधुसि।
७ थिपुन जाप दिउनु ताका म्हळें कि हांव कोण कर्तां तें
८ तें आतंयि समजना तरि फडुरि समजसि। पेद्रान ताका
म्हळें कि मेगेले पांय केद्नांयि धुवचा दिसि ना थिपु
न ताका जाप दिलि कि तरी तुका हांव धुय ना आल्यारि

९ मजे भसिं तुगेलो वांटो कांयि ना । शीमोन पितराम
ताका म्हळें कि हे प्रभु मात्र मेगेले पांय नैं तरि मेगेले
१० हात आनि मेगेलें माथें । यिशुन ताका म्हळें कोणा
लें न्हाण जालांस ताणेले पांय मंता धुवचें आवश्य ना तरि
सगळें आंग निर्मळ आसा तुंमियि निर्मळ जाया तरि
११ सगळें नैं। ताणे समजलें तो कोणु कि कोण ताका मो
सास दुसर्या वसा करैत हे खातिर म्हळें कि तुंमि सगळे
१२ निर्मळ नैं। ताणे ताणेले पाय धुउनु आनि आंगवलें
घेउनु आनि मंवाम वैसुनु ताकां म्हळें तुंमि यिवें समज
१३ ताति कि हांवे तुम्कां कोण केलांस । तुंमि माका गुरु
आनि प्रभु म्हणताति आनि तुंमि यां म्हणताति तेयिवें
१४ हांव तो आसं। हे खातिर हांव तुम्कां गुरु आनि
प्रभु तरी तुम्कां पांय धुल्याति तुम्कांयि परसपर पांय
१५ धुवचें उचित आसा । तेंयिवें हांवे तुम्कां नमुनो दिलाम
कि कसि हांवे तुम्गेलें केलांस तुंमियि तसि करया ।
१६ सत्य२ हांव तुम्कां म्हणतां कि सेवकु यजमाना पाशे होडु
नैं आनि कोणतो धाळाज तो धाडतल्यापाशे होडु नैं ।
१७ तुंमि जरी हें जाणति जाल्यारि तांनु धन्य जाया । तुंमि
१८ सगळ्यांले विषयांतु हांव सांग् ना कोणाक हांवे पसंद
केल्याति तांकां हांव समजता तरि धर्म पुस्तक प्रत्यक्ष जाव्
चे खातिर कोण मनुष्यु मजे भसिं जेवता ताणे मेगेले
१९ वैरिपणांतु खुळु उबाल्यां । आतां प्रत्यक्ष जाव्चे पिर्तंम
हांव तुम्कां म्हणतां कि जायें पुर्वें आत्तांयि तुंमि विश्वासु
२० करताति कि हांव तो आसं । सत्य२ हांव तुम्कां सांग्तां
कि मेगेले धाळ्यालें कोणालेयि अतिथि कोणतो करता तो
माका अतिथि करता आनि कोण कोणे माका अतिथि करता
२१ कोणे माका धाळ्ळा ताकायि तो अतिथि करता । यिशु यें

उत्तर म्होणु मनांतु दुखलो जालो आनि प्रमाण दिउनु
म्हळें कि सत्य२ हांव तुमका म्हण्तां कि तुमगेले भितरि
२२ येक्लो माका दुस्न्या हातां करित । हाजेन ताणि कोणा
चे विषयांतु हें उत्तर म्हळें हांतु संदेसि आउनु शिष्यांनि
२३ परस्पर चायलें । यिशुलो येकु शिष्यु कि कोणाक ताणें
२४ मोगु केलो तावळि वोणकुनु तागेले ह्यांरि रावलो । तेद्
ना कोणाले विषयांतु ताणे म्हळेलें हें निमगुचे खातिर शी
२५ मोन पित्रान ताका सन्नि केलि । हाजेन तो मनुष्यु
यिशुले ह्यांरि निद्देउनु ताका उलैलो कि हे प्रभु तो
२६ कोणु । यिशुन जाप दिलि कि हांव येकु कुडको बिंबो
उनु कोणाक दिन तोचि ताजे मागिरि ताणे तो बिंबाउनु
२७ शीमोनालो पुतु यिऊदाश् इस्कारियोटाक दिलो । ताणे
तिंबलो कुडको खात्तचि सैतान ताजांतु रिगलो तावळि
यिशुन ताका म्हळें कि कोण केर्चो आस्तेता तें वेगि
२८ करि । कोण मजारि बसिले तागेले भितरि कोणे सम्
जलें ना कि ताणे यित्त खातिर ताका हें उत्तर सांगलें ।
२९ कोणेर अनुमान केलो कि यिऊदासाले लागि चिरि आसि
ल्यान यिशुन ताका म्हळेलें कि पर्वाखातिर कोण आमका
आवश्यक आसा तें मोलान घेया नाहिं दुर्बळ्यांक कांयि
३० दिया । ताजे मागिरि यिऊदास् तो तिंबलो कुडको
३१ घेवनु वेगि भायर गेलो आनि रात्रि जालि । तो
भायर वत्तचि यिशुन म्हळें कि आतं मनुष्याले पुत्तालि
महिमा प्रकाशु जालि आनि तागेले भितरि देवालियि
३२ महिमा प्रकाशु जालि । देवालि महिमा तरी ताजांतु
प्रगट जायत आल्यारि आपण्यांतु देवालि महिमा प्रकाशु
करित आनि तेचि वेळा तागेलि महिमांयि प्रकाशु करित।
३३ सान चेर्कीनो तुम्गेले भर्सिं आनि हांव थोडे दिस राबन्
तुमि माका सोदशा आनि कशि हांव यिऊदियांक म्हळेलें

कि खैं हांव वत्तां तुंमि थैं येउंक सकनाति तशि तुम
२४ कांयि सांगतां । नवि येकि आज्ञा हांव तुम्कां दित्तां
परस्पर मोगु कऱ्या कशि हांवे तुम्कां मोगु केला तशि तुंमि
३५ येक्लो आनि येकल्याक मोगु कऱ्या । तुंमगेलो परस्पर
मोगु केल्यान सगळे समजतित कि तुंमि मेगेले शिष्य
३६ आसवि । शीमोन पित्रान ताका म्हळें कि हे प्रभु तुं खैं
वत्ति यिशुन ताका जाप दिलि कि हांव खैं वत्तां थैं तुं आत्तं
मजे भसिं वोचुंक सक्सि ना तरि हाजे मागिरि मजे
३७ मागि वोच्त । पित्रान ताका म्हळें कि हे प्रभु तुजे
भसिं आत्तं यित्या वोचुंक सकसि ना तुजे खातिर हांव
३८ आपणा जीउ दिन । यिशुन जाप दिलि कि तुं यितें
मजे खातिर आपणा जीउ दिन सत्यर हांव तुका सांगतां
कि तुं माका समजना थैं तुं तिनि वेळे नकार कर्नाशिवे
कुंकड साद दिसि ना ।

१४ चतुर्दश पर्व्व ।—जीवान याकुल जाव नाका तुंमि
२ देवाचेरि विश्वासु कऱ्या मजेरियि विश्वासु कऱ्या । मेगेले
बापाले घरांतु सबार कुडं आसति थैं तशी ना जालें
जाल्यारि हांव तुम्कां म्हणतों तुमगेले खातिर जागो सिद्ध
३ कोर्चाक हांव वत्तां । आनि तशी हांव वोचुनु तुमगेले
खातिर जागे सिद्ध करिन जाल्यारि दुसरवेळा येउनु हांव
तुम्कां आपणा लागीं घेन कि हांव कोखं आस्यारि रावतां
४ तुंमियि थैं रावा । हांव खैं वत्तां तें तुंमि समजतायि
५ ति वाठे तुंमि जाणति । तमास्तान ताका म्हळें हे प्रभु
तुं खैं वोत्ता आमि ऐं समजनाति हे खातिर वोणाजिन
६ तान वाट समजतित । यिशुन ताका म्हळें कि हांव
वाट आनि सत्यपण आनि जीवन आसं कोणै मनुष्यु मेगेले
७ शारयीन वीना बापाले लागि वचना । तुंमि माका तरी

समजले जाल्यारि मेगेले बापायथि समजते हो समग
७ धोनेथि तुंमि ताका समजतावि आनि चोयले। फिलि
पान ताका म्हळें कि हे प्रभु आम्का बापाक दाखे तावातु
८ आमि तृप्त जाउं। यिशुन ताका म्हळें कि ह फिलिप
हांव यितुले दिस तुजे भसिं रावलो जाल्यारिथि यित्तें
तुंवें माका समजलो ना कोण कोणें माका पायलाय ताणें
बापाक पळैला हे खातिर तुं कसि म्हणता कि आम्का
१० बापाक दाखै। तुं यित्तें विश्वासु कर्ना कि हांव बापांतु
आनि बापु मजांतु कोण उत्तर हांव तुमका म्हणता तें
उत्तर हांव आपणेच्या म्हंणा तरि मजे भितरि रावतलो
११ बापु तें कार्यें कर्ता। माका विश्वासु करि कि हांव
बापाजे भित्रि आसं आनि बापु मजे भित्रि आस तरि
तरी ना जाल्यारिथि तें कार्यें पोउनु माका विश्वासु करा।
१२ हांव तुम्का सत्य२ म्हणतां कि कोण कोण मजेरि विश्वासु
कर्ता कोण कार्यें हांव कर्तां तें तावथि करित हाजावे होड
१३ कार्यथि तो करित तेथितें हांव बापा वागि वत्तां। तुंमि
मेगेले नांवान तरी कांथि मागणा जाल्यारि हांव तें
करिन् कि बापालि महिमा पुत्राचेरि प्रकाश जाय्त।
१४ मेगेले नांवान तरी तुंमि कांथि मागणा जाल्यारि हांव
१५ तें करिन। तुंमि तरी माका मोगु कर्ताति जाल्यारि
१६ मेगेलि आज्ञा मानलिया। आनिकें हांव बापाले वागों
प्रार्थना करिन आनि तो आनि येकि सांत्वना कर्त्तलो
१७ तुम्का दित कि तो तुमगेले भसिं नित्य रावो। वह
पणालो आत्मा तोचि कि कोणा जगत घेव्षा सक्ना
तेथितें तांका तो चोयना आनि समजना नरि तुंमि
ताका समजताति तेथितें तो तुमगेले भसिं रावता आनि
१८ तुमगेले भितरिथि जायत। हांव तुम्का अनाथ सोडसि ना

१९ हांव तुम्गेले लागीं येन । आनि थोडे दिसां परतें जगत माका चोयसि ना तरि तुंमि माका चोयशाति हांव
२० जीवीं ते खातिर तुंमियि जीवे आसा । ते दिसा तुंमि समझशा कि हांव बापाले भितरि आसं आनि तुंमि मजे भितरि आसति आनि हांव तुम्गेले भितरि आसं। कोण
२१ मेगेलि आज्ञा पावुन पोसता तोचि माका मोगु कर्ता आनि कोण माका मोगु कर्ता ताका मेगेलो बापु मोगु करित आनि हांव ताका मोगु करिन आनि ताचे लागि
२२ आपणाक प्रकाशु करिन । आरिश्रोटा नंता दुसरे यिहुदाहान ताका म्हळें कि हे प्रभु हें कसलें उत्तर कि आपुण आमचे लागि आपणाक प्रगट करित तरि जगताचे लागि
२३ ना । यिशुन जाप दिउनु ताका म्हळें तरी कोणे माका मोगु करित आल्यारि मेगेलें उत्तर आयकत आनि मेगेलो बापु तागेलो प्रेमु करित आनि आमि ताचे लागि येउनु
२४ ताचे भर्सि राबुं । कोण मनुष्यु माका मोगु कर्ना तो मेगेलें उत्तर आयकना आनि कोण उत्तर तुंमि आयकता ति तें मेगेलें नैं तरि बापालें कि कोणे माका धाळाज ।
२५ हांवे तुमगेले भर्सि राहुनु हें उत्तर तुमकां म्हळां आस
२६ तरि सांतनि कर्तेलो अर्थात धर्म्मात्मा कि कोणाक बापु मेगेले नांवान धाडित तो तुमकां सगळें सिकैत आनि हांवे कोणर म्हळांस तें सगळेंयि तुमकां उडगासु दिवैत ।
२७ तुमगेले लागि हांव आपणालि शांति दवैनु वत्तां हांव आपणालि शांति तुमकां दित्तां कसि जगताचो लोकु दित्ता ति तसि हांव तुमकां दिना तुमगलें मंन दुःखीत ना जावो
२८ आनि ना भिवो । तुंमि आयकिलां कि हांवे तुमकां म्हळांस कि हांव वत्तां ताचे मागिरि तुमचे लागि दुसरे वेळे येन वरी तुंमि माका मोगु कर्त जाल्यारि हांव बापा

जागि वत्ता मेगेले हे उन्नाचेरि तुमि सुखि आसते तेसितें
२९ मजाके पाडु मेगेलो आंनु आस। तागेले समस्त भावचे
पिर्दम हांवें हें सगळें तुमकां सांग्लां कि उपस्तित वेळान
३० तुंमि तें विश्वासु कया। हाजे मागिरि तुमगेले भर्ति
हांव आनि साबार उत्रं सांग्सि ना तेंयितें हे जगतालो
३१ रायु येत्ता आनि मजांतु तागेलें कांयि ना। तरि हांव
आपणा बांबाक मोगु कर्तों आनि ताणे माका कसि आज्ञा
दिल्याज हांव तसि कर्तां जगताले राबसले लोकांजे हें
समज्ुचे खातिर हांव म्हण्तां उठाया आमि वोचां।—

१५ पंचदश पर्व।—हांव वह अंगुरा रूख् आनि मेगे
२ लो आंनु नष्ट कर्तेलो आस। मेगेले कोण तरतरी
खंईं फळ फळनांति लो खांड्डा ताधुर कर्ता आनि काण
तरतरां खांड्डो फळ फळता ताजे पडाव फळचे खातिर
३ लो निर्मळकर्तां। आत्तं कोण उतर हांवे तुमकां म्हळांस
४ ते उत्तान तुमि निर्मळ जाल्याति। तुंमि मजांतु राब्
ताति आनि हांव तुमचांतु राबवां कसि जाल्ते वाक्ति
नत्तना खांदि आपण कांयि फळ फळ्चा सक्ना तसि
मजांतु राबा नांदां तुंमि फळ फळच्या सक्सि नांति।
५ हांव जाल्ते बालि आसं तुंमि खाड्डिञ कोण मजांतु राब्ता
आनि हांव तांतु राबन तो साब्ार फळ फळता तेंयितें
६ मेगेले नंतां तुंमि कांयि कोचां सक्नांति। कोणे मनुष्यु
मजांतु ना राबुन् खोंघा वारि उडोनु वत्ता आनि सुखु
नुयि वत्ता आनि मनुष्यु ताका येवडे कोनुं उज्यांतु उडै
७ ताति आनि त्यो वासतावि। तरी तुंमि मजांतु राबत्
आनि मेगेलें उत्तर तुमचां राबता जाल्यारि तुमगेलि
कोणर इच्छा ति प्रार्थना केल्यान तुमगेले खातिर तें
८ कोचां जायत्। तुमगेलें साब्ार फळ फळ्यान मेगेले

घांनालें योउपण प्रगट जाता तुमिंयि बलिचि मेगेंले शिष्य
९ जाशाति। कसि ओांनान माका मोगु केला तसि हांवें
१० तुमकां मोगु केलाज मेगेले मोगांतु रावा। मेगेली आज्ञा
तरी तुमि मानवाति जाल्यारि मगेले मोगांतु रावशाति
कसि हांव बापया ओांनालि आज्ञा मानसुनु तागेले
११ मोगांतु रावतां। हांवि हें उत्तर तुमकां म्हळांस कि तुम्
गेले भितरि मेगेलो आनंदु रावो आनि तुमगेलो आनंदु
१२ पुर्ता जायत। हि मेगेलि आज्ञा आस कि कसि हांवें
१३ तुमकां मोगु केलाज तसि तुंमि परस्पर मोगु कचा। आप्
णाले स्नेहिता खातिर आपणा जीउ दिल्यान योउ कोणा
१४ केंधि मोगु ना। हांव तुमकां कोण आज्ञा दित्तां ति केल्यान
१५ तुमि मेगेले स्नेहित आसति। हाजे मागिरि हांव तुमकां
दास म्हणसि ना केंधिलें प्रभु कोण कार्य कर्ता दास तें समन
नांति तरि हांवे तुमकां स्नेहित म्हळांस केंधिलें मेगेले बांना
से लागि हांवें कोण आयकिला ते सगळें तुमकां कळेलें।
१६ तुमि माका पसंत केला ना तरि हांवें तुमकां पसंत केल्या
ति आनि तुमकां नेमक केल्यालि कि तुंमि वोचुन फळ
फळाति आनि तुमगेलें फळ रावो ताजेन बांताले लागि
मेगेले नांवान तुंमि कोणश मागशाति तें ते। तुमकां दित।
१७ हांव तुमकां हि आज्ञा दित्तां कि परस्पर मोगु कचा।
१८ तरी जगत तुमकां कळसिकेल जाल्यारि तुंमि समजा
कि तुमकां कळसिकेउचे पितंम माका कळसिकेल्याति।
१९ तरी तुंमि हे जगताले लाेाकु यात्ते जाल्यारि जगत आपणा
लाेाकांक मोगु कर्तें तुंमि हे जगताले लोक नैं तरि जगतां
यासुनु हांवें तुमकां पसंत केल्याति हाजेन जगत तुमकां
२० कळसिकेला। कोण उत्तर हांवें तुमकां म्हळांज तें उडगासु
दवचा कि दासु प्रभुयाकै वाडु नैं ते तरी मेगेले वैरिपण
कर्तित जाल्यारि तुमगेलें वैरिपण कर्तित तरी ते मेगेलें

उत्तर मान्सिलिन जाल्यारि तुमगेलें उत्तरयि मान्सिलित।
२१ तरि हें सगळें मेगेले नांवाले खातिर ते तुमकां कार्तेत
२२ तेंथितें कोण माका धाळास ताका ते नेणति। तरी हांव
ना येत्तां आनि तांकां ना सांगतों जाल्यारि तांगेलें पाप
२३ ना जार्ते तरी आत्तं तांगेले पापाले ढांकण ना। कोण तो
२४ माका अळसिकेता तो मेगेले आंवाकै अळसिकेता। कोण
कार्य आनि कोणै मनुष्यान कर्नें तें कार्य तरी हांव तांगेले
भितुरि ना कर्त्तां जाल्यारि तांगेलें पाप ना आर्ते तरि
आत्तं माका आनि मेगेले आंवाक तानि पळैलास आनि
२५ अळसिकेलास। तरि तानि धखातिर माका कंटाळो
केला तांगेले शास्त्रांतु बरैलेले हें उत्तर पुर्तें कोर्चे खातिर
२६ हें जालें। सांखनि कर्तेलो कि कोणाक आंवाले कडल्यान
तुमगेले कार्मी हांव धाडिन अर्थात आंवाधाकुन वासर्वेलो
सद्गुणालो आत्मा तो येउनु मेगेले विषयांतु प्रमाण दिव।
२७ तुंमियि पिर्तम लागिन मजे भसिं आसिले ते खातिर
तुंमियि प्रमाण दिशाति।—

१६ षोडश पर्व्व।—हांवे हें उत्तर तुमकां म्हळें कि तुंमि
२ तडसु नाकाति। ते तुमकां सिनगगधान धुर कर्तिंत आनि
कै असलि वेळ येता कि कोणै तुमकां मार्नु उडैतुयि सम
३ जत कि देवालि सेवा कर्त्तां। ते हें सगळें तुमकां कर्तिंत
४ तेंथितें ते आंवाक आनि माका समजनाति। तरि हांवे
हें सगळें तुमकां म्हळांस कि ति वेळ आयिल्यान तुंमि उड
जासु कर्णांति कि हांवे हें उत्तर तुमकां म्हळांस। हांवे
पितेंम हें उत्तर तुमकां म्हळें ना तेंथितें हांव तुमगेले भसिं
५ आसिलों। तरि आत्तं कोणे माका धाळा ताचे लागि
हांव वत्तां आनि तुमचासु कोणै माका विचारो ना कि तुं
६ खैं वत्ता। तरि तुमकां मेगेले हें उत्तर सांगिल्यान तुम्

७ गेलो जोउ दुःखान भर्लें। तरि हांव खरें उत्तर तुमका
म्हणता मेगेले गेल्यान बरें तुमगेलें बरें आयस तेंयितें बरो
हांव ना वचुन आस्यारि सांत्वनि करतेलो तुमगेले लागि
येसि ना तरि हांव वेचुनु ताका तुम्गेले लागि धाडिन।
८ आनि तो येवनु जगताक पाप आनि यथार्थ आनि विचा
रालें विषयांतु ज्ञान दित पापालें विषयांतु ज्ञान दित
९ तेंयितें ते मजेरि विश्वासु करनांति। यथार्थालें विषयांतु
ज्ञान दित तेंयितें हांव आपणा आंना लागि वत्ता आनि
१० तुमि माका दुसरवेळा चोवचा पावसि नांति। विचारालें
विषयांतु ज्ञान दित तेंयितें हें जगतालो रायु विचार
११ केलेलो आयव। तुमका माका आनि साबार उत्तरं
१२ सांगचिं आसति तरि तिं तुमि आत्त ताळउचा ना सक्या।
१३ तारि तो बद्यणालो आत्मायि येउनु सगळें बद्यणांतु
तुम्कां वाट दाकैत तेंयितें तो आपणाथाकुनु सांगसि ना
तरि कोण आयकस तो म्हणत आनि आवचा विषयु तुम्कां
१४ दाकैत। तो मेगलि महिमा प्रकाश करित तेंयितें मेगलें
१५ काणर आस तें तो घेउनु तुमका दाकैत। आंनालें
काणर आस तें सगळें मेगलें आस ए खातिर हांवें म्हळें
१६ कि तो मेगलें काणर आस तें घेउनु तुम्का दाकैत। थोडे
दिसां मागिरि तुमि माका चोवचा पावसि ना वेंवान थोडे
समया मागिरि तुमि माका चोवचा पावशाति तेंयितें हांव
१७ आंना लागि वत्ता। तावळि तागले कितलेक शिष्यांनि
परस्पर म्हळें हें यितें कि वो आमकां सांगता थोडो
समया मागिरि तुमि माका पावसि नांति वेंवान येद्दे
वेळा मागिरि माका चोवचा पावशाति तेंयितें हांव आंना
१८ लागि वत्ता। ए खातिर तांनि म्हळें कि येद्दो वेळु हें कोण
उत्तर म्हणता तेंयितें तो कोण उत्तर म्हणता तें आमि सम्
१९ जचा सक् नांति। यिशुन समजलें कि तुमि तागेले निम

३० म्हण्‌ता आनि दृष्टांतु सांग ना। आत्तं आमि सत्य समृ
झताति कि तूं सर्वज्ञु आस आनि तुका कोणयत ना कि
कोणे तुका मिम्‌गित आमि हांतु विश्वासु कर्त्तांति कि तूं
३१ देवांघाकुनु आयलो। यिशुन जाप दिलि कि तुमि यित्तें
३२ आत्तं विश्वासु कर्त्तावि। चोंया वेळ येत्ता आत्तंचि आ
ल्यास कि कोणातु तुमि तरतरां मनुष्य आपणाले संसा
रांतु सगळे आडुादुडु जावित आनि माका येकलोचि
सोडु वच्चाति तरि हांव येकलो नैं सोंपितें आनि मजे सांगि
३३ आस। हांवि हें उत्तर तुमकां म्हण्‌लां कि तुमि मजां
आंति यावा जगतांतु तुमगेलें दुःख जायत तरि निःसंदेहु
दवर्‌या हांवि जगताक जय केलांस।—

१७ सप्तदश पर्व।—यिशुन हें उत्तर म्होंणु सर्गाचे
दिका दृष्टि केलि आनि म्हळें कि हे बापा तो वेळु जालास
२ तुवे आपणा पुताक जितुले मनुष्य दिल्याति ते सगळे लो
कांक अनंत आयुष्य दिवचे खातिर सगळे प्राणीचेरि
कोण सामर्थ्य ताका दिलेंअ ताजे मणुके आपणा पुताचि
३ महिमा करि कि तुगेलो पुतु तुगेलि महिमा करो। आनि
हें अनंत परमायु कि ते सत्य एक देउ तुका आनि यिशु
४ ख्रीष्टाके जाणति कि कोणाक तुवे धाळास। हांवि जगतांतु
तुगेलि महिमा केल्यास कोण कार्य तुवें माका कर्चाक
५ दिल्याअ तें हांवि पुर्ते केलांस। हे बापा जगताजे पैलिं
तुजे भसिं मेगेलें कोण थोडपण आसिलें ते थोडपणान
६ आत्तं आपणा भसिं मेगेलें थोडपण करे। तुवें जगतां
थाकुनु कोणांक माका दिल्याति तांचे लागिं तुगेलें नांव
हांवि प्रकाशु केलांस ते तुगेले आसिले आनि तुवें तांकां
माका दिल्याति आनि तांनि तुगेलें उत्तर पालन केलांस।
७ आवि यात्तं तांनि समूज तालि कि कोणर तुवें माका

८ दिलांस तें सगळें तुजान जालें । तेंयितें कोण उत्तर तुंवे माका दिलांस तें हांव तांका दिलांस आनि तानि घेवलांस आनि तानि सत्य समजलांस कि हांव तुजथाकुन आयलांस आनि तानि विश्वासु केला कि तुंवे माका
९ धाळा आस । हांव तांचे खातिर प्रार्थना कर्ता हांव जगता खातिर प्रार्थना कर्ना तरि कोणांक माका दिल्याति
१० तांचे खातिर तेंयितें ते तुगेले । आनि मेगलें कोणलें तुगे लें आनि तुगेले कोण तें मेगलें आनि तांगेले भितरि मेगेलें
११ होडपण प्रकाश कोनुं कर्ता । हांव जगतांतु आनि राव ना तरि हे जगतांतु रावलाति आनि हांव तुजे लागीं येता हे धर्म्म आंना कोणांक माका दिल्याति आपणा नांवान तांगेलि रक्षा करि कि आमि कसि येक आसंति ते तसि
१२ चि येक आवोति । हांव कितुले दिस तांचे भर्सि जग तांतु आसिलो तितुले दिस तुगेले नांवान तांगेलि रक्षा केलि तुंवे कोणांक माका दिल्याति तांकां हांवे राखल्याति आनि धर्मग्रस्तकांतु कोण तें समस्त आवचे खातिर विना श्याले अधिकारि नंतां तांगेलो येकलो पोर गेलो ना ।
१३ आत्तं हांव तुजे लागिं येता आनि मेगेलो आनंदु तांगेले भितरि पुर्त्त जावचे खातिर हांव हें उत्तर जगतांतु म्हण
१४ तां । तांकां तुगेलें उत्तर हांवे दिलांस आनि जगतान तांकां अळसिकेलांस तेंयितें कसि हांव जगतालों नैं तसि
१५ तेव्यि जगताले लोक नैं । हांव प्रार्थना कर्ना कि तुं तांकां जगतांथाकुन घेसि तरि तांकां दोषांथाकुन राकि ।
१६ कसि हांव हे जगतालों नैं तसि तेवयि हे जगताले नै ।
१७ तांकां तुगेले वद्दपणान शुद्ध करि तुगेलें उत्तर वद्दपण ।
१८ कसि जगतांतु तुवें माका धाळा तसि हांवयि तांकां जग
१९ तांतु धाळ्याति । आनि तांचे खातिर हांव आपणाक
२० पवित्र कर्ता कि ते वद्दपणान शुद्ध आवोति । हांव मात्र

ह्यांचि खातिर प्रार्थना कर्तां तरि बोल तांगेलें उत्तर आय्
कुन् मजेरि विश्वासु करतिल तांचे खातिरयि कि ते येक जा
२१ वोति हे आंना ह्यांव प्रार्थना कर्तां कि जसि तुं मजांतु आस
आनि हांव तुजांतु आसं तेव्हयि तसि आमचांतु येक जा
वोति कि जगत विश्वासु करतिल् कि तुवें माका धाडलास ।
२२ आनि कोणु थोरपण तुवें माका दिलांस तें थोरपण ह्यावें
तांका दिलांस कि आमि जसि येक आस्तांति तेव्हयि तसि
२३ येक जावोति । ह्यांव तांगेले भितरि आनि तुं मेगेले भितरि
कि ते येकांतु पुर्ण जावोति कि जगत जाणं कि तुवें माका
धाडलास आनि जसि माका मोगु केला तसि तांका मोगु
२४ केला । हे आंना तुवें कोणांक माका दिल्यावि ह्यांव
जा थेय कि मेगेलें कोण थोरपण तुवें केलास तें थोरपण
पेळव खातिर ह्यांव कोण आगांतु रावूवां कि ते ते
आगारि मजले सांगीं रावोति तेयितें जगताचें पंचांग
२५ दिवसा पितंम तुं माका मोगु केलास । हे सादु आंना
हें जगत तुका समज ना तरि ह्यांवें तुका समजला तुंवें कि
२६ माका धाडलास ह्यानि तेंवयि समजलें । तांचेलागि ह्यांवें
तुगेलें नांव प्रकाश केलांस आनि प्रकाश करिन कि कोण
मोगान तुवें माका मोगु केलास तो मोगु तांगेले भितरि
जावो आनि ह्यांवें तांगेले भितरि आसं ।—

१८ अष्टादश पर्व्व ।—यिशु हें उत्तर म्होंणु आपणा
शिष्यांलें भसिं कीद्रोण न्ह्यि दांटवलो ते आगारि येक
हित्तल आसिलें ते हित्लांतु तो आनि तागेले शिष्य
२ रिगले । यिउदाह् विश्वासघातक्यायि तो जागो
समजलो तेंहिसें आपणा शिष्या भसिं यिशु येदनार थैं
३ वसालो । तेदना यिऊदाह्न प्रधान याजक आनि फारि

पिशांचे जागग्यान सैन्य आनि हवालदार याजकु वंटान
आनि धुंपावाति आनि आयुध हातां घेउनु ते जाग्यारि
४ आयलो । हे खातिर आपणालि कोण दशा आयत तें
समजुनु यिशु भायर आयलो आनि तांका म्हळें कि तुमि
५ कोणालो सोदु कर्तात । तांनि ताका जाप दिलि कि
यिशु नासरेथलो तांजेरि यिशुन म्हळें कि हांव तोचि
यिऊदाह् विश्वासघातकियि तांचे भसिं थिबिरावलो ।
६ हांव तोचि ताजे तांकां हें उत्तर म्हणत्चि ते माघ्यार
७ येवन् मातियेरि पळे । तावळि ताणें दुसरवेळा तांकां
विचारिलें कि तुमि कोणाक सोदितात तांनि म्हळें कि यिशु
८ नासरेथाक । यिशुन जाप दिलि कि तुमकां हांवें
म्हळोंस कि हांव तोचि आसं हेखातिर तरी मगजो सोदु
९ कर्तात आल्यारि हांकां वाचा दि । हें सगळें जालें कि
ताणें कोण उत्तर म्हळेलें कि कोणाक तुवें माका दिल्याति
तांगेले भितल्यांन हांवें येकलोयि होगडायलो ना तें उत्तर
१० पुर्ते कोर्नु वोचन । शीमोन पितराले लागि येक खांडें
आसिल्लें ताणें तावळि तें कांणु प्रधान याजकाले येक चाक
राचे मार्लें आनि ताजेलो उजवो कानु कातोनु उडैलो ते
११ चाकराले नांव मलकस । तावळि यिशुन पितराक म्हळें
कि तुगेलें खांडें तागेले वोन्यांतु पर्तुनु घालि कोण गंदल
मेगेले बापान माका दिलांस तें पिवूं हांव पिति ना ।—
१२ हाजे मागिरि सैन्य आनि जमादार आनि यिऊदियांचे
१३ भितरि कारकुनांनि यिशुक धोर्नु बांदलो । आनि
पितॅम ताका खन्नाले लागि घेवनु गेले तें यिलें सो काइफा
१४ लो मांउ आसिलो कि कोण ते वर्सालो प्रधान याजकु । हो
काइफा तोचि कि कोणें हो परामर्शु यिऊदियांक दिलोलो
१५ कि येकल्याक लोकांले बदला मार्चो उचित आस । शीमोन
पितरु आनि दुसरो येकु शिष्यु यिशुले मागि गेले यो

शिष्यु प्रधान याजकाले लागि परिचित आसिलो आनि
१६ शिमुनि भर्सि प्रधान याजकाले दोसपांतु गेलो । तरि
पितरु बागला लागि भायर थिबि राबुलो तावळि कोण
शिष्यु प्रधान याजकाले लागि गुर्ताचो आसिलो तो
भायर गेलो आनि बागिलराकणाक सांगुन पितराक
१७ घरांतु घाळो । तेद्ना कोण बायल बागिलराकणि
आसिलि तिणे पितराक म्हळें कि तुं यिर्ते हे मनुष्याले
१८ येक शिष्यु नैं ताणे म्हळें कि हांव तो नैं । चाकर आनि
सरदार लोकांनि ते आग्यारि थिबि राबतले आनि सियां
खातिर यिंगाळ्यां उभां कोनुं तापले तेद्ना पितरान
१९ तांचि भर्सि थिबि राबुनु उभो तापलो । ताजे मागिरि
प्रधान याजकान ताजेले शिष्य आनि शिक्षाले विषयांतु
२० यिषुक निमगिलें । यिषुन ताका जाप दिलि कि हांवें
प्रगट जगताक म्हळें सिनगगांतु आनि देवळांतु हांवें नित्य
सिकेलें कि खें यिजुदी नित्य वात्ताति आनि हांवें गुप्त कांयि
२१ सांगले । माका यित्याक निमगिताति कोणां मेजेलि शिक्षा
आयकिल्या तांका निमगिया कि हांवें तांका यित्तें उत्तर
२२ सांगलें चोयि हांवें कोणा उत्तर म्हळें तें ते समझताति । तें
हें उत्तर म्हणता हांतु लागीं राबतलो येकलो सरदारान
यिषुक थापट मारें आनि म्हळें कि तुं यित्तें प्रधान यजा
२३ काक असलें उत्तर म्हणता । यिषुन जाप दिलि तरी हांवें
थापट उत्तर म्हळां जायत जाल्यारि ते थापटालें प्रमाण
दि तरि वरी हांवें चां उत्तर म्हळे जायत जाल्यारि माका
२४ यित्या मारां । कायाफा प्रधान याजकाले लागि खन्नान
२५ ताका बांदिलो धाळो आसिलो । शीमोन पितरु थिबि
राबुनु उभो सेकतालो तावळि तांनि ताका म्हळें कि तुं
यित्तें हे मनुष्यालो येकु शिष्यु नै ताणे नदप केलें आनि
२६ म्हळें कि हांव तो नैं । कायाचो कांयु मिपरान कानेतुं

उडेवोलो तागेले कुटुंबा प्रधान याजकाले येक चाकरान म्हळें कि हितर्लागु हांवें यित्तें ताजे भशिं तुका से दखितं।
२७ तेद्ना पित्रु मेंवान नद्लो आनि ते वेळा कुंकडान साद् केलो।—
२८ ताजे मागिरि फाल्यारि ते काइफाले लागीं न्याया घरांतु यिशुके घेउनु गेले आनि ते आपण न्याया घरांतु गेल नांति कि अपवित्र ना जावोनि तरि पेशख खावचा
२९ सकता। तेद्ना भायर वचुनु पिलातान म्हळें कि हे
३० मनुष्याचेरि तुंमि यित्तें अपवाद् दितांति। तानि जाप दिउनु ताजल्या म्हळें कि तरी वो वायट क्रिया कर्तलो ना
३१ जात्तो जाल्यारि तुजे लागि आमि ताका ना दिते। तावळि पीलातान तांकां म्हळें कि तुंमि ताका घेउनु आपणाले
३२ शास्त्रावारि तागेलो विचार कया। तांतु आपण कोण मोनसा मरणान मर्सि हें कळोचाक यिशुन कोण उत्तर म्हळेलें तें उत्तर पुर्ते जावचे खातिर यिजुदियांनि ताका
३३ म्हळें कि कोणाके मार्नु उडैचे आम्कां उचित नैं। तावळि पीलातु दुसरवेळे न्याया घरांतु गेलो आनि यिशुक आपो
३४ नु उलैलो कि तुं यिते यिजुदियांलो रायु। यिशुन ताका जाप दिलि कि तुं यित्तें आपणांथाकुनु हें उत्तर म्हण्ता आवा आनि के यो मेगेले विषयांतु हें उत्तर तुका
३५ म्हळां। पीलातान जाप दिलि कि हांव यित्तें यिजुदी आसं तुगेले आपणा देशकारानि आनि प्रधान याजकानि
३६ तुका मजे लागि सोंपला तुंवे यित्तें केलां। यिशुन जाप दिलि कि मेगेलें राज्य हे जगकालें नैं मेगेलें राज्य तरी हे जगतालें आत्तें जाल्यारि मेगेले चाकर युद्ध कर्ते कि हांव यिजुदियांले लागि सोंपुनु वर्ता ना तरि मेगेलें
३७ राज्य आत्तं हे जाग्यालें नैं। हाजेन पीलातान ताका म्हळें कि तरी यित्तें तुं रायु आव यिशुन जाप दिउनु म्हळें

कि तुं म्हणता कि हांव रायु आस केथि खातिर हांव जव
जन्में आनि वहणाकें प्रमाण दिवषाक संसारांतु आयलों
कोण तरतरी मनुष्यु वहणा दिता आता तो मेगलें उतर
३७ आयकता। पोलाताज ताअल्या म्हळें कि यथार्थपण
थित्तें आनि हे म्हाणु तो भैवान यिजुदियांचे बामीं गेलो
आनि तांका म्हळें कि हांव ताचेलो कांयि दोषु मेळ ना।
३९ वरि तुम्गेलो येकु विवारु आस कि हांव पेशाखाचे वेळा
येक्लो तुम्चे लागि सुटैन हे खातिर हें थिरें तुमगेलि
४० इच्छा आस कि हांव यिजुदियांचो रायु सुटैन। ताव्लि ते
सग्ल्यानि गदळ कोनुं म्हळें कि हे मनुष्याक नैं वरि बार
ब्बाक बारव्वा चोरु आसिलो।—

१९ उनविंशति पर्व्वं।—यिशुक घेनुं पोलाताज कोर
२ डो मार्लो। ताचे मागिरि सैन्यान कांट्याचें येक किरीट
कोनुं ताचेले माथ्यारि दिलें आनि येक वांयंगणी आग्
३ वानें न्हेसेलें। आनि ताका म्हळें कि हे यिजुदियांचे
४ राया नमस्कारु आनि तानि ताका थापटे मार्लें। हे
खातिर पोलाताज दुसर वेळा भायर येवुनु तांका म्हळें
कि चोया हांव ताका तुम्चे लागि हाड्तां कि तुंमि सम्
५ जा कि ताचेलो कांयि दोषु हांव देकना। ताव्ळि
यिशु तें कांट्या किरीट आनि वायंगण आंगवलें न्हेसुनु
भायर सर्लो वांतु पोलाताज तांकां सांग्लें कि तो मनुष्यु
६ हो चोया। हे खातिर प्रधान याजकांनि आनि कार
कुनानि ताका चेउनु गदळ कोनुं सांग्लें कि ताका क्रुशारि
ओव्ळि मारि ताका क्रुशारि ओवळि मारि पोलाताज तांकां
म्हळें कि तुंमि ताका घेउनु क्रुशारि ओवळि मार्या तें थिरें
७ ताचेलो कांयि दोषु हांव चोय्ना। यिजुदियांनि ताका
जाप दिलि कि आम्गेलें येकि वानि आस आनि आम्गेले

पाखिन तामेतें मोर्चे उचित आस तेंथितें आपणाक देवालो
८ पुत्र कोनुं समजलो। हे खातिर पोलातुतें उत्तर आयकुन
९ पडाव भिलो। आनि दुसरवेळ न्याया घरांतु वोचुन
यिशुक म्हळें कि तुं खैंचान आस तरी यिशुन ताका कांयि
१० जाप दिलि ना। तावळि पोलातान ताका म्हळें कि तुं
यित्तं माका जाप दिना तुं यित्तं समज ना कि तुका क्रुशा
रि जीवसि मार्चें जावो सटोचें माका सामर्थ्य आस।
११ यिशुन जाप दिलि वैल्यान तरी तें तुका दिले आस्तें
माल्यारि मजेंयि तुमेतें कांयि सामर्थ्य जावपा सकत ना
हे खातिर कोणे माका तुमेगे हातांतु दिला तागेलो चडाउ
१२ अपरादु आस। आनि तावळिलागिन ताका सुटो
चाक पोलातान यत्न केलें तरि यिहुदियांनि गदळ केनुं
म्हळें कि तरी तुं हे मनुष्याक सोडसि अल्यारि तुं काइ
सराले खेचितु नैं कोणतो आपणाक रायु कोनुं समजता
१३ तो काइसरालि दुसमनि म्हणता। हे खातिर पोला
तान हें उत्तर आयकुनु यिशुक कांयु दिलो आनि फात्तार
बांदिले नांवाले येका जाग्यारि न्याय आसनारि बसलो
१४ एबारि भ घन ते जाग्यालें नांव गब्बाता। पेसाखाले
सुत्तारि कोचें दिस दोनि पारा समयु जालो तावळि
१५ यिहुदियांक ताणे म्हळें कि तुमगेले रायाक चोया। तरी
तांनि गदळ केनुं म्हळें कि उसळायि उसळायि ताका
क्रुशारि जीवसि मारि पोलातान तांकां म्हळें कि हांव
यित्तें तुमगेले रायाक क्रुशारि जीवसि मारिन प्रधान याज
कानि जाप दिलि कि काइसर नंतां आमकां रायु ना।
१६ तेदना क्रुशारि जीवसि मार्चें खातिर ताणे तांचे लागि वा
१७ का दिलो आनि ते यिशुक घेउनु गेले। ताजे मागिरी
तो आपणालो क्रुशु वांवनु मात्याले कोरव्याले नांवाले तरि
एबारि भाषेन गलगता नांवाले येका जाग्यारि गेले।

२९ खातिर म्हळें कि हांव त भेसो आसं । तावळि भिर्कान भरें येक आयदन ते जाग्यारि दवर्नु गेलेलें हे खातिर तानि येकु स्पंजु सिर्कान भरुनु तो आइजोबाचे वार्हरि
३० दिउनु ताचे तोंडांतु दिलो । यिषुन तो सिर्को चिखुनु म्हळें कि समस्त आतां सांगे मागिरि माथें बागुं केनुं जीउ सोडलो ।—

३१ मुल्कानि कोर्पिंयो वेळु आलो हे खातिर शरीर क्रुशारि शाबत दिसाक ना राबचे खातिर यिजुदियांनि पीलाताक चालेप केलें कि तांगेले पाय मोडुं जावा आनि त देवेचे
३२ वतित येयितें तो शाबत दिसु हेडु दिसु आस । तेद्ना शिपायान येउनु काय ताजे सांगि क्रुशारि बंद घातिलें तांगेले भितरि पिल्लेमल्याले पाय आनि दुसर्यालेयि पाय
३३ मोडे । तरि यिषुले लागि येवनु तो कि आत्तं मेलो
३४ हें चाउनु तानि ताजेलें पाय मोडे ना । तरि येक सिपायान बरछिन लागेलि बरि तेयिलि वे खातिर रगत आनि
३५ उदाक व्हांगि वाइसलें । आनि ते चायलें येकल्यान प्रमाण दिलें आनि ताजेलें हें उत्तर खरें आनि तुम्गेलो विश्वासु करचे खातिर तो समजता कि आपण खरें म्हणता ।
३६ आनि हें पुस्तक पुर्ते जावचे खातिर हें सगळें जालें कि
३७ ताजेलें येक हाड मोडचें लाग्लि ना । आनि येक पुस्तकयि म्हणता कि कोणाक तानि भोपला ताजेरि ते दृष्टि करतिंत ।—

३८ आरिमाथेयाचो युसफु यिषुचो येकु शिष्यु आसिलो तरि यिजुदियांले भयान लिपुनु आसिलो हाचे मागिरि ते युसफान पीलाताले तागीं चालेप केलें कि यिषुलें शरीर व्हायण घेउनु वचन तावळि पीलाताने त्याका आज्ञा दिलि हे खातिर तो येउनु यिषुलें शरीर घेउनु
३९ गेलो । निकदेमसुयि कि जाय पिल्लेमले रातिं यिषुले

लागीं आयिल्लो तोचि घेउनु गंदरस आनि अगेल मेळैल्लो
४० वस्तु सेर पनास झाळें । ताजे मागिरि यिजुदियांलि
कबर दिवचाक विवाराले वारि तानि यिशुलें शरीर घेउनु
४१ समालो दिउनु आंगवल्यान वेडायलें । कोण वाग्यारि
यिशु क्रुशारि मानुं गेलोलो ताजेंच भितरि येक हितल
आस ते हिवलांतु नवि येकि गव्हा कबर आसिलि कि
४२ कोणांतु कोणी मनुष्यु केद्नायि निदकरायलो ना । तो
दिसु यिजुदियांले मुस्ताति कोचें दिसु आसिलो तेचि
खातिर तानि यिशुक ते वाग्यारि निदकरायलो तेंथिंचें
ति गव्हा कबर लागी आसिलि ।—

२० विंशति पर्व्व ।—सप्ताले पितंमले दिसा फांतेफा
स्यारि काळोकु आस्ताना मारिया माग्दलीनि कबराले
लागि येउनु पळैलें कि तो फातोरु कबरारियाकुनु
२ निसनुं गेलोलो । तावळि ति धाउनु शीमोन पितराले
लागि आनि कोण शिष्याक यिशुन मोगु केलोलो ताजेले
लागियि आयलो आनि तांकां म्हळें कि कोणे मेगेले प्रभुक
कबरांथाकुनु घेउनु गेलाम आनि ताका खंयी दवलांस तें
३ आमि नेणांति । ताजेन पितरु आनि तो दुसरो शिष्यु
४ भायर सनुं कबरालागि आयले । ते भसिर धांवले
तरि दुसरो शिष्यु पितराचाळे वगि धाउनु पितंम कबरा
५ लागि पावलो । आनि तागुं भाउनु तें दवलेंले आंग
६ वलें चोयलो तरि भितरि गेलो ना । ताजे मागिरि
शीमोन पितरु मागिति येउनु कबराले भितरि गेलो आनि
७ तें दवलेंलें आंगवलें आनि कोण येजुस्तरान ताजेलें माते
बांदिलें आंगवल्या भसिं नैं तरि वेडायलें विडारलें येलु
८ स्तर वेगळेचि पळैलें । ताजे मागिरि कोण शिष्यु कबरा

लागि पिर्तेम आयिलो ताणेयि भित्तरि वोचुनु पळेलें
९ आनि विश्वासुयि केलो। तेंयितें तें शांगपरातु धर्म्म
पुस्तकालो अर्थु समझले ना आसिले कि तो दुस्र वेळा
१० अवश्य मरणाधाकुनु उठायत। ताजे मागिरि शिष्य
नेंवान आपापणा घर्‍यां गेले।

११ तरि मारिया कबराले भायर रडतांच थिंवि राबलि
१२ आनि रडतां वागमुनु कबराक चोय्लो। आनि यिशुले
शरीराले सिंदोचे जाग्यारि बसिल्ले धवें आंगवलें नेसल्ले
दोग दुतांक पळेलें येक्लो उशादिकां आनि येक्लो पायां
१३ दिकां। आनि तानि तिका म्हळें कि हे बायलमनशे यित्ते
आविर रडता तिणे तांका म्हळें कि ते मेगेले प्रभुक घेउनु
गेलात आनि ताका खैं दवर्‍यां हें हांव नेणा देखि आवित
१५ रडतां। तिणे हें उत्तर म्हाणु पाठ परतुनु यिशुक थिंवि
राबल्लो पळेलो तरि समजलें ना कि तो यिशु आस।
१६ यिशुन तिका म्हळें कि हे बायलमनशे तुं यित्या रडता
कोणालो सोदु कर्तां तिणे ताका हितलकार समजुनु म्हळें
कि हे महाराया तरी तुं ताका हांगाधाकुनु घेउनु गेला
आल्यारि माका सांग कि ताका खैं दवर्लास कि हांव
१७ ताका घेउनु वचन। यिशुन तिका म्हळें कि हे मारिया
तिणे नेंवान ताका म्हळें कि रब्बोनि अर्थात हे मेगेले गुरु।
यिशुन तिका म्हळें कि माका आप्पांगेला वेंयिवें हांव
आत्तं आपणा आंगाले लागि उठाय्ने तरि मेगेले भावांले
लागि वाचुनु तांका सांग कि मेगेले आंगाले आनि तुमगेले
आंगाले लागि आनि मेगेले देवाले आनि तुमगेले देवाले
१८ लागि हांव उठायत। मारिया माग्दालीनिन येउनु
शिष्यांक सांग्लें कि आपणा प्रभुलें दर्शण पाविल्लें आनि
ताणे हें सगळें उत्तर तिका सांगिल्लें। —

१९ सप्तालें पितॅमले दिसा तेंयि दिसा सांज्वेळा चोणका

ह्यारि यिऊदियाचे भयान शिष्य येकडे जालेले ते जाग्याचें
कवाड बंद कर्तंचि यिशु येउनु मदें यिवि राव्लो आनि
२० तांकां उलैलो कि तुमगेलि शांति जावो। ताणें हें उत्तर
म्हांणु आपणा हातु आनि बरि तांकां दाकैलें तावळि
२१ शिष्य प्रभुक पोउनु खुशि जाले। तेद्ना यिशुन नेवान
तांकां म्हळें कि तुमगेलो शांति जावो कसि मेगेले बापान
२२ माका धाळास तसि हांव तुम्कां धाडतां। आनि ताणें
हें उत्तर म्हांणु तांचें वायरि फाईं दिलि आनि म्हळें कि
२३ धर्मात्माक मेळा। कोणालें पाप तुंमि सोडैशा तांचेरि
थाकुनु ते सोडिले गेल्याति आनि कोणालें पाप तुमि धसिचि
दवऱ्या ते तसिचि राव्ताति।

२४ तरि तमास् नांवाचो बारांतुलो येक्लो दागेलो म्हळ्
दिदिमस केद्ना यिशु आय्लो तेद्ना तो तांगेले भसिं
२५ ना आसिलो। हे खातिर आनि शिष्यांनि ताका म्हळें
कि आमि प्रभुक पळैला तरि ताणें म्हळें कि तागेले हाता
ले खांद्याचो मात्र चोईनातिलें आनि मेगेलें बोट खांद्याले
सावेंतु दिनातिलें आनि तागेले बरिंतु मेगेलो हातुयि दि
नातिलें हांव विश्वासु करसि ना।

२६ आट दिसा मागिरि तागेले शिष्य नेवान भितरि
आसिले आनि तमास् तांचे सर्सि आसिलो तावळि कवाड
बंद जात्तचि यिशु मदें यिवि राव्लो आनि उलैलो कि तुम्
२७ गेलि शांति जावो। ताजे मागिरि ताणें तमासाक म्हळें
कि तुगेलें बोट हांव कोनुं मेगेलें हांत पाचि आनि तुगेलो
हातु वाड्डनु मेगेले बरिंतु दि आनि अविश्वासि ज वनाका
२८ तरि विश्वासी जा। ताजेरि तमासान जाप दिउनु ताका
२९ म्हळें कि हे मेगेले प्रभु आनि मेगेले देवा। तावळि
यिशुन ताका म्हळें कि हे तमास माका पोउनु तुंवे विश्वासु
केलास कोणे पळै नातिले विश्वासु केलास ते धन्य।—

३० आनि हावराचान आश्चर्य्य कार्य्य यिशुन आपणाले शिष्यांले येदुर केलें कि कोण हे पुस्तकातु बरै ने तरि हें बरौनु गेलांस कि तुंम विश्वासु करा कि यिशु देवाचो पुतु ख्रीष्ट आस आनि विश्वासु कोनुं ताजेले नांवान जीवन घावा —

२१ एकविंशति पर्व्व। हाजे मागिरि तिबेरियास दमु द्राचे येळेरि यिशुन नेंवान शिष्यांले लागि आपणाक दाखै
२ लो आनि हे जोनसान ताणे आपणाक दाकैलो। शीमोन पितरु आनि तमास कोणां उपनाम दिदिमस आनि गालिलींले कानाचो नातानाएल आनि जेबदिले पुत आनि ताजेले आनि दोग शिष्य येक जाग्यारि आले।
३ शीमोन पितरान तांकां म्हळें कि माळ्यें मासांक वत्तां ताजि म्हळें कि आमियि तुजेले भर्सिं वचुं तावळि ते वो चुनु वागा दोणिरि चळे आनि ते रात्ति कांयि धलिं
४ ना। फातें जात्तचि यिशु तडिरि यिवि रावलो तरि
५ शिष्यान समजलें ना कि तो यिशु। तावळि यिशुन तांकां म्हळें कि हे चेरडुवांनो तुम्चे लागि कांयि खावचें
६ आस ताजि ताका जाप दिलि कि ना। ताणे तांकां म्हळें कि दोणिले उजवे दिका बलें घाल्या तावळि मेळत हे ख लिरि ताजि तें उडूतचि सारार माळ्यांले भिडान
७ ताका सकले नांति। हे खातिर कोण शिष्याक यिशुन मोगु केलो ते शिष्यान पितराक म्हळें कि तो प्रभु आस। तो प्रभु आस शीमोन पितरान हें उत्तर आयकुन आपण मोगराचो दुसु आंगारि बाद्लो तेंयितें तो नागडो आसि
८ लो ताजे मागिरि समुद्रातु उडलो। दुसरे शिष्ययि बलें माळ्यें सैत नाणतांर सान दोणिरि आयले तेंयितें थडि भो धुर ना आसिलो तरि सैंशरि दोनि येक हात्ति

९ आसिलि । ते तडि लागुनु यिंगळ्याले प्रज्वलित उभो आनि भाळकें वाजेरि आनि भाकरि ते आग्यारि चोरुले ।
१० यिशुन तांका म्हळें कि कोण भळकें आत्तं धर्लीअ तांतुलिं
११ थोडिं हाड्‌ा । शीमोन पितराव वोपुनु होड भाळक्यां थाकुनु भरपुर वलें तडिरि ताळें एकसें तेप्पन भाळिं आसिलिं वरि यितुले सावार जाल्यानयि वलें पोंदले ना ।
१२ यिशुन तांकां म्हळें कि येया खाया आनि तुं कोण ताका हें निमगुंचे कोणें शिष्यालें सामर्थ्य ना आसिलें यें यिसे ताबि
१३ समजलें कि तो प्रभु आस । तावळि यिशुन येउनु भा
१४ करि आनि भाळ्कें घेतलें आनि तांका दिलिं । आपणालें मरणांतुल्यान उठपाले मागिरि आपणा शिष्यांक यिशुलें
१५ दर्शन दिव्चे तिसरे वेळा हें । तानि खा चि यिशुन शीमोन पितराक म्हळें कि हे योनाले पुत्ता शीमोना तुं यित्तें हे सगळ्यांचाकै माका मोगु कर्ता ताणे ताका म्हळें कि कै प्रभु तुं समजता कि हांव तुका मोगु कर्तो ताणे ताका
१६ म्हळें कि मेगेले सगरांले पिल्लांक पोसि । ताणे दुसर वेळायि ताजल्या म्हळें कि हे योनाले पुत्ता शीमोना तुं यित्तें माका मोगु कर्ता ताणे म्हळें कि कै प्रभु तुं समजता कि हांव तुका मोगु कर्तो ताणे ताका म्हळें कि मेगेले सग
१७ रांक रक्षण करि । ताणे ताका तिसरें वेळा सांगलें कि हे योनाले पुत्ता शीमोना तुं यित्तें माका मोगु कर्ता पितरु दुःखेसो जालो कि ताणे तिसरे वेळा म्हळें कि तुं यित्ते माका मोगु कर्ता आनि उलैलो कि हे प्रभु तुं सर्व्वज्ञ तुं समजता कि हांव तुका मोगु कर्तो यिशुन ताका म्हळें कि
१८ मेगेले सगरांक पोसा । सत्य २ हांव तुका म्हणता कि केदना तुं तर्नाकुटो आसिलो तेदना तुं आपणा कुडुं बांदु नु खें तुगेलि खुशि थें गेलास तरि केदना म्हांतारो जाशि तेदना तुं हातु उबारसि आनि दुसरो कोणें तुका बांदुनु

कोण्ण जाग्यारि तुगेलि इच्छा ना ते जाग्यारि तुका घेउनु
१९ वो घत । तो कोण्ण मरणांतुल्यान देवालि महात्मा प्रकाशु
करित हें कळैाचे खातिर ताणे हें उत्तर म्हळें ताणे हें उत्तर
२० म्होणु ताका सांगलें कि मज मात्ति यो । पितरान आपणाक
घवैनु ते शिष्यांक मात्ति येवचें पळैलें कि कोणाक यिशुन
मोगु केलो आनि रात्तिले खावपा वेळा तागेले हर्धारि
मात्तें कोनुं कोणे म्हळें कि हे प्रभु तो कोण्णु आस कि कोण
२१ तुका दुसयाले क्सा करित । पितरान ताका पोउनु
२२ यिशुक म्हळें कि हे प्रभु हो मनुष्युयि यित्तें करित । यिशुन
ताका म्हळें कि तरी मेगेलि इच्छा जायत कि तो मेगले
येवपायरांतु रावत जाल्यारि ताजेन तुगेलें यित्तें कार्य तुं
२३ मजे मात्ति यो । तावळि हें उत्तर भावां भितरि व्याप्त
जालें कि तो शिष्यु मरसि ना जाल्यारयि यिशुन म्हळें
ना कि तो मरसि ना तरि तरीं मेगेलि इच्छा जायत कि
तो मेगेले येवपायरांतु रावत जाल्यारि ताजेन तुगेले यित्तें
कार्यं ।

२४ हो तोचि शिष्यु कि कोण हे विषयाचें प्रमाण दिता
आनि हें उत्तर बरैता आनि आमि समजताति कि ताजेलें
२५ प्रमाण खरं आस । यिशुन केलेलें आनि१ सावार कार्यंयि
आस तें सगळें तरी बरैागु वता जाल्यारि हांव समजतां
कि जगत आपुण तें सगळें बरैलेलिं पुस्तक दवोवां सकूचे
नांवि । आमिन ।—

# प्रेरितांचीं कार्यें।

## १ प्रथम पर्व ।—

१ हे तिओफिलस जिणु आपणा मनोनीत प्रेरितांकें
ज्ञागि धर्म्मात्माकव्यान आज्ञा दित्तचि कोण दिसा वो
२ वोयरि घेउनु गेलो आसिको हेदुसुपरांतु केलार कोर्यां
आनि सिकौचा ताणे आरंबु केलो ते सगळ्या विषयांतु
३ तो पितंम पुस्तक हांवे रचिलांआस। तो ते प्रेरितांकव्यान
चाळिस दिसपरांतु दृश्य जाउनु आनि देवाके राज्याके
विषयांतु उत्तं म्होणु सावार सत्य प्रमाण दिउनु आपणाले
४ मरणाले मागिरि आपणाक तांचे जागि दाकैलो। आनि
तांचे भर्सं खासरूभा जाउनु यिरुशालम सोणु वचनासि
आज्ञा तांका दिलि तरि म्हळें कि आंनालो कोण कोणु
५ तुंमि मजे जागि आयकिला लागेलि वाट पळैया। तेंयिकें
योहनान उदकांतु बुडुकुलि दिवैलि सथि तरि थोडे दिसां
मागिरि तुंमि धर्म्मात्मांतु बुडुकुलि दिवैले जाके जाण्यानि।
६ ताजे मागिरि ते येकडे जाउनु तावा हें उत्तर निम्गिलें कि
हे प्रभु तुं यित्तें यिस्रायलाक राज्य आत्तं नेंवान दिसि।
७ ताणे तांकां म्हळें कि आंनान कोण वेळ आनि फुर्सति वेळु
आपणाले आज्ञेंतु दवर्ता तो समजुचें तुमका अधिकार
८ ना। तरि धर्म्मात्मा तुमचेरि बेत्तचि तुंमि सामर्थ्य पाव्
आति ताजेन यिरुशालम आनि यिज्रदाह् सगळे देशां
तु आनि समरियांतु आनि जगवाले पर्यंतपर्यंतु तुंमि

९ मेगेले साक्षिदार आसाति । ते चोयत१ वो हें उत्तर
सांगुनु वोयरि घेउनु गेलो आनि तांगेले दृष्टिंथाकुनु येक
१० मोडान ताका घेतलो । तागेले वोयले वोचे वेळा ते
सर्गाले दिक्षा सम चोयतार२ चोयि दोगां घवें आंगरलें न्हे
११ स्लिले वांचे लागि थिवि रावले । वानि म्हळें कि हे
गालिलीले मनुष्यांनो तुंमि सर्गाले दिक्षा चोयत थित्या
थिवि रावल्याति को थिशु कि कोण तुमगेले दिक्षाथान
सर्गांतु घेउनु गेलास तुंमि कसि वागेले सर्गाले वाचें पळे
वास तसिचि तो नेवान येत ।
१२ ताजे मागिरि ते जैतानाले गुड्डारिशाकुनु यिरुशालमां
तु नेवान गेले वो गुडो यिरुशालमाथाकुनु येक शाबत दि
१३ सा वाट आस । आनि ते शहरांतु रिगुनु वोयले येका
कुडांतु गेल वे जाग्यारि पितरु आनि यकाकुबु आनि यो
हनु आनि आंद्रु आनि फिलिफु आनि तमासु आनि
बार्तोलमि आनि मातिउ आनि आल्फीलो पुतु यकाकुब
आनि शिमोन जिलोतिस आनि यकाकुबालो भाउ यिउ
१४ दाह आसिल । वायलो आनि यिशुलि आंमा मारिया
आनि तागेले भावाले असिं ते सगळे येका मनान प्रार्थना
आनि लालेप्र करित रावले ।
१५ शिष्याले नांव येकंड वीनुं येक्सें वीसेक आसिलीं वेद
१६ ना तांगेले भित्तरि पितरु उठाउनु उलैलो । कि हे
मनुष्य भावांनो कोण यिशुक धर्लेलों तांगेलि वाट दावे
सलो यिउदाशाले विषयांतु कोण पुस्तक दाउदाले तोण्डां
तुल्यान धर्म्मात्मान पिर्तम म्हळेलें तें पुस्तक पुर्तें जावचें
१७ आवश्य आसिले । तेंथिंतें तो आम्गेले असिं मोजुनु गेलो
१८ लो आनि हे सेवालो अधिकार पावलो । हे मनुष्यान
अयथार्थाले कूलि दिउनु माहो मोला घेतलो ताजे मागिरि
उमति वोडान मातियेरि पोडु मद्दें थिंदुनु गेलें आनि

१९ ताजेलों सगळि आंतं वासेलि । यिरुशालमाचे रावतले
सगळे लोकांले कागि हें कार्य समजुं आयलें ताजेन सांगले
भासेंतु ते गत्याचें नांव हकेलदमा म्होणु वत्ता अर्थात रग
२० ताचो गाद्दो । गीताले पुस्तकांतु हें उत्तरयि बरैलाँ
आस कि ताजेजे रावचो जागो रान आयन कोणे तांतु ना
२१ रावत आनि ताजेलें पद आनि कोणं घेत । हें खा
तिरि दोण दिसा तो आमचे वांगचान घेउनु गेलोलो यो
हनाचि बुडुकुजि दिवेल्यान तेदुसुपरांतु कितले दिस प्रभु
२२ यिशुन आमगेजे भितरि येवप वोचप केलें । कोणतो
यांमगेजे भसिं जाले तें मनुष्यांजे येवल्याक आम्गेजे भसिं
२३ ताजेजे नेवान उठपाचि साक्षि कोर्चें आवश्य यस । हे
खा तिर युसुफ कि कोणालें नांव बारसबा म्हणताति आनि
कणालें प्रसिद्ध नांव यस्तस आनि मतीया हे दोगांक तानि
२४ समक्ष केलें । तावळि तानि प्रार्थना कोनुं म्हळें कि हे
सगळ्यालें मन समजतलो यिशुव हे दोगांतु तुवें कोणाक
पसंत केला तें कळेया कि तो वि सेवा आनि प्रेरितपणालो
२५ भागु घेत । कि कसल्यान आपणा जाग्यारि वोचे खातिर
२६ यिजुदासान अपराद् कोनुं भ्रष्ट जा । ताजे मधिरि तानि
सोडति घालि आनि चीटि मातीयाजे वेयरि पायलि
ताजेन तो यिकरा प्रेरितांजे भसिं मेळउनु गेलो ।—

२ द्वितीय पर्व्व ।—पेंतेकस्त दिसु पुर्तो उपस्थित जाल्यान
ते सगळे येक मन जाउनु येक जाग्यारि वासासभा जाले ।
२ तेदना सर्गारिथाकुनु आयलें होड वाऱ्यावारि शब्दु येक
वेळे ग्रायलो आनि कोण घरांतु ते रिगिले तें घर ताजेन
३ भोनुं गेलें । तावळि उज्यामणकें भेत्तांक्षि जीव पोडयांतु
४ आयलि आनि तरतर्‍ां मनुष्याचेरि बसलि । ताजेन तें

सगळे धर्मात्मान पुर्ते जाले आनि आत्मान जसि तांकां
५ म्हाण्चा दिले तसि आनि उत्तर उलैचा लागले । तेद्नां
स्वर्गाले तोगुंले तरतरा देशान पुन्यवान यिउदि यिरुशाल
६ मांतु राब्ले। हें काय प्रकाणु जात्तचि समोउ येक
जाग्यारि धाउनु आय्लो आनि तरतरां मनुष्यु आपापणा
७ भाषेन उलैतले तांकां आय्किल्यान घाबरेले । हें खातिर
ते सगळे आश्चर्य समजुनु आनि चमत्कृत जाउनु परस्पर
उलैले कि चोया कोण उत्तर म्हणतानि ते सगळे यितें
८ गालिलीकार नैं। जाल्यरि आमि आपणार जन्मदेशा
९ ले भाषेन तांगेलें उत्तर कसि आय्कतांवि। पार्थी आनि
मादि आनि आयलमी आनि मेसोपोतामिया आनि
यिउदाह देश आनि काप्पदोकिया आनि पंतस आनि
१० आसिया आनि फ्रिगिया आनि पंफिलिया आनि मिसर
आनि किरीणिले लागचे लिबिया देशाले वांटा चेर देशा
ले राबतले आनि यें चे परदेश भावतले रुमी आनि यिउ
११ दी आनि यिउदी मतधरी । आनि क्रेती आनि आरबी
आमगेले आपणा भाषेन देवालें होड कार्य म्हणता आमि
१२ आय्कतांवि तांगेलें उत्तर हाजेन हाजो घर्षु यितें हें
उत्तर परस्पर म्हणत ते सगळे आश्चर्य आनि संदेशी जाले ।
१३ आनि कोणर चेष्टा कोनुं म्हळें कि ते मनुष्यु नवे दराचे
रसान सुरपीरे आसति ।—

१४ तरि यिश्का शिष्याले भसिं पितरान ह्वि राबुनु चो
ड्डान तांकां म्हळें कि हे यिउदो लोकानो आनि यिरुशा
लमाले राबतले तुमि हें समजा आनि मेगेलें उत्तर
१५ आय्का । वेंयितें मात्र येक पार दिसु जाल्यान तुमि
१६ तसि मनांतु हाडतानि तसि हे सुरपीरे नांति । तरि
हें तें कि योएल आचार्यान म्हळें कि यिउह म्हणता
१७ कि पड्डे दिसा असि जायत कि हांव आपणा आत्मा

सकळे प्राण्यांचेरि रकैन ताञेन तुमगेले पुत धुवे। आपाप्या
नीं उत्तर म्हणतित तुमगेले तनाकुटे। लोकु दर्शण चोय्
तित आनि तुमगेले म्हांतरे लोकुयि सोपन पळैतिय।
१८ आनि मेगेले चाकर आनि चोडुनांचेरि ते दिसांतु हांव
आपणा आत्मा रकैन ताञेन ते आप्याप्यालें उत्तर म्हण्
१९ तित। आनि हांव वायरि सगांशिथाकुनु लक्षण दाकैन
आनि तोळु भुंयिचेन गुतु दाकैन अर्थात रगत आनि उजो
२० आनि धुवांवारि मेघु। आनि यिजुवालें वो होड आनि
अद्भूत दिसाले पिर्तेम सूर्य काळोकु आयत आनि चंद्रु
२१ रगत जाउनु वचत। तरि असि आयत कि कोण कोणे
२२ यिजुवाले नांवान प्राथना करिव वो त्राण पावत। हे
यिस्रएलो मनुष्यांनो हें उत्तर आयका देवान कोण
आश्चर्य आनि अद्भुत कार्य आनि लक्षण तागेलें मारपवि
तुमगेले भितरि केलें कसि तुंमियि समजा हे सगळ्यांचांचे
देवाले मनोनित चङ्कियरामर्शान यिशु नाजरेणु आस।
२३ तो देवाले आनि आगम समजल्यान वोपसिल्यान तुंमि
२४ घेउनु वद्द हातान क्रुशारि बांदुनु मार्नु उडैलो। देउ
मरणालें बांदप मेकोळनु कोणाक उबालोस तेंयितें तागेले
२५ ताजेन घेचें सामर्थ ना। दाउदान तागेले विषयांतु म्हळें
कि हांवे आपणा येदुर यिजुवाक नित्य समजलों आस
तो मेगेले उजवेदिकां आस कि हांव चलाय ना जायत।
२६ ते खातिर मजें मंन खुशी आनि मेगेलि जीब आनंद आस
२७ मेगेलें आंगयि भरवासान निदत। तेंयितें मेगेले आत्माक
तुं वोगुलें भुवनांतु सोडु वचसि ना तुं आपणालें धर्मि
२८ ष्टाक कुसड पणायि चोउचा दिसि ना। तुंवे माका
जीवनालि वाट दाकैल्यास तुं आपणा तोंड दाकैनु मेगेलें
२९ मंन खुशी ना भर्लें करिव। हे मनुष्य भावांनो दाउदु
पुरुषाले विषयांतु तुमकां माका विस्तारिले म्होणु दियात

कि तो मेलास आनि मसरांतु निदकराउनु गेलास आनि
तागेलि गोरि आम्गेले हांगा आजि परांतुयि आस।
३० तो आच्यारि आउनु आनि तागेले सिंहासनाचेरि बसुंचे
खातिर कि देउ तागेले विर्यालो पुतु खोष्टाक उबआयुत
देउ कि ताजे लागि हें उत्तर सोपुनु खाउनु म्हळांस ताजे
हें समजुनु आनि यिर्तेम समजक्ले आउनु खोष्टाचे नेंवान
३१ उठपाचे विषयांतु म्हळें कि तागेलो आत्मा तागुंचे भुरनांतु
सोंणुमेलो ना आनि तागेलें शेरीर कुसल्याक चोयचे ना।
३२ ते यिशुक देवान उठकरायला आस कि कोणेको साक्षि
३३ हांव आसें। तो देवाले उजव्या जबानुं गेलो आउनु
आनि आंनाले लाग्चान धर्मात्मा दामालो कौलु मेळनु हे
रकैलास कि कोण तुमि चोयसाति आनि आयकताति।
३४ दाउदु स्वर्गांतु उठायलो ना सयि तरि आपण म्हळें कि यि
३५ उंह मेगेले परमेश्वराक म्हळें कि केदोळु परांतु तुम्गेले वै
र्यांक तुम्गेले पायांपिटा हांव ना करिम तेदोळु परांतु
३६ मेगेले उजव्यान वैसो। हे खातिर यिश्रएलालो सम्
ळो वंशु निश्चयु आणावि कि तुमि केणाक कुशारि जोवसि
मालो देवान ते यिशुक प्रभु आनि खोष्टु हे दोगांक कै
३७ लास। तांनि हें उत्तर आयकुनु मनांतु तोप्पिल्ले जाले आनि
पितरू आनि आलिके प्रेरितांक म्हळें कि हे मनुष्या भावा
३८ आमि यिर्त्तें करु। पितरान तांकां म्हळें कि पश्चात्ताप
करा आनि पाप सुटुचे खातिर तरतरा मनुष्य यिशु
खोष्टाले नांवान बुबुलि दिवेल्तें आया ताजेन धर्मात्मा
३९ दान पावश्याति। तेंयिसें तो कौल तुम्गेरि आनि तुम्
गेले पुतांचेहि आनि कितुको लोकु धुर आस अर्थात
यिवढे आम्गेलो देउ कितुले लोकांक आपेत तागेलि
४० तेयरि आस। ताजे मागिरि हि वाय्ट वाट चमकत
ल्यांयाकुनु आपुणाक सुटै हें उत्तर आनि दुसरे रू असले

६ तांगेलें उन्नद मानसिलें । ताजेरि पितराम म्हळें कि मेगेलें रूप्यें आनि भांगार कांयि ना तरि मेगेलें कोण आस तें तुका दितां यिशु ख्रीष्ट नाजरेणाले नांवान उठा
७ चमक । ताजे मागिरि तांगेलो उजवो हातु धोनु ताणें ताका उठकरायलो ताजेन तांगेले पांयान आनि गांठिन
८ वांगि बळ पावलें । ताजेन तो उडि मानु यिवि रावलो आनि चमकलो आनि चमकतां२ आनि उडि मारित२ आनि देवालि स्तुति करित२ तांचि भर्सि देवळांतु रिगलो ।
९ तावळि सगळे लोकानि ताका भोंवतांना आनि देवालि
१० स्तुति करतांना पळेलो । आनि तांनि समजलें कि कोण् तो भीक मागचाक देवळाले सुंदर बांगलांतु बसिलो तोचि
हो आस ताजे मगिरि तांगेलें कोण जालें ताजेन ते फोड
११ आश्चर्य समजले आनि घाबरपणांतु भर्ले । कोणु घेंटो मनुष्यु तोग्ल कोानु गेलोलो तो मनुष्यान पितराक आनि योहनाक धर्ों तेदना सगळो लोकु आश्चर्य जाउनु घल मनाले बांवले सरवळेरि तांगेले लागि धाउनु आयले
१२ पितरान ते पाउनु लोकांक म्हळें कि हे यिश्ररएलो मनुष्यानो तुमि हाजेन आश्चर्य यित्यां समजतांति आनि आप्णाले पराक्रमान आवो धर्मान आमि हाका चमकैलो कसि आम्चेरि चोयते तसि आम्चेरि एक दृष्टिन यित्यां चोय्
१३ तांति । अबराहामु आनि यिसाकु आनि यकोबु ताले देवान आम्गेले पुरुषांले देवान आपणा पुतु यिशुलि माहात्मा केल्यास । कि कोणाक तुमि दुसन्याले हा तांतु सोपलो आनि पोंलातान कोण वेंळा ताका सुटप कोचें करार केलेलें तावळि ताका पोंलाताले येदुर नकप
१४ केलें । तरि तुमि ते धर्मी आनि सज्जन मनुष्याक नकप केलें आनि मागलें कि येकलो जीवसि मारलो
१५ तुम्गले लागि दिलो जायत । आनि आयुष्याले रायाक

मानुं उडैलो कि कोणाक देवान मरणांतुल्यान उठ् करा
१६ य्लो कोण विषयांतु आम साक्षि जाल्याति। आनि
तागेले नांवाचेरि विश्वासान तागेलें नांवान हे मनुष्याक
बलवंत केलास कि केणाक तुमि चोयताति आनि गुरति
ताति आनि ताजेन ते विश्वासान तुमि सगळ्यांले येदुर
१७ ताका हें पुर्तें सोक्त दिलांस। हे आविर आतां हे भावा
यांव समजतां कि तुमि आनि तुमगेले अध्यक्षांनी आज्ञा
१८ नान वें केलांस। तरि देवान आपणा सगळे आच्या
र्यांले तोंडान कोण उत्तर प्रकाश केलांस कि खीष्टु
१९ मरत ताणे हेंचि जोनसान पुर्तें केलांस। हाजेन
परामनन कर्या आनि मंन परिया कि सोत्ता समयु यिऊ
वाले नागचान वेदना येत आनि कोण वेळा तो यिशु
खीष्टाक धाडित कि कोणालें विषयांतु पिसैम तुमचे लागि
घोषणा कोनुं गेलें वेद्ना तुमगेले पाप मोचन आयत।
२० वैयिलें देवान कोण पुण्यवानु आच्यारि जगताले आरंभाले
२१ समयान आसिले ते सगळ्यांलें उत्तर सगळे वस्तुले कोण
नेरान यावस्था कोचें उत्तर म्हळांस कि वेळ वेद्ना येत
२२ तो वेळु परांतु स्वर्गांक ताका घेवचें आवश्य आस। मोश
हान पुरुषांले लागि म्हळें कि यिऊव तुमगेलो देउ
तुमगेले भावांतुल्यान मजे वारि येक आच्याराक तुमगेले
खातिर आवश्य उबजायत सगळे विषयांतु कोणर उत्तर
तो तुमकां म्हणत् ते सगळे विषयांतु तागेलें उत्तर आयका।
२३ कोण तरकरां मनुष्य ते आच्याच्यालें उत्तर आयक ना
२४ ताका आपणाले लोकांतुल्यान मानुं उडैचें लागत। शामु
यज इत्यादि कितुले आच्याचांनि म्हळांस ते सगळ्यांनि
२५ म्हळां आस कि हो दिसु आयत। तुमि आच्याचाले
चेरके आसति आनि तुगले चेरकांतु जगाले सगळो वंशु
आशिर्वादु पावकिज अबराहामाक हें उत्तर होंगु देवान

११ जाउनु यिवि थास । तुंमि परवरानि नकारो केलोलो
फातोर हो थास कि कोण मुख्याजो सदराह जाउनु
१२ गेलास । आनि कोणांचानरि त्राण ना तेंथिलें खगांले
तोगुं मनुष्यांले भितरि कसल्यांतु आम्गेलें त्राण जायूव
असि आनि कोणे नांव दिउनु गेले ना ।

१३ तानि पितरू आनि योहनाजें साहस चोउनु आनि ते
कि मुख आनि इतर लोकु हैंचय कळुनु आश्चर्य समझता
१४ आनि कळप केलें कि ते यिशूजे भक्तिं आसिले । ताजे
मागिरि तांगेले भितरि यिवि तो सोस्त आसो मनुष्याक
१५ चोउनु ते कांयि दुसरयि म्होण्चा सकले नांति । तरि
तांका सभेजे भायर वोचाक म्होणु तानि परस्परे परामर्शु
१६ कोनुं म्हळें । कि आमि हे मनुष्याक यित्ते कोरूं तेंथिलें
यिरूशालमवाली सगळ्यांले प्रत्यक्ष आस कि तांचान येक
प्रकाण आश्चर्य कार्य कोनुं गेलो आस आमियि ताका
१७ नकय कोचां सक्कनांति । तरि तो लोकांतु आनि ना
विख्याताले खातिर आमि दंडणा दिव्चे पां कोनु कोनुं
तडैत कि हे वेळांथाकुनु हे नांवान कोणाक म्हणत ।
१८ ताजे मागिरि तांकां आपोनु तानि यिशुले नांवान कांयि
१९ सांगचाक जावो सिकौचाक तडैलें । तरि पितरू आनि
योहनान जाप दिउनु तांका म्हळें कि देवाले आज्ञेन तुम्
गेलि आज्ञा आयकुचें देवाले दृष्टंतु उचित कि नै हें तुंमि
२० विचारू कर्या । तेंथिलें कोण आनि पळैलांस आनि
आयकिलांस तागेलें ना सांगचें आमि कोचां सकनांति ।
२१ कोणुले मनुष्याचेरि हें वास कोचें आश्चर्य कार्य कोनुं
गेलें ते मनुष्याले प्रायि चाळिस वर्षांचाके चडाव आसि
२२ लि । हे खातिर लोकांकयाम तांका दंडणा दिव्चे योग्य
कांयि मेळनात्तिलें तानि तांका दंडणा दिव्चाक आनि

कैलु कोनुं सोळो तेंयितें कोण कार्य कोनुं गेलेश तांजेन सगळ लोकानि देवालि महिमा प्रकाश केलि ।

२३ ते सुटुनु आपुणा सांगातिचार लोकाले लागि गेले आनि प्रधान याजकांनि आनि प्राचिन लोकानि तांकां कोण

२४ सांगिल्ले ते म्हळें । तानि तें आयकुनु येक मन्न जाउनु देवाले लागि होड शब्दान म्हळें कि हे प्रभु तुं देउ आस कि कोणे स्वर्गु आनि भुंयि आनि समुद्रु आनि तांचांतु

२५ कितुले आसति हे सगळ्यांक उबजायले । कि कोणे आपणा सेवकु दाउदाले उत्रान हें उत्तर म्हळें कि जाति यित्ते खातिर कोपले आनि कसले खातिर लोकानि तुच्छ

२६ चिंता केलि । जगताले राय यिवि राबले आनि अध्यक्ष यिउद्द आनि तागेलो अभिषेकु केल्लो जाउनु वैरपणांतु

२७ येकमनी जाले । तेंयितें हें वड आस कि तुगेलो धर्मी पुतु यिशु कि कोणाक तुंवे अभिषेकु केलास तागेले दुसमनंतु तुगेले हात आनि तुगेलि निरोपीत कोण जाव्चो

२८ जोलसु पोर्वंम स्थिर केलेलें तें कार्य कोर्चाक हेरोदु आनि पन्तियस पिलातु आनि देशाले मनुष्य आनि यिस्रएलो

२९ लोकु सैत खासभा जालो । आत्तं हे यिउद्द तांगेलो

३० कोलु चायि आनि तोस्त कोर्चाक आपुणा हातु वाडेल्यान आनि लक्षण आनि आश्चर्य कार्य तुगेलो धर्मी पुतु यिशुले नांवान केल्यान आपणा चाकरांक निर्भय जाउनु उत्तर म्होंणुचा दिया ।

३१ त प्रार्थना कर्तांर तांगेले सभाले जागे हालोनु गेले आनि ते सगळे धर्मात्मान पुर्ते जाउनु देवालें उत्तर निर्भयान उलैले ।

३२ कोणे विश्वासु केलो तांगेलो समोड येक मन्न आनि येकु जीउ आसिलो आनि कोणे आपुणालें धन आपुणालें मैं म्हळें तेंयितें सगळे वस्तांतु सगळें समसमान जाले ।

३३ आनि प्रेरितांनि होड पराक्रमान प्रभु यिशुचे मेलाम उठा
वचें प्रमाण दिलें आनि सगळ्यांचे वोयरि होडि दया
३४ जालि । तांगेलो कोणी दरिद्रिय ना आसिलो तेंथियें
कोणाले भुंयितु आनि घरांतु अधिकार आसिलो तांनि
तो विकुनु मोल हाणु प्रेरितांलि पांयांले लागि दवर्लें ।
३५ ताजे मागिरि वरतरां मनुष्याले अणुवत्या मणके तरतरा
३६ मनुष्याक वांटो केलुं दिउनु गेलो । आनि योसेस कि
कोणाक प्रेरितांनि वार्णबा केलुं म्हळें अर्थात सान्तनिलो
३७ पुतु कप्रस देशी रोकु लेवु ताचे आपणाले अधिकारालि
भुंयि विकलि आनि मोल हाणु प्रेरितांले पायारि दवर्लें ।

५ पंचम पर्व ।—तरि खननीयाइ नांवाचे येकल्यान
आपणालि बायल सफीराक भसि घेउनु आपणालो अधि
२ कार विकलो । आनि आपणालि बायल समजुनयि
तागेलें मोल कांयि निपैलें ताजे मागिरि मोलालें कांयि
३ हाणु प्रेरितांले पायांले लागि दवर्लें । ताजेन पितरान
म्हळें कि हे खननीयाइ धर्मंलाक फटि उत्तर सांगचाक
आनि भुंयिलें कांयि मोल निपैचाक देवचार तुगेलें मंन
४ यित्ति खातिर पुर्तें केलें । तो अधिकार केदना आसिलो
तेदना यितें तो तुगेले निआलें ना आसिलें आनि विकतचि
यितें तें मोल तुगेले आदिन ना आसिलें जाल्यारि यिते
खातिर मनांतु हो विचारु केलास् तुवें मनुष्याक फटि
५ उत्तर म्हळें ना तरि देवाक । खननीयाहान हें उत्तर
आयकुनु पेंगु ओउ सोलो ताजेन कितुले लोकांनि हें
६ आयकिलें ले सगळ्यांक होड भय जालें । आनि तर्नाकु
व्यांनि उठाउनु आनि ताका आंगवल्यान वेडाउनु आनि
७ भायर घेउनु वोघुनु कबरांतु निदकरायलो । घडि
तिनेकी मागिरि तागेलि बायल हें सगळें समजनातिलें

८ भितरि आयलि । ते खातिर पितरान तिका जाप दिलि कि माका सांगा तुमि यिते शेचि मोलांतु भागो विकलास
९ तिणे ताका म्हळें कि खरें शेचि मोलांतु । पितरान तिका म्हळें हें यिनें कि तुमि यिशराले आत्मालि परिक्षा कोचांक मंन मेळेलास चोयि कोणा तुगेले घामणाक कबरांतु निदकरायलास तांगेले पांय बागलाले लागो आसति
१० आनि ते तुकायि घेउनु वोतित । ताजेन सदा तागेले पांयाले लागि पोणु तिणे जीउ सोळो आनि तनांकुठे लोकानि भितुनु तिका मेलि चोयुनि ताजे मागिरि तिका वांवनु तिगेले घामणाले लागि कबरांतु निदकरायलि ।
११ हाजेन सगळे मंडळिचेरि आनि आनिकेक कितुले लोकानि हें वर्तमान आयकुनाक पावले तांगेलें वोयरियि शेड भय पळें ।—
१२ प्रेरितांलि हातान लोकांले भितरि साबार लक्षण आनि आश्चर्य कार्य कोनुं गेले ते सगळे यंक मनांतु शलम
१३ नाले सरवळेंतु राबले । आनिक लोकांतु कोणे सा हसिकु ना आसिलो कि तांगेले सोबति मेळे तरि लोकानि
१४ तांगेलि प्रशंसा केलि । आनि बायल दादलो हे दोनिले
१५ साबारक शरनागत प्रभुले भसिं चडाव कोनुं गेलें ताजेन तानि रोग्याक खांतुळ आनि रजायेरि निदकराउनु हांणु वाटेरि दवलें कि पितर ते वाटेन वताना तागेलि
१६ सावळि तागेले कोणाचेरि पळि । चारिदिकां शहरां थाकुनु शेडु समेतु रोग्याक आनि अपवित्र आत्मा लागि ल्यांक भसिं हांणु यिरुशलमांतु आयले ताजेन ते सगळे सोस्त कोनुं गेले ।
१७ ताजे मागिरि प्रधान याजकु आनि तागेले सांगातिकार
१८ सादकी मतानुसरण लोक कोपान भोनुं उठायले । आनि
१९ प्रेरितांक धोनुं इंबर लोकांले मान्याघरांतु दवलें । तरि

पावचे योग्य झाले म्हणून आनंद कोर्नु आपणाचे सभेचे
४२ येदुचान गेले । आनि देवळांतु आनि घरोघर तानि
दिसदिसा शिकोवचा आनि यिशु ख्रीष्टाले विषयांतु घोषणा
दिव्चें सोळे ना ।—

६ षष्ठ पर्व्व ।—ते देळा शिष्य होड वाडिल्यान यब
रीयांले लागि ग्रीकांले किरकिर झाले तेंयिते नित्य दाना
२ चे वेळा तांगेले रांडांलि घवडेला केलि । ते खातिर
बारा शिष्यांनि शिष्यांले समोहाक आपोनु म्हळें कि हें
उचित नै कि आमि देवाचें उत्तर सोडु मेजाले कार्य
३ कोरूं । पे खातिर हे भावांनो तुम्यांति आनि धर्म्मा
त्मान आनि ज्ञानान पुर्ते सात मनुष्यांक आपणांतुल्यान
पसंत कोर्नु घे कि कोणाक आमि हे कार्यांतु नेमक को
४ र्पां सकुं । तरि आमि प्रार्थना आनि उत्तर घोषणा
५ केचें सेवेंतु नित्य नेमसिंतिव । हें उत्तर सगळ्यांले
आनंद दित्तले जालें ताजे मागिरि धर्म्मात्मा आनि भक्तिन
पुर्तो स्तिफानस नांवाचो येकलो आनि फिलिपाक आनि
प्रखोरसाक आनि निकानराक आनि टिमोनाक आनि
पारमेनासाक आनि निखलास नांवाचो आंतिओखाचो
६ येकु विश्वासु कर्त्तलाक तानि पसंत केले । आनि प्रेरितां
ले लागि हाणु तानि प्रार्थना कोर्नु तांचेरि हातु दवलें ।
७ देवाचें उत्तर विख्यातलें आनि यिरुशालमांतु शिष्यांलि
संख्या साबार वाडलि आनि साबार याजकांनि विश्वा
साले आदिन जालो ।
८ आनि स्तिफानसान विश्वासान आनि पराक्रमान पुर्तो
आउनु लोकांले येदुर होड लक्षण आनि आश्चर्य कार्य
९ केलें । तेदना लिबर्तीन आनि किरीणीचे आनि आलेक्
सांद्रियाचे आनि किलिकियाचे आनि आसियाचे सिन

गगाचे कितलेक लोकानि उठाडनु स्तिफानचाले भसिं
१० वादप्रविशादु केला। तरि कोण ज्ञान आनि प्रभावान
११ ताण म्हळें तो तडसु नश जाउनु तानि कितलेक लोकांक
लांचु दाकोनु आयेले ते लोकानि म्हळें कि मोशेचाले आनि
देवाले दुसमनेंतु देवनिंदालें उत्तर ताका म्हणताना आमि
१२ आयकिलें। आनि तानि लोकांले आनि प्राचिन लोकां
लें आनि अध्यापकांलें मंन खवदळायलें आनि ताजे लागि
१३ येउनु ताका धर्लो आनि सभेंतु हाळो। आनि फटि
साक्षी उबाल्यों कि कोणे म्हळें कि हो पवित्र जागा आनि
शास्त्राचे दुस्मनेंतु हो मनुष्य देवनिदालें उत्तर म्हणचाक
१४ सोंपा तेंथिलें तागेले हें उत्तर आमि आयकिलांस कि हो
यिशु नाजरेथु हे जागे नाश करित आनि मोश यवस्ता
मोशेहान आमकां दिल्यास ते सगळ्यांचे दुसरा जीनसु
१५ करित। देदना कोण सगळे मनुष्य सभांत आसिले
तानि तागेले वायरि येकदष्टिन पोउनु तागेलें तोंड दुवाचे
तोंडा वारि पळेलें।—

७ सप्तम पर्व्व।—तावळि प्रधान याजकान म्हळें कि
२ हें सगळें यितें असि आस। ताजेरि ताणे म्हळें कि
हे मनुष्यांनो आनि भावांनो आनि बापांनो आयका आमगे
ले म्हाजगडे अबराहामाले मेसपोतामियांतु रावचे वेळा
तागेले खारानांतु रावचे पिंरंम तेजमय देवान ताका
३ दर्शण दिलें। आनि सांगलें कि तुं आपणालो देशु
आनि कुटुंबाक सोंणु कोण देशु हांव तुका दाकैन ते देशीं
४ तु वोच। तावळि तो काल्दीचो देशु सोंणु खारानांतु
रावलो तावळि तागेलो बापुं मर्तंचि तो जागो सोंणु हे
५ देशांतु आयलो कि कसल्यांतु तुमि आत्तं रावताति। ताणे
तागेले भितरि कांयि अधिकार ताका दिलो ना येक पाउल

तुमि नइ तरि कोतु केलो कि अधिकाराले खातिर ताका
वा दिल आनि तागेलो कोणे पुतु ना आस्तानायि कि ताजे
६ मागिरि तागेले पुतांक दिन। देवान हेवंयि सांगलें कि ताजे
लो वंशु अन्यदेशांतु रावतित आनि कि तांतु ते तांका गुला
७ म करतित आनि चारिसें वर्सं परांतु दुःख दितित। देवान
आनिकै म्हळें कि ताजे मागिरि कोणा देशा मनुष्यानीं पेस
घरांतु ते रावतित ते जातिक हांव दंडण दिन ताजे मागिरि
८ ते भायर येउनु हे जाग्यांतु मेगेलि सेवा करितित। तानि
सुनतालि बंदेस्तियि ताका दिलि ताजे मागिरि अब्राहा
मान यिसहाकाक उपजायलो आनि आठो दिसा लागिलें
सुनत केलें ताजे मागिरि यिसहाकान यआकुबाक उपजाय
९ लो आनि यआकुबान बारा पुरुषांक उपजायले। पुरु
षांनि देषान पूर्ण जाउनु युसफाक मिसरांतु वकल्यांक
१० लागि विकलो तरि देउ ताजे भर्सिं जालो। आनि
तागेले सगळे दुःखांतुल्यान ताका सुटैलो आनि मिसराचो
राजु फरेओ ह्याले येदुर ताका दया आनि बुद्धि दिलि ते
खातिर ताणे मिसर देशालो आनि आपणाले घरालो
११ सगळो येजमानु ताका केलो। ताजे मागिरि
मिसराले आनि कनआनाले सगळे देशांतु दुकाळु आनि
थोडु कष्ट जालो ते निमित्तीं आमगेले पितृलोकांनि खाव्चो
१२ वस्तु पावलो ना। तरि मिसरांतु सस्य आस यआकुबान हें
आइकुनु पैलेंम आमगेले पितृलोकांक धाडले ताजे मागिरि
दुसर वेळा युसफु आपणाले भावांले लागि गुर्तलुनु गेलो
१३ आनि युसफाचो कुटंब फरओहाले लागि गुर्तले गेले।
१४ ताजे मागिरि युसफान मनुष्य धाडुनु आपणा बापु यआकु
बाक आनि तागेलें कुटंब पंचातरि जणांक आपणाले
१५ जागीं आपैले। तेन्ना यआकुबु मिसरांतु गेला आनि हो

१६ आनि आम्गेले पितळोकु थैं सेलो । ताजे मागिरि तै शुकेमांतु वांवनु गेल्ले आनि न कोणा कबर शेकेमाचे लागि खमोराले पुतांले लागथान अबराहामान अय दिउनु मों
१७ ला घलाल्ल ते कबरांतु पुनं गेले । तरि अब्राहामालें लागि देवान सांगुलु खाउनु कोण कौलु केलोलो तो कौलु
१८ पुरा जेचीं वेळु केद्ना लागि आयलो । सेद्ना केदोळु परांतु आनि थेंतु रांनु मिसरांतु वाढलो कि कोणे युसुफाक मुर्तेला ना बुद्धिन व्यवहार केले परांतु लोकु तावळि सारा
१९ ह आयदा लागलो । ताणि आम्गेले कुटुंबाचेरि वायट आनि लोक व कष्टपण आम्गेले पितलोकांचेरि केलें ताजेन तांनि आपणाले चल्डुवांक कांणु दिलें कि ते वांचनासि ।
२० ते वेळा मोयस् उजन्ला आनि साबार चंदु आसिलो आनि आपणाले आनाले घरांतु तिनि मास परांतु पोसप
२१ आलो । ताजे मागिरि भायर उडैतचि फरोव्हाहालें
२२ धुवेन ताका घांनु आपणालो पुतु कोनुं पोषलो । आनि मिसरी लोकालें कोण सग्ळि विद्या ताजांतु विद्यवानु आनि उत्तर आनि वेवहान मोयस् विद्यानु जालोलो ।
२३ ताजे मागिरि ताजेली प्रायि चाळिस वर्सांनि जात्तचि ता जे आपणालो भांतु यिस्त्रएलाले पुताक चोवचे खातिर
२४ वोचाक ताजेले मनांतु आयलें । तावळि तांगेले येकल्याक हिंसिताक चोउनु ताणि ताजेलो उपकारु केलो आनि ते हिंसी मनुष्यालें हगें घेउनु ते मिसरकाराक मानुं उडैलो ।
२५ तेंदिसें ताजेमनांतु चाळें कि तागेले भाव समजविन कि देउ ताजेले हातान तांकां सुटैत तरि तानि तें समजलें ना ।
२६ हेर दिसा तांगेले भागड्याले वेळा तो सिद्ध जाउनु तांकां मेळोपाक हक्केउनु उलैलो कि हे मनुष्या तुंमि भाव आसति
२७ हिंसा परस्पर यित्या कर्तालि । तरि कोणे आपणाले शेजाऱ्यालि हिंसा केलि ते मनुष्यान मोयसाक गालोटि

तुमकां भावां मद्यांन तुमचे खातिर उबजायत ताजेर्गें उत्तर
३७ आयका। कोण दुतान शीनइ पर्वतारि ताजे भास उत्तर सांगले ते दुताले लागि रानाचे मंडळींतु कोण सांगलें आनि आमगेले पितृलोकाले भसिंधि आसिलो आनि कोणे आमकां दिवचे खातिर तो जीवन दित्तलें उत्तर पावले तें
३९ हें आस। कोणाक आमगेले पुरुषांनि मानुसुपा इच्छिलें ना तरि आपणाले लागथान ताका लकेलो आनि मनसनां
४० तु मिसरांतु वेंवान गेले। आनि आहरोणाक म्हळें कि आमचे खातिर देवांक करिं कि कोण आमगेले मुकारिं वचत तेंयित्तें कोण मोशेहान आमकां मिसरांधाकुनु घेउनु
४१ आयिल्लो ताका यित्तें जालें तें आम्मि समझनांति। तेद्ना तानि येक वासरूं केलें आनि तें मुर्तिले लागि उत्सर्ग केलें आनि आपणाले हाताजे केल्ले कार्य्येरि खुसि केलि।
४२ तावळि देउ पर्तलो आनि आकाशांले सैन्याक पूजा कोर्चें खातिर तांकां सोळें। कसि आचार्य्यांले पुस्तकांतु बरैलांस कि हे यिश्रएलाले वंशानो तुम्मि चाळिस वर्सांपरांतु आहुति आनि बलिदानं रानांतु मजे लागि दिलांस सयि।
४३ तरि तुम्मि पूजा कोर्चें खातिर कोण मूर्त्तिं केलि कोण मोलक तागेलें गुडार आनि तुमगेलो देउ रेफानालें नक्षत्रयि तुम्मि घेतलां आस आनि हांव तुमकां बाबेलाले तेदिका
४४ घेउनु वचन। साक्षि गुडार आमगेले पुरुषांले लागि रानां तु आसिलें मोशेहाक ताका म्हांगु कसि देवान आज्ञा दिलेलि कि ताणे कोणत नमुनो चोयिलो ताजे मणके तें गुडार
४५ कर्रो। कोण गुडाराक माक्षि येतले आमगेले पितृलोकांनि यिहोशुआले लागि दुसर देशकारांले अधिकारांतु हाडलो कि कोणांक देवान दाउदाजे समयुपरांतु आमगेले
४६ पुरुषांले येदुचेन वांगु दिलो। कि कोणे यकोबाजे देवा लें संनिदान दया पावलो आनि ताजे खातिर गुडाराले

तो निद्देउनु गेलो । तेदना पाउल ताजेले जीवसि मारें जाले मतानुसार केलें ।—

८ अष्टम पर्व्व ।— तावळि यिरुषालमाले मंडळीचेरि थोड वेरयण जालें ताजेन प्रेरित संता यिहुदाच् आनि
२ शमरोण देशांतु सगळे आडुादुडु जाले । आनि सज्जन मनु
ष्यानि स्तफानलागिं कबर दिवपाक घेउनु गेले आनि
३ ताजे खातिर सावार रळे । तरि पाउलान घरं वेचुनु
आनि दादलो आनि बायलेक बलात्कार कोरनु बंद कोरनु मं
४ डलिलें घोड पाड केलें । तरि कोण आडुादुडु जालेले ते
उत्तर घोषणा करिवर सर्व्वत्र भोंवले ।—
५ तेद्ना फिलिप्पु शमरोण शहरांतु वेचुन् तांचे येदुर खी
६ ष्टाक घोषणा केलें । ताजेन कोण आश्चर्य कार्य ताणे केलें
लोकांनि तें कार्य चोउनु आनि उत्तर आयकुनु येक्मनांतु
७ फिलिपाचें उत्तर मानसिलें । तेंयितें सावार भूत लागि
ल्यांघांकुनु अपवित्र आत्मा किंचुनु भायर सर्रो आनि
८ सावार पांगळे आनि घोंटे लोक वास कोरनु गेले । ताजेन
९ ते शहरांतु सावार आनंदु जालो । तरि शीमोन नांवा
लो येकलो थैं आसिलो कि कोणे पितंम ते शहरांतु डायि
नाले कार्य केलेलें आनि आपणाक कोणे महापुरुषु कोरनु
१० शमरोणाले लोकांक भुलेले । हा मनुष्यु देवालें थोर सा
मर्थ्य हें उत्तर म्हाणु सान थोड सगळ लोकांनि ताका मान
११ सिलो । तानि ताका मानसिलो तेंयितें सावार दिस ताणे
आपणाले डायिनाले प्रयोगान तागेलें मन मोहित केलेलें ।
१२ तरि देवालें राज्य आनि यिषु खीष्टालें नांवाले विषयांतु
फिलिपान केद्ना उत्तर घोषणा केलें तेद्ना तानि तागेलें
ते उत्राचेरि विश्वासु कोरनु दादले आनि बायलो बुडुकुलि
१३ दिवेले जाले । तावळि शीमोनान आपणे विश्वासु केलो

आनि बुडकुलि दिवैल्लो जालो जाउनु फिलिपाले लागि राव्लो आनि कोणआश्चर्य कार्य आनि लक्षण प्रकाश् कोनुं गेलें तें सगळे पोउनु आश्चर्य समजलें ।

१४ यरुसालेमांतुले प्रेरितानि देवाले उत्तर घेतिलें यिरुशालमाले राबतलि प्रेरितानि तें वर्तमान मेळनु पितराक आनि यो १५ हनाक तांचे लागि धाडले। तानि थें पाउनु प्राथना १६ केलि कि ते धर्म्मात्माक पावतिलि । तें थितें तेदोळु परांतु तांका कोणाचरिथि तो पळो ना मात्र ते प्रभु १७ यिशुले नांवान बुडकुलि दिवैले जालेले । तावळि तांचेरि तानि हात दिलो आनि तानि धर्म्मात्मा पावले ।
१८ सेदना शीमोनान पळेलें कि प्रेरिता हात दिल्यान् धर्म्मा त्मा दिउनु गेलो सेदना तांचे लागि रुपैर्या हाडो आनि १९ म्हळें । कि हें सामर्थ्य माका दि कि हांवे कोण कोणे मनुष्याले वोरि हात दिल्यान तो धर्म्मात्मा पावव ।
२० तरि पितरान ताका म्हळें कि तुजे भरि तुजेले रुपैयालो सर्व्वनाश् जावो तेंथितें तुंवे समजलांस कि देवालो दि २१ लालो वस्तु रुपैयानि क्रया घेउनु वोचा सकत । हे विष यांतु तुजेलो अडिकार ना वांटोथि ना तेंथितें देवाले ये २२ दुर तुजेलें मन सम ना हे खातिर तुजेले ते पापान परामन्न कर आनि देवाले लागि प्रार्थना करि कि तुजले मनाले २३ मंदेशाले माय कोणै ओनसान जाव्चा सकत । तेंथितें हांव समजुं पावतां कि तुं पित्ताले कोडसरोंतु आनि कथ २४ पापिंपणाले बंदनांतु आस । तावळि शीमोनान जाप दि उनु म्हळें कि तुंनि मजे खातिर प्रभुजे लागि प्रार्थना कर्या कि तुम्गेलें हें उत्तर मजेरि पंणाति । —
२५ हाजे मागिरि तानि आपण लि साक्ष्ति दिउनु आनि देवा लिं उत्तर घोपण कोनुं यिरुशालमांतु वेरान गेले आनि शम रोणियांले सावार गावांतु मंगळ समाचार घोपण केलो ।

३७ दिवेले जावचें यित्तें तडसैलास । फिलिपान म्हळें कि तरीं तुं आप्णाले सगळे मनान विश्वासु करिं जाल्यारि जाव्चा सकत ताणे जाप दिउनु म्हळें हांव विश्वासु कर्ता कि यिशु
३८ ख्रीष्टु देवालो पुतु आस । तावळि तेह राबोजाक ताणें आज्ञा दिलि आनि फिलिपु आनि खोजा हे दोग उदकांतु
३९ देंवले उपरांतें ताणे ताका बुडकुलि दिवलि । ते उदकां थाकुनु वोयरि येत्तचि थिऊहाले आत्मान फिलिपाक तांणु घेउनु गेलो आनि खोजान आनि ताका चोव्चा आयलो
४० ना ताजे मागिरि तो संतोषान गेलो । तरि फिलिपु अजोत सांतु मेलो आनि ते जाग्यारिथाकुनु वतां र काइसारियांतु पावुपरांतु मंगल समाचारु सगळ शहरांतु घोषणा केलो ।

९ नवम पर्व्व ।—शाउलान तेदोळुं परांतु प्रभुले शिष्यांले दुसमनेंतु कोलु आनि मानुं उडोचो श्वासु सोडितर
२ प्रधान याजकाले लागि गेलो । आनि दमाश्कोले सगळे सिनगगांचेरि आज्ञापत्र मागलें कि हेचि मताले दाद्ले जावो बायलो कोणाके तरी मेळत जाल्यारि तांकां बांदुनु
३ यिरुशालमांतु घेउनु येव्चें । तावळि तो वोचुबु दमाश्कोले लागी पावलो आनि स्वर्गारिथाकुनु अकस्मात
४ चारिदिका ऊजवाडु ऊजवाडलो । ताजेन तो मातियेरि पोणु येकु शब्दु आयकिलो कि कोण तांकां उलैलो हे
५ शाउल हे शाउल कसले खातिर माका उपद्रव कर्ता । ताणे म्हळें कि हे प्रभु तुं कोणु आस ताजेन प्रभुन म्हळें कि हांव यिशु आसं कि कोणांक तुं उपद्रव कर्ता कांट्यरि फायोरु
६ मार्चों तुगेलें होड कठिण कार्य । तावळि तो कड्कडेलो आनि आश्चर्य समजुनु उलैलो कि हे प्रभु तुगेली यित्तें आज्ञा आस हांव यित्तें करुं प्रभुन ताका म्हळें उठा शह

रांतु वेच ताजे मागिरि कोण्ण तुका कोचें पडत ते तुजे
७ लागी सांगुनु वचत । तागेले सांगातिकारानि तो शब्दु
आयकुनु तरि कोणाक पळै नातिलें आस्चर्य जाउनु थिंब
८ राव्ले । तावळि प्राउलु मातियेवेलो उठाय्लो आनि
तागेले दोळे उगडत्चि कोणाकै चोडचा पाव्लो ना तरि
९ तानि तागेलो हातु धोर्नु दमास्कोंतु घेउनु आय्ले । तो
ताजे मागिरि तीनि दिसग्रंतु कुरडो जाउनु राव्लो
१० आनि कांयि खेले ना आनि पिले ना । दमास्कोंतु येकलो
शिष्यु आसिलो तागेलें नांव खननीयाह आनि प्रभुन येक
दीसणांतु ताका म्हळें कि हे खननीयाह ताणे म्हळें कि हें
११ प्रभु हांव हो चोयि । प्रभुन ताकां म्हळें कि तुं उठाउनु
सोधे नांवाले वाटेंतु वेच आनि यिऊदाहाले घरांतु तार
प्रसासे प्राउलालि खबर निर्माग तेंयितें चोयि तो प्रार्थना
१२ कर्ता । आनि येक सोपनांतु खननीयाह नांवाले येकल्याक
घरांतु येउनु तागेलि दृष्टि पावचे खातिर हातु ताजेरि
१३ दवर्तेचि पळैलांस । तावळि खननोयाहान जाप दिलि कि
हे प्रभु साबार लोकांलें वचन हांवे ते मनुष्याले विषयांतु
आयकिलांस कि ताणे तुगेले पुन्यवान लोकांक कितुलि हिंसा
केल्यास कि कोण यिरुशालमांतु राबताति आनि हांगायि
१४ कोण तुगेले नांवान प्रार्थना कर्ताति तांकां बांधचाक प्रधान
याजकां लागचान ताणे सामर्थ्य पावलांस । तरि प्रभुन
१५ तांकां म्हळें कि तुं वेच तेंयितें दुसरे देशकार मनुष्यांले
आनि रायांले आनि यिष्रएलालें पुतांले लागि मेगेलें नांव
१६ वांवचे खातिर तो मेगेलो येकु मनोनितु आस । तेंयितें
मेगेले नांवाले खातिर ते कितुलें दुःख पावतित हें हांव
१७ तांकां दाखैतं । हे खातिर खननीयाह वाचुनु ते घरांतु
रिगलो आनि ताजेरि हातु दवर्नु उलैलो कि हे भावा
प्राउल प्रभु यिषु कि कोण तुगेले येवचे वेळा वाटेरि तुका

दर्शन दिलें ताणे तुगेलि दृष्टि पाव्चे आनि धर्मात्मांतु पुर्ण
१८ जाव्चे खातिर तुजे लागि माका धाळ्लासा। आनि ताव
ळीचि तागेले दोळ्यांतुल्यान खवळासे वारि कित्लेक पळिं
आनि ताणे तावळीचि दृष्टि पाव लि आनि उठाउनु बुडकुलि
१९ दिवैतु गेलि। ताजे मागिरि कांयि खाउनु बल पाव्लें शाउ
२० ल दमाश्केंतु शिष्यांले भर्सि कितलेक दिस राव्लो। आनि
तावळीचि सिनगगांतु ताणे ख्रीष्टालो विषयु घोषणा केलो कि
२१ तो देवालो पुतु आस। तरि सगळे लोकांनि तागेलिं
उत्रं आयकुनु आश्चर्य समजलें आनि म्हळें हो यितें तोचि नैं
कि कोणे कोणर मनुष्यांनि यिरुश्लालमांतु तागेले नांवान
प्रार्थना केलि तांकां विनाशु केलो आनि प्रधान याजकांले
२२ लागि तांकां बांदुनु घेउनु वेचे खातिर हांगायि आयला तरि
तो कोण ख़रो ख्रीष्टु हें प्रमाण दिताना शाउलु माचि माचि
साहसि जाउनु दमाश्केंतु राब्तले यिजदियांक नुत्त केलें।
२३ साबार दिस वत्तचि यिऊदियांनि ताका जीवसि मार्चें परा
२४ मर्शु केलो। वरि तांगेले आड घेव्चें शाउलाले लागि
कळैलें आनि तानि ताका जीवसि मार्चाक रात्रि दिसु वाग
२५ लाचेरि पारो दिलो। तरि शिष्यांनि रात्रि कुर्यांतु बसो
२६ उनु वोणतिवेल्यान ताका देउनु देंवैलो। ताजे मागिरि
शाउलु यिरुशालमांतु पावनु शिष्यांले भर्सि मेळचा लाग्लो
तरि सगळे ताका भिले आनि विश्वासु केलो ना कि तो
२७ शिष्यु आस। तरि बार्णबान ताका घेउनु प्रेरितांले
लागि हाळो आनि तांकां कळैलें कि वाटेंतु ताणे प्रभुक
चोयिल्ले आनि कि ताणे ताका उत्तर सांगिल्लें आनि कि ताणे
निर्भय जाउनु दमाश्केंतु साहसान यिशुले नांवान घोषणा
२८ केलेलें। आनि शाउलु यिरुशालमांतु तांचे भर्सि येवप वोचप
२९ करीत आसिलो। आनि ताणे प्रभु यिशुले नांवान निर्भयान
उत्तं म्हळिं आनि ग्रीक लोकांले लागि वादु प्रतिवादु केलो

३० तरि तानि ताका मारुं उडोचो परामर्शु केलो। भावांनि तो समजुनु ताका काइसारियांतु घेउनु गेले ताजे मागिरि ताका तारसिसाक घाळो तावळि यिऊदाह देशाले आनि गालिलीले आनि शमरोणाले मंडलींलो सौख्य आसिलें

३१ आनि वाढुय पावले आनि प्रभुले विषयांतु भयान आनि धर्मात्म्याज सांत्वनेंतु चालि कोर्नु वाडले।

३२ पितरु ते सगळे देशांतु वत्तांर लदाले राबूतले सज्जन

३३ लोकांले लागी पावलो। आनि आइनेयस नांवाले येक ल्वाक ते जाग्यारि देकलो कि कोण पांगळो जाउनु आठ वर्षे

३४ हांतुळारि पळो। तावळि पितरान ताका म्हळें हे आइनेयस यिशु ख्रीष्टु तुका वास कर्तास उठा आपणालें हांतुळ

३५ सम करि ताजेन तो तावळीचि उठायलो। आनि लद्दाले आनि सारोणाले सगळे वासी ताका चोउनु प्रभुले दिका पर्तले।

३६ जाफांतु येकि बायल शिष्यि आसिलि कि कोणिलें नांव ताबिता अर्थात दर्कास ति वायल आपणाले केलेले चां कार्यां

३७ न आनि दानान पुर्ति आसिलि। तावळि ति रोगु जाउनु मेलि आनि तानि तिका वांवनु वोयले येक कुडांतु दवलि।

३८ लद्दा जाफाले लागी आस ते खातिर शिष्यांनि पितरु थैं राब्चि खबर पाउनु ताका वोगि आपणाले लागि येवचाक

३९ म्होणचे खातिर दोगांक घाळे। तावळि पितरु उठाउनु तांगेले भर्शि गेलो तो पावतचिंते ताका तागेले वोयले कुडांतु घेउनु गेले आनि सगळ्या बायलो तागेले लागी रडतर आनि दर्कासान आपणाले जीवो आस्ताना कोण चोगो आनि आंगवालिं केलेलिं तिं आंगवालिं दाकैतर यिबि रावलि।

४० तरि पितरान तेसगळ्यांक कांणु दिउनु दिंबि तेंकुनु प्रार्थना केलि ताजे मागिरि मेल्ले शरीराले दिका पर्तुनु म्हळें कि हे ताबिता उठा तावळि ते बायलेन दोळें उगळ आनि पित

४१ हाक चोउनु वसलि। तेदना ताणे हातान धोनुं तिका यिबि केलि ताजे मागिरि सज्जन लोकांक आनि रांडांक
४२ आपैान तिका जीवन दिलें। हे कामालें वर्तमान जाफावे सगळ जाग्यारि गेलें ते खातिर सावार लोकानि प्रभु चेरि
४३ विश्वासु केलो। ताजे मागिरि जाफांतु शीमोन चामाराचे घरांतु तो सावार दीस राब्लो।—

दशम पर्व्व।—काईसारीयांतु येक्लो आसिलो कि कोणालें नांव कर्णेलियसु तो ईतालीया फाजालें नांवान प्रसिद्ध
२ सैन्याले येक सेंबरि लिमायलो सरदार जालो। तो मनुष्यु धर्मी आनि परिवार सेत देवांथाकुनु भिवालो आनि लोकांक सावार दान कर्तालो आनि देवाले लागि नित्य प्रार्थना
३ कर्तालो। ते मनुष्यान तीनि पारा दिसाचे येक दर्शणांतु सत्य पळैलें कि देवाले येक दुतान भितुरु ताजे लागि येवु
४ नु म्हळें कि हे कर्णेलियस। तो ताजेलि वोथरि पोउनु भिलो आनि उलैलो कि हे प्रभु हें यित्तें ते दुतान ताका म्हळें कि तुगेलि प्रार्थना आनि तुगेलें दान देवाले लागि
५ कळैाचे खातिर आयलांसं। हे खातिर जाफांतु आत्तं मनुष्यांक धाांणु शीमोनाक हाडै कि कोणालें नांव पितरु
६ आस। तो शीमोनु चामारु येकल्याले घरांतु राब्ता कि कोणालें घर समुद्राले येळेरि आस तुका काण कोर्चें आस
७ तें तो तुका सांगत। कोण दुतान कर्णेलियसाक सांगिलें तो वोत्तचि कर्णेलियसान घर्चे दोग चाकरांक आनि कोण ताजेलि सेवा नित्य कर्ताले तांगिल्यांतुलो येकलो धर्मी सिपा
८ यक आपैलो। आनि हिं सगळिं उत्तं म्होंणु तांकां जाफांतु धाळे।—
९ हेर दिसा ते वोत्तां शहराले लागी आयले तावळि दोन पार दिसाक पितरु प्रार्थना कोर्चांक घराले मेत्तारि गेलो

१० तेद्ना ताणे सकाळ भुकेलो जाउनु कांयि खावका इच्छिलें तरि ते सिद्ध कर्‌ताना ताजे भित्तरि तो निचेतन जाउनु
११ पळो । आनि सर्गालें वांगिल उगळें पळेलें आनि चोंउ पेल्याले वारि चारि सुत्यांतु बांउसिलो येक वस्तु ताजे
१२ लागी देवंतर भुयिंतु देंवलो पळेलो । कि कसल्यांतु जगता ले सगळे जीनसालिं जन्तु आनि रानपशु आनि हर्ये आनि
१३ वोयले पक्षि आसिले । ताजे मागिरि येकु शब्दु ताजे
१४ लागी प्रकाश जालो कि हे पितरा उठा मार खा । तरि पितरान म्हळें कि हे प्रभु आसि नें तंयितें कोणे सामान्य वस्तु
१५ वा अपवित्र वस्तु हांवें केद्नायि खायनै । दुसरे वेळा ते शब्दान ताजे लागि सांग्‌लें कि देवान कोण पवित्र केलांस
१६ ताका सामान्य म्हणाका । हें कार्थ तीनि वेळे जालें ताजे
१७ मागिरि तें वस्तु सर्गार सर्गारि तांगुलें । ते दर्शणालो अर्थु यित्तें पितरु मनांतु हें चिंतितांर चोया कोण लोकु कर्णेलियसचान धाळेले आसिले तानि शीमोनालें घर खैं हें निमगिलें आनि वागलाले येदुर यिवि राबुनु आपोनु
१८ विमगिलें कि शीमोनु धैं राव्‌तास कि कोणालें उपनांव
१९ पितरु आस । पितरान ते दर्शणाले विषयांतु विचार कर्ता तावळि परमात्मान ताका म्हळें कि चोयि तेग जाण तुका
२० सोद्‌तातित । हे खातिर उठा देंव आनि कोणे संदेहु कर्‌ना
२१ तिलें तांचे भर्शि वोच तंयितें हांवे तांकां धाळ्यातित । तेद्‌ना कर्णेलियसाले लाग्‌चान कोण मनुष्यु ताजे लागि धाळे आसिले पितरु देंवनु तांचे लागि गेलो आनि उलेलो कि चोया कोणाक तुंमि सोदितातित हांव तोचि आसें हे खातिर
२२ काव समजुं इच्छितां कि तुंमि यितेखातिर आयले । तानि म्हळें कि सज्जन आनि देवाक भित्तलो आनि सगळे यिहूदि यांले लागि सुख्याति येक सें सिपायलो सरदारु कर्णेलियसु येकलो तुका आपणाले घर्‌यो घेउनु येवचे खातिर मनुष्यु

धाडचाक आनि तुजे लागि उत्रं आयकुचाक येकु पुन्यवानु
२२ दुताकथान देवालि आज्ञा पाविल्लि । हे खातिर तांकां
ताणे आपोनु दया दिलि आनि दुसरे दिसा पितरु ताचे
भर्सि गेलो आनि जाफाले तिकडेन भावांयि ताजे भर्सि गेले ।
२४ हेर दिसा ते काईसारियांतु पावले आनि कर्णेलियसान आप्
णाले कुटुंबा आनि सोहित लोकांक येक जाग्यारि आपोनु
२५ तांगेले अपेक्षित आसिलो । पितरु घरांतु वोत्ता ते वेळा
कर्णेलियसु ताजे भर्सि मेळो आनि तागेले पायांरि पोणु
२६ तागेलि पुजा केलि । तरि पितरान ताका उठकराउनु म्हळें
२७ कि उठा हांवें येकलो मनुष्यु आसं । ताजे भागिरि ताजे
भर्सि ताणे उत्तर बित्तर करोतर घरांतु वोचुनु सावार
२८ मनुष्यांक येकडे पोयलो । हे खातिर ताणे तांकां म्हळें
तुंमि समजतालि कि यिहुदि जातिक दुसरे देशकारांले
भर्सि कसलोयि मेळु कोर्चें जावो घरांतु खावचें योग्य नैं
तरि कोणे मनुष्याक सामान्य यानि अपवित्र ना समजुचाक
२९ देवान मजे लागि प्रकाशु केलासं । हे खातिर लोकु माका
आपोउचे खातिर पावतचियि हांव विचारु करनातिलें आय
लासं हे खातिर हांव निमगितां कि माका कसले खातिर
३० आपेला । कर्णेलियसान म्हळें कि चारि दिस जाले हांव
ह्या वेळपरांतु उपासु करतालों तांतु तीनि पाराले वेळा
हांवे आपणाले घरांतु प्रार्थना केलि आनि चोया भागभागि
आंगवल्यांनि दुस्तलो येकलो मजे लागि यिबि रावलों ।
३१ ताणे म्हळें कि हे कर्णेलियस तुगेलि प्रार्थना आयकुनु
गेल्यास आनि तुगेलें दान देवाले लागि उडगासु कोर्नु
३२ गेलास । हे खातिर लोकांक जाफांतु धाडुनु शीमोनाक
आपे किं कोणालें उपनांव पितर आस तो समुद्राले येळेरि
रावतलो शीमोनु चामाराले घरांतु बिडार कोर्नु रावतास
३३ तो येउनु तुका उत्तर सांगेल । हे खातिर तात्काळीचि हांवें

तुका आयेंचा थाळो आनि तुवें चांग केलांस्कि तुं आयलास हे खातिर देवालागचान कोण उत्तर तुजे लागि आज्ञा कोर्नु गेलांस ते सगळे उत्तं आयकुचाक आमि सगळे हांगा देवालें येदुर येकडे जाल्याति।

३४ ताजळि पितराने तोंड उगोंगु म्हळें कि हांव यथार्थ सम्
३५ जतां कि देउ दिकालो नैं। तरि तरतरा देशीय लोकाले भि सरि कोण कोणे ताका भित्तास आनि सत्य कार्य कर्तास तों
३६ ताजेन सम्मत आस। यिशु ख्रीस्तु तोचि सगळ्यांलो प्रभु ताजेन कोण शांति आस ति शांति घोषणा कर्तले देवान यिस्राए
३७ लालें पुताले लागि कोण उत्तं थाळेलिं। तें उत्तर तुमि समजताति कि कोण योहनान कोण बुडकुलि प्रकाशु केलि ति बुडकुलि प्रकाशु कोर्चें मागिरि गालिली इत्यादि यिऊ
३८ दाहाले सगळे देशांतु प्रकाशु कोर्नु गेलें। कि देवान धर्मात्मा कच्यान आनि पराक्रमान यिशु नाजरेथाक अभि षेकु केलो कि कोण चां कार्य कर्ताना आनि दैवचार लागिले मनुष्यांक वास करीत पर्तुनु गेलो तेयितें देउ ताजे भसिं
३९ आसिलो। आनिके ताणे यिऊदाह देशांतु आनि यिरु शालमांतु कोणर कार्य केलें ते कार्यलि साक्षि आमि आसंति
४० कि कोणाक तानि रुकाले वोयरि लांबोउनु मार्नु उडैलो। ताका देवान तिसरे दिसा उल्कराउनु प्रकाशु कोर्नु दाके
४१ लो। सगळे लोकांले लागि दाकेले तो नैं तरि देवा कच्यान नेमक पितम केल्ले साक्षेंले लागि जावो आमगेले लागि कि कोण तागेले मेल्यान उठायतचि ताजे भसिं खाव पियय
४२ केलें। आनि लोकाले लागी घोषणा केचें आनि जीवो आनि मडें कितुले लोकु तागेलो विचारु कोचें खातिर देवान नेमक जालेले आनि हें प्रमाणे दिनचाक ताणे आमकां आज्ञा
४३ दिलि। सगळे आचारियि तागेलें प्रमाण दित्ताति कि कोण कोण तागेले वोयरि विश्वासु कर्तास ते मनुष्यालें पाप मोचन तागेले नांवान जायत।

४४ पितर हें उत्तर म्हण्तास हेचि वेळा कितुलो लोकु उत्तं
४५ आयकताले ते सगळ्यांचेरि धर्मात्मा पळो। कोण सुन्नता लोकानि विश्वासु केलोलो जावो कितुलो लोकु पितराले लागि आयले ताणि आश्चर्य मानसिलें तेंयितें अन्यदेशकारांचेरी
४६ चि धर्मात्मालें दान रकैलें। तेंयितें तांका अन्यर भाषा उलैताना आनि देवालि स्तुति कर्ताना ताणि आयकिलें।
४७ तावळि पितरान जाप दिलि कि हांकां बुडुकुलि दिवैल्ले जाव्चे खातिर उदाक तडसुं कोणु सकत कि कोण आम
४८ गेले वारि धर्मात्माक पावलास। हे खातिर प्रभुले नांवांन तांकां बुडुकुलि दिवैचाक ताणे आज्ञा दिलि ताजे मागिरि आनि कित्लेक दिस तांवे भर्सि राव्चाक ते ताका वालेय केलें।

११. एकादश पर्व।—यिहूदाह देशाले प्रेरितानि आनि भावांनि आयकिलें कि दुसरे देशकारानि देवालें उत्तर
२ आयकिलेलें। ताजेरि पितर यिरुशालमंतु पाव्तचि सुन्नत केल्ले कोण ताणि ताजे भर्सि विवादु केलो आनि म्हळें
३ कि तुंवे सुन्नत कर्नातिल्याले लागि वचुनु तांचे भर्सि खेलास।
४ तावळि पितरान आरंबान तिं सग्ळि उत्तं सगळो प्रक
५ रण तांकां सांग्लो। ताणे म्हळें कि हांव जाफा शहरंतु प्रार्थना करतालें आनि मुर्छा जाउनु हांवे येक दर्शण पळैलें होड शेल्यावारि येकु वस्तु सरगारिथाकुनु देंवतार चारिमुल्यांचान देंवलो आसिलो आनि मजे लागि आय्
६ लो। हांवे ताजेरि येक दृष्टिन पोउनु परामर्श केलो आनि जगतालि चारपायिं आनि रानपशु आनि हर्यं
७ आनि भुंयिले पक्षांक पळैले। ताजे मागिरि हांवे येक शब्द आय्किलो कि कोणे म्हळें कि हे पितरा उठा मारु

८ खा। तरि हांवे म्हळें कि हे प्रभु असि नैं वैयितैं सामान्य
९ जावो अपवित्र कोणै वस्तु मेगेलें तोंडांतुल्यान वचने। ते
ण्डव्दन दुसरवेळे सगारिंधाकनु माका जाप दिलि कि देवान
१० कोण पवित्र केलं स तें सामान्य समजु नाका। हें कार्यं
तीन वेळे झालें ताजे मागिरि सगळो वस्तु सगारि तांणु
११ गेलो। चोया तावळि तेग जाण काइसारियांधाकुनु मजे
लागि प्रेरित जाउनु ते घरंतु आयिल्ले कि खैं हांव राब्
१२ लें। तांचे भसिं निर्भयान वेचाक धर्मात्मान माका आज्ञा
दिलि आनि हे साभावयि मजे भसिं गैंले ताजे मागिरि
१३ आनि ते मनुष्याले घरांतु गेले। ताणे आम्कां कळैंवें
कि ताणे आपणाले घरांतु दुताक देकलो कि कोण यिवि
राविल्लो आनि ताका म्हळें कि जाफंतु मनुष्यु धांणु दि
आनि पीमोनाक आये कि कोणालें उपनांव पितर आस।
१४ तो उत्तर म्हणत कि कसल्यान तुं आनि तुगेलें परिवार
१५ त्राण पावतित। हांव उत्तर म्हेंाणुचा लागिल्यान धर्मात्मा
१६ कसि पितंम आमचेरि पळोलो तसि तांचेरि पळो। तावळि
हांवे प्रभुलें उत्तर उडगासु केलें कि कोणे म्हळें योहनान
उदकांतु बुडुकुलि दिवैलि सहि तरि तुंमि धर्मात्मांतु बुडुकुलि
१७ दिवैले जाणति। हे खातिर प्रभु यिशु ख्रीष्टंतु विश्वासु
कर्तैले आमकां देवान कोण दान दिलें आसिलें ताणे तेंचि
दान तांकांयि दितचि हांव यिते आसं कि हांव देवाक तड
१८ सुचा सकन। तानि हें उत्तर आयकुनु तुत्त राब्ले ताजे
मागिरि देवाली स्तुति कोर्नुं म्हळें कि जाल्यारि देवान दुसरे
देशकारांक जीवन दितलें परामनन दिवांस।
१९ तेद्ना स्तेफानसाले विषयांतु कोण उपद्रव आसिलो ता
जेन कोण अस्तुादुडु आसिले तानि यिऊदी नंतां कोणाके
उत्तर घोषणा कर्नातिलें फिनिकिआ आनि कप्रस आनि
२० आंटियोखापरांतु गेले। तांचांतु कितलेकु लोकु कप्रसाले

आनि किरिनेलेयि आसिले तानि आंटियोखातुं येवुनु
२१ ग्रीक लोकांले लागि प्रभु यिशुक घोषणा केलो। आनि
प्रभुलो हातु तांचे भर्सिं आसिलो ताजेन सावारांनि विश्वास्
कोर्नु प्रभुले दिक पार्टले।
२२ तांगेले विषयंतु हि खबर यिरुशालमाले मंडलीले आयक
पांतु येतचि तानि बार्णबाक आंटियोखांतु वेचाक धाळो।
२३ ताणे आंटियोखांतु पावनु आनि देवालो अनुग्रह चेउनु
आनंदु केलो आनि ते सगळ्यांक उपदेश केलि कि मनांतु
२४ निश्चासु कोनुं प्रभुले दिका मन लाउनु राबोति। तेंयितें
तो सज्जनु मनुष्यु आसिलो आनि धर्मात्मा आनि विश्वासान
पुर्तो आसिलो आनि सावार मनुष्य प्रभुले दिका कोनुं
२५ गेले। ताजे मागिरि शाउलाले खातिर सोदूचाक बार्णबा
२६ तारशिशांतु गेलो। आनि ताका पांवनु आंटियोखांतु
घेउनु आयलो ताजेन ते मंडलीले भर्सिं येक वर्स राबुनु
सावार मनुष्यांक सिकैलें आनि आंटियोखांतु शिष्य देवाले
नेमकांतु ख्रीष्टियान नांवान पितैम प्रख्यात आसिले।
२७ तावळि आचारि आंटियोखांधाकुनु यिरुशालमांतु आय
२८ ले। आनि तांगेले येकल्यान कि कोणाले नांव आगाबस
आस उठाउनु परमात्मा लागि कळैलें कि होडि मारगायि
सगळे देशांतु जायत कांयि दिसां मागिरि क्लादियसु काइ
२९ सराले वेळा ति जालि। हे खातिर प्रत्येक मनुष्यांनि
आपणाले शक्तितकित यिहूदाइ देशाले राबतले भावांले
३० लागि कांयि सहाय करुं धाडचो शिष्यांनि आटैलें। ताजे
मागिरि हें कोनुं बार्णबा आनि शाउलाले मारफति म्हाल
गडे लोकांले लागि तें धाळें।—

१२ द्वादश पर्व।—तावळि हेरोद रायान मंडलीले
२ कितलेक लोकांक दुःख दिवचाक हातु लांबु केलो। आनि

२ योहनालो भावु यश्‍ाकुबाक खांड्यान मार्नु उडलो। आनि
हांतु यिऊदियांलि खुसी जालि हें थोउनु पितराकें धोर्चिं
४ यत्न केलिं तावळि बेखमेर भाकरेले दिस आसिले। तावळि
ताणे ताका धोर्नु बंद केलो आनि पेसाखाले मागिरि ताका
लोकांले लागि काडचे खातिर मनांतु हांणु चारि वड्या सिपां
५ यले वसा ताका केलो। हाजे खातिर पितरु पाच्याघरांतु
दवोर्नु गेलो तरि देवाले लागि मंडलीथाकुनु ताजे खातिर
६ नित्य प्रार्थना कोर्नु गेलि। हेरोदान कोण वेळा ताका
काडचाक मनांतु केलें तेरात्ति पितरु दाग सिपांयले
भित्‍रि दोनि सांकाळेन बांधीलो आसुनु निदलो आसिलो
७ आनि पाच्याकार बागलाले येदुर पारो दित्ताले। तावळि
चोया देवाले येक दुतान ताका दर्शण दिलें आनि पाच्या
घरांतु ऊजवाडु देकुं अयलो तावळि ते दुतान पितराले बरीं
तु मार्नु ताका जागोनु म्हळें कि वेगि उठा ताजेन ताजेले
८ हातावेल्यान सांकाळि निसोर्नु गेलि। ताजे मागिरि
दुतान ताका म्हळें आपणालो कुठुवंदि आनि खाड्डावो
घालि तावळि ताणे तें केलें ताजे मागिरि ते दुतान ताका
९ म्हळें कि तुगेलें आंगवलें घ गुनु मजे माह्लिर ये। तावळि
तो भायर गेलो आनि तो ताजेले माह्लिर गेलो समजलो
ना कि तो बद्द आस कि कोण दुतान केलेलें तरि मनांतु चिंता
१० केलि कि आपणे येक दर्शण पळेलें। ते पितर्मलो आनि
दुसरो पारो सोडोनु कोण लोकंडाले घरांथाकनु प्रहरांतु
वेतातितजे लागि आयलो तें कवाड आपापणचि उगोनु
गेले ताजे मागिरि भायर सर्नु एक वाटेले तुदेरि परांतु
११ गेलें तावळि दुतान ताका सोळो। पितरान चेतन जाउनु
म्हळें कि हांव आतां निश्चय समजातां कि प्रभुन आपणाले
दुतान धांणु हेरोदाले हातान आनि सगळें यिऊदियांले
१२ अपेक्षेन माका सोळास। आनि तो गोर कोर्नु योहनु

उपनांवालो मार्कालि अंमा मारियाले घरांतु आयलो ते
१३ जाग्यारि साबार लोकु प्रार्थना कोर्नु येकठे जालें। तेदना
पितर कवाड थाड्डायता थे वेळा थैं कोण आस हें समजु
१४ चाक ह्रोदा नांवालि येक तर्नीकुटि बायल आयलि। आनि
पितरालो शब्दु समजुनु संतोष मन जाल्यान कवाड उगळे
ना तरि धांउनु भित्तरि वोचुनु उलैलि कि पितर बागला
१५ घेरि थिबि आस। ताजेन तानि तिका म्हळें कि तुं पिसि
जाल्या आस तरि तिणे निश्चय म्हळा कि हे खरें तावळि
१६ तानि म्हळें कि तो ताजेलो दुतु आस। तरि पितर
बागिल थाडुयतर रावलो ताजे मागिरि तानि बागिल
१७ उगोंणु आनि ताका पोउनु आश्चर्य समजले। आनि ताणे
तांकां नुस्त रावचाक हातान सनि कोर्नु म्हळें कि प्रभुन
कोण जिनसान ताका पाच्चाघरांथाकुनु सुटैलालो आनि
ताणे म्हळें कि यश्राकुबाक आनि आनिके भावांक हि खबर
दि ताजे मागिरि तो पेण कोर्नु दुसरे जाग्यारि गेलो।
१८ दिसु बासंतवि पितर खैं गेलो सिपायंले भित्तरि हें उत्पा
१९ लो होड्डु शब्दु जालो। ताजे मगिरि हेरोदान सोदुनु
तागेलें वर्तमान मेळ नातिलें पाच्याकारांलो विचार केलो
आनि तांकां मार्नु उडोवाक आज्ञा दिलि तरि पितर
यिऊदाह देशु सोंणु काईसारियांतु गेलो आनि थैं रावलो।
२० तावळि हेरोदु सूर आनि सिदोनाजे लोकांचेरि होड्डु
कोपाड्डु आसिलो तरि ते येकमनान ताजे येदुर आयले
आनि ब्लास्तस नांवालो रायाले मंत्र्याक आपणा दिका हांणु
मेळि इच्छीलि तेंथितें रायाले देश थाकुनु तांगेले देशु घर
२१ वरसलो। ताजे मागिरि येक नेमक केलेले दिसांतु हेरद
राज दुस्तानु न्हेसुनु सिंहासनाले वोयरि बसलो आनि
२२ तांचे लागि उत्तर सांगर्य प्रकाश केलें। ताजेन लोकांनि
होडान म्हळं कि हो देवालो शब्दु आस मनुष्यालो नैं।

२३ तावळिचि देवाले दुतान ताका मालों तेंयितें तायें देवाले महात्म अंगीकार केजे ना ताजेन तो किड्यांनच्यान खेलालो जाउनु मेलो ।

२४ तरि देवालि उत्रान वाधुनु वाधित पावले तावळि बार्णबा

२५ आनि शाउलान दुसच्यांलि नेमसिलेलि सेवा पुर्ति कोनुं यिरुशालमांतु परतुनु गेले आनि योहनाक भसिं घेतजे कि कोणालें उपनावं मार्क आस ।—

१३ त्रयोदश पर्व्व ।—तावळि बार्णबा आनि शीमोनु कि कोण कनीगर म्हणताति आनि किरीणिलो लूकियस आनि मनाएन कि कोण चौतार्यिलो येजमानु हेरोदाले भसिं पोसप आसिलो आनि शाउल इत्यादि कित्लेक आचारि आनि

२ सिखतले आंटियोखाले मंडलींतु आसिले । ते देवालि सेवा आनि उपासु कर्ताले तावळि धर्मात्मान म्हळें कि कोण कार्याचेरि हांवे बार्णबा आनि शाउलाक नेमक केलास

३ तांकां तें कार्य कोर्चाक मजेखातिरि वेगळें कचा । हे खातिर तांनि उपासु आनि प्रार्थना कोनुं तांचेरि हातु दवनुं तांकां धांवु दिजे तेदना ते धर्मात्मान धाळे जाउनु

४ सिलूकियांतु गेले आनि ताजे मार्गिर थेंथाकुनु दोणिरि कप्र

५ सांतु गेले । ताजे मार्गिर सालमिसांतु पावनु यिऊदियांले सिनगगांतु देवालों उत्रं घोषण केलिं आनि योहनुयि

६ तांकां साहायु आसिलो । तानि ती उर्दियांतु सगळें जाग्यारि पाफोसपरांतु भोवनु बार येशु नांवालो येकलो

७ यिऊदी जादुकारु फटि आचार्याक पावलो । सर्जियस पाउलस नांवाले प्रकन्सल् हेड जोके मनुष्याले लागि तो मनष्यु आसिलो ते प्रकन्सलान बार्णबाक आनि शाउलाक

८ आपोनु देवालिं उत्रं आयकुचा इच्छिलें । तरि अर्थात कोणालें नांव एलिमास जादुकारान ते प्रकन्सलाक भर्ति

९ थाकुन पर्तुचो परामर्श कोर्नु तांगेलि दुसमनि केलि । तेद ना श्राउलु कि कोणाक पाउल म्हणताति धर्मात्मेन पुर्नो
१० जाउनु तागेले वोयरि येकदष्टिन चोउनु उलैलो । कि हे दुष्टता आनि वायट संदेशांतु भर्ले ले देवचाराले पुता आनि सगळे सज्जनांक वैरि तुं यित्तें प्रभुलि सम वाट वांकडि
११ कोर्चाक सोडिसि ना । हे खातिरि चोयि आत्तं देवालो हातु तुजेरि आस् ताजेन तूं कुरडो जासि आनि किवलेक दिस सुर्यु चोउचा शसि ना ताजेन येकु हिंऊ आनि काळोकु ताजे वोयरि श्रोगि पळो आनि ताणे पर्तुनु आपणालो हाथु
१२ धोर्नु वाट दाकोचाक कोणे मनुष्यालो सोदु केलो । तावळि प्रकन्सलान तें केलेले कार्याक चोउनु प्रभुले शिक्षांतु आश्चर्य समजुनु विश्वासु केलो ।—

१३ ताजे मागिरि पाउलान आनि तागेले सांगातिकारांनि पाफोस सोंणु पंफिलियाले पर्गांतु आयले तरि योहनु तांकां
१४ सोंणु यिरुशालमाक गेलो । ताजे मागिरि ते पर्गा सोंणु पिसिदियाले आंटियोखांतु पावले आनि शाबत दिसाक सिन
१५ गर्गांतु रिगुनु बसलो । तावळि शास्त्र आनि आचार्यालिं उन्नं वाजतचि सिनगगाले येजमानांनि तांचे लागि मनुष्यु धांणु म्हळें कि हे मनुष्या भावांनो लोकांले उपदेशाले उत्तर
१६ कांयि तरी तुमगेले लागि आस शाल्यारि सांगा । तावळि पाउलु बिंबि शाउनु हातान संनि कोर्नु उलैलो कि हे यिश्र
१७ एर्लि मनुष्या आनि देवाले भितले तुमि आय्का । हे यिश्रएल लोकांक देवान आमगेले पुरुषांक पसंत केले आनि लोकु मिसरांतु परदेशपण कर्तंचि तांकां उद्धार केलो आनि
१८ वोयरि भुज शाउनु ते देशांथाकुनु वारसलें । ताजे मागिरि
१९ वर्स चाळिसेक रानांतु तांगेलें कार्य ताळवप केलें । ताजे मागिरि कनाआन देशांतु सात जात्तिंक विनाशु कोर्नु तांगेलि
२० भुंयी वांटो कोर्नु तांगेलो अधिकार दिलो । ह्याजे मागिरि

साडे चारसें वर्स परांतु आसिलो ते वेळा ताणे शामुएल
२१ आचारि परांतु तांचेरि बिचार कारांक दिले। ताजे
मागिरि तानि राजाक मागतचि बेन्यामिनाले कुटंबाजे कि
शाजो पुतु शाउलाक देवान तांचेरि चाळिस वर्स परांतु
२२ राय कोर्नु दिलो। ताजे मागिरि ताका धुर कार्नु तांचेरि
राय जावचे खातिर दाउदाक उबजायलो तांगेले विषयांतु
ताणे प्रमाण दिलें आनि म्हळें कि यिशाजो पुतु दाउदाक
हांवें आपणा मना आविसो येकल्याक पावलास तो मेगेलें
२३ इच्छे पसंत कार्य संपुर्ण करित। हे मनुष्याले वंशांयाकुनु
योहनु तागेले मुकारि जाउनु तागेले प्रकाश कोर्चे खातिर
परामननालि बुडकुलि यिस्रएलाले सगळे लोकांले लागि
२४ घोषणा कर्तचि तो आपणाले धांवाले मणके यिस्रएलाले
२५ खातिर यिशु त्राणकर्तलाक उबजायला आस्। योहनानें
आपणालें कार्य पुर्ते करितर म्हळें कि हांव कोण आसं तुमि
हांतु यितें समजताति हांव तो नैं तरि चोया येकलो मजे
मान्ति जेतास कि कोणालो पायासो मेकोळचाक पूरो जालों
२६ हांव नै। हे मनुष्य भावांलो अबराहमाले वंशाले पुतानो
आनि तुमगेले भितरि कोणेर देवाक भित्ताति तुमगेले
२७ लागि हें त्राणालें उत्तर धांणु गेलांस। तेंचितें यिरुशाल
मांतु रावतजे आनि तांगेले अधत्तांनि ताका समजना
तिलें आनि कोण उत्रं प्रति शाबत दिसाक तांचे लागि
वाजुनु घेताति तो आचार्यांलिं उत्रंयि समजनातिलें ताका
२८ दावि कोर्पांतु ते आचार्यांलि उत्रं पुर्तिं केल्यांति। आनि
मोर्चें कोणे खातिर मेळ नातिलें ताका मार्नु उडकरावचे
२९ खातिर पिलाताले लागि विनंति केलि। तानि तागेले
विषयांतु कोण सगळें बरेलांस तें समस्त कोर्नु ताका रूका
३० वेल्यान देवोंनु कबरांतु निदकरायलो। तरि देवान ताका
३१ मरणांतुल्यान उठकरायलो। आनि कोण ताजे भर्सि

गालिलीथाकुन यिरुशालमांतु आयले तांचे लागी तो साबार दीस चोउचा आयलो कि कोण मनुष्यांले लागी तागेले
३२ साक्षीयि जाले। आनि आमि तुमगेले लागि हो मंगल समाचार घोषणा कर्तांति कि कोण कोलु पुरुषांक दिउन गेलास देवान यिशुक उठकराउनु तांगेले पुत आमगेले
३३ लागि ताका तमाम केलांस कसि दुसरे गीतांतु बरैनु गेलांस
३४ कि तुं मेगेलो पुतु आजि हांवे तुका उब्जायलास। आनि केद्नांयि विनाशांतु नेवांन ना वोचे खातिर ताणे ताका मर णांतुल्यान उठकरावनु गेलास ताणे तेंचि जीनसान म्हळेंआस
३५ कि दाउदाचेरि कोणि दया ति दया तुमकां हांव दिन। हेचि अर्थांतु तो आनि येकु जागोयि म्हणता कि तुं आपणाले
३६ धर्माक विनाशु चोव्चाक दिसि ना। तेंयितें दाउदान केद्ना देवाले इच्छेवारि आपणाले जीवनाले वेळालें कार्य्य पुर्त्तें केलेलें तेद्ना निद्देउनु वोचुनु आपणाले पुरुषांले भर्सि
३७ येकडे जाउनु विनाशु पळैलो। तरि कोणाक देवान दुसरे
३८ वेळा उठकरायलो ताणे कांयि विनाशु पळैलो ना। हे खातिर हे मनुष्य भावांनो तुमगेले लागि हें कळय जावो कि हे मनुष्यालेकच्यान तुमचे लागि पापमोचन घोषणा
३९ जाहांस। आनि कोण सगळे ताजेरि विश्वासु कर्तांति ते कोण सगळे अपरादान मोशेचाले शास्त्राले कार्य्यांनु तुंमि यथार्थिक जावचा सक्नांति ते सगळ्यांथाकुन यथार्थिक
४० जावोती। हे खातिर हाजेन जोके जाया कोणजाण तें उत्तर तुम्चेरि घडत कि कोण आचार्य्याले उत्त्रांनि बरैनु
४१ गेलांस कि हे निन्दकानो तुंमि चोया आनि आश्चर्य्य समजा आनि विनाशाक मेळा तेंयितें कोण कार्य्य तुमकां कोणेयि सांगिल्यानयि तुंमि विश्वासु करीसि नांति असलें कार्य्य तुम् गेले समयांतु हांव करिन।

४२ यिहूदी सिनगग सोणु वेत्तचि दुसरे देशकारांनि लालेप

केलें कि हिं उत्रं येत्तले श्राबत दिसांतु तांचे लागि घोषण
४२ कोनु वेचत। मंडली सगळि फिरवतची साबार यिऊदी
मतावलंबी सज्जन लोकांनी पाउलाले आनि बार्णबाले मार्ग्गी
गेले तानि तांकां सांगुनु देवालो अनुग्रऊ नित्य स्थिरनु राव्
चि उपदेश केलो।
४४ ताजे मागिरि श्राबत दिसाक अऊसराले सगळें शहर
४५ देवालों उत्तं आयकुंचाक येकडे जाउनु आय्ले। तरि
यिऊदियांनि समोऊ चोउनु मातसर्य्यान भर्लले आनि
पाउलान कोशर म्हळें तागेलें बिपरीत आनि निन्दा कता
४६ ना तागेलें उलट म्हळें। तावळि पाउलान आनि बार्ण्
बान निर्भय जाउनु म्हळें कि अवश्य आस कि देवालें उत्तर
तुमगेले लागि पितेम म्होणु वच्त तरि तुंमि ताका धूर
कोनु आनि आपणाल्यांक अनंत जीवनाले अयोग्य मनांतु
हाळें पळेलें आमि दुसरे गांवकरांले दिका तोंड पतिता
४७ ति। तेंयितें प्रभुन आम्कां हि आज्ञा दिउनु म्हळांस कि
द्दावें दुसरे देशीय मनुष्यांलो ऊजवाडु तुका नेमक केलास
४८ कि तुं जगतालो अन्तुपरांतु त्राणाले खातिर जायत। अन्य
देशीय मनुष्यांनि हें आयकुनु संतोषि जाउनु प्रभुले उत्रालि
प्रशंसा केलि आनि कितुले मनुष्य अनंत आयुष्य पावचे
खातिर नेमिक आसिले तितुले लोकांनि विश्वासु केलो।
४९ आनि प्रभुलें उत्तर ते सगळे देशांतु वोपलें। यिऊदी
५० कितलेक भक्तिमती आनि व्होड मानाले वायलांक आनि
शहराले सरदार लोकांक खवदळावनुं पाउलाले आनि
बार्णबाले विपरितांतु उवद्रव उपजायलो आनि तांकां
५१ तांगेलो अन्तचान आंबुणु दिले। तरि तानि तांगेले
विपरितांतु आपणाले पायांलि धुळ फापुळि ताजे मागिरि
५२ इकोनियमांतु पाव्ले। आनि शिष्य आनंदान आनि धर्म्मा
त्मान पुर्ते जाले।

१४ चतुर्दश पर्व । इकोनियमांतु असि जालें कि तो यि
ऊदियांचे सिनगगांतु एकडे जाउनु गेले आनि असलीं उत्रं
म्हळिं कि साबार यिऊदी आनि ग्रीक लोकांनि विश्वासु
२ केलो । तरि अविश्वासी यिऊदी अन्यदेशीय लोकांलें मन
खवदळायलें आनि तांगेलें मन भावांलें विपरितांतु करेलें ।
३ हे खातिर तानि साबार दिस परांतु राबुनु निर्भय जाउनु
प्रभुतु उत्रं म्हळिं कि कोणे आपणाले दयाले उत्रालें प्रमाण
दिलें आनि कि असले सामर्थ दिलें कि तांगेले आतान
४ लक्षण आनि आश्चर्य कार्य केले जायत । तरि शहरालो
समोऊ वेगळोर जालो ताजेन येकु समोऊ यिऊदियांले
५ दिका आनि येकु समोऊ प्रेरितांले दिकां आसिलो । तरि
केदना अन्यदेशकारानि आनि यिऊदियांनि आनि तांगेले
अध्यक्षानि तांकां आबुंडचे खातिर आनि फात्तोर उडौनु
६ मारचे खातिर परामर्श केलो । तानळि ते तें समजुनु लका
ओनियाले लस्त्रा आनि दर्बि शहरांतु आनि तागेजे लागूचे
७ देशांतु पोळो । आनि थैं मंगल समचार घोषणा केलो ।
८ लस्त्रांतु येकलो बसिलो कि कोणाले पांय निर्बल आनि कोण
अंमा पोटांयाकुनु थोंटो आसिलो आनि केदनायि चमकुचा
९ सकना । ताणे पाउलालें उत्तर आयकिलें कि कोणे ताजेरि
येक दृष्टिन चोयलो आनि ताका सोस्त जावचो विश्वासु केला
१० जालो हें समजुनु होड्डान उलेलो कि पायांनि यिबि राब
११ ताजेन तो उडि मारुनु चमकुचा लागलो । ताजे मागिरि
लोकांनि पाउलालें तें कार्य चोउनु लकायोनि भाषेन होड्डान
म्हळें कि मनुष्यालि मूर्ति घेवुनु देवता आमचे लागि देवे
१२ लास । ते खातिर बार्णबालें नांव तानि दिओस केलें आनि
पाउलालें नांव हेर्मेस म्हळें तेंयिलें तो सरदार उलेतलो ।
१३ तेदना दीओसालो कोण पुरोतु तांगेले शहराले येदुर आ
सिलो ताणे बेल आनि फुलाहार बाग्ला लागि हाळे आनि

१४ लोकांले भर्सि तांचे लागि उतसगु कोर्चा लागलो। तरि प्रेरितांनि अर्थात् बार्णवा आनि पाउलान तें आयकुनु आप्णालें आंगवालें पिंदलें आनि लोकांतु धांवनु होड शब्दान
१५ म्हळें। कि हे महारायां हें कार्यें यित्या कर्ता आमि तुम्गेले वारि निर्बलि मनुष्य आसंति आनि तुम्गेले लागि घोषणा कर्तांति कि तुमि हें निरर्थक वस्तु सोंणु जीवे देवाले दिका पर्ता कि कोणे स्वर्गु आनि भुंयि आनि समुद्र आनि तागेले
१६ भित्तरि कोणर आस हे सगळ्याक उबजायले। कोणे पितॅम सगळे देशा लोकांक आपापणा वाटेंतु चम्कुचा दिलांस ।
१७ तरि खा चक्यान आनि संतोषान आम्गेलें मंन पुर्त्ते कर्ताना मंगल केल्यान आनि सर्गांविल्यान पावसु आनि फलालेः
१८ वेळु दिल्यान ताणे आप्णाक अप्रमाणु दवलों ना। आनि हें उत्तर म्हणतचियि अकसरालो लोकु राबिले केले नांति कि तांचे लागि उतसर्ग ना करीति ।—
१९ तावळि कितलेक यिहुदियांनि आंठियोख आनि इकोनियमांथाकनु येउनु लोकांक बोदसुनु पाउलाक फातोर उड्डोनु मार्लें आनि ताका मेल्लो समजुनु शहराले भायर
२० ताका तांणु हाळो। तरि तागेले चारिदिका शिष्य यिवि जातचि तो उठाउनु शहराले भितरि गेलो आनि दुसरे
२१ दिसा बार्णवाले भर्सि दर्बिंतु गेलो। ते शहरांतु मंगल समाचारु घोषणा कोर्नु आनि सावारांक शिक्षा कोरोनु शिष्यांलें
२२ मंन स्थिर कर्ताना आनि विश्वासांतु निष्ठा जावच उत्तर म्हणत् आनि उपदेश करीत आनि कि आमि सावार दुःखान देवाले राज्यांतु रिगुं ते लस्ता आनि इकोनियम आनि
२३ आंटियोखांतु पर्तुनु गेले। आनि प्रत्येक मंडलीतु तांचे खातिर म्हालगडे लोकांक नेमक कोर्नु तानि उपासु आनि प्रार्थना कोर्नु कोण प्रभुले वायरि तानि विश्वासु केलोलि
२४ ते प्रभुले लागि तांकां वोपसिले। ताजे मागिरि ते पिसि

२५ दिया गांवु आउनु पंपिलियांतु पावले। आनि पर्गांतु उत्रं
२६ घोषणा कोनुं आटालियांतु गेले। आनि थैंचान दोर्यारि
आंटियोख गेले कि खेंचान ते कोण काम कोर्चें खातिर देवा
२७ ले दयेंतु वोपसिल्ले जाउनु गेले। तानि थैं पावनु आनि मंड
लीले लोकांक येकडे कोर्नुं प्रकाशु केलें कि देवान तांगेले के
ल्यान कोण२ काम केलेलें आनि विश्वासरूप कवाड अन्यदेश
२८ कारांले लागि कोण रीतिसान उगळें आसिलें। ताजे मागि
रि शिष्याले भर्सि ते सावार दिस थैं रावले।

१५ पंचदश पर्व। ताजे मागिरि कितलेक लोकानि यिऊ
दाह गावांथाकुनु येवनु भावांक हें उत्तर सिकैलें कि तुमि
मोशाले शास्त्राले वारि सुन्नत जाले नंतां त्राण पावचा
२ सकसि नांति। हे खातिर तांचे भर्सि पाउलु आनि बार्णबा
लागि उत्रांलें भगडें आनि विचार होडु जालो ताजे मागि
रि तानि नेमक केलें कि पाउलु आनि बार्णबा आनि तांगेले
भितलें आनि मनुष्य प्रेरितांले आनि म्हालगड्यांले लागि हे
३ बिषयांतु यिरुशालमांतु वोतित। हे खातिर तानि आमं
शाले दोचे वाटेंतु मंडलीकच्यान सहायु पाउनु अन्यदेशका
रांलें मंन पर्तुंचे वर्तमान दितर फिनिकिआ आनि शमरोणं
४ जावनु गेले ताजेन सगळे भावांलो होडु संतोषु केलो। ते
यिरुशालमांतु पांवनु मंडली आनि प्रेरित आनि म्हालगडे
लोकांकच्यान आदर भर्सि घेतिले जाउनु म्हळें कि देवान
तांगेले केल्यान कोण सगळें कार्य केलेलें।

५ तरि फारिशिमतावलंबी कितलेक विश्वासी लोकानि उठा
उनु म्हळें कि तांगेलें सुन्नत कोर्चें आनि मोशाहालें शास्त्र
६ पोसुचि आज्ञा दिवचि आवश्य आस। तावळि प्रेरित आनि
७ म्हालगडे लोक हो परामर्शु कोर्चाक सभेंतु बसले। आनि
सावार वादप्रतिवाद जातचि पितरान उठाउनु तांकां म्हळें

कि हे मनुष्य भावांनो तुमि समजतात कि साबार दिस जाले देवान पसंत केलें कि आमगेले भितरि मेगेलें उत्तर पान अन्यदेशकार मंगल समाचारु आयकुन विश्वासु कर्तीव।
८ आनि मंन समजतले देवान कसि आमकां धर्मात्मा दिलाव तसि तांकांयि धर्मात्माक दिउनु प्रमाण दिलें। आनि
९ तांगेलें मंन विश्वासान पवित्र कोर्नु आमगेलें आनि तांगेलें
१० कांयि भेदु केलो ना। हे खातिर आत्तं कोण खांदिकांबि आमगेलें पुरुष जवो आमि ताळउचा सकनांति असलि खांदिकांबि शिष्यांलें गळ्यारि दिल्यान देवालि परिक्षा यित्यार
११ कर्तीति। तरि आमि विश्वासु कर्तीति कि ते कोण त्राण पावतावि प्रभु यिशु खीस्ताले दयेन आमगेलें त्राण तसेंचि
१२ जायत। तावळि सगळो समोऊ नुत्त जावुनु कोण आश्चर्य काम आनि लक्षण देवान अन्य देशकारांले भितरि तांगेलि मार्पात केलेलें हे सगळ्याले प्रकाश कर्तलो पाउलाले आनि
१३ बार्णबाले उत्तारि अवधान केलें। वानि उत्तं होणचि संपुर्ण कर्तचि यआकुब जाप दिउनु उलैलो कि हे मनुष्य भावांनो
१४ मेगेले उत्तारि अवधान कर्या शिमोओनान म्हळें कि देवान आपणाले नांवाले खातिर दुस्रे देशकारांतुल्यान येकु समोऊ
१५ घेउचे खातिर तांचेरि पितॅम दृष्टि केलेलि। आचार्यांलि
१६ उत्तंयि हाजे भसिं मेळ्यांति कि कसल्यांतु हें बरोनु गेलांस यिऊद कि कोण हें सगळें कार्य कर्तास तो म्हणतास कि हाजे मागिरि हांव नेंवान येन आनि दाउदाले कोण गुडार पळांत तें उठकरायन ताजें पिंदलें विंदलें समकरिव आनि
१७ तें बिंबि करिन। कि वचिल मनुष्य आनि कोण देशकारांलि बोयरि मेगेलें नांव म्होंणु वोचत तेवयि यिऊदालो सोद
१८ कोरोति। मनुष्यांले पितॅम लागिन आपणालें सगळें
१९ कार्य देवाले लागि समजुनु वोतास। हे खातिर हांव मदानणुं दितांस कि अन्यदेशकारांले भितरि कोण देवाले

दिका पर्तल्याति तांकां दुःख ना दिउं तरि कि ते देवताले
२० अपवित्र तारे आनि पारार आनि गळो ताराटुनु मालों
२१ वस्तु आनि रगत सोडता तांचे लागि हें बरैला । तेंयितें
मोइझाले शास्त्रा प्रति शाबत दिसांतु तांगेले सिनगगांतु
वाजुनु वाचचि ताका घोषणा कर्तलो लोकु पिर्तम लागिल
प्रति शहरांतु आसति ।

२२ तावळ आपणाले दिशाले मनोनित लोकांक बार्णबाले
आनि पाउलाले भर्सि आंटियोखाक धाड्चाक प्रेरित आ
नि म्हाल्गडे लोक आनि सर्व्वि मंडली राजी आसिलि हे
खातिर भावांले भितरि चां कार्य लोकु अर्थात यिऊदाह्
कि कोणालें उपनांव बार्णबा आनि सोलाशाक नेमक कोर्नु
तांगेले हातान हें कागत धाळें ।

२३ कि अन्यदेशी कोण भाव आंटियोखांतु आनि सिरि
यांतु आनि किलिकियांतु राबताति तांगेले लागि प्रेरित
आनि म्हालगडे लोकु आनि भाव नमस्कार धाडताति ।

२४ आमि हें उत्तर आयकिलांस कि कितलेक लोकु कि को
णाक आमि कांयि आज्ञा केलि ना आमचे लागचान वेचुनु
तुमगेले मनालें दुःख दितले भाउनु आनि सुन्नत जावचें
आनि शास्त्र पोसुचें आवश्य आस हें म्हणु तुमकां चिंतित
२५ केल्याति । ताजेरि आमि येक मनान सभा कोर्नु विचार
२६ केलास । कि आमगेलो प्रभु यिशु खीष्टाले नांवाले खातिर
आपणालो जीउ वोपसिलास कोण आमगेलो मोगा बार्णबा
आनि पाउलु तागेले भर्सि मनपसंत लोकांक तुम्गेले लागि
२७ धाड्चें उचित आस । हे खातिर यिऊदाहाक आनि
सीलाशाक धाळ्याति कि कोणे तोंडान यें उत्तर सांग्तित ।
२८ तेंयितें देवतालो प्रसादु आनि रगत आनि गळो ताराटुनु
मालों वस्तु आनि पारार हें आवश्य सोडचे कार्याले नंतां
२९ आनि कांयि वोजें तुम्चेरि ना दिवचाक धर्म्मात्मालो आनि

आम्गेलो हो विचारु खुशी जालो हे कार्यांथाकुनु आपणाक रक्षा केल्यान चां करतित तुम्गेलें मंगल जावो हेंचि ।—

३० हे खातिर ते धांणु दिल्ले जाउनु आंटियोखांतु गेले आनि
३१ मंडलीक येकडे कोर्नु तांकां चीठि दिलि । तानि ति वाजुनु
३२ ताजेन सांत्वनिन खुशी आसिले आनि यिऊदासु आनि सीला पुथि आपुण आचारि जाउनु साबार उत्रं म्होंणु भावांक
३३ उपदेश केले आनि स्थिर केलो तानि कांयि दिस रावुनु भावांकयान प्रेरितांले लागि वोचाक संतोषान धाडय पाव्
३४ लें । तरि सोलाशु थैं राव्चा इच्छिलें । आनि पाउलु
३५ आनि बार्णबा आनि पुस्कळि शिक्षा करैत आनि प्रभुलें उत्तर घोषणा दित आंटियोखांतु राव्लो ।—

३६ कित्लेक दिसा मागिरि पाउलान बार्णबाक म्हळें कि कोण सग्ळे शहरांतु आमि देवालें उत्तर घोषणा केलांस आमि तेंवान येउनु ते शहरांले राब्तले भावांक चोउचां
३७ आनि ते कसि आसति हें निमगुयां । आनि योहनु कि कोणालें उपनावं मार्क ताका सोबति घेव्चो परामर्श बार्ण
३८ बान केलो । तरि कोणि तांकां पंपिलियांतु सोळो आसिलो आनि तांगेले लागि ते कार्याक वचने आसिलो ताका भर्सि
३९ घेउचें उचित नैं पाउलान हें विवेचना केलें । हे खातिर तांगेलो असलो होडु विरोधु जालोलो कि ते येकलो आनि येकल्यचान वेग्ळो जालो ताजे मागिरि बार्णबान मार्काक
४० भर्सि घेउनु कप्रसांतु दोणिरि आय्लो । आनि पाउलान सीलाशाक पसंत केलो आनि भावांकयान देवाले अनुग्रहांतु
४१ समर्पण जाउनु पैण केलें आनि मंडलीक स्थिर कोर्नु सग्ळे सिरिया आमि किलिकिया देशु दिउनु गेलो ।

१६ षोडश पर्व्व । ताजे मागिरि तो दर्बिंतु आनि लस्रांतु आय्लो आनि तोया विश्वासीलो यिऊदासु येक

वायलेलो पुतु तिमोतियसु नांवालो यकलो शिष्यु ते जाग्या
२ रि आसिलो तरि तागेलो आंनु ग्रीकु आसिलो । लस्त्रा
आनि इकोनियम वाली भावांले भितरि तागेली चांख्याति
३ आसिलि । ताका आपणाले लागी पाउलान घेउचा
इछिलें ते खातिर ताका घेउनु ते दिकां राव्तले यिहू
दियांले खातिर सुन्नत् करैलें तेंयिते सग्ळे कोणे जाण
४ ताले कि तागेलो आंणु ग्रीकु आस । आनि ते ते सग्ळे
शहरांतल्यान वत्तांर पोसूचे खातिर ति आज्ञा तांचे लागि
समर्पण केलि कि कोण यिरुशालमाले प्रेरित आनि म्हाल्
५ गडे लोकां लाग्चान नेमिक आसिले । हे खातिर सग्ळि
मंडली विश्वासांनु सांपोंणु दिसदिसा वाडलि ।
६ ताजे मागिरि ते फ्रिगिया आनि गालातिया देशाचान
गेले आनि आसियांतु उत्तं सांग्त धर्मात्माकच्यान तडय
७ पाउनु मिसियाले दिका वेचुनु बिर्तिनियांतु वेचा लाग्ले
८ तरि आत्मान तांकां वेचा दिले ना । हे खातिर ते मि
९ सिया सोंणु त्रोआसांतु पाव्ले । तेदना पाउलाले लागि
रात्तिचें येक दर्शन प्रकाश जालें माकिदोनियाले येक्ल्यान
यिबि राबुनु हें उत्तर म्होंणु ताका लालेप केलें कि तुं माकि
१० दोनियांतु दांटवुनु आमगेलो उपकार करि । ताणे तें
दर्शन चोउनु प्रभुन आवश्य तांचे लागि मंगल समाचार
घोषणा कोर्चक आम्कां आपैल्याति हें निश्चय कर्तंचि आमि
११ सधा माकिदोनियांतु वेचा लाग्लेंउ । हे खातिर त्रोआस
सोंणु आमि सम् वाटेन सामोत्राकियंतु गेले आनि दुसरे
१२ दिसा नेआपोलिसांतु पाव्ले । आनि थैंथाकुनु फिलि
फिक गेले कि कोण माकिदोनियाले तेदिकाले प्रधान शहर
आनि येकि त्रिज्ञायि आस ते शहरांतु आमि कितलेक दिस
१३ राब्ले । आनि शाबत दिसाक आमि शहराले भायर

म्हेंले तडि येक जाग्यारि गेले कि खें वेवहाराले असि प्रार्थना कोर्नु वोचत ताजे मागिरि आमि बस्रुचि कोण बायलो थें येकडे जाल्यो तांकां उत्तं म्हळिं।—

१४ तियातीरा शहराली लुदिया नांवालि वायंगणी बंणाले आंगवल्यांलि यापारकारिण देवालि पूजा करतलि येक बाय्लेन आम्गेलिं उत्तं आय्किलिं कि पाउलाले तोंडान कोण उत्तर सांगुनु गेलेलें तिं उत्तं मान्सुचाक प्रभुन कोणालें

१५ मंन मेकळें। आनि ते बायलेन सपरिवार सैत बुडकुलि दिलेलि जाउनु हें उत्तर म्होणु आम्कां लालेप केलें कि वरी तुंमि विचारु केलास कि हांव प्रभुलि विश्वासीणि आसं जाल्यारि मेगेले घरांतु येउनु राव आनि तिणे उत्रानि आम्कां बल केलें —

१६ तेवेळा असि जालें कि आमि प्रार्थना कोचें खातिर ते जाग्यारि वतांर कर्नेपिशाचालो आत्मा दवर्तेलि येक चेलि येन आम्गेले लागि भेटलि ति मोयिल्यान आप्णाले धनि

१७ यांलें साबार धन मेळेतालि। ते चेलियेन पाउलाले आनि आम्गेले मात्ति वोचुनु होडान म्हळें कि हे परमेश्वराले सेवक आसति कि कोण त्राणालि वाट आम्गेले

१८ लागि प्रकाश कर्तालि। ति साबार दिस असोचि कर्तालि तरि पाउलु दुःखी जाउनु पर्तेलो आनि ते आत्माक म्हळें कि यिशु ख्रीष्टालें नांव घेउनु हांव तुका आज्ञा दितां कि तुं तिका सोंणु यो ताजेन तावळीचि भुताल् तिका सोडि।

१९ केद्ना तिगेले खावंदानि पळेलांस कि लाभालो भरवसो गेलो तांगेले तावळि तानि पाउलाक आनि सीलाशाक

२० धर्लो आनि आंग्डीं तु खांवदांले लागि तांणु हाळो। ताजे मागिरि तांकां अध्यक्षांले येदुर हांणु म्हळें कि हे मनुष्य यिऊदी जावुनु आम्गेले शहरांतु होडु गोंदोळु कर्ताति।

२१ आनि वेवहारु सिखैताति कि कोण घेउचाक आनि मानु

२२ सुघाक आनि रोमण लोकांले अयोग्य। तावळि सभोज येकडे जाउनु तांगेले दुसमनेंतु उठायलो आनि अध्यक्षांनि तांकां आंगवलें पिंदुनु मेकळतर तांकां मार्चाक आज्ञा
२३ दिलि। तानि तांगेले साबार मारु खावोनु पाच्यां दवलें आनि तांकां जेवोन दवोचांक पाच्याघराले पार्यतगाराक
२४ आज्ञा दिलि। आनि असलि आज्ञा पावनु तांकां भितरि पाच्याघरांतु लकेले आनि तांगेले पांय खोड्यांतु घाले।
२५ तरि मज्रराति पाउलान आनि सीलाश्यान प्रार्थना केलि आनि देवाले लागि स्तुतिलें पद गायलें आनि दुसरे पाच्यां
२६ आसिल्यानि तांगेलें गायन आय्किलें। तावळींचि अकस्मात असलो होडु भुंयिकांपु जालो कि पाच्याघरालें पंचांग हालें आनि सग्ळिं कवडं वेगि उगोंणु गेलिं आनि प्रत्येक जाणाले
२७ बांदप मेकोळनु गेलें। तावळि पाच्याघराले पार्यतगारालि नीद धुर कोर्नु वेंचुनु तोपाच्याघरालें कवाड उग्तें योउनु आनि बंदिकार पोळनु गेल्याति हें ध्यान कोर्नु आपणालें खांडे
२८ मेकळें आनि आपणाक मार्नु उड्डोचा सिद्ध जालो। तरि पाउलान होडुान म्हळें कि आपणालें वायट कांयि कोर्नो
२९ का तेंयितें आमि सग्ळे हांगा आसंति। तावळि तानि ऊजवाडु काडच़ाक सांगुनु उडि मार्नु भित्तरि आय्लो आनि
३० कांपतर पाउलाले आनि सीलाश्याले येदुर पळो। आनि तांकां भायर कांणु म्हळें कि हे महाराया हांव त्राण
३१ पावचे खातिर यितें करिन। तानि म्हळें कि प्रभु यिशु खीष्टाले वोयरि विश्वासु करि ताजेन तुं आनि तुगेलें घरि
३२ वार त्राण पावतित। ताजे मार्गारि तानि देवालिं उत्रं
३३ ताका आनि तागेले घर्चा सग्ळे लोकांक म्हळें। तावळि रातिले तावळींचि ताणे तांकां घेउनु तांगेलो मारालो दागु धुलो आनि तेचि वेळा तो परिवार सेत बुड्कुलि दि
३४ वेल्लो जालो। ताजे मार्गारि आपणाले घरांतु तांकां

घांगु खाव्‌चाक दिलें आनि आपणाले सगळे परिवारसैत देवांतु विश्वासु कोर्नु संतोष वेळ जालो।
३५ दिसु जातचि अध्यक्षांनि पाटेकारांक घांगु म्हळें कि
३६ ते मनुष्यांक सोणु दि। ताजेन पान्याघराले पार्यतगारान पाउलाक म्हळें कि तुम्कां सोडचाक अध्यक्षांनि धांगु
३७ दिल्याति हे खातिर आतं बरपणान वोचा। तरि पाउलान म्हळें तानि दोषु निश्चयु कर्नातिलें सगळ्यां येदुर आम्कां कोरडो मार्लास कि कोण रोमन मनुष्य आसंति आनि आमकां बंद केलास आनि आत्तं आम्कां यित्तें नुत्त कांणु दिव्‌चा इच्छितास तें जाय्‌सि ना तरि आपण
३८ येउनु आम्कां सुटोवो। पाटेकारानि हें उत्तर अध्यक्षांक म्हळें तेद्‌ना ते भिले केद्‌ना आय्‌किलें कि ते रोमन
३९ मनुष्य आसति। आनि येउनु तांगेले लागि लालेप केलें आनि भायर कोर्नु ते ष्हहरांघाकुनु वोचाक तांकां प्रार्थना
४० केलि। ते पान्याघरांथाकुनु वोचुनु लदियाले घरकडे गेले ताजे मागिरि भावांक पोउनु आनि सांतनि कोर्नु थें थाकुनु गेले।

१७ सप्तदश पर्व्व।—ताजे मागिरि ते आंफिपालिस आनि आपलोनीआ दिउनु वोचुनु तसलोनिकांतु पाव्‌ले थें यिऊ
२ दियांलें येक सिनगग आसिलें। ताजेन पाउलु आपणाले चालिले वारि तांगेले लागि रिग्‌लो आनि अर्थु कर्ताना आनि खीष्टालें मरण आनि मेल्यांथाकुनु उठाव्‌चे आव
३ श्यालें प्रमाण दिताना आनि हें कोण यिशुले विषयालें उत्तर द्यांव तुम्कां म्हणतां कि तो खीष्टु आस हें प्रमाणयि दिताना ताणें तिनि ष्हाबत दिसाक धर्म्म पुस्तकालें उत्तं तांचें लागि
४ म्हळें। आनि तांगेले भित्‌रि कित्‌लेकु लोकांनि विश्वासु केलो आनि पाउलाले आनि सीलाष्हाले दिका राव्‌ले आनि

साबार धर्मा ग्रीक आनि उत्तम बायलोयि येदिं नें।
५ तरि विश्वासु नातिले यिऊदियांनि हग्यान पुर्ण जाउनु कितलेक दुराचार आनि मनुष्यांक येकडे केले आनि होडु खोटु कोर्‍नु सगळे प्रहरांतु गोंदोळु उब्जायलो आनि तांकां लोकांले लागि काडचे खातिर कोर्नु यासनालें घर मोड्चा
६ लाग्ले। तरि तांकां मेळनातिलें तानि यासनाक आनि कित्लेक भावांक तांणु प्रहराले खाविंदांले लागि घेउनु गेलें आनि होड्डान म्हळें कि कोण मनुष्यांनि जगताक उम्ताय
७ लांस ते हांगायि आयल्याति। कि कोणांक यासनान अतिथि केल्याति आनि हो सग्ळो लोकु काईसराले आज्ञा ले वैरिपण कर्ताति आनि म्हण्ताति कि यिशु नांवांलो आनि
८ येकु रायु आस। आनि केद्ना मंडली आनि प्रहराले येजमानानि तांगेलें हें उत्तर आयिकिलें तेद्ना तांकां होडो
९ चिंता तानि उब्जायलि। ताजे मागिरि तानि यासन आनि लोंकालें जामीनि घेउनु तांकां सोंणु दिले।
१० तावळि रात्ति भावांनि पाउलाक आनि सीलाश्याक बेर यांतु धाळे आनि ते थैं पाव्नु यिऊदियांले सिनगगांतु गेले।
११ हे तेसलोनिकाले लोकांचान सुमति जाले तेंयितें मनाले इच्छेन तानि उत्रं घेत्लिं आनि हो विषयु तसि कि नैं हें
१२ समजुचे खातिर धर्म पुस्तकालो विचारु नित्य केलो। हे खातिर तांगेले भितरि साबार लोकानि विश्वासु केलो आनि ग्रोकालि उत्तम बायलो आनि दादलेयि थोडे नैं।
१३ तरि तेसलोनिकाले यिऊदियांनि केद्ना समजलें कि बेरेयांतु पाउलाले तोंडान देवालिं उत्रं म्हांणु गेलेलिं तेदना थैं
१४ येउनु तानि लोकांक खवदळायले। तावळि समुद्रांक कसि वोचत भावांनि वोगिग तसि पाउलाक धांणु दिलो तरि
१५ सीलाशु आनि तिमोतियसु थैं राब्लो। कोणे पाउलाक बाट दाकैली ते ताका आतेनसांतु घेउनु गेले ताजे मागिरि

सीलाशु आनि तिमोतियसु वेगिं ताजे लागि येवो हि सांगोपि आज्ञा पावनु तानि विसर्जन पावलें।

१६ पाउलान तांगेले खातिर आतेनसांतु अपेक्षा करित वेदना पळेलें कि तें शहर संपुर्ण देवताले वशीभूत जाताति १७ तागेलें मंन आपणाले भितरि होड खवदळाउनु गेलें। हे खातिर सिनगगांतु यिऊदियांले आनि सुमति लोकांले भसिं आनि आंगडिंतु कोणे ताजे लागि भेट केलि तांगेले १८ भसिंयि ताणे दिसदिसा वादानुवादु केलो। तरि एपिकुरी आनि स्तोइक मतावलंबी कितलेक अध्यापकानि तागेले भसिं विरोदु केलो आनि कोणे कोणे म्हळें कि हे निरर्थक म्हणतलो यित्तें म्हणत आनि कोणेंर उलेले समजा हो अन्यदेशका रांले देवताले प्रचारु कर्तलो जायत तेंयितें यिशुलें आनि १९ नेंवान उटपालें उत्तर ताणे तांगेलें लागि घोषण केलें। हे खातिर तानि ताका धोनु आरेओपागसांतु घेउनु गेले आनि म्हळें आमि यित्तें समजुं सकूं कि हें कोण नवें मत २० तुं प्रकाशु कर्तास तें यित्तें आस। तेंयितें आमगेले कानाले लागिं तुं कितुलें असंभव उत्तर आयकैतास हे खातिर आमि समजुं इच्छिताति कि हे सगळ्यालो यित्तें अर्थु २१ आस। सगळे आतेनसी आनि कोण परदेशी तांगेले भसिं राबताति ते कोणें नवें उत्तर म्होणचे जावो आयकुचे २२ नंतां आनि कसल्यांतुयि दिस कातनांति। हे खातिर पाउलान आरेओपागसाले भितरि यिवि राबुनु म्हळें कि हे आतेनसो हांव चोवचा पावतां कि तुंमि देवतांले होड २३ पुजतले आसति। तेंयितें हांव वेतांर तुमगेलि पुजा चोउनु येकि वेदि पळेलि कि कोणाले वोयरि बरैलांस कि समज नातिले देवाले खातिर हें आस तावळि कोणाक तुंमि समज नातिलें भजन कर्ताति ताका हांव तुमगेले लागि २४ प्रकाशु कर्तां। देउ कि कोणे जगताले आनि तांतु सगळे

वस्तुलो जन्मु केलो तो सर्गालो आनि भुंयिलो प्रभु जाउनु
२५ हातान केलेले देवळांतु राब ना। आनि ताका कोणे
वस्तु उणे जाल्यान कसि आसिलें तसि मनुष्याले हातान
दिलेले वस्तुन तो सेवित वच ना तेंयितें तो जोवन आनि
श्वासु आनि सगळो वस्तु सगळो आदमाक दितास।
२६ आनिकें भुंयिले तेंडारि राब्चे खातिर ताणे येक रक्तान
सगळे जातिले मनुष्यांक उबजाल्याति आनि पितम नेमक
केलेले वेळाले आनि प्रति मनुष्यालो राब्चो अदरु नेमक
२७ केलास। कि मनुष्यु कोणे जीनसान सोदितर ताका मेळ्
चाक तागेलो सोदु कर्ता तो आम्कां कोणाचांने धुर नैं तो
२८ वद्द। तेंयितें तागेले भितल्यान आमि वांच्तांति आनि
भोंवतांति आमि राबतांति कि कसि तुम्गेले भितरि कोणे
२९ कविनि म्हळांस कि आमि तागेलो वंशु आसंति। हे खातिर
आमि तरी देवालो वंशु जाय्त जाल्यारि हें ध्यान कोर्चें
आम्कां उचित नैं कि मनुष्याले ऊनर आनि बुद्धिन केलेलि
भांगर भावो रुपें जावो फातराले वारि देवत जाता।
३० देवान हे अज्ञानाले वेळा चोउनु चोयि न्हातिले मणके केलें
तरि आत्तं सग्ळे जाग्यांतु सग्ळे लोकांक परामनन कोर्चाक
३१ आज्ञा दित्तास। तेंयितें येक दिसु ताणे नेमक केलांस कि
कसल्यांतु ताणे कोणाक नेमक केलांस तागेले मार्पंत सत्या
न जगतालो बिचारु करीत आनि ताका मराणांतुल्यान
उठाउनु ताणे हागेलो निश्चय प्रमाण सग्ळ्यांक दिलांस।
३२ तानि मेल्ले मनुष्यांले नेत्रान उठाव्चें उत्तर आयकतचि
कोणेर चेष्टा केलि आनि कोणेर म्हळें कि आमि हे विषयांतु
३३ नेवान तुगेलिं उत्तं आयकतित। तावळि पाउलु तांगेले
लागच्यान गेलो तरि कितलेक लोकु तांगेले दिका राबले
आनि विश्वासु केलो तांगेले भित्तरि दियोनोसियस आरओ

पागी आनि दामारिस नांवालि येक बायल आनि दुसरो कोणेर तिगेले लागि आसिले।

१८ अष्टादश पर्व्व।—हे सगळ्या मागिरि पाउलु आतेन
२ साक सोंणु कोरिंतांतु आयलो। आनि पंतसांतु उबजलो आकल्ला नांवालो येकलो यिऊदिक पावलो कि कोण आयणालि बायल प्रिस्किल्लाले भसिं थोडे दीस जाले इतालियां थाकुनु येउनु तांचे लागि आयलो तेंयितें रुम सोंणु वोचाक
३ क्लदियसान सगळे यिऊदियांक आज्ञा दिलेलि। आनि तांगेले वारि कार्य कर्तेलो जाउनु तांगेले भसि राब्लो आनि
४ कार्य केलें तेंयितें ते गुडार सिंवचेकार्य कर्ताले। आनि तो प्रति शाबत दिसाक सिनगगांतु वादानुवादु कर्तालो आनि
५ यिऊदी आनि ग्रीक ह्य दोगांक बोध कर्त्तालो। सीलाणु आनि तिमोतियसु माकिदोनियांचान आयले मागिरि पाउलान चिंतितु जाउनु यिऊदियांक प्रमाण दिलें कि यिशुयि
६ ख्रीष्टु आस। तरि ताजि केदना आयणांक तांगेले यिपरीतपण कोर्नु आनि निंदा केलि तेद्ना ताणे आपणालें आंगवलें पिंदुनु तांकां म्हळें कि तुम्गेलें रगत तुम्गेले आपणागेले मात्यारि जावो ह्यांव निरपरादि आसं आत्तं
७ लागिन ह्यांव अन्यदेशकारांले लागि वोचन। ताजेमागिरि तो ते जाग्यारिथाकुनु वोचुनु यस्तस नांवालो येकलो देवाले पुजतल्याले घर्‍यां गेलो कि कोणालें घर सिनगगाले लागि
८ आसिलें। तरि सिनगगालो यजमान क्रिस्पसान सपरिवार सेत प्रभुवेरी विश्वासु केलो आनि साबार कोरिंतियांनीयि आयकुन विश्वासु केलो आनि बुडुक्षें जाले। तावळि
९ प्रभुन रात्ति येक दर्शनांतु पाउलाक म्हळें कि तुं भीउ नाक
१० तरि उजें सांग नुत्त राबुनाका। तेंयितें तुगेले भसिं ह्यांव आसं आनि कोणाकें हिंसाले खातिर तुका आपेडचा

दिसि ना तेंयितें हे शहरांतु भेगेसे सावार मनुष्य आसति।
११ ताजे मागिरि पाउलु तागेले भितरि देवालें उत्तर सिकैत देडं वर्सधरांतु राब्लो।
१२ काण वेळा गालिओ आखायियाले सुबेदार आसिलो तेवेळा यिऊदियांनि येक जाउनु पाउलाक बलात्कार कोरुनु
१३ आदालतेंतु घेउनु गेले आनि म्हळें। उलट देवाले भजनालो
१४ कोर्जा हें शास्त्राले मनुष्यांक सीकैता। वावळि पाउलु तेंउ उगोडचा लागतचि गालिओनि यिऊदियांक म्हळें कि हे यिऊदी तुमि आयिका तरी कोणे हिंसा जावो वायट पण कोर्चि दुष्टतेली मुकद्दमा आत्ति जाल्यारि धीरु जाउनु
१५ तुमगेलें उत्तर आयकुचें माका उचित जात्तें। तरि उत्तर जावो नांव जावो तुमगेले शास्त्राले उत्रांतु तरी जायत् जाल्यारि तुमि तें चोया तेंयितें हांव हे विषयालो विचारु
१६ कर्तेलों जायसि ना। आनि ताणे आनि विचाराले घरां
१७ तुल्यान ते सगळे लोकांक आंबुणु दिले। वावळि सगळे ग्रीक लोकांनि सिनगगालो यजमानु सस्तेनसाक घेउनु आदालताले येदुर मालें। तरि गालिओनानि हागेलें कांयि मान्सिले ना।
१८ आनि पाउलु सावार दिस थैं राब्लो ताजे मागिरि भावांकच्यान धाडय घेउनु तागेलें येक व्रत आसिलें हे खातिर आपणालो केंसु केंक्रेयांतु बोळसुनु थैंयाकुनु दोणिरि सिरियांतु गेलो आनि प्रिस्कल्ला आनि आकल्ला तागेले भर्सि
१९ गेले। ताणे एफेससांतु पांवनु तांकां सोळें तरि आपण सिनगगांतु वोचुनु यिऊदियांले सैत वादानुवादु केलो।
२० ते जाग्याले मनुष्यांनि इच्छिलें कि तो आनि थोडे दिस तांचे
२१ भर्सि राब्ले तरि ताणे तें अंगिकारु केलो ना। तरि धाडय घेउनु म्हळें कि यिरुशालमांतु कोण पर्व जायत् तें

पर्व्व पेसुचें माका साबार आवश्य आस तरि देवालि इच्छा जाल्यान तुम्गेले लागि नेंवान येन ताजे मागिरि तो एफे
२२ ससांथाकुनु दोणिरि गेलो । आनि काइसारियांतु पांवनु आनि वोचुनु मंडलीक नमस्कार कोनुं आंटियोखांतु गेलो ।
२३ आनि कांयि दिस थैं रावुनु पेण केलें ताजे मागिरि सग्ळे शिष्यांक स्थिर कोनुं गालातिआ आनि फ्रिगिआ सग्ळे देशाले सग्ळ्यांन हळुर गेलो ।
२४ तावळीचि थांग उलैतलो आनि धर्म्मपुस्तकांतु पुर्तें आलेकसांद्रिया शहरांतु उबजलो अपल्लस नांवालो येक्
२५ लो यिऊदी एफेससांतु आयलो । हो मनुष्यु प्रभुले वाटेंतु सिकैल्लो आनि मनांतु यग्र जाउनु मात्र योहनाले बुडुकुलेन समजुनु प्रभुले उत्रांतु मंन लाउनु उत्रं म्हळिं आनि
२६ शिक्षा करैलि । तो निर्भयान सिनगगांतु सांगु लाग्लो ताजेन आक्कला आनि प्रिस्कलान तागेलि उत्रं आयकुनु ताका आपणाले लागि घेउनु गेले आनि देवालि वाट आनि
२७ चां कोनुं समजायलें । ताजे मागिरि ताका आखाइयांतु वोचाक यत्न कर्तेचि भावांनि ताका मर्यादेन घेवचे खातिर शिष्यांक बरैलें ताजे मागिरि ते जाग्यारि पाउनु कोण ऋनु ग्रहान विश्वासु केलेलो तांगेलो साबार साहायु ताणें
२८ केलो । आनि यिशु कि खीष्टु आस हाजें प्रमाण शास्त्रान दिवचा तणें यिऊदियांले भर्सि प्रकाशान होडु वादानुवादु केलो ।—

१९ ऊनविंशती पर्व्व ।—तावळि असि जालें आपल्लस करिंतु केदना राविल्लो तेवळा पाउलु वोय्ले देशांथाकुनु
२ वोतार एफिससांतु पावलो । ताजे मागिरि कितलेक शिष्यांक पावनु तांकां म्हळें कि तुंमि थिरें विश्वासु कर्तेचि धर्मात्माक पावले तानि ताका जाप दिलि कि आमि

३ आयकीलि ना कि कोणे धर्मात्मा आस । ताणे तांकां म्हळें जाल्यारि कोण बुडकुलेन बुडकुलि दिवल्लि जालेले तानि
४ म्हळें कि योहनाले बुडकुलेन । तावळि पाउलान म्हळें कि कोणांतु आपणा मागिरि येत्तलो अर्थात् ख्रीष्ट यिशु ताजेलो विश्वासु कोर्चाक योहनान लोकांक म्हांणु पश्चात्ताप
५ नाली बुडकुलि दिवेलि सहि । तावळि तानि हें आयकुनु
६ प्रभु यिशुले नांवन बुडकुलि दिवेले जाले । आनि पाउलान तांचेरि हातु दित्तचि धर्मात्मा तांचेरि पळो आनि ते नवि भाष म्हणताना आचार्यालें उत्तर उलेता । ते सगळे
७ मनुष्य बारा जाण येक आसिले । आनि पाउलान सिन
८ गगांतु वेचुनु मास तिनेक वादानुवादु केलो आनि देवाले लाभाले उत्रांलें प्रमाण दिताना निर्भय उत्रं म्हळिं । तरि कितलेक लोकानि कठिण जाउनु आनि विश्वासु कर्नातिलें लोकांले येदूर हे वाटेलि निंदा केलि ते खातिर ताणे
९ त गेले लागचांन वाटुनु शिष्य क वेगळें केलें आनि दिस दिसा तरान्नस नांवाले येकल्याले पाटशालेंतु वादू केलो ।
१० वर्स दोनि हें जालें ताजेन यिहूदी आनि ग्रीक इत्यादि आसियाले सगळे राबतल्यांनि प्रभु यिशुलें उतर आयकुं
११ आयलें । आनि देवान असंभव आश्चर्य कार्य पाउलाले
१२ मारपतिं केलें । ताजेन येलुस्तर आनि तोडापु ताजेले आंगावेल्यान रोगि लोकांले लागि घेउनु गेले ताजेन रोगा न तांकां सोळे आनि भुत तांकां सोणु गेलें ।

१३ तावळि भुत लागील्ले मनुष्यांचेरि कितलेक उष्टे यिहूदी जादुकार प्रभु यिशुलें नांवं घेउनु म्हाणचा लागले आनि उलेले कि कोण यिशुलें उत्तर पाउलु बोधण कर्ता ते यिशुले
१४ नांवान आमि तुम्कां आज्ञा दितांति स्कीवा नांवाले यिहू
१५ दियांले येका प्रधान याजकाले सात पुतानि हें केलें । तरि ते भुतान जाप दिउनु म्हळें कि यिशुक हांव समजतां आनि

१६ पाउलाक हंव जाणतां तरि तुमि कोणते आसति। ताजे मागरि भुतलागील्यान तांचेरि उड्डि मारलि आनि बल कोर्नु तांकां जीकले ते खातिर तें घर सोंणु नागडे आनि घायाळ
१७ जाल्ले जाउनु पोळनु गेले। एफेसस वासी सगळे यिऊ दियांले आनि ग्रीकांले लागी हें जाणेलें तेखातिर सगळ्यां चेरि भय पळें आनि प्रभु यिशुले नांवाली महिमा जालि।
१८ आनि कोणे विश्वासु केलो तांकां साबार लोकांनि येउनु आपणांगेल्यालें कार्य स्विकार केलें आनि प्रकाश केलें।
१९ माटपण कोणे केलेलें ताका साबार लोकानि आपणालिं पुस्तकं येकडे घांणु सगळ्यांले येदुर लासुनु उड्डेलिं ताजे मागिरि ते सगळ्यांक मोल लेक कोर्नु समजलें कि तें पंनास
२० सास रुपैयो जाल्यो प्रभुले उत्रान पराक्रांत जाउनु असि वाड्डु आनि जय केलें।

२१ हें सगळें जात्तचि पाउलान माकिदोनिआ आनि आखा इया जाउनु यिरुशालमांतु वेचा प्रयासु केलो आनि म्हळें
२२ कि ये वोत्तचि माका रूम चोवचें लागत। ताजे मागिरि आपणाले लागी कोणे सेवा केलि दोगांक तांगेले अर्थात तिमोतियसाक आनि एरास्तसाक माकिदोनियांतु धांणु
२३ आपण कांथि दिस आसियंतु राब्लो। तावळि ते वाटेले
२४ विषयंतु होडु खिटु जालो। तेंथिलें दिमेत्रियस नांवालो येकलो रुप्यालें कार्य कर्तलो आसिलो कि कोणे दिआनालि रुप्यालि मुर्ति शिद्ध केल्यान रुप्यालें कार्य कर्तल्यांलो
२५ साबारु लाबु करैलो। ताणे तांकां आनि ते जीनसालें कार्य कर्तल्यंक येकडे कोर्नु म्हळें कि हे भावांनो तुमि जाण
२६ ताति कि हें कार्य केल्यान आम्कां धन मेळतास। आनिकै तुं मि चोयताति आनि आयकताति कि हे पाउलान हाताले केलेलें कोण ते देउ नै हें उत्तर म्हांणु मात्र एफेससांतु तें नै तरि प्राय सगळे आसियांतु साबार मनुष्यांक उपदेशु

२७ केलास आनि वाटेंरियाकुनु पर्तलास । हाजेन आम्गेलें कार्य कि नकारें कोनुं वोचत मात्र हो आयोदु ना तरि दिआना महादेविले देवळ नकारें कोनुं वोचें आनि तिगेलें ऐश्वर्य विनाशु कोनुं वोचे आयोदुयि आस कि कोणालि पुजा आसियाले सगळे मनुष्य आनि जगतालो सगळो
२८ लोकुयि कर्तांति । ते हें आयकुनु कोपान भर्लें जाउनु गेले आनि होडुान म्हळें कि एफेससांलि दिआना होडि ।
२९ तावळि सगळें प्रहर खिटान गोनुं गेलें ताजेन माकिदो नियालो गायस आनि आरिष्टार्खस पाउलाले हे दोग सांगातिकारांक धोनुं ते येक मनान तामाश्याले घल्यों
३० धाउनु गेले । पाउलान लोकांले लागि रिग्चा इच्छितचि
३१ शिष्यांनि ताका वोचा दिलो ना । आसियाले कितलेक ग्राण अध्यक्षयि तागेले स्नेहित जाउनु तागेले लागि मनुष्यु धांगु लालेप केलें कि तो तामाश्याले घल्यों ना वोचत ।
३२ तेवेळा कोणी येक उत्तर म्हळें आनि कोणी आनिर उत्तं म्हळिं तेंयितें मंडलीयाकुनु खिटु जालो आनि चडाव वांट्या ले लोकानि समजले ना कि यित्ते खातिर येकडे जाले ।
३३ ताजे मागिरि यिऊदियानि ताका मुकारिर कोनुं तानि समोर्हांथाकुनु आलेकसांडाक ताग्ले; तावळि आलेकसां डान हातान सनि कोनुं लोकांले लागि प्रतिउत्तर कोर्चा
३४ इच्छिलें । तरि केद्ना समजलें कि तो यिऊदी आस तेद्ना सगळे लोकानि येकवेळे होड शब्दान पांच घडि परांतु म्हळें कि एफेससांलि दिआना होडि एफेससांलि
३५ दिआना होडि । ताजे मागिरि प्रहराले मंत्र्यान लोकांक तुत्त राबैनु म्हळें कि हे एफेससांनो तुमि आयका कोणु हें समज ना कि एफेसस प्रहराले राबतले सगळो लोकु युपितरांथाकुनु पळ्ळेलि दिआना महादेविलि पूजा कर्तांति ।
३६ हे खातिर हें सगळें तसी स्थिर आस जाल्यांरि आम्कां

घोर कोर्वि आनि वर्गिं कांयि ना कोचें आवश्य आस ।
३७ तेंयितें तुमि हे मनुष्यांक हाळ्यांति कि कोण देवताले घर्ं
चोर नें आनि तुमक्रां देवीचेरि निंदा कर्तलेयि ना आसति ।
३८ ते खातिर देमेत्रियस आनि तागेले भसिलें कार्य कर्तल्यांलो
कांयि मुकद्दमा तरी कोणाचेरीयि जावो जाल्यारि अदालत
उगव्यास आनि वकीलयि आसति ते उत्तर प्रति उत्तर
३९ कर्तित । तरि तरी आनि कोणे कार्याले विषयांतु निमगुनु
४० वोचत जाल्यारि उचीत सभेंतु चुकोरनु वोचत । तेंयितें हो
खिटु जाव्चो कांयि हेतु राब्नातिल्यान आजि आम्गेलो
आपोदु आस कि हे गोंदळाले विषयांतु निम्गुनु वोचत ।
४१ ताणे हें उत्तर न्होंणु मंडलीक धांणु दिलि ।

२० विसती पर्व्व ।—ति भिड चुकतंचि पाउलान शिष्यांक
आपोनु आनि पोटळांगणि कोर्नु माकिदोनियांतु वोचाक
२ येण केलें । आनि ते देशांतु भोवनु आनि तांकां साबार
३ उपदेशु कोर्नु ग्रीक देशांतु पाव्लो । आनि थैं तीनि मास
यरांतु राबुनु तारवारि सिरियाक वोचा लाग्लो तरि ता
वळि ताका मार्धीक यिऊदी आड निपुनु रावतचि ताणे मा
४ किदोनिया जाउनु वाटेंतु नेंवान वोचा मनांतु केलें । तावळि
विरयालो सोपातर आनि तेसलोनिवांलो आरिष्टारखस
आनि सेकंदस आनि दोर्व्वेलो गाइयस आनि तिमोतियस
आनि आसिआलो तिखिकस आनि त्रोफिमस तागेले भसि
५ आसियांतु गेले । हे सगळे मुकारि वोचुनु त्रोआसांतु
आम्गेले खातिर राब्ले ।—

६ बेखमीर भाकरेले दिसाले मागिरि आमि फिलिप्पी सोंणु
दोणिरि पांच दिस वोचुनु त्रोआसांतु तांचे लागि पाव्ले
७ आनि आमि थैं सात दिस राब्लेंलि । सप्ताले पैर्तमले
दिसा शिष्यांनि भाकरि मोडचाक येकडे जाले पाउलान

तेवेळा तांकां उपदेशु कोर्नुं दुसरे दिसा वोचाक छिद्र जालो
८ आनि आपणालो उपदेशु मजरातिपरांतु केलो । वोय
ले कोण कुंडांतु ते येकडे आसिले ते कुडींतु सबार दिवे
९ आसिले इउतिखस नांवालो येकलो तर्नाकुटो मनुष्य जान
ळांतु बैसुनु दोडि नीद गेलोलो आनि पाउलु सबार
वेळुपरांतु आपणालो उपदेशु सांगतास ताजे भितरि तो
घोर नीदिउनु येणु ते माळेरिथाकुनु पळो आनि मेलो
१० मेलो जाउनु उबार्नुं गेलो । तांतु पाउलु देंउनु ताजे वोय
रि पळो आनि ताका मांडियेरि घेउनु उलैलो कि कांयि
११ हायर कोर्नाका तेंयितें तागेलो जीउ आस । ताजे मागिरि
दुसरे वेळा वोयरि वोचुनु आनि भाकरि मोणु आनि
खाउनु सबार वेळुपरांतु अर्थात फाल्लेपरांतु तांचे भसि
१२ उत्तर वित्तर केलें ताजे मागिरि गेलो । आनि तानि ते
१३ तर्नाकुव्याक जीवो हाणु सबार सांतित जाले । तरि आमि
मुकारि तारवारि वोचुनु आसोसांतु गेले ते जाग्यारि आम्
कां पाउलाक घेवचें लागलें तेंयितें ताणे आपण चमकुनु वोचें
१४ पसंत कोर्नुं तसीचि नेमक केलेलें । तावळि तो आसोसांतु
आम्गेलें भसि मेळतचि आमि ताका घेउनु मितिलेनितु
१५ पावले । आनि थैंथाकुनु तारवारि वोचुनु दुसरदिसा
खिओसाले येदुर पावले आनि तागेले हेरदिसा सामोसांतु
देंवले आनि त्रोगिलियमांतु राबले आनि तागेले हेर दिसा
१६ आमि मिलेतसांतु पावले । आसियांतु आनि राबचाक
इच्छि नातिलें एफेससां जाउनु वोचाक पाउलान निश्चयु
केलेलें तेंयितें तरी जावचा सकत जाल्यारि पेंतेकस्ताले
वेळा यिरुशालमांतु कि जायत हें इच्छा ताका होडि आसि
१७ लि । ताणे मिलेतसयाकुनु एफिससाक मनुष्य धाडुनु
१८ मंडलीले म्हालगडे लोकांक आपैले । ते ताजे लागि पाव
तचि ताणे तांकां हें उत्तर म्हळें तुमि कळे जाया कि कोण

१९ दिसा हांव पितंम आसियाक आयलों। तेदुसु लागोन कसि सावार मोउ मंन जाउनु आनि दुकान पुर्ते कानु थिऊ दियाले निपुनु राबिल्यान कोण सावारि परिक्षा मजेरि घडलि ताजेन परिक्षित जाउनु प्रभुलि सेवा केल्यान हांव
२० कोण जीनसान तुम्गेले लागि आसिलों। आनि तुम्गे
२१ लें हित कर्तेजो हांवे कांधि अटकायन तरि देवाले लागि परामनन आनि आम्गेलो प्रभु यिशु खीष्टाले वोय्रि विश्वासाले आवश्यालें प्रमाण रिवर तुम्कां कोण जीवसा प्रकाशान आनि घरघरा थिऊदी आनि ग्रीक हे दोनि लोकांसि लागि जाणेलें आनि सिकैलें।
२२ धर्मात्मा प्रति प्रहरांतु हें प्रमाण दित्तास कि बंधन
२३ आनि दुःख मेगेलि अपेक्षा कर्ताति हें नंतां मजेरि यिरुशा लमांतु कोण घडत हे सगळे विषयांतु बुद्धि नातिलो जाउनु चोया हांव आतं आत्मातुं बांदिलो जाउनु ते जाण्यारि
२४ वेत्तां। तरि हांव हाजे कोण विषयान उद्विग्न ना आनि मेगेले सेवेलें सगळें कार्य संतोषान पुर्ते करिन आनि देवाले अनुग्रहालो मंगल समाचार प्रमाण दिव्चे खातिर कोणि सेवा हांवे प्रभु यिशुले लागि पावल्यास ति सेवा पुर्ति कोर्चे खातिर हांव आपणाले जीवाक प्रीति कोनुं समज ना।
२५ आनिकै चोयो आतं हांव जाणतां कि तुमि सगळे कि कोणांले भितरि हांव देवाले राज्यालें उत्तर सांगुनु गेलास
२६ मेगेलें तोंड आनि केद्नांयि चोयिसि नांति। हे खातिर आजि तुम्कां साक्षि दिवेत्तां कि हांव सगळें लोकांले
२७ रक्तान निर्मळ आसं। तेंयितें तुम्कां देवालो सगळो
२८ नेउ कळोचाक हांवे सोळे ना। हे खातिर देवान आप् णाले रक्तान कोण मंडलीक मोला घेतल्यास ते मंडलीक यत्नान पोसुचाक आयणांगेल्यांक आनि कोण सगळे हिंडा ले वोय्रि धर्मात्मान तुम्कां दाखेतल्यांक नेमक केलास ते

२९ दिंडाक जोकेन दवर्या। तेंयितें हांव जाणतां कि मेगिले
वेचपाले मागिर धुरस्स कुत्तिकुरबा दिंडारि कांयि दया
३० कर्नेतिलें तुम्चांतु रिगत। आनि तुम्गेले भित्तवेल्या थि
य्यांक तं णु घेव्चे खातिर मनुष्य दग्या उचं म्हण्तलो लोकु
३१ उठायॅतत। हे खातिर कि हांवे दुकां भर्सेले तीनि
वर्सपुरांतु राति दिसु प्रतिमनुष्यांक उपदेशु कोर्चाक
३२ सोळे ना तुमि हें उडगासु कर्या प्रारो दिया। हे खातिर
हे भावा सद्या हांव देवाले लागि आनि तागेले दयेले
उत्रांले लागियि तुम्कां समर्पण कर्तां कि कोण तुम्कां
जोडसुचा सक्तता आनि कोण पवित्र केलांस ते सगळ्या
३३ ले भित्तरी तुम्गेलो अधिकार दिवोंचा सक्तास। हांवे
कोणालेयि रूप्यालो जावो भांगरालो जावो आंगवल्यालो
३४ लोभु कर्ने। तुंमियि समजाताति कि हे हात्तानि मेगेलें
आप्णाले दरिद्रपण म्हांडुचे खातिर सेवा केल्यास आनि
मजे भर्सि कोण मनुष्य आसिले तांगेलोयि उपकार केलो।
३५ हांवे तुम्कां सगळें कळैलांस कि कष्ट कोर्नु निर्बल मनुष्यां
लो उपकार कोर्चो आनि प्रभु यिशुचें उत्तर हें उडगासु
कोर्चें आवश्य आस कि घेव्चे पेक्षां दिव्चें सुखदितलें आस।
३६ ताणे हें उत्तर म्होंणु दिंयो तेंकल्यो आनि ते सगळ्यांलेभर्सि
३७ प्रार्थना केलि। आनि ते सगळ्यांनि होडी हायर कोर्नु
पाउलालो गळो धर्ज्ञो आनि ताणे कोण उत्तर म्हळेलें कि
३८ ते आनि केद्नांयि तागेलें तोंड चोउचा मेळ्सि ना। ते
उत्रारि आनिकै शोकान्वित जाउनु ताका उमा घेत्लि ताजे
मागिरि ताजे भर्सि ते तारवाले लागि गेले।

२१ एकविंशति पर्व्व।—ताजे मागिरि तांकां सोंणु आनि
थोड उबानु सम वाटेन वोत्तांर कोओसातु पाव्ले आनि

२ हेरदिसा फ्रोदेसांतु आनि थैंथाकुन पातारांतु पावले। आनि फिनिकिआक वेत्तलें येक तारुं मेळनुं ताजे वेयरि चोंगु ३ आनि मीड उबालें। आनि कप्रसाक् चोउनु आमि तें दावे दिका सोळें आनि सिरियांतु गेलो आनि सूरांतु तडी ४ गेले तेंयितें ते जाग्यारि तारवालो भारु देवैंका जालो। ते जाग्यारि शिष्यांक मेळनु आमि थैं सात दिस राव्ले तानि आत्माले मार्फति पाउलाक् म्हळें कि तो यिरुशालमांतु ५ वच नासि। सात दिस पुर्त्ते जात्तचि आमि पेण केलें आनि ते सगळें आमवें भसिं बायलो आनि चेरडुवं सेत घहराले भायर गेले तावळि आमि दिंबि तेंकुनु समुद्राले ६ तडये र प्राधना केल। ताजेमागिरि परस्पर पोट लागाण कोर्नु तारवार चळें आनि ते आपापणाले घल्यां ७ पर्तुनु गेले। आनि आमि सूर सोंणु प्तलिमाइसांतु पावले ताजे मागिरि भावांकथ्यान पोटलांगणि केल्लें जाउनु येकु ८ दीस ताचे भसिं राव्ले। हेरदिसा पाउलाले आनि ताजेले संगातिकार आमि ताका सोंणु काइसारियाक् पावले आनि मंगल समाचारु प्रकाशु कर्तले फिलिपाले घल्यां वोचुनु ताजेले भसिं राव्ले तो सात मनुष्यांले भित्तवे ९ लो येक्लो। ताजेल्यो आंकवार चोगों धुवो आचार्णो १० आसिल्यो। आमि थैं साबार दिस राविल्यान आगा बस नांवालो येक्लो आचारि थैं यिऊदाह् देशांथाकुनु ११ आयलो। ताणे आमगेले लागि येउनु पाउलालो पाटो घेउनु आपणाले हांत पांय बांदुन म्हळें कि धर्मात्मा हें उत्तर म्हणतास कि कोणालो हि पाटि आस यिरुशालमा ले यिऊदी ताका हें जीनसान बांदतित आनि अन्यदेश १२ कारांले हातांतु समर्पण कर्तित। ताणे हें उत्तर म्हण तचि आमि आनि थैंचे रावतल्यांनियि ताका यिरुशाल १३ मक् वचनासि लालेय केलें। तरि पाउलान जाप दिउनु

म्हळें कि तुमि रेंगुर मेगेलें मंन दुःखित कोर्नु यित्तें कर्तानि
हांव मात्र बांदुन् वेचे खातिर भिड्र नैं तरि प्रभु यिशुलें
१४ नांवाखातिर यिरुशालमांतु मोचांकयि भिड्र आसं । हे
खातिर ताणे आम्गेलि युक्ति मानपि नातल्यारि प्रभुलि
१५ इच्छा जावो हें उत्तर म्हेंणु आमि नुरा राव्ले । हाजे
मागिरि आमि आप्णालि मुस्ताति येकडे कोर्नु यिरु
१६ शालमाक् पैण केलें । काइसारीयाले कित्लेक शिष्य
आम्गेले भर्सि वोचुनु कप्रसीयासन नावांले येक पोर्नें
शिष्याले घर्यां आमकां घेउन आयले कि कोणाले घर्यां
१७ आम्गेलें राव्चें जालें । हाजे मागिरि आमि यिरुशामांतु
१८ पावतचि संतोषान भावांनि आमकां घेत्ले । दुसरे
दिसा यअकुबाले घर्यां आम्गेले भर्सि पाउलु गेलो आनि
१९ सग्ळे म्हालगडे लोकु उपस्थित आसिलो । आमि ताणे
तांचेकयांन येटलांगणि केलों जाउनु कळैलें कि यहूदे
२० शांभितरि तांगेले केल्यान देवान कोणर केलेलें । तानि
आयकुनु देवालि स्तुती केलि आनि ताका म्हळें कि हे भावा
तुं चोयितास कि यिहूदियांले भित्तरि कितुले सास मनुष्य
विश्वासु कर्तानि आनि शास्त्राले विषयांतु ते सग्ळे होड
२१ असरल्याति । तानि तुगेलें वर्तमान आयकिलांस कि तुवें
चेरडुवांलें सुन्नत कोर्चें आनि चालिवारि चमकुचे अनुचित
म्हेंणु अन्यदेशकारांले भितरि राबतले सगळे यिहूदियांक
२२ मोशहाक सोड्चाक सिकेला । जाल्यारि हें यित्तें आस
सगळि मंडली खामखां येकडे जाउनु येत तेंयितें तुगेले येव
२३ णें वर्तमान ते आयकुचा पावतित । हाजेन आमि
कोण तुका म्हणतानि तें कर्रा आनि चारि जाण हांगा
२४ आसंति कि कोणाले येक व्रत आस । तांका घे आनि
तांगेले भर्सि आप्णाक पवित्र करि आनि कायेणी कोचों
वेचु तांगेले भर्सि करि कि सग्ळे समजतानि कि तुगेले

विषयांतु कोण्हर उत्रं तानि आय्किल्यांति ति कांयि ना तरि
२५ कि तु वेवहाराले वारि चम्कुनु शास्त्र मान्तास । आनि
अन्यदेशकार विश्वासु कर्तले लोकाले विषयांतु आमि बरै
लांस आनि नेमक केलांस कि देवांलो प्रसादु आनि रगत
आनि गळो ताराटुनु मालो वस्तु आनि पारार सोडचें
२६ नंता तें ह्याजे कांयि मान्शिनांति । तावळि पाउलान
ते लोकांक घेत्ले हेरदिसा पवित्र जाउनु प्रति मनुष्याले
निमिति उत्सर्गु दिव्चे वेळा पवित्र कोर्चो दिसु कि पुर्ते
२७ आसे हें काळोचाक सांगिले भसि देवळांतु रिग्लो । तरि
प्राय ते सात दिस पुर्ते जाल्यान आसियाले यिऊदियांनि
ताका देवळांतु चोउनु सग्ळे लोकांले भितरि गोंदोळु उब्
२८ जाउनु ताका धर्लो । आनि होड गद्दळान म्हळें कि हे
यिश्ररएलि लोकानो उपकारु कऱ्या हो तो मनुष्यु आस कि
कोण प्रत्येक जाग्यालो लोकु आनि शास्त्र आनि हे जाग्याले
वैरियणांतु सग्ळे मनुष्यांक सिकैतास आनिकै ताणे देवळां
तु ग्रीक लोकांक हाळ्याति आनि हें पवित्र जाग्याक अपवि
२९ त्रयि केलांस । तानि पितंम एफेससाक त्रोफिमसाक
शहरांतु ताजे भसि पळेलो आसिलो ह्याजेन तानि भाव्लें
३० कि पाउलान ताका देवळांतु हाळोलो । आनि सग्ळे
शहरांतु गोंदळागोंदोळु जालो आनि लोकालें होड गद्दळ
जालें ताजेन तानि पाउलाक तांणु देवळाले भायर काळो
३१ तावळि वेगिं कवडं पळिं । तानि ताका मार्चो इच्छिलें
तेवेळा सैन्यालो सरदारु यजमानाले लागि वर्तमान आय्लें
३२ कि सग्ळे यिरुशालमांतु कोलाहलु जालो । आनि सैन्य
ताणें लेंबरि सिपांयले यजमानांक वेगि घेउनु तांगेले भित्तरि
धांउनु आय्लो तानि सैन्यालो प्रधान यजमानांक आनि
३३ सिपांयक् चोउनु पाउलाक् मार्चें त्याग केलें । तावळि
सैन्याले यजमानान लागि येउनु ताका धर्लो आनि दोनि

सांकळेन वांदुचि आज्ञा दिलि ताजे मागिरि निसगिलें कि
३४ तो कोण्णु आस आनि यित्तें केलेले । तावळि मंडळींतु
कोणेर गदळ् कोणुं येक उत्तर म्हळें आनि कोणेर आनिर
उत्तं म्हळें हे गोंदळान तो कांयि निश्चय कोर्चां सकनाति
३५ लें कोट्यांतु ताका घेउनु वोचाक् आज्ञा दिलि । तो निस
णिरि चडताना असि जालें कि लोकांलें लकपालकपांतु तो
३६ सैन्यांथाकुनु वांवन गेलो । तेंयितें समोऊ मार्ष्णिर वोचुनु
३७ होडुान म्हळें कि ताका धुर करा । तरि केद्ना पाउ
लाक् कोट्यांतु व्हाळो तेद्ना ताणे प्रधान सेनापतिक् म्हळें
कि हांव तुजे लागि कांयि सांग्चा पावन ताणें म्हळें कि
३८ तुं यितें ग्रोक भाष उलोचा सक्ता । तुं यित्तें तो मिसरी
नैं कि कोणे हे वळाले पितम कोलाहलु केलो आनि चारि
३९ सास हत्या कर्तल्यांक राज्ञांतु लागि घेउनु गेलोलो । तरि
पाउलान म्हळें कि हांव किलिकियालें तारशिर्शांलो येक्लों
यिऊदी आसं हांव नीच शहराले राब्तलों नैं आनि हांव
तुका लालेय कर्तां कि माका लोकाले लागि उत्तर उलो
४० चा दि । तावळि पाउलु समयु सादुनु निसणिरि चळो
जालो आनि लोकांक हातान सन्नि कर्तचि लोक नुत्त राब्
लचि एबरि भायेन तांकां सांग्लें ।—

२२ द्वाविंशति पर्व्व ।—कि हे मनुष्य भावांनो आंनु तुम्गे
२ ले लागि मेगेलि कोण जाप आस ति तुंमि आय्का । केद्
ना तानि आयकिलें कि ताणे एबरि भायेन तांकां म्हळें तेद्
३ ना सावार नुत्त जाले । आनि तावळि ताणे म्हळें कि
बहु हांव किलिकियाले तारशिशांतु उब्जलो येक्लो यिऊ
दी आसं तरि हे शहरांतु गमालिएलाले पायाले लागि
सध्यापित जालांसं आनि पितृलोकांले शास्त्राले सावार
शुद्ध मताले मणके सिकेलो जावांसं आनि कसि तांनि

सगळे आजि देवाले वेयरि उत्तम जाल्यांति तसि पितेम
४ हांवयि आसिलों । आनि दादल्यांक आनि बायलांक
बांदुनु पाच्याघरांतु दवोनु हांवे मरणपरांतु हे वाटेले वैरि
५ पण केलें । प्रधान याजकांलि आनि म्हाल्गड्यांलि सभा
मेगेलि हाजि साद्धि आसति तांगेलेकच्यान हांवे भावांले
लागचान चोटि मेळुनु दमाश्कोंतु कोण लोकु बांदुनु गेलेले
तांगेलि शास्ति पावचे खातिर यिरुशालमांतु हाडचे खातिर
६ थें गेलों । आनि असि जालें कि हांव वोचांर दमाश्को
ले लागी पावतचि येक वेळे सर्गारि येकु होडु ऊजवाडु
मेगेले चारि दिका दोनपारा वेळा ऊजवाडाले वारि
७ जालें । ताजेन हांव मातियेरि पळ्ळांस् आनि हांवे येकु
शब्दु आयकिलो कि कोण उलैलो कि हे शाउल हे शाउल
८ मेगेलें वैरिपण यित्या कर्ता । ताजेन हांवे जाप दिलि
कि हे प्रभु तुं कोण आस ताणे म्हळें कि हांव यिशु नाजं
९ रेणु आसं कि तुं कोणालें वैरिपण कर्ता । मेगेले सांगाति
कारानि तो ऊजवाडु प्रेळेलो आनि भिले सयि तरि कोणे
१० माका उत्तर म्हळें तागेलो शब्दु आयकिलो ना । ताजे
मागिरि हांवे म्हळें कि हे प्रभु हांव यित्तें करीन् प्रभुन
माका म्हळें कि तुं उठा दमाश्कोंतु वोच थें तुगेलें कोचें
कार्य नेमक आस तें सगळें थें तुजे लागि सांगुनु वोचत ।
११ आनि ते ऊजवाडाले तेजान हांव चोव्चा सकनातिल्यान
मेगेले सांगातकारांले हात्तान घेउनु गेलो जाउनु दमाश्कें
१२ तु पावलो । तावळि खननियाह् नांवालो थेंकलो कि
शास्त्रांतु कोणालि सुख्याति ते दिकांतु रावतले सगळे यिऊ
१३ दियांले भितरि आसिलि । मजे लागि येउनु यिवि रावुनु
ताणे म्हळें कि हे भावा शाउल तुं चोव्चा लाग तावळोचि
हांवे ताजेरि दृष्टि केलि । ताजे मागिरि ताणे म्हळें
१४ कि आमगेले पुरुषांले देवान आपणाले इच्छा समजुचाक

आनि ते धर्मिक चोउचाक आनि तागेलें तोंडालें उत्तर
१४ आयकुचाक तुका नेमक केलास। तेंयितें कोणर विषयु
तुंवे पळेलास आनि आयकिलास ते सगळ्यांतु तुं सगळे
१६ लोकांलें लागि तागेलि साचि जायत। आनि आतं तोंडोउ
यित्या कतां उठा बुडकुळो जा आनि प्रभुले नांवान प्रार्थना
१७ कोर्नु आपणालें पाप धुउनु उडै। ताजे मागिरि असि
जालें कि हांव यिरुशालमाक वोतचि कोण वेळा देवळांतु
१८ हांव प्रार्थना कर्तालों तेवेळा हांव मूर्च्छित जालों। ताव‌ळि
हें उत्तर म्हणतलो ताका हांवे पळेलें कि शिघ्रताथि कोर्नु
यिरुशालमांधाकुनु वोगि पेण करि तेंयितें मेगेले विषयांतु
१९ तुगेलें हें उत्तर ते घेसि नांति। हांवे सांगलें कि हे प्रभु
ते जाणताति कि हांवे तांकां कोण जोनसान बंद केलें
आनि सिनगगांतु मालेंां कि कोण तुजेरि विश्वासु कर्तीति।
२० आनिके तुगेलि साचि स्तिफानसालें रगत वेद्ना पाडेलें
तेद्ना हांव तागेलें मार्नु उड्डीचे विषयांतु लागी यिवि
राबुनु येक मंन आसिलो आनि तागेले मार्तल्यांलें आंगवसें
२१ दवलें। ताजे मागिरि ताणे माका म्हळें कि तुं वोच तेंयितें
२२ हांव अन्यदेशकारांले लागि तुका धुर धाडिन। ताव‌ळि तानि
तागेलें हें उत्तर परांतु आयकिलें ताजे मागिरि होडान
म्हळें कि हाका जगतांतुल्यान धुर करि तागेलें वांचें उचित
२३ नें। ताव‌ळि ते गदळ् कर्तीति आनि आपणाले आंगव
लें मेकळ‌ताति आनि धुळि उडेताति ते वेळा सैन्याले यज
२४ मानु जमेदारान ताका कोट्यांतु घेउनु येवचि आज्ञा दिलि
आनि तागेले अपवादांतु तानि असले गदळ् यिले खातिर
केलें हें समजुचाक ताका कोरडो मार्त्यान शोदु कोर्चीं
२५ आज्ञा दिलि। ते चामान ताका वांदिताति तेवेळा पाउ
लान आपणाले लागचे येक सें सिपायले सरदाराक म्हळें कि
रोमण आनि आज्ञा मेळनातिले मनुष्यांक मार्चें यितें तुका

२६ उचित आस। येक सैंबारि सिपायले जमेदारान आयकुनु वोचुनु सैंन्यालो सरदारु यजमानाक म्हळें कि तुं कोण कर्ता २७ हें जेकि आ तेंयतें हो रोमण आस। तावळि सैंन्याले सरदारु यजमानान येउनु म्हळें कि माका सांग तुं रोमणु २८ कि मैं ताणे म्हळें कि हां आसं। सैंन्यालो सरदारु यजमानान म्हळें कि हांवें साबार रुपैयेंनि हो विषयु पाव्लास तरि पाउलान जाप दिलि कि हांव तसीचि उबजलों। २९ हे खातिर जोण ताजो शोदु कोर्चांतु नेमक आसिले ते ताजे से लाग्चान गेले सैंन्यालो सरदारु यजमानुयि लो कि रोमण हो समजल्यान आनि आपणाले ताका बांदिल्यानयि ३० भिलो। थिउदियांकच्यान थित्या अपवादितु जालोलो हें निश्चयु समजुचे खातिर ताणे हेरदिसा ताजेलें बांदप सेकळें आनि प्रधान याजकाक् आनि सगळे सभारू लोकांक् येत्चि आज्ञा दिलि आनि पाउलाक् देवैंनु ताजेले येदुरु थिबि केलो।

२३ त्रयोविंशति पर्व्व।—ताजे मागिरि पाउलान येक दृष्टिन सभाचेरि घेउनु म्हळें कि हे भाव मनुष्यांनो हांवें आजि २ परांतु देवाले येदुर चां विवेकान आचारु केलास्। तरि खननियाह् प्रधान याजकान ताजेलें तोंडारि माचाक् लाग् ३ चे लोकांक आज्ञा दिलि। तावळि पाउलान ताका म्हळें कि हे धवि केलेलि वोणति देउ तुका मारीत् तुं यित्तें शास्त्रा ले वारि मेजेलो विचारु कोर्चाक् बैसुनु शास्त्रालें विपरीत ४ माका मार्चे आज्ञा कर्तास। तरि कोण लागो थिबि आसि ले तानि म्हळें कि तुं यित्तें देवाले प्रधान याजकाक निंदा ५ कर्तास। पाउलान म्हळें कि हे भावांनो हांवें समजले ना कि तो प्रधानु याजकु आस तेंयितें हें बरेलांस कि तुजेले लोकांले यजमानाले विपरितांतु वायट उवर होंयणका।

६ केद्ना पाउलान पळैलें कि सभालो येकु वांटो सादुकि आनि येकु वांटो फारिशि आसिले तावळि सभेंतु होड्डान म्हळें कि हे मनुष्य भावानो हांव फारिशि आनि फारिशांलो पुतु आसं मझ्याले विषयाले आनि नेंवान उठयाले भरवसा ७ ले विषयांतु हांव विचार केल्लों वोत्तां। ताणे हें उत्तर म्हण्तचि फारिशियांलें आनि सादुकियालें भगडें जालें ता ८ जेन मंडली वेगळिर जालि। तेंयितें सादुकि म्हण्तावि कि नेंवान उठय ना दुतयि नैं आत्मा नैं तरि फारशि ९ दोनियि स्विकार कर्तीति। तावळि होडु गोंदोळु जालो आनि फारिशियांले दिकाले अध्यापकानि उठाउनु भगडें केलें आनि म्हळें कि आमि हागेलो कांयि अपराद् देकना तरि कोणें आत्मान जावो कोणे दुतान तरी तांका सांगुन १० आसत जाल्यारि आमि देवाले भर्सि युद्ध ना कोरूं। आनि होडु गोंदोळु जातांर सैन्यालो सरदारु यजमानु भिलो कि यित्तें जाण तांगेले बलान पाउलु कुडकोर जायत हे खातिर वोचुनु बलान तांगेले भित्तवेल्यान ताका घेउनु को व्यांतु हाडचाक सैन्यालो सरदारु यजमानान सिपायंक ११ आज्ञा दिलि। दुसरे राति प्रभुन ताजे लागि यिवि राबुनु म्हळें कि हे पाउल तुं निर्भेय जा तेंयितें कसि मेगेले विषयां तु तुंवे यिरुशालमांतु साक्षि दिल्यास तसि रुमांतुयि तुका १२ साक्षि दिव्चे लागत। दिसु जात्तचि कितलेक यिहूदि यांनि मेळनु सिरापान आपणाक बंद केलो कि पाउलाक् १३ मार्ले नंतां आमि खावप पीवप कर्नांति। कोणे हि प्रतिज्ञा १४ केलेलि ते चाळिस जाणांचाकै चडाव् आसिले। ताजे मागिरि तानि प्रधानं याजकांले आनि म्हालगडे लोकांले लागि येउनु म्हळें कि आमि होड सिरापान आपणागेल्यांक बांदल्याति कि पाउलाक् मारुं उडुले नंतां कांयि खासि

१५ ना। हे खातिर सभेकारांले भर्सि तुमि तागेले विषयांतु आनि कांयि निश्चयरुप निमगपाले छलान सैंन्यालो सर दार यजमानाक् कालि ताका आपणाले लागि घाडचाक् सांग तावळि आमि तागेले लागि ना येवपाले पितमचि
१६ ताका मानुं उड्डुचाक् तयार जातित। पाउलाले भाच्यान तांगेलें निंधेचें उतर आयकुनु वेचुनु कोट्यांतु रिगुनु पाउ
१७ लाक् म्हळें। ताजे मागिरि पाउलान येक सेंबरि सिपांय ले यजमानाले भितरि येकल्याक् आपैनु म्हळें कि हे तर्नां
कटे दादल्याक् सैंन्यालो सरदार यजमानाले लागि घेउनु
१८ वेच लेंथिलें ताजे लागि ताका कांयि सांगचें आस। हे खातिर ताणे ताका सैंन्यालो सरदार यजमानाले लागि घेउनु गेलो आनि म्हळें कि पाउलु बंदिकारान माका आ पैनु हे तर्नाकुटे दादल्याक् आपणाले येदुर घेउनु बेव्चाक् सांग्लांस आपणाले लागि तागेलें कांयि उलवप आस।
१९ ते खातिर सैंन्यालो सरदार यजमनान तागेलो हातु धोनुं येक अंतरंगा जाग्यारि घेउनु गेलो आनि म्हळें कि मेगेले
२० लागि तुका यित्तें सांग्चें आस। ताणे म्हळें कि पाउलाले विषयंतु आनि कांयि विशेषरुपान उत्तर निमगपाले छलान कालि सभांतु घेउनु हाडचे खातिर सांग्चाक यिऊदियांनि
२१ परामर्श केलास। तरि तुं तांगेले उत्रारि संमति जाव नाका तेंथिलें तांगेले भित्तरि चाळिसांचाकै चडाव् मनुष्यां नि सिरापान आपणाक बांदुनु निपैल्याति कि ताका मानुं उड्डुले मेतां कांयि खायसि ना पीसि ना आत्तंयि ते तुगेले
२२ अंगिकारालि अपेक्षा कोनुं तयार आसति। हाजेन सैन्यालो सरदार यजमानान ते तर्नाकुटे दादल्याक् धाणु दिउनु म्हळें कि जोके कोणाकै सांगु नाका कि माका हें
२३ उत्तर सांग्लंस। तावळि ताणे येक सेंबरि सिपांयले सर दारांले भितरि दोगांक आपैनु म्हळें कि तुंमि दोनसें

सिपायि आनि सत्तरि घोडे आनि दोनसें ईटिकारांक येक पार राति काइसारियांतु वोचाक् सिद्ध कया आनि तांगेले घोडे सिद्ध कया कि ते पाउलाक् ताजेरि रावतु करोनि
२४ जोकेन ताका फिलिक्स सुबेदाराले लागि घेउनु वोचोति।
२५ ताजे मागिरि ताणे हे जीनसालि चीटि बरैलि।
२६ महामहिम फिलिक्स अध्यक्षाले लागि क्लदियस लिसि यासालो नमस्कार।
२७ हो मनुष्यु यिऊदियांकयान धोर्नु गेलो आनि तांयान मार्नु वोतो तेवेळा हांवे सैन्यसेत येउनु तो कि रुमी आस
२८ हें समजुनु तागेलि रचा केलि। ताजे मागिरि तानि ताका कसले खातिर अपवादु दिलो हें समजुचाक् तांगेले सभेंतु
२९ हांवे ताका हाळो। ताजेन हांवे समजुं पावलें कि तांगेले शास्त्राले कितलेक तर्का उन्नोनि अपवादित जालो तरि मार्नु उडोंचा जावो बांदुचे योग्य कांयि केलेलें ताजेन अपवादितु
३० ना आस। ताजे मागिरि ते मनुष्याले मार्नु उडोंचे खातिर यिऊदि निणुनु आस्साति हांवे हें वर्तमान मेळनु तागेलो अपवादु दित्तल्यांक तागेलो अपवादु आपणाले लागि म्होण् चाक आज्ञा दिउनु ताका आपणाले लागि वेग्गि धाळास तुगेलें मंगल जावो।
३१ तावळि सिपायनि कसि आज्ञा पावल्लि तसि रात्ति आंति
३२ पात्रिसांतु पाउलाक् वेउनु गेले। आनि हेरदुसु तागेले लागि वोचे खातिर रावतांक ते जाग्यारि दवोर्नु ते कोट्यांतु
३३ पर्तुनु गेले। तानि काइसारियांतु वोचुनु आनि सुबे दाराक पत्र दिउनु पाउलाक् तांगेले येदुर समर्पण कोर्नु
३४ दिलो। सुबेदारान पत्र वाजुनु निमगिलें कि तो कोण जिला मनुष्यु आस आनि तो किलिकियालो मनुष्यु हो समजुनु
३५ म्हळें कि तुगेलो अपवादु कर्तले येत्तचि हांव तुगेलें उत्तर

आयकन आनि ताका हेरोदाले अदालतांतु दवोचांक आज्ञा दिलि ।—

२४ चतुर्विंशति पर्ब्व । तावळि पांच दिसां मागिरि खनानियाह् प्रधान याजक आनि म्हालगडे लोक आनि तेर्त लस् नांवालो येकलो सुंदर उलैतल्याले लागि आयलो कि कोणे सुबेदारले लागि पाउलालें वैरिपणालें उत्तर सांगलें ।
२ तावळि ताका आयेतचि तेर्तलसान हें उत्तर म्हेंाणु अपवादु दिवचा लागले कि हे फिलिक्स महाराया तुगेले दयेनु आमि साबार शांति पावतांति आनि आपणाले रक्षणेन हे देश
३ कारांले लागि होड उचित कार्य कोर्नु वेत्तांति आमि हें समजुनु सगळे जीनसान कृतज्ञ जाउनु तें सदंचि आनि
४ सगळे जाग्यारि स्विकार कर्तांति । तरि तुका आमि आनि दगु ना दिउं हे खातिर हांव लालेप कर्तो कि आपण दया
५ कोर्नु आमगेलिं थोडिं उत्रं आयक । तेंबितें साबार दूरंत आनि जगतकार सगळे यिऊदियांले भित्तरि रायाले विप रितालें कार्य उबजायतलो आनि नाजरेणु मतावलंबीले लो
६ कांतु येकु प्रधान हे मनुष्याक आमि पळैलास । तोवयि देव
७ ळा सामान्य जाग्याले वारि कोर्चा लाग्लाज तेदेकुनु । आमि ताका धोर्नु आपणाले शास्त्राले वारि विचार कोर्चा इच्छिलें ।
८ तरि सैन्याले प्रधान यजमान लिसियासान आमगेले लागि येउनु होड बलकोर्नु आमगेले हात्तांथाकुनु ताका सोडोनु घेतलो आनि तागेले अपवादकारांक आपणाले लागि वोचाक आज्ञा दिलि ते खातिर आपण तांगेलो विचार कोर्नु कोण सगळे विषयांतु आमि ताका अपवादु दित्तांति तें सगळे तुं
९ समजुं सक्सि । यिऊदियांनियि हें उत्तर बद्द आस हें
१० म्हेंाणु तांतु समत जाले । तावळि सुबेदारान पाउलाक् आपैाचि संनि कर्तचि ताणे जाप दिलि कि तुं हे देसका

त्यांलो न्यायु कर्तलो साबार वर्सं चान जालास ह्यांव हें समजुनु साबार संतोषी जाउनु आपणालिं उत्तं सांगतां ।
११ ताजेन तुं समजुं सकस्ति कि आत्तं बारा दिसांचाकें जाडाव जायने कि ह्यांव भजन कोर्चे खातिर यिरुशालमाक गेलोलों ।
१२ आनि कोणालेयि भसिं देवळांतु वादानुवादु कर्तानायि तानि माका चोयने आनि सिनगगांतु जावो शहरांतु लोकां
१३ ले भित्त्रि गोंदोळु कर्तचियि माका पळैने । ते माका कोण अपवादु दितातित ताजेयि प्रमाण कोर्चां सक नांति ।
१४ तरि तुगेले येदुर ह्यांव हें स्विकारु कर्तां कि ते कोण मता न्तरपण कोर्नु म्हणतातित ते जीनसान शास्त्रांतु आनि आचार्यांले उत्त्रांतु कितुलें वरैलांस तें सगळेयि विश्वासु
१५ कोर्नु ह्यांव आपणाले पुरुषांले देवाक् भजन कर्तां । आनि ह्यांव देवाले लागि उमेदि दवर्तां कि मडेंमनुष्यांले नेवान उठकरावचें जायत अर्थात यथार्थिकाले आनि अयथार्थिकाले हे दोनि प्रकाराले तेर्वायि खासा हें उत्तर स्विकारु कर्तित ।
१६ आनि देउ आनि मनुष्यु हे दोगांले लागि निरापराद
१७ विवेकु नित्य दवचों वेवारु ह्यांव कर्तां । साबार वर्सं वतचि
१८ ह्यांव आपणाले देशकारांले लागि दान आनि उत्सर्गु दिव चाक् आयलों ताजेन आसियाले कितलेक यिऊदियानि माका देवळांतु पवित्र पावलें तरि समुहाले भसिं ना आनि
१९ गोंदळाले भसिं ना । तरी मेगेले विरोद्धांतु कांयि आस जाल्यारि साक्षात जाउनु मेगेलो अपवादु कोचों तांकां
२० उचित आस । तो ना जाल्यारि ते खासा म्हणतित कि ह्यांव कोण वेळा अदालताले येदुर आसिलों ते वेळा तानि हें
२१ नंतां मेगेले कांयि बगलांट पळैलें कि ह्यांवे तांगेले भितरि यिवि राबुनु हें एक उतर म्हळें कि आजि ह्यांव तुम्चान मडे मनुष्यांले नेवान उठपाले विषयांतु विचार केल्लेले जाउं ।
२२ फिलिक्सान हें उत्तर आयकुनु ते मताले विषयांतु चडाव ज्ञान

पावल्ले जाउनु तांका हें उत्तर म्होंणु विलंब केलें कि हांव सैन्याली प्रधान यजमानान लिसियास पावतचि हांव तुम्
२३ गेलि मुकद्दमा चां विचार करिन। ताजे मागिरि पाउलाक् दवोचें खातिर ताका बांदि नासि आनि कि तागेलो केहितु आनि तागेलो सहायु कोर्चाक जावो तागेले लागि येवचाक् ना तडसुचाक येक सें सिपायलो सरदारू येकल्याक आज्ञा दिलि।

२४ कितलेक दिसाले मागिरि ड्रुसिला नांवालि आपणालि बायल यिऊदी बायलमनष्येक भर्सि घेउनु फिलिक्सान पाउलाक् आपैानु खीष्टाचेरि विश्वासाले विषयांतु तागेलिं
२५ उत्रं आयकिलिं। तावळि पाउलान यथार्थाले आनि जीतें जपणाले आनि जावचें बिचाराले उत्तर म्हंणापुडे फिलिक्स कडकडेलो आनि उलैलो कि तुं आत्तं वोच माका फुरसति
२६ जात्तचि हांव तुका आपैन। ताका हि उम्मदियि आसिलि कि पाउलाले लाग्‌चान रुपैयो पावत कि ताका सुटैत हे खातिर ताणे नेंवानर आपैानु ताभे भर्सि उत्रं म्हळिं।
२७ आनि दोनि वर्सं पुर्तिं जात्तचि पर्कियस फेष्टस फिलिक्साले बदला जालो तावळि फिलिकसान यिऊदियांक् संमति कोर्चाक् इच्छेउनु पाउलाक् पाचांतुचि दवलों।—

२५ पंचविंशति पर्व्व।—हे खातिर फेष्टस ते जिलेंतु येउनु तीनि दिसपरांते काइसारियांथाकुन यिरुशालमांतु गेलो।
२ तावळि प्रधान याजकांनि आनि यिऊदियांले अध्यक्षांनि तागेले संनिधानांतु पाउलाले वेरियणांतु उत्रं कळैलिं।
३ आनि वाटेंतुं निपुनु राबुनु ताका मारुं उट्टेचे खातिर ताका यिरुशालमांतु हाडचा तागेले विपरीतांतु दया इच्छितचि
४ ताजे लागि काकुलतेले। तरि फेष्टसान जाप दिलि कि पाउलु काइसारियांतु दवोनु वोचत आनि म्हळें कि थोडे

५ दिसां मागिरि ह्यांव आयशैं ते जाग्यारि वोचन। ते खातिर तुमगेले कोण२ तागेले दोषालें हें उत्तर दिवचा सकले ते वोचुनु तागेलो तरी कांयि दोषु आस जाल्यारि
६ ताका अपवादु दितित। ताजे मागिरि धा दिस धोनुं कांयि चडाव तांगेले भसिं राबुनु तो काइसारियाक गेलो आनि तागेले दुसरे दिसा विचाराले आसनारि बैसुनु
७ पाउलाक् हाडचि आज्ञा दिलि। तो येत्तचि कोण यिऊदि यिरुशालमांथाकुनु आयिल्ले ते चारिदिका यिवि राबुनु साबार आनि होड अपवादु पाउलाले वैरियणांतु दिलो कि
८ कोणालें प्रमाण तानि दिवचा सकले नांति। ते वेळा ताणे आपले विषयांतु हि जाप दिलि कि यिऊदियांलें शास्त्र जावो देवळ जावो काइसराले अपवादांतु ह्यांवे कांयि
९ कर्नें। तरि फेष्टसान यिऊदियांक खुषि कोर्चा इच्छेउनु जाप दिउनु पाउलाक म्हळें कि तुं यित्तें यिरुशालममांतु वस्सि आनि ते आग्यारि हे विषयांतु मेगेले येदुर विचारु
१० कोर्नुं वोचत्। पाउलान म्हळें कि काइसराले अदालताले येदुर ह्यांव यिवि आसं कि खैं माका विचारु कोर्चें उचित आस ह्यांवे यिऊदियांले कांयि वायट कर्नें आपण हें चां
११ कोर्नुं समजतास। तेंयितें ह्यांवे तरी कांयि दोषु जावो मार्नुं उडैचे सरिगाल्लें कोणे कार्य केलां आस जाल्यारि मोरचाक ह्यांव वोडांवडस नांतिलें वोचना तरि तरी तांगेलो तो अपवादु कांयि ना जाल्यारि तांगेले हात्तांतु कोणे माका समर्पुचाक सक ना ह्यांव काइसराले लागि आपील कर्तां।
१२ तावळि फेष्टसान मंत्र्यांले भसिं परामर्षु कोर्नुं ताका जाप दिलि कि तुंवे काइसराले लागि यित्तें आपील केलांस बरें तुं काइसराले लागि वोस्सि।—
१३ कितलेक दिसां मागिरि आग्रिपा रायु आनि बेरिणीकि
१४ फेष्टसाक सलामु कोर्चांक काइसारियांतु आयले। ते

सावार दिस थैं राव्‌तचि फेष्टसान पाउलालो न्यायु रायाक कळैलो आनि सांग्‌लो कि येकलो ह्यांगा आस कि कोणाक
१५ फिलिक्सान याच्यांतु सोंयु गेलोलो। ह्यांव केद्‌ना यिरूशाल मांतु आयिलों तेद्‌ना प्रधान याजकांनि आनि यिऊदियांले म्हालगड्यांनि तागेले विरोदां न्यायु जाणोनु माका तागेले
१६ विषयांतु कळैलें। ह्यांवे तांकां जाप दिलि कि दोषाले आनि अपवादु दितल्यांले मोकता कोर्चां आनि आपण कोण दोषान दोषी जालास तागेले विषयांतु जापदिउनु आज्ञा मेळचे नंतां कोणाकि मानुं उद्दैाचे खातिर वोपसुचें रूमी लो
१७ कांलि चालि नें। हे खातिर ते ह्यांगा पावतचि ह्यांव दुसरे दिसा अविलंवान अदालताले आसनाचेरि वसलों आनि ते
१८ मनुष्याले घेउनु येव्‌चि आज्ञा दिलि। अपवादु कर्तले तागेले विरोदांतु उबि राबुनु ह्यांवे कोण भावप्लिलें ताजे
१९ मणके कोणे दोषु तानि सांग्‌लो ना। तरि आप्‌णालें भजन कोर्चें विषयांतु आनि यिशु नांवाले येकु मडें मनुष्यु कि कोणाक पाउलु जीवो म्हणता तागेले विषयांतु कितलेक
२० वादानुवादु तागेले विपरितांतु केलो। ह्यावें हे विषयांतु संदेऊ कोनुं म्हळें कि तुं यिरूशालमांतु वोचुनु यित्तें हें विष
२१ यांतु विचारसिल्लो जाल्लि। तरि रायाले आय्‌कुचे खातिर दवोर्नुं वेत्ता हे खातिर पाउलान आयील कर्तचि ह्यांव केदोळुपरांतु ताका कारसराले लागीं धाडचा ना
२२ सकन तेदोळु परांतु ताका दवोर्चि आज्ञा दिलि। तावळि आग्रिपान फेष्टसाक म्हळें कि ह्यांव खासायि हे मनुष्यालिं उत्रें आयकुचा इच्छितां ताणे म्हळें कि तुं तागेलें उत्तर
२३ फालि आयकुं पावस्लि। हे खातिर दुसरे दिसा आग्रिपा आनि बेरनीकिन होड ऐश्वर्य युक्त येउनु प्रधान सेनापतिक आनि प्रहराले अध्यक्षांक घेउनु आय्‌कुचे जाग्यारि गेलो
२४ तावळि फेष्टसाले आज्ञेले वारि पाउलु हांगा गेल्लो। तावळि

फेष्टसान म्हळें कि हे आग्रिपा राया आनि येदुर आसिले सगळे मनुष्यांनो तुंमि हे मनुष्याक चोयताति कि कोणाले विषयांतु यिरुशालेमांतु आनि हे गाम्यांर यिऊदियांले समूहान मेगेले भर्सि विनंति केल्यास आनि म्हळांस कि
२५ तागेले आनि कांयि दिस वांच्चें अनचित आस । तरि ताणे कि मानुं उड्डाचे योग्य कांयि कार्य केले ना आनि आगष्टितल्या महारायाले लागि आपील केलांस हांवे हें
२६ समजुनु ताका धाडचें मनांतु केलें । तरि तागेले विषयांतु महारायाक मेगेले बरोचें कांदि स्थिर ना हे खातिर तुम गेले सगळ्यांले येदुर आनि विशेषतः हे आग्रिपा राया तुगेले येदुर हांवे ताका हाळास ताजेन तर्जविज जालेचि
२७ माका कांयि बरोचें जावचा सकत । तेंयितें कोणे बंदुवानाक धाडचांक आनि तागेलो अपवाद ना कळौंचाक कि अनुचित हें मेगेले मनांतु आयलें ।—

२६ षडविंशति पर्व्व ।—तावळि आग्रिपान पाउलाक म्हळें कि तुं आपणालि जाप दिवचाक वडांवतसलास ताजेरि
२ पाउलान हातु वाड्डानु जाप दिलि । कि हे आग्रिपा राया हें मगे खातिर उत्तम कि कोण सगळे विषयांतु यिऊदियां कल्यान हांव अपवादितु जालांस ते सगळ्यांलें जाप तुजे
३ साक्षात आजि करिन । तेंयितें कोण सगळें कार्य आनि निम्गुचें यिऊदियांतु आस हे सगळ्यांतु तुं पुतो आस हे खातिर हांव लालेप कर्तां कि आयण धैर्य धोनुं मेगेलें
४ उत्तर आयक । तर्नाकुटपणांन मेगेलो कोणु वेवार मेगेले संदेशिलांले भितरि यिरुशालेमांतु फुडे आसिलो वेवार
५ सगळे यिऊदी समजताति । कि कोणे माका पितमलागिन गुर्वेलें तरी साक्षि दितित जाल्यारि कि आम्गेले धर्माले

साबार सावधान मतावलंबिले वारि ह्यंव फारिशि आसि
६ लों । आनि कोण प्रतिज्ञा देवान आमगेले पुरुषांले लागि
केलि तागेले फळाले आशाले खातिर ह्यांव आत्तं विचारांतु
७ यिवि राबलां । ते प्रतिज्ञालें फल पाव्चाक आमगेले बारा
वंशु यत्नान राति दिसु भजन करितु भरवसो कर्तांति हे
आग्रिपरायो ते भरोसाले विषयांतु ह्यांव यिऊदियांकच्यान
८ अपवादितु जालांस इत्या हें अविश्वासि योग्य मानसुनु
९ वोच्छत कि देउ मडें मनुष्यांक उठकरायत । ह्यांवें यितम
निश्चयु केलोलो कि यिशु नाजरेणाले नांवालो विपक्षु साबार
कार्यं कोर्चें माका उचित आस आनि यिरुशालमांतु ह्यांवे
तेवयि केलें आनि प्रधान याजकांकच्यान सामर्थ्य मेळनु
१० साबार सज्जन लोकांक बंद केले आनि केदना ते मानुं
११ गेले वेदना ह्यांवे तांगेले विपरीतांतु प्रमाण दिलें । आनि
सगळे सिनगगांतु नेंवानर शास्ति दितर ह्यांवे बल कोनुं
तांकां देवनिन्दा करैले आनि तांगेले विपरीतांतु साबार
कोपिष्ठो जाउनु तांगेले दुसरे शहरांतु वोचुपरांतु तांकां
१२ आंबुळे । हाजेन ह्यांवे प्रधान याजकांकच्यान सामर्थ्य आनि
आज्ञा मेळनु दमाश्केकांतु वोतालों ते समयांतु हे राया
ह्यांवे वाटेरि दोनि पारा वेळा मेगेले आनि कोण मेगेले
१३ भर्सि गेलेले तांकांयि चारि दिका सूर्याचाकै चडाव तेजस्कर
१४ येकु ऊजवाडु स्वर्गारिथाकुनु पळैलो । ताजे मागिरि आमि
सगळे भुयिचेरि पडतधि एबरी भाषेन मजे लागि हें उत्तर
सांगतलो येकु शब्दु ह्यांवे आयकिलो कि हे शाउल हे
शाउल तुं मेगेलि विपक्षता यित्या कर्ता कांट्याले वोयरि
१५ फापोरु मार्चो साबार कठीण कार्यं आस । तावळि ह्यांवे
म्हळें कि हे प्रभु तुं कोणु आस ताणे म्हळें कि ह्यांव यिशु
१६ आसंकि कोणाल विपक्षता तुं कर्तास । तरि तुं उठा
आनि पांयान यिवि राब तेंयितें ह्यांव तुका लोकांथाकुनु आनि

अन्य देशकारांथाकुन मोचन कर्त्ताना तांगेले दोळे उगोड
१७ चाक आनि काळ्कांथाकुन ऊजवाडांतु आनि देवचाराले
अधिकारान देवाले दिकानें पर्त्तावचाक कोणाले लागि हांव
तुका धार्त्त थाडिन कि मजेरि कोणु विश्वासान ते पापालें
१८ मोचन आनि पवित्र केलेल्याले भर्सि अधिकारुयि पावोति
हे खातिर तुंवे कोण पळैलांस आनि कोणर कार्यांतु हांव
तुजे लागि प्रकाशु जायन हे दोनि खातिर हांवे तुका दासु
१९ आनि साच्चि कोर्चे खातिर तुका दर्शण दिलांस। ताजेन
हे आग्रिपा राया हांव ते सरगालें दर्शण मार्गांसि नातिलो
२० ना आसिलों। तरि हांवे पित्तम दमाश्काले लोकांक
आनि यिरुशालमांतु आनि यिऊदाहाले सगळे देशांतु आनि
ताजे मार्गारि अन्यदेशकारांले लागि प्रकाश केलें कि ते
पापान परामनन करोति आनि देवाले दिका पर्त्तावि
२१ आनि परामननालें योग्य कार्य करोति। हे देकुन यिऊ
दियांनि माका देवळांतु धलेर्र आनि माका जीनसि मार्चाक
२२ सिद्ध आसिले। तरि हांव देवाकश्यान उपकार पावनु
आजिपरांतु वांच्तां आनि आचार्य्यांनि आनि मोशहान
कोण जावचे खातिर म्हळें कि ख्रीष्टु निबुं वोचत आनि मर
२३ णाथाकुन पित्तम उठकरायश्लो जायत। आनि लोकांक
आनि अन्यदेशकारांक ऊजवाडु दाकैत हाजे नंतां आनि
कांयि म्हणातिलें हांव सान होड सगळे लोकांक प्रमाण
दित्तां।—

२४ तो असलि आपणालि जाप दितास ते वेळा फेष्टसान
होड्डान म्हळें कि हे पाउल तुं पिसो जालास साबार विद्येन
२५ तुका पिसो केलास। तरि ताणे म्हळें कि हे महाराया
फेष्टस हांव पिसों नैं तरि बद्द आनि सज्ञानान उत्तर
२६ सांगतासं। तेंयितें कोण उत्तर हांव रायाक निश्चिन्तेन
सांगुतां हें सगळें तो समजसा हांव जाणतां कि हें कार्य्यें

२७ ताजान गुप्त ना तेंयिलें हें कार्य गुप्तांतु कोनुं गेलें ना। हे आ ग्रिपा राया तुं यित्तें आचार्यांले उत्तारि विश्वासु कर्तास
२८ हांव समजतां कि तुं विश्वासु कर्तास। तावळि आग्रिपान पाउलाक सांगलें कि तुं माका साबार कोनुं ख्रीष्टियान
२९ जावचाक मानसितास। ताजेरि पाउलान म्हळें मेगेळि साबार इच्छा आस कि मात्र तुं नैं तरि कितुलो लोकु आनि मेगेलें उत्तर आयकतानि हे सगळे कि प्राय सोर्वायि नैं तरि हि बांदिलें जाउचे नंतां पुर्तें चि मजे सारके जायत।
३० ताणे हें सांगलचि रायु आनि सुबेदार आनि बेरिणीकि
३१ आनि कोणा ताजे लागि वसिल्ले ते उठायले। आनि अन्तरंगांतु वेचुनु विचार केलो आनि परस्पर उलैलें कि हे मनुष्यांनि मानुं उंब्रांचें जावो वांदुचे योग्य कांयि कार्य
३२ कर्नें। ताजे मागिरि आग्रिपान फेष्टसाक म्हळें कि हो मनुष्यु तरी काइसराले लागि आपील कर्नो नासो आस्यारि सोचन जाउचा सकतो।—

२७ सप्तविंशति पर्व्व।—केदना निश्चय जालें कि आमि तारवाचेरि इतालियाक वेचुं तेदना तानि पाउलाक आनि कितलेक बंदुवान लोकांक युलियस नांवाले अगस्तान पल्ट नाले सेंबरि सिपायाले यजमानाले लागि वोपसिलो।
२ तावळि आद्रमित्तियमाले येक तारवाचेरि चोणु आसियालें तडिर वेचाक इच्छेउनु तेसलोनीकाले अरिष्टार्खस नांवालो येकलो माकिदोनियाकार आमगेलें भर्सि जातचि आमि
३ नांगोर उबालें। दुसरे दिसा आमि सीदोनांतु लागले आनि युलियसान दया कोनुं पाउलाक तागेलें सेहितांलें भर्सि भेट कोर्चें आनि विश्रामु कोर्चें खातिर वेचा दिलो।
४ ताजे मागिरि नांगोर उबार्तांच येदुचें वारें जाल्यान आमि
५ येथालुनु कुप्रसाले लागि गेले। ताजे मागिरि किलि

कियाले आनि पंफिलियाले लागी समुद्रां पेलतडि वेचुनु
५ आनि लिकियाले मीरा नावाले येक प्रहरांतु पावले। सें
सिपायले यजमानान आलेक्सान्द्रियालें येक तारु थैं मेळनु
७ कि कोण इतालियाक वेत्तास आमकां ताजेरि चडेले। तरि
साबार दिसपरांतु हळुर वेचनु आनि येदुचें वाऱ्यान
क्निदसाले लागि वेच मानिलें आनि क्रीताले तोगुं साल
८ मोनिलें येदुर गेले। आनि ते होड कष्टान सोंणु सुंदर
खाल नांवाले येक जाग्यांतु मावले तोजे लागि लासिया
९ प्रहर आस। तावळि साबार दिस वेत्तचि आनि तार
वांतु वेचें संकटरूप जात्तचि तेंयितें उपासालो दिसु जाउनु
गेलालो पाउलान तांका हें उत्तर सांगुनु उपदेशु केलो।
१० कि हे महारायानो हांव समजुं पावतां कि हे पेणांतु मात्र
भारु आनि तारवाक साबार दुःख आनि नष्ट जायत हें ना
११ तरि आमगेले वांचुचेयि संदेह जायत। जाल्यारियि सेंबरि
सिपायले सरदारान पाउलाले उत्रान सुकाणकाराले
आनि तारवाले येजमानलिं उत्रं चडाव कोनुं मानसिलीं।
१२ आनि तो तोडु शियांतु रावचा उचित ना जाल्यान चडाव
लोकांनि तोवयि सोडचो परामर्शु दिलो कि कोणे जोनसान
शियां दिसांतु रावचे खातिर फौणिकींतु पावचा सकले तो
क्रीतालो येक तोडु तागेले पाठ तेंक पडोसरांत आनि
१३ बउग पडोसरांतु। ताजे मागिरि लेंका वारें येदें फांक
तचि आत्तं बिचारु अवश्य पुर्ते जायत हें मनांतु हाणु
१४ आनि नांगोरु उवानुं कीताले तडिर गेले। तरि थोडे
दिसां मागिरि तांगेले येदुर येकु होडु काळोकु आयलो
१५ तागेलें नांव इउरोक्लिदन। ते खातिर तारु तलमल
केल्यान ते तारशालि चोंचि वाऱ्याले येदुर लावचा सकले
१६ नांति हे खातिर वाऱ्यान लोकोनु गेलें। आनि क्लोदा
नांवाले येक उपद्वीपाले लागि धांवतचि आमगेलि दोणि

१७ बांधेयाक होडु दणु जालो। ति उबार्तीचि तानि ताहं
लोगुं बांदुन आनि परामर्षुं केलो ताजे मागिरि थिनें जाय
वेगळे रेवेरि लागलें हे शंकेन आमि शीड उडैानु वाऱ्यान
१८ चमकले। आनि कोळान साबार तळमळ जाउनु हेर
१९ दिसा तानि ताहं हगुर केलें आनि तिसरे दिसा आमि
२० आपणाले हातान तारवालो जोनोसु उडैलो। तावळि
कितेलेक दिस सुर्यु जावो नक्षत्रं चोउचा आयले नांति
आनि होड मोड असगेले विपरित जाल्यान वांचुचो सगळो
२१ भरवसो गेलो। तरि साबार उपासि जालावि पाउलु
तांगेले भितरि थिबि रानुनु उलेलो कि हे सायबांगो मेगेलो
कोण परामर्षुं आसिलो कि तुमि क्रीत सोंणाकाति तें आय
कुंने आनि थितुलो प्रमादु आनि नष्ट ना पावचे तुमकां
२२ उचित आसिलें। तरि हांव आत्तं तुमकां म्हणतां कि
तुंमि विश्वासु दवचा तेंथितें तुमगेले येकल्यालेयि जोवालि
२३ हानि जायसि ना मात्र ताहं बुडुनु वोचत। तेंथितें हांव
कोणालो आसं आनि कोणालि सेवा कर्तां असलो कोण
देउ तागेले दुताव आजि रात्ति मजे लागि थिबि जाउनु
२४ सांगलें। कि हे पाउल तु भिउ नाका तुं काइसराले
येदुर हाळो जायत आनि चोयि कोण सगळो लोकु तुजे
२५ भर्सि आसांत ते सगळ्यांक देवान तुका दिल्यांति। हे
खातिर महाराया तुंमि विश्वासु दवचा तेंथितें हांव देवाचान
विश्वासु कर्तां कि कसि माका सांगुनु गेलेलें तसि जायत।
२६ तरि आमकां येक उपदीपांतु उडैाचें पडत। आमि वाऱ्यान
२७ हे दिका ते दिका आद्रिया समुद्रांतु चोदा रातिपरांवु
लर्कांनु वोत्तचि तारवाले मनुष्यांनि मजरातिलि वेळा विचारु
२८ केलो कि कोण देणाले लागी आयले। हे खातिर शीरें
उडैानु वीस वांव उदाक पावलें ताजे मागिरि आनि थोडे
थुर वोत्तचि नेंवान शीरें उडैानु पंदरा वांव उदाक पावलें।

२९ तवळि यित्तें जाग कोणे फातरा जाग्यारि पळें हें चिन्ता कोनु तानि तारवाले माच्छिले दिकाचान चारि नांगर उडोनु
३० फालें जावचि अपेक्षा केलि । तरि तारवालें लोकानि तारवाले कलेचान नांगोर उडोचे छलान दोणि समुद्राले
३१ त्यान देवोनु तारं सोंणु पे.ळ्चाक सिद्ध जाले । तावळि पाउलान सेंबरि सिपायले वजमानाक सांगलें कि तरी हे तारवारि ना राबसि जाल्यारि तुम्गेलें वांचप जावचा
३२ सकास ना । तावळि सिपायन दोणीलि दोरि कातोनुं
३३ ति सोडळि ताजे मागिरि दिसु उदेतांर पाउलु ते सगळे लोकांक कांयि खावचा सांगुनु उलैलो कि तुमि केदना लागिन खायने लाजेन आजि चौदा दिस जाले हे खातिर
३४ हांव तुम्चे लागि लालप कर्तों कि तुं कांयि खा तेंयिसे तुम्गेले वांचुचे खातिर तेंयितें तुम्गेले येक केसाले नाशुबि
३५ जायसि ना । ताणे हे म्होंणु भाकरि घेतलि आनि ते सग्ळ्यांले येदुर देवालि स्तुति कोनुं ति मोंणु खावचा लागलो ।
३६ ताजे मागिरि ते सगळ्यांनि विश्वासु पावन कांयिर खेलें ।
३७ आनि सगळे सैत जाउनु तारवारि आमि दोनसें पात्तरि
३८ प्राणी आसिले । तावळि ते तृप्त जाउनु तारवाक हगुर
३९ केलें आनि गोंउ समुद्रांतु उडैलो । ताजे मागिरि दिस जात्तचि तानि ति भुंयि गुर्तेलि ना तरि येगु तोडु पळेलो कि कोणाले समान तडि आस आनि तरी सकत जाल्यारि
४० तांतु तारं चमकोचाक इच्छिलें । आनि तानि नांगोर उबानुं समुद्राले गुंडयेंतु राबले ताजे मागिरि मंजिलें बांदा मेकोळनु आनि वाऱ्यांतु छोड घोड उबानुं तडियें
४१ दिका गेले । तरि कोण जाग्यारि समुद्रालिं दोनि अळवि असले येका जाग्यारि धलें तानि मातियेरि तारं चमकैलें आनि चोंचि निबरि जाउनु लागुनु हाल नातिलें राबलें
४२ तरि माच्छि माळाले आपट्यान भेतुनु गेलें। आनि बंदीवान

कोणीं पोंउनु पोळनु वोच नासि हे खातिर सिपायांनि तांकां
४३ मानुं उडुंचो परामर्षुं केलो। तरि सेंबरि सिपायलें
यजमानान पाउलाक वांचोंचे खातिर तांगेलि इच्छा वारण
केलि आनि आज्ञा दिलि कि कोण पोंउचा सकतात ते
पितंम समुद्रांतु उडुनु तडि घवोंवि आनि वर्चिल लोकु कित
४४ लेक जाण फळ्यारि आनि कितलेक तारवाले भेतले कुड
क्यारि तडि देंवोंति ते खातिर ते सगळ्यांनि निरापदान
नेल पावलें ।

२८ अष्टाविंशति पर्व्वं।—तानि नेल मेळनु समजप केलें
२ कि ते उपदीपालें नांव मेलोता। तावळि ते मूर्ख लोकांनि
साबार उपकार आमकां दाकैलो तेंयितें ते वेळालो पाऊस
आनि शियां खातिर तानि उज्जो कोनुं आमगेले सगळ्यांलि
अतिथि केलि तावळि पाउलान येक राकडालि मोवळि कोनुं
३ उज्जाले वोयरि उडुंतचि येकु काळसोरोपु उज्जाले सेक्यां
४ तुल्यान बारसोंनुं तागेले हाताक वेडावनु गेलो। ते मूर्ख
मनुष्यानि तागेले हातारि सोरोपु वेडलो पोउनु परस्पर
म्हळें कि हो मनुष्यु अवश्य मारेकार आस समुद्रान ताका
५ सोळास से तरि कोपु ताका वांचा दिना। ताजे मागिरि
ताणे ते विषधराक उगांतु फापुनु आपण कांयि हिंसा
६ पावलो ना। तानि अपेक्षा केलि कि तो फुगत जावो येक
वेळा मरत तरि थोड घडि अपेक्षा कोनुं तागेले कांयि
वायठ पेळे नातिलें मंन पलोंउनु उलैलि कि तो देवता
७ आस। पब्लीयस नांवाले ते उपदीपाले येजमानालो अधि
कार ते चारिदिकालो आसिलो तीनि दिस ताणे आमकां
८ आपणाले घर्‍यां घेउनु वोंचुनु अतिथि केले। ते वेळारि
पब्लीयसालो बापु तापान आनि भमेरसाले रोगान
रोगी जाउनु हांतुळारि पळोलो ताजेन पाउलास लागें

भागीं येवुनु आनिं प्रार्थना कोर्नुं ताजेरि हातु दवोर्नुं
९ ताका सोस्त केलो। तें जाल्यान उपदीपाले आनि रोगी
१० मनुष्यांनि येउनु सोस्त पावलें। तानियि आमगेलि सानार
मर्याद केलि आनि आमगेले वेपे वेळा कोणर जीनसाचि
११ अगपत आसिलें तो तारवारि दिलो। कास्तर आनि
पल्लक्स निशानेलें आलेक्सांद्रियालें तारं येक पीयांतु तें
उपदीपांतु आसिलें हे खातिर तीनि मासांले मागिरि
१२ आमि ताजेरि गेले। आनि आमि सराकुसांतु पांउनु
१३ तीनि दिस वासु केलो। तो जागो सोंगु तडिर वोत्ता
आमि रेगियमाले येदुर पावले आनि येक दिसा मागिरि
सैंकदिका वारें फुंकलें ते खातिर आमि दोनि दिसांतु पुटि
१४ ओलितु पावले। ते जाग्यारि आमि भावांक पावले आनि
तांगेले मागपान सात दिस तांचे भर्सि रावले ताजे मागिरि
१५ थैंथकुनु रूमाक गेले। भावांनि आमगेलें वर्त्तमान
मेळनु आमचे भर्सि भेट कोर्चाक आपीफारम् आनि तीनि
धर्मसाळपरांतु आयले पांउजान तांकां चोवनु देवालि
स्तुति केलि आनि आश्वासु जालो।—

१६ आनि रूमांतु पावतांचि सेवरि सिपायलें यजमानानं बंदी
कारांक येदुचा सिपायले यजमानाले लागि वोपसिलो तरि
येक सिपायले भर्सि पाउलान वेगळो रावचा मेळें कि
कोणे ताजेरि पारो दिलो।—

१७ तावळि तीनि दिसांले मागिरि पाउलांनं प्रधान यिहू
दियांक आपैले आनि येकडे जातचि ताणे तांकां म्हळें कि
हे मनुष्या भावा हांवि आयणाले देश्कार मनुष्यांले जावो
वेवहारालें वियरित कांयि केलें ना जाल्यारियि यिरुषा
लमाचान बंद जावनु रूमी लोकांले हातांतु समर्पण आसि
१८ लो। तांनि मेगेलो विचारु कोर्नुं माचों विषयु मजांतु मेळ

१९ नातिलें माका संटोउचा इच्छलें। तरि यिऊदियांनि तागेलें विपरित कर्तंचि काइसराले लागि आपोल कोर्चे माका आवश्य पड्लें आण्णाले देशीय लोकांलें कांयि वग
२० लौट कोचें कि माका आसिलें ते ना। तेंथितें यिस्नएला ले भरवसाले खातिर हांव हे सांकाळेन बांदिलों जालासं हे खातिर आनि तुम्का चोउचाक आनि मुम्गेले भर्सि उत्र
२१ म्होण्चाक हांवे तुम्कां आपैल्याति। तार्वाळ तानि ताका म्हळें कि आमि यिऊदाह् देशाचान तुगेले विषयांतु चीटि
२२ याव्नि आनिके कोण भाव हांगा आयिल्ले तांतुल्यान कोणे तुगेलो कांयि दोष प्रकाशु केलो ना आनि सांग्ले ना।
२३ तरि तुगेलो विचार यित्तें हें आमि आयकुचा इच्छितांति तेंयितें आमि समजतांति कि सगळे जाग्यारि हो मतु छख्यात
२४ आस। तानि येक दिसु ठरसीर्तचि सावार मनुष्य तागेले बिडारांतु आयले तांवे लागि ताणे देवाले राज्याले विषयां तु आनि यिशुले विषयांतु फालें थोनुं सांझपरांतु मोशेशाले शास्त्रान आनि आचार्यांले उत्रांनि उपदेशु केलो आनि
२५ साक्षि दिलि। ताजेन कोण उत्रं म्होणु गेलिं ते उत्रांनु कोणेर विश्वासु केलो आनि कोणेर विश्वासु केलो ना। आनि तांगेलो वेग्ळिर विवेचना जात्तचि याउलान हें येक उत्तर सांग्तचि सभा हिरवलि तें उत्तर हे धर्मात्मान सावार चां जीनसांन यिशाईयाह् आचार्याले उत्रान आम्गेले
२६ पुरुषांक हें उत्तर म्हळांस। कि हें लोकांले लागि वोचुनु सांगा कि आयकतर तुमि आयकशा तरि समजशि नांति आनि चोयतर चोयशा तरि समजुं यावसि नांति।
२७ तेंयितें हे लोकांलें मंन थोर जालांस आयकुचाक तांगेले कान जड जाल्याति आनि तानि आपणाले दोळे धांकल्याति यित्तें जाण ते दोळ्यांनि चोउनु आनि कानानि आयकुनु आनि मनांतु समजुनु परतल्यान हांव तांकां बरे करीन।

२८ ही खातिर तुंमि कळेले जाया कि देवाले केल्यान त्राण आनि देशकार लोकांले लागि धांणु गेलांस आनि ते तें
२९ आयकतित । ताणें हें उत्तर म्हण्तचि यिऊदियांनि वोचुनु परस्पर साबार वादानुवादु केलो ।

३० ताजे मार्गिरि कोणै पाउलाक तडै नातिल्यान तो देवालें राज्य प्रकाश आनि प्रभु यिशुले विषयांतु सगळें उत्तर निर्भय मनान शिकैत रुमांतु दोनि वर्सपरांतु आपणाले भाड्याले घरांतु राब्लो आनि कोण ताजे लागी आय्लो ते सगळ्यांक घेत्ले ।

रमो बोकाले लागि पाउल प्रेरिताले पत्र ।

## १ प्रथम पर्व ।—

१ यिशु ख्रीष्टालो दासु पाउलु कि कोण प्रेरित जाव्चे खातिर नेमक आनि देवालो मंगल समाचार चम्कोउचे २ खातिर वेग्ळे कोनुं गेलें। कि कोण मंगल समाचार ताणे आमणालो पुतु आमगेले प्रभु यिशु ख्रीष्टालें विषयांतु पितमले वेळांतु आपणाले आचार्याले तोंडान धर्म पुस्त ३ कांतु प्रतिज्ञा केल्यास । कि कोण शरीराले विषयांतु ४ दाउदाले वंशांतु उब्जलो आनि आपण कि देवालो पुतु चेँ पुन्यात्माखपान मेल्ले मनुष्यांकच्यान नेंवान उठयान सामर्थ्यान ५ प्रकाशु जालास। कोणाले साहायान सग्ळे देशकरांले भित्तरि ते विश्वासालि रीति चम्कोचे खातिर आमि ताणेले ६ नांवाखातिर दया आनि प्रेरितपण पाव्लांस । कोणाले ७ भित्तरि तुंमियि यिशु ख्रीष्टाले नेमक केल्याति । देवाले मोगाचे आनि पुन्यवान जाव्चे खातिर नेमककेल्ले रमांतु राब्तले सगळ्यांक पाउलु पत्र बरैता आमगेलो आंनु देउ आनि प्रभु यिशु ख्रीष्टाचान दया आनि शांति आम्चेरि जावो ।—

८ पितम तुमगेलें विश्वासालें उत्तर सगळे भुंयितु सागुनु वोत्ता हाजेन हांव तुं सगळ्यांले खातिर यिशु ख्रीष्टाले ९ साहायान आपणाले देवालो धन्यवादु कर्ता । तेंयितें देउ कि कोणाक पुताले विषयाले मंगल समाचारांतु हांव मनान

सेवा कर्तां तो मेगेलो साक्षि आस कि हांव आप्णाले
१० प्रार्थनाले वेळः तुमगेले विषयांतु नित्य स्तुति कर्तां । आनि
लालेप कर्तां कि देवाले इच्छेन कोणे जीनसान तुमगेले लागि
११ पावचे खातिर निर्विघ्नान मेगेले योचप ज़ायत । तेंयितें
तुमगेले चोवणाले आनि तुंमि कोण सांपळ्यातति हे खातिर
कांयि परमार्थालें सामर्थ तुमकां दिवचाक अर्थात् तुमगेले
आनि मेगेले विश्वासान तुमगेले भर्सि सांतनि जावचि मेगे
१२ लि होड इछा आस । हे भावांनो हांव इच्छि ना कि
तुंमि कळनातिलें रावा कि कसि अन्यदेशकारांले भित्तरि
मेगेलो लावु आस मसि तुमगेले भित्तरियि कि हांव कांयि
लावु पावन हेचि खातिर तुमगेले लागि योची इछा हांवें
१३ नेवानर केलांस तरि आतंयरांतु वादीतु आलों । हांव
योकु आनि म्लेच्छु हे दोगांले आनि पंडितालो आनि मुर्खा
१४ लोयि रिणकारि आसं । हे खातिर हांव आप्णाले
१५ शक्तिवारि रमि तुमगेले लागियि मंगल समाचार घोषणा
कोर्चाक सिद्ध आस हांव खोष्टाले मंगल समाचाराले विष
१६ यांत् लजितु ना आसं तेंयितें यिऊदी ग्रीक इत्यादि कितुले
विश्वासु कर्तले तुमगेले लागि तो त्राणाले खातिर ईश्वरोय
१७ पराक्रमु । तेंयितें तांतु देवालो कोण धर्म विश्वासान जातास
तो धर्म विश्वासाले खातिर प्रकाशु आस तेंयितें असि बरै
१८ लांस कि धर्मी विश्वासान वांचतीत । तेंयितें कोण मनुष्यु
अधर्मांले बंधनान सत्याक बांदुनु दवरीति तांगेलि सगळी
असेवा आनि याथार्थाले विपरितांतु देवालो कोपु सर्गारि
१९ थाकुनु प्रकाशु आस । तेंयितें देवालें कोणर समजप योचा
सकतातिं ते तांगेले भितरि प्रकाशु आस तेंयितें देवान
२० तांकां तें दाकेलांस । तेंयितें तांगेलो कोणर अगम्य अर्थात
तांगेलो अनंत पराक्रमु आनि देवत्व केलेलें जीनसानि जग
ताली उत्पत्ति जावचे वेळान थां जीनसान समजुनु येत्मास

२१ ते खातिर नैंवान कोर्चिं वाट ना । सेंथितें तानि देवाक समजुनयि देवाले वारि तागेलि मर्यांद केलि ना आनि स्तुति कर्तलेयि जाले नांति आपणाले वादानुवादु अलाव
२२ जाले आनि आपणालें पित्तें मंन काळोकु जातचि । तानि
२३ आपणांक बुदवंत मानसुनु बुद्धि नातिले जाले । आनि विनाशी मनुष्य आनि पक्षि आनि मुरगं आनि हयरं जंतुले
२४ जोनसान नाश नातिले देवाले तेजालें आरोप केलें । हे खातिर देवान उष्टपणान तांकां सोणु दिले ते आपणाले मनाले ईच्छेन आपणाले२ शरीराले परसर अपमानु
२५ कर्तित । कि कोणे देवाले उत्राले सत्याले वेगळे जोनसान फाट्टि उत्रं चुकेलिं आनि उबजायतल्यालें भजनान आनि सेवेन उबजायले वोस्तुलें भजन आनि सेवा केलि कि कोण
२६ सचीदानंद आमेन । तेचि खातिर देवान तांकां सोगं प्रेमांतुयि सोळे तेंयितें तांगेले बायलानोयि स्वाभाविकु
२७ व्यवहारु सोणु सभाव विपरीत व्यवहारु केलो । दादल्यां नीयि बायलांलो संगु कोर्चो सोणु दादलो दादल्याले भर्सि वायट कार्य कर्तांना संगान जळे आनि आमणाले भ्रमाले
२८ योग्य फल पावलें । आनि कसि तांनि आपणाले ज्ञानान देवाक दवोर्वें यत्न केले ना तसि ते सगळे असादक आनि पारार आनि दुष्टता आनि लालुचि आनि कुमतिंतु पुर्तें जाउनु आनि मछोरु आनि जीविमारु आनि भागडें आनि दगु आनि कुटिलतेंतु पुर्तें जाउनु आनि अंतरंगी आनि चाडिकार आनि देवाक अळसिकतले आनि वायट इच्छितलो आनि हंकारु कर्तले आनि आत्मश्लाघी आनि
२९ वायट कामाक उबजायतले आनि आंमा आंनाक मार्जेसि
३० नातिले । आनि अज्ञानि आनि नियनु नाशु कर्तले आनि सभाविक स्नेहरहित आनि निर्दय आनि मिस्रयिक जाउनु
३१ अयोग्य कार्य कोर्चो देवान तांकां मुखें पर्यांतु सोणु दिले ।

१२ कि कोणर हे जीनसालें कार्य कर्तांति ते जीवमाचें योग्य आसति ते देवालि हि तजविज समजुनु मात्र अपणचि हें कार्य कि कर्तासि तें नें तरि हें जीनसालें कार्य कर्तल्यांचेरि संतोषियि जातानि।

२ द्वितीय पर्व्वं ।—हे खातिर हे विचार कर्तले मनुष्या कोण कोणे आस तुजेलि नेवन कोचि वाट नांज तेंयितें तुं विचारांतु दुसऱ्याक दोषी कोनुं ते विषयांतु अपणाके दोषी कर्तास तेंयितें हे विचार कर्तल्या तुं अपण तेंचि कार्य कर्ता।
२ तरि आमि समजतांति कि हे प्रकारालें कार्य कर्तल्याले
३ विपरित देवालो विचार सत्यावारि आस। हे मनुष्या तुं हे जीनसालें कार्य कर्तल्यांलो विचार कोनुं तरी आपण तेंचि कार्य करीत तुं यित्तें ठारसिता कि देवाले विचारान
४ रांचसि। देवालि क्षमा कि तुका परामनन कोर्चाक वाट दाकेता तुं हें समज नातिलें तागेले दयेले धन आनि क्षमा आनि साबर दिसपरांतु सहण यित्तें नकारि कोर्नुं सम्
५ जता। तरि देवालो कोपु आनि सत्य विचार प्रकाश कोर्चें दिसपरांत् अपणालें कठीण आनि परामनन कर्नातिले
६ मनाले वारि आपणाले खातिर कोपाक जमा कर्ता। कि
७ कोण प्रत्येक मनुष्याक तांगेले कार्यलें फल दित। कोण सहतले जावनु नित्य चांग कार्य केल्यान मोक्ष आनि मर्याद आनि अमरपण सोदु कर्तांति तांकां अनंत आयुष्य जायत।
८ तरि कोण भांगडाळु आनि सत्यता ना मान्ते तरि अयथार्थ कार्य मान्तांति यिजूदी आनि ग्रीक इत्यादि अन्यदेश
९ कार कितुले कार्य कर्तले तांकां मार आनि कोपु आनि दुःख
१० आनि दणुरुप फल जायत। तरि यिजूदी ग्रीक इत्यादि आनि प्रत्येक चांग कार्य कर्तले मनुष्य आसति तांकां मोक्ष
११. आनि मर्याद आनि कुशलरुप फल दित। तेंयितें देवाले

१२ लागि पक्षपात नैं। कोण्ण दिसा यिशुख्रीष्टालि मारयतिं देउ मेगेले मंगल समाचारालि वारि मनुष्यांलें गुप्त कार्यें
१३ विचार करित। जे दिसा कोणे शास्त्र नंतां पाप केलांस तांगेलो विनाशु शास्त्र नंतां जाव्‌त आनि कोणे शास्त्रा पाव्‌लें जाल्ले जाउनुयि पाप केलांस तांगेलो विचार शास्त्राले
१४ वारि जायत। तेंचितें शास्त्र आय्‌कतले देवाले लागि सज्जन कोनुं वोच नांति तरि शास्त्राले कर्तले सज्जन कोनुं
१५ वोत्तीत। अन्यदेशकार कि कोणालें शास्त्र ना आस ते केद्‌का आपणाले सभावान शास्त्रालें कार्यं कर्तांति तावळि ते आप्‌णालें मनांतु बरैल्ले शास्त्रालें कार्यं प्रकाश कर्तंचि
१६ आनि तांगेलि विवेकशक्ति साच्चि केल्यान आनि तांगेलि वासना परस्पर अपवादु आनि कारण उत्तर केल्यान शास्त्र पावल्ले मेळना जाले जाउनु आप्‌णालें शास्त्र आप्‌णचि
१७ जात्ताति। चोयि तुं यिऊदी नावांलो आस आनि शास्त्रा चेरि विश्वासु कर्तास आनि देवाले विषयांतु अहंकारालें
१८ उत्तर म्हण्‌तास। आनि शास्त्र समजतलो जावनु तागेली इच्छा कळैलि आस आनि सावार उत्तम कार्यांलो विवेकु कर्तास आनि कुरुडे लोकांक वाट दाकैतले आनि काळ कांतु रावतल्याक ऊजवाडु आनि मुर्खांक सिकैतलो आनि
१९ चेरडुवांलो सिकैतलो आस। आनि ज्ञान आनि शास्त्राले
२० सत्यस्वरूप आकार कि तुगेलो आस हें सगळ्यांतु निश्चयु
२१ केलास। हे खातिर हे दुसऱ्याले सिकैतल्या तुं यित्तें आप्‌णाक सिकै ना तुं कोण्ण घोषणा कर्ता कि मनुष्यांक
२२ चोरि कोर्चें उचित नैं तुं यित्ते चोरि कर्तास। पारदार कार्यं वारण कर्तलो तुं यित्ते पारदार कर्ता हे देवळाक अळ सिकैतल्या तुं यित्ते देवाक दिल्लि वस्तु सहजरूप वेपार
२३ कर्तास। हे शास्त्र समजुपांतु अहंकारी तुं यित्ते शास्त्र

२४ मिर्वल्यान देवालो अपमानु कर्ता। तेंयितें कसि बरैलांस कि अन्यदेशकारांले भतरि देवालें नांव तुम्गेलें मारफत
२५ निंदा केल्यास तेंयितें तु तरी शास्त्र पोसता झाल्यारि तुगे ले सुन्नतान फल आस सयि तरि शास्त्र मिर्वतलो झाल्यान
२६ तुगेलें सुन्नत असुन्नत झाउनु गेलांस। ह्याजेन सुन्नत नातिलें तरी शास्त्रालो धर्मु पोस्सि झाल्यारि तागेलें असुन्नत यित्तें
२७ सुन्नतरूप मानसुनु वोचसि ना। तुं अक्षर आनि सुन्न तालो अभिमानी झाउनुयि शास्त्र मिर्वता हे खातिर असु न्नत कि कोण स्वाभाविक तरी शास्त्रालो धर्मु पोस्तित झाल्यारि विचारान तो यित्तें तुगेलो दोषु निश्चय करिसि
२८ ना। तेंयितें कोण प्रकाश यिऊदी तो यिऊदी नैं आनि
२९ कोण सुन्नत मासालें तें सून्नत नै। तरि अंतरक कोण यिऊदी तोचि यिऊदी आनि सून्नत मन लें आस अक्षराले वारि नैं तरि आत्माले वारि कि कोणालि सुख्याति मनुष्याक ध्यान नैं तरि देवाचान जातास।

३ तृतीय पर्व्व।—झाल्यारि यिऊदीक यित्तें लाभु आनि
२ सून्नतालो यित्तें लाभु। सग्ळे जीनसान साबार यितंम हें
३ देवालें उत्तर तांगेले लागि दिउनु गेलें। तेंयितें तांगेले भितरि तरी कोणी कोणे विश्वासु केलो ना झाल्यारि तांगेलो अविश्वासु यित्तें देवांतु विश्वासाक अलाभु कोचां सक्तास।
४ तें ना झावो देउ सत्य सांग्तल्यालेरूपान आनि प्रत्येक मनुष्य फट्टि सांग्तल्यालेरूपान मानसुनु वोचत कसि हें बरैलांस कि तुं आप्णाले उत्रांतु सज्जनु कोर्नु वोचत आनि विचारु
५ केलेलो झाउनु जीक। तरि आम्गेलें अयथार्थपण तरी देवाले यथार्थपणालि प्रशंसा कसि झाल्यारि आमि यित्तें म्हणु बदला फल दित्तलो देउ यित्तें अयथार्थिक आस ह्यां
६ मनुष्याले वारि सांग्तां। तें ना झावो तें झाल्यान देउ

७ जगताले विचारु कोण जोनसान करित । तेंयितें देवाले स्तुतिले खातिर मेगेले फांड्हि उत्रान देवालें वद्पण वरी चडाव वापुनु राबत जाल्यारि ह्मांव अपराद्काराले वारि
८ बसले खातिर विचारितु जाउं । आनि कितलेकर लोकु कि कोणाले नर्कालें दुःख पाव्चें उचित आस ते आम्गेले अपवादाले खातिर निश्चयु कोनुं कसि म्हणतांति कि बचा खातिर आमि वायट कार्यं कर्ता ते उत्राले मणुके वरें
९ आमि विचारु केलेले यित्या जाय नांति । जाल्यारि यित्तें आमि तांचांकै बरें ता कोणें प्रकार ना तेंयितें आमि प्रमाण पितप्त दिलास कि यिऊदी आनि अन्यदेशकार सगळे
१० प्राणाले वशा जाल्याति । कसि हें बरेंलांस कि यथार्थिक
११ कोण ना येकलोयि ना । बुद्वंतु कोणें ना देवाक सोदित
१२ लो कोणें ना । सगळे मनुष्यानि वाट सोंणु दिलि ते सगळे कार्यं नाल्लिले जाल्याति चांग कार्यं कर्तेंलो कोणें ना
१३ येक्लोयि ना । तांगेलि घंकनळि उगति कबर आस तानि जीबेन भुलिथ्लिास तांगेले वोंटांरि कालसर्पालें विस
१४ आस । तांगेलें तोंड सिराप् दिल्यान आनि कोडसाणें
१५ तु भर्लांस । तांगेलो पांयु रक्तपातु कोर्चांतु वेगगामी
१६ आस । तांगेलें चमकपांतु विनाशु आनि अमंगल राब्तास ।
१७ आनि कुशलालि वाट ते नेणति । देवाले विषयांतु तांगेले
१८ येदुर कांयि भय ना । आमि सम्जतांति कि शास्त्र कोणु म्हण्ता ते शास्त्राले अधीन लोकांक म्हण्ता कि प्रत्येक तोंड
१९ बंद जायत आनि सगळो संसारु देवाले लागि अपरादी
२० जातित हे खातिर शास्त्रले कार्यान तांगेले दोळ्याले येदुर कोण प्राणि यथार्थी कोनुं वोचसि ना तेंयितें शास्त्रान पाप
२१ देकूं येत्तास । तरि आत्तं देवाल्लि कोणि यथार्थपण शास्त्रालें नंतां आस ते शास्त्रान आनि आचार्याले उत्रान प्रमाण
२२ दिऊनु वोचुनु प्रकाशु आस । अर्थात देवालो कोण धर्मु

यिशु खीष्टाचेरि विश्वासान सगळो विश्वासु कर्तल्यांले लागि आनि सगळो विश्वासु कर्तल्यांचेरि आस तेंयितें कांयि विशेष
२३ राब ना। तेंयितें सगळ्यांनि पाप केलांस आनि देवालि
२४ महिमा प्रकाशांतु उणे जाल्यास। खीष्टु यिशुंतु कोण मुक्ति ताजेन आमि तागेले अनुग्रहान फुक्या यथार्थिक
२५ केल्याति। कि देवाले क्षमान पितॅमलें केलेलें पापमोचनाले वाटेन तागेलें यथार्थ प्रकाश कोचें खातिर कोणाक देवान तागेले रगतान संतुष्ट कर्तलो बलिदान नेमक केलास।
२६ अर्थात तागेले यथार्थपण हे समयांतु प्रकाशु कोचें खातिर कि तो यथार्थिकु जायत आनि यिशुचेरि विश्वासु कर्तल्या
२७ ले यथार्थ कर्तलोयि जायत। जाल्यारि हंकार कोचें कारण खें तो भार्थकेलो आस कोणे शास्त्रान कामालें तें नैं
२८ तरि विश्वासाले शास्त्रान। हे खातिर आमि निश्चयु समजतांति कि मनुष्य शास्त्रालें कार्य नंतां विश्वासाले साहायान
२९ यथार्थिकु कोनुं वेतास। तो यित्तें मात्र यिऊदियांलो देउ आस तो यित्तें अन्यदेशकारांलो देउ नैं तो अवश्य अन्य
३० देशकारांलोयि देउ आस। कोण सुन्नतांक विश्वासान आनि सुन्नत नातिल्यांकै विश्वसान यथार्थिक करित तो येकु
३१ देउ आस। जाल्यारि आमि विश्वासान यित्तें शास्त्र अलाभु कर्ता वे ना चावे। वरं आमि शास्त्र स्थिर कर्तांति।—

४ चतुर्थ तत्वं।—जाल्यारि आमि यित्तें सांगुं कि शरीराले विषयंतु आमगेलें गोत्र अब्राहामु पाव्लास तेंयितें
२ अब्राहामु तरी कार्यान यथार्थिक केलोलो जात्तो जाल्यारि तागेले अहंकारालें उत्तर म्होणचो विषयु जात्तो तरि देवाले
३ येदुर नैं। तेंयितें धर्मपुस्तकांतु यितें म्हणता अबराहामान देवाचेरि विश्वासु केलो आनि तो अमेध्य तागेलें लागि
४ मोजनु गेलोलो। कोण शास्त्रालें कार्य कर्ता ताजे लागि

फल अनुग्रहान दिलेले फलालि भित्तरि मोडनु वोचना
५ तरि दिल्यान। तरि कोणु धर्म्म कर्ना तरि कोण असेव
कांक यथार्थिक कर्त्तास ताजेरि त्रिश्वासु कर्त्तास तागेलो
६ विश्वासु यथार्थपणरूप मोडनु वोत्तास। दाऊदान कासि चें
उत्तर म्होंणु कोण मनुष्याले वोयरि देव कार्य गंतां धर्मु
७ स्थापना कर्ता। ते मनुष्याले आशिर्वादालो वर्णना कर्त्तास कि
कोनाले अयथार्थालें माप केलेलें आनि कोणालें पाप थांक
८ लांस ते धन्य आसति कोणाले पाप देव स्थापना ना करता
९ तोचि धन्य आस। जाल्यारि हो आशिर्वादु यित्तें मात्र
सुन्नतांचेरि येत्तास आवो सुन्नत नातिल्यांचेरीयि येत्तास ते
यितें आमि म्हणवांति कि विश्वासु अबराहामाले वोयरि यथा
१० र्थपणरूप गणित जालो। जाल्यारि तो कसि स्थापना आसिलो
तागेले सुन्नत जावचे जावो असुन्नत राव्चे समयांतु सुन्नत
११ जाव्चे येळ नैं तरि असुन्नत आस्ताना। आनि ताणे असु
न्नत आसुनु तागेलो कोण विश्वासु आसिलो ते विश्वासरूप
यथार्थपनाले मुजरूपान सुन्नत गुर्तु पावलास कि कितुलो लो
कु विश्वासु कर्तांत तेवयि तरी असुन्नत जातित जाल्यारि
तो तांगेलें गोत्र जनक जायत कि धर्म्म तांचेंरीयि स्थापना
१२ कोर्नु वोचत। आनि कोण मात्र सुन्नतयि ना तरि असुन्नत
आस्ताना आम्गेलो आंनु अबराहामालो विश्वासु आसिलो
ते विश्वासाले पांयांले पाउल धोर्नु वोचव तांगेले खातिरयि
१३ कि सुन्नतकारांले गोत्रजनक जायत। तेंयितें तो कोलु
कि तो जगतालो अधिकारीं जावत तो अबराहामाक
आनि तागेले पुत्ताक शास्त्राले कार्याले वाटेन दिउनु गेलो
१४ ना तरि विश्वासरूप यथार्थपणाले वाटेन। तेंयितें शास्त्रलें
कार्य कर्तले तरी अधिकारी जातित जाल्यारि विश्वासु
१५ अलाभु आस आनि कोलु अलाभु कोर्नु वोतास। शास्त्र
कोपु उब्जाय्तास तेंयितें कोण जाग्यारि शास्त्र नर है

१६ आग्यारि शास्त्रै निर्वंधयि नांत्र। ह्याजेन तो विश्वासान जात्तास कि फल अनुग्रहान जायत कि तो कोल सगळे वंशाले वोयरि स्थिर जायत कोण वंशु शास्त्राली मणके आस मात्र तांचेरि वें नैं तरि अब्राहामाले विश्वासाले मणके कोण वंशु जाल्तास ताजे वोयरियि स्थिर जायत कि कोण
१७ देवाले येदुर आम्गेले सगळ्याले गोत्रजनकु आस। कि कोण मडे लोकांक जीवैतास आनि कोणर वस्तु ना आस ते जातले वस्तुले वारि म्हणता वागेले येदुर कस्लें हें उत्तर बरोनु गेलांस कि तुका सावार देशकांगले आंनु ह्यांवे
१८ केलास। कि कसि हें म्हळांस कि तुगेलो वंशु तसि जायत कोणे भरवसालें विपरीत भरवसा कोर्नु विश्वासु केलो कि तो
१९ ताजे वारि सावार देशाले लोकांलो आंनु जायत। कि कोणे विश्वासाले विषयांतु भाग्ग नातिलें आपण सेंवरि वर्षांले आयुष्याले प्राय जात्तचि आपणाले मडाले वारि शरीर
२० आनि शाराले गर्भालें सुक उसांणियि ध्यान केले ना। तो अविश्वासान देवाले कोलान ठलमल जालो ना तरि देवालि महिमा प्रकाशु करित आनि ताणे कोण कोलु केलोलो।
२१ तो कि सिद्ध कोर्चा सक्तास ह्यांतु संदिग्द जायनातिलें
२२ विश्वासांतु बलवंतु आसिलो। तेंचि खातिर धर्मरूप तो
२३ विश्वासु ताजेरि मोउनु गेलो। तो कोण ताजेरि मोवप
२४ कोर्नु गेलें हें मात्र तागेले खातिर बरैने आसिलें। तरि आम्गेले खातिरयि कि कोणांले वोयरि तें मोवप कोर्नु वो चव तरी आमि ताजेरि विश्वासु कोरुं कि कोणे आम्
२५ गेलो प्रभु यिशुक मडांथाकुनु उठकरायलो। कि कोण आम्गेले पापाले खातिर मोरचे खातिर वोपसुनु गेलोलो आनि आम्कां यथार्थिक कोर्नु वोचे खातिर नेंवान उठक रायले आसिले।—

५ पंचम पर्व्व।—हे खातिर आमि विश्वासान यथार्थिक कर्तेचि आम्गेलो प्रभु यिशु ख्रीष्टाले मारपति देवाले भर्सि
२ मेळु पावतास कि कोणाले साहायान आमि कोण अनुग्रहा चेरि आसति ते वईतांतु विश्वासु करपाले साहायान रिगप यावताति आनि देवालें सुख मेळपाले भरवसाचेरि संतोषु
३ कर्ता। आनि मात्र हें ना तरि दुःख कि सहनाक उब्
४ जायतास आनि सहन कि अनुभवु कि उब्जायतास आनि अनुभवु कि भरवसो उब्जायतास आनि भरवसो कि लज्जि
५ तु ना कर्तास। तेंयितें आम्कां दिलेंलि धर्मात्मान देवालो प्रेमु आम्गेले मनांतु विकलें हें सगळेंयि समजुनु आमि दुर्दशांतु
६ साहसि जाताति। तेंयितें आम्गेलें निर्बल जावचे वेळा उचिता वेळांतु सेवा कर्नासिल्यांले खातिर ख्रीष्टु मेलो।
७ साधु मनुष्यालें खातिर प्राय कोणे मरसि ना जाल्यारीयि मंगल कर्तले मनुष्याले खातिर काणे मारचाक कदाच साहसु
८ कोर्या सक्तास। तरि कोण समयांतु आमि पापी आसिले तावळि ख्रीष्टु आम्गेले खातिर मेलो हाजेन देवान आम्
९ गेले लागि आपणालो प्रेमु प्रशंसा केलो। हे खातिर आत्तं आमि तागेले रक्तान यथार्थिकु केलेल्याले तागेले
१० मारपति कोपान वरं त्राण पावतित। तेंयितें आमि वैरि जाउनु देवाले पुताले मरणांतुल्यान देवाले लागि तावळि मेळेले आसिले ताजेनयि मेळेले जाउनु तागेलें जीवयान
११ आमि यितनेंवान त्राण पाऊं। आनि मात्र तेवयि नैं तरि आम्गेलो प्रभु यिशु ख्रीष्टाले साहायानयि आमि देवाक च्यान साहसि जाताति कि कस्ल्यान आमि आत्तं प्रायश्चि
१२ ताले फल पावतांस। हाजेन कसि येकल्याले मारपति जगतांतु पाप रिगलें आनि पापान मरण रिगलें आनि ताजेन सगळें पाप कर्तले जात्तचि मरण सगळ्याचेरि आस्
१३ लें। तेंयितें धर्म्म प्रकाशुपर्यांतु पाप जगतांतु आसिलें तरि

१४ खैं शास्त्र ना थैं पाप स्थापन कोर्नुं वोच ना । तरि कोयें आदमाले पाप रुपान पाप कर्नें आसिलें कि कोण तागि उपमा कि कोणाचें येवप जावचें आस तांचेरिय आदम
१५ मरणान राज्य केलें । तरि कोण धोर्नुं मोण्हापरांतु जीनसान दोषु ते जीनसान फुंक्या दान ना तेंयितें येकल्याले दोषान साबार मेल्याति जाल्यारियि देवाले अनुग्रहान आनि अनुग्रहान कोण दान येकल्याले मारपतिं अर्थात आमगेलो प्रभु यिशु खीष्टाले मारपति आस वरं ताजेव
१६ चडाव साबारांचेरि चडात आस । आनि येकलो पापीं थाकुनु कसि आसिलो दान तसि नैं तेंयितें येक अपरादान दंडणा दिउपरांतु आज्ञा आसिलि तरि फुंक्या दान साबार दोषाले विनाशाले खातिर यथार्थ कोरुपरांतु आस।
१७ तेंयितें तरी येकल्या दोषाले सहायान मरणान येकल्याक च्यान राज्य केलें जाल्यारि कोण अनुग्रहाले साबारपण आनि यथार्थरुप दान पावताति ते कितुले चडाव येकल्याले साहायान अर्थात यिशु खीष्टाले साहायान जीवनांतु राज्य
१८ करतित । हे खातिर कसि येकल्या दोषान सगळे लोकांक दंडणा दिउपरांतु विचार जालो तेंचि प्रमाणे येकल्याले धर्मान जीवणरुप यथार्थपणु कोरुपरांतु फुंक्या दान सग्
१९ ळ्याचेरि आयलें । तेंयितें येकल्याले देवालि आज्ञा मानसि नातिल्यान कसि साबार पापी कोर्नुं गेलेले तसि येकल्याले देवालि आज्ञा मान्सिल्यान साबार यथार्थिक कोर्नुं वोतित।
२० दोषु चडाव जावचि खातिर शास्त्र प्रवेश जालें तरि कोण जाग्यारि पापालें साबराइ आसिले ते जाग्यारि अनुग्रहाले
२१ साबराई ताजाके चडाव आसिलें । कि कसि पापान मरणपरांतु राज्य केलेलें तसि यथार्थान अनंत आयुष्य परांतु आमगेलो प्रभु यिशुखीष्टाले सहायान अनुग्रह करेति ।

६ षष्ठ पर्व्व ।—जाल्यारि आमि यित्तें म्होणु अनुग्र
हालि सावरायि जावचे खातिर यित्तें आमि पाप करूं ।
२ तें ना जावो आमि कि कोण पापाले लागि मर्डि आसति
३ कसि तांतु आनि वेवहार कोरूं । तुंमि यित्तें समज
नाति कि आम्गेले भितरि कितुलो लोकु यिशु खीष्टांतु
बुडकुलि मारेले तितुलो लोकु तागेले मरणांतु बुडकुलेले
४ जाले । हाजेन आमि मरणांतु बुडकुलेले जाल्यान तागेले
भसिं कबरांतु नित्तले जात्ताति कि कसि आंनाले तेजान
खीष्ट मरणांतुल्यान उठकरायलो आसिलो तसि आमियि
५ नवें वेवहारांतु चाकुयां । तरी तागेले मरणाले वारि
आमि यकडेचि पुर्णु गेलेले जाल्यारि तागेले नेंवान उठावचे
६ रूपयि जातिल । तेंयितें आमि समजतांति कि पापाले
शरीरालो नाशु जावचे खातिर आम्गेलो पोनों मनुष्यु
तागेले भसिं क्रूशाचेरि मार्गु गेलास कि हाजे नागिरि आमि
७ पापालि सेवा ना कोरूं । तेंयितें कोणतो मेलास तो पापी
८ थाकुनु मुक्त आस । सया तरी आमि खीष्टाले भसिं मेलों
जाउं जाल्यारि खीष्ट कि मरणान उठकरायलो जाउनु
९ दुसरे वेळा मर्ना आनि ताजेरि मरणालें आनि सरदारपण
ना हें समजुनु आमि विश्वासु कर्तांति कि तागेले भसिं वांचुं ।
१० तेंयितें तो कि मेलो तो हें कि तो येकवेळा पापाले लागि
मेलो तरि तो कि वांचता तो हो कि तो देवाले लागि वांचतास ।
११ तुंमियि आप णाक समजा पापाले लागि निश्चयु मेले तरि
आम्गेलो प्रभु यिशु खीष्टाले मार्गान देवाले लागि वांच
१२ ताति । हे खातिर तुम्गेलि मरतजे शरीरारि पापाले यज
मानपण कोर्नो दिउ नाका कि तागेलें इच्छेंतु ताका मान्या ।
१३ आनि आपणालें आंग अयथार्थपणालें कार्य कोर्चे अस्त्रांले
वारि पापाक दिउ नाका तरि मरणांतुल्यान कोणे जीउ

मेळास तांगेले वारि आपणाक देवाक दियां आनि यथार्थ
१४ कर्व्वें आयुधांले वारि आपणालें आंग देवाक दिया। तेंयितं
पाप तुमचेरि यजमानपण करिसि ना तेंयितें तुंमि व्यवस्थाले
१५ आधीन ना तरि अनुग्रहाले आधीन आसति। जाल्यारि
यितें आमि व्यवस्थाले आधीन ना जाल्यान तरि दयेले वश
१६ जाल्यान यित्तें पाप कोरुं तें ना जावो। तुंमि यित्तें समज
नांति कि कोण मानसुचे खातिर तुंमि कोणाले लागि
आपणाक सेवकु जावचे खातिर दिताति मरणरुप फलाले
खातिर पाप जावो यथार्थ कार्यरुप फलाले खातिर आज्ञा
मानचि हे दोगांतु कोणकोणाक तुंमि मान्ताति तांगेले
१७ सेवक तुंमि आसति। तुंमि पापाले दास आसिले से तरि
कोण शिक्षेलि रीति तुमकां दिउनु गेल्यास ति तुंमि मनांतु
१८ मानसिलांस हे खातिर देवालि स्तुति जायत्। हे खातिर
१९ तुंमि पापान सुटुनु यथार्थिकाले सेवक जाल्याति। तुमगेले
शरीराले निर्बलां थाकुनु हांव मनुष्याले वारि सांगतां तेंयितें
कसि तुमि म्हेळे कार्याले आमि अयथार्थपणाले खातिर
आपणाले आंगाक अयथार्थपण कोर्चाक दिलांस तसीचि
पुण्याले खातिर तुमगेलें आंग यथार्थपणालो सेवकु जावचे
२० खातिर आत्तं दि। तेंयितें केद्ना तुंमि पापाले सेवक
२१ आसिले तेद्ना यथार्थपण हीन आसिले। जाल्यारि कोण
कार्यान आत्तं तुमगेलि लज्जा आस ते कार्यान तावळि तुम
गेलो यित्तें लाभु आसिलो तेंयितें ते कार्यालि आखेरि मरण
२२ आस। तरि आत्तं तुंमि पापान मुक्त आनि देवाले सेवक
जाल्यान तुमगेलें फळ पुण्याले खातिर आनि आखेरि अनंत
२३ आयुष्य आस। तेंयितें पापालि वृत्ति मरण तरि आम
गेलो प्रभु यिशु ख्रीष्टाले साहायान् देवालें दान अनंत
आयुष्य आस।

७ सप्तम पर्व्व।—हे भावा हांव शास्त्र जाणतले लोकांक् हें म्हणवां तुमि यित्तें समज नांति कि कितुले दिस मनुष्यु वांचुनु राव्‌ता तितुले दिस व्यवस्थालें यजमाणपण ताजेरि
२ राव्‌तास। तेंयितें कोण बायलेलो बांमुनु आस बांमुणु कितुले दिस जीवो आस्ता तितुले दिस शास्त्राले बंधनांतलि बायल आपणाले बांमणाले भर्सिं बांदल्यास तरि बांमुणु मर्तेचि बांमणाले विषयाले व्यवस्थाले बांदपांथाकुनु मुक्त
३ आस। ह्याजेन बांमणाले जीवपाले वेळा तरी आनि काणे दादल्याले भर्सिं तिगेलि वारडिक जायत् जाल्यारि चेडि नांव जाल्लि जायत् तरि बांमुणु मर्तेचि ति बायल ते व्यवस्थाले बांदपांथाकुनु मुक्त आस ताजेन तरी आनि कोणालेयि भर्सिं तिगेलि वारडिक जायत् जाल्यारि चेडि जायसि ना।
४ हे खातिर हे मेगेले भावानो तुमि खीष्टाले शरीरान व्यवस्थाले लागि मेल्याति कि तुमि दुसऱ्याले भर्सिं शारडिक केलेलि जावो अर्थात कोण मरणांतुल्यान उठायलास ताजे
५ भर्सिं कि आमि देवाले लागि फल फलयां। तेंयितें केद्‌ना आमि शरीराक आसरो केलालो तेद्‌ना मरणालें फल उब्‌जाव्‌चाक व्यवस्था सिद्ध पापाले अभिलाषांनि आम्‌गेले
६ आंगांतु व्यापार केलो। तरि आत्तं कस्‌ल्यांतु आमि धर्लें आसिले तो मेल्यान आमि व्यवस्थांथाकुनु मुक्त जाल्याति कि आमि आत्माले नवेपणान सेवा करीयां आनि अक्षराले थोनें
७ पणान सेवा करीनाति। जाल्यारि आमि यित्तें म्हाणु व्यवस्था यित्तें पाप आस तें ना जावो वरं व्यवस्था नंतां हांव पाप समज्‌तों ना तेंयितें व्यवस्था तरी सांग ना कि लोभु कोर्नो
८ का जाल्यारि हांव लोभु जाणतो ना। वरि पापान आज्ञेन फुरसति मेळ्‌नु सगळे प्रकारालें काम मेगेले भितरि उब्
९ जायलें तेंयितें व्यवस्थाले नंतां पाप मेले जालें। तेंयितें पिर्तेम हांव व्यवस्थाले नंतां जीवो आसिलों तरि आज्ञा येतचि

१० पाप वांच्लें आनि आनि हांव मेलों। आनि कोण आज्ञा वांचुचे खातिर आसिलो तें हांवे मरणाले खातिर समजप ११ केलें। तेंयितें आज्ञेले साहायान पापान अवकाशु मेळनु १२ माका फटैलो आनि ताजेन माका मारुं उडैला। हाजेन यवस्था शुद्ध आनि आज्ञा शुद्ध आनि बद्द आनि चांगि। १३ जाल्यारि कोण चांगि तें यित्ते मजे लागि मरणरूप जालि तें ना जालो तरि चांग वस्तान मजंतु मरण उब्जायतलें पाप कि तें पापालेखरुप प्रकाश जालो कि पाप आज्ञेन १४ होउ पापस्वरुप प्रकाश जावो। तेंयितें आमि जाण्तांत कि यवस्था अध्यात्म आस तरि हांव शारीरिक पापाले आधीन १५ जाव्चे खातिर विक्रीत आसं। तेंयितें हांव कोण कर्तां तो मनंतु हंगा तेंयितें हांव कोण इच्छितां तें करीं तरि १६ कोण कंटाळ्तां तेंचि करीं। हे खातिर कोण कार्य कोर्चो इच्छि ना तें तरी हांव करीन जाल्यारि हांव प्रमाण दितां १७ कि यवस्था चांग आस। हे खातिर हें कार्य कर्तालो हांव १८ ने तरि मजंतु राव्तलें पाप। तेंयितें हांव समज्तां कि मेगेले भितरि अर्थात मेगेले शरीराले भितरि कोणे चांग वस्तु राव नाः तेंयितें इच्छा कोर्चि मजांतु उपस्थित आसतरि १९ चांग कार्य सिद्ध कोर्चें सामर्थ हांव याव ना। तेंयितें कोण हांव चांग कार्य कोर्चो इच्छितां तें हांव करीं तरि कोण वायट २० कार्य कोर्चो इच्छिना तें हांव कर्तां। हे खातिर कोण हांव कोर्चो आशेना तें तरी हांव करिन जाल्यारि ताजेकोण २१ कर्तालो हांव ने तरी मेगेले भितलें राव्चें पाप। हे खातिर हांव हें यवस्था पाव्तां कि केद्ना चांग कार्य कोर्चो आशेतां २२ तवेळा वायट कार्य मजे लागि तयार जातास। तेंयितें भितवेले मनुष्याले मतकें हांव देवाले यवस्थेविरि संतोषि २३ आस। तरि मेगेले बुद्धिले यवस्थाले विपरीतांतु युद्ध करता ना आनि मेगेले शरीरांतु राव्तले पापस्वरुप यवस्थाले

आधीन माका कर्तांना आनि येक यवस्था ह्यांत आपणाले
२४ शरीरांतु योव्चा येत्तां । अफसोसु दुःखी मनुष्यु कि ह्यांव
आसं हे मरणाले शरीरांथावुनु माका कोणु उद्धार करित ।
२५ आम्गेलो प्रभु यिषु खीष्टाले द्वारा ह्यांव देवालि स्तुति कर्तां
हे खातिर ह्यांव आपणालें मंन लावुनु देवाले यवस्थालि सेवा
कर्तां तरि शरीरान पापालें यवस्थालि सेवा कर्तां ।

८ अष्टम पर्व्व ।—हे खातिर कोण खीष्टु यिषुंतु आस कोण
शरीराले मणुके चमक ना तरि आत्माले मणुके चमकतांति
२ तांधेरि दंडण आसं ना । तेंथितें खीष्ट यिषुंतु जोउ दित
ले आत्माले वारि यवस्थाले पाप आनि मरणरूप यवस्थांथा
३ वुनु माका मुक्त केलं स । तेंथितें यवस्था शरीरान भागिलें
जावनु कें ण कोर्धां सक्लो ना ते देवान आपणाले पुताक
पापी शरीराले वारि आनि पाप विनाश कर्चें बलिदान
जावचे खातिर धांव्यान कोर्नु शरीरांतु पापालो दोषु कर्
४ लो । कि शास्त्रालो धर्मु आम्गेलो भितरी पुर्ण जावो कि
कोण शरीराले वारि वेवार कर्तांति तरि आत्माले वारि
५ वेवार कर्तांति । तेंथितें शरीरालो मताचार कर्चे
शरीरालो वस्तु मानतांति तरि आत्मालो मताचार कर्चे
६ ले अध्यात्म वस्तु मानतांति । तेंथितें शरीरालें मानय मरण
तरि आत्मालेमानय जीवण आनि शांति आस । तें यव
७ शरीराले मानय देवाले विपरीतरूप हगें आस तेंथितें
तें देवाले यवस्थाले आधीन नां आनि जाव्चा सक ना ।
८ हे खातिर कोण शरीराले वेवहारांतु राव्तांति ते देवाक
९ खुषि कोर्चा सकनांति । तरि देवालो आत्मा तरी तुम्चांतु
रावता जाल्यारि तुंमि शरीरांतु नांति तरि आत्मातु राव्
तांति । तरी कोणे मनुष्यु खीष्टालो आत्मा घर्लेल् ना जाल्या
१० रि तो तागेलो ने । आनि खीष्टु तरी तुमगेले भितरि राव्

ता जाल्यारि यापान शरीर मेलें तरि यथार्थ कार्यान
११ आत्मा जीवनस्वरूप आस । तरि कोणें यिशुक मरणां
तुल्यान उठ्कराय्लाय तागेलो आत्मा वरी तुम्चांतु राव
ता जाल्यारि कोणें खीष्टाक मरणांतुल्यान उठ्करायलो
तो तांचांतु राब्तलो आपणाले आत्मान तुम्गेले मरतलें
१२ शरीरयि वांचैत । हे खातिर हे भावः आमि रिणकार
आसंति तरि शरीरालो मताचार कोर्चाक शरीराले नैं ।
१३ तेंयितें तुमि तरि शरीरालो मताचार करूंचा जाल्यारि
मर्णा तरि तरी आत्माले केल्यार शरीरालें कार्य मार्नु
१४ उडैत जाल्यारि जीवन भोगु करशाति । तेंयितें कितुले
मनुष्य देवाले आत्मान चल्लैले जाल्याति तितुले मनुष्य देवा
१५ ले पेरके । तुमि भय उब्जायतले दासरूप आत्मा दुसरे
वेळा पाव्ले नांत तरि पोसक्याले वारि आत्मा पावलेति
कि कोणाले केल्यान तुमि आंनु आंनु म्हेंणु आपैवाति ।—
१६ आत्मा आपण आम्गेले आत्माले भर्सि प्रमाले कर्तास कि
आनि देवालि पेरडुवं आसंति आनि तरी पेरडुवं जाल्यारि
१७ दायजी अर्थात देवालो दायजी आनि खीष्टाले लागि दाय
जी आसति कि तागेले भर्सि तरी दुःख भोग सिणा जाल्या
१८ रि तागेले भर्सि आमकां मोच्च भोगसुकचा । तेंयितें
हांव समज्ता कि हे समयालें दुःख आम्गेले भितरि कोण
सुख प्रकाश कोर्नु वेच्तत ते सुखाले समसमाना जाव्चें
१९ योग्य ना । तेंयितें उब्जाय्लो वोस्तुलि सावारि अपेचा
देवाले पुतांलि प्रकाशालि आपेचा कर्तास । तेंयितें
उब्जायलो वस्तु वर्थ ताले आधीन केलालो इच्छापुर्वक
२० ना तरिकोणें भरवसांतु ताका आधीन केलो तागांधाकुनु ।
२१ तेंयितें उब्जायलो वस्तु आपणयि विनाशाले दासपणांथाकु
२२ नु देवाले पुतांले तेजोमय मोक्षांतु मुक्ति जायत । तेंयितें
आमि समजतांति कि सगळि सृष्टि आत्तंपरांतु पर्व वा

२३ आनि विवचा दुकिन दुकिलि आस। मात्र तीचि तें नैं
तरि आमि आपण कि कोणे आत्मालें पितंमलें फळ मेळोंस
आमि पोळोपण अर्थात आमगेले शरीरालें मुक्तिलि अपेक्षा
२४ कर्तांना आपणाले भितरिचि दर्वेतातिं। तेंयितें आमि
भरवसालें साहायान उभार केलेले जाल्यातिं तरि चोवि
ले वस्ताले विषयांतु भरवसो भरवसो ना तेंयितें मनुष्यु
२५ कोण पळेता तागेलो भरवसो चित्या कर्तातिं। तरि कोण
आमि चोयि नांति तागेलो भरवसो तरी आमि कर्तांति जा
२६ त्यारियाकुनु आमि तागेलि अपेक्षा कर्तांति। आत्माचि
आमगेले भगिल्याचेरि उपकारु कर्तास तेंयितें आमगेले
प्रार्थनाले योग्य चित्तेंर आस हें आमि समज नांति तरि
आत्मा आपण आमकां सांगचा वोच नातिले दर्वेणिन प्रार्थ
२७ ना कर्तैतातिं। जोणु मनांलो विचारु कर्तास तो आत्मालीं
इच्छा समजता तेंयितें तो देवाले वारि पुण्यवान लोकांले
२८ खातिर प्रार्थना कर्तास। आनि आमि समजतांति कि
सगळे खातिर मजाले तांगेतें मंगल कर्तातिं कि कोण देवाक
प्रेमु कर्तातिं कोण देवाले नेमकालें वारि आपोनु गेल्यातिं।
२९ तेंयितें ताणे कोणांक पितंम लागिण समजलो तांकां ताणे
आपणाले पुताले रूपाले वारि जावचे खातिर पितंम
लागिन नेमक केलें कि तो सावार भावांले भितरि प्रधान
३० जायत्। आनि ताणे कोणांक पितंमलागिन नेमक केलें
तांकां आपेले आनि कोणांक आपेले तांकां यथार्थिक केले
३१ आनि कोणांक यथार्थिक केले तांकां स्वर्गालें सुख पावतलें
केले। जाल्यारि हे सगळ्यांतु आमि चित्तें सांगु तरी देउ
३२ आमगेलो पक्षि जाल्यारि आमगेले विपरीतांतु कोणु आस।
कोणे आपणाले पुताक दया केलि ना तरि आमगेले सगळ्यां
ले खातिर तांका दिलो तो ताजे भर्सि चित्तें आनि सगळें
३३ वि फुंक्या आमकां दोसि ना। देवाले मनोनीत लोकांले

२४ अपराद् कोणु म्हणत् यित्तें यथार्थ कर्तेलो देउ। दंडण
कोणु दित यित्तें खीष्टु कि कोण मेलो वरं कोण दुसरे बेळा
जीवों जालास कोण देवाजे उजवे दिकांतु आस कोण
२५ आम्ंाजे खातिर प्रार्थनायि कर्तास । खीष्टाले प्रेमाले
भायर आम्कां कोणु करीत यित्तें दुःख जावो शोकु जावो
विपत्तता जावो म्हारगायि जावो नागडपण जावो आयोतु
२६ जावो खांडें। कसि हें बरेलंास कि तुजे खातिर आमि
सगळे दोस मार्नु वेतांति आमि मर्चें खातिर नगराले
२७ वारि मोउनु गेल्यांति। कोणें आम्कां प्रीति केलि ताले
ले प्रसादान आमि हे सगळे विषयांतु जयकेल्याचाके होड
२८ आसति । तेंयितें हांव निश्चय समजतां कि मरण जावो
जीवन जावो दुत जावो राज्य जावो अध्यक्षपण जावो वर्तमान
वस्त जावो जावचे वस्त जावो येत्रपण जावो तोगुपण
२९ जावो आनि कस्लोयि उब्जायले वस्त देवालो कोण प्रेमु
आमगेलो प्रभु खीष्टु यिशुंतु आस ते प्रेमाले भायर् आम्कां
कोर्चा सकना ।—

९ नवम पर्व ।—हांव खीष्टालें नांवान खरें म्हणतां हांव
२ फटि उत्तर म्हंणा । मेगेलें मंन धर्मात्मांतु साक्षि जाल्या नैं
हांव म्हणतां कि मेगेले मनांतु होडु भार आनि नित्य शोकु
३ आस । तेंयितें आपणाले भाव आनि शरीराले वारि
आपणा सगोत्र्या खातिर् हांव मागचाक सिद्ध आसं कि
४ खीष्टाले बहिर्भूतहय शापु पावले जाउं। कि कोण यिश्रए
एलो आसति कोणाले लागि पोसपुत्रपण आनि महात्मा
आनि वंदेस्ति आनि शास्त्र दिवप आनि देवालि सेवा आनि
५ कौलु। कोणाले पितृलोकुयि आसति आनि शरीराले
वारि खीष्टु कोणाथाकुनु जालेला कि कोण सगळ्यांलो
६ दळायि सच्चिदानंद देउ आमिन। देवाले उत्राले कांयि

फल ना जाल्यान कसि आसिलें तें नैं     तेंयितें कोण यिस्र
७ एएलांथाकुनु उबजलासति ते सग्ळे यिस्रएली नें । अब
राहामाले पुत जाल्यान ते पुत नाति तरि तुगेलो वंशु
८ यिसहाक थीनुं ख्यात जायत ।     तागेलो अर्थु हो कोण
शारीरिक पुत आसति ते देवाले पुत नैं तरि प्रतिज्ञान उब्
९ जले पुत वंशालेवारि मोउनु वेत्ताति ।   तेंयितें प्रतिज्ञालें
उत्तर हें कि हांव हे कालाले अनुसारीं येन आनि शाराले
१० येकु पुतु जायत। मात्र हें तेंवयि ना तरि रिबिकाहू केद्ना
येकल्याचाना अर्थात आम्गेले पितलोक यिसहाकाकच्यान
११ गुर्बिणि जालेलि तेद्ना पसंताले मणके कोण देवालो नेमु
तागेलो स्तिर जाव्चे खातिर कार्यान नैं तरि कोण आपेता
ताजेन चेरडुवंथि उब्ज नासिले आनि थांग वायट कांयि
१२ कर्नातिले ।     ताका हें सांगुनु गेलें कि होड सान्नालि
१३ सेवा करीत ।     कि कसि बरैलांस कि हांवे यकूबाक
१४ प्रेमु केलास तरि एशावाक अळसिकेलास ।     जाल्यारि
आमि यित्तें म्हाणु देवाले यित्तें अयथार्थपण आस तें ना गा
१५ वो ।  तेंयितें ताणे मोशहाक म्हळें कि हांव कोणाक क्षमा
कोर्चां इच्छितां ताका क्षमा करीन आनि कोणाचेरि दया
१६ कोर्चां इच्छितां ताजेरि दया करीन ।   हे खातिर कोण्ता
इच्छितास आनि कोण्ता धांव्ता तांचान लाभु ना तरि
१७ क्षमा कर्तले देवाचान ।   तेंयितें धर्मपुस्तकान फार्औहाक
म्हळें कि हांवे तुका होड स्थानिकु केलास कि तुगेले भितरि
मेगेलो पराक्रमु दाकैन आनि मेगेलें नांव सग्ळे जगतांतु
१८ प्रकाश जायत ।     हे खातिर कोणाक तागेलि इच्छा
ताजेरि कृपा कर्तास आनि कोणाक तागेलि इच्छा ताका
१९ कठिण कर्तास। तुं माका म्हण्सि कि तो यित्या दोषु कर्तास
२० तेंयितें तागेले इच्छेक कोणे तडेलांस ।     तरि हे देवाचेरि

आदां वर्तले मनुष्या तुं कोणु आस उबजलो वस्तु यित्तें उब्
जावलल्याक सांगत कि तुंवे कस्ले खातिर माका असि
२१ केलास। येक मातिये गुळ्यान मर्यादेले खातिर येक आय्
दन आनि दुसरें येक आयदन अमर्यादेले खातिर माति
२२ येरि कुंबाराले यित्तें तो पराक्रमु ना आस। देवान आप्
णालो कोपु दाकोवाक आनि आप्णालो पराक्रमु प्रकाश
कोर्चाक तरी विनाशाले खातिर सिद्ध केलेलें केपाले योग्य
२३ आयदनांक होड ताळवपान ताळविलास। आनि आप्ण
२४ मर्यादेले खातिर कोणाले पितर्म सिद्ध केलेलें अर्थात मात्र
आम्केरि कि कोणाक यिऊदियांथाकुनु नें तरि अन्यदेशकारी
यांचानयि बोलव केलांस ते दयेले आयदनांचेरियि आप्णा
ले ऐश्वर्याले धन प्रकाश कोर्चे खातिर इच्छा केल्यास जाल्या
२५ रि यित्तें। कसि होशिले पुस्तकांतु हें बरैलांस कि कोण
आमचे मनुष्य ना आसिले त्यांव तांकां आप्णाले मनुष्य
म्होणु आपैन आनि कोण मोगाचें ना आसिलें ताका मोगा
२६ चें म्होणु आपैन आनि हें जायत कि कोण जाग्यारि तांकां
सांगुनु गेलें कि तुमि मेगेले मनुष्य नें ते जाग्यारि ते जीवे
२७ देवाले पुताले वारि ख्यात जातित। यिशाईयाय यिश्
राएलाले विषयांतुयि होड्डान सांगतास कि यिश्राएलाले पुत
समुद्राले रेवेंले वारि आसति से तरि तांचांथाकुनु वांचि
२८ लेयि दयोंतुं वांचतित। तें यित्तें तो कार्य तमाम करित
आनि यथार्थपणान तें संक्षिप्त करित तें यित्तें देउ जगतांतु
२९ कार्य संक्षिप्त करित। यिशाईयाहान पितर्मचि म्हळांस
कि सेनालो विऊदा तरी आमगेलें येक विं ना सोड्लें
जाल्यारि आमि सदोमाले वारि आस्ते आनि अमरादाले
३० वारि कोर्नु येत्तें। जाल्यारि आमि यित्तें म्होणु कि यथार्थ
पणाले वारि चमक नातिले अन्यदेशकारांनि यथार्थपण धर्लां
३१ स अर्थात विश्वासान उबजलें यथार्थपण। तरी सथार्थ

पणाले यवस्तेले मणकें चमकतले यिशरएलांनि यथार्थपणाले
२२ यवस्ता धर्लि ना । हाजें कारण यितें तानि विश्वासान तें
सोदलें ना तरि यवस्तेले कार्यान कलि सोदु कर्तांति अस्से
२३ सोदु केलि हेचि कारण । तेंयितें तानि ते आडळप
खाव्चे फातरान आडळप खेलांस कि कसि हें बरैलांस
कोथि हांव आडळप खाव्चो येकु फातोर आनि बादा केचें।
येकु गुडो सीओनांतु दवर्ता आनि कोणलो ताका विश्वासु
कर्तांस तो लज्जो जायना जायत —

१० दशम पर्व्व — हे भावानो मेगेले मनालि इच्छा आनि
यिशरएलाले खातिर देवाले लागि मेगेलि प्रार्थना हि
२ आस कि ते उद्धार जातित । हांव तांगेले हाजेचि साक्षि
आसं किं तांकां देवालि सेवा कोर्चि इच्छा आस तरि ज्ञाना
३ ले वारि नैं । तेंयितें ते देवाले यथार्थपणा समजनातिशे
आनि आपणाले यथार्थपण दवोर्चें यत्न कोर्तु देवाले यथार्थ
४ पणाले वशीभूत जाले नांति । तेंयितें प्रत्येक विश्वासु कर्तै
ल्याले दिका यथार्थपणाले खातिर ख्रीष्टु यवस्तेलो अभिप्रायु
५ आस । तेंयितें यवसेंतु उत्जलो धर्मालि वर्णना मोसा
हान केल्यास कि कोणलो तें कर्ता तो तांगेले साह्याना
६ वांचत् । तरि विश्वासान घेत्लें यथार्थपण हे प्रकारीं
म्हण्तास कि तुं आपणाले मनांतु चिंता कोर्नाका कि सर्गार
७ चेरि कोणु चडत अर्थात ख्रीष्टाक देवोंवाक । जावो
गुंडयेंतु कोणु देवंत अर्थात ख्रीष्टाक मरणांतुल्यान येवान
८ उठकरावचाक । तरि तो यितें म्हण्तास कि उत्तर अर्थात
विश्वासाले विषयांतु कोण उतर आनि कलेतांति तो तुगें
९ लागि आस अर्थात तुगेलें तोंड आनि मनांतु आस। ताजो
अर्थु हो कि तुं तोंडान तरी प्रभु यिशुक सीकार कर्शैर
आनि देवान कि ताका मरणांतुल्यान उठकरायलो तरी हें

आपणाले मनांतु विश्वासु कर्ता जाल्यारि तुं त्राण् पावूशी।
१० तेंयितें मनांतु मनुष्यु यथार्थपणा घेव्चे खातिर विश्वासु कर्तास
११ आनि मुक्तिले खातिर तोंडान स्वीकारु कोर्नुं वोत्ता। तेंयितें धर्मपुस्तकांतु हें म्हण्तास कि कोणे ताजेरि विश्वासु कर्तास
१२ ताजेलि लज्जा जायसि ना। यिऊदियांले आनि ग्रीकां ले कांयि वेगळेपण ना तेंयितें सगळ्यांलो अधिकारि तोचि येक प्रभु आपणाले लागि प्रार्थना कर्तले सगळे लोकांले
१३ दिकां धनवंतु आस। तेंयितें कोणे देवालें नांव घेउनु
१४ प्रार्थना कर्तास तो मुक्त जायत। जाल्यारि कस्ल्यारि तानि विश्वासु कर्ने आस ते ताजे लागि कोण जीनसान प्रार्थना कर्तित आनि कोणाले विषयांतु तानि आय्किले ना ताजेरि कोण जीनसान विश्वासु कर्तित आनि घोषणा कर्तलो जाय्नातिल्यान ते कोण प्रकारी आय्कतित।
१५ आनि धाळेले जाय्ना जाल्यान ते कोण प्रकारी घोषणा कर्तित कसि हें बरैलांस कि कोण कुशल दित्लो मंगल समाचारु प्रकाशु कर्तात आनि चांग विषयांतु संतोषालें
१६ वर्तमान दितात ताजेले पांय कसि चंद आसति। तरि ते सगळे मंगल समाचारु मानि नांति तेंयितें यिशाइया हान म्हळें कि हे यिऊहा आम्गेले खबरेचेरि कोणे वि
१७ श्वास केलास। हे खातिर आय्किल्यान विश्वासु आस
१८ आनि देवाले उत्रान आय्कप। तरि हांव म्हण्तां यित्तें तानि आयकुं पाव्ने आवश्य आय्किलांस तेंयितें तांगेलो शब्दु सगळे जगतांतु गेलास आनि तांगेलें उत्तर जगता
१९ ले अंदरपरांतु गेलांस। तरि हांव म्हण्तां कि यिश्र एलान यितें समजले ना पित्तंम मोशेहान म्हळें कि कोण जाति ना तांगेले वशा हांव तुम्कां इच्छान्वित करिन आनि
२० येक अज्ञानि जातिले द्वारा तुम्कां कोपक्त करिन। तेंयितें यिशाइयाहान सावार निर्भय जाव्नु म्हळांस कि कोणे मेगे

लें शोदय केले ना तांगेले लागि हांव मेळनु गेलों आनि कोणे मेगेले खातिर निर्म्मिलें ना तांचे लागि प्रकाश २१ जालेलें। तरि यिश्वरदलाक म्हळें कि मानसि नातिले आनि विपरीत कर्तले लोकांचे वेयरि हांवे सगळे दिस हात वाडैल्याति।—

११ एकादश पर्व्व।—जाल्यारि हांव हें म्हण्तां कि देवान यित्तें आपणाले लोकांक सोड्याति तें ना शावो तेंयिलें हांवे अबराहामालो पुतु आनि बेन्यामिनाले वंशांतु येकु यिश्र २ रएली आसं। देवान आपणाले पिर्तमले वेत्तले मनु ष्यांक सोंणु दिले नांति तुमि यित्तें समज नांति कि धर्म्मपुस्त कांतु एलियाहाले विषयांतु कोण उत्तर म्हाण्तास कि ताणे कोणप्रकारी हि प्रार्थना यिश्ररएलाले विपरीतांतु देवाले ३ लागि केलि। कि हे यिहोवा तानि तुगेले आचार्यांक मारुं उडैल्याति आनि तुगेलि यज्ञवेदि खोंडुनु उडैल्यास आनि हांव येकलोंचि आसं तर्के ते मेगेलो जीउ मार्चो यत्न कर् ४ ताति। धर्म्मपुस्तकांतु तागेले विषयांतु हेंचि कोण उत्तर म्हण्ता तुंमि यित्तें नेणाति तरि देवालें उत्तर ताजे लागि यित्तें म्हण्ता बआलाले लागि दियो कोण तेंकी ना असि सात सास लोकांक हांव आपणाले कारण रक्षा केल्याति। ५ तेचि प्रमाणेयि हें वर्तमानाले येळा अनुग्रहपुर्व्वक पसंताले ६ वारि वंचिल आस। तरी तें अनुग्रहान जाव्न जाल्यारि कार्यान नैं ना जाल्यारि अनुग्रह अनुग्रह ना तरि कार्यांक तरि जाव्न जाल्यारि अनुग्रहान नैं ना जाल्यारि क्रिया ७ क्रिया नैं। जाल्यारि यित्तें यिश्ररएलान कोण सोदलें तें मेळें ना तरि मनोनितांनि तें पावलांस आनि दुसरे कुरुडे ८ कोनुं गेले। कसि हें बरैलांस निद्देले स्वभाव आनि आजिपरांतु देकुं येनातिले दोळे आनि ना आयकुचे खा

९ तिर कान तांकां देवान दिल्लांस। दाउदानथि म्हल्लांस
कि तांगेलें मेज तांगेलि येकि कोंड्डि आनि सांपडो आनि
१० आड्डोळ्लि कुनि कोर्नु वोचो। तांगेले दोळे काळखांत
वेडावनु वोचो कि ते चोयि नांति आनि तांगेलि फाटी
११ नित्य जाग्रित्रा। जाल्यारि हांव म्हणलां कि तानि पिर्ने
पेडचे खातिर आडुळ्लास तें ना जावो तरि तांकां उत्तम
कोर्धाक तांगेले पडपांन परित्राण अन्यदेशकारांले लागि
१२ आयलांस। हे खातिर तरी तांगेले पतन जगतालें धन
जायत आनि तांगेले उणेपण तरी अन्य देशकारालें धन
१३ जायत जाल्यारि थिर्नें नेंदान तांगेलि पुर्नता जायत। तेंथिनें
अन्यदेशकारांले लागि प्रेरितु हांव आपणाले कार्य्याले
१४ प्रशंसा कोर्नु अन्यदेशकार तुम्कां सांगतां कि कोणे प्रकार
आपणाले आत्मीय लोकांक उत्तम कर्तां आनि तांगेले भितरि
१५ कितलेक लोकांले परित्राण कर्तां। तेंथिनें तरी तांकां
सोडप जगतालें मेळप जायत जाल्यारि तांगेलें घेवप
१६ मरणांतुल्यान फाणु मेळो मतां थिनें जायत। तेंथिनें तरी
पिर्नलें फल पवित्र जायत जाल्यारि डिप्पोल्लु पवित्र
जायत आनि मूल तरी पवित्र जायत जाल्यारि खांदेयि
१७ पवित्र जायत। आनि ते खांदे कितलेक मोणु गेले रान
जितइत्त कि तुं तांगेले जाग्यारि तरी लागुनु रावल आनि
तांगेले भर्सि जितइत्तालें मूल आनि रसभोगी जाउनु
१८ रावल जाल्यारि खांघांचेरि दर्पु कोर्नाका। तरि तरी
दर्पु कर्ता जाल्यारि समज कि तुं मूलाले पोस्तलो नैं तरि
१९ मूल तुम्गेलें पोसतलें। जाल्यारि तुं म्हणशि नाका लावचे
२० खातिर खांदो मोणु गेलोलो। चांग ते अविश्वासाले खातिर
मोणु गेलो से आनि तुं विश्वासान स्थिर जातास मानो जाव्
२१ नाका तरि भय करि। तेंथिनें देवान तरी प्रकृत खांघांक
दया केलि ना जाल्यारि सलधान जा यितेंगाण तुकावि

२२ दया करिसि ना ।    हे खातिर देवाले चांगपण आनि दुईडता लेखि लेख ते पल्यांति तांचेरि दुईडता तरि मरी तुं तानेंसि चांगपणाचेरि राबता जाल्यारि तुजेरि चांग
२३ पण ना जाल्यारि तुंवै कातेनुं वेछि ।    आनि ते तरी अविश्वासांतु ना राबता जाल्यारि तेवथि नैवान लायिले वोर्ने
२४ जातित तेंयितें तांकांथि देउ नैवान लाव्‌चाक सकता ।    तुं रान जितह्वांयाकुन कातेनुं वेचुन तरी प्रकृतिचे विरु द्ध चांग जितह्कांतु शेडसुन गेलें जाल्यारि बित्तें नैवान प्रकृत खांदे आपणागेले जितह्कांतु शेडगुन वेचत ।
२५ तेंयितें हे भावाने आपणागेले विचारांतु तुंमि घापणांक ज्ञानवानु समजना हेचि खातिर हांव इच्छि ना कि तुंमि हे निगुढ उत्रांतु समजनातिले जाबा कि अन्यदेशकारांलें पुर्तेय उपस्तित जाउपर्‍यांतु येकु वांटो कुरडपण यिश्ररए
२६ लाक घडलांस ।    आनि तसि सगळे यिश्ररएलांलो त्राण जायत कसि हें बरेलांस कि सोंआनांथाकुन उद्धार कतेलो येत आनि यकाकुबांयाकुन अयथार्थता भेंवडायत ।
२७ तेंयितें केद्‌ना हांव तांगेलें पाप मोचन कतां तेचि वेळा तां
२८ गेले भसिं होचि मेरोलि संदेस्ति ।    मंगल समाचाराले विषयांतु सांगिल्यान तें तुम्‌गेले खातिर वैरि तरि मनोनी तांलि विषयांतु उलेल्यान ते पितलोकांले खातिर मोगाचे
२९ आसाति ।    तेंतितें देवालें दान आनि नियोग अपराम
३० नसोय ।    तेंयितें कसि तुंमि पितंम देवालो विश्वासु केलो
३१ ना तरि आतं तांगेले अविश्वासाले द्वारा दया पावल्यास तसिचियि ते आत्तं विश्वासु कर्नाति कि तुम्‌गेलें प्राप्त दयान
३२ दया पावता ।    तेंयितें देउ अविश्वासान ते सगळ्यांक
३३ धारण केलांस कि तो सगळ्यांचेरि दया कर्ता ।    आहा देवालें ज्ञान आनि बुद्धिरूप धनाले गांभीर्य बित्तें आश्चर्य तांगेलो विचारु कसि अज्ञातव आनि तांगेलि गति कसि

२४ अप्रामत्य। तेंयितें देवालो मनालो विचार कोण समज्जलासं
२५ तागेलो मंत्री कोणु जालास। आनि कोणु ताका पितंम
२६ असि दिलांस कि तें तेंवान ताका दिउनु वोचत। तेंयितें तागेन आनि तागेले केल्यान आनि तागेले उद्देशि सगळो वस्तु तागेलि प्रशंसा नित्य सर्वत्र जावो। आमिन।

१२ बारावें पर्व्व।—हेखातिर हे भावानो हांव देवाले दयेन लालेय कर्तां कि तुमि येक जीवे आनि पवित्र आनि स्वीकार योग्य बलिस्वरूप आप्णांगेलें शरीर देवाक दि हीचि
२ तुम्गेलि उपयुक्त सेवा। आनि हे जगताले मताचारी जाव नाका तरि तुम्गेले मंन नवें जाल्यान रूपान्तर केलें जावो कि देवालें तें चांग आनि स्वीकारयोग्य आनि शुद्ध
३ इच्छा यित्तें हाजें प्रमाण दि। तेंयितें मजे लागि देवान कोण अनुग्रह दिलास ताजेन हांव तुम्गेले प्रत्येक मनुष्याक सांग्तां कि तें उपयुक्त सुमारांथाकुन आप्णाक होडु ना मानशि तरि देवान प्रति मनुष्याक विश्वासालें परिमाण कसि
४ दिलांस ताजे मणके बुद्धि पूर्व्वक आप्णाक मानशि। तेंयितें कसि येक शरीरांतु आम्गेले साबार आंगं आसति आनि
५ सगळे आंगालें येक कार्य नें। तसि आमि साबार जावनु
६ खीष्टांतु येक शरीर आनि परस्पर आंगथिं जातात। हे खातिर आम्गेले लागि कोण अनुग्रह दिला आस ताजे मणके आमि वेगळेर पराक्रम जावनु तें तरी आचारपण जायत जाल्यारि आमि विश्वासाले सुमारारे मणके तें कर्तां
७ जावो सेवा कोचें पद तरी जायत जाल्यारि सेवा कर्तां।
८ अध्यापकु अध्यापण करो उपदेशकु उपदेशु करो कोण्तो दान कर्ता तो येकामनान तें करो कोण्तो कर्तव कर्ता तो सावधानान तें करो कोण्तो दया कर्ता तो संतोष मनान

९ तें करो । प्रेमु छलना भंतां जावो घायट क्रिया अळसिके
१० उवि आनि चां क्रिया योस्तलो जाया । भावावारि प्रेम पुर्वक
परस्पर प्रेमु पुर्त, अवो परस्पर आदारु कोर्धाक तेरु
११ जाया । कार्येंतु नियालस्य आनि देवालि सेवा कऱ्या जाज्व
१२ ल्यमान चित जाया । भरवसांतु आनंदित दुःखांतु धर्यवान
१३ जाया प्रार्थनांतु नित्य प्रवृत्त जाया । पुण्यवानालि दीनता
दुरोले खातिर दाता आनि अतिथ्य कोर्धाक प्रस्तुत जाया ।
१४ जाण्णे तुम्कां ताडना कर्तालि तांकां आशीर्वादु दिया आ
१५ शीर्वादु कऱ्या आनि शिरापु दिउ नाकाति । कोण्णे
आनंदु कर्ताति तांगेले भर्सि आनंदु कोर्चें खातिर आनि
कोण्णे रडताति तांगेले भर्सि रोडचे खातिर परस्पर येक
१६ मंन जाया । होड विषय मनांतु कोर्नाकाति तरि सान
मनुष्यांपेरि मनोयोग कऱ्या आपणाल्यांक बुद्वंत कोर्नु
१७ मानसु नाका । अपकाराले बदला कोणालोयि अपकारु
कोर्नाका समस्त लोकाले दृष्टिंतु कोण आचारु शोभा पावता
१८ ते आचारांतु मनोयोगु कऱ्या । तरी जाव्चा सकता जा
ल्यारि आपणागेले शक्तिलित सगळे लोकांले भर्सि निर्वि
१९ रोधु आचारु कऱ्या । हे भो प्रियानो अपणागेले
विषयांतु प्रतिवैरि कोर्नाकाति तरि वरं कोपु चोउनु मो
उ जाया तेंयितें हें बरेलांस यिऊरु म्हण्ता कि बदला
२० फाल दिवचे मेगेलें कार्य हांव समोचित फाल दीन । हे
खातिर तुगेलो शत्रु तरी भुकेलो जाल्ता जाल्यारि ताका
खावे तरी ताह्नेलो जाल्यारि ताका पिवे तेंयितें हें केल्यान
२१ तुं तागेले माथ्यारि केंडांलि रासि वारशि । घायट
क्रियेन हारउ नाका तरि चां क्रियेन घायट क्रिया जस
करि ।—

१३ त्रयोदश पर्व्व ।—प्रत्येक मनुष्यु वोयूले शासन पदाले वशीभुत जावो तेंयितें देवालें निरुपण नंतां कोणे शासनदय
२ ना कोणर शासनपद आस तें देवांतु निरुपित । हे खातिर कोणूतो शासनपदाले विपरीत कर्ता तो देवाले निरु पणाले विपरीत कर्ता आनि कोणूते विपरीत कर्तांति ते आपू
३ णागेले दोषालि शास्ति पावतित । तेंयितें यजमान चां क्रिया कर्तल्यांचेरि भय दित्तले नैं तरि वायूट क्रिया कर्तल्यांचेरि जाल्यारि यित्तें तुं शासनपदांतु भिना चांगी क्रिया करि
४ जाल्यारि ताज्यान तुगेलि धां ख्याति जायूत । तेंयितें तुम् गेले मंगलाले खातिर ताणे तुजेरि देवालि आज्ञा कर्तलो आस तरि तुं तरी कुकर्म्मकर्ता जाल्यारि भिलाजा तेंयितें तो खांडे निरर्थक धर्ना तोवयि देवालि आज्ञा कर्तलो कुकर्म्मो
५ चेरि कोपस्वरुप वदला फल दित्तलो । हे खातिर कोपप्रयुक्त मात्र तो नै तरि विवेकु प्रयुक्तयि तुम्गेले वशीभृत जावचें
६ आवश्य आस । तेंयितें ते हें कार्य नित्य प्रवर्त जाउनु देवा
७ लि आज्ञा कर्तले जातित हेचि खातिर करु दिया । हे खातिर सगूळे लोकांक कोणाले कसलें पावें तें ताका दिया करु घेतल्यांक करु दिया सूंक घेतल्यांक सूंक दिया भियाय
८ तल्यांक भयकच्या आदर कर्तल्यांलो आदर कच्या । परस्पर मोगु कोचें रुप रिण नंतां आनि कोणालोयि रिणिकारी जा वनाका तेंयितें कोणूतो दुसऱ्याक मोगु कर्ता तो व्यवस्थालो
९ अर्थु पुर्तो केलास । तेंयितें पारार कोर्नाका जीवि मार्नाका चोरि कोर्नाका फटि साक्षि जावू नाका लोभु कोर्नाका हेंर आनि आनि कोणें आज्ञायि तरी आस जाल्यारि दुसरे लोकांक आपणाले सम मोगु हे उत्राले भितरि तें जाता ।
१० मोगु लागूचे लोकांले कांयि वायूट उब्जाय ना हे खातिर
११ प्रेमु शास्त्रार्थाले पुर्तो कर्तास । आनि आत्तं नोद सोंणु जागेउचें वेळा कि आस हें समूजुनु तें वरं कच्या तेंयितें

आम्गेले पितंम विश्वासु कोर्चे वेळांथाकुन अत्तं आम्गेलें
१२ परित्राण लागि जालांस। पुरूळि राति गेल्या आस
दोसु लागि जालास हे खातिर आमि काळकालि क्रिया
१३ सोंणु ऊजवाडालो अंगारु न्हेस्तांति। आमि गोंदळागो
दोळु आनि मत्तता आनि नीच क्रिया आनि लुच्पण आनि
विरोधु आनि इर्ष्या हेंर आचरण कर्नांतिलें दिसाले भित
१४ रि कसि उचित तसि चांग आचरण कर्तांति। तरि प्रभु
यिशु ख्रीष्टाक आंगवाल्या मण्के न्हेस आनि शरीरालि
कामना पुर्ति कोर्चे खातिर कांयि संग्रह कोर्नाका।

१४ चतुर्दश पर्व्व। कोण्तो दुर्ब्बल विश्वासु ताका घे
२ तरि अनिश्चित वादानुवादाले खातिर नैं। तेंयितें कोणें
विश्वासु कर्ता कि आपण सगळो वस्तु खावचा सकशि दुर्ब्बल
३ आनि कोणु रांदे खायत। खात्लो खाय नातिले तुच्छ
ना करो आनि खाय् नातिलो खातल्यांलो दोष ना करो
४ तेंयितें देवान ताका घेत्लास। हे दुसरे लोकाले दासालो
विचारु कर्तलो तुं कोणु आपणाले यजमानाले लागि तो
थिबि राब्ता जावो पडता तो स्थिर कोर्नु वोचत् तेंयितें
५ देउ ताका धोर्नु दवोर्चा सकता। कोणें विशेष दिसु
मानता आनि कोणें सगळे दिस समान रुपान मानता
६ प्रत्येक मनुष्य आपणाले मनांतु सुनिश्चित जावो। कोण्तो
विशेष दिस मानता तो देवाले खातिर तें मानता आनि
कोण्तो दिस मानशि ना तोवयि देवाले खातिर तें मान
शि ना कोण्तो सामान्य समजुनु खात्ता तोवयि देवाले
खातिर खाता तेंयितें देवाचेरि धन्यवादु कर्ता आनि
कोण्तो विशेष समजुनु खाय् ना तोवयि देवाले निमित्ति
७ कोर्नु खाय् ना आनि देवाचेरि धन्यवादु कर्ता। तेंयितें
आम्गेले भित्तरि कोणे आपणाले खातिर वांच ना

८ आनि कोणें आप्णाले खातिर मर्ता । आनि वांचिल्यान देवाले खातिर वांचतांति आनि मेल्यान देवाले खातिर मरतांति हे खातिर वांचिल्यान थिंवें मेल्यान आमि देवाले
९ आतांति । तेंथिंतं जीवें आनि मेलें हे दोगांलो प्रभु जावचे कारण खीष्टु मेलो आनि उठायलो आनि सजीव जालो ।
१० तरि तुं आप्णाले भावाक दोषी कोर्नु थित्या म्हण्ता आनि तुं आप्णाले भावांक थित्या तुच्छ कर्ता तेंथिंतें खीष्टाले विचाराल आसनाले येदुर आम्गेले सगळ्यांक दिबि राब्चा
११ आयत । कि कसि बरप आस थिऊंइ म्हण्ता तरी हांव जीवो आसं जाल्यारि मेगेले येदुर प्रत्येक दिंवो वांकडो कोर्नु वेचत् आनि देवाले लागि प्रत्येक जीब खीकार
१२ करिव । हे खातिर आम्गेले मिलरि प्रत्येक जाणाक आप्णालो विषयु देवाले लागि विशेष रुपांतु सांगुका
१३ आयत । हाजेन आमि येकलो आनि येकल्याक दोषीरुप आनि ना मानसुयां तरि वरं हेंचि विचार कर्ता कि कोणु तो आडळय खाव्चि कुलि जावो थेडचे खातिर आप्णाले
१४ भावाले वाटेरि दिना आयत । हांव जाण आनि प्रभु थिशुले द्वारा निश्चित बुद्धि आसा कि कोणें ज्य आपणाले स आधांव अपवित्र ना तरि कोण्ता कोण वस्तु अपवित्ररुपान
१५ मानवा तांजेरि तो वस्तु अपवित्र आस। तरि तुगेलो भाउ तरी तुगेले खाद्यर्यांचेरि तडिसिता जाल्यारि हाजेन तुं प्रीतिले आचरण कर्ना कोणाले खातिर खीष्टु मेलो तुं ता
१६ का आप्णाचे खाद्यान नाश कोर्नाका । हे खातिर तुगेल्या क्रियेले वख्याति कसल्यान जाता तें कोर्नाका ।
१७ तेंथिंतें देवालें राज्य खावप पीवप ना आस तरि प्रशस्त क्रिया
१८ आनि कुशल आनि धर्मात्मांतु आनंद । तेंथिंतें कोण्ता हेंचि क्रियेन खीष्टालि सेवा कर्ता तो देवांतु यास आनि मन्
१९ आंतु मनोनीत । हे खातिर शांति कर्तेलो आनि कसल्यान

येकलो दुसर्‍यालें ह्नित कोर्चा सकता आमि ह्येचि भिया
२० ले अनुवर्त्ती जाव्यां । खावक्याले खातिर देवाले क्रियेलो
नाश कोर्नाका सगळो वस्तु शुचि तें सत्य तरि कसल्यान
दुसर्‍यालि बाधा जायत कोणुंको तें खाता तागेलो दोष
२१ आस । मास खावप आनि दराक्षा रोसु पिवप जावो
आनि कोणे वोरसान तुगेलो भाउ काडव्य खायत जावो
ताग्रित जायत जावो भागिलो कोनु वोकास द्यागेलें नवण
२२ योग्य नैं । तुम्गेलो चित्तें विश्वास आस बरें देवाले
येदुर तें आपणाले लागिं दवरि कोणुंको आपणाले रीतिन
२३ आपणाक दोषी कर्ना ता धन्य । कोणालो संदेह आस
तो तरी खायत जाल्यारि दोषी जाता कसले खातिर विश्वास
पुर्वक खाय ना रोयितें विश्वासपुर्वक कोण ना तेंचि पाप ।

१५ पंचदश पर्व्व ।—हे खातिर बलवान आमि भागि
स्यांलें भागप सद्दा आनि आपणालि तुष्टि कोर्नाकालि हें
२ आम्गेलें कर्त्तव्य । आम्गेले भितरि प्रत्यक जाण हिताले
३ खातिर अपणाले। सेज्यार्‍यांलि तुष्टि कोरोलि तैंयितें खीष्टान
आपणे अपणचि खुषि केलि ना तरि काय तुम्कां निंदा
केलि तांगेलि निंदा मजेरि पळि हें उत्तर कसि बरैलां
४ आस तसीच केलें । तैंयितें पितंमले वेळा कोणर
उत्तर बरैलें आसिलें ते आम्गेले शिक्षले खातिर बरय
आसिलें कि आमि ताळव्यान आनि धर्मपुस्तकान उद्भले
५ सांतनेन भरवसो पावन् । सद्दा सद्दयण आनि सांतवणि
कर्तेलो देउ असि करो कि तुंमि खीष्ट यिशुले अनुसारीं पर
६ सर येकमनान मर्नादतले जाया कि तुमि येक मंन आनि येक
तोंडान देउ अर्थात आमगेलो प्रभु यिशु खीष्टाले आंनालि
७ प्रशंसा कर्‍या । ८ खातिर कसि देवाले माहात्म प्रकाश
कोर्चें खातिर खीष्टान आमकां घेतले तसि तुंमि येकलो

८ आनि येकल्याक घेया। आत्तं ह्नांव हें उत्तर म्हण्तां
पितृलोकांचेरि देवालि कोण प्रतिज्ञा आसिलि ति प्रति
९ ज्ञा स्थिर कोर्चें खातिर आनि अन्यदेशकार देवालि दया
प्रयुक्त तागेलि प्रशंसा कर्तीति हेचि खातिर देवालें सत्य
पण पोषुचे खातिर सुन्नतकारांलो येकु सेवकु यिषु ख्रीष्टु
आसिलो कशि बरैलांस कि अन्यदेशकारांले भितरि ह्नांव
तुगेले लागि स्वीकार करीन आनि तुगेले नांवाले विषयांतु
१० गायन् करिन। मेंरानै हे अन्यदेशकारानो तुंमि तागेले
११ लोकांले भर्सि संतोषु कर्चा। आनिकै हे अन्यदेशी सग्ळे
तुंमि यिहोवालि स्तुति कर्चा। हे सग्ळे लोकानो तुंमि
१२ तागेलि प्रशंसा कर्चा। आनिकै यिशाइयाह् म्हण्ता
यिशैयाकुन येक मुल जाय्त आनि कोणु अन्यदेशकारांचेरि
यजमान्यण कोर्पाक उठाय्त तागेलें शरण अन्यदेशकार
१३ घेतील। सदा भरवसो कर्तलो देउ तुम्कां विश्वासांतु
आनंदु आनि शांतिनु पुर्ते करो कि तुंमि धर्मात्माले प्रभा
१४ वान विश्वासांतु परिपुर्ण जावा। हे मेगेले भावानो
ह्नांव आपणचि तुम्गेले विषयांतु निश्चय रुपान ज्ञात
आसं कि तुंमि बरेपणान आनि ज्ञानान पुर्ते आस आनि
१५ येक्लो आनि येकल्याक उपदेशु कोर्पाक सक्ता। तरि
हे भाव देवाले केल्यान अन्यदेशकार निवेदु पवित्र केल्लो
जाउनु घेतिलो जाय्त हेचि खातिर अन्यदेशकारांले लागि
मंगल समाचार सेवा करतलो यिषु ख्रीष्टालो सेवकु कि
१६ ह्नांव आसां देवान केल्लो मेगेले लागि जो कोण दिल्लो
अनुग्रह ते अनुग्रहाले पुर्वेक ह्नांव कांयि साहसिकु जावनु
१७ तुम्गेले मनांतु दिवपाले वारि तुम्कां बरैलांस। हे
खातिर देवालो कोर्णेर विषयु तेचि विषयांतु यिषु ख्रीष्टाले
द्वारा मेगेलें दर्प उत्तर सांगपालें कारण आस।
१८ सेंयिलें कसल्यान ह्नांव यिरुशालमांथाकुन चारिदिका इलि

रिकमपरांतु खीष्टालो मंगल समाचारु पुर्तो घोषण
१९ केलास असि कि अतिपराक्रांत लक्षण आनि आश्चर्य
क्रिया ति केल्यान आनि देवाले आत्माले प्रभावान अन्य
देशकारांक उत्रान आनि क्रियेन मानशिल्लो कोर्चे खातिर
कोण खीष्टान मेगेलें करयान कर्ने आस तें उत्तर सांग्चा
२० हांव साहसिकु जायसि नां। मंगल समाचारु
घोषणा कोर्चांतु हांवे यत्न केलांस के तरि खें खीष्टालें
नांव म्हांगु गेलांस थैं ना यिरेजाण हांव अन्यकोणालेयि
२१ वोणतिरि गांत्तां। तरि कोणाले लागि तांगेलो विषयु
म्हांगु गेलो ना ते चोय्तित आनि कोण्ते आयक नांति ते
२२ समजतित कसि हें उत्तर बरैलांस तसि केलांस। हे
खातिर तुम्गेले लागि येवुचाक हांव नेंवानर बाधितु
२३ जाल्लालों। तरि आत्तं हे दिकांतु मेगेलं आनि स्तान
ना जाल्यान आनि साबार वसलागिन तुम्गेले लागि
येचाक मेगेलि होडि इच्छा जाल्यान कोण वेळा हांव
स्पानियांतु यात्रा कर्तां ते वेळा तुम्गेले लागि येन।
२४ तेंयितें हांव वाटेरि तुमका धोउचाक आनि पित्तम तुम्गेले
भेटेन कांयि तृप्त जावनु तुम्गेले उपकारान ते दिका
२५ मुकारिसुचां भरवसो दवर्तां। तरि आत्तं पुण्यवानांलि
२६ सेवा कोर्चांतु हांव यिरुशालमांतु येतां। तेंयितें यिरु
शालमकार दुर्बळे पुण्यवानाले खातिर कांयि दान कोर्चाक
माकिदोनियांलि आनि आखायकारांलि आकांक्षा आसि
२७ लि। तांगेलि आकांक्षा आसिलि से ते तांगेले रिण
कारै आसति तेंयितें तरी अन्यदेशकार तांगेलो परमार्थी
लो वांटु पावल्लो कोर्नु गेलास जाल्यारि शरीरालो
वांटु दिउनु तांगेलो सेवा करप तांगेले अवश्य कर्तव्ययि
२८ आस। हे खातिर हांवन्हें कार्य कोर्नु आनि तांकां म्हार
कापाले मणके हें फल स्थिर कोर्नु दिउनु तुम्गेले लागि

२९ जानुनु स्पानियांतु वेचन । हांव निश्चयु समजतां कि केद्ना हांव यन लेद्ना ख्रीष्टाले मंगल समाचाररूप आशीर्वा-
३० दालें संपूर्णपण लागि घेउनु येन । संप्रति हे भावानो हांव प्रभु यिशु ख्रीष्टाले खातिर आनि धर्म्मात्म्याले प्रेमाले खातिर हें लालय कर्तां कि तुंमि मेगेले भर्सि प्रार्थना करपांतु
३१ यत्न कर्या । कि हांव यिऊदाह् देशकार अनास्तिक लोकांले हातांथाकुनु रक्षित आतां आनि यिरुशालमकारां-
३२ ले खातिर मेगेले कोणि सेवा ति कि पुण्यवानांले कर्तव्य घेति त्रि जाय्त । आनि देवाले इच्छेन कि हांव संतोषमनांतु तुमगेले लागि पाव्लों आनि तुमगेले भर्सि राबुनु सोस्त
३३ पावतां । सर्वा शांति दित्तलो देउ तुमगेले लाग्वो जावो । आमिन ।

१६ षोडश पर्व्व ।—कैंक्रेयाले मंडलीले येकलि परि-चारिका आमगेलि भयणि फेबि तिगेले खातिर सिपा-
२ रिस तुमगेले लागि हांव कर्तां । कि तुंमि पुण्यवानाले उपयुक्ता वारि तिका प्रभुलि समजुनु घेया आनि कोणे विषयांतु तुमगेल्यां थाकुनु तिगेले उपकारालें आवश्यक जाय्त ते कार्यांतु तिगेलो उपकारु कर्या तेंथितें ति सांबा-
३ रांलि आनि मेगेलियि पोषतलि जाल्यास । ख्रीष्टु
४ यिशुंतु मेगेलो उपकारी आनि मेगेले प्राणाले खातिर आमगेलो गळा दिलास आनि कोणालि प्रशंसा मात्र हांव सांग ना तरि अन्य देशकारांलि कितुली मंडली त्वि-यि कोणालि प्रशंसा कर्तांति असलि कोण प्रस्क्ला आनि
५ आकल्ला तांकां नमस्कार दि । तांगेले घरांतुयि कोण मंडली आस तांकांयि नमस्कार दि । ख्रीष्टाचेरि आ-खायाले पितमलें फल मेगेलो अति प्रिय एपेनेतस ताका
६ नमस्कार दि । आमगेले खातिर सावार श्रमु केलो

७ कि मारिया तिका नमस्कार दि। मेगेलो आत्मीय आनि सहबंदिकार आंद्रोनिकसाक आनि जुनियाक नमस्कार दि कि कोण प्रेरितांले भितरि चां ख्यातिवान आनि मेगेले ८ पितमयि खीष्टांतु आसिलो। प्रभुतु मेगेलो मोगा आंप्लियाः ९ साक नमस्कार दि। खीष्टांतु आम्गेलो सांगातिकार उर्बा १० निक आनि मेगेलो मोगा स्ताखिसाक नमस्कार दि। खीष्टांतु परिक्षलो आपेलेसाक नमस्कार दि आरिस्तबूलसाले परि ११ जन लोकांक नमस्कार दि। मेगेले आत्मीय हेरोदियानाक नमस्कार दि नार्कीससाले परिजनाले भितरि कोणते प्रभुंतु १२ आसति तांकां नमस्कार दि। प्रभुंतु श्रम कर्तलो त्रफेनाक आनि त्रफोसाक नमस्कार दि। मोगा पर्सिसाक नमस्कार १३ दि कि कोण प्रभुंतु सावार श्रमु केलो। प्रभुंतु मनोनीत रुफसाक आनि तागेलि आनि मेगेलि आंमाक नमस्कार दि। १४ आसन्क्रितसाक आनि फ्लेगनाक आनि हर्मसाक आनि पात्रोबासाक आनि हर्मिसाक आनि तांगेले भर्सि कितुलें १५ पुण्यवान तांकांयि नमस्कार दि। फिलोलोगसाक आनि जुलियाक आनि नेरियसाक आनि तागेलि भयणिक आनि उलंपसाक आनि तांगेले भर्सि कितुले पुण्यवान लोकु तांकां १६ यि नमस्कार दि। पुण्य ऊंमा कोर्नु येकलो आनि येकल्याक नमस्कार कर्या। खीष्टालि मंडली तुमकां नमस्कार दिता १७ ति। हे भावाबो सेद्या हांव हेंचि लालेप कर्तो कोण शिक्षा तुंमि पावल्यास तागेले विपरीतांतु वेगळेंपण आनि बाधा कोणते उब्जायताति तांकां निश्चित कर्या आनि तांगेले लागि १८ वेचु नाकाति। तंयितें कोणते हे प्रकारें आसति ते आम्गेला प्रभु यिशु खीष्टालि सेवा कर्नाति तरि आपणांगेले पोटालि सेवा कर्ता आनि प्रीति उत्तर आनि गोड उत्तान १९ विवेक नातिले लोकांलें मन भुलेताति। तंयितें तुमगेलो विश्वासु

सगळे लोकांले देकयांतु प्रकाशित आस तरि ह्यांव इच्छितां कि तुमि चां शिवे विषयांतु ज्ञानवान आनि कुक्रिया विषयांतु
२० मूर्ख जाश्या । आनि शांतिकारि देउ थोडो काला मागि रि तुमगेले पायांलि तागुं देवचाराक चेपिलो करीत आमगेलो प्रभु यिशु ख्रीष्टालो अनुग्रह तुमगेले वोयरि जावो। आमिन ।
२१ मेगेलो सहकारी तिमोतियसु आनि मेगेलो आत्मीयु लुकियस आनि यासन आनि ससिपतर तुमकां नमस्कार
२२ कर्तांति। तर्तियस कि कोण ह्यांव हें पत्र बरैलें प्रभुंतु
२३ तुमकां नमस्कार कर्तां। मेगेले आनि सगळे मंडलीले आतिथेय गाइयस तुमकां नमस्कार कर्ता नगरालो भंडिरि एरास्तस आनि कार्तस नांवालो येकलो भाउ हे तुमकां
२४ नमस्कार कर्तांति। आमगेलो प्रभु यिशु ख्रीष्टालो अनुग्रह
२५ तुमगेले सगळ्याचेरि जावो आमिन। जगतालो आरंभुप रांतु कोण गूढ विषयु अप्रकाशित आसिलो तरि आत्तं प्रका
२६ शित जालास आनि नित्य रावतले देवाले आज्ञेले मणके भा च्यांलि पुस्तकाले द्वारा विश्वासाले माननेले खातिर सगळे देशकारांलि लागि प्रकाशित आस तेचि गूढ उत्रा मणके मेगेले लागि दिल्लो मंगल समाचार आनि यिशु ख्रीष्टाक
२७ घोषणा ताजे वारि तुमकां कोणु स्थिर कोर्चो सकता कोणाले नंतां ज्ञानवानु आनि कोणे ना तागेलि प्रशंसा यिशु ख्रीष्टाले साह्यायान नित्य सर्बदाण जावो । आमिन ।

पाउलाचें पितसलें पत्र करिंतियांले लागि।

## १ प्रथम पर्व।

१ देवालि कोण मंडळी करिंतियांतु आस कोणते खीष्ट यिशुंतु पवित्र केलेले पुण्यवानरुपांतु ख्यात आनि प्रति जाग्यांतु कितुलो लोकु आमगेलो प्रभु यिशु खीष्टाले नांवान प्रार्थना
२ कर्तांति तोचि तांगेलो आनि आमगेलो प्रभु तांगेले लागि देवाले इच्छेन यिशु खीष्टाले नेमक पाउलु प्रेरितु आनि आमगेलो भाउ सोस्थेनस पत्र बरैताति।
३ आमगेलो आंनु देवाले आनि प्रभु यिशु खीष्टाले लागि
४ थाकुनु अनुग्रह आनि शांति तुमगेले लागि जावो। देवालो कोण अनुग्रह यिशु खीष्टाले वाटेन तुमगेले लागि दिल्लो जालास ते अनुग्रहान खांव तुमगेले खातिर नित्य मेगेले
५ देवालो धन्यवादु कर्तां। कि खीष्टालें प्रामाण्य तुमगेले भितरि
६ कसि स्थिर कोनुं गेलास। तसि तांगेले वाटेन तुमि सगळे
७ वाक्याळ आनि सगळे ज्ञानरुप धनान असलो धन्यवानु जालास कि आमगेलो प्रभु यिशु खीष्टाले येवमाले अपेक्षक
८ तुमि कोणे सामर्थ्यांतु उणे ना जाया। कोणु कि शेषपरांतु तुमकां स्थिर करित कि तुमि आमगेलो प्रभु यिशु खीष्टाले
९ दिसांतु निरपराधि जाया देउ असि विश्वस्त कि कोणाले दयेन तुमि तांगेलो पुतु आमगेलो प्रभु यिशु खीष्टाले संगि तांतु मेळि आसिति।
१० हे भावानो आमगेलो प्रभु यिशु खीष्टालें नांव घेऊन

ह्यांव सद्या हॆंचि लालेप कर्तां कि तुंमि सगळॆ येकतरा उत्तर म्हणा आनि तुमगॆलॆ भितरि कांयि विरोधु कि ना आयत तरि तुंमि कि येक मंन आनि येक विवेचना वांदयान
११ पुर्त्तॆं दयान वांदिलॆर राव्‌। तॆंयितॆं हॆ भावा खॊइलॆ परिजनालॆ तोंडान मॆगॆलॆ लागि प्रकाशित जाललॆं कि तुमगॆलॆ भितरि
१२ विरोधु आस। तुम्कां आत्तं ह्यांव हॆं म्हणसां कि तुमगॆलॆ भितरि कोणॆ म्हणता कि ह्यांव पाउलालो कोणॆ म्हणता कि ह्यांव आपलसालो कोणॆ म्हणता कि ह्यांव काइफालो आनि कोणॆ
१३ म्हणता कि ह्यांव ख्रीष्टालो। ख्रीष्ट यित्तॆं वांटो जालास पाउल यित्तॆं तुमगॆलॆ बदला क्रूसारि मॆल्लो आसिलो जावो
१४ तुंमि यित्तॆं पाउलालॆ नांवान बुडुकलॆलॆ आसिलॆ। ह्यांव दॆवालॆ लागि धन्यवादु कर्तां कि ह्यांव क्रिस्पु आनि गायेस नंतां तुमगॆलो कोणाकै बुडुकुलि दिवैलि ना यित्तॆं जाण
१५ कोण कोणॆ म्हणता कि ह्यांवॆ आपणालॆ नांवान बुडुकुलि दि
१६ वैलि। ह्यांव स्तेफानसालॆ परिचारकाकै बुडुकुलि दिल्यास तॆं नंता ह्यांव नॆण कि ह्यांवॆ आनि कोणाकै बुडुकुलि दिवैल्यास।
१७ तॆंयितॆं बुडुकुलि दिवैउचॆ खातिर दॆउ माका धांणा तरि मंगल समाचार कळोउचॆ खातिर तोर्वयि बुद्धि उचान नै
१८ कोण जाण ख्रीष्टालो क्रूसु निरर्थक जायत। तॆंयितॆं नाशु पावतल्यांलॆ लागि क्रूसालो घोषणा पिसॆंपण आस तरि तारित कोण आमि आमगॆलॆ लागि तोचि घोषणा कोर्चै
१९ दॆवालो पराक्रमु। तॆंयितॆं हॆं उत्तर बरैलांस कि ह्यांव विद्वांसांलि विद्या नाश करिन आनि सावधान लोकांलॆ बुद्धिलो
२० विनाशुयि करिन। विद्वानु खैं वॆयाकरणी खैं हॆं संसारालो वादानवाद करतलो खैं दॆवान हॆ जगतालॆ सगळॆ ज्ञानाक
२१ यित्तॆं पिसॆंपण कॆलॆं आस। दॆवालॆ ज्ञाना वारि जगतालो लोकु ज्ञानालॆ वाटॆन दॆवाक समजलॆ नांति हॆं आल्याम

घोषणारूप पिस्तेपणाले वाटेन विश्वासकारांक उद्धारु
२२ कोर्चीक देवालि खुषी आसिलि। तेंयितें यिऊदी
२३ लक्षण इच्छितात आनि ग्रीक विद्या सोदितात। तरि
यिऊदीयांले लागि बाधा आनि ग्रीकांले लागि पिसेंपण
२४ तरि यिऊदी ग्रीकघोनुं कितुले नेमक केलेले त्यांचेरि देवा
लो पराक्रमु आनि देवालें ज्ञान कोण क्रूसारि मेलो ख्रीष्टु
२५ ताका आमि घोषणा कर्तांति। तेंयितें देवाले पिस्ते मनुष्यां
थाकुनु ज्ञानवान आनि देवालें निर्बलपण मनुष्यांथाकुनु बल
२६ वंत। तेंयितें हे भावानो तुंमि आपणांगेले व्यवसायु चोयि
तात कि हे संसाराले मताले वरि सावार पंडित जावो
२७ सावार पराक्रांत जांवो सावार महत लोकु ना। तरि
ज्ञानवानालि परिहानि कोर्चीक देवान जगवाले मूर्ख वस्तु
पसंत केलास आनि पराक्रमाले वस्तुलि परिहानि कोर्चीक
२८ जगतालो दुर्बल वस्तु पसंत केलास। आनि देवान हे
जगतालो नीच आनि निंदेलो वस्तु पसंतयि केलास आनि
वर्तमान वस्तुलि परिहानि कोर्चीक अवर्तमान वस्तुयि पसंत
२९ केलास। कि कोणे प्राणी तागेले मेदुर दर्पा उत्तर म्हंणा।
३० तरि तागेले वाटेन तुंमि ख्रीष्ट यिशुंतु आसति कि कोण
विद्या आनि यथार्थपण आनि पवित्रपण आनि मुक्ति
३१ देवाचान आमगेले खातिर केलि जाल्यास। कसि
हें बरेलांस कोणतो दर्पा उत्तर म्हणता तो देवाले खातिर
हंकारांलि उत्तं म्हणो।—

२ द्वितीय पर्व्वं। हे भावानो ह्यांव केदना तुमगेले लागि
आयलों ताववि उत्तर जावो विद्याले वाचाळपण कोर्डु
२ देवालें प्रमाण प्रकाश कोर्चीक येने। तेंयितें मेगेलो
होचि निस्चयु आसिलो कि यिशु ख्रीष्टु आनि तावलि
क्रूसारि मार्नु गेलो हें नंतां आनि कोणें कांयि तुमगेले

३ भितरि होव नेण। तिवेळा निर्बलान आनि भयान्
४ आनि होड कांपपान तुम्गेले लागि होव आसिलों। आ
नि मेगेलें उत्तर आनि घोषणा मनुष्युले विद्याले मोनोर ज
ञान ना आसिलो तरि आत्माले हृढ प्रमाण आनि पराक्र
५ मान आसिलो। कि तुम्गेलो विश्वासु मनुष्याले विद्येन जाय
६ ना तरि देवाले पराक्रमान जाता। कोणते पुर्ते चि
तांगेले भितरि आमि विद्या म्हण्तांति कै तरि हे जगता
लि विद्या जावो हे जगतालो नाशु जावचि अध्यक्षालि विद्या
७ नै। तरि आमि देवालि गूढ विद्या सांग्तां अर्थात कोण
गुप्त विद्या देवान आम्गेले मोक्षाले खातिर जगताले पितॅम
८ निरुपण केलेलें। कसलें हैं जगताले कोणे अध्यक्षु समजलो
ना तैंयितें ते येकवेळा तें समजते जाल्यारि महिमाविशिष्ट
९ देवाक क्रुशारि ना मार्तें। तरि कसि हैं बरैलांस कोण
ते देवाक प्रेमु कर्तांति तांगेले खातिर ताणे कसलैंर प्रस्तुत
केलांस तें यित्तें हे दोळे पळै नांति आनि कान आयक
१० नांति आनि मनुष्यालें अंतःकरणांतु रिग ना। तरि
आपणाले आत्मान देउ आमगेले लागि तें प्रकाशु
केलांस तैंयितें आत्मा सगळ्यांलो विचारु कर्ता आनि
११ देवालो गभीर वस्तुयि विचारु कर्ता। तैंयितें
मनुष्याले भितरि आसिलो आत्मा नंतां मनुष्याले मनालो
विषयु कोण जाण ताजे वारि देवालो आत्मा नंतां देवालो
१२ विषयु कोणे समज ना। कोण विषयु देवाधान आमकां
फुंक्या दिउनु गेलास तो विषयु समजुचे खातिर आमि
संसाराले आत्माक मेळ नांति तरि देवांधाकुनु बारसलें
१३ आत्माक पावलास। लौकिक विद्या कोण उत्तर शिक्षा
करेता ते उत्तान नैं तरि धर्मात्मा कोण उत्तर शिक्षा कर्ता
तेचि उत्तान आमि येक परमार्थिक वस्तु अन्य परमार्थिक
१४ वस्ताले भलि विवेचना कोनुं तेचि विषयु म्हण्तांति। तरि

स्वाभाविकु मनुष्यु देवाले आत्मालें वस्तु घेना तेंथितें तेचि वस्तु तागेले लागि मिर्स्वेंपण ता वस्तु परमार्थांतु चोउनु
१५ वोत्तात्ति ह्ये खातिर तो मनुष्यु तें समजुं सकना । कोण तो पारमार्थिकु जाता तो समज्यालो विचारु कर्ता तरि
१६ आपुण कोणाचान विचारु केलो जाय ना । तेंथितें देवालें मंन कोणे समजलांस कि ताका उपदेशु करीत तरि आमिं ख्रीष्टालें मंन जाणतांति ।—

३ तृतीय पर्व्व ।—हे भावानो पारमार्थिकांक कसि म्हेंाणुं वोत्ता वसि तुमकां ह्यांव सांग्चाक सकलो ना तरि शारीरिक अर्थात कोण ख्रीष्टांतु चेरडुं असले लोकांक कसि म्हणता
२ तसि सांगलांस । तुमकां ह्यांवे दूध पिवैलांस घट्टि खावकें खावैलें ना तेंथितें ह्यांगपरांतु तुमि ते सहण कोचैां सकले
३ नांति आत्तंथि तुमि सक नांति । तेंथितें तुमि आत्तंथि शारीरिक आसति तुमगेले भितरि मच्छोरु आनि विरोधु आनि वेगळोचारु आस ताजेन तुमि थितें शारीरिक नै
४ आनि मनुष्यांले वारि थित्तें चमक नांति । तेंथितें कितुले दिसपरांतु येकलो उलैता कि ह्यांव पाउलालों आनि येकलो उलैता ह्यांव आपलसालों तेदोळुपरांतु तुमि थित्तें
५ शारीरिक नै । देवान प्रत्येक जाणाक कसि दिलांस ताजे वारि कोणांगेले वाटेन तुमि विश्वास केलो असलो सेवकु
६ नंतां पाउल कोणु आनि आपलस कोणु । ह्यांवें वोयलांस आपलसान उदाक सिंपिलांस तरि देवान फल
७ दिलांस । हे खातिर कोणतो वोयता तो कांयि ना आनि कोणतो उदाक सिंपिता तोवयि कांयि ना तरि फलदित्तलो
८ देउचि सगळें । कोणतो वोयता आनि कोण्तो उदाक सिंपिता ते येक आसति आनि प्रति मनुष्यु आपणाले क्रियेले मण
९ के फल मावत् । तेंथितें आमि येक कार्य कर्तले देवाले चेडें

जाल्यांति तुंमि देवाले वेत्रायु आसवि तुंमि देवालें गांतय।
१० हांवें कसि देवालो अनुग्रह पावलांस तसि बुद्धिवंतु पर
वरोंचो मेस्त्रिले वारिं पंचाग केलंस आनि आनि कोणें
ताजेरि गांत्त तरि प्रत्येक मनुष्यु ताजेरि कसि गांत्तीता
११ हाजेन सावधान जाया। तेंयितें कोण पंचाग कोर्नुं गेलांस
अर्थात यिशु ख्रीष्टु ताजे नंतां अन्य पंचाग कोणें कांयं सक
१२ ना। आनि तरी कोणें भांगार रुपें मेणि राकुड तण कुत्ति
१३ हाजें भितरि कोण वस्तु हे पंचंगाचेरि गांतित जाल्यारि
प्रत्येक जाणालि क्रिया प्रकाश्य कोर्नुं वेचत् तेंचि उजान
परिक्षा कोर्नुं वेचत् आनि प्रति लोकांलि जोडायि कसि
आस ताजि परिक्षा उजो करीत आनि कालि तें प्रकाश
१४ करीत। ताजेरि कोणालें रचित क्रिया तरी आस जाल्यारिं
तो फल पावत। ताजेरि कोणालि रचित क्रिया तरी ला
सुनु यचत् जाल्यारि तागेलो पोरावाचय जायत जाल्यारि
१५ यि तो आपण उद्धारिल्लो जायत तरि कसि उजांथाकुनु उ
१६ ठायला तसि। तुंमि यितें नेणति कि तुंमि देवालें देवळ
१७ आनि कि देवालो आत्मा तुम्‌गेले राबताति। तरी कोणें
देवालें देवळ अपवित्र करीत जाल्यारि ताका देउ
विनाशु करीत तेंयितें देवालें देवळ पवित्र तेंचि देवळ तुंमि।
१८ कोणें आपणाक भुलवय कोर्नांकाति तुम्‌गेले भितरि कोणें
तरी हे जगतांतु आपणाक बुदवंतु कोर्नुं मानता जाल्यारिं
१९ बुदवंतु जावचे खातिर तो पिस्सो जायो। तेंयितें देवालें
येदुर हे जगतालि विद्या पिस्सेपण तेंयितें हें बरैलांस
२० तो बुदवंतांक तांगेले अज्ञानान सांपडतास। आनि
नेंवानयि उलोचें आस देउ बुदवंतांले मनन जाण्ता
२१ कि तें व्यर्थ। हे खातिर मनुष्याक निमित्त कोर्नुं कोणें
२२ दर्प उत्रं ना म्हणो तेंयितें सगळे तुम्‌गेलो। पाउलु
जावो आपसल जावो काइफा जावो संसार जावो जीवन

जावो मरण जावो वर्त्तमान वस्तु जावो जाव्चो वस्तु जावो सग्ळें तुम्गेलें आनि तुमि खीष्टालें आनि खीष्टु देवालो।

४ चतुर्थ पर्व्व । कसि खीष्टाले सेवक आनि देवाले गूढ विषयाले दितल्यांले विषयांतु भोवप उचित तसि आम्गेले विषयांतु लोकु भोवप करोति मंत्रिपदांतु हें इच्छिता।
२ कि मनुष्यु विश्वासि जात्तां। तरि तुम्गेले विचारान
३ जावो मनुष्याले विचारान कि हांव विचारु केलो जात्तीं हाका हांव भो सान कोनुं मान्तां हांव माकायि विचार
४ कर्ना। तेंयितें हांव आप्णांथाकुनु कांयि समज ना हांतु हांव केद्नायि यथार्थिक कोनुं वोच ना तरि कोणु
५ मेगेलो विचार कर्ता तो देउ। हे खातिर काळकार्लो गुप्त वस्तु प्रकाशु करित आनि अंतःकरणालि युक्तियि कळे तलो प्रभूलो येनातिलें ते उपयुक्त वेळाले पितेंम तंमि कांयि विचारु कोर्नाकाति तेवेळा देवांथाकुनु प्रत्येक मनु
६ ष्यालि प्रशंसा जायत। हे भावानो तुम्गेले हिता खातिर हांवे हिं सग्ळिं उत्तं मेगेले आप्णाले विषयांतु आनि आप्लसाले विषयांतु दृष्टांत कोनुं म्हळांस कोण बरेलांस ताजाकें तमि कोणाके मानसु नाकाति आम्गेले वाटेन तुंमि हि सिक्षा कर्या हे खातिर आनि येकल्यालो अनादर कोनुं दुसऱ्यालो आदर कोर्चाक तुम्गेलो कोणे गर्व ना जा
७ वोति हे खातिर हांव असि कोनुं म्हळांस। तेंयितें तुका यित्तें अन्य प्रकार केलांस आनि तुगेले यित्तें आस कि कोण दुसऱ्याथाकें ना पाव्लास हे खातिर तुं तरी तें दुसऱ्यांथाकुनु पाव्लास जाल्यारि दुसऱ्यांथाकुनु मेळ ना
८ तिल्याले वारि गर्व कर्ताति यित्या। सद्या तुंमि पुर्ते जाल्याति सद्या तुंमि धनाढ्य जाल्याति तुंमि आम्

गेले नंतां रायाले वारि करणी केल्यास हांव देवाले लागि प्रार्थना कर्तां कि तुंमि कर्त्तव्यि कया कि आमियि तुमगेलें
९ भसिं कर्त्तव कर्तंति। हांव समजतां कि प्रेरित आम्कां मरयाले खातिर नेमक लोकांले वारि देवान सगळ्यांले पेष प्रकाशु केलांस तेंयितें जगत आनि दूत आनि मनुष्यांचेरि
१० आमि येकु तमासो कोरु गेल्यांसंत। खीष्टाले खातिर आमि पिस्से आसंति तरि तुंमि खीष्टांतु ज्ञानवान आमि दुर्बल तरि तुंमि बलाढ्य तुंमि सम्मानायोग्य तरि आमि नीच
११ केल्ले आल्यांति। हे चालचि घडिपरांतु आमि भुकेल्ले आनि तान्नेले आनि नागडे आनि प्राहारित आनि राबपा जागो
१२ नातिलो आसंति। आनि आपले हातान दंद कर्तांति निंदित जावनु आमि आशीर्वादु दितांति आंबुछे जाउनु आमि
१३ तें ताळवितांति। अख्यातियुक्त जावनुंयि आमि लालेप कर्तंति संसाराले मल आनि सगळे वस्तुले कलंकाले वा
१४ रि आमि आजिपरांतु केल्ले जाल्यांति। हें उत्तर हांव तुमगेले लज्येले खातिर बरै ना तरि मेगेले मोगा पुता
१५ ले वारि तुम्कां उपदेश कर्तां। तेंयितें खीष्टांतु तरी तुमगेले धा सास सिखतले जातित जाल्यारियि तुम् गेले सावार आंन नांति तेंयितें मंगल समाचारान खीष्ट
१६ यिशुंतु आमियि तुम्कां उबजायल्याति। हे खातिर हांव हें लालेप कर्तां कि तुंमि मेगेले वारि कर्तले जाया।
१७ खीष्टांतु मेगेलो कोण वेवारु तो वेवारु हांव कसि सगळ्यान प्रति मंडलींतु सिकैतां तसि वेवारु तुमगेले मनांतु दीत तोचि मेगेलो मोगा पुतु आनि प्रभुंतु विश्वासी ति
१८ मोतियसाक हांवे हे खातिर धाळास। तुमगेले लागि मेगेलें ना येवचें स्तिर कोर्नु तुमगेले भितरि कितलेकु लोकु
१९ गर्वित जाल्याति। तरि येकवेळा देवालि इच्छा जायत जाल्यारि हांव कांयि थोडे कालं मागिरि येन

आयिल्यान कोणुले फुगल्याति तांगेलें माञ्च उत्तर अ युक्ति
२० ना तरि तांगेलो पराक्रमुयि समजन। तेंयितें देवालें
२१ राज्य उत्रांनि नै तरि प्रभावान। तुमगेलि यितें इच्छा
चांव यित्तें दंड नावो प्रेमु आनि कोमलतालो आत्मा असें
घेउनु तुमगेले लागि येन।

५ पंचम पर्व्व ।—सगळ्यान म्हेणु वेचत कि देवपुज
कांले भित्तरियि कोण प्रकार लुचपण सांगुनु वेच ना कि
कोणुतो आपणाले अंनाले बायलेले भर्सि संगु कर्ता हाझें
२ वारि लुचपण तुमगेले भितरि आस। गर्वित जाले
आसिले आनि तुमि परामनन केले ना कि कोणे हि क्रियार
३ केल्यास तो तुमु आघाकुनु वेगळे कोर्नुं वोता। कोण
मनुष्यान हि क्रिया केल्यास तागेले विषयांतु चांव शरीरांतु
तुमगेले लागि येनातिलों तरि मनांतु आयिलों जावनु
कसि शरीरांतु आयिलों जावनु विचारु कर्तों तसि आत्तंचि
४ विचारु केलास। प्रभु यिशु ख्रीष्टाला पराक्रमु लागि घेउनु
केदना प्रभु यिशु ख्रीष्टाले नांवान तुमि आनि मेगेलो आत्मा
५ येकडेंचि जाया तेदना प्रभु यिशुले दिसांतु आत्माले
उद्धाराले खातिर तागेले शरीराले नाशाले खातिर देवचा
राले लागि हे प्रकाराले मनुष्यालें समर्पण कोर्चें तुमगेलें
६ उचित। तुमगेलें गर्व बरें नै तुमि यित्तें समज नांति
कि थोडे आवांतु सगळे लोरावांलो गुळो आंब कर्ता।
७ हे खातिर कसि तुमि आंब नातिले आसलि तसि तुमि
येकु नवो गुळो जाविचे खातिर पोर्ने आंब उसळाया तेंयि
८ तें आमगेले बदला आमगेलो पेसाख ख्रीष्ट बलिदान जालास
हे खातिर आमि पर्व्व पोसप कर्तें ति पोर्नें आंब आनि
हिंसेलि इच्छा आनि दुर्नीति खमिरांतु तें ना तरि समपण
आनि सत्यरुप आंबनातिले भाकरेन पालन कर्ता।

९ लुचे लोकांले भसि मोगा आचरण ना कोचांक तुम्गेले
१० लागि हांव येक पत्र बरैलांस। तरि हे संसाराले लुचे आ
नि लोभि आनि ठक आनि देवपुजकाले भसि ववहार
पुर्तो ना कोचें तें नैं तेंयितें तं जाल्यान तुम्कां संसारा
११ ले भायर जावचें लागत्। तरि हांवे सघा हें बरैलांस कि
कोणाक भाउ म्हणु म्हण्ताति अस्लो कोणे येकवेळा लुचो
जावो लाभि जावो देवपूजकु जावो निंदा कर्तेलो जावो सुर
पिरो जावो ठक जातांति जाल्यारि ताजे भसिं सेङ्क
१२ कोधांक आनि जाउचाक तडसिल्यास। भायर कोण लोकु
तांगेलो विचारु कोचांक मेगले यित्तें प्रयोजन कोण्ते भित
१३ रि आसति तुंमि यित्तें तांगेलो विचारु कर्नाति। तरि
कोण्ते भायर तांगेलो विचारु देउ कर्ता हे खातिर ते
वायटकारांक तुम्गेले भितरियाकुनु उसळाया।

६ षष्ठ पर्व।—कोणे मनुष्याचेरि तरी तुम्गेलो कोणे
मुकद्दमा उपत्तित जायत जाल्यारि पुण्यवंताले लागि फिरि
यादि कर्नातिलें अधर्मिकांले लागि कोण कर्ताति हाजेन
२ तुम्गेलं यित्तें कांयि भय ना। तुंमि यित्तें समज नांति कि पुण्य
वंत लेकु जगतालो विचारु कर्तित हे खातिर येकवेळा तुम्
गेलें कठंक जगतालो विचारु जायत जाल्यारि भो सानि
३ मुकद्दमा विचारु कोचांक तुंमि यित्तें योग्य नैं। तुंमि
यित्तें समज नांति कि आमि दूतांक विचारु करुं हे खातिर
आमि संसाराले विषयांतु कोण विचारु करुं हें ताजा
४ कै कितुलें चडाव। हे खातिर संसाराले विषयाले कोण
मुकद्दमा तरी आत्ता जाल्यारि कोणांगेले मंडलींतु अख्याति
आस तुंमि यित्तें तांकां विचारु कोचांक नेमक कर्णाति।
५ हांव तुम्गेलि लज्जा दिव्चे खातिर सांगतां भाउ भावांले
भितरि विचारु कोण कोचांक सकता असि यित्तें येक्लो

६ ज्ञानवानु तुमगेले भितरि ना। तरि भावाले वायरि भाउ
७ फिरियादि कर्ता तेवयि अविश्वासिकांले येदुर। हे
खातिर तुमगेलो येकलो आनि येकल्याचेरि फिरियादि
कर्तास तुमगेलो नितांत दोषु जाता तुंमि अन्यायु यित्या
सह नाति तुंमि आयणाल्यांक ठक जाव्चा यित्या दिनाति।
८ तरि तुंमि अन्यायु आनि प्रतारणा कर्ताति तेंवयि नेंवान
९ तुमगेले भावांक। तुंमि यित्तें समज नांति कि अयथार्थि
कार देवाले राज्यादिकारी जायसि नांति भांतेउ नाकाति
लुचे जावो देवपुजा कर्तले जावो पारारी जावो बायलांले
१० वारि चमकतले जावो फुदिकेंडो भंवतले जावो। चोर
जावो लोभि जावो सुरपिरे जावो निंदा कर्तले जावो ठक
११ देवाले राज्याले अधिकारी जाय नांति। तुमगेले भितरि
कोणेर असि आसिले तरि सद्या प्रभु यिशुले नांवान आनि
आमगेले देवाले आत्मान तुंमि धुल्ले जाल्याति तुंमि निर्म
लीकृतयि जाल्याति आनि तुंमि यथार्थिक कोनुं गेल्याति।
१२ शास्त्र विचारान सगळे मेगेलें कोर्चि कै तरि सवद्दारान
सगळे मेगेलें कोर्चि नैं शास्त्र विचारान सगळे मेगेलें कोर्चि
१३ कै तरि हांव कोणालोयि वशीभूत जायसि ना। पोटाले
खातिर खाच्कं आनि खाचक्याले खातिर पोट तरि हें
१४ आनि तें हें दोनि देउ विनाशु करीत। शरीर लुचपणाले
खातिर ना तरि प्रभुले खातिर आनि प्रभु शरीराले
१५ खातिर। देवानयि प्रभुक उठकरायलास आनि आप्
१६ णाले पराक्रमान आमकांयि उठकरायत। तुंमि यित्तें
नेणाति कि तुमगेलें शरीर खीष्टालें आंग आस जाल्यारि
यित्तें हांव खीष्टालें आंग घेउनु चेडियेलें आंग करीन तें
१७ ना जावो। तुंमि यित्तें नेणाति कि चेडियेले भसिं कोण
तो मेळनु आस्ला तोचि येक आंग तेंयितें ताणे म्हळांस
कि दोगं येक आंग जातित तरि कोणतो प्रभुले भसिं मेळ

१८ नु आस तोचि येकात्मा। लुचपणांथाकुनु पोळा कोण प्रत्येक पाप कोणु कर्तां तें शरीर भंतां कर्ता तरि कोण्लो लुचपण कर्ता तो आपुणाले शरीराले विरोधु पाप कर्ता।
१९ तुम्गेलें शरीर कि देवं थाकुनु प्राप्त तुम्गेले भतरि रित्त धर्म्मात्मालें देवळ तुंमि चित्त हें नेणति तुंमि आपुणागेल्या
२० लोय नैं। तंथितें तुंमे मोल्लान घेतिल्ले जाल्याति हे खातिर देवाले आधीन कोण तुम्गेलें शरीर आनि आत्मा दिउनु देवालि महिमा प्रकाश कऱ्या।

७ सप्तम पर्व्व। कोणार विषयु तुंमि मेगेले लागि बरेलां तागेलो निस्चयु हो दादलो बायलेक आपुणातल्यागि
२ चांग। तरि लुचपण ना जाव्चे खातिर प्रत्येक दादल्यालि आपुणार बायल जावो आनि प्रत्येक बायलेल आपुणार
३ बंमुणु जावो। बंमुणु बायलेक उचित भोगु करो ताजे
४ वारि बायलथि बांमणाक। आपुणाले शरीराचेरि बायलेलो अधिकारु ना तरि बांमणाले ताजे वारि आपुणाले शरीराले वोयरि बांमणालो अधिकारु ना तरि बायले
५ लो। दोगंयि येक मनान कांथि दिस प्रार्थना आनि उपवासान विमग्न जाव्चें भंतां तुंमि वेगळे जाव नाकाति ताजे मागिरि नेंवान येकडे जाया कि तुम्गेले अताळवणेन
६ देवचारु तुम्गेले चित्ताला विकारु करीसि ना। तरि हें हांव आज्ञाले मणके सांग ना तरि निषेदु जाय नाति
७ ल्यान म्हणतां। तंथितें हांव इच्छितां कि सगलो लोकु मेगेले वारि जायत तरि प्रत्येकांलि निजर सामर्थ्य आस येकल्याले हे प्रकार आनि येदल्याकथि प्रकार।
८ हे खातिर आंकवार चेलियेंक आनि रांडांक हांव हें उत्तर म्हणतां तरी ते मेगेले वारि जायत जाल्यारि भो
९ चांग। तरि येकवेळा ते ताळउचा सक नांति जाल्यारि

वारडिक करोति तेंयितें वारडिक कोर्चें लामुचाकें वरं
१० चांग। वारडिकेल्यांक हांव हि आज्ञा दितां तो हांव नैं तरि
११ प्रभु वायल बामणाक सोंणा जावा। तरि येकवेळा सोडता
जाल्यारि आंकवारि जावुनु रावो जावो आपणाले बांमणाखे
भर्सि नेंवान मेळि करोजि आनि बांमुणु बायलेक सोंणा
जावो।
१२ आनि सगळ्यांक हांव म्हणतां तरि देउ सांग ना तरी
कोणे भावांनि अविश्वासिणी बायल जाता आनि ति बायल
तागेले भर्सि वासु कोर्चाक इच्छिता जाल्यारि तो दादलो
१३ तिका ना सोडो। कोण बायलेलोयि अविश्वासि बांमुणु
आस तो बांमणु तरी तिगेले भर्सि वासु कोर्चाक इच्छिता
१४ जाल्यारि बायल ताका ना सोडो। तेंयितें अविश्वासि बांमुणु
बायलेखे वाटेन पवित्र जाता तोजे वारि अविश्वासीणि बायल
बांमणाले वाटेन पवित्र जाता ते ना जाल्यान तुम्गेले चेर्कें
१५ अशुचि असिले तरि आर्त्त शुचि जातात। तरि अवि
श्वासि मनुष्य तरी अंतर जाता जाल्यारि वेगळ जावोति
हे जीवनाचे कार्यांतु कोणे भाउ यित्तें भयणि बांदपांतु ना
तरि संगत आचरणांतु देवाक आम्कां नेमक केल्याति।
१६ तेंयितें हे सेवाम्हिणि तुं यिर्ते समजुचा सकला कि आपणालें
बांमणाक निस्ताए करिशि कि ना आनि हे दादल्या तुं कसि
कोर्ने समजता कि तुं आपणाले बायलेक निस्तारशी कि
१७ ना। तरि कसि देवान वांटो कोर्नें प्रति मनुष्यांक
दिलास आनि प्रभुन प्रति जणाक कसि आपवप केलांस्
तो तसि चमको हांव सगळे मंडलींतुयि हि यवस्ता कर्तां।
१८ तरी कोणे सुन्नतेलो जाउनु आपवप जाता जाल्यारि तो सु
न्नत नातिलो ना जावो कोणु कोणे सुन्नत नातिलो जाउनु
१९ तरि आपवप जात्ता जाल्यारि तो सुन्नतेलो ना जावो। सुन्नत
कांयि ना आनि असुन्नतयि कांयि ना तरि देवाखि आज्ञा

२० पेसुचि सगळि। प्रति मनुष्यु कोण पदारि आयवप आ
२१ सिलो तेपदारि तो पदांतु राबो। तुं दास जाउनु आयवप
तरी जाता जाल्यारि कांयि भावसु नाका तरि येक वेळेलें
२२ मुक्त जावचा सक्ष्ण जाल्यारि तें वरं पसंत करि। तेंवितें
कोण्तो दासु जावनु प्रभुंतु नियुक्त आस तो प्रभुलें लागि
मुक्त आस तसोचि कोण्तो मुक्त जावनु आयवप जाता तो प्रभु
२३ लो दासु। तुमि मोल्लान घेतिल्ले आसति हे खातिर
२४ मनुष्यांलें घेडे जाव नाकाति। हे भावानो कि कोण पदारि
कोण कोणें आयवप जाता तो ते पदारि देवालें भसिं राबो।
२५ सद्या आंकवारांलें विषयांतु प्रभुंथाकुनु हांवे आज्ञा पाव
लि ना तरि विश्वासि जावचे खातिर कोणे अनुग्रह पाव
लास असलो कोणें येवल्यालें वारि जावनु हांव आपणालो
२६ विचार प्रकाश कर्ता। हे खातिर हे आर्तलि दुर्गतिन
हांव समजतां कि तरी कोणें तसिचि राबता जाल्यारि वरं
२७ तो चांगु। तुं यित्तें बायलेलें भसिं संबंधु आस जाल्यारि मुक्त
जावचें सोदप कोर्नाका तुं यित्तें बायलेंयाकुनु सुटलो आस
२८ जाल्यारि बायल सोदु नाका। तरि वारडिक केल्यानि
थि तुगेलें पाप ना आंकवार चेलियो वारडिक केल्यारि तिगे
लेंयि पाप ना तरि हांगेलें शारीरिक दुःख जायत
२९ तरि तुमका हांव दया कर्तां। तरि हे भावानो हांव हें म्हण्ता
काल संक्षेपु आस हे खातिर कोणांगेलि बायल आस तांगेलि
बायल आसि नातिले वारि आचरण कोर्चें उचित आस आनि
कोण्ते रडलाति तांगेलें रडणें कर्नातिलें वारि आचरण कोर्चें
३० उचित आस आनि कोण ते खुशि लांगेलो आनंदु कर नातिलें
वारि आचरण कोर्चें उचित आस आनि घेतल्यांलो अधिकार
३१ नातिल्यालें वारि आचरण कोर्चें उचित आस। आनि हे संसा
रालो बेवहार कर्तल्यांलें व.यटु बेवहार ना आयल

असतें आचरण कोर्चें उचित आस तैंयितें हें संसारुप
३२ तमासो दोळ्तु वेता। तरि तुमजां निश्चिंत हांव चोउचा
इच्छितां वारडिक जायुनातिलो कोण्तो तो प्रभुले विषयाले
क्रियेन देवालि तुष्टि कोण जीनसान कोरचा सकशा हागेलि
३३ चिंता कर्तास। तरि वारडिकेल्लो कोण्तो तो संसार संबधीले
क्रियेन आपणाले बायलेक कोण जीनसान राजि करीत हि
३४ चिंता कर्ता। आनि वारडिकेल्लि आनि आंकवार चेलियेंतेयि
वेगळेपण आस कोण स्त्री वारडिक जायनातिल्लि ति शरी
रांतु आनि आत्मांतु शुद्ध जायचे खातिर प्रभुले संबंधीय
क्रियेन यत्नकारि आस तरि वारडिकेल्लि कोण बायल ति
आपणाले बांमणाले संतुष्टी कोर्चे खातिर संसाराले विष
३५ याले कार्या खातिर यत्न कर्तास। हांव हें उत्तर तुमगेलें
लाभाले खातिर सांगतां तुमगेले वोयरि कोडि उडोचे
खातिर नैं तरि चांग वेव्हार कोर्चें खातिर आनि तुमगे
लि चपलता नंतां मनांतु प्रभुलि सेवा कोर्चें खातिरयि।
३६ तरि आंकवार चेलि दवोर्चि अनुचित हे तरी कोणे भाव्
ता तिगेलि यौवनवस्ता तरी वांवनु वेत्ता आनि तशें
आवश्यक जात्ता जाल्यारि तो आपणाले इच्छेले वारि केल्या
३७ रि पाप कर्ना ते वारडिक करोति। तरि कोणे आप
णाले मनांतु स्थिर केलांस आनि कोणाले अगत्य ना तरि
आपणाले अभिलाषेले वोयरि कोणालो पराक्रमु आस
आनि आपणाले आंकवारपण रक्षण कोर्चांक मनांतु निश्चयु
३८ केलास तो चां क्रिया कर्ता। हे खातिर कोण्तो वारडिक
दिता तो चां क्रिया कर्ता तरि कोण्तो वारडिक दिना तो
३९ तागेलें चडाव चां क्रिया कर्ता। बांमुणु जेदोळुपरांतु वांचता
तेदोळुपरांतु बायल ववस्थेंतु बंद आस तरि तिगेलो बांमुणु
मर्तेचि आपणाले पसंताले वारि आनि कोणालेयि अर्थि

वारडिक कोणचिं अविषिद्ध तरि तो मात्र प्रभु संबंधीले
१० लोकाले भर्ति। तरि मेगेलि विवेचनाले वारि तसींच
राविल्यान चडाव सुखि जात्ता आनि हांव समझतां कि हांव
देवाले आत्माले अधिकारी जातां।—

८ अष्टम पर्व्व।—देवताले प्रसादाले विषयांतु हें२ आनि
समजतांति कि आमगेले सगळ्यांलें ज्ञान आस ज्ञान
२ फुलैता तरि प्रेमु वाडैता। तरी कोणे भाव्ता कि हांव
कांयि जाण जाल्यारि उपयुक्त ज्ञानाले वारि तो कांयि
३ नेण। तरि येकवेळा कोणे देवाक प्रेमु कर्ता जाल्यारि तो
४ देवाकड्यान समजलो आस। है खातिर देवतालो प्रसादु
खवयाले विषयांतु हें२ आमि जाणांति कि जगतांतु देवता
कांयि ना आनि कि येकु देउ नंतां आनि कोणै ना।
५ सावार देव आनि सावार प्रभु आसलि कै तरि सर्गारि
जावो किंवा भुंयिचेरि जावो कोणाक देउ म्हेणु म्हणतांति
६ असलो देउ जावो। जाल्यारि कोणाले सगळे आनि
कोणाले भितरि आमि असलो कोण येकु देउ आनु आनि
कोणाले करणि सगळें आनि कोणालें करणक आमियि
असि कोण येकु प्रभु यिशु क्रीष्ट हाजे वरां आमगेले लागि
७ आनि कोणै ना। तरि सगळे लोकांले असलें ज्ञान राव
ना वेंयिवें हि घडियरांतु कोणैर देवता मानसुनु तागेले
लागचो नैवेद्यु देवताले प्रसादाले वारि खातांति ते खातिर
८ तांगेलें मंन दुर्व्वल जाउनु अशुचि जात्ता। तरि देवाले लागि
खाव्चो वस्तु आमगेलि सिफारस करां तेंयिवें खेल्यान आनि
चडाव थांग नें आनि खाय नातल्यारियि चडाव वायट
९ नैं। तरि तुमि साधधान जाया कोणजाण हें तुमगेलि
नादप नातिले निर्व्वलि लोकांलें आडलप क्वांचि कुसि
१० जात्ता। तेंयिवें ज्ञानि कोण तुं तरी कोणै तुजा देवळांतु

जीवचे खातिर बसिलो पोवत जाल्यारि कोण्तो निर्बलि तो यित्तें देवतालो प्रसादु भोजन कोचोक निर्भयि जाय
११ सि ना। कोण निर्बलि भावाले खातिर खीष्टु मरल तो
१२ यित्तें तुगेले ज्ञानांतु नष्ट जायसि। तरि केद्ना तुंमि भा वांचेरि असलें पाप कर्तांति आनि तांगेलें दुर्बल मन हनन
१३ कर्तांति तेद्ना तुंमि खीष्टाचेरि पाप कर्तांति। हे खातिर तरी मेगेलें खाचकें मेगेले भावाक पाप करैता जाल्यारि आनि केद्नायि हांव मांस भोजन करीसि ना कोणजाण आपंणाले भावाक पाप करैता।

९ नवम पर्व्व।— हांव यित्तें प्रेरितु नैं हांव यित्तें विस्वळ नैं हांव यित्तें आमगेलो प्रभु यिशु खीष्टाक पोय नै तुंमि
२ यित्तें प्रभुंतु मेगेले केल्ले क्रियेलें फल नै। हांव तरी अन्य लोकांचेरि प्रेरितु नैं जाल्यारियि निःसंदेहान तुमगेले लागि प्रेरितु खरी तेंयित्तें प्रभुंतु मेगेलि प्रेरितालि मुद्रा
३ तुंमि। कोण्ते मेगेलि क्रिया विचार कर्तांति तांगेले
४ लागि मेगेलें हें उत्तर। आमगेलें यित्तें भोजन यिवप
५ कोर्चो पराक्रमु ना। आनिर प्रेरित आनि प्रभुले भाव आनि काइफा कसि कर्ता तसि येकलि परमार्थिक भयिण
६ बायलेक आमि यित्तें लागि घेउनु भोंवचाक सकनांति। आवो हांव आनि बार्णबा मात्र आमगेलें यित्तें कार्य त्याग कोर्चो
७ पराक्रमु ना। आपणालो वेचु कोर्नु कोणु केद्ना राच्कारें कोर्चोक वेत्ता कोणु द्राक्षे छितल वोयता आनि ताजे फल खाय ना कोणु दोंडु पोषिता आनि ते दोंडालें
८ दुद खाय ना। हांव यित्तें मनुष्याले वारि हें उत्तर म्हण्तां
९ धर्मशास्त्रयि यित्तें हाजे वारि सांग ना। तेंयित्तें मोशेहाले व्यवस्थेंतु हें उत्तर बरेलांस सेत मळ्ळोचे बैलालें तोंड बांधु
१० नाका देउ यित्तें बैलालि खातिर भावसितास। जाले संपूर्ण आमगेले खातिर हें उत्तर सांगता आमगेले खातिर

कारी जाता आनि तांगेलि संपतियि कि तुम्गेले दरिद्रप
णाले उपकारी जाता असलें समपण जाव्चे खातिर दिया ।
१५ कसि द्दें बरैने आस कोणेतें साबार संचयु कोलो तागेलें
कांयि चडाव ना आसिलें आनि कोणतें थोडें संचयु केलो
तागेलें कांयि उणे नार आसिलें ।
१६ देवालि स्तुति जावो कि कोण तुम्गेले खातिर असलि द्दोडि
१७ चिंता तीतसाले अंतःकरणांतु दिलि । तागेले लागि
कसि म्होंणु गेलें तसि कोर्चांक ताणें उत्तर मानसिलें खरें
१८ तरि चडाव आशेलो जाव्नु आप्णांथाकुन तुम्गेले लागि
१९ गेला । सग्ळे मंडळीले भितरि मंगल समाचाराले
क्रियेन कोण भावालि चां ख्याति आस आनि ते मात्र नैं
२० तरि ति येकि प्रभुलि महिमा आनि तुम्गेले उपयुक्त मन
प्रकाश कोर्चांक आम्गेले वाटेन कोण अनुग्रह कोर्नु वेता
तोचि अनुग्रह वांटो कोर्चांक कोणे आम्गेले भर्सि वेचे
खातिर मंडलींतु नेमक आसिलो तेचि भावाक आनि तागे
२१ ले भर्सि बळेलास । आम्गेले वाटेन कोण भो दान दिउ
नु वेता ते दानान कोणु कोणे कसल्यान आम्गेलो दोषु
कोर्चांक सकत तागेले सोडप कोर्नु आनि मात्र प्रभुले वि
चारांतु नैं तरि मनुष्याले विचारांतुयि उपयुक्तावारि
२२ मुस्तायति द्दांणु ताका बळेलास । आनि साबार का
यींतु भावाले उद्योगालें प्रमाण आनि नेंवानर पावलांस
तरि तुम्चांतु कोण द्दोडु विश्वासु आस ते विश्वासालें कारण
आत्तं आनि भो साबार सिद्ध कोण आस ताकायि तांगे
२३ ले भर्सि आनि बळेलांस । तीतसाले विषयांतु तरी कोणे
निम्गिता जाल्यारि तुम्गेले विषयांतु तो आम्गेलो वांटेलि
आनि सांगातकारि किंवा आम्गेले भावाले विषयांतुयि
तरी कोणे निम्गितालि ते मंडलींले प्रेरित आनि ख्रीष्टालि
२४ महिमा द्दि समजन । द्दे खातिर तुम्गेलो प्रेमु आनि

तुम्गेले विषयांतु आम्गेलें कोण्ण दर्पा उत्तर म्हणता तागेलें
प्रमाण तांगेले लागि आनि मंडलीले येदुर प्रकाश कऱ्या।

९ नवम पर्व।—पुण्यवंत लोकांक दान वोचें विषयांतु
तुम्गेले लागि मेगेले बरोचें प्रयोजन ना तेंथितें तुम्गेले
मनाले उद्योगपण्ण हांव जाण हागेले विषयांतु हांव मासि
२ दोनियाले लोकांक हे दर्पा उत्तर म्हळांस् कि आखाया
येक वर्स जालो प्रस्तुत जालोलो आनि तुम्गेलें प्रयत्नयि भो
३ विस्तर लोकांक् प्रयत्नकार केल्याति। तरि आम्गेले
हाजेन तुम्गेले विषयांतु दर्प उत्तर म्हे.णचें वेर्थ ना जायत
हेचि खातिर आनि कसि हांवे सांगिल्लें तुंमि तसि प्रस्तुत
४ जाया हे खातिर वरं मासिदोनियांकार तरी मेगेले भर्सि
येव्नु तुम्गेलें दान सिद्ध नातिलें वोयता तुम्गेले हे लज्जेलें
उत्तर आम्मि कांयि म्हंणाति तरि आंमि संदेयु नातिलें दर्पा
उत्तर सांगपान लज्जले कि ना जाताति हेचि खातिर हांव
५ भावांक धाळ्याति हे खातिर हांव मनांतु विचार केलो कि
भावांक सांग्चें आवश्य जावें कि ते तुम्गेले लागि पितेंम
येउनु तुम्गेले कोण दानाले विषयांतु तुंमि पितेंमलो समा
चार धाळ्ळोलो ते इच्छापुर्वक दिल्ले वस्ताले वारि सिद्ध
जाता तरि कृपिंण वारि कदर्थ वस्तुले वारि ना जाता
हेचि खातिर पितेंम वोचुनु तें पुर्ते कर्ताति।
६ तरि हांव हेंचि उत्तर म्हणतां कोणतो थोडें वोयता तो
थोडें पिक पावत आनि कोणतो चडाव वोयता तो चडाव
७ पिक पावत। प्रत्येक मनुष्यु कसि आपणाले मनांतु निश्चयत्ति
कांस तसि शोकि जायनातिलें आनि आवश्य ना मानचा
८ दिवो तेंयितें संतोषा वेळु दाताक् देउ मोगु कर्तास। कसि
हें बरप आस ताणे दरिद्रांक दान केलांस तागेलो धर्म
९ नित्य राब्ता तसियि वाजेन तुम्गेले नित्य सगळे संपत्तिले

साबरायि जावनु आनि कोण सगळे दानशीलपण आम्गेले वाटेन देवाले लागि कृतज्ञपण उबजायता तेचि दानशील पणाले खातिर तुंमि सगळे विषयांतु धनाढ्य जावनु प्रत्येक घां क्रिया केल्यान नित्य प्रवृत्त जावचाक सर्कासि हेचि खातिर तुम्गेले लागि देउ सगळो अनुग्रऊ घडाव कोर्चाक

१० सक्ता। बीं वायतल्याक कोण बीं दित्ता तो तुम्गेले जवणाले खातिर खाणकें दिवो आनि तुम्गेलें वोयिलं बीं साबार गुण करो आनि तुम्गेले धर्मालें फल विस्तर करो।

११ तेंयितें हे सेवेलें पुर्ते कोर्चें पुण्य केल्ले लोकांले निर्धनपण

१२ उणे नाश्र कर्ता। तरि ख्रीष्टालो मंगलसमाचारांतु तुम्गेले प्रकाशित वशीभूतपणान आनि तांगेलें आनि सगळ लोकां ले लागि तुम्गेले इच्छापुर्वक पुस्कळ वांटपाज कोण्ते हे

१३ सेवेलि मार्झिले वाटेन देवालि प्रशंसा कर्तात आनि देवा लो कोण अतिशय अनुग्रऊ तुम्गेले लागि आस कोण्ते ते

१४ खातिर तुम्गेले विषयांतु भी इच्छित्लो आस तुम्गेलें खातिर तांगेलि प्राथनालेयि वाटेन हि सेवा कोर्चे देवाले लागि भी धन्यवादाले वाटेन साबार फलवानु आस। देवालें

१५ सांग्चा नजजालें दानान तागेले लागि धन्यवादु जावो।

१० दशम पर्व्व।—हांव पाउलु आपण कि कोण देकुंपल्लो जावनु सान तरि असाक्षात तुम्गेले लागि निर्भय आस ख्रीष्टा लो निरहंकारपण आनि मृदुपण घेउनु तुम्कां लालेय कर्तां।

२ तरि कोण किल्लो लोकु शरीराले वारि आचाराले वारि आम्कां ज्ञान कर्ता तांगेले विरोधांतु कोण साहसांतु हांव

३ साहसिकु जावचाक ठारसितां हांव साक्षात जावनु ते साह सान साहसिक कि ना जाता हेचि खातिर लालेय कर्तां।

४ हे खातिर मनस्त कोण आस आनि देउ ज्ञानाले विरोधांतु

कोण प्रत्येक स्वइच्छाकार वस्तु आस ताकायि तोगुं पडतलो
जावन्‌ आनि प्रत्येक मनाक ख्रीष्टालें मानसुचे वसा कर्तलोयि
५ जावनु आनि तुमगेलि आज्ञा माग्‌चे पुर्त्तं जात्तचि सगळे
ना मानमुचि शास्ति दिव्‌चाक प्रस्तुतायि जावनु आमि शरी
रांतु तरी आचरण कर्तांति जाल्यान शरीराले वारि युद्ध
६ कर्नाति । तेंयितें आमगेलें युद्ध कोर्थे शस्त्र शारीरिक नैं
तरि कठीण कोट्यालें मोडप कस्ल्यान जाता ताजेन देवाले
७ वाटेन कठीण आस । तुमि यित्तें भायर चोव्‌पाले वारि
विषयु चोय्‌ताति हांव ख्रीष्टालों हेंचि मनांतु कोर्नु तरी कोणे
साहसिकु जाता जाल्यारि तो नेंवान विचार कोर्नु आपण
हेंचि मनांतु करो कि कसि तो ख्रीष्टाले तसि आमियि
८ ख्रीष्टाले। कोण शासन पद हिताले खातिर तरि नाशाले
खातिर नैं प्रभुन आमकां दिलांस ताजे विषयांतु तरी हांव
कांयि हंकारा उत्तर म्हण्‌तां जाल्यारि मेगेलि लज्जा जायसि
९ ना । तुमकां पत्रान भयदाकोचाक इच्छितां हांव कि असलें
१० चोव्‌चा ना येवो । तेंयितें लोकु म्हण्‌ता कि तागेलें पत्र
भारी आनि अर्थांतु मान्य तरि तागेले शारीरिक घडप
११ निर्बल आनि तागेलें उत्तर म्होण्‌चं निंदेलें योग्य। हे
प्रकारालो लोकु हें मनांतु कोरो कि आमि असाक्षात जावनु
कसि पत्राले वाटेन उत्रान जाता तसि साक्षात जावनु क्रियें
१२ तु जावो । तेंयितें कोण कितलेकु लोकु आपणागेलि प्रशंसा
कर्तांति आपणाल्यांक तांगेले भितरि मोव्‌चाक आनि आप
णाल्यांक तांगेले समान कोर्चोक आमि भय कर्तांति तेवयि
आपणाल्यांक आपणागेले परिमाणान मोउनु आनि मात्र
आपणाल्यक चोउनु आपणांगेलि विवेचना कोर्नु ज्ञानवानु
१३ जाय्‌ना । तेंयितें कोण आमगेले परिमाणालो अतिक्रमु
कर्तांति तागेलो विषयु आमि दंभीक जायसि नांति तरि
कोणे दारि देवान वांटो कोर्नु आमकां दिल्यास ताजे तकित

१४ कर्तांति तेंचि इव्ळता दोरि तुम्गेले परांतु वोचत। तेंयितें
१५ तुम्गेलो जागोपरांतु कसि आमि ना घेत्ते तसि आप्णा
ल्यांक आमि वड्डिनाति कारण हेंचि कि आम्गेले मोव
१५ पाले भायर कसले अर्थात आनिर लोकांलो अधिकारां
थाकुन इंकार उत्तर म्हंणातिलें तरि तुम्गेले विश्वासालें
१६ वाडुप जातचि तुम्गेले दिकांतुयि कि आमि मंगल समाचा
राले घोषणा करूं आनि आम्गेले खातिर तयार केल्लो
दुसरें कोणालोयि अधिकाराले थवल्लेचेरि दर्पा उत्तर म्हं
णातिलें आम्गेले थवल्लेले मणके तुम्गेले वाटेन आम्गेलें
मों साबार चडाव कि आमि पाउं छोचि भरवसो कोर्नु
खीष्टालो मंगल समाचार प्रकाश करीत तुम्गेलो जागोप
१७ रांतु यितुलेथुर आमि आयल्यांति। तरि कोण्तो दर्पा
उत्तर म्हण्तः तोचि देवाक निमित्त कोर्नु म्हणता तेंयितें
कोण्तो आपणालि प्रशंसा आप्ण कर्ता तो घेव्चा योग्य नैं
तरि कोणालि प्रशंसा प्रभु कर्ता तोचि घेव्चा योग्य जाता।

११ एकादश पर्व्व।—तरी मेगेले पिस्सपणान माका
कांयि ताळउचा सकता तेंचि कर्तव्य तुंमि मेगेलें उत्तर ताळा
२ वया। तेंयितें देवाले विषयाले उत्तापांतु तुम्गेले लागि हांव
उत्तप्त आसं तेंयितें पतिव्रता घेलियेले वारि खीष्टाक दिव्चे
३ खातिर येक हंमणाले लागि हांव तुम्कां हातविडो केलास
तरि कसि सोरोपु आप्णाले कपटान खावाक भूलेलो तसि
खीष्टांतु कोण समपण आस कोणजाण तुम्गेलें मंन वोण जो
४ नसान हाजांथाकुन नष्ट जाता हेंचि हांव भय कर्तां। तेंयितें
कोणाक आमि घोषणा कर्नांति कोण तो येत्ता तो तरी हे
प्रकारा आनि कोणे यिशुलि घोषणा कर्तांति आनि कस्लें
तुंमि पावनाति हेंचि प्रकार आनि येकु आत्मा तरी पाव्ता
जावो कसलें तुंमि ग्रहण कर्नांति हे प्रकारा आनि कोणे

मंगल समाचार तरी पावलाति जाल्यारि सदश होड
५ उचित। तेंयितें हांव मनांतु कर्तां कि हांव मी प्रधान
६ प्रेरिताचाके थोडें उणे नैं। तरी हांव उत्तान सामान्य
जातां जाल्यारियि विद्येन नैं तरि सगळे विषयांतु आमि तुम्
७ गेले भितरि पुर्तेचि प्रकाशित आसंति हांव तुम्गेले लागि
मंगलसमाचार फुंक्या घोषणा केल्यान यित्तें तुमगेले होड
जाव्चे खातिर आपणाक सान केल्यान हांवे दोष केलास।
८ तुम्गेले सेवेले खातिर हांव अन्य मंडलीथाकुनु कुलि घेउनु
९ तांगेलें धन चोर्लें। तुम्गेले लागि जावनुयि केद्ना मेगेले
संपदालो अभाउ आसिलो तेद्नायि हांव कोण कोणाले
धनान जीवों ना आसिलों तेंयितें मेगेले कोण वेचालो
अभाउ आसिलो माकिदोनियाथाकुनु आयिल्ले भावानि तें
दिलें तुम्गेले लागि कि भार दिव्लो ना गाता तसि सग्ळे
विषयांतु हांव आपणाक दवलीस आनि ताजे वारि आप्
१० णाक दवरिन। तरी ख्रीष्टालें सत्यपण मजांतु आस्ला
जाल्यारि आखाइया देशांतु मेगेले हे दर्पा उतर म्हण्याले
११ बाधा कोणे कोचाक सक्सि ना। कि हांव तुम्कां प्रेमु कर्ना
१२ यित्तें ते कारणांतु तें देउ जाण। तरि कोण लोकु वायट
करपाले खातिर सोद्तिताति ते कसल्यान दर्पा उत्तर म्हण
ताति ते विषयांतु तें आमगेले वारि पावनु वेता हे खातिर
आनि तांगेले तेंचि हेतुले छेदनाले खातिर कसलें हांव कर्तां
१३ तें हेचि खातिर कर्तां। तेंयितें असलो कोण लोकु ते फटि
प्रेरित आनि बद्द कर्तेलो आनि ख्रीष्टाले प्रेरित कोण जीनसु
१४ जाता आपणाल्यांक कर्तेले आसति। हेवंयि कांयि आश्चर्य
नैं तेंयितें देवद्रोह आपण दीप्तिमय दुतालें रुप धर्ता चे
खातिर तांगेले सेवक तरी यथार्थ क्रिया सेवकांले वारि
जाताति तेंयित्तें आश्चर्य तांगेले शेषकाल तांगेले क्रियेले
१५ वारि जायत। हांव नेंवान म्हणतां कोणे माका पिसो

१६ ना समजोति तरी दुसरे प्रकार जाता जाल्यारि आपणाले विषयांतु मेगेलें कांयि हंकारा उत्तर म्होणचे खातिर माका
१७ पिशालें वारी अंगिकारु कचा। हांव कस्लें म्हणतां तें प्रभुले मण्के सांग ना तरि हे हंकारालें उलवप साहसाले
१८ पिशपणान कसि जाता ताजे वारि। शरीराले वारि साबार जाण हंकारा उत्तर म्हण्तातित हे खातिर हांवयि
१९ हंकारु म्हणन। तुंमि आपण ज्ञानवान जावनु संतोष मनांतु पिसांक ताळवितास तेंयितें तरी कोणे तुम्कां दास पणांतु घाडता तरी कोणे तुम्कां खावनु उडैता तरी कोणे
२० तुमगेलि संपति घेता तरी कोणे आपणाक थोडु मनुष्यु कोनुं समजता तरी कोणे तुम्कां थापट मातां जाल्यारि
२१ तुंमि तें ताळवितातित। आमि कसि साहस नातिले जा तांति तसि अपमानाले विषयांतु म्हण्तां तरि कसल्यांतु कोणे साहसिकु आस हांव हे पिसाल वारि सांग्तां कै तरि
२२ ताजेन हांव आनि साहसिकु आसं। ते यित्तें एबरि हांवयि तो तें यित्तें यिसरएलिकार हांवयि तो ते यित्तें अब
२३ राहामाले पुत हांवयि तो। ते यितें खीष्टाले सेवक हांन पिसाले धारि सांग्तां खरें तरि हांव ताजाके थोडु अमु केल्यान चडाव मारु खाव्चांतु परिमाणांथाकुनु चडाव पाच्याघरांतु तांचांथाकुनु साबार वेळा मरणांतु नेंवानर
२४ आसं। हांव पांच वेळा यिऊदियांले हातंतु येक उणे
२५ चाळिस मारु खेले। तिन वेळा हांवे वडियेलो मारु खेलो येक वेळा फातराले मारु खेलो। तिन वेळा हांवे तारुं भेगुनु भोगु केलो येक दिसुराति हांव गुंडयेंतु आसिलों।
२६ नेंवानर पेण कोर्चांतु आसिलों उदकाले आपदांतु चोरांले आपदांतु स्वदेशी लोकांले करयांले आपदांतु अन्यदेशकारां लें करयाले आपदांतु नगराले आपदांतु रान्नाले आपदांतु
२७ समुद्राले आपदांतु फटि भावांले भितरि आपदांतु। अमु

आनि दश खिट पारी दिवचे भुकेंतु आनि वांनिंतु उपासां
२८ तु शीयांतु आनि मिरवपांतु आसिलों। सगळे मंडळी
ले भारांतु मेगेलि नित्य भावना हो कोण भाय्लो विषयु
२९ हो सोड्चो हेंचि सगळें। कोणु भागलास आनि हांव
३० निर्बलि ना कोणु वांधितु अस आनि हांव लास ना। तरी
मेगेलें हंकारा उत्तर म्होण्चें आवश्य जाता जाल्यारि हांव
आपणाले दुर्बलपणाले विषयांतु हंकारा उत्तर सांगन।
३१ हांव कि फटि उत्तर सांग्ना हे आमगेलो प्रभु यिशु खीष्टा
३२ ले सच्चीदानंद देउ आनि आंतु जाण। दामाश्केक शहरांतु
आरेतस रायाले आधीन कोण यजमानु तो माकां धोर्चाक
३३ सैन्याथाकुन दमाश्केकियांले शहरांतु पारो दिलो। तेंवे
ळा येक दाडुळ्यांथाकुन हांव वोणतिले लाग्चान कुयेंतु
देवैल्लो जावनु तागेलो हातु सोंणु वांचले।

१२ द्वादश पर्व्व।—मेगेलें हंकारा उत्तर सांग्चें उचित
नैं हो निःसंदेह हांव प्रभुलें दर्शण आनि प्रकाशलें उत्तर
२ म्होण्पांतु प्रश्न जायन। चौदा वर्सं गेलिं हांव खीष्टांतु
येकल्याक समजलों तो शरीरांतु जावो शरीराले भायर
हें हांव उर्लोचाक सकना देउ जाण असलो लोकु तिसरे
३ सर्गांतु तांळोलो जाल्लो आसिलो। तो शरीरांतु यित्तें
४ शरीराले भायर हें हांव उलोच्याक सकना देउ जाण तरि
कसि येक्लो कोण फारदीसांतु तांळोलो जालो आसिलो
आनि मनुष्यालें उलवप अनुचित असले ना सांग्चें उत्तर
५ आयकिलें। असले लोकाले विषयांतु हांव हंकारा उत्तर
सांगन तरि दुर्बलपणाले विषयांतु कोण उत्तर म्हण्तां ते
वंतां हंकारा उत्तर हांव आपणाले विषयांतु म्हण्सि ना।
६ तेंयितें हांव सत्य उत्तर सांगन हे खातिर तरी हंकारा
उतर म्होण्चाक इच्छेउनु रावतां जाल्यारि हांव अज्ञानि

जायसि ना तरि हांव ज्ञमा कर्तों कोणजाण कोणे कस्लें मजांतु चोयता जावो मेगेले विषयांतु आयकता हाजांथाकुनु

७ होड माका समजता। हांव ते साबार प्रकाशले विषयांतु मोवपाले चडाव दांभिक ना जावचे खातिर देवचारालो येकु प्रेरितु शरीरांतु आसिलो येकु कांटो माका प्रहार

८ कोर्चें खातिरयि माका दिउनु गेलो। हे खातिर मजां थाकुनु तागेले घेउनु वोचे खातिर हांवे प्रभुक तिनवेळा लालेप केलें आनि ताणे माका म्हळें तुगेले खातिर मेगेलो अनुग्रऊ साबार आस तुगेले दुर्बळपणांतु मेगेलें बल पुर्तें

९ कोर्नु वोचत। हे खातिर हांव होड संतोष मनान वरं आपणाले निर्बलांतु दर्प सांगेन कि ख्रीष्टालो पराक्रमु मजे

१० रि आस। ते खातिर दुर्बलपणांतु निंदांतु दुर्बळपणांतु आनि कडवपांतु आनि ख्रीष्टाले खातिर दुःखांतु हांव खुषी कोर्नु समजतां तेंयितें केद्ना हांव निर्बलि तेद्ना हांव बलवंतु।

११ दर्पी उत्तर म्हळ्यान हांव यिस्तों जालांस कैं तुमि माका बल केलांस हांव तुमच्यान कि प्रशंसा केल्लो जातां हेंचि तुमगेलें उचितयि तेंयितें हांव कांयि ना खरें तरि तें जाल्या

१२ नयि हांव मो प्रधान प्रेरितांचाके कांयि सानु नै। अवश्य सगळे ताळवपांतु आनि लक्षणांतु आनि आश्चर्य क्रियेंतु आनि पराक्रमांतु प्रेरितालो गुर्तु तुमगेले भितरि प्रकाश

१३ कोर्नु गेलो। हांव आपण तुमगेले लागि भार दित्लों आसिलों ना तेंनंता तुमि यित्या अन्य मंडलीचाके सान आसि

१४ ले मेगेलो हो दोषु ज्ञमा कर्या। चायि हे तिसरवेळा हांव तुमगेले लागि येवचाक प्रस्तुत आसं तात्वळियि तुमगेले लागि हांव भार दित्तलों जायशि ना तेंयितें तुमगेलें हांव शोदप कर्नो तरि तुमकां तेंयितें आंनाले आंनाले खातिर घेरडुवांलो संचयु कोर्चें करप नै तरि घेरडुवांले खातिर

१५ आंनाले आंमाले प्रंचय कोर्वें कर्त्तय। हांव तुम्गेले लागि कितुलो हडाव प्रेमु कर्तां ताजेन आनिर उणे प्रीति तरी जाता जाल्यारियि तुम्गेले खातिर हांव भो संतोष मनांतु
१६ वेचु करिन आनि वेचितलोंयि जायुन। तें कोण आवों तुम्येरिं भाह हांवे दिने तरि अनुसंधानि जावुनु तुम्कां
१७ छलान घर्व्वें। कोण लोकांक हांवे तुम्गेले लागि बळे ल्याति हांव यित्तें तांगेले कोणालेयि वाटेन तुम्गेले लागि
१८ कांयि लाभु केलो आसिले। हांवे तीतसाक प्रार्थना केलि आनि तांगेले भर्सिं हांवें येक्लो भावु बळेलो तीतसु यित्तें तुम्गेले लागि कांयि लाभु केलो आनि यित्तें येक मनान चम् कलेनांति आमि यित्तें येक वाटेन चम्कले नांति।
१९ नेंवान सांग्तां कि तुंमि यित्तें मनांतु कर्तांति कि आमि तुम्गेले लागि आप्णागेले नेंरन कर्तांति। आमि खीष्टांतु देवाले येदुर सग्ळें सांग्तांति तरि हे वेहकारानो तुम्
२० गेले हिताले खातिर आमि सग्ळि क्रिया कर्तांति। तेंयितें हांव भय कर्तां कोण्जाण कसि हांव येव्चा इछितां तसि उपस्तित जावनु तुम्कां चोयि ना आनि कसि तुंमि इछि तांति तसि हांवयि तुम्गेले लागि चेव्चा येना कोणजाण तुम्गेले मितरि वादानुवादु आनि मछेर आनि कोपु आनि झगडें आनि चाडियण आनि अंतरंग आनि फुलप आनि
२१ गोंदोळु जात्ता। आनि कोणजाण हांव नेंवान उपस्तित जात्तचि मेगेलो देउ तुम्गेले भितरि माका लज्जेक्षो कर्तां आनि कोणते आत्तं पाप कोर्नुं तांगेले केल्ले अशुचिपणांतु आनि लुचपणांतु आनि कामांतु पश्चात्ताप जायुने असले साबार लोकांले खातिर माका विलापु कोर्चों पडत।

१३ त्रयोदश पर्व्व।—हेंचि तिन वेळे हांव तुम्गेले लागि येत्तासं दोनि तिनि साक्षिले तोंडान प्रत्येक उत्तर स्थिर

२ जायत। ख्रीष्ट कोण तुम्गेले लागि अशक्त जाय ना तरि तुम्गेले भितरि पराक्रमी तो कि मेगेले भितरि रावुनु
३ उत्तर म्हणता हांगेलें प्रमाण तुंमि मागतांति हे खातिर, हांव नेंवांन येवुनु कोणाक ताळविसि ना हेचि हांवे पितेंम तुमकां सांगिले आसिलें आनि दुसरवेळा कसि तुम्गेले लागि यावुनु सांगतालों तसि पितेंम म्हणतां आनि आतां हांव उपस्थित जायनातिलें कोणे पाप केलांस तांगेले
४ लागि आनि सगळ्यांले लागियि हें बरैतां। तेंयितें तो निर्बळपणान अशारि मेल्लोआसिलो तरि देवाले सामर्थ्यान जीवो आस आमियि तागेले भितरि निर्बलि कै तरि तुम्गेले लागि देवालो पराक्रमाले वाटेन आमि तागेले भक्ति
५ जीवन भोगु करुं। तुंमि आपणाल्यांक आपुण विचार करा अपुणागेलि परिक्षा करा तुंमि थितें आपणाल्यांक नेणांति तुंमि तरी धुर कोर्चें योग्य ना जाया जाल्यारि ख्रीष्टु
६ तुम्गेले भितरि आस। तरि हांव विश्वासु करतां कि तुंमि
७ समजश्यांति कि आमि धुर कोर्चें योग्य नांति। सदा हांव देवाले लागि प्रार्थना करतां कि तुंमि कांयि वायट क्रियाः कोनोकाति आम्गेलें सत्य जावचें प्रमाण कि आता तें नें तरि आमि धुर कोर्चें योग्याले वारि जाल्यारियि कि तुंमि चांग
८ क्रिया करा। तेंयितें सत्याले विरोदांतु आमि कांयि कोर्चेंः
९ सकनांति तरि सत्यपणाले पक्षांतु करतांति। तेंयितें केद्नाः आमि निर्बलि आनि तुंमि बलवंतु तेद्ना तो आम्गेलो आनं
१० दुयि आनि हांव इच्छितां कि तुंमि पुर्तो धर्मु जाया। तेचि खातिर तुम्गेले लागि अविद्यमान जावुनु हांव हें उत्तर बरैतां कोणजाण विद्यमान जावुनु कोण पराक्रमु हिसाले खातिर आनि संहाराले खातिर नें देवान माका दिलांस ताजे दारि हांव कठिण वेवार करतां।

११ छेव हे भावानो तुम्गेले मंगल जावो पुर्ती धर्मु जावो घां सांत्वित जाया येकचित्त जाया विरोधुनातिले जाया १२ आनि प्रेमु आनि शांतिलो देउ तुम्गेले लागि रावत। १३ पवित्र उंमा दिउनु येक्लो आनि येक्ल्यांक नमस्कार कर्या १४ सग्ळो पुण्यकेल्लो लोकु तुम्कां नमस्कार दितानि। प्रभु यिशु ख्रीष्टालो अनुग्रह आनि देवालो स्नेहु आनि धर्मात्मालो सामान्य भोगु तुम्गेले सग्ळ्यांचेहि जावो। आमिन।

## गालातियांले लागि पाउल अपेस्ताचें पत्र।

### १ प्रथम पर्व।

१ पाउल अपेस्तु मनुष्यांलो नावे मनुष्याले केल्यान तें नैं तरि यिशु ख्रीष्टाले केल्यान आनि देउ बांनाले केल्यान
२ कि कोणे ताका मरणांथाकुनु उठ्करायलो। आनि मजे भर्सि कितुले भाव आसति तेवयि गालातिले कालेसंडलीले
३ लागि पत्र बरैताति। देउ बांनाथाकुनु आनि प्रभु यिशु
४ ख्रीष्टाथाकुनु अनुग्रह आनि शांति तुम्चेरि जावो। कि कोणे देउ जावो आम्गेले बांनाले इच्छेले वारि आम्कां हे
५ वायट संसारांथाकुनु सुटोचे खातिर आपणाक आम्गेले पापाले खातिर दिला ताजेलि नित्य स्तुति जावो आमिन॥
६ हांव आश्चर्य मान्तां कि कोणे तुम्कां ख्रीष्टाले अनुग्रहा ले खातिर आपैले तुमि ताजान दुसरे मंगल समाचारांतु
७ यितुले वेगिं चम्कोउनु गेलेति। कि कोण दुसरे नैं तरि कितलेक लोकु आसति कि कोण तुम्कां दुःख दिताति आनि ख्रीष्टाले मंगल समाचाराक उमृताव्चाक इच्छिताति।
८ तरि कोण मंगल समाचार आमि तुम्गेले लागि प्रकाश केलास ताजेले नंतां आनि कोणे मंगल समाचार तरी आमि जावो सर्गारिथाकुनु कोणे दुतुयि प्रकाश कर्ता जा
९ ल्यारि तो शापु लागिलो जावो। आमि कसि पितेंम् सांगिलें ताजे सर्के हांव आत्तं दुसरे वेळायि म्हणतां तुमि कोण स्विकार केलास ताजे नंतां कोणे मंगल समाचार करी

कोणे तुम्गेले लागि घोषणा कर्तौ जाल्यारि तो आपांतु
१० पडो । हांव आत्तं यितें मनुष्यांक जावो देवाक लाबु दाकेसां
जावो हांव यित्तें मनुष्यालि तुष्टि कोर्चा इच्छितां तेंयितें
तरी हांव मनुष्यांलि तुष्टि कोर्चा इच्छितां जाल्यारि हांव
११ खीष्टालों सेवकु जाव्चा सक्ना । तरि हे भावानो हांव
तुमकां कळैतां कि कोण मंगल समाचार मगेले मारर्थालें
१२ प्रकाश कोर्नुं येत्तास तो मनुष्याले खुशिले वारि नें । तेंयितें
हांवे मनुष्याखे लागि तें मेळ्नं आनि थिशु खीष्टाले प्रकाश
१३ नंतां तांतु सिकले जाले । तेंयितें गेल्ले समयांतु यिऊदि
यांले मताले वारि मगेलो कोण वेवार आसिलो हागेले
विषयांतु तुमि आयकुं याव्लांस कि हांवे देवाले मंडलीक
१४ पडाव बांधुले आनि विनाश केले । आनि मेगेले म्हाल
गड्यांले चालिरि सांबार होड सिद्ध जावनु यिऊदियांले
मतांतु आपणालें जातिंतु मेगेले समान आसिले सांबार
१५ लोकांथाकुनु निपुनु आसिलों । तरि मेगेले आंमाले पोटांतु
राव्चे वेळा कोण देवान माका वेगळो केलो आनि आप
णाले अनुग्रहान माका आपेलो तो केद्ना आपणाले पुताक
१६ मजांतु प्रकाश कोर्चाक खुशि आसिलो कि हांव अन्यदेशका
रांतु ताका घोषणा करिन तावळिचि हांवे मांसाजे आनि
१७ रगताले लागि विचार केलो ना । आनि कोण मेगेले
पिर्तम प्रेरित आसिले तांगेले लागि हांव यिरुशालमांतु
गेलो ना तरि अरब देशंतु गेलो आनि ताजे मागिरि
१८ नेंवान दमास्कोंतु गेलो । ताजे मागिरि तिन वर्सं वोत्तचि
पितराक पोव्चे खातिर हांव यिरुशालमांतु वोतल्यांले
१९ भसि पंद्रा दिस राव्लों । तरि प्रभुलो भाउ यआकुब
२० थंतां हांवे प्रेरितांतु आनि कोणाकै पळैने । कोण उत्तर
तुम्गेले लागि बरैतां पोया देवाले मेदुर आसं हांव कांइ
२१ उत्तर बरैना । ताजे मागिरि सिरिया आनि किलिकिया

देशांतु आय्लों आनि यिऊदाच् देशांतु ख्रीस्तालि कोणर
२२ मंडली आसलि तांचे लागि हांव भेटन परचेयि नातिलों
२३ आसिलों।   मात्र तांनि आय्किलेलें कि कोणे पितैम
आम्कां आंबुछेले आसिले ताणे कोण रीति पितैम नाशु
२४ केलेलि ति रीति आत्तं घोषणा कर्तास   ताजेन तांनि मजे
खातिर देवालि प्रशंसा केलि।

२ द्वितीय पर्व्व।—ताजे मागिरि चौदा वर्सं गेलिं हांव
बार्णबाल भर्सि यिरुशालेमांतु वैंवान गेलों आनि तीतसाक
२ यि भर्सि घेत्लो।   तरि मावळि हांव प्रकाशि आस्तेन
गेलों आनि कोण मंगल समाचार हांव अन्यदेशकारांले
लागि घोषणा कर्तां तो तांकां कळैलो तरि मात्र नांवाश्य
लोकांले लागि आनि तोवयि अंतरंगांतु प्रकाशु केलो कोण
जाण कि कोणे प्रकारान हांव अनर्थक धावंप जावो अनर्थक
३ धावंलों।   तरि मजे भर्सि तीतसु कि कोण यीकु जावनुयि
४ ताका सुन्नत जावंचें बल कोनुं वोच्ने आसिलें।   आनि
कळनातिले रिगछे कपटि भावांले खातिर तें जालें कि
कोण निपुनु रिगलो कि ख्रीस्त यिशुंतु आम्गेले कोण सुंटय
ताजें सोदप केल्यांक कि आम्कां दासपणांतु घाडतलि।
५ कोणांक वशीभूतपणान येकि घडियि आमि जागो दिलो
ना कि मंगल समाचारालें सत्यपण तुम्गेले भर्सि रावो।
६ तरि कोण मानसुचे योग्य लोकांले वारि समजपांतु आय्ले
तें कोण प्रकारि जाले तांतु मेगेलें कांयि भांग वायट ना
देउ कोणालोय्कि पक्षपात कर्ना तांचांतु कोण मर्यादकारां
ले वारि आसिले तांनि उत्तर दित्रानि मेगेले ध्यान कांयि
७ वाडैने।   तरि तागेले विपरितांतु केद्ना तांनि पळेलें
कि कसि सुन्नतकारांले लागि मंगल समाचार प्रकाश कोर्चें
सेवा पित्राले लागि समर्पण केलि आसिलि तसि सुन्नत

८ कर्नातिल्यांले खातिर मजे लागि आसिलि। तेंयितें कोण सुन्नतकारांले लागि प्रेरितपणाले खातिर पित्राले भितरि सामर्थवानु आसिलो तोचि अन्यदेशकारांले लागि मझांतुंयि
९ सामर्थवानु आसिलो। आनि यआकुबु आनि काय्फा आनि योहनु कि कोण खांबा वारि चोउधा आयिले तानि कोण अनुग्रह माका दिउनु गेलाशा तेंचि केद्ना समझलो तेद्ना माका आनि बार्णबाले खेहाव उजवो हातु दिलो कि आमि अन्यदेशकारांले लागि आनि तें सुन्नतकारांले लागि
१० वोचोंति। मात्र तानि इच्छा केलि कि आमि दरिद्रि लोकांक उडगासु करुं तेवयि वोचोंक हांव मनोयुक्त आसि
११ लों। तरि पित्र आंतियोखांतु पावतचि हांवे येदुरचि
१२ ताजेले विपरित केलें तेंयितें तेर अपराधी जालो। तेंयितें यआकुबाले लागचान कितलेक लोकांले येवचे पितंम ताणे परदेशियांले लागि खेलें तरि तें पावतचि सुन्नता लोकांक
१३ भिउनु तें सोंणु वेगळो जालो। आनि यिह्रुदियांनियि ताजेले भसिं वंचना केलि ताजेन बार्णबायि तांजेले वंचनान
१४ तांणु गेलो। तरि केद्ना हांवे पळेलें कि तानि ठीकपणान मंगल समचाराले बद्दपणान वेवहार केलो ना हांवे सग्ळ्यांले येदुर पित्राक म्हळें कि तुं यिह्रुदी जानु तरी अन्यदेशकारांले वारि वेवहार कर्तास आनि यिह्रुदियांले वारि कर्नाज जाल्यारि अन्यदेशकारांक यित्ते खातिर यिह्रु
१५ दियांले वारि वेवहार करेतास। आमि स्वाभाविक यिह्रुदी
१६ अन्य देशकार पापि नैं। कि मनुष्यु धर्मशेले कार्यान सादु कोनुं वोचना तरि यिशु स्त्रीष्टांतु विश्वासान सादु कोनुं वोत्ता हें समजुनु आमियि स्त्रीष्टांतु विश्वासु केलो कि आमि यिशु स्त्रीष्टांतु विश्वासान आनि धर्मशेले कार्यांन नैं सादु कोनुं वोचें तेंयितें कर्मशास्त्राले कार्यान कोणें सादु कोणुं
१७ वोचना। तरि स्त्रीष्टाकच्यान सादु जावचो सोदिलले आसि

तरी आपण पापी समजुं येता जाल्यारि यित्तें खीष्टु पापा
१८ ले पोसतलो तें नैं । तेंयितें ह्यांवे कोण नाश केलांस तो
तरी ह्यांव नेवान करिन जाल्यारि आपणाक दोषी कर्तां ।
१९ तेंयितें ह्यांव थवस्तेले केल्यान थवस्तेले लागि मेलांस कि देवा
२० ले सेवेंतु कालक्षेपु करिन । ह्यांव खींष्टाले भर्से क्रुशारि
मार्नु गेलों तरि ह्यांव वांचुतां तो ह्यांव नैं तरि मजांतु खीष्टु
वांचुता आनि ह्यांव शरीरांतु कोण जीनसा भोगु कर्तां तो
देवाले पुतांतु विश्वासांन ह्यांव भोगु कर्तां कि कोणे माका मोगु
२१ केलो आनि मजे खातिर आपणाक दिलो । ह्यांव देवालो
अनुग्रह अमर्याद कर्ना तेंयितें यथार्थपण तरी कर्मशास्त्रान
जावास जाल्यारि खीष्टु वेर्थं मेलो।

३ तृतीय पर्व्व ।—हे बुद्धिनातिले गालातियांनो तुमगेलें
सत्यपण ना मान्सुचे खातिर कोणे तुमगेलें मंन हरण
केलांस कि धोणाले भितरि क्रुशारि मार्नुं गेलो यिशु
२ खीष्ट तुमगेले वेदुर आखोंनु गेलो आसिलो । तुमगेले
लागि ह्यांव मात्र हें उत्तर समजुंचा इच्छितां तुंमि यित्तें
कर्मशास्त्राले कार्यान आत्मा मेळास आवो विश्वासालें उत्तर
३ आयकणांतु मेळांस । तुंमि यित्तें चे जीनसाले बुद्धिना
तिले आसति आत्मांतु आरंभु कर्तचि यित्तें शरीरान
४ पुर्ते जातातिः । तुंमि यित्तें निरर्थक यितुलें दुःख पावलांस्
५ तरो आत्तंयरांतु वें निरर्थक जाता । हे खातिर कोण
तो उपदेशु कोनुं तुमचेरि आत्मा दितास आनि तुमगेले
भितरि आश्चर्य कार्य कर्तास तें यित्तें थवस्तेले कार्यान आवो
६ विश्वासालें उत्तर आयकिल्यान तो कर्तास । कसि अवरा
हामान देवाक विश्वासु केलो आनि तो यथार्थाले वारि
७ ताजे वोर्यारि मोउनु गेलो। हे खातिर समजा कि विश्वासु
८ कर्तले अवराहामाले पुत्र आसति । देउ कि विश्वासान

अन्यदेशकारांक सादु करित धर्मपुस्तकांन हें पितंम संम्गुनु पितंमले वेळा अबराहामाले लागि हें उत्तर म्होणु मंगळ समाचार घोषणा केलो कि तुजांघाकुनु सग्ळे देशकार ९ आशीर्वादु पावतिल । हे खातिर विश्वासु कर्तले कोण ते १० विश्वासी अबराहामाले भंसि आशीर्वादु पावतात । धर्म शास्त्राले कार्याले संबंधिकार जितुलों लोकु ते सिरापाले आधीन आसति तेंयिवें हें बरैलांस कि यवस्तांपुस्तकांतु कोण कोण बरैलांस तें कोर्चाक कोणुतो निव्य प्रवर्ते ना जात्ता ११ तोचि प्रतिमनुष्यु सिरापग्रस्त आस । तरिं कर्मशास्त्राले कार्यान कि कोणयि देवाले येदुर सादु कोर्नु वोच ना म्हाजि १२ साक्षि आस तेंयिवें सादु विश्वासान वांच्तिल । आनि कर्म शास्त्रा विश्वासाले संबंधांतु ना तरि कोणुतो तो कार्य कर्ता १३ तो ताजेन वांचस । खीष्टान आम्गेले बदला आपु पावनु आम्कां कर्मशास्त्राले आपाल सुटैलास तेंयितें बरैलांस कि कोण प्रत्येक मनुष्यु रुकारि लाबेनु आस्ता तो आपग्रस्त १४ आस । कि अबराहामालो कोण आशीर्वादु तो यिशुखीष्टाले वसा अन्यदेशकारांचेरि येत आनि आम्गियि विश्वासान कोलु १५ केलोलो आत्मा पाउं । हे भावांनो हांव मनुष्याले वारी म्हण्तां मात्र मनुष्याचि बंदेस्ति तरि जात्ता जाल्यारि तो निश्चय केल्यान कोणे तें निरर्थक कर्ना आनि तागेले चडावयि कांयि १६ कर्ना । अबराहामाले लागि आनि तागेले पुतांले लागि कोलु कोर्नु गेलो तो पुतांले लागि भोउ उत्रानि म्हळें ना तरि येक उत्रान तुगेले पुताले लागि जावो खीष्टाले लागि । १७ कोण बंदेस्ति देवालें केल्यान निश्चय कोर्नु गेलि आसिलि तागे ले चारि सें तीस वर्सांले मागिरि उबजलें कोण कर्मशास्त्र तें कस्ल्यान कोलु निरर्थक जाता तसि ते बंदेस्तिक निरर्थक १८ कोर्चा सक ना । तेंयितें तरी कर्मशास्त्राले साहायान अधि कार मेळत जाल्यारि प्रतिज्ञान तें जायना तरि प्रतिज्ञान

१९ देवान् तें अबराहामक दिलें। जाल्यारि कर्मशास्त्र किते खातिर तें आज्ञा मिर्वतल्याचान जालें ति प्रतिज्ञा निसम सिक्ले पुत्राले येउपरांतु मात्रि दिउनु गेलें आनि दुताकयान
२० येक्लो मध्यस्थाले हातांतु समर्पण केलो आसिलो। मध्यस्थु
२१ येक्ल्यालो जायुना तरि देउ येकु आस। जाल्यारि कर्मशास्त्र किते देवाले प्रतिज्ञाले विरुद्ध तें नैं तेंयिवें जीउ दितलें कर्मशास्त्र दिउनु गेलें आसें जाल्यारि अवश्य कर्मशास्त्रान
२२ यथार्थपण जातें। तरि धर्मपुस्तकान सगळे लोकांक पापाले आधिन कोनुं बंद केलांस कि यिशु ख्रीष्टांतु जोणु विश्वासु आस ताजे सहायान कोण प्रतिज्ञा तो विश्वासांक
२३ दिउनु वेता। तरि विश्वासाले उत्राले येज्याले पैलेंम आनि कर्मशास्त्राले आधीन जावनु प्रकाश जावचे विश्वासा
२४ ले जाउपरांतु बंद आसिले। हे खातिर ख्रीष्टु जाउपरांतु कर्मशास्त्र आमगेलें सिकैतलें आसिलें कि आम्हि विश्वासान
२५ साद्दु केल्ले जाउं। तरि विश्वासु येत्तचि आम्हि वाजित
२६ ल्यांले आधीन आनि रावनांति। तेंयितें ख्रीष्ट यिशुचेरि कोण विश्वासु ताजेन तुम्हि सगळे देवाले पुत्र जाल्याति।
२७ तेंयिलें तुमगेले भितरि कितुलो लोकु ख्रीष्टांतु बुडकुलि दिल्ले
२८ जाल्ले आसिले तितुले लोकानि ख्रीष्टाक न्हेसलास। यिऊदी नैं ग्रीक नैं बंदि नैं सुटप नैं दादलो नैं बायल नैं तेंयितें
२९ ख्रीष्ट यिशुंतु तुम्हि सगळे येकचि। आनि तरो तुम्हि ख्रीष्टालो लोकु आसति जाल्यारि अबराहामालें संतान आनि प्रतिज्ञाले वारि अधिकारी आसति।

४ चतुर्थ पर्व्व।—हांव हें उत्तर सांग्तां अधिकारी कित्ले दिस चेर्को आसा तितले दिस तो सगळ्यांलो खावंदु
२ जावनुयि चेड्यांचाके कांयि भिन्न ना। तरि आंमाकयांन

नेमधिल्लो कालु पुर्ता जाउपरांतु गुरुले आनि खावदांले
३ आधीन राब्ता । तसि आमियि चेरडपणांतु संसारालि
४ क्रिया सूत्राले आधीन दास आसिले । तरि कालालि भर्ति
५ जालचि कर्मशास्त्राले आधीन राब्तल्यांक सुटोचे खातिर
देवान वायलांथाकुनु उब्जल्लो आनि कर्मशास्त्राले आधीन
कोनुं गेलें आपणाले पुताक धाळो कि आमि पोष पुत्रपण
६ पाउं । तुमि पुत जाले हे खातिर आतुर म्हांणु आपैताति
देउ आपणाले पुताले आत्म्याक तुम्गेलि मनांतु धाळास ।
७ हे खातिर आत्तंलागिन् तुं आनि गुलामु ना आस तरि
पुतु जालास आनि तरी पुतु आस जाल्यारि ख्रीष्टाले वर्सो
८ देवाक अधिकारी आस । तेवेळा तुमि केद्ना देवाक समज
नातिलें तरी कोण वस्तुत देउ ना तांगेलि सेवा केल्यास ।
९ तरि आत्तं तुमि देवाक जाणताति वरं देवाकच्यान समजल्ले
आसति तर्वळि कोण निर्बल आनि निरर्थक सूत्रान तुमि
चेडेपणांतु आव्चा इच्छिताति तांगेले मात्तिर तुमि यित्या
१० भोंवताति । तुमि दिस आनि मासु आनि समयु आनि
११ वर्स मान्ताति । तुम्गेले विषयांतु हांव भित्तां कोणजाण
हांवें तुम्गेले खातिर कोणदणु केलास तें निरर्थक जावो ।
१२ हे भावानो हांव लालेप कर्तां कि तुमि मजे वारि जाया
तेंयितें हांव तुम्गेले वारि आसं तुमि मेगेलें कांयि नष्ट केले
१३ ना । तुमि समजताति कि पितंम हांवें शरीराले निर्बल
१४ पणान मंगल समाचार तुम्गेले लागि प्रकाश केलो । मेगेले
शरीरांतुयि कोण परिक्षा आसिलि ति तुमि अळसुकुणि
कोनुं समजलि ना आनि असंमति केलि ना तरि देवाले येक
दूताले वारि वरं साक्षात् ख्रीष्ट यिशुले सणके माका घेत्लो ।
१५ हे खातिर कोण आनंदालें उत्तर तुमि ते वेळा सांग्लें तो
आनंद खें गेलें तुम्गेले विषयांतु हांव हें उत्तर दितां कि
तरी देळे निकळावुनु दिव्चा सकते जाल्यारि आपणाले

१६ दोळेयि निकळावनु माका दिले। तुम्गेले लागि बह उत्तर
१७ म्हणान यितें हांव तुम्गेलो वैरि जालांस। ते तुम्गेले
लागि होडु खेयु दाकैताति से तरि बरेपणान नैं ते आम्कां
भायर कोर्चाके इच्छिताति कि तुंमि तांगेले लागि खेयु दा
१८ केया। तुम्गेले लागि मेगेलें उपस्थित जाव्चे वेळांतु बरे
कार्यांतु थिर्ड जाव्चें उचित आस मात्र हें नैं तरि नित्ययि
१९ उचित आस। हे मेगेले सान चेर्क्यां कि कोणायाकुनु
खीष्टालें रूप तुम्चांतु उबजुपरांतु हांव नेंवान नाळांतिचा
२० दुकि पाव्तां। हांव तुम्गेले लागि पांवनु दुसरे जीनसा
उत्रं म्हाण्चा इच्छितां तेंयितें तुम्गेले विषयांतु माका संदेहु
२१ आस। तुंमि कि कोण कर्म्मशास्त्राले आधीन जाव्चा इच्छि
ताति माका सांगा तुमि यित्या कर्म्मशास्त्र आयकनांति।
२२ तेंयितें हें बरेलांस कि अबराहामाले दोग पुत आसिले
येक्लो चेडुवाले पोटालो उबजलो आनि दुसरो बायलेले
२३ पोटांयाकुन उबजलास। कोण्लो चेडुवांयाकुनु उबजलो
तो शरीराले मतान जालेलो तरि बायलेलो पुतु प्रतिज्ञेन
२४ उबजला। हो येकु दृष्टांतु आस तेंयितें हें दोनियि बंदेस्ति
-इ [illegible] इ पितेंम दासपण कर्तेलो सिनइ पर्व्वतालि बंदेस्ति तोचि
२५ आगारा। तेंयितें हो आगारा अरबी देशाले सिनई
पर्व्वतु आस आनि कोण सद्या यिरुशालमाले भर्सि मेळ्तास
२६ कि कोण चेरडुं सुद्दा दासपणांतु आस। तरि कोण आम्
गेले सग्ळ्यांलि आंमा बायलि यिरुशालम ति बंदनातिलि।
२७ तेंयितें असि बरैलनु गेलांस कि हे गर्भ नालिले वांजे तुं सुखि
जा हे बाळांति जावनालिले तुं हेंगुन शब्द करी तेंयितें
अनाथ बायलेलें चेरडुं सेजारीणि सिले चेरडाचाके चडाव।
२८ सद्या हे भावा कसि यिस्हाकु आसिलो तसिचि प्रतिज्ञेन उब
२९ जले आमि चेरडुंवं आसंति। तरि कसि तेकालिं कोण्लो
शरीराले वरि उबजलो ताणे आत्मावरि पुताक कांबुलो

३० तशिंचि आतां आस । तरि धर्मपुस्तकांतु यित्तें सांगता पुतु लेत चोडुवाक भायर करि तेंयितें चोडुवाले पुतु क्राडि
३१ केल्या बाय्लेले पुताले भसिं अधिकारी जायशि ना । हे खातिर हे भावानो आम्मि चोडुवाले पुत नैं तरि क्राडि केल्या बाय्लेले पुत आसति ।—

५ पंचम पर्व ।—हे खातिर कोण सुटप खीष्टान आम्कां सुटैलास तांतु थिर जाया आनि दासपणाले खांदिकांबिन
२ आनि सांपोणाकाति । चोया हांव पाउलु तुम्कां हें उत्तर म्हण्तां कि तरी तुमि सुन्नतकार जाया जाल्यारि खीष्टाले
३ मारपतिं तुम्कां कांयि फल जायशि ना । तेयितें हांव प्रमाण दित्तां कि कोण प्रत्येक मनुष्यालें सुन्नत जाता तो कर्म
४ शास्त्रालें सगळें कार्य एतें कोचैं रिणकार आस् । तुम् गेलो कोण कोणि कर्मशास्त्रान यथार्थिकु कोर्नु वोवा तागेले लागि खीष्ट निरर्थक तुमि अनुग्रहांधाकुनु भष्ट आसति ।
५ तेंयितें विश्वासान कोण यथार्थ पण जाता तागेलो भरवसो
६ आमि आत्मा वाटेन कर्तांति । तेंयितें यिशु खीष्टांतु सुन्नत कांयि ना सुन्नत ना कोचें यि कांयि ना तरि सेयान कार्य
७ कर्तलो विश्वासु । तुमि चां धांविल्ले सैं तुम्कां सत्यपण
८ मानुसुचि बाधा कोणे केलि । कोणे तुम्कां आपैले
९ ताजेनहि उम्मेदि ना । अल्प सुर सगळे गुळ्याक खमीर
१० कर्ता । प्रभुले साहायांतु तुम्गेले वोयरि माका हो विश्वासु आस कि तुम्गेलें मंन दुसरे दिका जायसि ना तरि कोण् तो तुम्गेलें दुःख कर्ता तो कोणे मनुष्यु जावो तोचि विचा
११ रांतु आप्णालें फल पावत । हे भावा हांवयि तरी सुन्नत कोचें सिकेन जाल्यारि हांगपरांतु विपरीतपण यित्या पावतां तें जाल्यान क्रुशाले विषयालि बाधा धुर केल्ली
१२ जाति । मेगेलि इच्छा आस कि कोण तुम्गेलें मंन थिर

१३ नातिले करिंत ते उच्छिन्न जाता। तेंयितें हे भावानो तुमि निर्बंदाले खातिर आपोनु गेलेले से तरि शरीरांले वायट कार्य्यांलें खातिर सुटपांलो वेवहार कोर्नाकाति तरि १४ प्रेयान येकलो आनि येकल्यालि सेवा कया। तेंयितें सगळें कर्मशास्त्र येक उत्रान पुर्तें जाता तें उत्तर हें कि आपणाले वारि आपणाले चारीदिकाले लोकांक प्रेयु कया। १५ तरि येकवेळा तुमि येकलो आनि येकल्याक कातया आनि खावनु उडैाया जाल्यारि सावधान जाया कोणजाण १६ येकलो आनि येकल्यान विनाशांतु मेळा। हे खातिर हांव हें म्हणतां आत्मांतु वेवहार कया जाल्यारि शरीरा १७ लि इच्छा पुर्ति ना घर्शाति। तेंयितें आत्माले विरोधांतु शरीर कोर्चैर इच्छिता आनि शरीराले विरोधांतु आत्मा कोर्चैा इच्छिता हे दोनि परस्पर विपरीत आस तांतु तुंमि १८ कोण कोर्चैा तें सकनाति इच्छिताति। तरि येकवेळा तुंमि आत्मावन्यान चेमकोउनु गेल्ले आसति जाल्यारि तुंमि १९ कर्मशास्त्राले वसा नांति। सया शरीरालें कार्य प्रकाश आस तो हें पारार आनि यभिचार अपवित्रपण कामु २० देवपुजा माट वेरिपण भागडें द्वेषु उष्णपण कलोऊ दिंडपण २१ अधर्मु आचरण मर्चोर हत्या मत्तपण दांडगेंपण हिं सग् ळिं कोणाले विषयांतु हांवे पिलॆम म्हळांस् तसि हांव आत्तं तुम्कां उडगासु करेतां कि कोण हे प्रकारा कार्य कर्तांति २२ ते देवाले राज्यालो अधिकार ना पावतित। तरि आत्माले फल हो प्रेयु आनंदु मेळि सावार दिसपरांतु ताळवय २३ मोउपण चांगपण विश्वासु। सहण समान वेवहार हाजे २४ विरोधांतु कोणे यवस्ता ना। कोण खीष्टालो लोकु तानि आकांक्षा आनि कामाले भर्सि शरीराक क्रुशारि हत २५ केलांस। आमि तरी आत्मान दांचनाति जाल्यारि २६ आत्मांतु वेवहार कोर्यां। आमि आपणालि प्रशंसा

कर्तले ना जाउं येक्लो आनि येक्ल्याक कोणी कर्तले येक्लो दुसऱ्यालो देषु कर्तले ना जाउं ।

६ षष्ठ पर्व्व ।—हे भावानो तरी कोणे अकस्मात दोषांतु पल्र्यांति जाल्यारि तुंमि कोण परमार्थं कि मेउपणाले सभावान हे जोनसा मनुष्याक नेंशान बरें कऱ्या विवेचाना २ कोनुं कोणजाण आपणालि परिच्छा केलेले जाता । येक्लो दुसऱ्यालें वोजें वावें आनि हाजेवारि ख्रीष्टाले शास्त्रालें ३ कार्यं पुर्तें कऱ्या । तेंयितें तरी कोणे कांयि जायनातिलें आपणाक होडु कोनुं समजता तो आपणाक टालु दितास। ४ तरि प्रति मनुष्य आपणाले कार्यालें प्रमाण दिया तावळि आनि कोणे मनुष्याचान नैं तरि आपणांथाकुनु आनंदु ५ पावत । तेयितें प्रति मनुष्याक आपापणालें वोजें वावंचें ६ लागत । कोणतो उत्तान सिकैलास तोचि सिकैतल्यांक ७ सगळे चांग वोस्तांथाकुनु येहेंर दिया । तुंमि भ्रमांतु पोंणाकालि देउ भुलसोंउनु बचना कोणतो कोणर वोयता ८ तो ताजेंर फळ पावत । कोणतो शरीराले खातिर बीं वोयता तो शरीरांथाकुनु विनाशालें फल पावत तरि कोण तो आत्माले खातिर बीं वोयता तो आत्मांथाकुनु अनंत ९ आयुशालें फल पावत । आमियि बरें कार्यं कोचेंतु ना दणवउं तेंयितें तरी ना दणवले जाल्यारि उचित वेळातुं १० फल पाउं । हे खातिर कसि आम्गेली फुरसति आस तसि सगळ्यांलें मंगल कोर्चों विशेषत विश्वासु कर्तले मताले। ११ तुम्गेले लागि हांवे आपणाले हाताव कितुलें होडपत्र १२ बरैलांस तें तुंमि चोवितातिं । कितुलो लोकु शरीराले थमीन होड धर्मोनावाडा जातचा इच्छितातिं ते बलत्कारान तुम्गेलें सुन्नत कर्तातिं कोणजाण ख्रीष्टाले क्रुशाले मताचारि जाल्यान कोण दुःख तो पायता मात्र हें ।

१३ तेंयितें कोण सुन्नत् कोनुं गेल्याति ते कर्मशास्त्राक पाल्नांति
तरि तुम्गेलें शरीरांतु हंकार कोचें खातिर कि तुमि
१४ सुन्नतले जाया चें इच्छितांति। तरि तें ना जावो कि प्रभु
यिशु ख्रीष्टाले क्रुशु नंतां ह्नांव आनि कसल्यांतुयि हंकार
करिन कि कसल्यान संसार मेगेले लागि मानुं गेल्ला जालास
१५ आनि ह्नांव संसाराले लागि। तेंयितें ख्रीष्ट यिशुंतु सुन्नत्
कांयि कर्नो सुन्नत् कर्नातिलेयि कांयि कर्नांति तरि मात्र
१६ नें उत्पति। कितुलो लोकु हे शास्त्राले वारि बेवहार
कर्तांति तांगेले वेयरि आनि देवाले सगळे यिस्रएलाचे
१७ रि शांति आनि दया जावो। आत्तं थानुं माका कोण्णे
व्याकुल ना करो तेंयितें ह्नांव प्रभु यिशुलो गुतुं आपणाले
१८ शरीरांतु वांव्तां। हे भावांनो प्रभु यिशु ख्रीष्टालो अनु
ग्रऊ तुम्गेले मनाले भर्सि जावो। आमिन।

## पाउलान कोख पत्र एफिसियांले लागि बरैलें तें हें ।

### १ प्रथम पर्व्व ।

१ देवाले इच्छेन यिशु खीष्टालो प्रेरितु पाउल एफेससा
ले राब्सले पवित्र लोकु आनि खीष्ट यिशुंतु कितुले विश्वासि
२ लोकु आस तांगेले लागि पत्र बरैता । देउ आम्गेले आंता
थाकुनु आनि प्रभु यिशु खीष्टांथाकुनु अनुग्रह आनि शांति
३ तुम्चेरि जावो । आम्गेलो प्रभु यिशु खीष्टालो देउ आनि
आंतु धन्य जावो कि काणे कशि जगतालें पत्तांग दिव्चे
पितंम आम्कां खीष्टांतु पशंत केले । कि आमि पवित्र आनि
४ खेयान तांगेले येदुर निरपराधि जाउं तसि सर्गांले, विव
यांतु खीष्टाले मार्थिं समळे परमार्थालो आशीर्वादु दिउ
५ नु आम्कां आशीर्वादु केलास । आनि काणे आप्णाले
काण अनुग्रहांतु आम्कां मोगांतु घेतलेले तांगेले ऐश्वर्यालि
६ प्रशंसाले खातिर आप्णाले मनाले इच्छेने मणुके पोष्यपुत्र
पण मेळ्चे खातिर आम्कां यिशु खीष्टाले सहायान आप्
७ णा खातिर पितंम नेमक केलांस । काण मोगान आमि
तांगेले रक्तान तांगेले अनुग्रहाले धनाले वारि मोक्ष जावो
८ पाप सुटप पाव्ताति । काण अनुग्रहान ताणे सग्ळि
बुद्धि आनि सावधान पणान आम्चेरि साबाह होडु दाता
९ जालास । काणे आप्णाले मनांतु काण इच्छा नेमक केलेलि
ति आम्गेले लागि कळैलें ताजे मणुके आप्णाले इच्छेले
१० निप्रवप । अर्थात् कि वेळाळें पुर्तें जावचे आखेरींतु स्वर्गुं

११ आनि भुंयितु तकितुलो वस्तु तांकां खीष्टांतु जमा करित । कस्ल्यांतु आमियि कि कोण आपणाले मनालो परामर्शाले वारि सग्ळें कार्य कर्ता तागेले खुशिंतु पितेम नेमक आवनु
१२ अधिकारु मेळास। कि खीष्टाले पितेम शरणागत आमि ता
१३ गेले ऐश्वर्यालि प्रशंसाले खातिर आसति । कस्ल्यातु तुंमियि सत्यपणालें उतर जावो तुम्गेलें संटप दित्तलो मंगल समा चारु आयकुनु शरण घेत्लांस कसल्यांतु तुंमि विश्वासु कर्तचि
१४ ति प्रतिज्ञा कर्तले धर्मात्मरूप मोरेन मुद्रित जालेति । कि कोण तागेलें ऐश्वर्याले प्रशंसाले खातिर ते मोला घेतिले अधिकारालें संटप पर्यांतु आम्गेले अधिकारालो संचकारु
१५ आस । हे खातिर प्रभु यिशुंतु तुम्गेलो कोण विश्वासु आनि सग्ळे पुण्यकेल्यांचेरि कोण स्नेयु हो आयकुनु हांव आप्
१६ णाले प्रार्थनाले वेळा तुम्गेलें नांव घेउनु तुम्गेले खातिर
१७ प्रार्थना कोर्चांक सोणा । कि आम्गेलो प्रभु यिशु खीष्टा लो देउ जावो ऐश्वर्यालो आंनु खीष्टाले ज्ञानान ज्ञान दित्
१८ लो आनि प्रकाश आत्माक तुम्कां दिवोति । कि तुम्गेले बुद्दिले वारि दोळे प्रकाश जातचि तुमि जाणति कि तागेले आपैल्यालो भरवसो यित्तें आनि पुण्यवान लोकांकच्यान आप्
१९ णाले अधिकाराले ऐश्वर्यालें धन यित्तें । कोण मव्हापरा क्रम खीष्टांतु प्रकाश केले ताजे मणके भक्ति कर्तले आम्चेरि
२० तागेले सामर्थ्याले सावार होड सावरायि यित्तेंर आस आनि खीष्टाक मरणांतुल्यान उठ्करायल्यान आनि सग्ळें राज्य आनि पराक्रमु आनि सामर्थ आनि यजमानपण आनि हेचि
२१ म्होंणु जगतांतु मात्र नै तरि जात्तले जगतांतुयि कोण प्रति नांव वोत्ता ते सग्ळ्यांचाके सावार वेत्तर सर्गाले जाग्यांतु
२२ आपणाले उजवान ताका बसैला । आनि सग्ळें तागेले पायांले तोंगुं केलो आनि मंडलीले खातिर ताका सग्ळ्यांलो

२३ येजमानु जाव्चाक नेमक केलास्। कि कोण तागेलें शरीर अर्थात कोण सगळ्यांतु सगळें पुर्ते कर्तास तागेलें पुर्ते पण।—

२ द्वितीय पर्व्वं।—आनि तुम्कां ताणे जीवे केले कि कोण
२ आज्ञा मिर्वपांतु आनि पापांतु मेलेले। कि कसल्यांतु तुंमि पितॆमले वेळांतु हे संसाराले रितिले वारि मळपाले पराक्रमालो रायु अर्थात मानघि नातिले चेरडुवांतु कार्य
३ कर्तलो आत्मा ताजे मणके तुंमि आचार केलो। कोणांतु शरीरालि आनि मनालि इच्छा पुर्ति कर्तले आमि पितॆम आपणाले शरीराले कामान वेवहार केलो आनि अन्यर लोकांले वारि आपणाखे स्वभावान कोपाले योग्य चेरडुवं
४ आसिर्लि। तरि देवान कि कोण दयेन घनाडु आस
५ आपणाले कोण छोड दयेन आम्कां होयु केलो ते स्नेयान आनि केद्ना पापांतु मेलेले तेद्ना ख्रीष्टाले भसि आम्कां
६ जीवे केल्याति अनुग्रहान तुमगेलें त्राण। आनि आम्कां येकडेचि उठ्करायल्याति आनि ख्रीष्ट यिशुंतु सर्गाले जाग्यां
७ तु आम्कां येकडेचि बसैल्याति। कि ख्रीष्ट यिशुले वता तागेलो कोण अनुग्रह आमचेरि आस ताजेन जाव्चे वेळां तु आपणाले अनुग्रहरूप साबार छोड घन प्रकाश कर्ता।
८ तैंयितें विश्वासान तुंमि अनुग्रहान त्राण पाव्ताति तो यिश्वा
९ सुयि आपणाल्यान नैं तरि देवालें दान। कार्यांनै नैं
१० कोणजाण कोणे हंकारा उत्तर म्हणता। तैंयितें आम् गले वेवहाराले खातिर कोण बरें कार्य पितॆम देवान नेमक केलेलें ते बरें कार्य कोर्चे खातिर आमि ख्रीष्ट यिशुंतु उब्
११ जुनु तागेलो केलो वस्तु आस। हे खातिर उडगासु कचा कि हातान केले मनुष्यांतु ख्यात शरीरालें कोण सुन्नत ताजेन सुन्नत नातिलेंरूप ख्यात शरीराले अन्यदेशकार कोण

१२ तुंमि पितमले वेळांतु आसिले तावळिंचि तुंमि खीष्टनंतां आनि यिस्ररएलाले समसमान अधिकारपणान वेगळो लोकु आनि प्रतिज्ञा वारि बंदेस्ति नंतां आनि उम्मेद नातिलें
१३ आनि देवाले नंतां लोकु संसारांतु आसिले। तरि पितमले वेळांतु धुर राव्तले तुंमि आत्तं तुमि खीष्ट यिशुतुं खीष्टाले
१४ रक्तान लागि हाड्डे जालेति। तेंयितें तेंचि आमगले मेळु कि कोणे आण्णाले भितरि दोगांतुलो येक्लो नवो मनष्यु कोर्चें खातिर आनि क्रुसाले साहायान तं दुस्मनपणाक
१५ मारुं उठ्ठोनु तागेले साहायानयि येक शरीरान दोगांक देवाले लागि मेळि कोर्चे खातिर आपले शरीरांतु ते शत्रु
१६ पणाक अर्थात व्यवस्तेन सांपड्डि आज्ञा अर्थात् कर्मशास्त्राक नाश कोर्नुं दोगांक येक केलांस आनि वेगळि कोर्चिं मद्दे
१७ वोणति मोंडु उठ्ठिल्यास। आनि येव्नु धुर राव्तले तुम्गेले लागि आनि लाग्चे तागेले लागियि मेळि कोर्चें
१८ घोषणा केलांस। तेंयितें तागेले मारर्फति आवाले लागि
१९ येक आत्मांतु आम्मि दोगांलि वोंचि वाट आसंति। हे खातिर आत्तं तुंमि आनि वेगळि जाति आनि परदेशकार
२० नें तरि पुण्यवानाले येक शहराले आनि देवाले कुटुंबिकु लोकु आनि यिशु खीष्ट आपणचि प्रधान मुल्लो जावनु प्रेरितु आनि आचार्याले मया्के पंचगारि गांतिल्लें आसति।
२१ कि कोणाले भितरि सगळे बांदपा योग्याले वारि जोडसप
२२ जावनु प्रभुंतु येक पवित्र देवळांतु दिस दिस वाडले। आनि कोणांतु तुंम्मियि धर्मात्माले साहायान देवालो राव्चो येकु जागो जाव्चे खातिर येकडे जोडायि केले आसति।—

३ तृतीय पर्व्व।—हेचि खातिर अन्यदेशकार तुम्चे
१ खातिर हांव पाउलु यिशु खीष्टालो बंदिकार आसं। तें यितें तुम्गेले खातिर आम्गेले लागि वोपसिल्ले देवाले

अनुग्रहाले वारि कोण दिलेले सेवेलेंउत्तर तुमि आयकिलें।
२ कि ताणे प्रकाश कोर्नु हो तत्व विषयु माका कळेलो आनि
४ कसि हांवे पिर्तम संक्षेप बरैलें आनि कोणाले वाजिल्यान
खीष्टालें तत्वविषयांतु मेगेलें कोण ज्ञान तें समजूं सकताति।
५ कि कोण आत्मान तागेले पुण्यवान प्रेरितांले लागि आनि
आचार्यांले लागि कसि आत्तं प्रकाश आस तसि दुसरे वे
६ ळांतु मनुष्यांले लागि प्रकाश ना आसिलें। अर्थात कि
मंगलसमाचारान अन्यदेशकार सहित अधिकार आनि येक
शरीरालें आनि खीष्टांतु तागेलि कोणर प्रतिज्ञा आस
७ तागेले वांटेलि जालित। कोणालो येकु सेवकु हांव देवालो
कोण अनुग्रहावारि दान तागेले पराक्रमालें सफल केल्या
८ नयि माका दिउनु गेलांस तागेले मणके कोर्नु गेलांस। सग्
ळे पुण्यवानायांकुनु सानु माका हो अनुग्रह दिउनु गेलास
कि हांव ज्ञानाले भायलें खीष्टालें धन तें अन्य देशकारांले
९ लागि घोषणा करिन। आनि यिशु खीष्टाले केल्यान
सगळ्यांक उबजायले कोण देवान तांतु संसाराले आरंभां
थाकुनु कोण तत्व गुप्त आसिलें तेचि निपत्ले प्रतिज्ञेले कोण
समान वांट्टा ते सगळे लोकांले लागि दाकोंचे वारि कोण
१० सेवा हो अनुग्रहयि माका दिलास। आनि आमगेलो प्रभु
यिशु खीष्टांतु कोण अनंत नेमु देवान केलोलो ताजे वारि
देवाले सावार जीनसा ज्ञान मंडळीले मार्थतिं सर्गाले
११ जाग्यालें राज्य आनि समर्थांले लागि आत्तं कळोनु गेलें।
१२ कोणाले विषयांतु बिश्वासालेयि साहसान आमि निर्भयि
१३ आनि साहसान येदुर वेचो अधिकार पावतांति। हांव
इच्छा कतां कि तुमगेले खातिर मेगेलें दुःख कि कोण तुम्
१४ गेलें चोडपण तुमि ताजेन दणउ नाकाति। हे खातिर
१५ आमगेलो प्रभु यिशु खीष्टाले आंनाले लागि हांव दिंयो
तेंकतां कि कोणाले नावांन सर्गाले आनि भुंयिलें सगळे परि

१६ वार नांव आल्ले आसति। कि ताचे आपणाले ऐश्वर्याले वारि आपणाले आत्मान भितवेले पुरुषाले समर्थान बलवंत
१७ केलेले जावचाक तुमकां दिता। कि विश्वासान खीष्टु तुम गेले मनांतु वासु करो आनि तुंमि स्नेयान लागिलें मूळ
१८ आनि यदि पंचांग जावनु सगळे पुण्यवानांले भशि समजुं सकणा कि लांबायि कितुलि आनि रुंदायि कितुलि आनि
१९ ओंडायि कितुलि आनि येतरायि कितुलि। आनि कि तुंमि खीष्टालो स्नेयु जाणा कि कोण ज्ञानान च्होड आस कि
२० देवाले परिपूर्णपणांतु तुंमि परिपूर्ण जाया। सघा कोणे आमगेले भितरि आपणाले सफल सामर्थ्याले वारि आम गेले मांगिल्यान आनि चिंता केल्याम सावार च्हडाव कोर्चो
२१ क सामर्थ्यवानु आस। ताका खीष्ट यिशुले साहायान सगळे पुरुषांले चालिंतु अनंत कालपरांतु मंडलींतु प्रशंसा जावो आमिन।

४ चतुर्थ पर्व्व।—सघा हांव कि कोण प्रभुलो दासु तुमकां
२ लालेय कर्तां। कि तुंमि सगळे वापटेपण आनि मोउ पण आनि सावार दिस ताळउनु परस्पर स्नेयु ताळवतले
३ जावनु अविरोदाले दोरियेले बांदपांतुं आत्माले रचा कोर्चे खातिर यत्न कोर्नु। तुंमि कोण आपवपान आयेले
४ जालेति ते आपवपा योग्य वेवहार कोर्चोक कष्टु कचा। तुंमि कोण आपवपान आयेल्ले जालेति तागेले येक भरव
५ सान तुंमि कसि आयेल्ले जालेति तसि येक शरीर आनि येक आत्मा आनि येक प्रभु आनि येक विश्वासु आनि येक
६ बुडकुलि माचिं आनि सगळ्यांचाके उंच आनि सगळ्यान वायो आनि तुमगेले सगळ्यांतु रावतलो सगळ्यांलो येकु
७ देउ आनि आंतु आस। तरि खीष्टाले दानाले हळतां वारि आमगेले प्रति मनुष्याक अनुग्रह दिउनु गेलास।

८ तेंयितें तो म्हण्ता कि केद्ना तो वोयरि चळो तेद्ना तो नागवणोक नागौंनु घेउनु गेलो आनि मनुष्यांक दान दिलें।
९ तो वोयरि गेलो ताजेले हाजेले नंतां अर्थ यित्तें आस कि
१० तो पितॅभ भुंयिले मद्देले तागुं भाग्यांतु देंव्लो। कोण देंव्लो तो तोचि कि कोण सगळ्यांक पुर्ते केचें खातिर
११ सगळे सर्गांचाले सावार येतरांतु उठाय्लो। आनि पुण्यवान लोकांले पुर्ते केचें खातिर आनि सेवेले कार्याले खातिर आनि ख्रीष्टाले शरीराले पुर्ते केचें खातिर ताणे
१२ कितलेक जाण प्रेरित आनि कितलेक आचार्य आनि कितलेक मंगळसमाचार करले आनि कितलेक राखणे आनि
१३ सिकैतलो ताणे दिलें। कि आमि सकळे भक्तिले एक पणांतु आनि देवाले पुताले विषयांतु समजल्यान केदोळु परांतु पुर्ते मनुष्य अर्थात ख्रीष्टाले पुर्तेपणालि लांबायिंक
१४ हव्ळत पाव्नांति। कि आमि हाजे मागिरि चेरडुवं ना जातित आनि मनुष्यांलि कोण भुलवण आनि वायट बुद्धिन ते प्रतारणा दिव्चाक गुप्त राब्तात ताजेन प्रत्येक सिकैत
१५ ल्यांले वारि वाऱ्यान उलटेपुलटे ना जाउं। तरि कोण माथें अर्थात ख्रीष्टु तांतु आम्गले सेयांतु खरें उत्तर म्हण्तर
१६ सगळे प्रकारान वाड्तां। कि कसल्यान सगळें शरीर योग्यावारि जोडसिलें आनि प्रत्येक अंगालें पालन केल्यान तो प्रत्येक वांटे आपणाले प्रमाणान आपणालें२ कार्य सिद्ध केल्यान स्नेहान आपणाक वोयलेवोयरि वाडोचे खातिर
१७ शरीराक वाडैता। हे खातिर हांव प्रभुंतु म्हण्तां आनि प्रमाण दितां कि तुंमि हे वेळांथाकुन आनि अन्यदेशकांलि वारि वेवहार कोर्नाकाति कि कोण आपणाले मनाले
१८ रितपणान चमक्ताति। तांगेलि बुद्धि काळकान भोर्नु वोचुनु आपणाले भितरि राब्लले कुरडेपणान आनि आपणाले मनाले मुर्खपणान देवाले जीवनाथाकुन विकलें जाता

१९ ति। कोणे चैतन्य नातिले जावनु सानार लालचान सगळें अपवित्र कार्य कोर्चाक लुचपणान आपणाक वोपिल्लास।
२० तरि कोण तुंमि तागेलो हालु आयकिलो आस आनि यि
२१ शुंतु कसि सत्य आस तसि तागेले विषयांतु सिकित जावनु
२२ रावा जाल्यारि तुंमि असले खीष्टाक सिकने। आनि के म्हणलां कि पितमले चालिजे कोणर आता तागेले विषयांतु ते कपट अभिलाषाले वारि म्हेळेले पोर्ने मनुष्याक
२३ सोळो आनि तुमगेले मनाले वांच्छेंतु नवे केले वोचा।
२४ आनि तुंमि नवे मनुष्याक न्हेसा कि कोण देवाले वारि यथार्थिक आनि बह्यापणांतु उबजलास।
२५ हे खातिर तुंमि फटि उचं होणचें सोंडु प्रत्येक मनुष्य आपणालेर चारि दिका राबतल्याले भसें बह उतर सांगा तेंयितें आमि
२६ परस्पर अंग आसंति। तुंमि कोपाद्य जावनु पाप कोर्नां
२७ काति तुमगेलो कोपु आस्ताना सुर्यु अस्त ना जावो। आनि
२८ देवचाराक जागो दिउनाकाति। कोणे चोरि केल्यास तो नेंवान चोरि ना करो तरि वरं आपणाले हातान दंद कोर्नुं चां कार्य करशा कि भिकार्याक दिवचाक तागेले
२९ कांयि सुनार जायत। कोणे कुसर्डें उतर तुमगेलि तोंडां थाकुनु ना बाररो तरि आयकतल्यांलो लाबु कसल्यान
३० जायत हे खातिर धर्मु वाडेलें उत्तर सांगा। देवाले धर्मात्माले पीडी कोर्नाकाति कि कसल्यान तुंमि मुक्त कोर्चे
३१ दिसपरांतु मुद्रेन मुद्रित जाल्याति। सगळि कोडु उचं आनि कोपु आनि क्रोधु आनि झगडें आनि वायट म्हणप
३२ आनि दुष्टपण तुमचांथाकुनु धुर जावो। आनि परस्पर सेयु आनि दयाळु जाया कसि खीष्टाले खातिर देवान तुमकां क्षमा केल्यास तसि तुंमि परस्पर क्षमा कर्तले जाया।

५ पंचम पर्व्व।—हे खातिर मोगा नेरडाले वारि

२ देवाले माल्ही वतलो जा । आनि कसि खीष्टान आम्कां
मोगु केलास आनि येक उत्सर्गु आनि बलिदान देवाले लागि
परिमळा वस्ताले वारि आपणाक आम्गेले खातिर वोप्
३ सिलास तसि तुमियि मोगाले वेवहारु कया । तरि
लुचपण आनि सगळें वायट कार्य आनि लोभु कसि पुण्य
वानांले भितरि हें सगळें उत्तर ना सांगचें उचित आस
तसि येक वेळायि तुम्गेले भितरि हें उत्तर सांगु नज ।
४ आनिके कुसडें उत्तर आनि अनर्थ उत्र आनि चेष्टे उत्तरें
५ उचित ना तरि प्रशंसा उचित आस । तेंयितें तुमि
जाणताति कि खीष्टाले आनि देवाले राज्यांतु कोणे वेडि
कारु जावो लुचो जावो लोभि कि कोण देवता पुजा कर्तले
६ लोकांलो अधिकारु ना आस । कोणे निरर्थक उत्तर
म्होंणु तुमकां ना भुलावोति तेंयितें हे सगळे कार्यांन देवा
७ लो कोपु मानसिनातिले चेरडुवांचेरि येतास । हे खातिर
८ तांगेले भसिं वांटेलि जावनाकाति । तेंयितें कांयि दिसा
ले पिर्तंम तुंमि काळोकु आसिले तरि आत्तं प्रभुंतु ऊजवाडु
९ जाया हाजेन प्रभुले येव्चे कार्यांले हें प्रमाण दित्तांर ऊजवा
१० डालि चेरडुवांले वारि चम्का । तेंयितें आत्मालें फल सगळें
११ बरेपण आनि यथार्थपण आनि सत्यांतु आस । काळ्काले
निरर्थकाले कार्यांले भसिं कांयि मेळि कोनाका वरं तांकां
१२ फजेति कया । तेंयितें कोण गुप्त जाग्यांतु तांचांन कोर्नु
१३ वोता तागेलें सांगपयि लज्जेले कारण आस । तरि कोण
अनुचित आस तें ऊजवाडांतु प्रकाश जातास तेंयितें कोण
१४ प्रकाश कर्तो तो ऊजवाडु । हेचि खातिर तो म्हणता कि
हे निदलल्या जाग मरणांतुल्यान उठा आनि खीष्टु तुका
१५ ऊजवाडु दित । समयु वायटु जालास हे खातिर जोके
कि तुंमि बुद्धि नातिल्यांले वारि नांलि तरि बुद्धिवंतांले
१६ वारि समयु सार्थकु कोर्चो विवेचना पूर्वक चमका । हे

खातिर अज्ञानि आउ नाकाति तरि प्रभुलि इच्छा समज्जले
१७ जाया । आनि सोरो कि कसल्यान उत्तरोतर अति
१८ श्रय प्रोवकाज तागेले पिल्यान अमजि जाव नाकाति । तरि
१९ गीत आनि स्तुतिले गीत आनि परमार्थाले गीतालिं उर्व
करीत आनि गायन करात आनि आपणाले मनान प्रभुर्दिर
२० खुशी करीव आनि आमगेलो प्रभु यिशु खीष्टाले नांवान
सगळे जीनसा खातिर देउ बानि बांनाले लागि धन्यवाद
२१ करीत आत्मांतु पूर्ते जाया । आनि देवाले भयान पर
स्पर कळेले जाया ।
२२ हे बायलमर्धिमिनो तुंमि कसि प्रभुले वशीभुत आसति
२३ तसि आपणालेर बंमणाले स्वाधिन जाया । तेंयितें
शरीराले तारशिलको खीष्टु आनि कसि तो मंडलीलें मार्ने
२४ आस तसि बांमुणु बायलेलें मार्त्त आस । हे खातिर
कसि मंडली खीष्टाले स्वाधिन आस तसि प्रत्येक विषयांतु
२५ बायलो आपापणा बांमणाले स्वाधिन जावोति । हे
बंमणा कसि खीष्टान मंडलीक मोगु केलास आनि उदकान
कसि धुनास तसिचि उचांनि तें निर्मल कोनु ताका पवित्र
२६ कोर्चे खातिर आनि माव जावो मिरयो जावो आनि कांयि
२७ हे प्रकारालें आस ना तरि तो तुजवाडु मंडली जायत हे
खातिर आपणाले लागि दिवचे खातिर आनि तें पवित्र
आनि अणुनातिले जावचे खातिर आपणाक ताजे खातिर
२८ दिलांस तसि आपणाले बायलांक तुंमि मोगु कया । कसि
दादलो आपणाले शरीराक मोगु कर्तात तशि आपणालेर
बायलेक मोगु कोर्चो उचित आस कोणतो आपणाले बाय
२९ लेक मोगु कर्ता तो आपणाक मोगु कर्ता । तेंयितें कोणेयि
कोणे वेळा आपणाले शरीराले कंटाळो केलो ना तरि
कसि प्रभु मंडलो रक्षण कर्तास तसि ताजि पालन आनि

३० रक्षा कर्तास । आमि ताग़ेलें शरीर आनि मांस आनि
३१ हाडुालो अंश घासंति । हे खातिर मनुष्य आप्णाले
आंमा अंनाले लागि राब् नातिलें आप्णाले बाय्लेले लागि
३२ राबत आनि ते दोगंयि येक शरीर जातित । हें होड
कठिण उत्तर आस तरि खीष्टाले आनि मंडलीले विषयांतु
३३ हांव सांग्तां । तरि विशेषत तुम्गेले प्रत्येक जाण आप्
णालेर बाय्लेक आप्णाले जीवाले वारि मोगु कर्चा आनि
बायल जोके राबो कि आप्णाले बांमणाक मान्सो ।

६ षष्ट पर्व्व ।—हे चेरडुवांनो प्रभुंतु आप्णाले आंमा
२ अंनाक मानशिया तेंयितें हें उचित आस । प्रतिज्ञा भर्सि
कोण पितेम आज्ञा आस ति हि कि तुगेले मंगल खातिर
३ आनि भुंयिंतु साबार दिस तुगेले राब्चे खातिर आप्णाले
४ आंमा अंनालि मर्याद करि । हे अंनानो तुंमियि आप्
णाले चेरडुवांक कोप कोर्नाका तरि देवाले नीतिन आनि
५ शिक्षेन तांकां पालन कर्चा । हे दासानो कोण तुम्गेले
शरोराबो यजमान तुंमि भय आनि कांपिल्यान आनि कसि
खीष्टाक मानताति तसि आप्णाले मनाक येक संधान कोनुं
६ तांकां मानां । मनुष्याले खुशि कर्तल्याले वारि येदुर सेवा
केल्यान तें नैं तरि अंतःकरणाले सैत देवालें इष्ट कार्य करी
७ त खीष्टाले सेवकांले वारि कर्चा । कोणर चांग कार्य कोण
कोणे कर्तास तो चेडो जावो किंवा सुंटलो जावो प्रभुंयाकुन
८ ताजे मणके फल पावत हें समजुनु कसि प्रभुले लागि आनि
मनुष्याले लागि नैं तेंचि प्रकारा खुशिन सेवा कोनुं तांगेलें
९ उत्तर माना । हे धनियां तुम्गेलो येकु धनि कि सर्गारि
आस आनि तागेले लागि मुखापेक्षा ना हे समजुनु दांबि
१० ल्यान वेगळे रावूनु तुंमि तांचेरि ताजे वारि कर्चा । हे
भावानो वस्तुत तुंमि प्रभु आनि तागेले पराक्रमाले वलान

११ बलाद्य जाया। आनि देवालो सगळो दुखु न्हेसा कि
१२ देवचाराले सगळें कपट चोउचाके तुंमि स्तिर राबा। तें
यितें मांस रक्ताले भर्सि आमगेलें मल्लयुद्ध ना तरि राज्य
आनि पराक्रमु आनि हे संसाराले काळकाले सासन कर्त
लो आनि सर्गाले जाग्यांतु दुर्जनपणाले भर्सैयि आमि मल्ल
१३ युद्ध कर्तांति। सग्ळि मुर्त्तायति हेचि खातिर देवालो
घेया कि तुंमि दुर्दशाले वेळा विकिराबचा सकतातिआनि
तानि सग्ळें केल्यान कि तुंमि स्तिर जाव्चा सकताति।
१४ ह्याजेन तुम्गेलो कुटुं यथार्थपणान बांदुनु आनि यथार्थ
१५ रुप कवच न्हेसुनु आनि कुशलालो मंगल समाचार सिव
पनाले वारि पापासे आप्णाले पायांक दिउनु आनि दुर्ज
१६ नाले सग्ळें जोळचे बाण वाडोचा सकशाति हेचि खातिर
१७ विश्वासालें वेडुान सगळ्यांचेरि घेउनु स्तिर राबा। आनि
त्राणालें बासिंग आनि आत्मालें खांडें अर्थात् देवालें उत्तर
१८ घे। आनि सग्ळि प्रार्थना आमि आत्मांतु दृढ कामना
आनि सग्ळें पवित्र लोकांले खातिर आनि मजे खातिर कि
१९ कोण मंगल समाचाराले खातिर हांव बांदिल्लों वकिलु
आसं ते मंगल समाचारालें गुप्त उत्तर प्रकाश कोर्चे खातिर
हांव आप्णालें तोंड उग्गोंणु निर्भयान उत्त्रं न्होणचि शक्ति
२० पाबन। कि माका कसि योग्य आस तसि निर्भयान सांग्तां
आनि प्रार्थनाले खातिर येकचित्त जाव्चांतु पारो दिउनु
२१ नित्य प्रार्थना कर्या। मेगेले सग्ळें वृत्तांत्त आनि हांव
कोण कर्तां तुम्गेलें तें समजुचे खातिर आमगेलो मोगा भाउ
आनि प्रभुंतु विश्वासि सेवकु तिखिकस आमगेलि सग्ळि
२२ घालि तुम्कां कळैत कि कोणाक हांवे तुम्गेलें मंन सांत्वनि
२३ कोर्चे खातिर धाळास तो तुम्कां सग्ळें जाणैत। भांवा
थाकुनु आनि प्रभु यिशु ख्रीष्टांथाकुनु कुशल देउ आनि मोगु
२४ आनि विश्वासु सग्ळे भावांले लागि जावो। कितुलो

सीकु मनाले येकानुसंझानान प्रभु यिशु ख्रीष्टाक मोगु कर्त्ता ति तांगेले वोयरि अनुग्रह जावो। आमिन

# फिलिपियांले लागि पाउलान बरैलें पत्र।

## १ प्रथम पर्व्व।

१ खीष्ट यिशुतु फिलिपिले रावतले सगळे पवित्र लोकांक
आनि आचार्यांक आनि परिचार्यांक यिशु खीष्टालो दासु
२ पाउलु आनि तिमोतियसु पत्र बरैताति। अनुग्रह आनि
शांति आमगेला आनि देवांथाकुनु आनि प्रभु यिशु खीष्टां
३ थाकुनु तुमचेरि जावो। कोण तुमगेले भितरि चांग कार्य
आरंभु केलास तो यिशु खीष्टाले दिसपरांतु कि तो पुर्ते
करित हांव हे विषयांतु विश्वासि जावनु खुशीन नित्य प्रार्थ
४ ना करित तुमगेले विषयांतु मेगेले प्रत्येक प्रार्थनांतु तुमगेले
५ विषयांतु प्रत्येक उडगासान पिर्तमलो दिसु लागीन आजिप
६ रांतु मंगल समाचारांतु तुमगेले समसमान भागाले खातिर
७ आपणाले देवाक स्तुति कर्तां। तेंयितें तुमगेले सगळ्यांले
विषयांतु हें मनांतु हाडचें माका उचित आस तेंयितें मेगेलें
बांदुनु वोचें आनि मंगल समाचारान राकय आनि निश्चय
प्रमाण दित्रचें हे दोनिचाके तुमि मेगेले पावले, अनुग्रहालें
८ बांटेलि हाजेन तुमि मेगेले मनांतु आसति। तेंयितें देउ
मेगेलो साक्षि आस कि यिशु खीष्टाले मनाले मोगान हांव
९ तुमकां मंगल इच्छितां। आनि हांव हि प्रार्थना कर्तां कि
ज्ञानान आनि सगळें विवेचनान तुमगेलो मोगु उत्तरोत्तर
१० वाडता कि कोणर विषयु चांग आस तुमि तांकां पसंत कर्या
आनि यथार्थपणालें फल कि कोण यिशु खीष्टाले वसा देवालि

११ प्रशंसा आनि स्तुतिले खातिर जातावि तें फलानि भर्लेले
जावनु खीष्टाले दिसपरांतु नोट मंन आनि तडे नातिले
१२ जाया । तरि हे भावानो हांव तुमकां हें कळाेचाक
इच्छितां कि मजेरि जोण्र घडलांस तं मंगल समाचारालें
१३ सफल जावचें खातिर वरं जाल्याति । तेंथितं खीष्टां
तु मगेलें कोण बांदप आस तें रायाले घरांतु आनि आनि
१४ सगळें जाग्यांतु प्रकाश आस । आनि प्रभुंतु कोण भाव
आसति तांगेले भितरि साबार मनुष्य मेगेले बांदपांतु
साहसि जावनु निर्भयान उत्रं कोचांक चडाव हिम्मति कर्ता
१५ ति । कोणेर वायट इच्छेन आनि विरोधान खीष्टाले
घोषणा कर्तांस से आनि कोण्र मनाले रुचिन तें कर्तांस ।
१६ कोणे विरोधान खीष्टालें घोषणा कर्ताति सम अंतःकरणान
नाति आनि मेगेलें बांदपाले वोयरि आनि दुःख दिवचाक
१७ निश्चयसुनु दिताति । तरि हांव कि मंगल समाचाराले
सहायाले खातिर नेमक आसं दुसरे जीनसालो लोकु तें
१८ समजुनु मोगान तें कार्ताति । जाल्यारि थित्तें छलान
जावो किंवा सत्यान जावो खीष्टु प्रकाश कोनु वता आस हे
खातिर कोण कसलोयि जीनसु जावो हांव ताजेंन खुशी कर्तां
१९ आनि खुशीयि करिन । तेंथितें हांव जाण कि हांव कोण
चडाव आपेक्षा आनि भरवसो दवतां कि कसल्यांतुयि
लज्जलो जायशि ना तरि कसि नित्य तसि आत्तंयि जीवनां
२० तु जावो किंवा मरणांतु जावो कि सगळे हिम्मतिंतु खीष्टा
लें गैारव मेगेले शरीरांतु समजुनु बचत ते भरवसाले वारि
तुमगेले प्रार्थनान आनि थियु खीष्टालो आत्मा दिल्यान हें
२१ मेमेले त्राणालो उपकार करीत । तेंथितें माका जीवो
२२ राबचो खीष्टु आस आनि मरप लाभु आस । तरि येक
वेळा हांव शरीरांतु राबुं जाल्यारियि मेगेले श्रमालो हो
२३ लाभु आस तरि कोण पसंत करिन तें हांव नेण । तेंथितें

ह्यांगा राविल्यान साबार चांग कोणयेन कोर्चें आनि खीष्टाले भसि जावचें साजांथाकुन इच्छितलों जावनु ह्यांव ते दोनिचां
२४ के दोनि दिकां ताळ्ळोंलो आसं। तरि शरीरांतु राबचें
२५ तुमगेले खातिर आवश्य आस। आनि ह्यातु स्थिर जावनु ह्यांव समजतां कि माका राबुकाज आनि तुमगेले विश्वासान उबजल्ले आनंदालें उत्तरोतर बाडुयाले खातिर माका तुंमि
२६ सगळ्यांले भसि राबचें लागत्। कि तुमगेले लागि दुसरे वेळा मेगेले वचमान मजे खातिर यिशु खीष्टांतु तुमगेलो
२७ आनंदु साबार चडाव जायत। मात्र तुमगेली चालि खीष्टाले मंगल समाचाराले योग्य जावो कि ह्यांव तुमगेले चोउचाक येचुनु जावो उपस्थित नातिलो राबुनु तुमगेलो समाचाक आयकुं येऊं कि तुंमि येक आत्मांतु आनि येकमनान मंगल समाचाराले विश्वासाले खातिर प्रयत करोत स्थिर राबा।
२८ आनि तुमगेले वैर्यांथाकुनु कसल्यांतुयि भयाछ्य जाव नाका ति कि कोण तांगेले लागि सर्वनाशालो प्रत्यक्ष लक्षण आस तरि तुमगेले लागि त्राणालें लक्षण अर्थात देवाले केल्यान
२९ त्राणालें लक्षण आस। तेंयितें तुमकां खीष्टाले विषयांतु तांतु विश्वासु कोर्चाक दिउनु गेलांस मात्र हें नैं तरि तागेले
३० खातिर दुःख भोगुयि कोर्चां तुमकां दिउनु गेलांस। कोण रीचकारें तुंमि मजांतु पळेलें आनि मजांतु कोण आतंयि आस हें आयकुं पावतातिे।

२ द्वितीय पर्व्व।—हे खातिर तरी खीष्टांतु कांयि सांत ना आस तरी मोगांतु कांयि सुख आस तरी आत्मांतु कांयि येकशीलपण आस तरी कांयि सेयु जावो दया राब्
२ ता जाल्यारि तुंमि समसमान सेयु केंनुं आनि येकसंभानि आनि येकमनि जावनु येकसंभानि जाल्यांन मेगेलो आनंदु

३ पुर्ती कच्या। विरोदान जावो आपणाले प्रशंसान कांयि ना कोर्नु वेचत तरि मनाले नीचपणांतु प्रत्येक जण दुसऱ्या
४ क आपणाचाके चांग समजता। प्रत्येक जाण मात्र आप णालों वस्तु ना सोदोति तरि प्रत्येक मनुष्य दुस्यांले धना
५ लेंयि सोदु करोति। ह्याजन कोण मंन खोष्ट यिशुतु
६ आसिलें तें तुम्चांतु जावो कि कोण देवाले वारि जावनु देवाले समसमान जावचें चोरि समजलो ना। तरि दास
७ पणाले वारि घेतुं आनि मनुष्याले वारि उवजयाले आपणा करिनो केजो आनि मनुष्यालें रुप जावनु मरणाले वसा
८ जावनु अर्थात कुशाचेरि मेर्दिं आपणाक सानु केलो। हे
९ खातिर देवान ताका सावार होडु केलास आनि सगळे
१० नांवाचाके होड नांव ताका दिलस। कि यिशु नांवान सर्गाले आनि भुंयिले आनि भुंयिले तांतुंले प्रत्येक दिंचा टें
११ कतित। आनि देउ आंनाले होडपणालें खातिर यिशु
१२ खोष्टु कि प्रभु आस हें प्रत्येक जोव अंगिकार कारत। हे खातिर हे मेगेले मोय तुंमि कसि मेगेले येदुर आसिले मात्र तें नैं तरि आत्तं मेगेले अविद्य मानंतु तुंमि नित्य चहाव आ ज्ञावति आलेले तसि भय आनि कांपिल्यान आपणालें त्राण
१३ निष्पन्न कच्या। तेंथितें आपणाले इच्छेन तुमच्यांतु इच्छा कोचोंक आनि कार्य कोर्चोंक सिद्ध आसत तोचि देउ।
१४ किरकिर आनि झगडें नंतां सगळें कार्य कच्या कि तुंमि
१५ कोण वांकडे आनि वायट चालि लोकांले भितरि संसाराले दिव्याले वारि उजवाडु दितानि ते लोकांले भितरि निर पराधि आनि हिंसा कर्नातिले जावनु दोष नातिले देवाले
१६ पुत जावोति। आनिके तुंमि जीवन दित्तलीं उत्तं प्रकाश कर्तले जाया कि हांव खोष्टाले दिसांतु खुशी करिन कि हांव
१७ निरर्थक धांवलो ना आनि निरर्थकयि कष्टु केलो ना। कोण

ह्यांवयि तुम्‌गेले बिश्वासाले वारि बलिदानाले आनि सेवेंले
वोयरि उदकाले वारि रकोनु गेलास जाल्यारियि तुंमि
१८ सग्‌ळ्यांले भसि ह्यांव आनंदु आनि संतोषु कर्तां। हे खातिर
१९ तुंमियि मजे भसिं आनंदु आनि संतोषु कर्‍या। तरि
ह्यांव थोडे दिसां मागिरि तिमोतियसाक तुम्‌गेले लागि
धाड्‌चाक प्रभु यिशुंतु भरवसो कर्तां कि तुम्‌गेलि चालि
२० समजुनु चां सांतल्ले जाउं। तेंयितें ताजे वारि मंनकाय
कोणें मजे लागि ना कि कोण आप्‌णाले स्वभावान तुम्‌गेले
२१ विषयांतु चिंता करित। तेंयितें सग्‌ळे आप्‌णालोर
२२ वस्तु सोदितातिं आनि यिशु ख्रीष्टालो सोदु कर्नाति। तरि
ताजे प्रमाण तुंमि जाण्‌ताति कि कसि बापाले भसि पुतु
तसि ताणे मजे भसिं मंगल समाचाराखि सेवा केल्यास।
२३ हे खातिर मेगेलें यित्तेंर जायत तें कळेले जावनु थोडे
२४ दिसां मागिरि ताका धाड्‌चो ह्यांव भरवसो कर्तां। तरि
ह्यांव प्रभुंतु विश्वासु कर्तां कि ह्यांवयि थोडे दिसां मागिरि
२५ वोचा सकन। तरि मेगेलो भाउ आनि सांगातिकाय
आनि सहसैना तरि तुम्‌गेलो प्रेरितु आनि मेगेले भिकार
पणांतु जोगथ्रितलो एपाफ्रोदीतसाक धाड्‌चें ह्यांवे अवश्य
२६ समजलें। तेंयितें वें तुम्‌गेले खातिर प्रयतकाय आसि
लो आनि तुंमि तागेलो रोगु जाव्‌चि खबर आयकिलि तेह
२७ सासार भावितु आसिलो। तो मोर्‌चेवारि रोगि आसिलो
सै तरि ताजेरि देवालि दया आसिलि आनि मात्र ताजेरि
नैं तरि मजेरियि आसिलि कि माका शोकाचेरि शोक जाय
२८ नाशि। हे खातिर ह्यांवे ताका चडाव रवेन धाळास
कि ताका तेंयान पळैल्यान तुम्‌गेलि खुशी जावो आनि माका
२९ शोकु उणो जायत। हे खातिर तुंमि सावार खुशी जावनु
ताका प्रभुंतु ग्रहण कर्‍या आनि हे जीनसाले मनुष्यांखि

३० मर्यादं कर्या। तेंयितें मजे लागिं तुमगेलि सेवा कोण उणे आसिलि ति पुर्ति कोर्चाक तो आप्णालो प्राणु अल्पमुकुशि समजुनु खीष्टाले कार्यान मरणाले लागिं आसिलो।

३ तृतीय पर्व्व।—वस्तुत हे भावानो ह्यांव हें बरेलां तुमि देवालो आनंदु कर्या तेंचि उत्तर तुमगेले लागिं नेंवानर बरेचें मेगेलो दगु ना खरें तरि तुमगेलिसि रक्षा जातास।
२ सुण्यांथाकुनु जोके जाया वायट कार्य कर्तल्यांथाकुनु जोके
३ जाया कातर्तल्यांथाकुनु जोके जाया। तेंयितें आत्माकच्यान देवालो सेवकु आनि खीष्ट यिशुंतु आनंदु कर्तलो आनि
४ शरीरांतु विश्वासु नातिले आमियि सुन्नतकार। शरीरांतु माक्कायि साहसिक जाव्चे कारण् आस तरी कोणे भाव्शिता कि शरीरांतु साहसिक जाव्चे कोण् कारण्
५ तागेलें आस जाल्यारि आटवे दिसा सुन्नतेक्षे यिश्रएलाले वंशालि आनि बेन्यामिनाले पुर्तालि आनि एबरि
६ जातिलि उत्पति जालि एबरि आनि शास्त्र क्रियेंतु फारिशि धर्माले विषयंतु मंडली विरोधकारी शास्त्राले वारि धर्मांतु
७ दोषु नातिलो मेगेलें ताजाके पडाव कारण् आस। तरि कोण२ मेगेलो लाभु आसिलो तो खीष्टाले खातिर ह्यांव
८ नष्ट कोनुं मानशितां। आनि कोणाले खातिर ह्यांवे सगळ्यांले नष्ट पाव्लास मेगेले देचि प्रभु यिशु खीष्टविषयक ज्ञानाले उत्तमताले कारणांतु ह्यांव अवश्य सगळ्यांक नष्ट
९ समजतां। आनि तें सगळें अळसिके ज्ञान कर्तां कि ह्यांव खीष्टु मेळन आनि मेगेले आप्णाले कर्मशास्त्रान जाल्ले पुण्य धरसिल्ले ना जाव्नु। तरि कोण् पुण्य खीष्टांतु विश्वासाले वाटेन जाता अर्थात विश्वासान देवांथाकुनु उबजलें
१० पुण्य पावन्। कि ह्यांव तागेले मरणाले वारि केल्लें जाव्नु ताका आनि तागेले नेंवान उठपालो पराक्रमु आनि तागेले

११ दशाचें समदुःख समजुनु कोणे रीतिन मेले लोकांलें नेंवान
१२ उठंप पाव्चा सकुं । हांव कसि आत्तं पाव्लों किंवा आत्तं
शुद्ध जालों ताजे वारि नैं तरि कोणा खातिर हांव ख्रीष्ट
१३ यिशुंतु धर्ल्लों आसं हांव तें धोर्श मास्तिर धांवतां । हे
भावानो हांवे कि पाव्लांस तें मानसि ना तरि हें येक कार्य
हांव कर्तां मागि कोण२ आस हांव तांतु विसर्लों जावनु
आनि मुकारि कोण२ आस् तें मेळचांतु यत्न कोर्नु प्रभु
यिशुले वारि देवालें कोण् महा आकानरुप पंताले खातिर
१४ हांव कोटें धोंधांक प्राशु पंतु कर्तां । हे खातिर आमि
१५ कितुलो लोकु शुद्ध हांतु मन लागिलो जाला आनि तुमि
तरी कोणे विषयंतु अन्यमनि जाया जाल्यारि हेंवयि देउ
१६ तुम्गेले लागि प्रकाशु करित । तरि कोणपरांतु आमि
पाव्लांस आमि तेचि ववखेले वारि आचरण् कर्तांति
आनि तेंचि कार्य मान्तांति ।

१७ हे भावानो मिगेले मताचारी जाया आनि तुम्गेलो मागि
कि आमि आम्गेले मताले वारि चम्कतल्यांक चोया । तेंयिलें
१८ अनेक हाणे वारि आचरण् कर्तांति कि ते ख्रीष्टाले क्रुशाले
शत्रु जातांति हेंचि उत्तर हांव तुम्कां नेंवान नेंवान सांग्
१९ लांस आनि आत्तंयि रडत सांग्तां । तांगेलें शेष सर्वनाशु
तांगेलो देउ तागेलें अपणा२ पोट आनि क्रसल्यान तांगेलि
२० लज्जा ताजेन ते धंकारी जातांति ते संसाराले विषयु मान्
२१ तांति । तरि कोसु कोण करपेन सगळें आपणाले साधिन
कोर्चो सक्ता तेंचि करपाले वारि आपण तेअखि शरीराचे
रुपांतु कोर्नु वोचे खातिर आमगेले फटि शरीराक अन्य
मुर्ति करित कि आम्गेलो तारासितलो प्रभु यिशु ख्रीष्ट
तांगेलि अपेक्षा धेंधाकुनु आमि कर्तांति तेंचि स्वर्गातु आम्
गेलें आचरण वास ।

४ चतुर्थ पर्व।—हे खातिर मेगेले चडाव मोगा आनि चडाव इष्टा भावानो मेगेलो आनंदु आनि मेगेलो मुकुटु चे
२ मेगेले भो लोहिता तुमि प्रभुंतु अस्ले स्थिर जाया। हांव इउयोदियासाक लालेप कर्ता आनि संतखिकयि लालेप
३ कर्ता कि ते प्रभुंतु एकचित्ति जायत। हे सत्य योक जोडी हांव तुका बिनंति कर्ता मंगल समाचारांतु मेगेले भर्सि कोण वायल्लांनि श्रमु केलो तांगेलें आनि क्लेमेसालें आनि मेगेले आनिर साह्ययकार कि कोणालें नांव जीवनपुस्तकां
४ तु दर्रैलांस तांगेलोवि उपकारु कचा। प्रभुंतु सर्वदा आनंदु कचा नेंवान हांव सांग्तां कि आनंदु कचा। तुम्
५ गेलें मोउपण सगल्यांले लागि कोळनु वेचो प्रभु लागि
६ आस। कोणे विषयांतु चिंतित जावनाकाति तरि सगले विषयांतु धन्यवादयुक्त कामना आनि प्रार्थनाले वाटेन तुम्
७ गेलें सगळें कळौचें देवाले लागि जाणैसे जाया। आनि बुद्धिंतु चिंता नातिले देवाले उपजल्ली शांति शांति प्रभु यिशु खीष्टाले वाटेन तुम्गेले अंतःकरण आनि मन रक्षा
८ करिव। वस्तुत हे भावानो कोणर कार्य सत्य कोणर कार्य आदरणुयें कोणर कार्य प्रकृत कोणर कार्य निर्मल कोणर कार्य मोगा योग्य कोणर कार्य सुख्यात तरी कोणे उदार्य आनि तरी कोणे स्तवकोर्चो विषयु आस जाल्यारि
९ तांतु मनयोगु कचा। मेगेलि कोण क्रिया तुमि सिकल्यास आनि ग्रहण केलांस आनि आयकिल्यांस आनि पळैलांस तें
१० कचा आनि शांति दितलो देउ तुम्गेले भर्सि रावत। हांव प्रभुंतु होडु आनंदु कर्ता कि आत्तं उर्डल्यांतु मेगेले खातिर तुम्गेलि कोण चिंता आनि फसल्यांतु तुमि भावित आसिलि तरि संगाल्याले अभावु आसिलो ति चिंता नेंवान वाड
११ ल्यास हांव कोण अभावु जावनान हें सांगतां तें नैं नैंयतें मेगेलि कोण प्रत्यक दशा आयल तांतु शांव राव्चाक हांव

१२ सिकलांस्। हांव दीन जाव्चा जाण आनि साबारांलो उपभोगु जाव्चा जाण सग्ळे जाग्यांतु आनि सग्ळे दर्शेंतु साबाराले आनि नाविस्याले भोगु कोर्चांक हांव शिकेलों
१३ आस। मेगेलें सामर्थ्य कर्तलो कि ख्रीष्टाले वाटेन हांव
१४ सग्ळें कोर्चां सक्वां। तरि तुंमि चांकेलो मेगेले दुःखांतु
१५ कि उपकार केलो छे फिलिपीनो संप्रति तुंमि समजा कि मंगल समाचाराले पित्तंम वेद्ना हांव माकिदोनियांथाकुन् प्रस्थान केलें तावळि तुमगेलें नंतां दिव्चा घेव्चांतु कोणी
१६ मंडली मेगेले भर्सिं कोणयि संपर्कु केलोना। तेंथिर्ले तेसलोनिकांतु तुंमि येक वेळा दोनि वेळा मेगेले उपकाराले
१७ खालिर धाळ्यासि। हांव कि दान इच्छा कर्तां तें नैं तरि हांव इच्छितां कि तुमगेले लाभाले खातिर फल मोसाबार
१८ जायत। तरि मेगेलें सग्ळें आस आनि अधिकयि आस तुम्चांथाकुनु कोण वस्तु धाडु गेलो अर्थात परिमळालो संतोषु देवान घेव्चें आनि खुशि कोर्चें उत्सर्गु कोर्चो वस्तु
१९ एपाफ्रासाले हातांतु मेळनु हांव पूर्ती आसं। तरि विभ वांतु तागेलें कोण धन ख्रीष्ट यिशुकध्यान आस ताजे वारि मेगेलो देउ तुमगेले सग्ळें आवश्यक वस्तु दांगु दित।
२० सदा देउ अर्थात आमगेलो धांनालो महात्मा सदा सर्वदा
२१ चडाव जावो। आमिन। प्रभु यिशुंतु कोण प्रत्येक पवित्र
२२ लोकु आस ते प्रति जाण्यांक नमस्कार कर्या। मेगेले भर्सिं कोण भात्र आसति ते तुम्कां नमस्कार कर्तांति। सग्ळे
२३ पवित्र लोकु विशेषतः काइसरालें परिजन तुम्कां नमस्कार कर्तांति। प्रभु यिशु ख्रीष्टालो अनुग्रह तुमगेले सग्ळ्यांले लागि जावो। आमिन।

# पाउलु प्रेरिताने कोलस्सीयांले लागि बरैलें पत्र हें।

## १ प्रथम पर्व।

१ देवाले इच्छेन यिशु ख्रीष्टालो प्रेरितु पाउलु आनि आम्
२ गेलो भाउ तिमोतियसु कलसिले राव्तले ख्रीष्टांतु पवित्र
आनि विश्वासि भावांले लागि पत्र बरैताति।
३ देउ आम्गेले आंनाधाकुनु आनि प्रभु यिशु ख्रीष्टांधाकुनु
४ अनुग्रह आनि शांति तुम्चेरि जावो। मंगल समाचारा
लें कोण सत्य उत्तर कसि सग्ळे जगतांतु तसियि तुम्गेले
५ जाग्यांतु उपस्थित आस आनि यथार्थरूपांतु कोण् दिस
६ परांतु तुंमि तें आयकिलें आनि देवालो अनुग्रह समजुं
७ पाव्लो कसि तुम्गेले भितर फलवानु तसि सग्ळे जगतां
तुयि फलवान आसति तागेले भितरि तुंमि कोण भरवसालें
८ उत्तर आयकिलें ते तुम्गेले खातिर स्वर्गांतु रक्षित भरव
साले वारि आमि ख्रीष्ट यिशुंत तुम्गेलो विश्वासु आनि
सगळे पवित्र लोकांचेरि तुम्गेले प्रेमालें उत्तर आयकुनु
तेंचि कालुधाकुं तुम्गेले खातिर नित्य प्रार्थना करित देउ
आनि आम्गेलो प्रभु यिशु ख्रीष्टाले आंनाले लागि धन्य
९ वादु कर्तां। आम्गेलो चडान मोगा सहदासा आनि
तुम्गेले खातिर ख्रीष्टालो येकु विश्वासी सेवकु इपाफ्रासु
आनि कोणे आत्मांतु तुम्गेलो मोगु आम्कां उलैलो तागेलं
१० येदुर कसि तुंमि समजुं पाव्लें तसि। हेचि खातिर आमि
कोण् दिसुलागिन तें आयकुचा आय्लें तेदुसुलागिन आमि

तुम्गेले खातिर प्रार्थना आनि इच्छा सांगताति कि तुंमि सगळें ज्ञान आनि पारमार्थिक बुद्धितु तागेलि इष्ट क्रिया
११ ज्ञानांतु पुर्ते जाया। आनि प्रति चां क्रियेंतु फलवानु आनि देउज्ञानांतु वाडतले आनि आनंदान सगळें क्षमपण आनि लांबि क्षमा कोर्चांतु तागेले तेजाले सामर्थ्यावारि
१२ बलवान जावन्। आनि कोणे ऊजवांडांतु पवित्र लोकांले अधिकाराले वांटेलि जावचे योग्य आम्कां केल्यावि।
१३ कोणे काळकाले पराक्रमांथाकुन आम्कां मुक्त केल्याति आनि कोणाले भितरि तागेले रक्तान आमि मुक्त कोर्चें अर्थात पापमोचन पावताति तागेले तेचि मोगा पुताले
१४ राज्यांतु आम्कां अवस्थित केलास हेचि आनाले लागि धन्यवादु कर्तलोयि जावनु कि तुंमि सगळे खुषिंतु प्रभुलें
१५ आचरण कर्चा। कोणेयि अदृश्य देवालें प्रतिबिंब आनि
१६ सगळे सृष्टिलें मूल। तेंयितें स्वर्गाले आनि भुंयिले कोणर आस देकुंयेवचे आनि देकुं येनातिले सगळांतु तागेले केल्यान सृष्टि आसिलें सिंहासन जावो किंवा प्रभुपण जावो किंवा राज्य जावो किंवा पराक्रमु जावो सगळेंयि तागेले
१७ केल्यांन आनि ताजे खातिर सृष्टि आसिलि। तो सगळ्यांलें पितेंम आनि तागेलें केल्यांन सगळ्यांले संस्थिति
१८ आस। आनि सगळे विषयांतु तागेले प्रधान जावचे खातिर कोणे आदि आनि मरणांथाकुन पितेंम उबगलो आस
१९ तोवयि शरीराले अर्थात मंडलीले मातें। तेंयितें आनालि तुष्टि आसिलि कि तागेले भितरि सगळें पूर्णपण
२० रावता। आनि तागेले क्रुशाले रक्ता वाटेन मेळि कोर्नु तागेलो केल्लो सगळो वस्तु भुंयिलो जावो किंवा स्वर्गावेलो जावो सगळें आपणाले भर्सिं मेळोउपाकयि तागेलि तुष्टि
२१ आसिलि। आनि पितेंम विरोधु आचरण कर्तलो आनि वायट क्रियेंतु मनालें भासिं शत्रु कि तुंमि आसिले तुम्कां

शुद्ध आनि निरपराधी आनि अपवादु नातिलो कोर्नु तागेले
२२ येदुर दिव्चे खातिर तो मरणाले वाटेन आपणाले मांसाले
२३ शरीरांतु आत्तं मेळैलांस । तरी तुंमि विश्वासांतु घट्टि
लागा आनि स्थिर जावनु रावा आनि कोण मंगल समा
चार तुंमि आयकिलास आनि सर्गाले तोंगु प्रति सृष्टि
ले लागी कोण घोषणा केलें तुम्गेले खातिर मेगेलो कोण
दण तांतु खुशी कर्ता आनि ख्रीष्टालें कोण वचिल दुःख तें
२४ तागेले शरीरालें अर्थात मंडलीले खातिर आपणाले शरी
रांतु पुर्ती कर्तालो ह्यांव पाउलु कोणालो येकु सेवकु आतां
तेचि मंगल समाचाराले भरवसांथाकुनु तरी तुंमि हाल
२५ नाकाति जाल्यारियि मेळलांस । आनि कोण नेमु
तुम्गेले खातिर मेगेले लागि समर्पिलें आस देवाले ते
रीतिलें वारि देवालें उत्तर पूर्ते जीनसान प्रकाश कोर्चे खा
२६ तिर ह्यांव ते मंडलीलो येक सेवकु नेमक आसं । अर्थात्
कोण प्रकाशु नातिलो विषयु पितृमले वेळांतु आनि पितृम
२७ ले लोकांथाकुनु गुप्त आसिलो तरि अत्तं तागेले पुन्यात्मा
लोकांले लागि प्रकाशित आस कोर्यांले लागि देउ अन्यदेश
कारांले भितरि स्थिर प्रकाश नातिलें नेमालें धन हें कच्चें
चक इच्छिलें अर्थात तुम्गेलें भितरेलें मेचा प्रत्याशा
२८ ख्रीष्ट । आनि प्रत्येक जाणाक सिच्चा करीत आनि सगळे
ज्ञानांतु शिक्षित कोर्यांले घोषणा कर्तां कि प्रत्येक मनुष्याक
२९ ख्रीष्टांतु परिपूर्ण देवाले येदुर दित । आनि तागेलें कोण
करप मेगेले भितरि सफल क्रिया कर्ता ताजे वारि यत्न
कोर्नु ह्यांव कोण वारणांतु श्रमु कर्तां ।

२ द्वितीय पर्व्व । तेंयितें ह्यांव इच्छा कर्तां कि तुंमि जाण
ताति कि तुम्गेले खातिर आनि लाउदिकेयांले राबतल्यां
ले खातिर आनि कितुले लोकानि मेगेलें तोंड पळैने आस

तांगेलेयि खातिर मेगेलें यितें महा युद्ध ग्रासिलें कि तांगे-
लें ग्रंतःकरण मोगु ग्रानि बुद्धिले पूर्ते निर्नयरुप धनाले
२ खातिर ग्रानि कोणाले भितरि लिया ग्रानि ग्यानाले वारि
सगळें धन गुप्त जायत हेचि देउ ग्रानि ग्रांनु ग्रानि ख्रीष्टा-
लें प्रकाग्र नातिलो विषयु स्वीकारा खातिर कुडुउनु सांत्विल
४ जायत। ग्रानि हांव हें उत्तर म्हण्तां कोणजाण कोणे मनो-
५ रम उत्तर म्हण्यान तुम्कां भुलैत। तैंयितें हांव तरी शरी-
रांतु ग्रसाद्धात जालां जाल्यारियि ग्रानंदु करीत ग्रानि
तुम्गेलि चां रीति ग्रानि ख्रीष्टांतु विश्वासाचें स्थिरपण
६ चोयत मनांतु तुम्गेले भसिं साद्धात ग्रासं। हे खातिर
कसि तुंमि यिशु ख्रीष्ट प्रभुक घेत्लास तसि तागेले भितरि
सांपडेंमूळ ग्रानि जोडसिलें जावनु ग्रानि कसि विश्वासान
७ सिकैल्ले जालेले तसियि स्थिर जावन ग्रानि ताजेन ग्रति
८ धन्यवादु कर्तले जावनु ताजे भितरि ग्राचरण कया। जोको-
कोणजाण ख्रीष्टाले वारि नै तरि लौकिक वेवहार ग्रानि
संसारिक ग्यानाले रीति वारि विद्याति ग्रभिलाष ग्रानि
९ निरर्थक कपटाले वाटेन कोणे तुम्कां नष्ट कर्ता। तैंयितें
१० पूर्ते ईश्वरत्व ख्रीष्टाले भितरि पुर्तें वासु कर्ता। ग्रानि
कि कोणे तागेले भितरि तूंमि संपूर्ण ग्रासति सगळें
सांराज्य ग्रानि पराक्रमालो येजमानु सकल्यांतु कोणाले
भितरि तुंमि ख्रीष्टाले सुन्नताले वाटेन शारीरिक पापरुप
शरीर सांगु दिव्यांतु हातान कर्नातिले सुन्नतान सुन्नेतले
११ ग्रासति। ग्रानि बुडकुलेंतु तागेले भसिं कबरांतु निद-
कराउनु ग्रास कासल्याम मरणांथाकुनु ताका उठकरायत-
ले देवाले करपान विश्वासाले वाटेन तुंमि तागेले भसिं उठ-
१२ करायले जाया। तुंम ग्राप्णांगेलें पाप ग्रानि शरीराले
ग्रसुन्नतांतु मेल्यारि ताणे ग्राम्गेलो विरोधु ग्रानि विपरीत

१३ कोण्ण व्यवस्था बरेल्यास ति लोपु कोर्नुं आनि आप्ण क्रुसारि
१४ बांदुनु धुर कोर्नुं। आनि तुम्गेलि सर्गळि आज्ञा मिर्वेप
१५ माय कोर्नु तुम्कां ताजे भसिं जीविग्गिल्याति। आनि सा॑
राज्य आनि पराक्रमु नष्ट कोर्नुं तांतु तांगेले वोयरि जय
१६ कोर्नुं तांकां कौतुकान प्रकाश केलांस। हे खातिर कोण्ण२
भविष्यत तांगेले सावळे वारि खाजकें पिवप पर्वे अमावस्या
आनि श्राबत दिसु ह्यांगेले विषयांतु कोणै तुम्कां विचारु ना
१७ कोरोषि। तें सगळें भविष्यद्विषयाले सावळेले वारि खरें
१८ तरि शरीर ख्रीष्टालें आस। कोणै इच्छा तकित दैन्यांतु
निपुणु आप्णाले मांसिक मनांतु गर्ब्बितु जावनु कसलें तांगे
ले देकु येनातिलें तांतु रिगुनु दूतांलि सेवा कोर्चीक इच्छेश्नी
१९ जावनु। आनि कसल्योधाकुनु सगळें शरीर गांटि आनि
सिरांतु प्रतिपोस्तलो आनि युक्त जावनु देवाले वाडपान
वाड्बां असलें कोण्ण मात्तें तें ना धेनु कपट कोर्नुं तुम्कां ना
२० टाळवो। हे खातिर खेच्छान उब्जलें भजन आनि दैन्य
आनि शरीराले लागि कठोर वेवहारु आनि शरीर तृप्त
केल्यान कांयि मर्यादु कर्तले तें कोण्ण क्रिया हें सगळें कृत्रि
म ज्ञाना वारि कोण्ण संसाराले ज्ञानालें मूळ आचरणांतु
२१ व्ययतव ते ज्ञानाले मूळाले लागि तुंमि तरी ख्रीष्टाले भसिं
मेल्ले जाया जाल्यारि संसारांतु कोण्ण लोकु आचरण कर्ता
२२ ति तांगेले वारि आपोंग्णाकाति चिंव्नाकाति ह्यातांतु घेउ
२३ नाकाति हेंचि उत्तर सांगुनु मनुष्यालि आज्ञा आनि शिक्षे
के यत्तले आधिन यित्या जाताति।

३ तृतिय पर्ब्ब।—हे खातिर तरी तुंमि ख्रीष्टाले भसिं
उठायले जाया जाल्यारि देवाले उजव्यान खैं ख्रीष्टु वैसुनु
२ आस वोयले धंचे वस्तुजो सोदु कर्या। वोयले वस्तुले
३ लागि मंन दिया तरि भुंयले वस्तुले लागि नैं। तेंमितें तुंमि

४ मेल्याति आनि तुम्गेलें जीवन खीष्टाले भसिं देवाले भितरि गुप्त आस आम्गेलें जीवन कोण खीष्टु तो केद्ना प्रकाशित जायत तेद्ना तुमियि ताजे भसिं मोचांतु प्रकाशित जाश्या
५ ति। हे खातिर तुम्गेलें कोण अंग भुयिंतु आस तें मार्नु उडै अर्थात वेश्यागमन अशुद्धपण अयवस्थित मोगु वायट
६ कामु आनि लोभु अर्थात देवपूजा। कि कसल्यान देवाला
७ कोपु मानशि नातिले चेरडुवाचेरि पडता। कोण आचरण तुमि कोण कालिं तें कोर्चांतु चालु कातलो तेंचि कालांतु
८ तो आचार केलो। तरि आत्तं हें सगळें तुम्गेलि तोणां थाकुनु धुर कोर्नु सोड्या अर्थात् कोपु ऊनपण आनि हिंसेलि इच्छा आनि देवालि निंदा आनि वायट सेयु। यक्लो आनि येकल्याले लागि फट्टि उत्तर सांगु नाका तेंयिते
९ तुमि पोर्नें मनुष्याक तागेलि क्रिया सैत सोडुनास आनि नवे
१० मनुष्याक परिधान केलो कोण आपण सृष्टिकर्त्ताले मूर्तिले
११ वारि नवें केलें आस आनि खें ग्रीक नैं यिऊदी नैं सुन्नत नैं असुन्नत नैं म्लेच्छ नैं स्कृति नैं बांदप नैं मुक्त नैं तरि खीष्टु
१२ सगळ्यांतु सगळें। हे खातिर देवाले मनोनीत लोकु
१३ शुद्ध आनि प्रीतकार कोण्लि जातीत तांगेले वारि परस्पर क्षमा करीत आनि परसर ताळवप करीत भितर्लि दया आनि प्रीति आनि मनालें निरहंकारपण आनि मोउपण
१४ आनि अनेक ताळवप न्हेसा। तरी कोणाले भसिं कोणालो विरोधु आस आल्यारि कसि खीष्टान तुम्कां माफ केलें तसि तुमि अन्योन्याक ताळविया आनि संपूर्णपणालें बांदप
१५ अर्थात सेयु हे सगळ्यांचाके चडाव न्हेसा। आनि कस्लें भोगु कोर्चाक तुमि येक शरीरांतु नेमक आसति देवालि तीचि शांति तुम्गेले अंतःकरणांतु येजमानपण करो आनि
१६ कृतज्ञपण स्वीकार कर्तले जाया। तुमि अंतःकरणांतु गुण विशिष्ट जावुनु प्रभुले लागि गायन करीत आनि गीत आनि

स्तुति गीत आनि परमार्थ गीत गायनाले वाटेन परस्पर उपदेशी आनि हिताले खातिर वादु कर्तेलो जाल्यान खीष्टा लें उत्तर सग्ळे ज्ञानांतु सग्ळे जोनसांतु तुम्गेले भितरि
१७ वासु करोंति । आनि उज्ञान जावो क्रियेन तुंमि कस्लेंर कर्तांति देवाले लागि आनि तागेले वाटेन आंनाले लागि आनि कृतज्ञपण स्विकारु करीत सग्ळें प्रभु यिशुले नावांतु कर्या ।
१८ हे बायलांनो कसि प्रभुंतु वशीभुत जाव्चें उचित तसि
१९ आपणार बांमणांले स्वाधिन जाया । हे बांमणांनो तुंमि आपणालेर बायलांक मोगु कर्या आनि तांगेले विरोधांतु
२० कोडु जाव् नाकाति । हे चेरडुवांनो सग्ळे कार्यांतु तुम्गेले आंनाले आंमालें उत्तर आयका तेंयितें प्रभुले लागि
२१ निवि होडि खुशी कोर्चें कार्य । हे आंबानो तुम्गेले चेरडुवांक तोपिहिं कोर्नाकाति कोणजाय ते निराशी जातिल ।
२२ हे दासांनो शरीराले वारि धोणाले तुम्गेले येजमान तांकां सग्ळे क्रियेन मानसिया मनुष्यांक उल्लासि कर्तेले कसि कर्तोंति तसि प्रत्यक्ष सेवा केल्यान ना तरि देवाले लागि
२३ भय केल्यान अंतःकरणाले भसिं कर्या । आनि प्रभु
२४ थाकुनु कि तुंमि अधिकाराले फल पावशांति हें समज्ले जावनु तुंमि कस्लेंर कर्तांति तें प्रभुक उद्देश कोनु अंतःकरणाले सेत कर्या आनि मनुष्यांक उद्देश कोनु कोर्नाकाति।
२५ तेंयितें तुंमि प्रभु यिशु खीष्टालि सेवा कर्तांति तरि कोणुलो दोषु कर्ता तो आपणाले केल्ले दोषालें फल पावल ।

४ चोतें पर्ब्बं । आनि पक्षपातुयि नैं हे धनियांनो स्वर्गांतु तुम्गेलो येकु धनि आस हें समजुनु कोण उपयुक्त
२ आनि कार्यंनारि तें आपणाले चाकरांक दिया । आम्गेले
३ खातिरयि नित्य प्रार्थना कर्या आनि धन्यवादु केल्यान घारो

दिवचांतुवि प्रवृत्त जाया कि देउ आमगेले लागि उत्तर सांग्
४ याले बागिल उगड्ता कि ख्रीष्टाले कोण तत्वाले खा
तिर बांदिल्लों आसं मेगेलें तें तत्व प्रकाश कोर्चें कसि दोर्चें
५ छांव तसि तें प्रकाश कर्ता। कोणुते भायर आसति तुंमि
कालु सार्थकु करीत तांगेले लागि ज्ञानांतु वेवहार कर्या।
६ तुम्गेलें उलवप गुणयुक्त आनि मिटान मिडसें नित्य आवो
कि तुंमि समझा प्रत्येक मनुष्याक तुम्गेलें यिसेंर उत्तर
७ दिउचें उचित। तुमगेलि अवस्था जाणपाक आनि तुम्
गेलें अंतःकरण सांतिल कोर्चेक दोण मेगा भावा आनि
८ विश्वासि सेवकु आनि प्रभुंतु सहदास तिखिकसाक छांव
विश्वासी आनि मेगा भाउ आनि तुम्गेलो येक्लो कि ओने
९ सिमसाले भर्सि यळ्ळास। तो मेगेलि सग्ळि अवस्था
तुम्कां कळैत छांगा कोणर जालांस तें सगळें तो तुमकां
१० कळैंतित। मेगेलो सहबंदिकार आरिस्तार्खसु आनि
बार्णबालो भाचो मार्कसु कोणाले विषयांतु तुंमि आज्ञा पाव्
लेले तो वरी येत्ता जाल्यारि ताका मर्यादापूर्वक घेया।
११ आनि यिशु नांवालो यष्टसु हे कितलेक सुन्नतकार तुम्कां
नमस्कार कर्तांति देवाले राज्याले खातिर मेगेले सहकारां
ले भितरि कोणुते मेगेलि सांत्वना कर्तेलि आसिले ते मात्र
१२ हे कितलेक मनुष्य। ख्रीष्टालो येलु सेवकु आनि तुम्गे
लो येक्लो एपाफ्रासु तुम्कां नमस्कार कर्ता आनि प्रार्थनां
तु तुम्गेले खातिर नित्य उत्तम जावनु यत्न कर्ता कि तुंमि
सग्ळे प्रकारान देवाले इष्ट क्रियेन पुर्ते स्थिर जाया।
१३ तेंयितें तागेलि हि साक्षि छांव दितां कि तुम्गेले खातिर
आनि लाओदिकेयाआनि हियेरापोलिसां रावतल्यांले
१४ खातिर तागेलों होडु उत्साहु आस। मेगा वैद्य लूकु
१५ आनि देमासु तुम्कां नमस्कार कर्तांति। लाओदिकेयाले
भावांक आनि नंफासु आनि कोण मंडली तागेले घरांतु

१६ आसति तांकांयि नमस्कार कऱ्या । केद्ना हें पत्र तुम्गेले भित्तरि वाजिलें जाता तेद्ना लाओदिकेयांले मंडलींतु तें पाठ करैन आनि लाओदिकेयांथाकुनु कोण पत्र आय्लांस
१७ तें तुंमियि पाठ कऱ्या । आनि आर्खिपसाक सांगा कोण सेवा प्रभुंथाकुनु पाव्लास तें पुर्तें कोर्चीक होड सावधान
१८ आया । हांव कोण पाउलु मेगेले हातान बरैलो नमस्कार हो मेमेले बांदप मनांतु कऱ्या अनुग्रहु तुम्गेले भर्सि आवो आमिन ।

# पाउल प्रेरितान कोण् पितंमलें पत्र तेसलोनीयांले लागि बरैलें आसिलें तें हें

## १ पितंमलें पर्व्व

१ तेसलोनीयांली कोण मंडली देउ आंनु आनि प्रभु यिशु खीष्टंनु आस ताजे लागि पाउलु आनि सल्वानसु
२ आनि तिमोतियसु पत्र बरैता। देउ आम्गेलो आंनु आनि प्रभु यिशु खीष्टांधाकुनु अनुग्रह आनि शांति तुम्
३ घेरि आवो। हे भोगा भावालो आमि आपणागेले प्रार्थनांतु तुम्गेलें नांव कोनुं देउ आनि आम्गेले आंबाले द
ष्टिंतु प्रभु यिशु खीष्टांतु तुम्गेलो कोण विश्वासान क्रिया
४ आनि प्रेमान श्रमु आनि आशा पुर्वक सहण हें सग्ळें नित्य मनांतु कोनुं देव कर्तृक तुम्गेलि कोण मनोनीत जाव्नु तें समजुनु तुम्गेले सग्ळ्यांले खातिर सर्वदा देवाले लागि
५ धन्यवादु कर्तां। तेंयितें आम्गेलो मंगल समाचारु मात्र उत्रान तुम्गेले लागि आय्लो ना तरि पराक्रमांतु आनि धर्मात्मांतु आनि दृढ निश्चयांतुयि आय्लें तेंयितें तुंमि जाणा कि आमि तुम्गेले भर्सिं जाव्नु तुम्गेले खातिर
६ कोण प्रकार लोकु आसिलो। आनि तुमि होड दुःखांतु धर्मात्मान केलो आनंदान उत्तर ग्रहण कोनुं आम्गेले
७ आनि प्रभुले अनुसारी आसिले। कि तुंमि माकिदोनियाले आनि आखायाले सग्ळे विश्वास्यांलि माझि आसिले।
८ तेंयितें प्रभुले उत्रा शब्दु मात्रान माकिदोनियांतु आनि आखायांतु तुम्गेले लागिधाकुनु पितंम बारसलो तें नें तरि

कसल्यांतु आम्गेलें उत्तर सांग्पालें अगत्य कांयि ना आस्ला तुम्गेले देवांतु विश्वासु प्रति जाग्यांतु आनि असि वापुनु
९ राब्ता।   तेंथितें तुम्गेले लागि आम्गेले कोण प्रकारा
१० येवप आसिलें आनि जीवे  आनि सत्य देवालि सेवा कोर्चे खातिर आनि कोणाक ताणे मरणांथाकुनु उठकरायलो आनि कोणे भविष्यत कोपांथाकुनु आम्कां रक्षा कर्तो तोचि ताजेलो पुतु यिशुजि स्वर्गारिथाकुनु येवपालि अपेक्षा यि कोर्के खातिर तुंम देवता सोंणु कसि देवाले दिक्कां पर्तले हें ते प्रकाश कर्तालि।

२ द्वितिय पर्व्व।—तेंथितें हे भावानो तुंमि समजतालि कि तुम्गेले लागि आम्गेलें कोण येवप तें वेर्थ नैं।  तरि कसि तुंमि जाण्तालि तसि दुःख आनि लज्जा कर्तलो अप मानु फिलिपिंतु मेळुयि आमि ताजे मागिरि हजार येत्न कोर्नु देवालो मंगल समाचार तुम्कां सांग्चाक आपणा
३ गेले देवांतु निर्भय आसिले।   तेंथितें तुम्गेले लागि आम् गेलि विनंति कोर्चि कपटांतु जावो अशुचिपणांतु जावो प्रता
४ रणांतु ना आसिलो तरि मंगल समाचार समर्पिलें आयदन जाव्चे खातिर कसि तुंमि देवांतु परीक्षेक्ते आसिले तसि म नुष्याली खुशी कर्तल्यांचे वारि नैं तरि आम्गेले अंतःकरणां तु परीक्षेक्ते देवाले खुशीले मण्के आमि उत्तर म्हण्तालि।
५ तेंयितें कसि तुंमि जाण्तालि तसि आमि कोणे काळिं संतुष्टि उत्तर जावो लोभालें थांकप केले ना हांतु देउ साक्षि
६ आस।   आनि ख्रीष्टालो प्रेरितु आम्णाल्यांक समजुनु केद्ना आनि तुम्गेलें वोजें जाव्चा सक्ते लावळियि मनुष्यां थाकुनु जावो तुम्चांथाकुनु जवो अन्य कोणे लोकांथाकुनु
७ मर्याद सोद्लि ना।   तरि कसि आवसु आपणाले चेरडु
८ वांक प्रतिपालन कर्तो तसि आम्गेले लागि मोउ आसिले।

हेचि खातिर तुम्गेले विसयांतु भी सबार इच्छा कर्तले आव्नु देवालो मंगल समाचार मात्र नैं तरि आपणागेलो प्राणु यि तुम्कां दिव्पाक आमि इच्छा कर्तले आसिले तेंयितें तुंमि
९ आम्गेले केष्टित आसिले। हे भावानो आम्गेलो श्रमु आनि आयासु तुम्गेले उडगासांतु आस तेंयितें तुम्गेले कोणालेंयि वोजें ना कोर्चे खातिर आमि राति दिसु कार्य कोर्नु देवालो मंगल समाचार तुम्गेले लागि प्राकशु केलो।
१० विश्वासकारी तुम्गेले लागि आमि कोण प्रकारा निर्मल आनि यथार्थ आनि निर्दोषाचरण केलें हागि साक्षि तुंमि
११ आनि देउ। तेंयितें तुंमि समझलास कि कसि बापुसु आपणाले चेरडुवांक कर्ता तसि आमि तुम्गेले प्रत्येक मनु
१२ ष्याक कसि लालेष केलें आनि सांत्वना केलें आनि उपदेश केलो कि तुंमि देवाले उपयुक्त आचरण कर्या कि कोणे आप्
१३ णालें राज्य आनि विभवांतु आम्कां आपैल्याति। हेचि खातिर आमि नित्य देवाले लागि धन्यवादु कर्तांति तेंयितें आम्गेले येतुर देवालें कोण उत्तर तुंमि आय्किलें केद्ना तुंमि तें उत्तर आय्किले तेद्ना मनुष्याले उत्राले मणके तुंमि तें ग्रहण केलेना तरि कोण नितांत आस विश्वाशी तुम्गेलें भितरि कार्य साधिलले देवाले उत्राले वारि तेंचि उत्तर
१४ ग्रहण केलें। हे भावानो यिऊदाह् देशकार खीष्ट यिशुंतु कोण मंडल्यो तुंमि आसति त्यो मंडल्यो सगळ्याले माच्चि
१५ चमकतले जालेले। तेंयितें ते देवालो संतोषु कर्नाति आनि सगळे लोकांले विपरीतांतुयि आसति कि कोण यिऊदिकारानि प्रभु यिशुक आनि आपणाले आचार्यांक जीवसि मार्लें आनि यिऊदियांथाकुनु ते मंडलीनि कोण दुःख पाव्लें तुंमि यि ताजेवारि दुःख आपणागेले देशकार लोकांथाकुनु मेळें।
१६ तानि आम्गेलि छेडि हिंसा केलि आनि आपणागेले

४ शुद्धपण आनि मर्यादेंतु तुमगेलें प्रति जणाले आपणार पात्र अधिकारु करप देउ समज नातिले अन्यदेशकारांले वारि
५ कामांतु नैं आनि कोणु कोणे कोणि विषयंतु आपणाले
६ भावाले लागि ठकु आनि प्रतारणा ना करप तेंयितें कसि आनि पितेंम उपदेशु केलो आनि साक्षि दिलि तसि देउ
७ हे सगळ्यांले दंडकारी जाता। तेंयितं अशुचि क्रिया कोर्चोक देउ आम्कां आपे ना तरि चां क्रिया कोर्चोक
८ आपैलास। हे खातिर कोणुलो तुच्छ कर्ता तो मनुष्याक तुच्छ कर्ना तरि देवाक कि कोणे आपणालो धर्मात्मा आम्कां
९ दिलास। भावां स्नेयाले विषयांतु कि हांव तुम्गेले लागि बरैंतां तुम्गेले हांतु प्रयोजन नैं तेंयितें परस्पर स्नेयु कोर्चो
१० क तुंमि आपण देवाकयान शिक्षित आसवि। आनि माकिदोनियाले सर्व्वत्र कोण भाव ते सगळ्यांक तुंमि तेंवषि कर्तावि तरि हे भावानो आमि तुम्गेले लागि विनंति क
११ र्तांति कि तुंमि हांतु उत्तरोत्तर वाड्डा। आनि विरोधुना तिले जाया आनि आपणालेंर कार्य कचा आनि कसि आमि
१२ आज्ञा दिलि तसि आपणागेले हातान कार्य कचा। कि भायर लोकांले लागि सम वेवहारु कचा आनि कसल्यांतु तुम्गेलें कांयि उणे ना जायत तसि कोर्चे खातिर यत कचा।

१३ तरि हे भावानो निद्दले लोकांले विषयांतु कि तुंमि अज्ञानी जातालि हें हांव इच्छि ना कि तुंमि आशा नातिले
१४ अन्य लोकांले वारि शोकिस्ते जाव्नाकाति। तेंयितें तरी आमि विश्वासु कर्तांति कि यिशु मेलो आनि नेंवान उठाय् लो जाल्यारि कोणुते यिशुंतु निद्दल्याति तांकांयि देउ ताजे
१५ वारि आपणाले भर्सि हाडित। तेंयितें प्रभुले उत्रान तुम्कां आमि म्हणतांति कि जीवें आनि प्रभुलें येवपरांतु रावतजे आनि निद्रित लोकांले मुकासैतले जायसिनांति।

१६ तेंयितें नयरकार शब्दु आनि प्रधान दूताली ध्वनि आनि देवालि तुरी वाजीत प्रभु आपण स्वर्गारिथाकुन देंवलो
१७ आनि ख्रीष्टांतु कोणते मेल्याति ते पितॆम उठायतित। ताजे मागिरो जीवे आनि वर्लेले आमि मळ्यांतु प्रभुले भसिं भेट कोर्चाक तांगेले भसिं मेघांतु तांळोलो जाता ताजेन
१८ प्रभुले भसिं नित्य राबुं।  हे खातिर हें उत्तर सांगि ल्यान आपणल्यांक परस्पर सांत्वना कर्या।

५. पंचम पर्व।—तरि हे भावानो तुम्गेलें कांयि प्रयो जन ना कि हांव कालु आनि नेमक वेळाले विषयांतु तुम्
२ गेले लागि बरेतां। तेंयितें कसि रात्रि चोर येत्ता तसि
३ कि प्रभुलो दिसु येत हें तुम आपण निश्चयु समजा। तेंयि त कोण वेळा लोकु म्हणताति कि शांति आनि निरापद उपस्थित ते वेळा कसि गुर्बिणी बायलेली बाळांतिरा वेता जाता तसि तांगेल अकस्मात सर्वनाशु जायत आनि ते ना
४ वांचतित। तरि हे भावानो तुमि काळकांतु नांति कि
५ तो दिसु तुम्कां चोराले येवपाले वारि घडता। तुंमि सगळे ऊजवाडाले आनि दिसालिं चेरडुवं आमि रातिले
६ किंवा काळकाले नैं। हे खातिर आमि अन्य लोकांले वारि निद्देउनु वोचनांति तरि पारो दितांति आनि चांद्रा
७ नि जातांति। तेंयितें कोणते निद्देउनु वोतांति वे रातिंतु निद्देउनु वोतांति आनि कोणते मत्त ते रात्रि मत्त जाताति।
८ तरि दिसाले आमि विश्वासु आनि प्रेमा वारि चोळो आनि परित्राणाले भरवसा वारि टोपु दवोनुं चां जानि जाव्यां।
९ तेंयितें कोपालो भोगु कोर्चाक देउ आम्कां नियुक्त कर्ना तरि आमि जागे जातांति जावो निद्रित जातांति कि तागे
१० ले भसि येकडे वासु कर्ता हेचि खातिर आम्गेले निमित्ती मेलो कोण आम्गेलो प्रभु यिशु ख्रीष्टु तागेले वाटेन परि

११ आख पाव्‌याक काम्‌कां नियुक्त केल्यांति। हे खातिर कसि तुंमि कर्तांति तश्चिंयि आप्‌णाक्यांक परस्पर सांत्विया
१२ आनि उत्तरोत्तर वाढुया। हे भावांनो आमि वि विनंति कर्तांति कि तुम्‌गेले भितरि कोण्‌ते श्रम कर्तांति आनि प्रभु
१३ तु तुम्‌गेले वैयरि नेमक आसति आनि तुम्‌कां अनुयोगु कर्तांति तांकां सम्‌झा। आनि तांगेले कार्यांक तांकां श्रेयु
१४ कोनुं हेडु आदर कर्या आनि परस्पर वोरे जुनांतिसे गाया। हे भावांनो सद्या आमि तुम्‌कां शेंपि उपदेशु कर्तांति कोण्‌ते दुर्विनतीकार तांकां उपदेश कर्या निर्बलि मनकाराक सांत्विया निर्बल्यांक घेनुं दवर्या सग्‌ळे लोकांले
१५ लागि ताळ्‌वेतले गाया। कोणे कोणाके हिंसेले खातिर हिंसा ना कोरीति तरि आपापस्या भितरि आनि सम्‌ज्यां
१६ ले लागि पांचापार निष्य कर्या। सर्वदा आनंदु कर्या।
१७ निरंतर प्रार्थना कर्या। सग्‌ळे विषयांतु धन्यवादु करो
१८ तेंयितें तुम्‌गेले विषयांतु ख्रीष्ट यिशुंतु ईश्वर देवालि इष्ट
१९ क्रिया। आत्माक वाडचो नाकाति। आचार्यालें उत्तर
२० तुच्छ कोनोकाति। सग्‌ळे क्रियेचि परिक्षा कर्या कोण
२१ चांग तें धट्टि कोनुं धर्या। वायट क्रियेलि साव्‌ळियि
२२ सोड्या। आनि शांति कर्तेशो देउ आपण तुम्‌कां सोळ्‌या
२३ आले पूर्ण कोरो आनि प्रभु यिशु ख्रीष्टालें येवण परांपु तुम्‌गेलो समोउ आत्मा आनि मन आनि शरीर निर्दोषी रच्या
२४ कोनुं वोचो। कोणे तुम्‌कां आपैय्‍यानि तो विश्वासी आनि
२५ तेंयि करित। हे भावांनो आम्‌गेले खातिर प्रार्थना
२६ कर्या। सग्‌ळे भावांक पवित्र उंमा दिउनु नमस्कार कर्या।
२७ प्रभुलें नांव कोनुं हांव तुम्‌कां आज्ञा दितां कि हें पत्र सग्‌
२८ ळे साधु भावांले लागि वाचुनु वोचत। आम्‌गेलो प्रभु यिशु ख्रीष्टालो अनुग्रह तुम्‌चेरि वावो। आमिन।

## तेसलोनियांचे खातिर पाउलाचें दुसरें पत्र ।

### १ पितैमलें पर्व ।

देउ आमगेले बापांतु आनि प्रभु यिशु ख्रीष्टांतु तेसलोनि
कांचि लोकांचे मंडली आस तांचे खातिर पाउलु आनि सिल्वानसु
२ आनि तिमोथियसु पत्र बरैतांति । आमगेलो बापुसु देउ
आनि प्रभु यिशु ख्रीष्टाथाकुनुं अनुग्रह आनि शांति तुम्
२ गेरि जावो । हे भावानो कशि उचितयि आस तशि तुम्
गेले खातिर आम्गेले नित्य देवाले लागि धन्यवादु दीवचें
आवश्य आस तेंयिसें तुम्गेलो विश्वासु अति अधिक वाडता
आनि तुम्गेले प्रत्येक मनुष्याले लागि तुम्गेलो परस्पर प्रेमु
४ अति उत्तरोत्तर चडाव जाता आस । कि तुम्मि जोण समस्तें
विपरित आनि दुःख पावतांति तांतु तुम्गेलें सहज आनि
विश्वासाचे खातिर आम्मि देवाचे मंडलीले भितरि तुम्गेले
५ विषयांतु हंकारां उत्तर सांगतांति । जोण दुःख देवाले
यथार्थ विचाराचे येक प्रमाणचें लक्षण कि तुम्मि देवाले
जोण राज्याचे खातिर दुःख पावतांति तेंचि राज्य योग्य
६ मोजुनु घेचो । तेंयिसें जोणे तुम्कां दुःख दितांति तांकां
७ तेंवान दुःख दिवचें आनि जोणे देवाक समजनांति आनि
आमगेलो प्रभु यिशु ख्रीष्टाचो मंगलसमाचार मानसिनांति
तांकां उचित फल दिवचाक जेद्मा प्रभु यिशु आपुला बल
वंत दूतांक भर्ति घेउनु जोळचे ज्वालांतु स्वर्गांतुथाकुनु प्रका
८ शतो जायत तेदेळा दुःख भोगभोतकं तुम्कां आम्गेले भर्ति
विश्रामु देवचें आनि देवाले कर्तव्य चोमि देवाचें उचित ।

९ तेंयितें ते दिसा आमि कोण प्रमाण तुम्गेले लागि दिलें तो
१० विश्वासी आसिलो। केद्ना प्रभु आपणा साधु लोकांले भितरि गौरवक्ले जाव्चे खातिर आनि कितुलो लोकु विश्वासु कर्तांति ते सगळ्यांतु भो मान्य जाव्चे खातिर येत ताविळि तेद्सु तागेले येदुरथाकुनु आनि तागेले पाराक्रमाले तेजां
११ तुल्यान तांगेलो अनंत सर्वनाश्श वारि शाक्ति जायत। हें घोउनु आनि तुम्गेले खातिर नित्य प्रार्थना कर्तांति कि आम्गेलो देउ तुम्कां हे आक्षाने योग्य समजत आनि आप्णाले बरेपणालि चां अभिलाषा आनि विश्वासा वारि कार्य
१२ पराक्रमांतु पूर्ते करित् कि प्रभु यिशु खीष्टालें नांव तुम्गेले भितरि आनि आम्गेलो देउ आनि प्रभु यिशु खीष्टाले अनुग्रहाले अनुसारांतु तुंमियि तागेले भितरि गौरव पाव क्ले जाया।

२ दुसरें पर्व्व।—हे भावानो आम्गेलो प्रभु यिशु खीष्टा ले येवपाक्षे विषयान तागेले लागि आम्गेल संग्रहक्ले जाव्चे
२ विषयान सेवा आमि तुम्कां विनंति कर्तांति। कि खीष्टालो दिसु लागि जाल्यान कसि जात्तें तसि हे विषयांतु आत्माक् च्यान जावो उत्त्रान जावो आम्गेले लागियांकुनु आयिले प
३ त्रांथाकुनु कसि जाता तसिचियि पत्रान कि तुंमि मनांतु
४ हटात् हाल्ले आनि घाबरेले जाव्नाकाति। कोणे प्रकारि तुम्कां कोणे भुलिसिनातिले जातांति तेंयितें वाटसोडतलो
५ पितंम नाजाल्यान देउ नावान ख्यात कितुलें आनि पूजित कितुले हे सगळ्यांले विपरीतांतु आनि हे सगळ्यांले वोयरि आप्णाक असि ऊंच कर्ता कि आप्णाक देवाले मणके प्र काश्श कोर्नु देवाले वारि देवाले देवळांतु बसास असले कोण पापाले वारि दादलो अर्थात् सर्वनाशालो पुत प्रकाशित
६ जाय्नातल्यारि तो दिसु येसि ना। तुंमि यित्तें उडगासु

कर्नाति कि हांव केद्ना तुम्गेले भितरि आसिलों तेद्ना
तुम्कां हें उत्तर सांग्लें। सद्या ते आप्णाले वेळांतु पापिया
ले प्रकाशल्लें आव्चाक निवारणकर्तलो यित्तें हें तुंमि जाण्
७ ताति। तेंथितें अयथार्थालें गूढपण सफल जाव्चा लाग्
तां आत्तं मात्र निवारण कर्तल्याले भितरियाकुनु घेउनु गेलो
८ लो जाउपर्यांतु वारण करित। तें जात्तचि कोण पापियाक
प्रभु आप्णाले तोंडाले आत्मान संव्हार करित आनि आप्
९ णाले यव्याले तेजान विनाशु करित अर्थात सग्ळो परा
क्रमु आनि लत्तण आनि पट्टि आश्चर्य क्रियेले भसिं आप्
णागेलि मुक्ति जाव्चें खातिर कोण्ते सत्यपणालो खेयु ग्रहण
१० केलो ना तेचि विनाशु कोर्चो योग्य लोकांले भित्तरि अयथा
र्थाले सग्ळे भुलवपान कोणालें येवप देवचारालें कर्म्म कोर्चें
११ वारि आस तो तावळि प्रकाशल्लो जायत। हेचि खाविर
देउ तांगेले लागि होड्डि माया धाडित कि ते फाट्ट उत्तर
१२ विश्वाशु कर्तीति कि कोण्ले सत्यांतु विश्वासु केलो ना तरि
अयथार्थ क्रियेंतु खुशी आसिले ते सग्ळे दंडित जाताति।
१३ तरि हे प्रभुंतु मोगा भावानो तुम्गेले विषयांतु देवाले लागि
नित्य धन्यवादु कोर्चोक आम्गेलें आवश्यक आस तेंथितें
आत्माले पवित्रपणान आनि सत्याले विश्वासान परित्राणयि
पाव्चे खातिर देवान पितम लागिन तुम्कां पसेत केल्याति।
१४ कि कोणाले खातिर आम्गेलो प्रभु यिशु ख्रीष्टालें गौरव
मेळ्पाक् आम्गेले मंगल समाचाराले वाटेन तुम्कां आ
१५ पैल्याति। हे खातिर हे भावानो स्थिर जाया आनि
उत्तान जावो आम्गेले पत्रान कोण वेवहारांतु तुंमि शि
१६ क्षित आसति तोचि वेवहारु मान्या। सद्या आम्गेलो
१७ प्रभु यिशु ख्रीष्टु आपणे आनि आम्कां मोगु केलास आनि
अनुग्रहान अनंत सांत्वना आनि उत्तम भरवसो दित्लो

आम्गेलो आनु देउयि तुम्गेले अंतःकरणांनि सांत्वना करो आनि प्रत्येक उत्तम उत्तरांतु आनि क्रियेंतु तुम्कां स्थिर करो।

३ तृतीय पर्व्व।—शेष हे भावांनो आम्गेले खातिर प्रार्थना कर्या कि देवालें वाक्य कसि तुम्गेले भितरि चमक तास तें उत्तर ताजेवारि अड्डि नातिलें चम्कत आनि गौरव

२ विशिष्ट जातिलें। आनि बुद्धिनातिले आनि दुर्जन लोकां थाकुनुयि कि आमि मुक्त जातांति तेंयितें सगळे लोकांलो

३ विश्वासु ना। तरि तुम्कां स्थिर करतिलो आनि पापां

४ थाकुनु रक्षा करतलो देउ विश्वासयोग्यु। आमि प्रभुं तु तुम्गेले विषयांतु विश्वासु कर्तांति कि आमि कासर क्रिया तुम्कां आज्ञा कर्तांति तुंमि ति क्रिया कर्तांति आनि कर्शांति।

५ आनि देवाले मोगांतु आनि ख्रीष्टांले सहणांतु प्रभु तुम्गेलें मंन दाकेशा।

६ हे भावांनो कोण प्रतिभाउ अनेमांतु चमकता आनि कोण रेसु तुंमि आम्गेले लागि पावलास ताजे मणकें नैं तुंमि ते प्रति जाणांथाकुन् वेगळे जाया हें आमि प्रभु यिशु ख्रीष्टा

७ ले नांवान तुम्कां आज्ञा कर्तांति। तेंयितें तुंमि जाण्ताति कि आम्गेले साक्षि वातले जार्तें तुम्गेलें यितेंर आवश्यक

८ तेंयितें तुम्गेलें भितरि आमि अनेमांतु चमक ने। आनि कोणु कोणालोयि वस्तु मोलदिनासिलें खाय ना तरि तुम्गेलो कोणु कोणाचेरियि भारु ना दिव्चे खातिर राति दिसु

९ यत्न आनि श्रमु कोनुं कार्य केर। आम्गेलो पराक्रमु ना जाव्चांतु नैं तरि तुमि आम्गेले साक्षिचमकत्ले जाया

१० हेंचि खातिर तुम्गेलि माझि जाव्चे खातिर तें केलें। तेंयि तें आमि तुम्गेले येदुर केद्ना आसिलें वेद्ना आज्ञा केली

११ कि कोणतो कार्य कर्ना तो खांव्चाक पावसि ना। तेंयितें

आमि आयकतांति कि कार्य कर्नातिले तरि दुसऱ्याले कार्यां लो सोद् कर्तले अनेमांतु चमकतलो कितलेक् लोक् तुम्गेले
१२ भितरि आस। हे खातिर विरोधु नातिले जावनु कार्य कोर्चाक आनि आम्गालोर वस्तु खावचाक आमि प्रभु यिशु खीष्टालें नांव घेउनु तुम्कां आज्ञा दितांति आनि उपदेशु
१३ कर्तांति। तरि हे भावानो तुंमि चां क्रिया कोर्चांतु दमउ
१४ नाकाति। आनि हे पत्रान सम्जायल्ल आम्गेलें उत्तर। तरी कोणे मानसि ना जाल्यारि ते मनुष्यालो गोंतु कचा आनि तागेले भर्सि खेयु कोर्नाकाति कि तो लज्जेक्षो जायत।
१५ तरि तांका शत्रुवारि मोउ नाका तरि भावांले वारि ताका
१६ फजति कचा। सदा शांतिदितलो देउ केद्नांयि सर्वं प्रकारान तुम्कां शांति दिवो। प्रभु तुम्गेले सगळ्यांलो
१७ सांगातिकारु जावो। हांव पाउलु आयगाले हातान बरैंलो मेगेलो नमस्कारु प्रत्येक पत्रांतु हेंचि मेगेलो गुतुं
१८ हाजे वारि हांव बरैंतां। प्रभु यिशु खीष्टालो अनुग्रह तुम्गेले सगळ्यांचेरि जावो। आमिन।

## पाउलु प्रेरिताने कोण्ण पिलैमलें पत्र तिमोतियसाले खातिर बरैल्लें तें हें।

### १ पिलैमलें पर्व।

१ आमगेलो तारसिललो देवाले आनि आमगेलो भरव
सो अर्थात प्रभु यिशु ख्रीष्टाले आज्ञाक्रमान यिशु ख्रीष्टालो
प्रेरितु अर्थात हांव पाउलु भक्तिन मेगेलो यथार्थ पुतु तिमो
२ तियसाक पत्र बरैतां। आमगेलो आंपु देउ आनि प्रभु
यिशु ख्रीष्टांथाकुन अनुग्रह आनि दया आनि शांति तुग्
३ गेले लागि जावो। अन्य शिक्षा ना करोचाक आनि निर
र्थक रचन आनि देवाले भक्तिंतु उत्तरोत्तर वर्द्धनालि अपे
क्षा वादुप्रतिवादु उबजायतले अनंत वंशावळि ना मानसु
४ चाक कितलेक लोकांक आज्ञा दिवचे खातिर कसि हांव
माकिदोनियांतु पैशा वेळा तुका एफिससांतु राव्‌चा सांग्
५ लें ताजे वारि करि। निर्मळ अंतःकरणान आनि चां
मंनान आनि कास्पना नातिले विश्वासान मोगु आज्ञालि हो
अभिप्राय कोणेर मांगु छेदिक्षा तेदिकां भोंउ आनि वासलें
६ म्हणता आनि कोण्ण विषयांतु उलैता हें समज नातिलें व्यव
स्थाले सिकेतले जाव्‌चाक इच्छा कोनु निरर्थक वादानुवादा
७ ले पत्तांतु पर्ल्लास। तरि आमि समजतांति कि तरी
१२ लोकु व्यवस्थाले योग्याले वारि व्यवस्थालो वेवहारु कर्तांति
जाल्यारियि व्यवस्था चांग। तेंयितें आमि समजतांति कि
व्यवस्था यथार्थिक लोकांलें खातिर नैं तरि यम्ला मानचि
नातिलो आनि अधर्मिक आनि पापि आनि कुसाधु आनि

लागिं वोपसिलांस अर्थात ह्रुमेनियसु आनि आलेक्सांद्रु
१९ हे दोगं कोणाले भितरिं आसति असलो कितुलो लोकु
भक्ति आनि बरें अंतःकरण सोंणु भक्ति विषयांतु तारुं मोळां
२० सतु तिंचि भक्ति आनि बरें अंतःकरणायि घेउनु तें पितॆम
सांगिले आचायालें उत्तरान चां युद्ध करि।

२ दुसरें पत्र्वे।—हे खातिर हांव सगळ्यांले पितॆम
२ सांगतां कि सगळे लोकाले खातिर घडाव रायांले आनि
३ शासन कर्तल्यांले खातिर विनयु आनि प्राथॆना आनि विनं
ति आनि धन्यवादु कोनुं वोचत कि आमि साधु पणांतु
आनि सम वेवहारांतु शांतिन आनि विरोधु नातिलें कालु
४ काततोंति। सेंयितें सगळे लोकांले मोचन आनि सत्य
पण ग्रहणेच्छु आसगेलो तारसितलो देवाले देकपंतु हेंचि
५ सत्य आनि ग्राह्य। तेंयितें येकु देउ आस आनि देवा
ले आनि मनुष्यांले भितरिं येक्लो मध्यस्तुयि आस अर्थात्
६ तो मनुष्यु यिशु ख्रीष्ट कि कोणे उचित वेळांतु प्रमाणि जाव्
७ चे खातिर सगळ्यांले खातिर आपणाक दिलो। हांव
ख्रीष्टांतु सत्य उत्तर म्हणतां हांव फट्टि उत्तर उलै ना तो
प्रमाण कोर्चे खातिर घोवण कर्तलो आनि प्रेरितु आनि
ख्रीष्टाले रितिंतु आनि सत्यांतु अन्य देशकारांलो येकु शिक्षा
८ कर्तलो हांव नियुक्त आसं। हे खातिर हांव इच्छितां कि
लोकु कोपु आनि संदेहु नंतां पवित्र हातु सगळ्यांन उबार्नु
९ प्राथॆना कर्तोति। बायलोयि लज्जा आनि सगांभीर्या
जावनु आपणागेलांक सतीले वारि कापडान दुखेक्षि कर्ता
दांतोखेन वोंळोक्षे केशानि जावो भांगार जावो मोतिं जावो
१० साबार मोला कापडान नें। तरि देवाली सेवा मान
सितले बायलांलें कसि उचित तसि चां कार्यान अंगाल्यें
जावोति। सगळे प्रकारिं बायल अधिन जावनु नुत्त राबु

११ नु भिकोति। तरि बायलांक श्रांव भिक्षा करोचाक जावो
१२ दादल्याचेरि शासन थापाद्द कोणांक दि ना तरि तुन राब्
१३ याक आज्ञा दितां। तेंथितें आदमु पितेन उबजल्लो
१४ आसिलो ताजे मागिरी ख़ावा। आनि आदमु प्रतारितु
ना आसिलो तरि बायल भुलैल्लो जावनु आज्ञा मिरवल्लो
१५ जालो। तरि येकवेळा त्यो ज्ञानान विश्वासु आनि मोगु
आनि साधु कार्यांतु नित्य प्रवृत्त असा जाल्यारि पुतु बाळां
तिरांतु रक्षा पावत।

३ तिसरें पर्व।—हें सत्य उत्तर कि तरी कोणी अध्य
क्षाले कार्यालि आकांक्षा कर्ता जाल्यारि तो यां कार्या आ
२ कांक्षा धर्ता। हे खातिर प्रयोजन आस कि अध्यक्षु निर्दो
षी येक बायलेलो वांमुणु पारो दितलो यां लोकु बरिचालि
चमकलो आतिथ्यागुणु भिक्षा करोचाक योग्य जायत।
३ सोरो पितलो नैं मार्तलो नैं लब्धा लोभि नैं तरि सहन कर्त
४ लो आनि निर्विरोधु जायत धनलोभी नैं। सगळे प्रका
रान गांभीर्यान आपणाले चेरडुवांक वश्या कर्तलो आपणा
ले घराली चां शासन कर्तलो आस। तेंथितें कोणी तरि
५ आपणाले घर्चें यजमानपण कोणांक सक ना जाल्यारि तो
६ देवाले मंडलीले कार्यालि चिंता कसि करित। थोडे दिसां
भक्तुयि नैं कोणजाण हंकारान मत्त जावनु तो देवचाराले
७ दोषांतु पडता। भायले लोकांले लागियि तागेबि यां
ख्याति जावचें आवश्य आस कोणजाण अपमानांतु आनि
देवचाराले सांपड्यांतु नर पडत्।
८ परिचारकयि गंभीर दोनि जीवकार नैं साबार सोरो
पितलो नैं लंचा लोभकार नैं निर्मल मनांतु ख्रीष्टाले रीति
९ लें तत्व धरलो होण जाता हाजें अत्यावश्य आस। हेंवयि
१० पितेम परिच्छितले जावोति ताजे मागिरि निर्दोषी कोल्नु

११ वोतयि परिचारक सेवेंतु कार्य करोतित। तांगेल्यो बाय लोयि कि गंभिराकार्णी अपवादु दितल्यो नैं पारो दित्तल्यो सग्ळे कार्यांतु विश्वासकार्णी जाताति हाजें आवश्य आस।
१२ परिचारक येक बायलेले बांगुस आनि आपणालें चेरडुं
१३ आनि घराले चां शासक जावोति। तें यतें कोणते परिचारकाले सेवेंतु चांग वेवहारु केलास तें आपणागेल्यां खातिर चांगी सेवा आनि खीष्ट यिसुले भक्तिंतु होडु साहसु पावताति।

१४ थोडे दिसां शाणिरि तुमगेले लागि येवचाक भरवसो
१५ करुनु हांव हें तुमगेले लागि बरैतां। तरि कोणजाण मेगेलो तोडोउ आयत हांव हें बरैतां कि तुं देवालें घरांतु उपयुक्त आचरण कोर्चांक जाणति कि कोण जीवें देवालि मंडली आनि भक्तिलो खांबो आनि पंचाग आस आनि
१६ देवाले सेवेले तत्वालें गांभीर्य निश्चय होड कोणु शरीरांतु प्रकाशित आसिलो तो आत्मांतु यथार्थिकु केलालो दूतान देकुंयेवचे अन्य देशकारांलि लागि घोषणा केलेले जगतांतु विश्वास हों ऐश्वर्य ग्रहीत आसिलें।

४ चतुर्थ पर्व्व।—आत्मा निश्चय म्हणता कि शांति उब्जायतीर आत्मा आनि देवतांलो शिक्षा मानश्चितले तापक्षे लो दंडान सेकिलें मन विशिष्ट काल्पनिकपणान फटि उलैतलो
३ बारडिक निषेध कर्तलो आनि कोण खावचो वस्तु धन्यवादांतु विश्वासी आनि बद्द समजतल्यांले आयकप जावचे खातिर देवान उब्जायलांस तो वस्तु सोडचाक आज्ञा दित्तले कित
४ लेकु लोकु शेष वेळांतु भक्ति सोडतित। देवान उब्जायलो वस्तु चांगु आस आनि तरी धन्यवादु केल्यान घेउनु
५ वोचंत ज्याल्यारि ना घेवचो वस्तु कांयि ना। कैंयितें देवालें
६ उत्तर आनि प्रार्थना तें पवित्र कोर्नु वोता। तुं हें

सगळें उत्तर भावांक उडगासु करोनु कोण भक्ति आनि
बरि शिक्षा तुवें पावल्यास ति भक्ति आनि बरि शिक्षेन
७ पालशिल्लो यिशु ख्रीष्टालो येकु उत्तमु सेवकु जाय्त। तरि
अधर्मी आनि म्हांतारे बाय्लालो वायट उपदेशु आयक
८ नाशिलें आपण्या देवाले सेवेजे कार्यांतु यत्न करि। तेंयितें
शरीरालें यत्न साबार थोडें फल उब्जाय्ता तरि देवालि
सेवा वर्त्तमान आनि भविष्यत् आयुष्या विषयक प्रतिज्ञालो
अधिकारी जाव्नु सगळे प्रकारान फळ उब्जाय्तलो
९ जाता। हें विश्वासु कोर्चें आनि सगळे प्रकारान आयकु
१० चें योग्य उत्तर। तेंयितें कोण सगळे लोकाले तारसिवलो
विशेषत विश्वाय्यांलो तोचि जीवे देवाचेरि विश्वासु करतलो
आमि हाजे खातिर श्रमु कर्तांति आनि निंदित जातांति।
११ हि सगळि आज्ञा दिया आनि शिक्षा करेया। कोणें तुम्
१२ गेले यौवन तुच्छ करुंक जावोंति तरि उत्तर आनि वेवहार
आनि स्नेयु आनि आत्मा आनि विश्वासु आनि निर्मळप
१३ णान विश्वाश्यांलो नमुनो जावो। मेगेलें येवपर्यांतु
वाचपांतु आनि प्रबोधनांतु आनि शिक्षेंतु मनयोगु करि।
१४ तुगेले भितयेलें कोण सामर्थ्य म्हाल्गड्यांले सभाले हात दिव्
चे भर्सि आचाऱ्याले उत्रान दिउनु गेलांस तागेलें तुच्छ को
१५ नाका। तुगेले शास्त्र ज्ञानाले उत्तरोत्तर घेवप सगळ्यांले
लागि प्रकाशित जावे खातिर हे सगळ्यांतु चिंता करि
१६ आनि सगळे प्रकारान प्रवृत्त जा। आपणाले लागि
आनि आपणाले शिक्षेंतु मंन लायि नित्य प्रवृत्त जा तेंयितें हें
केल्यान नुं आपणाक आनि आपणाले आयकतल्यांक परि
त्राण कर्शि।

५ पंचम पर्व।—म्हाल्गडे लोकांक भिडाउनाका तरि

२ आंनाले मण्के ताका विनति करि। तर्नाकुटे लोकांले लागि भावांले मण्के आनि म्हांतारे बायलांले लागि आंमाले मण्के आनि सगळे प्रकारान शुद्धआचरण कोर्नु तर्नाकुटे बाय
३ लांले लागि भयणिले मण्के वेवहार करि। कोण रांड
४ प्रकृत रांड तांगेलि आदर करि। तरि येकवेळा कोणे रांडेलें चेरडुं जावो पुतण्यो आस जाल्यारि ते पितम आप्णाले घरांतु चां क्रिया कोर्चोक आनि आप्णाले आंना आं मालो बदला उपकार कोर्चोक शिक्षा कोरो तेंयिते देवाले
५ येदुर हि क्रिया चांगि आनि बरें आयकतलो। कोणति प्रकृत रांड आनि अनाथ ति देवाक आश्रय कर्ता आनि राति निसु प्रार्थना आनि सालेय कोर्चांतु नित्य प्रवृत्त जा
६ तास। तरि कोणतो सुख भोगांतु कालक्षेपु कर्ता तो
७ जोव्नाले वेळायि मेल्लो आस। तांगेले निर्दोषो जाव्चे
८ खातिर हें उत्तर आज्ञा कोर्नु दि। तरि येकवेळा कोणे आप्णाले परिवाराले खातिर विशेषतः आपले घराले लोकांले खातिर सेदु कर्नाति जाल्यारि तो भक्तिक नकारि
९ कोर्नुं समजता आनि नास्तिकांथाकुनुयि अधम। साटि वर्सां प्रायीचाले उणे आस आनि येक दादल्यालि बायल
१० कोण जालेलि आनि चेरडाक प्रतिपालन कोर्नु रावता अतिथिंक बिडार दिलें आस आनि साधुंले पांय धुल्ले आसति आनि दायग्रस्तांलो उपकार केलास आनि प्रति चौ क्रिया यत्नपुर्वक कोर्नु रावता इत्यादि बरि क्रियेंतु बरि ख्याति
११ बायल नंतां कोणे रांडेक खरड्यारि बरो नाका। तरि तर्नाकुठे रांडांक घेउनाकाति तेंयिते केद्ना ख्रीष्टाले विरोधांतु रतिमती जाव्चाक लाग्ता तेद्ना आप्णागेलो पितंम
१२ लो विश्वासु सोंणु दोष कार्णि जावनु त्यो वारडिक कर्तित।
१३ आनिजे त्यो घरर भोवतर आलसि जाव्चा शिक्ताति आनि मात्र आलसी नैं तरि ना म्हाणचें उत्तर म्हण्तर

फोड उलैतलि आनि कार्य नातिले पर्चा कर्तलीयि आव्
१४ चाक शिक्ता । हे खातिर हांव इच्छा कर्ता कि तर्नाकुटि
बायलो वारडिक कर्तोति आनि चेरडुवं उप्जायतातिआ
नि घरालें कार्य कर्ताति आनि विपक्ष लोकांक निंदा कोर्चाक
१५ हेतु ना दिवोति । तेंयितें आत्तं कोणेर देवचाराले माघिर
१६ वोचाक पर्तलास । कोणे विश्वासु कर्तले दादल्यालो शावो
बायलेली तरी रांड आस झाल्यारि ते तांगेलें पोसप करो
ति आनि मंडलीलो वेचु कोर्कें वोजें ना आवो कि ते प्रश्नत
१७ रांडांलो उपकार कोर्चां सक्ताति । जो बोध म्हालगडे
बरजिनसान शासन कर्ताति ते दुणि मर्यादे योग्य मोवप
जावो विशेषतः कोण्ते उत्रान आनि शिक्षन श्रमु कर्ताति ।
१८ तेंयितें धर्मपुस्तकांतु हें सांग्ता सेत मळेचे पाड्यांलें तोंड
बांदु नाका आनि कुलिकार आप्णाले कुलिले योग्य । दोनि
तिनि साक्षिलें तोंड नंता म्हालगडे लोकांचेरि अपवादु घेउ
१९ नाका । पापकर्तल्याक सगळ्यांले येदुर भिष्टायि कि
२० आनिर लोकुयि भिवोति । मेळपणान कांयि कर्नोतिले
येकलो आनि येकल्याधाकुनु सेयु नंतां देउ आनि प्रभु
२१ यिशु खीष्टु आनि मनोनीत दूतांले येदुर हें उत्तर पावसु
२२ चाक हांव तुका आज्ञा दितां । झटात कोणालेयि वोयरि
हातु दिउनाका अन्य लोकाले पापाले वांटेलीयि जाव् ना
२३ काति आप्णाक परिस्कार दवरि । हे अवधि मात्र
उदाक पीउनाका तरि तुगेले पोटाले खातिर आनि तुगेले
२४ नेंवानर रोगाले खातिर थोडो दराक्ष रोसु पी । कोणालेर
पाप विचाराले खातिर तांगेले मुकासतलो जावनु प्रका
शितले जाताति आनि कोणालेयि माघ्रतले जाताति तसिच
कोणालेर चा क्रिया पिर्तम प्रकाशित जाता आनि कोणले
अन्य प्रकार जाताति ते गुप्त जावचा सक्तसि नाति ।

६ षष्ठ पर्व्व ।—हे खातिर कितुले चाकर जोताले आधि
न आताति ते आपणार प्रभुंक सगळे आदरयोग्य मोवोति
कि देवाले नांवालि आनि शिक्षेलि निंदा ना जायत ।
२ कोणालोयि विश्वासि प्रभु आसति ते भाव जाल्यान न कां
तुच्छ ना कोरो तरि वरं विश्वासी आनि प्रिय आनि फला
वांटेलि जाल्यान तांगेले चडाव सेवा कोरोति हेंचि उत्तर
३ सिकै आनि उपदेशु करि । तरि कोणी दुसरे प्रकार शिक्षा
कर्ता आनि हितकारी उत्तर अर्थात प्रभु यिशु ख्रीष्टालें
४ उत्तर आनि पुण्य क्रियेले वारि कोण शिक्षा चि तरी खी
कार करै ना जाल्यारि तो हंकारी आनि सगळे प्रकारान
अज्ञानि आनि वेषु आनि झगडें आनि निन्दा आनि परा
पवादु आनि अपवित्र मन विशिष्ट आनि सत्य नातिलो
आनि लोभाक साधु क्रिया कोर्नु मानसितले लोकां वादानु
वादु उब्जायतलो निमगप आनि उत्तर विषयक विरोधान
५ मत्त जावनु हंकारी आस असले लोकांघाकुनु बेगळो जा ।
६ तरि निराकांक्षपण भर्सि देवालिसेवा चोडि लाभु । तेंयितें
७ हे जगतांतु आमि कांयि हांणे आनि तांतुलें कांयि भर्सि
८ घेउनु वोचाक सकुशि नांति हें निश्चय । हेखातिर आम
गेलें खावप न्हेसप जात्तचि आमि कांक्षा नातिले जानां त ।
९ तरि कोणते धनालि अभिलाषा कर्ताति ते परिक्षेंतु आनि
सांपड्यांतु आनि विनाशु आनि संहारांतु लोकु बुडैतलें
अज्ञान आनि हिंसा कर्तले साबार अभिलासेंतु पड्ताति ।
१० तेंयितें धनालो लोभु सगळे वायट क्रियेलें मेळ साबार
ताजे लोभि जावनु विश्वासाली वाट विसल्याति आनि
११ आपणाल्यांक साबार दुःखान तोपलांस । तरि हे देवा
ले मनुषा तुं हे सगळ्यांघाकुनु पोळ आनि यथार्थ आनि
साधुपण आनि विश्वासु आनि मोगु आनि सहण आनि
१२ मोउपणाले मार्ग्गि चमका । विश्वासाले चांग युद्ध करी

कि अनंत आयुष्य भोगुंचाक तुं आपैल्लो आस आनि सावार साक्षींले येदुर उत्तुम स्वीकारालें प्रमाण केलांस तेचि
१२ अनंत आयुष्याक धरि। सगळ्यांलो प्राणु दितले देवाले आनि पंतियस पीलाताले येदुर उत्तुम प्रमाण दितले यिशु स्त्रीष्टाले दृष्टिन तुका हांव आज्ञा दितां कि कोण धन्य
१३ आनि स्वयं येजमानु रायांलो रायु आनि प्रभुंलो प्रभु कोणा ले नंतां अमरपणान आनि कोणालेयि मनुष्यालें अगम्य तेजो वासी कोणाक कोणें चोयि ना आनि चोव्‌चा सक ना कोणा ले लागि संमानु आनि अनंत पराक्रमालि प्रशंसा जावो।
१५ आमिन। असि कोण देउ तो आपणाले वेळा प्रकाशु करित कि आम्‌गेले प्रभु यिशु स्त्रीष्टु तागेलो प्रकाश परांतु
१६ तुं हि आज्ञा कळंकु नातिलि आनि कोणा अयोग्या वारि
१७ पालन करि। हे संसारांतु धनियांक आज्ञा कार कि ते गर्वित ना जायत आनि अस्थिर धनांतु विश्वासु ना कर्तातित तरि आम्‌गेले खातिर सगळो वस्तु दित्तलो जीवे
१८ देवांतु विश्वासु कर्तातित। आनि कि ते उत्तम क्रिया करोति घांक्रिया धनान धनवान जावोति आनि वांटे कोणांक भिक
१९ जावोति। आनि कोणते अनंत परमायु तेडोउ कोर्चे खातिर भविष्यत् कालाले खातिर आपणागेले खातिर उत्तुम घाडि
२० मूळ संचयु केल्लें दान कोर्चाक इच्छेल्लो जातातित। हे तिमोथि यसा कोण धर्म नातिलो आनि नुक्ति उत्तर उलैतलो आनि फाडि विद्या वारि ख्यात विद्या कोणेर पक्षपात कोनुं भक्ति थाकुनु भमा केलास तें सगळें सोंगु कसलें तुम्‌गेले लागि
२१ समर्पित आस तागेलें पालन करि। अनुग्रहु तुगेले ला गि जावो। आमिन।

पाउल प्रेरितान कोण द्वितीय पत्र तिमोतियसाले लागि बरैलें तें हें।

## १ प्रथम पर्व्व।

१ कोण जीवन मतिज्ञा यिशु खीष्टांतु आस ताजे मख्के देवाले इच्छेले वाटेन हांव यिशु खीष्टालो प्रेरितु पाउलु आपणालो नेगा पुतु तिमोतियसाले लागि पत्र बरैतां।
२ देउ आंनु आनि आमगेलो प्रभु खीष्ट यिशुंयाकुनु अनुग्रहु
३ आनि दया आनि शांति जावो। हांवं देवाले लागि धन्यवादु कर्तां कि कोणालि सेवा हांव आपण पूर्वपुरुषावधी निर्मळ अंतःकरणान कर्तां तुगेलो आठ्वो लोइसांतु आनि तुगेलि आवसु इउनिकिंतु कोण कपट नातिलो विश्वासु पिर्तेम आ
४ सिलो आनि हांव संदेयु नातिलों आसं कि तो तुजांतुयि
५ आस हें केद्ना हांव मनांतु कर्तां तेद्ना आनंदान पूर्ण जाव्चे खातिर तुगेलें दुःखं उडगासु कोनुं तुका चोउचाक भोर इच्छेलों आवनु हांव राति दिसु सोंणातिलें आपणाले प्रार्थ
६ ना वेळा तुका उडगासु अर्ता। हे खातिर मेगेले हात दिल्यान तुगेले भितरि देवान दिलेलें सामर्थ्याक चेटुयाक
७ हांव तुगेलो उडगासु दितां। तेंयितें देवान आम्कां भिव्चो आत्मा दिले तरि पराक्रमु आनि स्नेहु आनि बरे विचा
८ राचो आत्मा दिलास। हे खातिर आमगेले प्रभुजे साक्षिले उत्रांतु आनि तागेलो बंदिकाद मेगेले विषयां
९ तुयि लज्जेलों जायसि ना। तरि देवाले पराक्रमाजे मख्के तुं मंगल समाचारयुक्त दुःखा वांटेलि जाया। थि कोणु आम्कां त्राण केलांस आनि मविन्न आव्हानान आम

कां पाक्रान केलांस आम्गेले क्रियेले वारि नैं तरि आप्णालें कोण मनोदयु आनि अनुग्रह जगताले पितैंम खीष्ट
१० यिशुंतु आम्कां दिउनु गेले। तरि आम्गेलो प्रभु आनि तारयितलो यिशु खीष्टालें दर्शंण दिव्पांतु आतं प्रकाश जार्हे आस कि कोणे मरण लोपु केलास आनि मंगल समाचाराले वाटेन ऊभवाडु आनि अमरपण प्रकाश केलांस् कि कोयाले येकु घोषण कर्तेलो आनि प्रेरितु आनि अन्यदेशकारांलो शिकेतलो हांव नियुक्त आसं कि हे खातिर हांवयि
११ हो सगळो भोगु कर्तां तरि हांव लज्जितु नैं तेंयितें हांव
१२ जाण कि हांवें कोणालें शरण घेतलांस आनि कि हांवें ता गेले हातांतु कसलें समर्पण केलांस ते तेद्सु पर्यांतु तें रक्षा
१३ कोर्चाक सक्त। कोण सारा उत्तर मेगेले वाटेन तुंवें आयकिलांस तागेलि चालि यिशु खीष्टांतु विश्वासु आनि
१४ स्नेंयु पुर्वक तें धट्टि कोर्नु धरि। कोण उत्तम वस्तु तुगेले लागि समर्पित आसिलो तो आम्गेले भितरि रावतलो
१५ धर्मात्माकव्यान रक्षण करि। तुं समजता कि आसियकार सगळे मजांथाकुनु पर्तल्याति कोणांले भितरि फुगिल्लस
१६ आनि हर्मोगेणीस। ओनेसिफरसाले घराले लोकांले लागि प्रभु दया करो तेंयितें ताणे नेवानर माका विश्रांत केलो
१७ आसिलो आनि मेगेले सांकाळेन लज्जले आसिले नांति। तरि रुमांतु रावुनु यत्न पुर्वक मेगेलो सोद केलो आसिलो
१८ आनि माका मेळो। प्रभु होयि अनुग्रह करो कि तो तेद्सु प्रभुंथाकुनु दया पावता एफिससांतुयि ताणे कितुले कार्यांतु मेगेलि सेवा केलि हें तुं चां प्रकारान समज्लो आस।

२ द्वितीय पर्व।—हे खातिर हे मेगेले पुत प्रभु यिशु खीष्टांतु आसिले अनुग्रहान बलवंतु जा आनि कोण उत्तर सावार साक्षेले भितरि मेगेले तोंडान तुवें आयकिलांस तें

आनिर लोकाक शिकोंचाक समर्थ विश्वासि लोकांक समर्पण
३ करि। हे खातिर तुं खीष्टालो येंकु चांगु सिपायले वारि
४ दुःख ताळवि। युद्ध कर्तलो कोणु मनुष्यु हे संसारांतु
आपणाक्त तडसि ना कि सिपायले पदांतु कोण ताका
५ पसंत केलो तागेलो संतोषु उब्जायता। कोणि तरी
शर्याले खातिर यत्न कर्ता जाल्यारियि यवस्ते वारि यत्न कर्ना
६ तिलें मुकुटु धरसुचांतु अभिषिक्त नैं। श्रमु कर्तले कृषका
सगळ्यांले पिर्तम फल भोगश्चितले जावनु उचित आसति।
७ हांव कसलें म्हणतां तें मनांतु दवरि आनि प्रभु सगळे विष
८ यांतु तुका ज्ञान दिवो। दाउदालो वंशजु यिशु खीष्टु
ताका मनांतु करि कि कोण मजेंकर्तृक प्रकाशित मंगल समा
चाराले वारि मरणांथाकुनु उठायलो आसिलो तरि कोणा
९ लें प्रकाश करित हांव वायट कर्तल्याले वारि बांदपपरांतु
१० दुःख पावतां तैंयितें देवालें उत्तर बंद नैं। हे खातिर
हांव मनोनीतांले खातिर सगळें ताळविता कि ते यिशु खी
११ ष्टां आसिलें त्राण अनंत गौरव सैत पावता हें विश्वासालें
उत्तर तैंयितें तरी आमि तागेले भर्सि मेल्ले जातांति जाल्या
रि तागेले भर्सियि जीवन भोगु करित तरी तागेले भर्सि
१२ दुःख पावुं जाल्यारि तागेले भर्सियि राज्य करुं तरी ताका
१३ निषेतांति जाल्यारि तो आमकां निषेत। तरि आमि
विश्वासु ना कोरुं जाल्यारि वो विश्वासयोग्य आस तो आपणा
१४ गुणु निषोचा सकना। आयकतल्यांले उलटावचे नैतां
निरर्थक उत्राले विषयांतु विरोधु ना कोर्चि आज्ञा प्रभुजे
१५ येदुर तांकां दिउनु हेंचि उत्तर तांगेले मनांतु दिवो। देवा
ले साक्षात् मनोनीत सत्य उत्राले प्रश्नत वांठों लज्जा नाति
१६ लें कार्य कर्तलो जावचा यत्न करि। तरि धर्मु नातिले
आनि निरर्थक उत्रांथाकुनु धुर आ तैंयितें देवालि सेवा ना
कोणपरांतु वाडून तांगेलें उत्तरधि कलंकाले वारि आयत।

१७ नेवान उठय आतं गेलासं हें उत्तर म्होंगु सत्यपणाले विषयां तु विसल्यांति आनि कोणालोर विश्वासु उलटिलास कि हमे
१८ नेउसु आनि फिलीतसु ते तेपद्धालें लोकु। तरि प्रभु आपणा ले लोकांक जाण देवान केले हें मुद्रांकित पक्कांग स्तिर आस।
१९ कोण प्रति मनष्यु खीष्टालें नांव म्हणता तो अयथार्थपणु
२० सोडो। तरि व्होड घरांतु भांगार आनि रुप्यालें आयुदन मात्र नैं तरि राकडालें आनि मातियेलेयि आस आनि कित्
२१ लेकि मर्याद आनि कित्लेकि अमर्यादेले खातिर। हे खातिर कोणे आपणाक हांतुयांकुनु परिष्कार कोनुं पवित्र आनि प्रभुले कार्याले युक्त आनि प्रति चांक्रियेन प्रस्तुत
२२ मर्यादे पात्र जायत। तर्नाकुटे वेळा उबजल्ले कामांथाकु नुयि पेळा तरि कोणले शुद्ध ह्यांन देवाले लागि विनंति कर्तांति तांगेले भर्सि यथार्थपण आनि विश्वासु आनि खेयु
२३ आनि निर्विरोधपणालें अनुसंधान कऱ्या। तरि अज्ञान आनि विद्या नातिलें निमगप विरोधाक उब्जायता हें
२४ समजुनु ताका सोड्या। प्रभुले सेवकालो विरोधु कोर्चें उचित नैं तरि सगळ्यांले लागि मोउ जावचें सिकोंचाक
२५ प्रस्तुत जावचें ताळवक्के जावचें। आनि मोउरुपान विप रीतकारांलि शिक्षा कर्तले जावचेंयि उचित कि देउ सत्य पणा स्वीकार परांतु परामनन कोणा प्रकारान तांकां दिता।
२६ देवचाराले इच्छेन धर्ले ते ताजेन उब्जल्ले मोहांथाकुनु आपणाल्यांक सचेतन कर्तांति।

३ द्वितीय पर्व।—हेंवयि समजा कि शेषवेळांतु संकट
२ मय समयु जायत तेंयितें लोकु आत्माभोगु कर्तले लोभी दर्पा उत्तर उलैतले हंकारी निंदक बापसुक आवसुक मान
३ शि नातिले ह्रतघ्न अधर्मि स्वाभावि खेयु नातिलि बंदेलि

याडकर्तले फक्ति अपवाद् कर्तले अजीतेंद्रिय कठिण सा़क्षुक
४ तुच्छ कर्तले विश्व सुघाति आयेले मनान घमंकतले ईश्वरान
५ फक्ले देवाच्याके चडाव सुख खयु कर्तले देवाले सेवेलो आकार
धरिशितले तरि तें सामर्थ्य नडवतले असले लोकांथाकुनु
६ पर्ता। तंयितें पायान सुतवले नाना कामान भांत सर्वदा
शिक्षा करीत सत्यपणाविषयक ज्ञान ग्रहण केद्नांयि कोर्चो
७ सक्त ना असल्यो कोण बुद्धि नातिल्यो बायलो तांकां कोणते
८ घरांतु रिगुनु भुलिश्शितालि ते हेचि प्रकार। कसि यान्नि
सान आनि यंब्रसान मोशहाले विपक्षेलें आचरण केलेलें
तसि हो सत्याले विपक्षेलें आचरण कर्तालि ह्यो नष्टप्रकृति
९ आनि भक्ति विषयंतु उडौशे योग्य आस। तरि ते आनि
मुकासुंचाक मेळसि ना तेंयितें कसि तांगेलें तसियि ह्यांगेलें
१० पिसेंपण सगळ्यांले लागि प्रकाशित जायत। तरि मेगेलि
शिक्षा आनि व्यवहार आनि अभिप्रायु आनि भक्ति आनि
११ लांबु कालु सहण आनि मोगु आनि सहण आनि आंटिओ
खांतु आनि इकोनियमांतु आनि लस्त्रांतु मजेरि कोण विप
रितपण आनि दुःख जालेलें ह्यांवे कोणर विपरितपण साळ
विलें हें सगळें तूं चां प्रकारान समजलास तरि ते सगळ्यां
१२ थाकुनु प्रभुन माका उद्धार केलो। आनि कितुलो लोकु
खीष्ट यिशुले सेवेलें आचरणांतु कालु कातोचोंक इच्छितालि
१३ ते विपद्दता पावतिल। तरि दुष्ट लोकु आनि प्रतारकार
प्रतारणा करितर आनि प्रतारित जातार उत्तरोतर वा
१४ यट जायत। तरि कोणाले लागि शिकलास आनि कि
धर्मपुस्तक खीष्ट यिशुले विषयाले विश्वासा वाटेन तुका
१५ आणांलु समजलो कोर्चो सक्ता। आनि तूं कि चेरडपणा वे
ळुथानुं धर्मग्रंथक्षं जाणो आसिलो हें समजुनु कसलें शिक
१६ लाज आनि दृढपण केलो जालास ताजेन राब। सगळे
धर्मपुस्तक देवाले आवेशाले वाटेन दिउनु गेलांस आनि

शिक्षा आनि विवेकु आनि शासन आनि यथार्थ क्रिये उप
२७ देशाले खातिर फल दित्‌लो आस। कि देवालो मनुष्यु पुर्ण
जाता सगळे धा क्रियेन सगळे प्रकाराने ससज्ज जाता।

४ चतुर्थ पर्व। १ हे खातिर देवाले थेदुर आनि आपणा
प्रकाशाले वेळा आनि प्रभु यिशुखीष्टालेयि थेदुर कि कोण
आपणा राज्यांतु जीवे आनि मेल्ले लोकांक विचारशित हांव
२ हि आज्ञा दितां। उत्तर घेतणो कोर्थे वेळांतु आनि आका
लांतु प्रयत्न कर्तेलो जा सगळो लंबु कालु सहप आनि
बरि शिक्षा सहित निंदेकी करि आनि भिष्टाधि आनि प्ररो
३ चना करि। तेंयितें कोण वेळा ते धा शिक्षा ना ताळ
वितित तरि कान खोरपुपे विशिष्ट जावनु आपणागेले इ
च्छेले वारि आपणागेल्यां खातिर शिक्षा कर्लेले संग्रह करिति
४ त तो वेळु येत। तेवयि सत्यपणांथाकुनु कानु पर्तेनु इति
५ हासा उच्रा दिका पर्तेक्ष जातित। तरि तुं सगळे कार्या
न पारो दि दुःख ताळवि मंगल समाचार सांग्‌तल्यालें
६ कार्य करि तुगेले सेवेले कार्यालें पूर्ण प्रमाण करि। तेंयितें
हांव आतं उत्सर्गु जावनाक सिद्ध आसं मेगेले पेणालो वेळु
७ लागि जालास। हांवे उत्तम युद्ध केलंस हांवे कोर्यांतु
८ धांवप पूर्ते केलास हांवे भक्ति पाळशिल्यास। यथार्थ विचा
र कर्लेलो प्रभु ते दिसा दल्‌लें माका दित आनि माकाचि
मात्र नैं तरि कितुलो लोकु तागेलो प्रकाशु धां मानशिता
ते सकळ्यांके दित घस्‌ले यथार्थपणा वारि मुकुटु मजे खा
९ तिर रक्षण केल्लो आस। मेगेले हांगा वेगि येव्‌चाक यत्न
१० करि। तेंयितें देमसान हें वर्तमान संसारांतु अनुरक्त जावनु
माका सोळास आनि तेससोलोनिकांतु गेलाज क्रेस्केसु गालाति
११ यांतु गेलास आनि तीतसु दाल्मातियेंतु गेलास। मात्र
लूकु मजे भर्सि आस मार्कोक घेउनु आपणाले भर्सि हाडि

१२ तेंयितें सेवेंतु तो उत्तम उपकारी। तिख्रिकसाक हांवें
१३ एफिसांतु धाळास। कोण थांकुचें आंगवालें हांवें त्रो
यासांतु कार्पसाले लागि सोळें तें आनि पुस्तक तरि सग्
ळ्याचाके होड तें चामालें पुस्तक तुगेले येव्पाले वेळा लागि
१४ हाडि। आलेक्सांद्रु तामव्या मेगेलो होडु उपद्रबु केलो
१५ प्रभु तागेले क्रियेले तकित ताका बदला फल दिवो। तु
वेंयि तागांयाकुनु सावधान जावनु राब तेंयितें ताणें आम
१६ गेले उत्रालें हो विपरित केलें। मेगेलें पितैमलें उत्तर दिव्चे
वेळा कोणी मजे भसिं राब्बो ना तरि सग्ळे माका सोण्
१७ गेले हें तांगेले लेकांतु बरांनु ना वोचो। तरि मेगेले
वाटेन मंगल समाचार घोषणा पुर्तो समजुनु वोचे खातिर
१८ आनि अन्यदेशकारां सग्ळ्यांले आयकुचे खातिर प्रभु मेगेले
लागि यिबि आसिलो आनि माका बलाड्यु केलो आनि हांव
१९ सिंहाले तोणांयाकनु सुंटलो आसिलों। आनि प्रभु माका
प्रति वायट क्रियेंयाकुनु सुंटैत आनि आपणाले सर्गारि
आसिलें राज्य पर्यांतु रक्षण करित तागेले सदासर्वदाणेंतु
गौरव जावो। आमिन।
२० प्रस्कल्लाक आनि आकल्लाक आनि ओनेसिफरसालें परि
जन लोकांक नमस्कार करि। एरास्तसु करिंतांतु राब्
लो तरि त्रोफिमसु पीडीतु जातचि हांवे ताका मिलेतसांतु
२१ सोळो। शियां वेळाले पितैम येव्चाक यत्न करि इउबुलसु
आनि पूदेंसु आनि लीनसु आनि क्लादिया आनि सग्ळे भाव
२२ तुका नमस्कार कर्तांति। प्रभु यिशु खीष्टु तुगेले आत्माले
भसिं जावो अनुग्रह तुजेरि जावो आमिन।

पाउल प्रेरिताने कोण्ण पत्र तीतसाले लागि बरैलेलें तें हें ।

## १ प्रथम पर्व्व ।—

१ देवाले मनोनीत लोकांले भक्तिले दारि आनि फुटि सांगु
अशक्तु देउ कोणे अनंत आयुष्य जगताले प्रारंभाले तेंम
२ प्रतिज्ञा केलि तरि कोण्ण धोपण्ण सेवा मजे लागि समर्पिल्लि
आस ताजाने देउ आमगेले तारण्णिल्याले आज्ञा तकित
आपण्णाले उत्तर आत्तं उचिताले वेळा प्रकाश केले,आसिलें
३ ते अनंत आयुषाले आशाविषयक देवासेवेले वारि सत्यपण्ण
४ घेवप ताजेवारियि देवालो सेवकु आनि यिशु खीष्टालो प्रेरि
तु पाउलु साधारण भक्त्यानुरूपांतु निजा पुतु तीतसाले
५ लागि पत्र बरैता । देउ आंनु आनि आमगेलो तारण्णिल
ले प्रभु यिशु खीष्टांथाकुन् अनुग्रह आनि दया आनि शांति
जोवो ।

६ पूर्णं नर आहुते कोण्ण कार्य तें कार्य शिंगाचांक आनि कसि
७ हांव तुका सांगुन् नेमक केले आसिलें तसि तरी कोणे दोषु
नातिलो जायत येकलें बायलेलो बांमुणु आनि कोणाले विश्वा
८ सी आनि वर्थ वेंचांतु अनपवादितु आनि अशिष्ट नैं असलें
चेरडुं आस असले लोकांले प्रति प्रहरांतु म्हालगड्यांले का
९ र्यांतु नियुक्त कोचांक तुका हांवें क्रीतांतु दवलों । तेंयितें देवा
ले मंत्राले वारि दोषु नातिलो आनि स्वेच्छाचारी नैं हटात्
कोपी नैं सुरपियो नैं मारेकार नैं मलिन लभ्यलोभी नैं तरि

थेरडांक भोगु कर्ता आनि देवाले उत्रालि अख्याति ना जावचे खातिर नेमकाणि आनि विचारु कर्तलि आनि पति ५ व्रता आनि सघरांतु राबूतलि आनि मंगलकारिणि आनि आपणाले बांभणा स्वाधीन राबूतलि आयत तर्नाकुटे बायु लांक थोर विषयु शिच्छा कर्तलि आयत हें उत्तर सांकायि ६ म्हणा। सगळे क्रियेन आपणाक चो क्रियेलि बानणि दाकोनुयि कि निपक्ष लोकु तुमगेलि अख्याति कोचांक कांयि ७ मेळ नातिलें लज्जित जायत। शिक्षेंतु विकारु ना जावप गांभीर्य सभ्यपण आनि दुषण नालिले सारा उत्तरयि दाकोनु ८ तर्नाकुटे दादल्यांकयि बरगुण्या जावचाक उपदेशु कर्या। ९ दासांक आज्ञा दिया कि ते बदला उत्तर कर्नातिलें आनि १० चोरि कर्नातिलें तरि उत्सांतु विश्वासा आचारु कोनु ११ आपापणा प्रभुलें आधीन आनि तुष्टिकारी जायत कि ते सर्वथा आम्गेलो त्राणु कर्तले देवालें शिक्षेक अलंकृत कर्ता १२ ति। तेंथितें देवाले सेवेन आनि संसाराले कार्य नडबुनु ते आशिर्वादु पावल आशेलि अपेक्षा कोनु आनि परमेश्वरु अर्थात आम्गेलो तारशितको यिशु ख्रीस्ताले तेजोमय प्रकाशालि अपक्षायि कोनु कि पोणु आम्कां सगळे अयथार्थ पणांथाकुनु मुक्त कोचांक आनि आपणाले खातिर बरि क्रिया कोर्चाक उद्युक्त विशेष येकुलोका सभोंक पवित्र कोचांक आम् १३ गेले खातिर आपणाक दिलो आमि हें वर्तमान जगतांतु- १४ नेमांतु आनि यथार्थतु आनि देवासेवा कोर्चे मणकें आचरण कोर्चाक आम्कां शिच्छा करैतले कि त्राण उबजायतले देवालो १५ अनुग्रह सगळे मनुष्यांचेरि प्रकाशित आस। हें उत्तर सांग आनि उपदेशु करि आनि सगळे कर्तृत्वपूर्वक अनुयोगु करि कोणे तुका तुच्छ कर्नां जावो।

३ तृतीय पर्व।—राजाधिरायांले आनि पराक्रमुधर्त्यांले

वशीभूत जाव्चाक आनि कर्त्तव्यांक मानुसुघाक आनि प्रति
बरिक्रियेंतु प्रस्तुत जाव्चाक आनि कोण्णालेंयि वायट ना
२ कोर्चाक आनि विरोधी ना जाव्चाक तरि मोउ जाव्चाक
आनि सगळे लोकांले लागि सगळे प्रकार नंम्रतादर्शी
३ जाव्चाक तांगेले मनांतु दि। तेंयितें आमि आपणयि
यितंमले वेळा अज्ञानि आनि मानसि नातिले आनि भ्रांत
आनि नाना कामाले आनि सुखाले सेवक आनि कुराचारी
आनि देवाचारी आनि कंटाळमय आनि परस्पर अळ
४ सितले आसिले। तरि मनुष्याले लागि आम्गेलो तार
५ सितले देवालो खेगु आनि मनुष्याचेरि प्रीति प्रकाशित जा
६ तचि तो आम्गेले खरात यथार्थ क्रियेन नैं तरि पुनर्जन्मरूप
धुवपान आनि आम्गेलो तारशितले यिणु खोस्ताले वाटेन
आम्चेरि साबार खरपान अभिशिक्त्यतित धर्मात्माकत्यान
नेंवान नवें कोचांतुयि आपणाले कृपेले अनुसारान आम्कां
७ त्राण केलें। आमि तांगेले अनुग्रहान यथार्थिक केल्ले जाव्नु
८ अनंत आयुष्याले भवेंसा लकिल अधिकारी जाउं। हें उत्तर
विश्वासुचें योग्य आनि हांव इच्छितां कि तुं नित्य हें उत्तर
घटि प्रकारांतु म्हण कि देवांतु विश्वासी घां क्रियेंतु वाचाळु
जाव्चाक प्रयत्नकारी जाता मनुष्यांल खातिर हेंर बरें
९ आनि फल दितले। तरि अनर्थ दिम्गाप आनि वंश
वळि आनि विवाद आनि यवस्तेलो विरोधु सोड्या तेंयितें
१० तें निष्फल आनि प्रयोजन नातिले। कोणतो धर्मु नातिलो
११ तो भष्टु आनि आपण दोषी जावनु पाप कर्ता हें समजुनु
ताका यितंम जावो द्वितीय अनुयोगाले मागिरि सोडि।
१२ केद्ना हांव आर्तेमसाक जावो तिखिकसाक तुजे लागि
धाडतां तेद्ना निकपलिसांतु मजे लागि येवचाक यत्न करि।
१३ तेंयितें शिथ्यांदिसांतु थें राव्चो नेमु हांवें केलास जेनस
वाकिलाक आनि आपल्लसाक तांगेले येणांतु यत्न पूर्वक

उपकार करि कि तांगेले कोणे वस्ताले उणें ना आयत।
१४ आम्गेलो लोकुयि आवश्यकाले कार्यांले खातिर यत्नपुर्वक बरि क्रिया कोर्याक शिक्षा करो कि ते फलनातिले ना जातित।
१५ मेगेले सांगाति सगळे तुम्कां नमस्कार कर्रांति। कोण्ते खीष्टाले विश्वासा संबंधांतु आम्कां प्रेमु कर्रांति तांकां नमस्कार कर्या। तुम्गेले सगळ्यांले वोयरि अनुग्रह जावो। आमिन।

## पाउलान कोण पत्र फिलिमनालि लागि बरलें तें हें।

### १ प्रथम पर्व।—

१ यिशु खीष्टालो दासु पाउलु आनि तिमोतियसु भाउ आम गेलो सेयितु आनि सांगातिकार फिलिमनाक आनि प्रिय
२ अपियायाक आनि आम्गेलें ससैच आर्खिपलाक आनि तुगेले
३ घरांतु कोण मंडली आसले सगळ्यांक पत्र वरैतां तिं। देउ
४ आम्गेले आंवायाकुनु आनि यिशु खीष्टांयाकुनु अनुग्रह
५ आनि शांति तुम्बेरि जावो। प्रभु यिशुले आनि सगळे पुण्यकेल्यांले लागि तुगेलो कोण मोगु आनि विश्वासु आस तो आयकुनु हांव आप्णाले प्रार्थनाले वेळा तुगेलें नांव नित्य
६ कोनुं मेगेले देवालि स्तुति कर्तां। कि यिशु खीष्टा संबंधी कोण प्रत्येकु गुणु तुजांतु आसले अंगिकारा वाटेन तुगेले
७ विश्वासाले साधारण सफल जाव्‌त। तेंयितें हे भावा तुगेलें प्रेमान आम्गेलो व्होडु आनंदु आनि सांत्वना आस तेंयितें
८ साधु लोकांलें अंतर तुजान विश्रमकेले जाता। ते खातिर कोण उपयुक्त तें तुका आज्ञा कोर्चाक हांव खीष्टांतु साहसि कु जाव्‌चाक सकतां खरें तथापि हांव म्हांतारों पाउलु आनि
९ आतांयि यिशु खीष्टालो बंदिकार जावनु मोगान वरं तुका विनंति कर्तां।
१० हांव आप्णाले कोण पुताक मेगेले बंदनालेवेळा उबजाय

वास कि पितेश तुंगि लाभु नासिले आसिले तरि आतां सुगले
११ आनि मेगेले लाभकारि जाल्यालि कोणाक ह्यांवें नेंवान
१२ धाळास अर्थात ओनेसिमनाले खातिर तुका विनति कर्तां हे
१३ खातिर कोणु मेगेले निजा आंतांतारि ताका घेया । तुगेले
बदलांतु मंगल समाचाराले निमित्तीं बांदपांतु मेगेली सेवा
कोर्चें खातिर ह्यांव आपणाले लागि ताका दवोर्चाक ...
१४ केलि । तरि तुगेलि संमति मंतां ह्यांव कांयि कोर्चाक
इच्छि ना कि मेगेलो उपकारु कोर्चें प्रयोजनांतु जाले उपका
१५ राले वारि ना जायत तरि मनाले भर्ति जायत । तेंयितें
समजतां कि तो कांयि समयु तुका सोंणु गेलो कि तुं ताका
१६ सदंले खातिर घे । आतां दासालें वारि नैं तरि
दासाचाके होडु अर्थात मोगा भावालें वारि विशेषित मेगेले
लागि तरि शरीराले विषयांतु आनि प्रभुले विषयांतु यितें
१७ नेंवान तुगेले लागि । हे खातिर तुं तरि माका समान भागा
ह्यांन मानिसिसि जाल्यारि ताका मेगेलें आपणाले वारि घे ।
१८ येकवेळा ताणे तुगेलें कांयि नष्ट केलांस किंवा तुगेलें कांयि
१९ रुणी जालांस जाल्यारि तें मेगेले लेकांतु बरे । ह्यांव
पाउलु आपणाले हातान बरैलांस कि ह्यांव ताकेलो सोधु
करिन तरि ह्यांव तुका सांगना कि तुं मजे लागि आपणाले
२० प्राणालेयि रुणी आस । हे भावा प्रभुतु तुगेले वाटेन
मेगेलो आनंदु जावो प्रभुंतु मेगेलें अंतःकरणाली विश्राम
२१ करि । तुगेले आज्ञाकारी जाल्यान विश्वासु कोर्नुंयि तुं कि
मेगेले सांगणाचाके चडाव करिशी हें समजुनु ह्यांव तुजे लागि
२२ बरैलांस । तरि मेगेले खातिरयि बिडार प्रस्तुत करि तें
यितें ह्यांव विश्वासु कर्तां कि तुम्गेले प्रार्थनाले वाटेन ह्यांव
२३ तुम्गेले लागि दिउनु वोचन । ख्रीष्ट यिशुतु मेगेलो सङ्
बंदिकारु एपाफ्रासु आनि मेगेलो सांगातिकारु मार्कु
२४ आनि अरिस्तार्खु आनि देमस् आनि लूक् तुका नमस्कार

२५ फतैाति। आम्गेलो प्रभु यिशु ख्रीष्टालो अनुग्रह तुगेले आत्माले सैत जावो। आमिन।

काय कागत हिब्रीयांले लागि बरोनु गेलेलें तें हें।

१ प्रथम पर्व।—

१ नाना प्रकाराले समयांतु आनि नाना प्राकारीं आचेऱ्यां
ले वाटेन पितृमले वेळा पितृलोकांक सांगलें कोण देउ ताणे
पुताले वाटेन आम्कां हे शेष वेळा म्हळांस कि कोणांक सर्व
२ अधिकारी केलास कोणलें करपनि सगळे जगताचि सृष्टि
३ केलि। कोणे ताजेले महात्माले तेज आनि ताजेले भावाले
तत्व जावनु आनि आपणालो पराक्रमुमय उत्ताम सगळें धर
४ सुनु आपणाले वाटेन आम्गेलें पाप विमोचन केलें। अधि
कारपण सैत दुतांले नावांथाकुनु उत्तम नांव मेळेलें ताजे मग
के ताजांथाकुनु उत्तम केल्ले जावनु वह्ले ऐश्वर्याले उजवेकडे
५ बसलो असलोतेंथितें ताणे दुतांले भितरि कोणाले लागि कोण
वेळा सांगलांस कि तं मेगेलो पुतु आजि तुका उबजायलास
आनि नेंवान हांव तागेलो आंनु जायन आनि तो मेगेलो पुतु
६ जायत। आनिके केद्ना पितृम उब्जाल्याक हाडता तेद्ना
तो म्हणता कि देवाले सगळे दुत तागेले भजन करोति।
७ दूतांले विषयांतु तो म्हणता कोण आपणा दूतांक आत्मा
८ आनि आपणा सेवकांक उजा जीब कर्ता। तरि पुताक तो
म्हणता हे देवा तुगेलें सिंहासन सदा सर्वदाणांतु राबस
९ तुगेले राज्यालो राजदंतु यथार्थ स्वरूप राजदंडु। तुंवे

यथार्थपण चांग मान्सिलांस आनि यथार्थपण् अळसिकेलांस् हे खातिर देउ अर्थात तुगेलो देउ तुगेले सांगातिकारांपाकुनु तुका आनंद स्वरूप तेला आनियेकेलो केलास । आनिकी
१० हे थिरुह तुंवे पितॆम भुंयिलें मूळ केलांस आनि स्वर्गुं तुगे
११ ले हातान केलें । तांगेलें क्षय जायत तरि तुं वर्तमान
१२ आस तें सगळें आंगवस्त्राले वारि पोर्ने जावनु वोघ्‌त आनि तुं आंगवल्याले मळ्के ते घडी केल्याम तें अन्यस्वरुपान जायत तरि तुं नित्य आनि तुगेले कालालें क्षय जायसि ना ।
१३ तरि तो यित्तें दूतांले भितरि कोणे वेळा कोणाक म्हळांस केरोळुपरांतु तुगेले शत्रुंक तुगेले पायांतोगुं हांव कर्ता जायत
१४ तेदोळुपरांतु मेगेले उजव्यान बैस । ते सगळें यित्तें त्राणा धिकारांलि सेवा कोर्चे खातिर प्रेरितु सेवा कर्तेलो आत्मा नैं ।

२ द्वितीय पर्व ।—हे खातिर कसलेंर आनि आयकिलांस तांतु चडाव मनोयोगु कोर्चें कर्तव्य आस कोणजाण कोणे
२ वेळा तें गोळचा दि । तेंयितें दूतांले वाटेन सांगिलें उत्तर तरी स्थिर जालें आनि प्रत्येक दांटवण आनि मानसि नाते लें यथार्थ फळ तरी मेळत जाल्यारि भो होड त्राण तरी आनि तागेलें हेलन करुं जाल्यारि कसि वांचुं । कि कोण
३ पितॆम प्रभुले वाटेन सांगिलें आसिलें आनि देवालो गुर्तु
४ आनि आश्चर्य क्रिया आपुणा इच्छे वारियि नानाप्रसंभव क्रिया आनि धर्मात्माकयान दिल्लें सामर्थ्य दिउनु तागेलें प्रमाण कर्तेचि कोणले ते तागेलें उत्तर आयकिलें तांगेले वाटे नयि आमगेले लागि प्रमाण केलें तेंयिलें कोण भविष्यत संसा
५ रालें उत्तर आनि म्हण्‌तांति तो संसारु दूतांले आधीन कोर्न
६ तांगेले लागि समर्पित कलेना । तरि अमुक जाग्यारि येक ल्यान हें प्रमाण दिलें मनुष्यु कोणु कि तुं तागेलें विषयांतु स्मरांतु करि आनि मनुष्यालो पुतु कोणु कि तुं तागेले लागि

७ दर्शैव दि। दूतांचाके कांयि तोगु तुवें ताका केलास तुवें ताका गैारव आनि संभ्रमुस्वरूप मुकुटान भूषित केलास आनि
८ आपणालें हातान केल्ले सगळ्यांचेरि नियुक्त केलांस। तुवें तागेले पाया तोगु सगळ्यांक स्वाधीन केल्यांतिं तेंयितें ताणें कि सगळें तागेले स्वाधीन केलेलें ताजो अर्थु हो तागेले आधीन जाय नातिलें ताणें कांयि दवजें ना तरि आत्तं आमि सगळें
९ तागेले स्वाधीन चोयि नांति। तरि कोणु मरण भोगसुचे खातिर देवाले अनुग्रहाले वाटेन प्रति आणाले खातिर मरणा रोसु भोगुचे खातिर थोडोवेळु दूतांचाके तोगु केल्ले यिशुक ताका गैारव आनि संभ्रमा वारि मुकुटान विभूषित आमि चो
१० वयां। तेंयितें कोणाले खातिर सगळें आनि कोणालें येजमान पण सगळें सावार पुतांक गैारव मेळचे खातिर तागेले ता णाले सेनायतिक कष्टाले वाटेन संपूर्ण कोचें तागेलें उपयुक्त
११ आसिलें। तेंयितें कोण शुद्ध कर्ता आनि कोणते शुद्ध जातांति ते सगळें येकल्याले हे खातिर मेगेले भावांले लागि तुगेलें
१२ नांव प्रकाश करिन मंडलीले भितरि तुगेलें स्तव गायन हांव करिन हें उत्तर म्होंणु तो तांकां भावा म्होंणु आपोचाक लज्जे
१३ स्तो जायना। नेंवान हांव तागेलें शरण घेन आनि नेंवान
१४ माका आनि देवान दिल्ले मेगेले चेरडुवांक चोयि। हे खातिर चेरडुवं मांसरक्तविशिष्ट जात्तचि तोवयि मत्युले वाटेन मृत्यु ले प्रभावाले अधिकारी देवचाराक भष्ट कोचें खातिर आनि कोणते मरणा भयान आपणर सगळो जीवचो वेळु परां
१५ तु दासपणाले स्वाधीन आसिले तांकां उद्धार कोचें खातिर
१६ तोवयि ताजें निश्चित आसिलो। तेंयितें ताणें दूतांलि प्रकृ ति धारण कर्नातिलें तरि अब्राहामाले संतानांलि प्रकृति
१७ धारण केलि हो निश्चयु। हे खातिर लोकांले पापाले खातिर प्रायश्चित्त कोचेंक देवाले संबंधीले सगळे क्रियेंतु दयाळु आनि विश्वासी प्रधान पुरोहित जाचे खातिर सगळे प्रकारण आपण

१८ भेयांलें थी देवु येन् वें केल्लें जावन् तागेलें उपयुक्त। तेंयितें तो आपुण परिक्षेलो जावन् कोणु पावलास ताजेन कोणले परिक्षेलें जातांति तांगेलो उपकार कोर्चाक सक्तालो आस।

१ ३ पव्वे। हे खातिर हे साधु भावानो सर्गावेलें आक्काना वांटेलि अम्गेलें मतालो प्रेरितु आनि प्रधान पुरेतु यिशु खीष्त मनांतु कचा कि कोण कसि मोग्रह आयणा सगळें
२ घरांतु विश्वस्तो आसिलो तसि ताजे नेमसिल्याले लागि विश्वासी आसिलो तेंयितें हो मनुष्य मोग्रहाचाकें मर्यादयोग्य गणि
३ त आसिलो तेंयितें घराले गांतितल्याली मर्यादा घराले मर्या
४ दाक्कैं चडाव। प्रत्येक घर कोणें कोणाले करणक गांतिलें
५ आस तरि कोणें सगळो वस्तु निर्माण कोलो तो देउ। मान्ति सांग्चे विषयालें प्रमाणाले खातिर मोग्रह आपुणा घराले
६ सर्वत्र दासाले वारि विश्वासी आसिलो खरें। तरि कसि पुतु
७ आपुणाले घरांतु तसि खीष्टु। तो साहसु आनि भरवसा विषयक दर्प तरी आनि शेषपरांतु घट्टिरप धर्तांति जा
८ ल्यारि आनि तागें घर। हे खातिर कसि धर्मात्मा म्हण्ता कि आजि तरी आनि तागेलें उत्तर आयकुचाक इच्छितांति
९ जाल्यारि तुम्गेलो पितृलोकु हें चाळिस वर्सपरांतु मेगे लि परिक्षा केलि आनि मेगेलो विचार केलो आनि मेगेलि क्रिया देख्ति ते रान्नांतु परिक्षेले वेळा कोपु प्रज्वलमान कसि जालेलें तसि आपुणागेलें अंतःकरण कठिण कोर्नाका।
१० ताजेन हांव येवेळा तेंजांलें विषयांतु विरक्त आसिलों आनि म्हळें ते सर्वदा अंतःकरणांतु विसर्तांति आनि मेगेलि वाट
११ मकग जति। हे खातिर हांवें आयलें कोपान आण केलि
१२ कि ते गेलें विश्रामा आग्यारि वोचाक मेळसि ना। हे भा दानो [illegible] आशा [illegible] असल्यान जीवो देउ सोडतलो

याचि विश्वास नासिलें अंतःकरण तुमगेले कोणालेयि भितरि
१३ नाता।   तरि कितुले क्षण आजि सांगुनु वोता तेदोळु
परांतु नित्य परस्पर उपदेशु कर्या कि पापाले कपट न तुम्
१४ गेले कोणालेंयि मंन निष्टर केलें ना जायत।   तेंयिलें तरी
आमि शेषपरांतु आपणागेले विश्वासालो आरंभु घट्टि कोनुं
१५ घर्सुं जाल्यारि आमि ख्रीष्टाले वांटेलि जातांति।   आजि
शब्दु केदोळु परांतु सांगुन वोधन तेदोळुपरांतु तरी तागेलें
उत्तर आयकसि जाल्यारि कोपु प्रज्वलना वेळांतु कसि
आसिलो तसि आपणागेलें अंतःकरण निष्टर कोर्नाकाति।
१६ तेंयिलें कोणेंर आयकुनु कोपु उब्जायलो तरि मोशेहस्थान
कितुलो लोकु मिस्रांथाकुनु भायर आयलो तें सगळें नैं।
१७ तरि तो चाळिस वर्सं परांतु कोणाले विषयांतु विरक्त
आसिलो कोणें पाप केले आसिलें आनि कोणागेलें मढें
१८ रानांतु पळेलें तें यिलें तागेले विषयांतु नैं।   विश्वासु नासि
लो लोकु नंतां ताणे यिलें आनि कोणा लेयि आगि सोपुनु
केलो कि ते तागेले विश्रामा जाग्यारि प्रवेश कोर्चाक सक्
१९ नाति।   हे खातिर आमि समजुचा पावतांति कि ते अवि
श्वासांतु प्रवेश कोर्चाक सक्ले नांति।

४ चतुर्थ पर्व्व।—हे खातिर तागेले विश्रामा जाग्यांतु
प्रवेशालि प्रतिज्ञा आमगेले लागि स्थापित आसचि आमि
भय कर्तांति कोणजाण तुमगेले कोणालेंयि तें लाभ पावृयि
२ चुटि आवृचि प्रतिलेआयि जाता।   तेंयिलें आमगेले लागि
मंगल समाचार कसि घोषणा कोनुं वोता तसि तागेले
लागियि घोषणा कोर्नुं गेलोलो खरें परि घोषण केलें उत्तर
आयकतल्याले भितरि विश्वासांतु मेळनु गेले ना आव्याव
३ तागेलें कांयि फळ ना आसिलें। तरि जमताचें मुळ करोव

२

सांगिन कार्य समाप्त जाल्यानयि तथापि कसि तर्यो म्हळें हांव कोपल्लों जावनु हो सोपुतु केलो कि ते मेगेलो विश्रामा जाग्यांतु प्रवेश ना कर्तित तसि विश्रामा जागो शब्दा प्रमाणे विश्वासु कर्तले आमि तागेले विश्रामा जाग्यांतु रिगुयां।
४ तेंयितें अमुक जाग्यांतु ताणें सातवे दिसालें विषयांतु हें उत्तर म्हळें देवान सातवे दिसा आपणा सगळे कार्यांधावुनु
५ विश्रामु केलो। आनि तेंवान हे जाग्यांतु तरी ते मेगेले
६ विश्रामा जाग्यांतु रिगतित। तेंवानयि दाउदांतु तो हें
७ उत्तर सांगुनु येक वेळालें नेमक कर्ता आजि यितुलें कालाचे मागिरि कसि सांगुनु वता आजि तरी तुम्हि तागेलें उत्तर आयकता जाल्यारि आपणागेलें अंतस्करण कठिन कोर्नां
८ कानि। तेंयितें तरी यिशोशुवा तांकां विश्रामु दित्ता
९ जाल्यारि हाजे मागिरि येक दिसालें उत्तर तो सांगता। हे खातिर देवाले लोकांलें खातिर भविष्यत् विश्रामु आसि।
१० तेंयितें कोणे तागेले विश्रामांतु प्रवेशु केलांस ताणे देवाले
११ वारि आपणालें कर्म कोर्चेयि सोळांस। कोणाकर तागेले भितरि प्रवेश कोर्चें पडत आनि कोणागेलें लागि उत्तर पितम घोषणा कोर्नें गेलें तानि अविश्वासु प्रयुक्त रिगंप केलें ना।
१२ हे खातिर ते अविश्वासा बानगीलें वारि कोणाके ना पोडचे खातिर आमि ते विश्रामा जाग्यांतु प्रवेश कोर्चे खातिर यत्न
१३ पूर्वक श्रमु कोर्यां। तयितें देवालें उत्तर जीवें आनि प्राद् भावि दोनिधारे खांड्याकेें तीक प्राणु आनि आत्माले आनि गांटि आमि मोजेले दोनि भाग कोरपर्यंतु परिभे दक आनि अंतःकरणालो संकल्प आनि संधानालो विचार कर्तलो। तागेले दृष्टिमयि कोणे सृष्ट अप्रकाशित ना तरि कोणाले लागि आमगेलें उत्तर सांगुचें जाता तें तागेले दोळ्या
१४ खे मोंचरांतु सगळें उगतें आनि उगडें आस। हें खातिर

सर्गांतु प्रविष्ट यिशु देवालो पुतु आम्गेलो महाप्रधान पुरेतु जाल्यान आमि आपणागेले मतावलंबन घटि कोर्नु धर्तांति ।
१५ तेंयितें आम्गेलें असो प्रधान पुरेत नैं कि कोण आम्गेलें निर्बलान पीडित जाव्चाक सकना तरि पाप वर्ज्जित तो सग
१६ ळे प्रकारान आम्गेले वारि परिक्षेंत आसिलो हे खातिर कृपा आनि आवश्यक वेळा उपकाह कोर्ये खातिर अनुग्रह पाव्चे खातिर आमि प्रसाद सिंहासनाले लागि निर्भयान येवुं ।

५ पंचम पर्व ।—मनुष्यांले भितरियाकुन घेउनु गेलो तो विश्वासी प्रधान याजकु मनुष्यांले पक्षांतु देवाले विषया जि क्रियेले खातिर दान आनि पापघ्न बलिदान कोर्चाक नेम
२ सिलें आस । आनि आपण निर्बलान वेडायले आव्चान अज्ञान्यांक आनि मार्गु वर्हिर्भूतांक दया कोर्चाक समर्थ ।
३ हांतु कसि लोकांले खातिर तसि आपणाले खातिरयि
४ पापघ्न बलिदान कोर्शके ताजे आवश्यक आस । आनि आह्रोणाले वारि देवांतु नियोजित जावचें नंतां कोण कोणें
५ आपोपणाले खातिर हो सम्मानु घेना । ह्याजे वारि ख्रीष्टु यि प्रधान पुरेतु जाव्चे खातिर आपण आपणाक होडु केलो ना तरि कोणें ताका म्हळें कि तुं मेगेलो पुतु आजि
६ तुका हांवे उब्जायलास तांणे ताका होड केलो । कसि तो आनि येक जाग्यारियि म्हणता कि तुं मेल्किसेदेकांले चालि
७ ले वारि नित्य प्रधान याजक आस । आपणाले देह विशिष्ट जाव्चे वेळा कोणे ताका मरणांतुल्यान रक्षा कोर्चाक सकलें ताणे ताजे लागि होड रडणे आनि दुकां पूर्वक प्रार्थना आनि विनंति केलेलि आनि भयानक दर्शंथाकुन मुक्त आसिलो
८ तो पुतु खरो जाल्यारियि कोण दुःख पाव्लें ते दुःखावाटेन
९ आज्ञा मानचि शिक्षा केलि । आनि संपूर्ण केल्ले जावनु मेलु

७ मनन मेंवाम उब्जावचें असाध्य। तेंयितें तागेले वेयरि
मेंवानर येव्चो पावसु पियलो आनि तागेले कृषाकांले
उपयुक्त पाक उब्जायतलि भुंयि देवांधाकुन आशीर्वादु
८ पावता। तरि कांटे आनि रानबोर उब्जायतलो कोण् तो
कंटाळ आन केलो आनि शापु लागिल्लो प्राय आस कोणाले
९ शेष जालुनु वोचें। तरि हे केदिहरानो आमि असले म्हणतां
तिजरे तथापि तुमगेले विधयांतु श्राजाले चांग क्रिया आनि
१० त्राणा संबंधा क्रिया आपणा कर्तांति। तेंयितें देउ अयथार्थि
नै कि पुरुषवर्ताति कोण सेवा तुंमि केलेसि आनि आतंयि
कर्तांति ताजेन तुमगेले प्रेमालि कोण क्रिया आनि परिश्रमु
तुंमि तागेले नांवाले लागि प्रकाश केलांस ताजेन विसर्तांति।
११ आनि इच्छा कर्तांति कि तुंमि आलसी जाव् नाकाति
१२ तरि कि तुमगेले भितरि प्रति मनुष्यु शेषपरांतु भरवसाचो
पुर्ते निश्चयु कोर्चें खातिर ते प्रकारा कर्मशीलपण दाकेता
कि कोणते विश्वासाले आनि खांव ताळवणाले वाटेन
प्रतिज्ञा अधिकाराचो भोगु कर्तांस तुंमि तागेले अनुकारी
१३ जावां। तेंयितें केद्ना देवान अब्राहामाले लागि
प्रतिज्ञा केलि तेद्ना आपणाधाकुन व्होड नांव घेउनु सो
पुतु कोर्चा सक्ताले ताजे हे उपर त्योंसु आपणालें
१४ नांव घेउनु सोपुतु केलो। कि अवश्य आशीर्वादु दिव्पाक
तुका हांव आशीर्वादु दिन आनि व्हातारे केल्यान तुका
१५ व्हातारो करिन। आनि ताजेन ताणे लांबु वेळु सहतपि ते
१६ प्रतिज्ञेचो वस्तु पावलो। श्रेष्ठतागेलें नांव घेउनु मनुष्य
सोपुतु कर्तांति तरें आनि स्थिर कोर्चें खातिर सोपुतु सग्
१७ ळे विवादाले शेष। ह्यातु देउ प्रतिज्ञाले अधिकाराक भो
ग्तारा स्वरूपांतु आपणा मेताले अचलभावु प्रकाश कोर्चाक
इच्छा कोर्नु सोपुताले वाटेन तें स्थिर केलें कि कसल्यान देवा

ले फट्टि उत्तर सांगता असाध्य आयंत असलें कोण देवा
अनन्यथाभावी विषयुतांतु आम्गेलि घट्टि सांत्वना आता
कि कोण भरवसो आम्गेले येदुर स्थापित आस तें धोंदाक
१८ आम्कां धोर्वें खातिर पोळनु गेलास। तो भरवसो जिवाची
१९ आनि स्थिर आत्माले नांगराले वारि आम्गेलो आस आनि
मेलकिसेदेकाले चालिले मणके नित्य प्रधान याजक जेलो
२० यिशु मुकासोतलो खैं आम्गेले खातिर प्रविष्ट जालास असि
कोण मर्ते येरो ताजे भितरि कोण आस तांतु रिगला।

७ सप्त पर्व। तेंपिलें रायांलें मारपांयाकुनु परतालो
अब्राहामाले भेटि वाटेरि मेळनु ताका आशीर्वादु दिलो
२ आनि कोणाक अब्राहामान सगळ्यांलो धावो वांटो दिलो
आसिलो जो वोयरि देवाजो याजकु जालसालो होवि मेल्
किसेदेकु रायु अर्थात प्रथमतः धर्माचो रायु द्वितीयतः शाल
३ माचो अर्थात शांतिचो रायु अपितृक अमातृक अपत्यजाति
ले आयुष्या आदि आनि जीवाले वेळाचो अंत नातिलो
आनि देवाले पुताले सदृशी तेणें जावनु नित्य याजक स्वरूपान
४ रावता। सबा कोणाक मोव्हकार अब्राहामान आपणे
लुटालो धावो वांटो दिलो असलो कोण मनुष्यु तो कोण
५ प्रकारि होड तें विवेचना करि। लेवीकांलि लागि अर्थात
अब्राहामाले कुटांधाकुनु बारसलें आपणागेले भावां
ले लागि शास्त्राले मणके धावो वांटो घेवचि आज्ञा पुरेता
परमपरी लेवीचो वंशकारांलि लागि आस होचि निश्च
६ यु। तरि कोणाचो वंशु तांचांधाकुनु मोजुन ना येवत
ताणें अब्राहामाधाकुन धावो वांटो घेतलो आनि प्रति
७ ज्ञाले अधिकाऱ्याक आशीर्वादु दिलो। आनि हो
निःसंदेहु कि हलुक मनुष्यु उत्तमें दादल्याले लागि आशी

७

८ वांटु पावता । हांमायि मोर्चे मनुष्य धावोंठो घेता
ति तरि थें फोणालें जीवें जाव्चें प्रमाण आस तो घेता ।
९ कसि सांगचाक्यि सक्ता कि लेवि धावो वांटो घेताति
१० ताणेयि अब्राहामाले वाटेन धावो वांटो दिलो । तेंयितें
कोण वेळा मेलकिसदेकु ताजे भसि मेळो ते वेळा तो
११ आपणा पितलोकाले कुरटांतु आसिलो । हे खातिर तरी
लेवसंबंधाले याजकपणाव संपूर्णपण जातें तेंयितें ते वर्तमा
नाव्यांतु लोकानि शास्त्र पावलें जाल्यारि मेलकिसदेकाले
चालिले वारि ख्यात तरि आहरोणाले चालिले वारि ख्यात
१२ आनि येका पुरेताले उत्पत्तिलें आवश्य यितें । तेंयितें याज
कपण अन्यप्रकार कोर्नु यीतचि शास्त्राले अन्यप्रकार कोर्नु
१३ वोचें आवश्य आस । तेंयितें कोणाले विषयांतु हें सगळें
उक्त आस तो यज्ञवेदिले सेवाले अनधिकारी अन्यवंश
१४ कार । तेंयितें हें प्रसिद्ध आस कि याजकपण कोर्चें विषयांतु
मोशें हान कोण वंशाले कांयि म्हळें ना तेचि यिऊदाहाले वंशां
१५ थाकुन आमगेलो प्रभु उबजलो आसिलो । हें आनि चडावयि
१६ प्रसिद्ध आस तेंयितें संसाराले आज्ञाखरूप शास्त्राले वारि
केलें नैं तरि अक्षय परमायुले सामर्थ्यावारि केलें मेलकिसे
१७ देकाले उपमान आनि येकु पुरेतु उबजलास । तेंयितें तो
हें प्रमाण दिता तुं मेलकिसेदेकाले चालिले वारि नित्य
१८ पुरेतु आस । ते मुकासंतले आज्ञाले निर्बलपण आनि
१९ निरर्थकपणान तागेलो लोपु जालो खरो । तेंयितें शास्त्रा
कांयि संपूर्ण कर्ना तरि आनि श्रेष्ठ भरवसालें रिगप आसि
२० लें ते भरवसान आमि देवाले लागि पावतांति । आनि
२१ कसल्यांतु तो सोपुत नेतां पदार्पित ना आसिलो । तेंयितें
ते पुरेत सोपुत नेतां नियोजित आसिले तरि कोणे ताका
सांगलें कि यिऊहान सोपुत केलास आनि परामनन करिसि
ना तुं मेलकिसेदेकाले चालिले वारि येकु नित्य पुरेतु

आस तागेलें वरखक हो। मनुष्यु सोपुताचे वाटेन पुरेनु
२२ कोनु गेलो। ताजानधि पिशु आनि उत्तम बंदेखिर्ले चोवो
२३ कोनु गेलो। तेवधि मरणाचे खातिर अळकार जावचाक
२४ सकळेनांति हे खातिर सावार पुरेत आसिले तरि हो
मनुष्यु नित्यस्थायी हे खातिर तागेले अनन्यथा भावसिर्ले
२५ याजकत्व आस। ताजेन कोणाचे तागेलो वाटेन देवाले
लागि येतालि तांकां तो सगळे प्रकारान वाख कोचोत
सकळे तेंयितें तांगेले खातिर निवेदन कोर्चाक तो नित्य जीवी
२६ आस। तेंयितें पुण्यवानु आनि अहिंसकु आनि निर्मळआनि
पापि लोकांथाकुन भिन्न आनि सर्गाचाले उंचकेले प्रधान
२७ याजक आम्गेले विषयांतु शोभा पावतालि। ते प्रधान
पुरोहितांले वारि पितेन आयणाले पापाचे खातिर मागि
रि लोकांचे खातिर उत्सर्गु कोर्चाक कोणालें नित्य प्रयोजन
तें ना तेंयितें केद्ना आपणालो प्राणु उत्सर्गु केलो आसिलो
२८ तेद्ना ताणे येक वेळान तें केलें। तेंयितें थवस्था दुर्बलता
विशिष्ट लोकांक प्रधान याजक कर्तातलि तरि थवस्थेले पडाव
आयेलें उत्तर नित्य अभिषिक्त पुत्राक याजकु कर्तो।

८ अष्टम पर्व। सत्या आनि कसलेंर फळांस तार्ले
तात्पर्य हें सर्गांवेले महत्वाले सिंहासनाचे उजवान बसिलो
२ आनि पवित्र वस्तुले आनि कोणे सत्य पवित्र गुडार देवान
स्थापन केलें तरि मनुष्यानि नें तागेलो सेवकु येकु प्रधान
३ पुरोहितु आम्गेलो आस। तेंयितें प्रत्येक प्रधान याजकु
दान आनि बलि उत्सर्गु कोर्चाक नियोजित आस हे खातिर
हे मनुष्याले उत्सर्गु कोर्चे कांयि आसा ताजे आवश्यक
४ आस। तेंयितें तो येकवळा भुंयिवेरि रावतो आस्तारि
याजकु जावचा सक्तो ना तेयितें थवस्थेले वाहि दान उत्सर्गु

५ कोर्चें आनि सर्गावेले वस्ताालि बान्गि आनि सावळेले वारि
सेवा कर्तले पुरेत आसति कसि मोश्शेह् पवित्र गुडार रचन
कोर्चाक उदत जाव्नु देवाकल्यान उपदेशु केलालो आसिलो
तेंयितें ताणें म्हळें कोण बान्गि गुड्डाचेरि तुका दाकैलि आ
६ सिलि ताजे मणके सगळो वस्तु निर्माण करि। तरि
आत्तं ताणे उत्तम प्रतिज्ञेले वीयरि स्थापित उत्तम बंदेस्तिले
मध्यस्थ कसल्यान आस ताजेन आनि उत्तम सेवेलें पद
७ पावलांस। तेंयितें ति पिर्तमलि बंदेस्ति तरी निर्दोषी
आति जाल्यारि दुसऱ्या खातिर जाग्यालो सोदु जातो ना।
८ तरी तांगेलो दोषु म्होणु तो सांग्ता कि यिऊह्ह म्हण्ता कि
चोयि ह्यांव यिस्रएलाले आनि यिऊदाह्याले वंशाले भर्सि
९ कोण वेळा नवि येकि बंदेस्ति करिन तो वेळु येतास। यिऊह्ह
म्हण्ता केद्ना तांकां मिसरांथाकुन भायर कोर्चें खातिर
तांगेले हात धर्ले तेद्ना कोण बंदेस्ति तांगेले पिर्तलो
कांले भर्सि ह्यांवे केलि अ.सिली ताजेवारि नैं तेंयितें तानि
मेगेलि बंदेस्ति पालसिलि ना आनि ह्यांवेयि तांकां संमानु
१० केलो ना। तरि यिऊह्ह म्हाण्ता ते वेळाले मागिरि
ह्यांव यिस्रएलाले वंशाले भर्सि कोणि बंदेस्ति करिन ति
हि ह्यांव आपणालि आज्ञा तांगेले मनांतु दिन आनि तांगे
ले अंतःकरणांतु बरैन ह्यांव तांगेलो देउ जायन आनि
११ ते मेगेलो लोकु आतित। यिऊह्याद जाण हें उत्तर
सांगुनु ते प्रत्येकु मनुष्यु आपणाले सेजाऱ्याक आनि प्रत्येक
मनुष्यु आपणा भावाक शिक्षा करेसि ना तेंयितें सान
१२ होड सगळे माका समजतित। तेंयितें तांगेले अय
थार्थाले दिका ह्यांव कृपावान जायन आनि तांगेलें पाप
१३ आनि अयथार्था कार्य आनि मनांतु दवर्सि ना। ताणे नवि
बंदेस्तिशी म्हणु म्हळ्यान पिर्तमल्याक पोर्णी केलास सद्या कोण

१३ म्हणें आनि पोर्णे जालाय तो गुप्त जावचाक उद्यत आसे।

९ नवम पर्ब्ब।—पिर्तमले पवित्र तंबुलेयि देवा सेवेंलें खातिर व्यवस्था आनि संसारालो पवित्र जागो आसिलो।
२ तंयतें कोणाले भितरि दिवा झाड आनि मेज आनि दाकोचि भाकरि दवलि पवित्र जागो ख्यात असलो पवित्र
३ तंबु निर्माण आसिलो तोचि पिर्तम्लो वाटो। आनि दुसरे पेयाविरि महापवित्र नांवान प्रसिद्ध पवित्र तंबु कसल्यांतु भांगराचि धूपार्ति आनि भानाले भांगरा लपिल आनि आह
४ रोणालो तिरळा वाड्डो आनि वंदेलीलें फळें धर्लेलि पाटि
५ दिवा भांगरान बांदिल्लि वंदेलिलि पेट। आनि ताजेरि दयासनाक्ष छावळि धर्तेलो गौरवयुक्त किरुबी कोणाले
६ विषया उत्तर आनि आत्तं सांगूचा सक्नांति। हें सग्ळें हे प्रकारान नेमक जाल्यान पुरोहित देवालि सेवा पूर्ति
७ कोर्चाक पिर्तम्लः पवित्र तंबुंतु नित्य वत्ताले। तरि दितियंतु वर्सवर्सा येकवेळा मात्र प्रधान पुरोतु वत्तालो तोवयि रगतानंतां नैं तो तें रगत आपणा खातिर आनि लोकांलि
८ भ्रमाखातिर उत्सर्गु कर्तालो। धर्मात्मा हो अर्थु कळैता कि नेंवान सम कोर्यें वेळु परांतु नेमसिद्धें विशेष खाद्कें आनि पित्र्चें आनि नाना प्रकारा म्हाण आनि शरीराले व्यवस्तामात्रात्मक कोण सेवा आनि मनाले विषयांतु सेवा
९ कर्तेल्यांले शोधनाक्षम कोण दान आनि वलिदान पवित्र
१० तंबुंतु उत्सर्गु आसिलो ते वर्तमाना वेळाले येकी बानगि तीचि पिर्तम पवित्र तंबु आस्ताना महा पवित्र तंबुंतु रिगु
११ चि वाट प्रकाशित जालि ना। तरि खीष्ट जावचे मंगल विषयालो प्रधान याजकु येवनु साबार श्रेष्ठ आनि संपूर्ण तर आनि हातान कर्ना तसे अर्थात हे गांतमाले वारि नैं
१२ कोण येक पवित्र गुडार ताज वाटेन आनि बोकडेले आनि

वासरालें रगतालें वाटेन नैं तरी आम्गेलें खातिर अनंत मोक्ष पावनु आपुणा रगतालें वाटेन पवित्र भाग्यांतु येक
१३ वेळे प्रवेशु केलो। तेंथितें पाड्यालें आनि बोकड्यांकें रगत आनि अपवित्र्यांचेरि फापुंणु दुदालि गायलो गोबोर शरीर निर्मळ केल्यांन तरी पवित्र कर्ता जाल्यारि अनंत आत्मालें
१४ वाटेन आपुणाक निर्दोषरूपांनु देवालें कुशी उत्सर्गु केलें ख्रीष्टालें रगत तुम्गेलें जीवे देवालि सेवा कोर्चें खातिर थित्तें नेंवान तुम्गेलें मंन मेलेलें कार्य थाकुनु परिष्कार करित।
१५ आनि हे खातिर तो नवे बंदेस्तिलें मध्यस्थ आस कि पितृमलें बंदेस्तिल वेळा कोणि दांटवप आसिलें तें दांटवप मोचनालें खातिर मरणालें वाटेन आपेक्षीत लोकु अनंत अधिकारालि
१६ प्रतिज्ञा पाव्वा सकतित। तेंथितें खैं नियम पत्र आस
१७ थैं पत्र दितल्यालें मरण आवश्य आस। तेंथितें मनुष्यु मरतचि नियम पत्र प्रबल जाता तरि पत्र दितल्यालो जीउ
१८ आस्ताना तें कोणे प्रबल नैं। ह्याजेन तें पितृमलें नियम
१९ पत्र रगत नंतां पवित्र केलें ना आसिलें। तेंथितें मोशे ह्यान धर्मशास्त्रालें वारि प्रत्येक आज्ञा लोकांलें लागि सांगुनु वासरालें आनि बोकडेलें रगत आनि उदाक आनि सिंदुर
२० वर्णा कांबळकुर्वा रोम आनि भाइजब एकु घेउनु कोण बंदेस्ति देवान तुम्गेलें भसिं केल्यास तागेलें स्तिर कोर्चें रगत हेंचि हें उत्तर म्हेंणु पुस्तकाचेरि आनि समस्त लोकां
२१ चेरि फापुळें। ताणें पवित्र तंबु आनि सेवेलिं सगळिं
२२ आयुदनयि रगतान सिडकायुलें। आनि धर्मशास्त्रालें वारि प्रायि सगळो वस्तु रगतान पवित्र कोर्नुं वत्ता आनि
२३ रगत पाडोवें नंतां कोणे पाप मोचन ना। हे खातिर आवश्यक आसिलें खरें कि सर्गावेलें वस्तुलि प्रातिनिधि हे सब्बा लें वाटेन पवित्र कोर्नुं वत्ता तरि स्वयं सर्गावेलो वस्तु ह्याजा
२४ क उत्तम बलिलें वाटेन। तेंथितें सत्य पवित्र भाग्यालि

वान्गिले अर्थात हातान केले पवित्र जगांतु खीष्टु रिग्
लो ना तरि आम्गेले खातिर देवाले येदुर वर्तमान रावचे
२५ खातिर आपणचि सर्गांतु रिग्लास । आनि प्रधान या
जकु कसि प्रति वर्सा पर्क्याले रगत घेउनु पवित्र जाग्यांतु
वताली ताजे मणके कि नेंवान नेंवान आपणाक उत्सर्गु करित
२६ तें नैं । तें जाल्यान जगतालें पंचांग करितलागिन ता
गेले साबार वेळा मरणालें आवश्यक जातें तरि अत्तं जग
ताले शेष वेळा आपणाक बलिदानाले वाटेन पाप मोचना
२७ ले खातिर तो येकवेळा प्रकाशित जालास । आनि
कसि मनुष्यांलें येकवेळे मरण आनि ताजे मागिरि विचार
निरुपित आस तसि साबारांलें पाप भोगसुचे खातिर
२८ खीष्टु येकवेळा उत्सर्गु कोर्नु गेलो आसिलो आनि कोण्ले
तागेलि अपेक्षा कर्तात तागेले लागि तो पाप नातिलो जा
वनु त्राणाले खातिर दुसरे वेळा दर्शण दित ।

१० दशम पर्व्व ।—तेंथितें धर्मशास्त्र आवचे मंगलाले मात्र
सावळि जावनु आनि आपणचि वस्तुलि आकृति जाय् ना
तिले कोण बलिदान ते वर्स वर्सा नित्य उत्सर्गु कतिर ताजेन
२ तागेले आश्रितांक सिद्ध कोर्चाक सक्लो ना । तें जातचि तें
उत्सर्गु कोर्चें यित्त निवृत्त जाते ना तेंथितें पुज कर्तले येक
वेळा परिष्कृत जातचि तागेलें आनि पाप ज्ञान जाते ना ।
३ तरि असले बलिदानान वर्स वर्सा पाप उडगासु कोर्नु
४ वोचत । तेंथितें पाड्यें आनि बोकडेलें रगत केद्नाथि
५ पाप मोचन कोर्चा सक ना । हे खातिर तो जगतां
तु प्रवेशु कर्ताना सांगता बलिदान आनि उत्सर्गु तुवे इच्छा
६ केलि ना तरि मेगेले खातिर शरीर प्रस्तुत केलांस । होमु
७ आनि पापनाश कर्तले निवेद्यान तुगेलें कांयि संतोषु ना
आसिलो तेद्ना ह्यांवे म्हळें कि पुस्तकाले येक प्रकरणांतु

मगेले विश्वयांतु बरय आस चोयि के देवा तुगेलि इष्ट क्रिया
८ कोर्चाक ह्लांव येतांसं। ग्रुकारि केद्ना ताणे म्हळें य
वर्लेले वारि उत्सर्ग केल्लि बलि आनि उत्सर्ग आनि होमु
आनि पापनाशु कर्तेलो निवेद्यु तुवें इछ्लिलो ना आनि ताजे
९ न संतुष्टु ना आसिलो। तेद्ना ह्लांवे म्हळें कि हे देवा
चोयि तुगेलि इष्ट क्रिया कार्चाक ह्लांव येतांस तो दुसरि
१० बंदेस्ति स्थिर कोर्चे खातिर पिर्लेमल्याक लोपु करित। ते
इष्ट क्रियेले वाटेन अर्थात यिशु ख्रीष्टालें शरीर येकवेळे
११ बलि दिल्यान आमि पवित्र केल्ले जाताति। प्रत्येक पुरो
हितु सेवा करितर आनि पाप मोचनाशक्त तें येक प्रकारा
१२ बलिदान नेंवानर करितर दिसदिसा रावता तरि हो मनुष्यु
पापनाशु कोर्चि येक बलि दितचि तावळिलागिनि शत्रु
१३ तागेले पायांपोट केल्ले केदोळुपरांतु ना जायत तेदोळुप
रांतु अपेक्षा करितर नित्य देवाले उजवे दिका बस्लो।
१४ तेंयिलें कोणले पवित्र केल्ले आसति तांकां ताणे येक निवेदाले
१५ वाटेन सगळे प्रकारान पूर्ण केलांस। तेंयिते पिऊत म्हणता
१६ क्रोण बंदेस्ति ह्लांवे ते वेळा तांगेले भसि करिन तें हें। तां
१७ गेले अंतःकरणांतु ह्लांव आपणालि आज्ञा दवरिन आनि
तांगेले मनांतु तें बरैन आनि तांगेलें पाप आनि अधर्माधं
१८ ह्लांव आनि मनांतु करिसि ना। धर्मात्मा पिर्लेम हें उत्तर
१९ सांगुनु आम्गेले लागि साक्षि साक्षि आस। आत्तं
ह्लागेलें मोचन जें आस थें पापनाश कर्तेले निवेदालें आनि
प्रयोजन ना।

२० हे खातिर हे भावानो यिशुले रगताले वाटेन महापवित्र
जाग्यांतु प्रवेश कोर्चाक आम्गेले अनिषिद्धपण जात्तचि
आनि महे थेरो अर्थात आपणाले शरीराले वाटेन कोण
२१ येक नंवि आनि जीवि वाट ताणे आम्गेले खातिर पवित्र के
ल्लि आसिलि तेंवयि जात्तचि आनि देवाले घराली येजमानु

आखाले खातिर आस कसि आमगेलो मोगा भाउ पाउल कोण ज्ञान ताका दिउनु गेलांस ताजे प्रारि तुम्गेलें लागिं बरैलांस । १६ आनि तागेले सगळे पत्रांतु हे विषयाचें उत्तर बरैलांस कि कसल्यांतु कष्टान समजुंचें उत्नं आसति कि कोणाकें अज्ञानी आनि चंचल लोकु कसि धर्म्मशास्त्राचें आनिर उत्रांलो दुसरो अर्थु कर्तारति तसि आपणाले विनाशाचे खातिर बलान आनि अर्थु कर्तांति । १७ हे खातिर हे बरे छिताना तुंमि हें पितॆम जांणु सावधान जाया कोणजाण वायटाले भ्रमान भमहले जानु तुंमि आपणाले स्थिरपणान भोवतले जाया । १८ तरि अनुग्रहांतु आनि आमगेलो प्रभु आनि तारमितले यिशु ख्रीस्ताचे विषयाले ज्ञानांतु वाड्डा तागेलें महात्म आतं आनि नित्य जावो । आमिन ।

## योहन्नालें पैलिमलें साधारण पत्र।

### १ प्रथम खंड।—

१ कोणर पैलिमलागिन आसिलें जीउ दिसलें जसालें को
णर आमि आयकिलांस आनि आपणालें दोळ्यानि कोणर
पळेलांस आनि केलायेरि आनि हांति घाल्यास आनि
आपणालें हातानिचि कोणर प्रत्यक्ष केलांस तें आमि प्रकाश
२ कर्तांति। तेंचितें जीउन प्रकाश कोर्नु गेलें आनि
आमि तें पळेलांस आनि ताजेल साक्षि दितांति आनि
कोण अनंत आयुष्य आंनाले लागि आसिलें आनि आम्गे
ले लागि प्रकाश आसिलें तें तुम्गेले लागि आमि दाकैतां
३ ति। आमि कोणर पैयलांस आनि आयकिलांस तें
तुम्गेलि लागि आमि प्रकाश कर्तांति कि आम्गेले भशिं तुम्
गेलें येकशीलपण जायत आनि हेंचि निश्चयु आस कि आम्
गेलो येकशीलपण आंनु आनि तागेलो पुतु येशु खीष्टा
४ ले लागि आस। आमि तुम्गेले लागि हें उत्तर बरै
५ तांति कि तुम्गेलो आनंदु पुर्तो जायत। कोण उत्तर
आमि ताजे लागि आयकुनु तुम्गेले लागि प्रकाश कर्तांति
तो उत्तर हो कि देउ उजवाडु आनि तांतु कांयि काळोखु
६ ना। तरी आमि म्हणतांति कि ताजे भशिं आम्गेलें
येकशीलपण आस आनि काळकांतु भवंत जाल्यारि
आमि फट्टि उत्तर सांगतांति आनि सत्य कार्य कर्नांति।
७ तरि कसि तो उजवाडांतु आस तसिचि तरी आमि उज
वाडांतु वेवहार कोरुं जाल्यारि आम्गेलो परस्पर येक

शीलपण जाता आनि ताजो पुत्र यिशु खीष्टालें रगत
८ आम्कां सगळे पापांथाकुनु पवित्र करीस। तरी आ
मि म्हण्तांति कि आम्गेलें पाप ना जाल्यारि आमि आप्
णचि आपणालो भकु उक्तावतांति आनि सत्यपण आम्
९ चांतु ना। तरी आमि आपणालें पाप मानतांति जा
ल्यारि आम्गेलें पाप धोंमसुवाक आनि आम्कां सगळे
अयथार्थान पवित्र कोर्चाक तो विश्वासी आनि यथार्थिकु
१० आस। तरी आमि म्हण्तांति कि आमि पाप कर्नें जा
ल्यारि ताका फट्टि उलेतलो कर्तांति आनि तामेलें उत्तर
आम्चांतु ना।

२ द्वितीय पर्व।—हे मेगेले सान पुत्रांनो तुम्चे लागि
हांव हें उत्तर बरैतां कि तुमि पाप कोर्नाकाति तरी कोा
णें पाप केजांस जाल्यारि आंनाले लागि आम्गेलो येकु
२ वकिलु आस तोचि यिशु खीष्टु यथार्थी। आनि तो
आम्गेलें पाप मोचनाले खातिर प्रायश्चित्त आस आनि
३ मात्र आम्गेलो तें नैं तरि सगळे जनतालोयि। तरी
आमि तागेलि आज्ञा पालमुं जाल्यारि आमि ताजेन
४ समजतांति कि आमि ताका समजतास। तरी कोणै
म्हण्ता कि हांवे ताका समजलास आनि तागेलि आज्ञा
पालसि ना तो फट्टो आस आनि सत्यपण तांतु ना।
५ तरि कोण कोणै तागेलें उत्तर पालसिता देवालो प्रेमु तांतु
अवश्य पूर्ण आस आनि हाजेन समजतांति कि आमि ता
६ गेले भितरि आसंति। कोण्तो म्हण्ता कि हांव तागेले
भितरि राव्तलों आसं ताजे आपणेयि कसि वेवहार केलो
७ तागेलो तसि वेवहार कोर्चि अवश्य आस। हे भावा
नो तुम्गेले लागि हांव कोण नवि आज्ञा बरै ना तरि कोण
पोर्नि आज्ञा सुर्वैकलागिन तुम्गेले लागि आसिलि ति

अभिषेक तुम्कां सगळ्यांक् शिकैता आनि सत्य आस आनि फटि नैं आनि कसि तो तुम्कां सिकैता तसिचि तुंमि
२८ ताजेलें भितरि रावृहाति । हे सान चेरडुवानो आतं ताजे भितरि रावा कि केद्ना तो प्रकाश जायत तेद्ना आनि हिम्मति आउं आनि ताजेलें येव्पे वेळा ताजेलें
२९ येदुर लज्जेतो ना जावों । तुंमि तरी हें समझताति कि तो यथार्थ आल्यारि तुंमि समजताति कि कोण प्रत्येक मनुष्यु यथार्थ कर्ता तोचि ताजेन जालास ।

३ तृतीय पर्व ।—पैया आंनान कोण प्रकारा मोग आम्कां दिलास कि आम्मि देवाले पुत ख्यात आउं हाजेन
२ जगत आम्कां समज ना तेंथियें ताका समजलो ना । हे मोहितानो आतं आम्मि देवाले पुत आसंति तरि यित्तें आ यत तें आतं कळ ना तरि आम्मि समजतांति कि केद्ना तो प्रकाश जायत तेद्ना ताजे वारि जातित तेंथियें तो क
३ सि आस तसिचि आम्मि ताका पोउं । आनि कोण प्रत्येक मनुष्याले भितरि हो भरवसो आस तोचि प्रत्येक मनुष्यु कसि तो पवित्र आस तसि आपणाक पवित्र कर्ता ।
४ कोणूतो पाप कर्ता तो शास्त्रविरुद्ध करता तेंथियें पापचि शा
५ स्त्र विरोध । आनि तुंमि समजताति कि तो आम्गेलें पाप विमोचना खातिर प्रकाशित आसिलो आनि ताजेलें भितरि
६ पाप ना । कोण्तो ताजे भितरि रावता तो पाप कर्ना कोण्तो पाप कर्ता तो ताका पेयि ना आनि समज ना ।
७ हे सान पेरडावो कोणि तुम्कां प्रवंचना कर्नो जावोति तो
८ कसि यथार्थिकु तसि यथार्थ कार्य कर्तलोचि यथार्थिकु । कोण्तो पाप कर्तलो तो देवचारांचाकुन जालास तेंथियें पैलेक लागिन देवचारू पाप कर्ता हे निमित्तें देवचाराले क्रिया

९ मग कोणें खातिर देवालो पुत्र प्रकाशित जालो। कोण्
तो देशांतु उब्जलो तो पाप कर्ता तेंयितें ताजांतु तागेलें वीं
रावता आनि तागेलें देवाकय्यान उवजल्यान तो पापकोर्योक
१० सकना। ह्याजेन देवालिं चेरडुवं आनि देवचारालिं चेरडुवं
प्रकाशित जातानि कोण्तो यथार्थ क्रिया कर्तेलो नैं आनि
११ कोण्सो आपुणाले भावाक मोग कर्ता तो देवालो नैं। तेंयितें
कोण उत्तर तुमि पित्रमखागिन आय्कलांस तें चें कि आमि
१२ परस्पर मोग कोर्ये। काइना वार्टि नैं कि कोणतो दुष्टा
कथाक जालें आनि अपुणाले भावाक जीवसि मार्लेलो ताका
यिसे खातिर जीवसि मार्लो तागेलि क्रिया वायट आनि
१३ तागेले भावालि क्रिया चांग जाल्यान। हे मेगेले भावानो
तरी जगतकारलोक तुम्का कंटाळतालि जाल्यारि विसो
१४ नोकाति। भावांक मोग केल्यान आमि जाणति कि आमि
मरण सोंगु जीवनांतु आयल्यांति कोण्तो भावाक मोग कर्ना
१५ तो मरणांतु राव्ता। कोणतो आपुणाले भावाक चळ
सिकेता तो घातकि आनि तुंमि समजा कि कोण घात्याला
१६ राले भितरि अनंत आयुष्य राव्ना। तागेलो प्राणु
अान्तेले खातिर दिव्वांतु आमि खीष्टाले मोग कोव्यां
आनि भावाले खातिर आमगेलोयि आपणार प्राणु दिव्चें
१७ उचित। तरि कोण्तो हे संसाराले धनांतु धनि जावनु
आपुणाले भावालि दीनता चोयता आनि आपुणालि दया
तागेले लागि रूड कर्ता ताजे भितरि देवालो मोक कसि कोनुं
१८ रावता। हे मेगेले सान चेरडुवानो आमि उत्तर जावो
जीबेन मात्र मोग कर्बांति तरि क्रियेन आनि सत्यपणान।
१९ ह्याजेन आमि समजतांति कि आमि सत्यपणा संबंध
कार लोकु आनि तागेले येदुर आपणागेलें चित्त भयनासि
२० लें करिन। तेंयितें तरि आमगेलें अंतःकरण आमगेलो
दोषाजें प्रमाण दिवा जाल्यारियि देउ आमगेले मनापाले

२१ सोडु आस आनि सगळें जाण । हे बेटिंताने तरी आम्गेलें अंतःकरण आम्गेले दोषालें प्रमाण दिना जाल्या
२२ रि देवायेदुर आम्गेलो साहसु आस । आनि कस्लेंर आमि प्राथेना कर्तांति तें ताजे लागि पाव्तांति तेंयितें आनि तागेलि आज्ञा मान्तांति आनि तागेले येदुर कोण तुष्टि
२३ कोर्चें तें कार्य कर्तांति । हिचि तागेलि आज्ञा कि आमि तागेलो पुतु यिषु खीष्टाले नांवांतु विश्वासु कोर्यों आनि ताणे कलि आम्कां आज्ञा दिलि तसिचि परस्पर मोगु कोर्यों ।
२४ आनि कोण्तो तागेलि आज्ञा पालसिता तोचि ताजे भितरि राब्ता आनि तो ताले भितरि वासु कर्ता । आनि ताणे कोण आत्मा आम्कां दिलास ताजेन आमि समज्तांति कि तो आम्गेले भितरि राब्ता ।

४ चतुर्थ पर्व्व ।—हे बेटिंताने प्रत्येक आत्म्यांतु विश्वासु
१ कोर्नाकाति तरि आत्मांक विचार कर्या कि ते देवांधाकुन आ तांति जावो ना तेंयितें साबार फाटि आचार्थ जगतांतु भायर
२ गेल्याति ह्याजेन तुंमि देवाले आत्माक समजतांति कोण प्रत्येक आत्मा शरीरांतु अवतीर्ण यिशुखीष्टाक घेता तोचि देवांधा
३ कुनु जाता आस । आनि कोण प्रत्येक आत्मा शरीरांतु अवतीर्ण यिशु खीष्टाक घेना तो देवांधाकुनु नें कोण विपरीत खीष्टाले भविष्यत आवचें उत्तर तुंमि आयकिलांस तोचि तागेलो
४ आत्मा तो आत्तंयि जगतांतु आस । हे सान पेरडुवांनो तुमि देवांयाकुनु जाल्याति आनि तांकां पराक केल्याति तेंयितें तुम्गेले भितरि कोणु आस तो जगताले भितरवेल्या
५ चाके थोडु । ते सांसारिक हे खातिर संसाराचें उत्तर म्हण्तांति आनि संसाराचो लोकु तांगेलें उत्तर आय्कतांति ।
६ आमि देवांयाकुनु जाल्यांति कोण्तो देवाक समजता तो आम्गेलें उत्तर आय्कता कोण्तो देवाको नैं तो आम्गेलें उत्तर

आयक ना ह्याजेन आमि सत्यपणालो आत्मा आनि भ्रमाले
७ आत्मालो भेदु जाणंति । हे स्नेहितानो आमि परस्पर मोगु
कोर्यां तंयितें मोगु देवांथाकुन जालास मोगु कर्तेलो प्रत्येक
८ मनुष्यु देवांतु उब्जलास आनि देवाक समजता । कोणतो
९ मोगु कर्ना तो देवाक नेण तंयितें देवालो मोगु । ह्याजेन
आम्गेले लागि देवालो मोगु प्रकाश जालास तंयितें देवान
आपणाले अद्वितीय उब्जले पुताक जगतांतु बळैलो कि
१० आमि ताजे वाटेन वांचुयां । ह्याजेन मोगु कि आमि
देवाक मोगु केल्लो आसिलो तो नैं तरि ताणे आम्कां मोगु
केलास आनि आम्गेलें पाप मोचना खातिर प्रायश्चित्त जावचे
११ खातिर आपणाले पुताक बळैलो । हे स्नेहितानो तरी
आम्कां देवान असि प्रेमु केलाआस जाल्यारि आम्गेलो
१२ परस्पर मोगु कोर्चें कर्तव्य । कोणे कोण वेळा देवाक पोळि
ने आनि तरी परस्पर मोगु कर्तांति जाल्यारि देउ आम्कां
तु राब्ता आनि ताजेलो मोगु आम्गेले भितरि परिपूर्ण
१३ जाता । ताणे आपणालो आत्मा आम्कां दिलास ह्या
जेन आमि समजतांति कि आमि ताजे भितरि राब्तांति
१४ आनि कि तो आम्गेले भितरि राब्ता । आनि आमि
पळैलांस आनि प्रमाणयि दिलें कि बापान जगत तारणुचे
१५ खातिर पुताक धाळ्ळास । कोणतो स्वीकारु कर्ता कि यिशु
देवालो पुतु आस देउ ताजांतु राब्ता आनि तो देवांतु
१६ राब्ता । आमि समजलास कि देवालो कोण मोगु आमजेरि
१७ आस आनि तांतु विश्वासु केलास । देउ मोगु आनि कोणतो
मोगांतु राब्ता तो देवांतु राब्ता आनि देउ ताजेले भित
१८ रि राब्ता । ह्याजेन आम्गेले भितरि मोगु पुर्ण जाता
कि आमि विचाराले दिसा निर्भयता पाव्तांति तंयितें
तो कसि आस आमि हे जगतांतु तसि आतांति । मोगांतु
कांयि भय ना तरि संपूर्ण मोगु भयाक भायर लोटुंता

तेंयितें भय दुःखयुक्त आस कोणुतो भिता तो मोगांतु सं
१९ पूर्ण नैं। ताणे पितम आमकां मोगु केलो हे खातिर आमि
२० ताका मोगु कर्तांति। तरी कोण कोणे आपणाले भावाक अळसिकेउनु म्हणता कि हांव देवाक मोगु कर्तां जाल्यारि तो फट्टि उलैतलो तेंयितें आपणा भावाक तरी कोणे मोगु कर्नो कि कोणा पळैलास असि जाल्यारि देवाक कसि मोगु
२१ कोर्चां सकसि कि कोणाक पळैने। हि आज्ञा आमि ताजांधाकुनु पावल्यास कि देवाक कोणतो मोगु कर्ता तो आपणाले भावाकयि मोगु कर्ता।

५ पंचम पर्व।—कोण मनुष्यु विश्वासु कर्ता कि यिशुयि खीष्टु तो देवाकचान जाल्लो आनि उप्जायल्याक कोणतो
२ मोगु कर्ता तो ताज्यान जाल्याके मोगु कर्ता। केद्ना आमि देवाक मोगु कर्तांति आनि तागेलि आज्ञा पाळसितांति ताचळि आमि तागेन समजतांति कि आमि देवाले भुरगु
३ वांक मोगु कर्तांति। तेंयितें हो देवाविषयकु मोगु कि आमि तागेलि आज्ञा पाळसितांति आनि तागेलि आज्ञा
४ कष्टु दितालि नैं। तेंयितें कोण देवाकचान उब्जल्लो तो जगज्जयी आनि जगज्जयी जय होची आमगेलो विश्वासु।
५ कोणतो विश्वासु कर्ता कि यिशु देवापुतु तो नंतां जगज्जयी
६ कोणु। हें तो कोण रगत आनि उदाकयुक्त जावनु आय्लो अर्थात यिशु खीष्टु। तो मात्र उदाकयुक्त जावनु येने तरि उदाक आनि रगतयुक्त जावनु आय्लो आनि
७ आत्मा प्रमाण दिता तेंयितें आत्मा सत्य। तेंयितें सर्गारि प्रमाण दितले तेगं आसति आंनु आनि उत्तर आनि पवित्र
८ आत्मा आनि हे तेगांयि येक। आनि भुयिंतु प्रमाण दितले तिनि आस आत्मा आनि उदाक आनि रगत आनि हे
९ तिनांयि येकांतुयि मेळ्ता। आमि तरी मनुष्याले प्रमाण

घेतांति जाल्यारि देवालें प्रमाण ताजाके होड तेंयितें कोण
प्रमाण देवान आपणा पुतालें विषयांतु दिलांस हेंचि तें
१० प्रमाण। कोणतो देवाले पुतांतु विश्वासु कर्ता तो आप्
णाले भितरि तो प्रमाण धर्त्तां जाता कोणतो देवाक विश्वासु
कर्ना तो ताका फटको कर्ता तेंयितें देवान कोण प्रमाण आप्
णाले पुताले विषयांतु दिलांस तेंचि प्रमाणांतु तो विश्वासु
११ कर्ना। आनि तें प्रमाण हें कि देवान आम्कां अनंत
आयुष्य दिलांस आनि तें आयुष्य तागेले पुतांतु आस।
१२ पुतु कोणालो आयुष्य तागेले आनि देवालो पुतु कोणालो
१३ नैं आयुष्य तागेलें नैं। देवाले पुताले नांवांतु विश्वासु कर्तलो
तुम्गेले लागि हांवे हें बरैलांस कि तुमि सम्जा कि तुमि
अनंत आयुष्याले अधीकारी आनि देवाले पुताले नांवांतु
१४ विश्वासुयि कर्या। तांचेरि आम्गेलो कोण साहसु तो
हो आमि तरी तागेले इच्छेले वारि कांयि प्रार्थना कर्तांति
१५ जाल्यारि तो आम्गेलें उत्तर आयकता। तरी आमि
सम्जतांति कि तो आम्गेलें उत्तर आयकता जाल्यारि
आमि सम्जतांति कि आमि कस्लेंर प्रार्थना कर्तांति तें
१६ पाव्तांति। कोण पाप मृत्युयुक्त नैं तरी कोणे आपणा
भावाक असि पाप कोर्चें चोयिता जाल्यारि तोचि प्रार्थना
करो आनि कोणते मृत्युयुक्त पाप कर्नांति तांगेले खातिर
तो आयुष्य ताका दित मृत्युयुक्त पाप आस हांव म्हणा कि
१७ तो तागेले विषयांतु प्रार्थना करित। सगळें अयथार्थ पाप
१८ आनि अस्लें पाप आस कि मरणयुक्त नैं। आमि जाणं
ति कि देवांतु उव्जलो प्रत्येक मनुष्यु पाप कर्ना तेंयितें देवा
कथान उब्जलो मनुष्यु आपणाक रक्षा कर्ता आनि तो
१९ दुष्टु ताका आभंणा। आमि जाणंति कि आमि देवां
थाकुनु जातांति आनि सगळें जगत् पापांतु निद्देउनु
२० आसा। आनि आमि सम्जतांति कि देवालो पुतु आय्

लास आनि सत्याक समजुचे खातिर आम्कां बुद्धि दिल्याच कोण सत्य ताजिले भितरि आमियि जातांति अर्थात ताजे लो पुतु यिशु ख्रीष्टाले भितरि होचि सत्य देउ आनि अनंत आयुष्य ।

२१ हे सान पेरडुवानो देवतांयाकुन आपुणा त्यांक रक्षा कर्या । आमिन ।

# योहनालें द्वितीय पत्र।

## १ प्रथम पर्व्व।

१ हांव कोणांक सत्यपणा मोगु कर्तां आनि मात्र हांव
२ नैं तरि कितुलो लोकु सत्यपण समजताति तेंवचि कोण स
त्यपण आम्गेले भितरि राव्ता आनि आम्गेले भसिं
नित्य राव्त तें सत्यपणाले खातिर कोणाक मोगु कर्तां अम्
लि मनोनितकार्तीं यजमानि आनि तीगेलिं पेरडुं तांकां
३ म्हातारो कागल बरेता। देउ आनांथाकुनु आनि सत्य
पणांतु आनि मोगांतु आनाजो पुतु यिशु खीष्टांथाकुनु यि
४ अनुग्रह आनि दया आनि शांति तुम्चेरि जावो। आमि
आनांथाकुनु कसि आज्ञा पाविल्ले ताजेवारि सत्यताचरण
तुगेले पेरडुवांले भितरि कोणेर कर्ता हांव हो विषयु सम्
५ जुनु होड संतोष मंन आसिलों। आनि हे यजमानि हांव
तुका विनंति कर्तां कि आमि परस्पर मोगु कर्तांति हांव कि
कोणे नवि आज्ञा तुगेले लागि बरेतां तें नैं तरि कोण
६ आज्ञा आमि पितमलागि पावलि आसिलि तिचि। मोगु
हो कि आमि तागेले आज्ञाले वारि चम्कुयां आज्ञा हिचि
कि तुमि पितमलागिन कसलें आयकिलांस ताजेतकिन
७ चमका। तेंचितें शरीरांतु अवतार घेतिलो यिशुक कोण्ते
घेनालि अस्ले सावार भुलैतले जगतांतु रिगल्यालि तोचि
८ भुलैतो आनि विपरित खीष्टु। सावधान जाया कि
आमि कस्लें केलांस तें रोडशाय ना जाउं तरि कि आमि

९ पूर्ते फल पावतांति । कोणतो आज्ञा भिर्वता आनि खीष्टाले शिद्धेंतु रावना तो देवाचो अधिकारी नैं तरि कोणतो खीष्टाले शिद्धेंतु रावता तो आंनु आनि पुतु हे दो
१० गांतु अधिकारी आस । तरो कोणी हे शिद्धेक् भासिं घेना तिनें तुमगेले लागि येता जाल्यारि ताका तुमगेले घरांतु अतिथि कोर्नाका आनि तुमगेलें मंगल जावो हें उत्तर ताका
११ यि सांगुनांका । तेंयितें तुगेलें मंगल जावो हें उत्तर ताका
१२ कोणतो सांगता तो तागेले वाइट क्रिये वांटेलि । तुका मेगेलीं साबार उत्तं बरोचें जाल्यारियि हांवे कागद तिंतान बरोचा इच्छिलें ना तरि तुगेले लागि येचाक आनि साक्षात् उत्तर कोणचाक मेगेलो भरवसो आस कि आम्
१३ गेलो आनंदु पूर्तो जायत । तुगेले मनोनीत भयणिलिं पेरहुवं तुका नमस्कार कर्तांति । आमिन ।

## योहनालें तृतीय पत्र ।

### १ पयिलें पर्व ।

१ म्हालगडे जो हित गायसाक कागत बरैता कि कोणाक
२ हांव सत्यपणालें विषयांतु मोगु कर्तां । हे सोहिता हांव इच्छिता कि तुगेले मनाले उत्तरोत्तर वाव्पाले वरि तुगेलें
३ वाडुपणि आनि सोख्य सर्वथा जावा । तेंद्दतें तुगेलें सत्य आचरणान तुगेलें सत्यपणालें प्रमाण केद्ना भावांनि येउनु
४ दिलें तावळि मेगेलो होडु अनंदु जालो । मेगेले पोरडु वांलें सत्याचरण कोर्चो समाचार केळ्याने मेगेलो आनि
५ होडु आनंदु ना । हे सोहिता तुं भावांक आनि अति
६ थिंक कस्लें कर्ता । ते विश्वासान कर्ता कोण मंडलीले येदुर आनि तुम्गेले मोगालें प्रमाण दिलांस तांकां तरी तुं देवा
ले सेवेलेवारि तांगेले वाटेरि उपकारु कर्शी जाल्यारि उ
७ त्तम कार्य कर्शीति । तेंयितें तांगेले नांवान ते अन्यदे
८ प्रकारांथाकुन कांयि घेनातिलें पैण केलें । हे खातिर असले लोकांक आदरान कि घेवचें आम्गेलें कर्तव्य आमि
९ सत्यपणाले सहोपकारी आसंति । हांवे मंडलीक बरलें बरि तांगेले भितरि होडु जावचा इच्छितलो दियत्रिफीसु
१० आम्कां घेना हे खातिर हांव केद्ना येतां तेद्ना आम्गेले विरुधवैरि उत्रान वाचाळपणा व्यापारु कोनु तो कोण क्रिया कर्ता ति क्रिया हांव मनांतु करिन तो तें कोनु यि तृप्ति जायनातिलें आपुणचि भावांक अतिथि कर्ना

आनि कोणूलें कोणाक इच्छिताति तांकायि वारण कर्ता आ
११ नि मंडळींथाकुनु भायर कोर्नुं दितातिं । हे मोहिता
पापा माह्नि चमकतलो जावनाका तरि चांग क्रियेलें माह्नि
चमकतजो जा कोणूतो बरि क्रिया कर्ता तो देवांथाकुनु जाता
१२ कोणूतो वायट क्रिया कर्ता तो देवाक चोयि ना । सगळे
लोकांले तोणांथाकुनु आनि सत्यपणांथाकुनुयि देमेत्रिय
साखि बरि ख्याति आस आमियि तागेलें प्रमाण दितांति आ
१३ नि तुम्मि समजा कि आमगेलें प्रमाण सत्य । मेगेलें
साबार वरौचें तरि आत्तं कालि लिकणेन तुका छांव बरै
१४ सि ना । तरि थोडे वेळां मागिरि तुका धोवचाक आनि सा
द्मात जावनु उत्तर म्होणूचाक मेगेलो भरवसो आस तुगे
लि शांति जावो आमगेलें मित्र तुका नमस्कार कर्तावि ।
नांव घेउनुर मोहितांक नमस्कार करि।

# यिऊदाहालें साधारण पत्र।

## पिर्तमलें पर्व्वं।

१ कोणुते देव आंनांतु पवित्र केल्ले जातात्ति आनि यिशु
ख्रीष्टाकयान रक्षण जाल्ले आनि नियोजित जाल्ले ताका
यिशु ख्रीष्टालो सेवकु अर्थात यकोकुबालो भाउ यिऊदाह्
२ पत्र बरैता। कृपा आनि शांति आनि मोगु तुम्चेरि
३ वाडुल्लो जावो। हे मोहितानो केद्ना साधारण परि
त्राणालें उत्तर तुम्कां बरोवचाक हांवे यत्न केलें तेद्ना उप
देशु कोर्नु तुम्कां बरोवचाक आवश्यक आसिलें कि पिर्तम
साधुंले लागि कोण विश्वासालि वालि समर्पित आसिलि
तेचि विश्वासाले खातिर तुंमि जीउपंतु कोर्नु यत्न कया।
४ तेंयिर्ते पिर्तमलागिन हे दंडाले खातिर बरप आस नेमक
देवसेरा कर्नातिले कुचपणान आम्गेले देवाले आनुग्रहाले
अन्यथा काह आनि अद्वितीय प्रभु देउ अर्थात् प्रभु यिशु
ख्रीष्टाले नडप कर्तेलो लोकु येकांतरूपान भितरि रिग
५ लास। हे खातिर तुंमि पिर्तेन हें उत्तर समज्ल्यानयि हांव
तुम्गेलो उडगासु उब्जाव्चाक इच्छितां कि यिऊहान लो
कांक मिसरांथाकुन त्राण कोर्नु ताजे मागिरि कोणे विश्वासु
६ केलो ना तांकां नाश केले। आनि कोण दूतांनि आपणागेलि
पिर्तमलि दशा पालघिलि ना तरि आपणागेलें घर सोळें
तांकां ते महादिसालो विचारु पर्यांतु ताणे नाशु नांतिले
७ सांकाळेन बांदुन काळकाले तेगुं दवलें आसिले। आनि

स्दोम आनि अमोराह् आनि तांगेले चारिदिकांतुलिं नग
रं सेत.लुव्यपणान आविष्ट जावनु आनि अप्रकृत रंगाले
अनुसारि जावनु अनंत उजाले वारि बदला फाल भोगसुचां
८ तु बानतिले वारि प्रकाशित आस। तसि हे सोपना चोयत
त्यांनो शरीर अशुचिथि कर्ता शासन तुच्छ कर्ता आनि थोड
९ पदालि निंदा कर्ता। तरि प्रधान दुतु मिखाएल कसि देवचा
राले भसि वादु प्रतिवादु कोर्नु मोशेहाले शरीराले विषयां
तु उत्तर प्रतिउत्तर केलें तेवेळा ताजे विपरितंतु निंदासे
स अपवादु कोर्नाक भयनातिलो ना आसिलो तरि उलैलो
१० यिऊश्व तुका भिष्टायता। तरि हे कसलें समजनातिं ताजि
अख्याति कर्ताति आनि बोधु नातिले पशुले वारि कसलें
११ स्वभावान समजता ताजेन ते अशुचि कोर्नु घेताति। तां
गेलो संतापु जायत तेंयितें ते काईनाले वाटसुर झाल्याति
आनि लोभंतु रिगले जावनु बिलआमाले भ्रमंतु भेंव्
ल्याति आनि कोराहाले विपरित केल्यान नाश जाल्याति।
हे केरना तुमगेले भसि जेवताति तेदना भयनातिलें जेवत
१२ लो जावनु तुमगेले भागान जेवतलो वायट गुरुं जाता। ते
वायान उडैलो निर्जल मेघु स्वकले मरके आनि फळ नातिले
आनि दोनि वेळा मेले आनि मूळेत ऊमटायले रुक।
१३ आपणचि लज्जेखरुप फेणु मोछे समुद्राले भयंकर पाळको
णा खातिर काळकालि काळसांचा अनंत कालु परांतु रच
१४ णा केलि आस असि भोंवतलें नक्षत्र ते जाताति। आद
माले तोन्तुलि सातवि पीडि हानोखान आधायालें उत्तर
खोणु तांगेले विषयांतु हें उत्तर सांगलें चोयि सकळ्यांक उ
चित दंडु दिवचाक आनि तांगेले भितरि कितुले देवालि
सेवा कर्नातिले कितुले देवालि सेवा नातिलें कार्य देवालि सेवा
१५ नातिले वारि केलांस। आनि देवालि सेवा कर्नातिले पापी
यांनि कितुलें कठोर उत्तर तागेले विपरितांतु म्हळांस

तांगेलें होर२ सग्‌ळो दोषु निश्चय कोर्चोंक आपणचि अयुतर
२६ पुण्यात्मानांक सांगाति घेउनु देउ येतास। फिरफिरी आपले
दर्शन विरुद्ध आपणाले अभिलाषा मत आचरण कर्तले आ
नि लोभान मनुष्याल्ले तोंडायेव्ह कर्तले जावनु कोणांगेलें
तोंड हुंकाराले होड फुगल्लें उत्तर म्हणता असलो लोकु हे।
१७ तरि हे भावानो आम्‌गेलो प्रभु यिशु खीष्टाले प्रेरितांले
तोंडा उत्रान कोण सांगुनु गेलांस तें उतर मनांतु दवया।
१८ कि तांनि म्हळें एघ वेळा आपणांगेलेंदेवालि सेवा कर्नातिले
१९ अभिलाषे वारि आचारी निंदा कर्तले जातित। हे ते
कोण्‌ते आपणाल्यांक वेगळे कर्तांति शरीराले आत्माविरिष्ट
२० नैं। तरि हे स्नेहितानो तुंमि आपणाल्यांक आपणागेले
मो पवित्र विश्वासावारि मुळावेरि गांतप कोर्नु धर्मात्मांतु
प्रार्थना कोर्नु अनंत आयुष्याले खातिर आम्‌गेले प्रभु यिसु
खीष्टाले दयायेव्ह कोर्नु आपणाल्यांक देवाले मोगांतु स्थिर
२१ कया। आनि२ लोकांक विचारा वाटेन वेगळे कोर्नु दया
२२ कया। आनि आनिके२ कोणाल्यांक शारीरिक मळिन
२३ गुर्तल्लें आंगवालेंयि अळसिकेउनु भययुक्त जावनु उजांथा
२४ कुनु तांणु घेउनु त्राण कया। कोणु लासयांथाकुनु तुम्कां
रक्षोसुवाक सक्‌ता आनि महाआनंदान तुम्कां निर्दोषान
२५ आपणाले महिमेले लागि साक्षात कोर्चोंक सक्‌ता। तो
अद्वितीय ज्ञानवान देउ आनि आम्‌गेले तारसितल्यालें
गौरव आनि महात्म आनि पराक्रम आनि शासन हे
वेळांतु आनि सदा सर्वदा जावो। आमिन।

देवालो सेवकु योहनाले लागि कोण प्रकाशित आसिलें तें हें ।

## १ प्रथम पर्व ।

१ थोडे कालानागिरि जावचो विषयु आपणाले सेवकांक कळोचे खातिर यिशु ख्रीष्टालें कोण प्रकाश देवान ताजे लागि केलें ते प्रकाशालें उत्तर हें ।

२ आनि कोण देवालें उत्तर आनि यिशु ख्रीष्टा विषयाले प्रमाण आनि आपणे कसलें२ पळेलें तेंचि सगळ्यांलें प्रमाण दितलो असि कोण तागेलो सेवकु योहनु ताजे लागि ताणे आपणाले दूताले तोंडाउचान बळोनु तें कळेलें ।

३ कोणतो वाजिता आनि कोणते हें आचार्यालें उत्तर आयकता आनि ताजे भितरि कोण बरप आस तें पाळता तो धन्यु तेंयितें कालु लागि आस ।

४ कोण सात मंडली आसियांतु आस ते मंडलींक योहनु पत्र बरेता ।

५ कोण वर्तमान आनि भूत आनि भविष्यत् आनि तागेले सिंहासनाले येदुर्पे कोण सात आत्मा आनि विश्वासी साक्षी आनि मृतुले प्रथम उबजलो आनि भुंयिले रायांलो रायु यिशु ख्रीष्टांथावुनु अनुग्रह आनि शांति तुमपेरि जावो ।

६ कोणि आमकां मोगु केलास आनि आपणालें रगतान आमगेलें पाप धुउनु उडेलांस आनि देउ आनि आपणाले बापाले लागि आमकां रायु आनि याजक केल्याति तागेलें गौरव आनि शासन पद सदासर्वे

७ हाण जाले। आमिन। चोयि तो मेघांतु येतास आनि प्रति दोळे ताका चोयतित आनि कोणे ताका तोपूलो ते ताका चोयतित आनि भूंयितुलो कितुलो वंशु तो सगळो तागेले विवयांतु विळापु करतित तेंचि खरें।

८ प्रभु म्हणता कि हांव क आनि च आदि आनि अंत वर्त्तमान आनि भूत आनि भविष्यत् सर्व्वशक्तिमानु।

९ योहनु हांव कि कोण तुम्गेले भाव आनि दुःख आनि यि
१० शु खीष्टाचें राज्य आनि सोसणेन सहभागी देवाले उत्तर आनि यिशु खीष्टाले प्रमाणाले खातिर पाटमस नांवाले उप
११ द्विपांतु आसिलों। प्रभुले दिसांतु हांव आत्मांतु आसिलों आनि मेगेले मागिल बांको वाजिलेवारि होर उलैतलो महाशब्द आयकिलो कि हांव क आनि च आदि आनि अंत कसलें पळेता तें यक पुस्तकांतु बरे आनि एफिससु आनि स्मर्णा आनि पर्गामसु आनि थियातीरा आनि सार्दिस आनि फिलादल्फिया आनि लावदिकेया आसियांतु
१२ आसिले हे सात मंडळीले लागि तें बळे। कोण शब्दान माका उत्तर सांगलें तें यित्तें हें चोवूचाक हांव पर्तलों
१३ आनि पर्तुनु सात भांगरा दिवे चोयलों। आनि पाय
१४ पर्यंतु अंगवालें न्हेसिलो आनि हदयारि भांगरा पाहो वांधिल्ला मनुष्याले संत नाले वारि येक दादल्याक ते सात
१५ दिवाले मितरि हांवें पळेलो। तागेलें मात्तें आनि केश कांबळकुरवाले रोमेले वारि धवो वर्णु हिंवाले मण्के धवे
१६ तागेले दोळे उजा जीबेवारि। आनि तागेले पांय आगीांतु तापैल्ले उत्तम पितळि वारि आनि तागेलें उत्तर
१७ सावार उदकाले शब्दाले वारि। तागेले उजवे हातांतु सात नक्षत्रं आनि तागेले तोंडांथाकुनु बारसतां दोनि धारे तीक्ष्ण खांड्याले आनि तागेलें तोंड प्रचंड तेजस्कार सुर्व्याले वारि। ताका चोवनु हांव मेल्याले वारि तागेले पायांरि

पळो वर्ताळि ताचो आपणाचो उजवो हातु मजेरि दिउनु
१८ माका सांगलें क भीव नाका हांव आदि आनि अंत। हांव
तो कि जेणु जीवो आस आनि मेलो आसलो आनि देखि
हांव सदा सर्वकाळेन जीवो आस्तां आमिन आनि हांव
१९ नरकाचि आनि मृत्युचि चावि धर्तालों आसां। तुं कसलें
पळेता आनि कोण्ण अस्तं गाता आनि हागे मागिरि कोण्ण
२० जायत तें सगळें बरे। जेगेचे हातांतु कोण्ण सात नक्षत्रं
तुं पळेता ताजें तत्व आनि ते सात भांगरा दिवे ताजेंयि
तत्व हें र तिं सात नक्षत्रं सात मंडळीचे दुत आनि ते सात
दिवे तेचि सात मंडल्यो।

२ द्वितीय पर्व्वं।—एफिससं तु कोण्ण मंडली तीचेले दूता
२ के लागि बरे। आपणाले उजवे हातंतु तिं सात
नक्षत्रं धर्तो आनि ते सात दिव्यांचे भितरि भोंवतलो हें
उत्तर म्हणता कि तुजेलि क्रिया आनि तुजेलो परिश्रमु आ
नि ताळवप आनि कि तुं दुष्ट लोकांक सांळउंवा सक्ना
आनि कोणते आपणाल्यांक प्रेरित कोनुं म्हणताति तरि
वास्तव तें नें तुवें कि तांकां विचार कोनुं तांकां फाडि उलेत
३ लें निश्चयु केल्याति। आनि कि तुवे ताळविलांस आनि
ताळवपा वेवाह कर्ता आनि मेगेचें नांवाले खातिर परि
४ श्रमु केलास आनि दमधेनेज हें सगळें हांव जाण। तरि
५ तुजेले विरुद्धांतु जेगेलें कांयि आस वेंचितें तुवे आपणालो
पितैसलो मोगु सोळास हे खातिर चेंथाकुनु तुं पळास
तें उडगासु करि आनि परामनन करि आनि तुजेले पितैस
ले क्रियाजें अनुष्ठान करि तेनातल्यारि हांव वेगिंग तुजे
लागि येवनु तुवें परामनन कर्नातल्यारि तुजेलो दिवो दवर्चे
६ आग्यारियाकुनु काढीन। तरि तुजेलो हो गुणु आस कि

निकोलाइतिलि क्रिया तुंवयि अळसिकेता कि कोण हांव
७ घृणा कर्तां। मंडलींक आत्मा कस्लें म्हण्ता कान आसि
लो मनुष्यु तें आयकों देवाले फारदिषाले मिन्देवेला जीउ
दितले रुकांफळ हांव जयधिल्याक खाव्चाक दिन।

८ स्मर्णालि मंडलीले दूताले लागि बरें। कोणु आदि
आनि अंत कोणु मेल्लो आसिलो आनि जीवो जालो तो हें
९ उत्तर म्हण्ता। तुमेलि क्रिया आनि दुर्गति आनि दरिद्र
पण हांव जाण तरि तुं धनवानु आस कोण्ते आपणालांक
यिहूदि कोनुं म्हण्तासि वस्तुतः यिहूदि नैं तरि देवचाराले
१० सिनागोगियांलि जातालि तांगेलि निंदायि हांव जाण। को
ण दुर्गति तुवें पावल्या ताजेन कांयि भय कोर्नाका पोयि
तुम्गेलि परिक्षा कोर्चि खातिर तुम्गेलि कित्लेक लोकांक
देवचार बन्दीघरांतु उडैल आनि तुम्गेलि धा दिस दुःख
जायत तरि तुं मरण परांतु विश्वासी जा आनि जीवनरुप
११ मुकुटु तुमकां हांव दिन। आत्मा मंडलींक कस्लें सांग्ता
१२ कान आसिलो मनुष्यु तें आयकुंदे। कोण्तो जय कर्तो
दुसरो म्रत्युन तागेलि कांय हिंसा जायसि ना।

१३ पर्गामसांतु कोण मंडली तिगेले दूताले लागि बरें कोणु
दोनि धारे खाडें घर्लो तो हें उत्तर म्हण्ता। तुमेलि क्रिया
आनि कोण जाग्यारि देवचारालें सिंहासन आस तें कोण
तुमेलो विडारा जागो तो हांव जाण तुं मेगेलें नांव घट्टि
धर्तास आनि मैं देवचाराजो वासु ते जाग्यारि तुम्गेलें
भितरि मेगेलि विश्वासालि साक्षि आंतिपासु कोण देळा
१४ मेलालो तेवेळांयि मेगेलें नांव तुवें नडवलें ना। तरि
तुमेले विरुद्धांतु मेगेलें कांयिर आस तेंयितें देवतांलो
प्रसादु खाव्चे खातिर आनि पिडियेसंगा खातिर यिस्र
एलाले संतानांले मुकारि आडिाव्वचि कुन्ति उडैचाक कोण
बिल्आमान बलाकाक शिक्षा केलि तेचि शिक्षांमानि

१५ शिक्षा मानसितलो लोकु तुम्गेले भितरि आस। हांव क
सजें अळसिकेता कि निकोलाइतांलि शिक्षेले माक्ति घमकत
१६ लो लोकुयि तुगेले भितरि आस। तुं मन पलटि तें नात
ल्यारि हांव तुजे लागि वेगि येवनु आपणा तोंडाके खांड्या
१७ न तांगेले भर्सि राजकारें करिन। मंडलींक आत्मा कस्लें
म्हण्ता कान आसिलो मनुष्यु तें आयको। जिकिल्याक
हांव तें गुप्त मान खाउचाक दिन आनि हांगा धवो फातो
कयि ताका हांव दिन आनि कोण्तो तें पावता तो नंसी
आनि कोणे समजनातिलें येक नवें नांव ते फातरारि बरै
लांस।
१८ सियातीरांतु कोण मंडली तिगेले दूताले लागि बरै वेणा
ले दोळे उजागोबेवारि आनि पांय उत्तम पितळे वारि
१९ चसि कोण देवालो पुतु तो हें उतर सांग्ता कि तुगेलीं
क्रिया आनि मोगु आनि सेवा आनि विश्वासु आनि ताळवप
आनि तुगेलि शेव क्रिया कि पितमजे क्रियाचाके चडाव
२० हें सगळें हांव जाण। तरि तुगेले विरुद्धांतु मेगेलें कांयि
आस तेंयितें कोण बायल येजेबेल आपणाक आचार्णी कोनुं
म्हण्ता तिका शिक्षा करोवाक आनि वेडिये संगु आनि देव
प्रसादु खावचो कस्ल्यान जाता असि उपदेशांन मेगेले सेव
२१ काक भुलोवाक अनुमति दिल्यांस। परागनन कोर्जाक
हांवे ताका समयु दिजाय तरि ताणे आपणा पारारविषयां
२२ तु परागनन कोणोंक इच्छा केलि ना। चेंयि ताका हांव
येक हांतुळ्यारि उडैन आनि कोण्ते तागेले भर्सि चेडिये
संगु केजास ते तरी परागनन ना दाखिंत आल्यारि तांकां
२३ यि ताजे भर्सि होड लोभांसु हांव उडैन। आनि म्रत्युकचाव
तागेले चेरडुवाक हांव जीवसि मारिन् आनि सर्गाळि मंडली
समजत कि हांव मनालो गुप्त विषयु आनि अंतःकरण विचाक
कर्तलो तुंम्गेले प्रत्येक मनुष्याकै आपापणा क्रिये तकिल फळ

पुस्तकांयाकुनु तागेलें नांव हांव कातरसि ना तरि मेगेले आंनाचे देवयांतु आनि तागेले दूताचे देकयांतु तागेलें नांव
६ हांव स्वीकार करिन। मंडलींक आत्मा कसलें म्हणता कान आसिलो मनुष्यु तें आयको।
७ फिलादेल्फियांतु कोणु मंडली तिगेले दूताचे लागि बरे करु पुण्यसरुप कोणु सत्य कोणु दाउदाचो आवि धर्तो कोणें उगड्यारि कोणें बंदकर्ना आनि बंद केल्यारि कोणें
८ उगडना तो हें उत्तर म्हणता। तुगेलि क्रिया हांव जाणा पोयि तुगेले येदर हांव मुक्त येक बागिल दवर्लांस आनि कोणें तें बंद कोर्चीक सक्ना तेंयितें तुगें थोडें बल आस आनि मेगेलें उत्तर तुवें पाळसिलांस आनि मेगेलें नांव
९ दोपन्दिव कर्नें। पोयि कोण्ते यिऊदी नैं तरि फटि उत्तर म्होंणु आपणाल्यांक यिऊदी कोनुं म्हण्ताति तरि देवचाराले सिनगगकार मालाति तांकां हांव तुगेले पायां मुकारि यर्वोनु नमस्कार करैन आनि हांव कि तुका मोगु
१० केलास हें ते समजतित। मेगेले ताळवपालें उत्तर तुवें पाळसिलांस हे खातिर भुंयिले लोकांक परिक्षा कोर्चीक कोण परिक्षेचे समयु सगळे संसारांतु घडत ते घडि
११ येले आपदांथाकुनु हांव तुका रक्षा करिन। पोयि हांव वेगि येतांस तुगेलें यितें आस तें घट्टि कोनुं धरि
१२ कि कोणें तुगेलो मुकुटु ना घेत। जीकतो कोण्तो ताका हांव आयण देवाले देवळांतु येकु खांबो करिन आनि तो आनि भायर वोचसि ना मेगेले देवालें नांव आनि मेगेले देवाले लागचान सर्गारियाकुनु देविलें मेगेले देवालें नगर अर्थात नवें यिरुशालेम तागें नांव आनि मेगेलें नवें नांवयि
१३ तागेरि हांव बरैन। मंडलींक आत्मा कसलें म्हणता कान आसिलो मनुष्यु तें आयको।

१४ लाउदिकियांतु कोण्ण मंडळी तिजेले दुताले लागि हें उमर
१५ बरं। कोणु आमिन आनि सत्य आनि विश्वासी साक्षी आनि
देवाले सृष्टिले प्रभु तो म्हण्ता तुजेलि क्रिया हांव जाण
१६ कि तुं थेळु नैं आनि ऊन नैं। हांव इच्छितां कि तुं
थेळु जायो ऊनु जा हे खातिर तुं थेळु नैं आनि ऊन नैं
तरि एठ भोळ्ळें से खातिर हांव आपुणा तोंडांथाकुन तुका
१७ ऊँकाड करिन। तुं सांग्तास कि हांव धनवानु आनि संप
तिंतु वाडलांस आनि मेगेलें कांयि उणे ना आनि समज्ना
कि तुं दोगद्दोगु आनि हेडु दुःखी आनि दरिद्र आनि कुर
१८ डो आनि नागडो। हे खातिर उजांतु सोदल्लिलें भांगार
मजे लागि घे कि तुं धनांढ्यु जा आनि धवें आंगवस्त्रेंयि मोला
घे कि तुं न्हेसिल्लो जा आनि तुजेलें नागडपणाउक्ता लज्जेलें
प्रकाश ना जायेत आनि दोळ्यांले मल्हान तुजे दोळ्यां
१९ लारि कि तुं पोवूंक पावसि। हांव जितुले लोकांक मोगु
कर्तां तितुले लोकांक भिष्टावतां आनि शासन कर्तां हें
खातिर अंतर्लें मनकार जाया आनि पश्चात्ताप कर्या।
२० पोयि हांव दारजाले लागि थिवि राबुनु ठोकार मार्तां तरी
कोणि मेगेलें उतर आयक्ता आनि दारांव उगडता जाल्या
रि ताजे लागि हांव भितरि येन आनि ताजे भर्सि जवण
२१ करिन आनि तो मजे भर्सि जवण करित। हांव कसि
जोडुनु आपुणाले आनिले भर्सि तागेले सिंहासनाविरि बस
तां जिकित्याक हांव आपले सिंहासनाविरि आपुणाले भर्सि
२२ सवि बोसा दिन। आत्मा मंडळींक कोण्ण उतर सांग्ता
कानु आसिलो मनुष्यु तें आयको।

४ चतुर्थ पर्व्व।—हाजे मगिरि हांव पोयलें आनि पोयि
सर्गारि येक मुक्त दारांव आनि कोण्ण पिलेम म्हणु हांवे

आम्किलो तो शब्द उलैलो वोयरि ह्यांगा यो हांगे मागि
२ रि जाव्चो विषयु हांव तुका दाकैन।  तावल्यचि हांव
आत्मांतु आसलों आनि पोळि सर्गारि आयन येकें येक
३ सिंहासन आनि ते सिंहासनारि बसिलो येकु पुरुषु। ता
जे वोयलो पुरुषु सूर्यकांत आनि येमनि पात्तराले वारि
येकु येता आनि पन्नावारि येकुयेवये सिंहासनाले चारिदि
४ कां आसिले येक मेघा धोणु।  आनि सिंहासनाले चारि
दिकां आनि चोविस सिंहासन आनि सिंहासनारि बसिले
धवे आंगवस्त्रान पुरुषे चोविस म्हातारयांक हांवे पळैलो
५ आनि तांगेले मात्थारि भांगरा मुकुट आसिलो। ते सिंहा
सनाथाकुनु विद्युत आनि मेघगर्जन आनि शब्दु बारयेलो
आनि सिंहासनालें येदुर जोळये उजाले सात दिवे
६ अर्थात देवाले सात आत्मा।  सिंहासनाले येदुर्ये पटि
काले वारि काचुला येकु समुद्र आसिलो आनि सिंहासनाले
भितरि आनि सिंहासनाले चारिदिकांतु मुकारि मागि दो
७ ळ्यान पूर्ते चारि जंतु आसिले।  पितमलो जंतु सिंहाले
वारि द्वितीय जंतु वासराले वारि तृतीय जंतु मनुष्या
८ तोंडालो आनि चौथो जंतु उडचे कुरलाले वारि। ते चारि
जंतुगेले प्रत्येक जंतुलिंस पाक्कं आनि तांगेले आंगांतु ते
दोळ्यान पूर्तेंचि आनि धर्म धर्म धर्म आलें वर्तमान आनि
जावचें यिऊह सर्व्वशक्तिमानु देउ हें उत्तर म्हेणु ते दिस
९ रात्तिंतु थांबना।  आनि सदा सर्वदा जोवो सिंहासना
रि बसिले पुरुषालें गौरव आनि सम्मानु आनि कृतज्ञ
१० तालि प्रशंसा कोण्वेळा ते चारि जंतु कर्तांति तेचिवेळा सिं
हासनारि बसिले पुरुषाले येदुर ते चोविस म्हातरे पोणु
११ सदासर्वदा जीयालि पूजा कर्तांति। आनि हे प्रभु तुं महात्मा
लो आनि सम्मानालो आनि पराक्रमालो प्रशंसायोग्य हेंकिले

तें तुवें सगळें सृष्टि केलांस आनि तुगेले इच्छेन ते आतांति
आनि उत्पन्न आसिले ह्मुं उत्तर म्हणत ते आपुल्यालो मुकुट
सिंहासनाले येदूर उडैलो ।

५ पंचम पर्व्व ।—भितरि आनि भायर बरैल्ले सात ला
कोटे केल्लें येक पुस्तक ह्मावें सिंहासनारि बसिले पुरुषाले उ
२ जवे ह्मातांतु देकलें। पुस्तक मेकोळचाक आनि ताजे लाकोटे
उगड्चाक योग्य कोणु मह्ना ह्मोड झब्दान हें उत्तर घेवणु
३ कर्तेले येक बलवंत दूताकयि ह्मावें पळैलो । आनि सर्गा
तु जावो भुंयितु जावो भुंयिले तोगु पुस्तक मेकोळचाक
आनि ताजो लाकोटो मेकोळ्चाक आनि तांतु चोव्चाक
४ वज्ञवन्तु कोणे ना आसिलो । पुस्तक मेकोळ्चाक जावो
वाचुचाक जावो ताजे मागिरि दृष्टि चोवचाक कोणे मेळ
५ नातिलें गेल्यान ह्मांव ह्मोड रडों रळों। आनि ते म्हांतारे
लोकांतु येक्लो माका उलैलो कि रोंवाका येयि यिऊदा
हाले वंशालो सिंह दाउदालें मूळ पुस्तक मेकोळ्चाक
आनि ताजे सात लाकोटे मेकोळचाक जैतिल्लो आसास ।
६ मागिरि ह्मांव चोव्लों आनि चोयि तें सिंहासन आनि
चारि जंतुजे भितरि आनि ते चोविस म्हांतारां भितरि
मेल्यारि वसि जाल्लें रसि सात शिंग आनि सात दोळे
आसिल्लें येक तगरा पिल यियि राव्लें ते सात दोळे सगळे
७ भुंयितु वळैल्ले देवाजे सात आत्मा। तो यनु सिंहासनारि
८ बसिल्ले पुरुषाले उजवे ह्मातांथाकुन तें पुस्तक घेत्लें। केद्ना
ताणे तें पुस्तक घेतिल्लें तेद्ना ते चारि जंतु आनि चोविस
म्हांतारे प्रत्येक जाण विणा आनि परिमळद्रव्यान अर्थात
पुण्यकेल्याले प्रार्थनांतु परिपूर्ण भांगरा भायद्दन घेवनु तगरा
९ ले पिलाले येदूर पळो। आनि म्हळे कि तुं पुस्तक घेव्चाक
आनि ताजो लाकोटो मेकोळ्चाक योग्य तेंपितें तुं मेल्लो

आसिलो आनि प्रत्येकु वं‍शु आनि भाषयार आनि लोकु आनि गणांथाकुन आद्गाले रगत दिउनु आम्का देवाले १० खातिर मुक्त केलास। आनि आम्गेले देवाले पक्षांतु आम्का रायु आनि पुरेतु केलास आनि आमि भुंयियेरि यजमान ११ पण कोरं हेचि उत्तमय येकु नवो गीतु गायन केलो। मागिरि हांवे पळेलें आनि सिंहासन आनि ते जंतु आनि म्हांतायांले चारि दिका हांव सावार दूतांलो शब्द आय्कि लो तांगेलि संख्या अयुतगुण अयुत आनि सास्रगुण १२ सास। तानि म्हळें कि कांबळकुरवालें पील पराक्रमु आनि धन आनि ज्ञान आनि बल आनि सम्मानु आनि १३ माहात्म आनि धन्यवादु पाव्चा योग्य आस। आनि स्वर्गा वेले आनि भुंयिले आनि भुंयिले तोगुंले आनि समुद्रांतुले प्रत्येक प्राणी आनि तांगेले भितवेले किलूले ते सगळ्यांकि सिंहासनारि वसिलो पुरुषालो आनि तगरा पीलालो धन्यवादु आनि संमानु आनि गौरव आनि पराक्रमु नित्य जावो हें उत्तर सांगताना आय्किलें मागिरि ते चारि जंतु उलेले २४ आमिन। आनि ते चोविस म्हांतारे येंखु भजन केलें।

६ षष्ठ पर्व्व।—तगरा पील हाजो येकु लाकोटो मेकळो लो हांवे पळलो आनि यो चोयि हें उत्तर म्हणत मेघाले गर्जनाले वार्दि ते चारि जंतुले येक जंतुलो शब्दु हांवे आय् २ किलो। हांवे दृष्टि केलि आनि चोयि येकु धवो घोडो आनि ताजेरि चढ्लो कोण पुरुषु तागेलें येक धनुक आसिलें आनि ताका येकु मुकुटयि दिउनु गेलो आनि तो जयी जायत आनि जय कोर्चेखातिर भैर केलें।

३ मागिरि ताणे दुसरो लाकोटो मेकळतचि हांवे द्वितीय ४ जंतुलें हें उत्तर आयकिलें कि यो चोयि आनि तांबडो आनि

येकु घोडो बादरुवों आनि ताजेरि चडो दादल्याक भुंयि तुथाकुनु घांति घेऊनो पराक्रमु दिउनु गेलो कि ते अन्यंन्याक जीवसि मार्तात आनि होड येक खांडें ताका दिउनु गेलें।
५ ताणे तिसरो लाकोटो मेकळतचि हांवे तिसरे अंतुलें हें उत्तर आयकिलें कि ये चोयि मागिरि दृष्टि केलि आनि चोयि येकु काळो घोडो आनि ताजेरि चडो पुरुषाले हातांतु
६ येकु तरासु आसिलो। ते चारि अंतुजे भितरियाकुनु असि उलैतलो येकु शब्दुयि हांवे आयकिलो कि चारि आण्याक येकि दंगाळि गोउं आनि दोनि आण्यांक तिनि दंगाळि सव आनि तेल आनि दराक्षेरसालो नाशु कोर्नाका।
७ ताणे चोव्लो लाकोटो मेकळतचि हांवे चोव्ले अंतुलें हें
८ उत्तर आयकिलें ये चोयि। ताजेन हांवे दृष्टि केलि आनि चोयि पांडरे येक घोडाक हांवे पळेलो ताजेरि चडो दाद ल्यालें नांव मृत्यु आनि ताजे लागि नर्कु आनि खांडान आनि भुकेन आनि मरणान आनि भुंयिले रान अंतु कथान मार्नु उडोचाक भुंयिले चोव्ले वांट्यारि पराक्रमु ताका दिउनु गेलो।
९ ताणे पांचवो लाकोटो मेकळतचि देवाले उत्रानुसारी जाव् यांघाकुनु आनि आपुण कोण प्रमाणवलंती आसिले ते प्रमा णांघाकुनु कोण्ते मेल्ले आसिले तांगेलो आत्मा हांवे यज्ञवे
१० दिले तेगुं चोबिलो। आनि ताने होडान सांग्लें कि हे धर्मस्वरूप आनि सत्य प्रभु विचार कोर्नाक आनि भुंयिचेरि रावतल्यांचेरि आम्गेले वधालें बदलाफल दिव्चाक तुं
११ कदोवेळु तोडोउ कर्ता। तांगेले प्रत्येक मनुष्याक धवें आंगवालें दिउनु गेलें आनि तांगेजे सहदास आनि कोण्ते तांगेले वारि मरतित असले कि तांगेले भावयि कोणपरांतु तांगेलि संख्या पूर्त जावना जायत तेदोळुपरांतु कांयि वेळु धैर्यावलंबन कोर्चाक तांका सांगु गेलें।

१२ ताणे सटवो लाकोटो मेकळतचि हांव पोयलों आनि
पोयि महाभुंदिकांपु जालो आनि सूर्यु रोमेन केले काका
१३ वारि काळो जालो आनि चंद्रु रगताले वारि जालो आनि
व्होड वाय्यान हालयो रुंबडा रुकु कसि अकालारि उबजलें
फळ वाडता तसि सर्गावेलिं नक्षत्रं तुटुनु भुंयिरि पळिं।
१४ आनि कसि पत्र वेडावनु वेता तसि सर्गु वेडावनु गेलो
आनि प्रतिपर्वत आनि उपदिप अन्यजाग्यारि चलन
१५ जालो। आनि भुंयिले राय आनि व्होड मनुष्य आनि
धनि लोकु आनि प्रधान सेनापति आनि बळवंत लोकु आ
नि प्रतिमनुष्य दासु जावो मुक्त व्हेवयि पर्वताले पोकळेंतु
१६ आनि गुह्यारि आपणाल्यांक निपैले आनि ते पर्वतांक आनि
गुह्यांक म्हळें कि आम्चेरि पडा आनि सिंहासनारि बसि
लो पुरुषाले ताजे तों डांथाकुनु आनि कोंवळकुवेले पिला
१७ ले कार्दा याकुनु आम्कां निपैया। तेंयिलें तागेले कोपा
ले महादिसु उपस्थित आस आनि स्थिर जावचाक कोणु
सकंत।

७ सप्तम पर्व।—ताजे मागिरि भुंयि जावो समुद्रु जावो
कोणें रुकाचेरि वारें पुंकना व्हे खातिर भुंयिले चारि सुख्यां
तु आस्सिले चारि वारें धर्ले चारि दूतांक हांवे पळेले।
२ आनि जोवे देवालि मुद्रा धर्लें सूर्योदया दिकांथाकुनु वोयरि
चमकतले येक दूताक हांवे पळेलो आनि कोण चारि दूत भुं
यिक आनि समुद्राक हिंसा कोर्काक दिउनु गेले आसिले तां
३ कां ताणे व्होडान म्हळें। कोण परंतु आमि आपणाले देवा
ले सेवकांक तांगेले निडलारि मुद्रा कर्न आस तेदोळु परंतु
भुंयि जावो समुद्रु जावो रुकांक हिंसा कोर्नाका। को...
मुद्रेन मुद्रेउनु गेले तांगेले जमा हांवे आयकिलें यिस्रएला
ले सगळे वंशांले येक सें चोवेचाळिस सास जाण मुद्रेउनु

४ गेले। यिऋदाहाले वंशाले बारा सास मुद्रेउनु गेले रिउ वेणाले वंशाले बारा सास मुद्रेउनु गेले गाद्दाले वंशाले
५ बारा सास मुद्रेउनु गेले। आशेराले वंशाले बारा सास मुद्रेउनु गेले नप्तालिले वंशाले बारा सास मुद्रेउनु गेले मन
६ शेहाले वंशाले बारा सास मुद्रेउनु गेले। शिमिओनाले
७ वंशाले बारा सास मुद्रेउनु गेले। लेविले वंशाले बारा सास मुद्रेउनु गेले यिष्षकाराले वंशाले बारा सास मुद्रेउनु
८ गेले। जिबुलूनाले वंशाले बारा सास मुद्रेउनु गेले युसफाले वंशाले बारा सास मुद्रेउनु गेले बेन्यामिनाले वंशाले बारा
९ सास मुद्रेउनु गेले। हाजे मागिरि हांवे पळेले आनि येयि कसले कोणे मोवप्ताक सकना सगळे देशकार आनि सर्ववंशकार आनि सगळे लोककार आनि सगळे भाषेकार असलो येकु असंख्य ससैाऊ धवे आंगवस्त्रान् दुसळो आनि तळस हातां घेउनु सिंहासनाले आनि तगराले
१० पिलाले येदुर यिबि राबलो। आनि होड शब्दान हें उत्तर म्हळें कि सिंहासनारि बसिल्लो आमगेलो देउ आनि
११ तगरा पिलाले लागि चाल्ली प्रशंसा जावो। तागेन समस्त दूत सिंहासनाले आनि ते म्हातायांले आनि चारि जंतु वारि दिकांनु यिबि राबुनु सिंहासनाले येदुर उमति
१२ पडो आनि देवालि पुजा कोनु म्हळें। कि आमिन धन्य वादु आनि महात्मा आनि ज्ञान आनि कृतज्ञता स्वीकार आनि सन्मानाले आनि पराक्रमाले आनि बलाली प्रशंसा
१३ सदासर्वदा आमगेले देवाले लागि जावो आमिन। तावळि ते म्हातायांले भितरि येकलो उत्तर कोनु उलैलो धवे आंग
१४ वस्त्रान् दुसळे हे कोण आनि खैंयाकुनु आयले। ताका हांवे सांगले हे महाराया तुं जाण नेंवान ताणे माका सांगलें होड दुःखांयाकुनु येव्हो आनि तगराले पिला लेरगतान
१५ आपणागेलें आंगवलें धुउनु धवें केलांस कोणते हें ते। हेयि

कारण ते देवाले सिंहासनाले येदुर राबताति आनि ते तागेले देवळांतु रातिदिसु तागेलि सेवा कर्तानि आनि कोण्णु सिंहासनाले वेयरि बस्ता तो तांगेले भितरि वासु कर्ता।
१६ तांगेलि आनि भुक जावो तानि जायसि ना आनि वोस जावो
१७ कोणे ताप तांगेले वेयरि लागसि ना। तेंयितें सिंहासना ले भितरि आसिलें तगरालें पिल तांकां चरैत आनि उद काले अमृत भारियेले लागि तांकां वेत आनि तांगेले दोळ्यां थाकुनु देउ दुक्कं सगळिं पुसुनु सोडित।

८ अष्टम पर्व्व।—ताणे सात्वो लाखोटो मेकळतचि
२ अर्द्धघडियरांतु सर्गांतु निःशब्दपण आसिलें। आनि देवाले येदुर कोण सात दूत यिबि राबताति तांकां तावे पळेले
३ आनि तांकां सात वाकी दिउनु गेले आनि भांग्राले धुपाति हातांतु आनि येकु दतु येवनु यज्ञवेदिले लागि यिबि राबलो आनि सिंहासनाले येदुर्यै भांग्राले यज्ञवेदियेरि सगळे पुण्यकेल्यांले प्रार्थनाले सेत उक्तुं कोर्चे खातिर सावार
४ धुपु तांकां दिउनु गेलो। आनि ते दूताले हातांथाकुनु पुण्यकेल्यांले प्रार्थनाले सेत् ते धुपालो हुंवाड देवाले येदूर
५ उठायलो। मागिरि तो दतु धुपाति घेउनु यज्ञवेदिले उजांतु पूर्त कोर्नु भुंयितु उडैलो ताजेन शब्दु आनि मेघा
६ गर्जन आनि विद्युत् आनि भुंयिकांपु जालो। मागिरि वांकि घर्जे ते सात दूतानि वाजुचाक आपणाल्यांक प्रस्तुत
७ केलं। पिर्लेम दूतान बाजलो ताजेन गारुर आनि रगता न मेळेलो उजो जालो आनि भुंयितु उडैलो ताजेन भुंयि लो तिसरो वांटो रुकालो तिसरो वांटो आनि सगळे जीवें तण लासुनु गेलें।
८ द्वितीय दूतान वाज्लो ताजेन प्रज्वलित महापर्वताले वारि वस्तु समुद्रांतु उडैनु गेलो आनि समुद्राले तिसरो

९ वांटो रगत जालो आनि समुद्रंतु वर्तेले कितुले प्राणी ह्यां गेलो तिसरो वांटो मेलो आनि तारवांलो तिसरो वांटो नष्ट जालो।

१० तिसरे दूतान वाज्लो ताजेन दिवाले वारि जोळ्चे येक महानक्षत्र सर्गारिथाकुनु निसोनुं पळें आनि न्हयिं
११ आनि उदकाले झरिले तिसरे वांट्याले वेय्रि पळो। ते नक्षत्राजें नांव नागदाना हे खातिर उदकालो तिसरो वांटो नागदाना जालो आनि तें उदाक कोडु जाल्यान सा बारु लोकु तें पिउनु मेलो।

१२ चोव्ते दूतान वाजलो ताजेन सूर्यालो आनि चंद्रालो आनि नक्षत्रालो तिसरो वांटो मोनुं गेलो ताजेन तांगेलो तिसरो वांटो काळो केल्लो जालो आनि दिसालो तिसरो
१३ वांटो दिष्टी जालो ना आनि रातिलोयि तसिचि। मागि रि ह्यांवे दृष्टि कोर्नुं सर्गाले मितविल्यान उब्तलो महा दूत होडुान हें उत्तर सांग्ताना आय्किलें वाजितले आनि तिनि दूतांले वांकाले शब्दान भुंयिचेरि राबुतल्यांलो संता पु संतापु संतापु जायत।

९ नवम पर्व्व।—पांचवे दूतान वाज्लो ताजेन सर्गारि थाकुनु भुंयिचेरि येक नक्षत्र निसोनुं पोडचें ह्यांवे देकलें
२ आनि ताका अतलस्पर्श गुंडिये चावि दिउनु गेलि। ताणे अतलस्पर्श गुंडि उगद्धि ताजेन उजाले होड कुंडांथाकुनु कसि उठायता असि धुवराले वारि धुवोर ते गुंडियेथाकुनु उठाय्लो ते गुंडियेजे धुवरान सूर्यु आनि आकाश काळक
३ श्य जालें। ते धुवरांयाकुनु तोळ भुंयियेरि पळे आनि भुंयि चे यिचवांले पराक्रमाले वारि पराक्रम तांकां दिउनु गेलो।
४ आनि कोण लोकांले निडलारि देवालि मुद्रा ना तो लोकु वेगळो भुंयिलें तण जावो कोणे जीवि वस्तु जावो कोणे

५ हक हिंसा मा कोर्धाक आज्ञा तांकां दिउनु गेलि। आनि तेचि लोकांक जीवसि ना मार्धाक तांकां आज्ञा दिउनु गेलि तरि मात्र कि ते पांच मासपरांतु दुःख पावता हि आज्ञा दिउनु गेलि यितु मनुष्याक चावल्यारि करिस दुःखि जाता

६ तसि दुःखदितले ते। ते वेळा लोकु मरण सोदितित तरि तें भेळसि ना ते मोर्वांके होडि इच्छा कर्तित तरि मृतु

७ तांगेलि लागियाकुनु पोळनु वेचत्। रण कोर्धाक प्रस्तुत घोड्यांलें कसि रुप तेचि रुप तोळांलें जाता आनि तांगेले माथ्यारि भांग्राले वारि मुकुटु आनि तांगिलें तोंड मनुष्यां

८ ले तोंडाले वारि जाता। आनि तांगेले केश बायलांले केसांले वारि आनि तांगेले दांत सिंहाले दांताले वारि।

९ आनि तांगेले लोकंडाले हर्धो पाव्यावारि हर्धो याटो जाता आनि रण कोर्धाक धांवतलो रथु आनि साबार

१० घोड्यांले शब्दाले वारि तांगेले पाकांलो शब्दु। आनि विचवांले कुसांले वारि कुस तांगेलें जाता आनि तांगेलें कुस मक्षियुक्त जाता आनि मनुष्यांक पांच मास परांतु हिंसा

११ कोर्धाक तांगेलो पराक्रमु जाता। एब्रिभाषेन आबाद्दन तरि ग्रीक भाषेन आपल्यन नांवांतु अतलसार्थं गुंडियेलो

१२ दूतु तांगेलो रायु। येकु संतापु गेलो पोयि आनि दोनि सताप भविष्यत् आस।

१३ सटवे दूतान वाज्लो ताजेन देवाले येदुरचे भांग्रा वेदिले चारि शिंगांथाकुनु हांवे येकु शब्दु आयिकिलो।

१४ बांको घर्लेस दूतांक तो शब्दु सांग्लो फरात नांवाले होड

१५ न्हयिंतु कोण चारि दूत बंद आसति ते दूतांक सुटै। ताजे न मनुष्यालो तिसरो वांटो मार्धाक कोण चारि दूत येकि घडि आनि येक दिसु आनि येकु मासु आनि येक वर्साले वा

१६ तिर प्रस्तुत कोर्नु गेले आसिलें तेचि दूत सुटैले। ते घो स्वारिचेंहुं सैन्य बिस कोटि मोवप आनि हांवे तांगेलि संख्या

१७ आयकिलि । ते दर्शणांतु ह्यांवे घोड्यांक असि पळेले आनि उजो आनि धोलु आनि गंदकु ह्यां पाद्यायुक्त तांजे रि जद्दे लोकांकयि ह्यांवें पळेले ते घोड्यांलिं मार्त्ति सिंहाले मात्याले वारि आसिलिं आनि तांगेले तोंडांयाकुनु उजो
१८ आनि धुवोर आनि गंदकु पळो । तांगेले तोंडांयाकुनु भायर पड्डो उजो आनि धुवोर आनि गंदकु हे तिनि प्रा
१९ हारान मनुष्यालो तिसरो वांटो मार्नु गेलो । तेंथिलें तांगेलें तोंड आनि बाल्लाक तांगेलो पराक्रमु आस आनि सोरयाले वारि मार्त्तियुक्त तांगेलें बाल जात्ता आनि तांच्यान
२० तें हिंसा कर्तांति । हे सगळे प्राहारान कोण लोकु मेलो ना ते उर्ल्ले लोकानि आप्णागेले हातान केल्ले वस्ताले विषयांतु मंनपर्तिलें ना कि देवतांलि पुजा आनि येव्चाक
२१ आनि आयकुचाक आनि गति कोर्चाक सामर्थ नातिले भांगा र रुपें पितळि फातोर आनि राकडान केल्ले देवांलियि पु जा कर्नांति आनि ते आप्णागेलो घातु आनि माट आनि पारार आनि चोराले विषयांतुयि मंनपर्तिले ना ।

१० दशम पर्व्व ।—मेघान धांकिलें मार्त्तिं आकाशा थोणान भूषित सूर्यालें वारि तोंड उजा खांया वारि पांय सर्गारि थाकुनु चडतलो आनि येक बलवंत दूताक ह्यांवे पळेलो ।
२ तागेले हातांतु येक मेकळें सान पुस्तक आनि तो समुद्राचेरि
३ उजवो पांयु आनि भुंयिचेरि दावो पायु दिउनु सिंहाले गर्जनेले वारि होड्डान उलैलो आनि तागेले सांग्णा मागि रि मेघाले सात गर्जनेन आप्णांगेलो शब्दु प्रकाशु केलो ते मेघाले सात गर्जनेन आप्णागेलो शब्दु प्रकाश कर्तचि ।
४ ह्यांव बरैचाक उद्युत जालों ताजेन मेघाले सात गर्जनेन कोणर उत्तर प्रकाश केलांस तें लाकोटो कोर्नु बंद करि आनि बरैनाका मेगेलो आस हें उलै बरि आकाशवाणि

५ हांवे आयकिलि। मागिरि समुद्र आनि भुंयिंतु थिवि
६ राबिले दूताक हांवे पळैलो तो सर्गादिकां उजवो हातु
उबार्नु नित्य वर्तमान आनि सर्गु आनि ताजे भितवेले आनि
भुंयि आनि ताजे भितरिले आनि समुद्र आनि ताजे भितवे
लो वस्तुले सृष्टि कर्त्त्याचें नांव घेउनु सोपुतु केलो कि आनि
७ कै कालु जायसि ना। तरि आपुणाले आयाच्या सेवकांले
लागि देवान कसि प्रकाश केलांस तसि मे सातवे दूतांले वे
ळा अर्थात तो केद्ना वाजुचाक आरंभु करित तेद्ना देवा
८ लो गूढ विषयु सांगा जायत। कोण आकाशवाणी हांवें
आयकिलि ते वाणीन नेंवान माका सांग्लें समुद्रांतु आनि
भुंयिंतु थिविरावेले दूताले हातां आसिलें सान मेकळें
९ पुस्तक घे। ताजेन ते दूताले लागि वेचुनु हांवे ताका सांग्
ले तें सान पुस्तक माका दि ताणे म्हळें तें घे खा मागिरि
तो तुजेले पोटाक कोडु करित तरि तुजेले तोंडांतु म्होवा
१० वारि गोड जायत। तावळि तें सान पुस्तक दूताले
हातांथाकुनु घेउनु हांवे खावनु उडैलें तें मेगेले तोंडांतु
म्होवा वारि गोड जालें तरि तें खातचि मेगेलें पोट कोडु
११ जालें। मागिरि ताणे माका म्हळें साबार लोकु आनि
देशकार आनि भाषकार आनि रायांले येदुर तुका आचा
र्यालें उत्तर नेंवान सांगुका जायत।

११ एकादश पर्ब्ब।—मागिरि वोञ्चाले वारि येकि नळि
माका दिवनु गेल्यास आनि ते दूतान थिवि राबुनु म्हळें कि
उठा देवालें देवळ आनि यज्ञवेदि आनि ताजे भितरि
२ पूजार्यांक मोपि। तरि देवळाले भायलें आंगण सोडि
आनि मोपुनाका तेंयिसें परदेशांक तें दिउनु गेलांस आनि
ते बावेचाळिस मासपर्यांतु पवित्र नगराक पायां तोगु

३ माडैतिल । हांव मेगेले दोनि साक्षीक पराक्रमु दिन आनि ते साकान वस्त्रानित जावनु येक सास दोनिसें साठि
४ दिस आपल्याले उत्तर सांगत । भुयिले देवाले येदूर कोण दोनि जितरुक आनि दोनि दिवे स्तित आस ते हेचि
५ दोनि । तरी कोणे तांकां हिंसा कोर्चाक इच्छिता जाल्यारि तांगेले तोडांयाकुनु उजो बारसतो आनि तांगेले शत्रुक खावनु उडैता आनि तरी कोणे तांकां हिंसा कोर्चाक इच्छिता जाल्यारि हेचि मणके ताका मार्नु उडैका जायत ।
६ तांगेले आचार्य्य उत्तर म्होणचे वेळा पावसु ना पोडचे खातिर तांगेलो सर्गु बंद कोर्चो आनि उदाक रगत कोर्चें आनि कितलेवेळा तांगेलि इच्छा तितलेवेळा भुयिक सगळे
७ आघातु दिवचोयि पराक्रमु तांगेलो आस । आनि तांगेलें प्रमाण दिउनु सांग जातचि अतलस्पर्श गुंडियेंयांकुनु वोयरि चमकतलो हिंसा कोर्चो जंतु तांगेले भसि युद्ध करित आनि
८ तांकां जय करित आनि जीवसि मारित । कोण नगरा उपमा कोनु सदोम आनि मिसर नांवान ख्यात खैं आमगेलो प्रभु क्रुशारि मेलोलो ते होड नगरांतु तांगेलें मेलें शरीर पडत ।
९ आनि लोकु आनि वंशकार आनि भाषकार आनि देशकार साडेतिनि दिसपर्यंतु तांगेलें मेलें शरीर चोयतित आनि
१० तांगेलें मेलें शरीर कबरांतु पुर्लें जावचाक सोडिसि ना आनि भुयिरि रावतलो लोकु तांचेरि आनंदु करित आनि कौतुकादि वेवार्ह करित आनि परस्पर भेट धाडतित तें यितें कोणते भुंचेरि वासु कर्तात तांकां हे दोनि आचार्यानि
११ दुःख दिलें । साडेतिनि दिस वोतचि देवांयाकुनु आयिलो जीवात्मान तांगेले भितरि प्रवेशु केलो आनि तानि आपणाले पांय यिवि रावले ताजेन कोणते तांकां चोयिले तांचेरि होड
१२ भय पळें। हांगा यो तांकां हें उत्तर म्हणतलि महाआकाश वाणी तांनि आयकिलि मागिरि तांनि मेघांतु रिगुनु स्वर्गा

१३ दोहष्ण केलें तांगेले शत्रु निथि तांकां पळैले। तेचि घडियेंतु होडु भुकांपु आसिलो ताजेन नगराली धावो वांटो पळो तें भुकांपानं मनुष्यालें नांव सात सास मोर्नु गेलें आनि कोण
१४ लोकु उर्वीली ते भिउनु सर्गाले देवालि प्रशंसा केलि। द्वितीय संतापु गेलो चोथि तिसरो संतापु वेगिं उपस्थित जायत।

१५ सातवे दूतान वाजतत्रि हे जगताली समुदायु राज्य आम् गेलो प्रभुलो आनि ताजेले ख्रीष्टालो अधिकारु जालो आनि तो सदासर्वकाळिं यजमानपण करित हेंचि उलैतले
१६ साबार शब्द सर्गारि जाले। मगिरि देवाले येदुर्चे सिंहासनारि बसिले ते चोविस म्हातारे उमेति पोंगु हें उत्तर म्हण्तर देवालें भजन केलें कि हें वर्तमान आनि आस्लें आनि जाव्चें प्रभु सर्वशक्तिवानु देउ तुवे आपणालो होडु पराक्रमु घेउनु यजमानपण केलांस ते खातिर तुजेरि धन्य
१७ वाद् कर्तां। आनि देशकार कोपाद्य आसिले आनि तुमि कोपु येव्चो आनि कोण्वेळा मेलेल्यांले क्रियेलो विचारु जातां आनि तुं आपणाले आचार्यां सेवकांक आनि पुण्यकेल्यांक आनि सान होड किलुलो लोकु तुगेले नांवांतु भय्
१८ कर्तांति हे सगळ्यांक कोण् वेळा बदला फल दिसि आनि पृथिवी नाणु कर्तल्यांक कोणवेळा नष्ट कर्सि तोवेळु उपस्थित
१९ जालास। मागिरि सर्गांतु देवालें देवळ उगळें ताजेन विद्युत आनि शब्द आनि मेघगर्जन आनि भुंयिकांपु आनि महांकर्यां पावसु जालो।

१२ द्वादश पर्व्व।—मागिरि सर्गांतु येक महांश्चर्य देकं आयलें सूर्यान परिहिता आनि पायांतागु चंद्रु आनि बारा नक्षत्रांले मुकुटान विभुषीत मात्याकाळीं येकि बायल
२ आसिलि। ति बायल गर्भवति जावनु आनि बाळांतिचा

वेळु उपस्थित जाल्यान वाळांतिचा दुखिन दुखिल्लि जावनु
३ किंकळलि । सर्गांतु आनि येक आश्चर्यचि देकुं आयलें
येयि सात माथिं आनि धा सिंगांयुक्त आनि सात मुकुटान
विभुषीत मातें रक्तवर्ण व्हेड शरीराजो येकु सोरोपु आसि
४ लो । तागेलें वाळ सर्गाले नक्षत्राजो तिसरो वांटो तांणु
भुंयिचेरि उडैलो । प्रसवान उद्यत ते बायलेले चेरडाक
प्रसव जातांचि खावचे खातिर तो सोरोपु ताजे मुकारि
५ राबलो । आनि सगळे दण्डकारांक लोकंडाले बोडुान
कोरित असि येक पुताक तिजे प्रसव कर्तचि देवाले सिंहा
६ सनाले लागि तें चेरडुं नाळेलें जालें । स्त्री राणांतु पोळनु
गेलि कोण्ण जागो देवान ताजे खातिर प्रस्तुत कोर्नु गेलेलें
कि ते येक सास दोवशें साठि दिसपरांतु ताका प्रतिपालन
७ कर्तात । आनि सर्गांतु युद्ध जालें मिखाएलान आपणाले दू
तांक घेउनु ते सर्पाले भांसें राचकारें केलें आनि सोर पानयि
८ आपणाले दूतांक घेउनु राचकारें केलें । आनि जय कोर्चाक
सकलो ना आनि सर्गांर तांगेलो आनि जागोयि मेळनु गेलो
९ ना । पापात्मा आनि देवजार नांवान सगळे जगतांतुले
लोकांजो वंचनकर्तेलो तो होडु नागु आनि म्हांतारो सोरोपु
भायर कोर्नु गेलो आनि तो भुंयिचेरि तागुं पडतलो आलो ।
१० मागिरि सर्गांरि हेंचि उत्तर म्हाण्चो होडु शब्दु घांवे आय्
किलो कि आतां त्राण आनि सामर्थ्य आनि आमगेले देवालें
राज्य आनि तागेले खीष्टालो पराक्रमु उपस्थित जालास
तेंयितें आमगेले भावांचो कोण अपवादी रातिदिसु तांगेले
देवाजे येदुर तांगेलो अपवादु केलो तोचि लागुं पळास ।
११ आनि तानि तगराले पिलाले रक्तान आनि आपणाले सा
क्षीहय उत्रान ताका पराभव केलो तानि मरण परांतु
१२ आपणांगेले प्राणाकयि मोगु केलो ना । हे खातिर हे
सर्गानो आनि तांतु रावतले तुमि आनंदु कर्या हे भुयें

१३ आनि समुद्रांतु राबतल्यालो तुमगेलो संतापु आयत। तें यिलें आपणालें आनि अल्पसो कालमात्र कि आस देवचार हें समजुनु महाकोपान्नु जावनु तुमगेले मदैंवि देंवलास। तो नागु आपणाक भुंयिंतु पळोवो पोउनु कोण्ण बायल
१४ पुतु बाळ्यांति जालेलि ते बायलेलि विपद्धता केलि। ति बायलमनिष हें सर्पाले तोंडांथाकुन राकोंक आस्तुनु येकु समयु आनि दोनि समय आनि अर्द समयुपरांतु प्रति पालन केल्लि जाता रान्नांतु आपण ते जाग्यारि उडोवें खातिर होड कुरव पक्षिले दोनि रटे ते बायलेक दिउनु गेले।
१५ तावळि तिका उवारान व्हाळोवि खातिर तो सारोपु बायलेले माघ्लिर आपणाले तोंडांथाकुनु उवाराले वारि उद
१६ कान ढेंकारु केलो। तरि भुंयिन ते बायलेलो उपकारु केलो आनि भुंयि आपलें तोंड पिस्तार कोर्नु नागाले तोंडांथाकु
१७ नु वारसलें उवाराक पिलि। मागिरि ते बायलेयेरि नागु कोपिल्लो जावनु देवालि आज्ञा पालक्षितलो आनि यिशु ख्रीस्ताले प्रमाणालो अधिकारी तागेले उर्वले संताना ले भर्सि राचुकारें कोधाक लागलो।

१३ त्रयोदश पर्व्व।—हांव समुद्राले रेंवेरि राबलों आनि सात मात्तिं आनि धा श्रिंग आनि श्रिंगावेले धा मुकुट आनि मात्यावेले निंदारुप नांव हे सगळ्यांतु विशिष्ट समुद्रांथाकुनु वोयरि येतलो येकु हिंसा कर्तेले जंतुक हांवे
२ पळेलो। कोण्ण हिंसा कर्तेले जंतुक हांवे पळेलो तो जंतु कतेकुरवाले वारि तागेले पांय वासेलाले वारि आनि तागेलें तोंड सिंहालें तोंडाले वारि आनि तागेलो पराक्रमु आनि तागेलें सिंहासन आनि मेहापद नागान ताका
३ दिलो। तागेलें येक मात्तिं मेल्लेवारि हांवे पळेलें मागिरि तागेलें मरण कोर्चो घायु दासकेलो जालो ते हिंसा कर्तेलो

जंतुले नागि जगतांतु रावतले सगळे लोकालो चमत्कार
४ जालो। हे हिंसा कर्तले जंतुलो पराक्रम दितले नागालि
पूजा तानि केलि आनि तो जंतुले समान कोण तागेले भसिं
रावकारें कोणीक यवत कोणे हें उत्तर म्होण तानि ते जंतु
५ लि पूजा केलि। मद्दा उत्तर आनि निंदा उत्तर उलैतलें येक
तोंडथि ताका दिउनु गेलें आनि बावेचाळिस मासपरांतु
६ रावकारें कोचीं पराक्रमुयि ताका दिउनु गेलो। देवालें नांव
आनि तांबें आनि स्वर्गारि रावतल्यांलि निंदा कोर्वे खातिर
ते हिंसा कर्तले जंतुन देवाले विरुधालि निंदा उत्तर म्होण
७ चाक तोंड उगळें। पुण्यकेल्याले भसि युद्ध कोर्चाक आनि
सगळो वंशु आनि जाति आनि भावकार आनि देशकारा
८ चेरि पराक्रमुयि ताका दिवनु गेलो। जगताचें मूळ
करित लागिन मेलें तगराले पिल्लाले जीवनरूप पुस्तकांतु
भुंयिचेरि रावतल्यांलें भितरि कितुले लोकांलें नांव बरैनाति
९ लें ते सगळे ताका पूजा कर्तित। कोणालो कानु तरी
१० आस जाल्यारि तो आयको। कोणतो परदेशांतु घेउनु
वेता तो अन्य देशांतु घेउनु गेल्लो जायत कोणतो खांडयान
मार्ता तो खांडयान मार्लो जायत हाजेन पुण्यकेल्ले लोकां
११ लें ताळवय आनि भक्ति। मागिरि तगराले पिलाले
वारि दोनि शिंगं आसिले नागाले वारि उलैतले भुंयिं
चेरिथाकुनु चमकतले आनि येक हिंसा कर्तले जंतुक चांवे
१२ पळेलो। पिर्तम घातकी जंतुले सगळें शासन हो जंतु
तागेले येदुर कर्ता आनि कोण पिर्तमले जंतुलो मरणकर्तलो
घायु बरो जालो ते जंतुलि पूजा भुंयिक आनि तांतु रावत
१३ ले लोकांक हो हिंसा कर्तलो जंतु करैता। तो महाआश्चर्यं
क्रिया कर्ता आनि मनुष्याले देकपांतु स्वर्गारियाकुनु भुंयितु
१४ उजा यावनु रकैता। आनि हे जंतुले येदुर कोण आश्चर्यं
कोर्चाक तागेलें सामर्थ्य आस ताजेन खांडयान कातेरें आनि

बांचिलेय गुलि प्रतिमा कोर्चाक भुंयिचेरि राब्तल्यांक सांगुनु ते आश्चर्य क्रियेले वाटेन भुंयिचेरि राबतल्यांक प्रवंचना कर्ता।
१५ आनि ते हिंसा कर्तले जंतुले प्रतिमाक उत्तर होण्चें सामर्थ्य दिव्चे खातिर आनि कितुलो लोकु ते हिंसा कर्तले जंतुलि प्रतिमा पूजा कर्नाति ते लोकांक जीवसि मारोचे खातिर हिंसा कोर्चे जंतुले प्रतिमाक प्राणु दिव्चाक तागेलें सामर्थ्य आस।
१६ आनि सानु होड धनाढ्य दरिद्र सुंटिल्ले बांदिल्ले सगळे लोकांक आपणागेलो उजवे ह्यातांतु जावो निडलारि गुर्तु ग्रह
१७ ण तो जंतु करेता। आनि कर्ता कि तो गुर्तु आसिले जावो ते घातकी जंतुलि नांवाले जावो तागेले नांवाले संख्याविशिष्ट
१८ लोकु नंतां कोण्हि क्रय विक्रय कर्ना। विद्या हो विद्वांसु कोण्तो तो हे घातकी जंतुले अंकि मोवो तेंयितें ते मनुष्या ले अंकि आनि ताजे अंके ससीं ससष्टि।

१४ चतुर्द्दश पर्व्व।—हांवे पळेलें ताजेन चोयि सीओन पर्वतावेरि येक तगराले पिल यिबि राब्लें आनि आपणालें नांव आनि आपणाले आंनालें नांव निडलारि बरैल्लें येकसें
२ चोवेचाळिस सास जाण तागेले भांसे यिबि राब्ले। आनि सावार उदकाले शब्दाले वारि आनि मेघाले होड शब्दाले वारि शब्दु हांवे सर्गारिथाकुनु आयकिलो आनि विणावाजिता विणा वाजितल्यांलो शब्दुयि हांवें आयकिलो सिंहासनाले आनि चारि जंतुले आनि म्हांतार्यांले येदुर
३ ते नवे गीताले वारि येकु गीतु गायन केलो। आनि भुंयिचेरिथाकुनु केल्ले तें येकसें चोवेचाळिस सास लोकु नंतां
४ कोणे तो गीतु शिक्जाक सक्लोना। कोणते बायलेले सांगडयान, आपणाल्यांक अशुचि कर्नाति ते हेचि तेंयितें सो आंकवांथो आनि तगरालें पिल कि खें वोत्ता थें हें ताजे माघि वत्तले हे देड आनि तगराले पिलाले लागि

पितामलें फळ आवनु मनुष्यां भितरिंधाकुन केलें जाता।
५ तांगेले तोंडांतु कोणें प्रतारणा मेळि ना तेयितें देवाले सिंहा
६ सनाले येदुर ते निर्दोषी। भुंयिचेरि रावतले आनि प्रतिदेशीय लोकु आनि वंशु आनि भाषकार आनि लोकांलें आयकयांतु अनंत मंगल समाचार घोषणा कोर्याक तें धर्तलो आनि देवाक भय कर्या आनि ताका संभ्रमु कर्या तेंयितें
७ तागेले विचाराले घडि उपस्थित आस। आनि कोणें सर्गु आनि भुंयि आनि समुद्रु आनि उदकालि झरि उबजायलि तागेले भजन कर्या हें उलेतलो सर्गाले भितरि उडतले
८ आनि येक दूताक हांने पळैलो। मागिरि बाबेल नांवालें तें होड शहर पळांस पळांस तेंयितें तें व्याप्य अति जलंत चेडिये वृत्तिले मदांतु सगळे देशकारांक मत्त केल्याति हेंचि
९ उलेतलो आनि येक दूतु तागेले मागि वत्तलो जालो। होडान हें उत्तर म्हणतलो तिसरो येकु दूतु तागे माग्नि गेलो कि तें घातकि जंतुक आनि तागेले प्रतिमाक तरी कोणें पूजा कर्ता आनि निडलारि जावो हातांतु तरी तागेलो दागु घेता
१० जाल्यारि देवाले कोण मेळेनातिसें कोपमद तागेले कोपरूप गिंदलांतु रकोनु वता तोचि तो मदु पावलो जायत आनि पुंण्यकेल्ले दूतांले आनि तगराले पिल्लाले येदुर उजो आनि
११ गंदकान तांगेलें दुःख कोर्नु वोचत। तांगेले दुःखाले धुवोरु सदा सर्वकालांतुयि उठायता आनि कोणते ते घातकि जंतु जावो तागेले प्रतिमालि पूजा कर्ताति आनि कोणतो तागेले नांवालो गुतु ग्रहण कर्ता रातिदिनु केद्नांयि तांगेलो विश्रामु ना।

१२ पुण्यकेल्यांले ताळवय हें चोयि देवालि आज्ञा आनि
१३ खीष्टांतु विश्वासु पालिसिसले हेंचि चोयि। मागिरि वरें हें परांतु कोणते प्रभुंतु मर्ताति ते धन्य आत्माथि हें सांगता तेंयितें ते आपणागेले कर्मांथाकुनु विश्रामु पावताति

आनि तांगेलि क्रिया तांगेलि सहचर्ती जाता मजे लागि हें वि उत्तर म्हण्तलि येक आकाशवाणि म्हांवे आय्किलि।

१४ मागिरि म्हांवे दृष्टि केलि आनि चोयि धवो येकु मेघु आनि मात्यारि भंगरा मुकुटु आनि हातांतु धाराळु हिळो मनुष्याले पुताले वारि ते मेघारि वसिले येकल्याक १५ म्हांवे पळेलो। तुगेलो हिळो घेवनु सेत कातरि सेत कातोचो वेळु उपस्तित जालास तेंथितें भुंयिचे वेलें सेत पिक सांस ते मेघारि बसिल्ले मनुष्याक होड्डान अस्लें उत्तर उलै मलो आनि देवळांथाकुनु बारसलें आनि येक दुताक म्हांवे १६ ताजे मागिरि पळेलो। ताजेन मेघारि बसील्ले पुरुषान भुंयिचेरि आपणालो धाराळु हिळो लायिलो आनि भुंयि लें सेत कातोर्नु गेलें।

१७ ताजे मागिरि धाराळु हिळो धर्लो आनि येक दूतु सर्गा १८ रि आसिले देवळांथाकुनु बारसलों। ताजे मागिरि उज्वाचे रि पराक्रमु धर्लो आनि येक दूतु यज्ञवेदिंथाकुनु बारसलों आनि होड्डान ते दूतान धाराळु हिळो धर्ले पुरुषाक सांग्लें कि भुंयिलें द्राक्षे फळ परिपक्व जालांस हे खातिर तुगेलो धाराळु हिळो लावनु भुंयिले द्राक्षे गुंचि खुंटि। १९ ताजेन ते दूतान आपणालो धाराळु हिळो भुंयिचेरि लावनु भुंयिले द्राक्षवाल्लिलें फळ संचय केलें आनि देवाजे कोप २० रुप होड द्राक्षे यंत्रांतु तें उड्डैलें। मागिरि नगरावो भायर तें द्राक्षे यंत्र निसोर्नु गेलें आनि येकसेंबरि कोसु परांतु वोयरि घोड्यालें लगामपरांतु रगत ते द्राक्षे यंत्रां थाकुनु बारसलें।

१५ पंचदश पर्व्व।—होडु आनि चमत्कार आनि येक लक्षणयि म्हांवे सर्गारि प्रळेलें शेष आसिलें सात दुःख धर्लेलि

सात दूतांक ह्यांवे मळैले तेंथिते ते दुःखान देवालो कोपु
२ पूर्ती जाता। उजांतु मेळेल्ले काचुमय येक समुद्राले वारि
वस्तुयि ह्यांवे पळैलो आनि घातकि जंतु आनि तागेलि मूर्ति
आनि तागेले दागु आनि तागेले नांवांलो आंको हे सगळ्यां
ले भयो कोणते जातात ते देवालि विणा हातांतु घेउनु
३ काचुले समुद्राचेरि थिवि राबतात। आनि हे सर्वशक्ति
मान प्रभु देवा तुगेलि क्रिया होडि आनि आश्चर्य हे पुण्य
केल्यांले राया तुगेलि क्रिया यथार्थ आनि सत्य तुजे नंतां
४ धर्मस्वरूप आनि कोणे ना हे खालिर। हे प्रभु तुका कोण
भय ना करित आनि तुगेले नांवांले महात्म कोणु ना करित
तेंथिते तुगेले केलेलो दंडु दिउनु प्रकाशित जाल्यान समस्त
देशालोकु येवनु तुगेले येदुर भजतित हें उत्तर म्हणत ते
देवालो सेवकु मोशेहालो गीतु आनि तगराले पिलाले विध
५ यक गीतु गायलो। ताजे मागिरि ह्यांवे पळैलें आनि
चेरियि सर्गावेलें देवळ साक्षिरूप तंबु मेकोळनु गेलो
६ आनि निर्मळ आनि धवे आंगवल्यान पांगुर्लें ह्र्दयांक
भांगराले पाटो वेष्टित ते सात दुःख धर्लेले सात दूत दे
७ वळांथाकुनु आयले। मागिरि ते चारि जंतुंले भितरि
येकु जंतु नित्य जीवे देवाले कोपान भर्लेले सात भांगरा
८ आयदनं ते सात दूतांक दिलिं। आनि देवालें महात्म
आनि पराक्रमान देवळ धुवरान भर्लें आनि ते सात दूतां
लिं सात जंत्रणा कोणपरांतु पूर्ती जाले ना थैंपरांतु कोणे
देवळांतु रिगुचाक सकलो ना।

१६ षोडश पर्व्व।—तुमि वचा देवाले कोपरूप आयदन
भुंयिचेरि रकैया ते सात दूतांक उलैतलो महायेकु शब्दु
२ देवळांथाकुनु ह्यांवे आयकिलो। ताजेन पिर्तमल्यान

वोचुनु तागेलें आयदन भुंयिचेरि रकैतषि ते घातकि जंतुले दागआसिलो लोकु आनि कोण्ते तागेले प्रतिमालि पुजा केलि ते लोकांचेरि घोड कुसलो आनि दुःख दितलो घायु पळो ।

३ द्वितीय दूतान समुद्राचेरि तागेलें आयदन रकैलें ताजेन समुद्रु मेल्ले मनुष्याले रगताले वारि जालो आनि समुद्रांतु चरतले प्राणी मेले ।

४ तिसरे दूतान उदकालि न्दयि आनि झरिचेरि तागेलें

५ आयदन रकैलें ताजेन ते रगत जाले । मागिरि उदकाले दूतालें हें उत्तर हांवे आयकिलें कि हे वर्तमान आलेलें जाव्चें प्रभु तुंवे असलो विचारु केलास हे खातिर तुं यथार्थ

६ स्वरुप । तेंयितें ते पुण्यकेल्लो लोकु आनि आचार्यालें रक्तपात केलांस आनि तांकां तुंवे रक्तपान करैलांस तेंयितें

७ ते ताजे योग्य । मागिरि यज्ञवेदिंयाकुनु आनि येक दादल्यालें हें उत्तर हांवें आयकिलें कि हे प्रभु देउ सर्व शक्तिमान हेंचि खरें तुगेलो विचारु सत्य आनि यथार्थ ।

८ मागिरि चोव्ते दूतान सूर्याचेरि आपणालें आयदन रकैलें ताजेन उजांतु मनुषांक लासुचाक पराक्रमु तांका दिउ

९ नु गेलो । ताजेन भो उत्तापान मनुष्य लासुनु गेले आनि हें सगळें गुंडियेचेरि पराक्रमु धल्यां देवाले नांवालि निंदा तानि केलि आनि तागेलें महात्म प्रकाश कोर्चाक परामनन केले ना ।

१० मागिरि पांचवे दूतान ते घातकि जंतुले सिंहासनारि आपणालें आयदन रकैलें ताजेन तागेलें राज्य काळकमय जालें आनि लोकु दुकले जावनु आपणागेलि जीब चाबलि आनि तागेलि बथा आनि घायु प्रयुक्त सर्गावेले देवालि

११ निंदा केलि आनि आपणागेले किवेले विषयांतु परामनन केलें ना ।

१२ मागिरि सटवे दूतान फरात नांवाले होड नदीचेरि आप् णालें आयदन रकैलें ताजेन सूर्येउदया दिक्कांतु रायांलो
१३ वाट प्रस्तुत जाव्चे खातिर तिगेलें उदकि सुकुनु गेलें। नागाले तोंडांथाकुनु आनि घातकि जंतुले तोंडांथाकुनु आनि फटके आचाऱ्याले तोंडांथाकुनु बारसलें बेथाले वारि तिनि
१४ असुचि आत्मांक हांवे पळेले। ते सर्व्वशक्तिमान देवाले ते महादिसाले युद्धाले खातिर रायांक येकडे कोर्चे खातिर भुंयि आनि सगळे जगताले रायांले लाग्चे लौकिक नयि
१५ जाल्लें कर्म्मकर्त्तले भूतांगेले आत्म। चोरयि कसि चोर येता तसि हांव येतां तो धन्यु कि पारो दिता आनि आप् णालें आंगवालें राकिता कि नागडो जावून भोव्ना आनि
१६ लोकु तागेलो अपमानु ना पोळ्तित। एत्रि भाषेन हारमगिदोन नांवान ख्यात येक जाग्यारि ताणे तांकां येकडे केले।

१७ मागिरि सातवे दूतान आकाशारि आपणालें आयदन रकैलें ताजेन सांग जालांस हें उलैतलो होडु शब्दु सर्गांवे
१८ ले देवळांतुले सिंहासनांथाकुनु वारसलों। मागिरि विद्युत आनि शब्द आनिमेघगर्जन आनि भुंयिचेरि मनुष्यां गेले जायतलागिन कोण रूप भुंयिकांपु जाय ना तसि
१९ होडु आनि घोर भुंयिकांपु जालो। आनि तें होड शहर तिनि दिक्कांतु भिन्न जालें आनि देशकारांलिं नगरं पळिं आनि देवाले अति प्रज्वलित कोपाले रोचान पूर्तं गिंदल महाबाबिलाक् दिउनु वोचे खातिर तें शहर देवाले
२० अरणांतु पळें। मागिरि प्रति उपद्वीप पोळनु गेलें आनि पर्व्वतयि मेळेनंति आनि मनुष्यांचेरि सर्गांरिथाकुनु येकेक मणा परिमाणान अतिशय फातरा पावसु जालो।
२१ ते फारता पाव्सान जाल्लें दुःख भोहोड ताजे खातिर ते फातरांतु लोकानि देवालि निंदा केलि।

१७ सप्तदश पर्व्व।—तिं सात अयदन धर्ले सात दूतांशि
२ भितर येकु दूतु येवुनु मजे असिं हें उत्तर म्हळें कि हांगा
यो भुंयिचे राय कि चेडियेले असिं, आयट कार्य केलांस
आनि कोणाले चेडियेले संगांतु भुंयिचेरि रावतले मत्त
जाले सानार उदकाले वोयुरि राबिले ते चेडियेलो दंडु
३ तुका हांव दाकैन। ताजेन ताणे आत्मांकच्यान माका
रान्नांतु घेउनु गेलो ताजेन निंदात्मक कांवान सर्व्व आंगारि
पूर्ण सात मात्तिं आनि धा शिंगं आसिलें सिंदूर वंणा येकु
४ घातकि अंतुचेरि वसिल्ले येक बायलेक हांवे पळेलि। ति
बाबल नायंगाणि आनि सिंदूर वंणा आंगवस्त्यान दुस्तेल्लि
आनि भांगर आनि मणि आनि मोतियान अलंकार केल्लि
आनि तिगेले हातांतु स्वकीय चेडियेलि दुष्टिले कंटाळ्या
५ क्रियेन आनि मळिन भर्ले येक भांगरा गिंदल। आनि गूढ
विषयु महाबाबेल चेडियेंगेले आनि भुंयिलि अळिस्तिकेउचे
क्रियेलि आवसु हें नांव ताजे निडलारि बरप आसिलें।
६ मागिरि पुण्यवेल्ले लोकांले आनि यिशुले साक्षीयेंले रगतान
मत्त जाल्लि ते बायलेक हांवे पळेलि आनि ताका चोवनु
७ होड चमत्कारंतु चमत्कृत जालों। ते दूतान माका
सांगलें चमत्कृत यित्या जालास ते बायलेले आनि सात
मात्तिं आनि धा शिंगं आसिले ताजेलें वाहन ते घातकि
८ अंतुलोयि गुढ अर्थु तुका हांव सांगन। कोण घात
कि अंतु तुंवे पळेलास तो अंतु आसिलो आनि आत्तां ना
आनि अतलस्पर्शं गुंडियेंथाकुनु उठायत आनि विनाशांतु
वोच्चत आनि भुंयिचेरि राबिले कितुले लोकांलें नांव जगला
लें मुळ करितलागिन जीवनरुप पुस्तकांतु वरैने लिखुलो
लोकु ते जाजेले चमकनातिले चमकुचे जंतुक चोउनु चमत्कृत
९ जायत। विद्या विशिष्ट कोण मन तें मन हें पळे तिं

सात मार्ति ते बायलेले लागि वसिले सात पर्वत जातात‍ि।
१० आनि सात राययि जातात‍ि तांगेले भितरि पांच जाण
पल्यात‍ि येक्लो वर्तमान आनि आनि येक्लो आत्तं ना
११ तरि जात्तचि ताका कांयि समयु राबुका जायत। कोण
घातकि जंतु आसिलो आनि आत्तं ना तेंचि आठ आनि ते
१२ सातांथाकुनु जाल्ले आनि सर्वनाशांतु वोचत। कोण धा
शिंगं तुंवे पळैल्यांति तेंचि आत्तं मेळनातिलें राज्य धा
राय तरि ते घातकि जंतुले भर्सि येक् घडि ते रायाले वारि
१३ पराक्रमु पावतात‍ि। ह्यांगेलें येक मंन आनि आपणा
१४ गेलो पराक्रमु आनि बल ते घातकि जंतुक दितित। हे
सग्ल्यांतु तगराले पिलाले भर्सि राच्कारें करितित आनि
तगरालें पिल तांकां जय करित तेंयितें तो प्रभुंलो प्रभु
आनि रायांलो रायु आनि तागेले सांगातिकार नेमसिल्ले
१५ आनि मनोनीत आनि विश्वासी। ताणे माका सांग्लें
कोण उदाक तुंवे पळैलांस कि खैं चेडि वसिल्यास तें उदाक
१६ लोकु आनि जनता आनि देशकार आनि भाषकार। घात
कि जंतुले वोयलिं कोण धा शिंगं तुवे पळैल्यांति ते चेडि
येक अळसिकेतित आनि तिका अनाथ आनि नागडि
कतिंत आनि तिगेलें मास खायत आनि तिका उजांतु
१७ लासित। तेंयितें आपणालि इच्छा पूर्ति कोर्चाक आनि
देवालें उत्तर पूर्तें जावपर्यंतु येक उत्तर कोर्चाक आनि
आपणागेलें राज्य ते घातकि जंतुक दिव्चाक देवान तांगेले
१८ अंतःकरणांतु दिलांस। कोण बायलेक तुंवे पळैल्यास
तिचि भुंयिले रायांले वोयरि यजमानपण कर्तेलें तें महा
पट्टण।

१८ अष्टादश पर्व्व।—हे सग्ल्यांले मागिरि सर्गारि
थाकुनु तेगुंवतलो देवदूतु पराक्रमु धर्जोंलो आनि येक

दूताक स्वर्गे पळैलो तागेले तेजान भुंयि ऊजवाडमय जालि।
२ ते दूतान अति घोर शब्द कोर्नु हेडून ह्मळें कि महाबा
बेल पळांस पळांस आनि भूतांलो वासु आनि प्रत्येक अशु
चि आत्मालो आश्रयु आनि प्रत्येक अशुचि आनि अव्लसिके
३ उचा पक्षालो घुडु जालास। तेंयितें तागेले जोळचे वेश्या
वृत्तिले स्वरुप सोरो सगळे देशकारानि पिलास आनि भुंयिले
रायानि तिजे भर्सि संगु केलास आनि तागेले सुभद्राले साब
४ रायेन भुंयिले व्यापारि धनाढ्य जाले। हें मेगेले लोकांलो
तागेले भितरिथाकुनु भायर वचा कि तुंमि तागेले पापा वांटे
५ लि जाव्नाकाति आनि ताजि वाधा पाव्नाकाति। तेंयितें
तागेलें पाप स्वर्गाक आपड्ता आनि देउ तागेलें अयथार्थ
६ स्मरण कर्ता। ताणे कस्लें तुम्कां दिलांस ताजें बदला फल
ताका दिया तागेले क्रियेले वारि दुणे फल ताका दिया तें
कोण पात्र भलांस ताजे लागि तें आयदन दुणे पूर्ते कऱ्या।
७ ताणे कितुलें आपणालें गौरव केलांस आनि चां जेवण
केलांस तितुलें दुःख आनि जंत्रणा ताका दिया तेंयितें हांव
राणीले वारि बस्तां आनि रांड नैं आनि कांयि दुःख चोय्
८ सि ना हें उत्तर तो म्हणता। हे खातिर मरण आनि शोकु
आनि अकालु हेंर फाट येक दिसु ताजेरि पडत आनि ती
उजांतु पूर्ती लासुनु वचत् तेंयितें तागेलो दंडु दितलो प्रभु
देउ बलवंतु हेंर उलेतलो आनि येकु शब्द स्वर्गारि
९ थाकुनु आयिकिलो। भुंयिले कोण रायानि ताजे भर्सि
१० चेडिये संगु केलास आनि सुखभोगु केलास तानि तागेले
लासपालो धुवोर चोउनु तागेलें दुःखा भयान धुर यिवि
राबुनु तागेले विषयांतु विलापु कर्तित आनि हायर कोर्नु
म्हणतित कि हाय तें महा नगर बाबेल हाय पराक्रमु
११ आसिलें नगर तेंयितें येक मुर्तांतु तुगेलो दंडु जालास
भुंयिले वाणियि ताजे लागि रडे आनि विलापु कर्तित तेंयितें

१२ कोणे तागेलो भोजोसु घे ना। अर्थात भांगर रुपें मणि मोतिं हिर्दु आंगवालें जांबळबंणा आनि पाट्यालें आनि सिंदुरबंणा आंगवालें आनि सग्ळे परिमळा राकुड आनि
१३ हस्तंदाले सग्ळे प्रकारा आयदन आनि मैामोला राकडालें आनि पित्तळेलें आनि लोकंडालें आनि कुफातराले सग्ळे प्रकाराल्लें आयदन आनि तिकेसालि आनि परिमळ मय आनि गंधरस आनि लोवान आनि सोरा आनि तेल आनि सोणुर लोरांव आनि गोंउ आनि पशु आनि कांबळ कुरं आनि घोडो आनि तेरु आनि देडो आनि मनुष्याक्षो
१४ आला। कोण फल तुजे मनान इच्छा केलें तें फल तुजे लाग्चान गेलांस आनि चों स्वादु आनि उत्तम कोणर वस्तु तो सग्ळे तुजे लाग्चान गेलास आनि तें तुं आनि
१५ केदनायि पावसि ना। हे सग्ळे ज्याले कोण व्यापारि ताजे कण्यान धनाढ्य जाले ते रडत आनि हाहाकार करित आनि हायर तें हिर्दु आंगवलें आनि जांबळबंणा आनि
१६ सिंधुरबंणा आंगवाल्या न्हेसिलो आनि भांगर आनि मणि आनि मोतियान अलंकृत महानगर तेंयितें येक घडियेंतु असि महाधनालें नष्य जालांस हें उत्तर म्होणु तागेलें
१७ दुःखा भयान धुर राव्‌त। आनि तारवांलो प्रत्येकु यजमानु आनि तारवांतु आसिलो कितुलो लोकु आनि तारवाले कुलिकार आनि समुद्रा वाटेन कितुलो लोकु व्यापार
१८ कर्तांति ते धुर राव्‌ले। आनि तागेलो लासुचो धुवोर चोउनु रोणु सांग्लें कि हे होड नगराले वारि कोण नगर
१९ आस। आनि रडतलें आनि विलापु कर्तले जावनु आनि तागेलो होडु वेचु प्रयुक्त कोण होड प्रहरांतु समुद्रांतु आसिले तारवाले सग्ळे यजमान धनाढ्य केले आसिले हायर तें प्रहर तेंयितें येक घडियेंतु तें मनुष्य नातिलें जालांस हें उत्तर म्होणु ते आपापणा माल्यारि धुळ घालि

२० आनि रब्बे। हे सर्गा आनि सज्जन प्रेरितानो आनि आचार्यानो तुंमि ताजेरि आनंदु कर्या तेंयितें तुंमि कोण हिंसा मारूयास ताजे बदलापाल देवान ताका दिलांस।
२१ ताजे मागिरि येकलो बलवंतु दूतु होड दांत्याले वारि येकु फातोर घेउनु हें उत्तर म्होंणु समुद्रांतु उडेलो कि तें होड नगर बाबेल बलान हाजे वारि लोगुं पळेलें जायत आनि
२२ आनि केद्नाबि मेळसि ना। आनि वीणा वाजवलो आनि वाजप् वाजतलो आनि कोळेल वाजतलो आनि बाको वाजतल्यांलो शब्दु आनि केद्नायि तुगेले भितरि आयकुनु येच्सि ना आनि कोण कोंथे प्रकारालें कर्मकर्ता असि कोण कार्म कर्तलोयि तुजे भितरि आनि मेळेसि ना आनि दांत्यालो
२३ शब्दु तुगेले भितरि आनि आयकुनु येच्सि ना। आनि दियालो ऊजवाडु तुगेले भितरि आनि चेवचा येसि ना आनि होरेतु आनि होकलेलो शब्दु तुगेले भितरि आनि आयकुनु येच्सि ना तेंयितें भुंयिले होड मनुष्य तुगेले महाजन आसिले आनि तुगेले मायेंतु समस्त देशकार भ्रांत जा-
२४ सिले। आचारि आनि साधु लोकु आनि भुयिंतु कितुलो लोकु मेलोलो ते सगळे लोकांलें रगत ताजे भितरि मेळें।

१९ ऊनविंशति पर्व्व।—हे सगळ्यांले मागिरि हें उलैतले सर्गारि आसिले साबार लोकांलो हो होडु शब्दु हांते आयकिलो कि हालिलुया त्राणालि आनि माहात्माालि आनि पराक्रमालि प्रशंसा प्रभु आम्गेले देवालि जावो तेंयितें ताजी
२ नीति सत्य आनि प्रशस्त तेंयितें कोण होडि चेडि आपणाले नष्ट क्रियेंतु भुंयि नष्ट केलि ते चेडियेलो दंडुताले दिलास आनि तागेले हातान केलें आपणाले सेवकांले जीविमारीले
३ बदलापाल दिलांस। आनि तानि तेंवाल म्हळें कि हालि

४ तुया आनि तागेलो थुवोर सद्दंचि उठायता। मागिरि तें चोविस म्हातारे आनि चारि जंतु आमिन हालिलुया हें उत्तर सांगुनु उमति पोंगु सिंहासनारि वसिले देवालें भजन ५ केलें। हे तागेले सगळे सेवकांनो आनि सान होड कितुलो लोक् ताका भितालि तुम्हि आमगेले देवालि स्तुति करा हें ६ उलैतलो येक शब्दु सिंहासनांथाकुनु बारसलों। आनि हें उलैतले महाजनताले आनि साबार उदकाले आनि अति भय मेघ गर्जनाले वारि शब्दु ह्यांवे आयकिलो कि हालिलुया तेंथितें प्रभु सर्वशक्तिवंतु राज्य कर्ता आमि हृष्ट जाव्यां आनि आनंदु कोर्यां आनि तागेले महात्मांजि प्रशंसा केर्यो ७ तेंथितें तगराले पिलालि वारडिक उपस्थित आस्यास आनि ८ तागेले बायलेन आपणाक प्रस्तुत केल्यास। मागिरि ताजे लागि दिउनु गेलो कि तो उंचि निर्मल धवे आंगवस्त्रान न्हेसिस्रो जाता तेंथितें तें उंचि आंगवस्त्रालें साधु लोकांलें ९ यथार्थ। मागिरि ताणे माका सांगलें बरें कोरूते तग रांले पिलाले वारडिकेले रात्ति जवणाले खातिर निमंत्रित आसति ते धन्य आनि ताणे माका सांगलें हेंचि देवालें १० सत्य उत्तर। ताजेन तागेलि पूजा कोर्चें खातिर ह्यांव ताजे पायांरि पळों आनि ताणे म्हळें सावधान हें कोर्नाका ह्यांव तुगेलो सहचाकोर आनि यिशुलें प्रमाण धर्लेले तुम् गेले भावांले भितरि येकलो तुं देवालें भजन करि तेंथितें ११ यिशुविषयक प्रमाण आचार्य उचालो जीवात्मा। मागिरि ह्यांवें सर्गालें बागिल उगडुं पोय्लों आनि चोयि धवो येकु घोडो आनि ताजेरि चळेल्यालें नांव विश्वासी आनि सत्य १२ आनि यथार्थ कोर्नु तो न्याय आनि युद्ध कर्ता। तागेले दोळे उज्जाजोवेवारि तागेलें मात्याले साबार मुकुट आनि तागेलें येकनांव वरप आसिलें कि कोण आपण नंता आनि

करुंचे करुंचें सऊजना ते रगताम बुडेले येक आंगवस्त्रान न्हेसिलो आसिलो आनि तागेलें नांव देवालें उत्तर ख्यात।
१३ आनि उंचि धवें निर्मळ आंगवस्त्रान वस्त्राच्छित धवे घोड्या रिचडे सर्गारि आसिलें सैन्य तागेले भाट्टि ववलें आसि
१४ लें। आनि देशकाराक ताजेन मारुंचें खातिर ताजे तोंडां
१५ थाकुनु धाराळ दोनि धारे खांडें बारसलें। आनि तो तांकां लोकांडा वोड्यान वजमानपण करित आनि सर्वशक्तिमान देवालो अतिकोप आनि चंडताडप कराचे यंत्र तो दळता।
१६ आनि रायांलो रायु आनि प्रभुंलो प्रभु हें नांव तागेलें आंग
१७ वालें आनि तागेले जांगिरि बरय आस। मागिरि सूर्यांतु आसिलो येकु दूताक हांवे पळेलो आनि सर्गारि उडतले सगळे पक्षांक ताणे होडान आपैनु सांगलें कि रायांलें मांस आनि सेनापतिंलें मांस आनि पराक्रमी लोकांलें मांस
१८ आनि घोड्यांलें आनि रावतांगेलें मांस आनि बांदिनातिले बांदिजें सान होड सगळ्यांलें मांस खावचे खातिर तुंमि
१९ येया देवाले महाजवणाले खातिर येकडे जाया। मागिरि ते घातकि जंतुक आनि भुंयिले रायांक आनि तागेले सैन्यांक ते घोड्यारि चळेलो पुरुषु आनि तागेले सैन्यांलि सैत रण
२० कोर्चे खातिर येकडे हांवे पळेलें। आनि तो जंतु धर्नु गेलो आनि कोण आश्चर्य क्रियेन ते घातकि जंतुलो गुर्तु धर्लेले लोकांक आनि तागेलि मुर्ति पुजाऱ्यांक तो प्रवंचना कर्ता तागेले गोचरांतु आश्चर्य क्रिया कर्तले फट्टि आचारि वि ताजे भशि धर्नु गेलो हे दोनि जीवें जावनु गंदकयुक्त
२१ प्रज्वलित उजा समुद्रांतु उडोनु गेलो। आनि उर्लेले घोड्यारि बसिले पुरुषाले तोंडांथाकुनु बारसलें खांड्यान मार्नु गेले आनि सगळे पक्षि तागेले मांसाव तृप्त जाले।

२० विंशति पर्व्व।—मागिरि अतलस्पर्श गुंडिलेलि तावि

धर्लेले हातांतु महासंकळि धर्जेले सर्गारिथाकुनु देंवोले
२ ले येक दूताक हांवे पळैलो। तो नागु अर्थात पापात्मा
आनि देवचार नांवाले ते ग्हातारे सर्पाक ते दूतान धोनु
३ येक सास वर्सं परांतु बांदुनु दवलों। आनि ताका
अतलसर्प गुंडियेंतु उड्डैलो आनि तो सास वर्सं पूर्ते जाय्
नातिलें सग्ळे देशकारांक आनि प्रवंचना ना कोर्चि खातिर
ताका बांदुनु दवलों आनि तागेरि म्होर केलि ताजेमागिरि
४ थोडे वेळ्या खातिर तो सोडो जायत। मागिरि हांवें सिंहा
सनांक पळैलें आनि लोकु तागेरि बस्लो आनि तांकां
५ विचारालि आज्ञा दिउनु गेलि। थिशुलें प्रमाण दि
ल्यान आनि देवालें उत्तर प्रकाश केल्यान कोणागेलें मात्तें
कातोनु मेल्यांति आनि कोण्ते ते घातकि जंतुले आनि तागेलें
प्रतिमालि पूजा कर्नाति आनि कोण्ते आपापणा निडलारि
आनो हातारि तागेलो दागु घेनाति तांगेले आत्मांक हांवें
पळैले आनि ते सास वर्संपरांतु खीष्टाले भर्सि कालक्षेपु
६ केलो आनि राज्य केलें। तरि तें सास वर्सं पूर्तिं जाय्नाति
लें उर्लेले मेलेले लोकानि जीवप गाव्लें ना हेंचि पिर्तम्ले
७ नेवान उठय। पिर्तमले नेवान उठयांतु कोणालो अधिकार
आस तो धन्य आनि साधु अस्ले लोकांचेरि दुसरें म्रत्युलें
कांयि पराक्रमु ना तरि ते देवाले आनि खीष्टाले याजक
जातित आनि ताजे भर्सि येक हजार वर्सं परांतु राज्य
८ कतित। तें सास वर्सं वत्तचि देवचार आपणाले पाप्याघरों
थाकुन सुटैलो जायत। आनि भुंयिले चारि दिकांले सर्व
देशकारांले अर्थात गोग आनि मागोगाले प्रवंचना कोर्चांक
आनि युद्धाले खातिर येकडे कोर्चांक तो वचत कि कोणालि।
९ संख्या समुद्राले रेवेंजे वारि आनि ते भुंयिले विस्ताराचेरि
गेले आनि साधुंले सेनाक आनि मोगा नगराले चारि दिकांतु

वेछले आनि सर्गारियाकुनु देवाथाकुनुयि उजो येंगु तांकां
१० खावनु उरैले। आनि कोण उजो आनि गंदकमय समुद्रां
तु तो घातकि अंतु आनि फांट आचारि आस्ला तांतु तांगेले
वंचनाः कर्तलो देवचारु उडैानु गेलो आनि ते दिसु राति
११ नित्य दुःख पावतित। मागिरि धवे छोड येक सिंहासनाक्
आनि ताजेरि बसिल्ले पुरुषाक हांवे मळैलो कि कोणाले
तोंडांथाकुनु भुंयि आनि सर्गु पोळनु गेलो आनि तांगेलें
१२ जाग्यालो सोधु आनि मेळो ना। सिंहासनाले येदुर
छिबिराविले सान छोड सगळे मेल्ले लोकांके हांवे पळैले
आनि पुस्तकं मेकळिं मागिरि आनि येक पुस्तक तेंचि जीवन
नांवालें पुस्तक तेंवयि हांवे पळैलें आनि ते सगळे पुस्तकांतु
कसलें बरैल्ले आसिलें ताजेन आपापणा क्रियेले वारि मेल्ले
१३ ल्यांलो विचारु जालो। आनि समुद्रान आपणाले भितरि
आसिले मेल्लेल्यांक सोळे आनि मरणान आनि नर्कान आपा
पणा भितवेले समस्त लोकांक सोळे आनि आपापणा क्रिये
१४ ले वारि प्रत्येकांलो विचारु कोनुं गेलो। मागिरि उजा
समुद्रांतु मरण आनि नर्कु उडैानु गेले हेंचि दुसरें मरण।
१५ आनि जीवन पुस्तकांतु कोण मनुष्यालें नांव बरैानु गेलें ना
तोवयि उजा समुद्रांतु उडैानु गेलो।

२१ एकविंशति पर्व्व।—मागिरि नवे सर्गाक आनि नवे
भुंयिक हांवे पळैलि तेंयितें पितेंम सर्गु आनि पितेंम भुंयि
छोळनु गेलेलि आनि आनि कोंणे समुद्रु ना आसिलो।
२ मागिरि कसि छोरेताले खातिर छोकल श्रींगार्लि जाता
तसि देवाले येदुरथाकुनु अर्थात सर्गारियाकुनु देविल्लें तें
३ पवित्र नगर अर्थात नवे यिरुशालमाक हांवे पळैलें। आनि
सर्गारियाकुनु हेंचि उलैतलो येकु होडु शब्दु हांवे आयकि
लो कि चोयि देवालो तंबु मनुष्यांले लागि आस आनि तांगे

ले भर्सि ते राबत ते तागेले लोक जातित आनि देउ आपणं
४ चि तांगेले भितरि जावनु तांगेलो देउ जायत । आनि तांगे
ले दोळ्यांथाकुन देउ सगळे दुक्कं पुसित आनि मरण जावो
शोकु आनि रंणे जावो आनि वेथा जायसि ना तेंथिले पिर्तम
५ लो विषयु जावनु गेलास । मागिरि ते सिंहासनारि
बसिल्लो पुरुषु उलैलो येथि हांवं सगळे जीनसांक नवे करीं
आनिके ताणे माका सांग्लें कि बरै लेंथिलें हें उत्तर सत्य
६ आनि विश्वासी । आनि ताणे सांग्लि सांगा जालांसि
हांव व आनि च आदि आनि अंत कोण्तो ताह्नेला ताका
हांव जीवनस्वरूप झरिलें उदाक मोलनातिलें पिव्चा दिन ।
७ कोण्तो जीक्ता तो सग्ळें वस्तालो अधिकारी जायत ।
८ आनि हांव तागेलो देउ जायन आनि तो मेगेलो पुतु जायत
सरि भितु आनि विश्वासु नातिलो आनि अळसुकुणो आनि
जीविसि मार्तलो आनि फाल्सु आनि मायावि आनि देव
पूजारी आनि सग्ळें फटि उलैतलो हे सग्ळ्यांलो अधि
कारी उजो आनि गंदकान प्रज्वलित समुद्रांतु जायत तेंचि
९ दुस्रें मरण । मागिरि ते सात कडेले आघातान पुर्ते
सात आयदन थर्ले सात दूतांले भितरि येकु दूतु येवनु
मजे भर्सि उत्तर सांगुनु उलैलो हांगा यो नवराले पित्ता
१० लि जाया अर्थात् कन्या तुका हांव दाकैन । तेद्ना आत्मांतु
ताणे माका येक व्होडु आनि येत्तर गुड्यारि घेउनु वोचुनु
सर्गारिथाकुन अर्थात देवांथाकुन देंविलो आनि देवाले तेज
११ विशिष्ट आनि फटिकाले वारि निर्मळ सूर्यकांत मणिले
वारि अर्थात अतिमोलाला फातराले वारि दीप्तिमान
१२ आनि व्होड येत्तर वोणतिन वेंडायलें आनि पूर्वदिका तिनि
१३ बाग्लं बडगदिकां तिनि बाग्लं तेंकदिकां तिनि बाग्लं
पश्चिमदिकां तिनि बाग्लं ह्येचि रूपान बारा बाग्लंयुक्त
आनि ते सग्ळें बाग्लांतु नेमसिल्ले बारा दूत आनि ताजे

रि बारा नांव वरैले तें नांव यिष्रएलाले संतानांले बारा
पिडेंले नांव है प्रकारान तें नगर अर्थात पवित्र यिरुशालम
१४ ताखे माका दाखैलें। ते नगराले बाडिले बारामुळं आनि
१५ ताजे भितरि नगराले पिलाले बारा प्रेरितांलिं नावं। कोणे
मजे भसिं उत्तर सांगलें तें नगर आनि बागिल आनि तागे
१६ लि बाडि मोव्चे खातिर येकि भांगरान्ळि घेतलि। तें
नगर चारिचौक लांब रुंद समान मागिरि ताणे नळेन तें
नगर मोयिलें बारासिं कोश परिमाण ताजि लांबायि आनि
१७ रुंदायि आनि येत्तरायि समान। मागिरि मनुष्याले
हाताले मापान अर्थात ते दूताले परिमाणान ताणे वोणति
१८ मोयलि येक सें चोवेचाळिस हासि जालि। वोणतीलें
१९ गांतय यिसम मणियालें आनि नगर निर्मळ काचुले वारि
चोक भांगरमय आनि नगराले वोणतिलें मूळ सगळे प्रकारा
२० मोमोला फातरान शोभित प्रथम मुळ यिसम दुसरे नील
मय तिसरें दन्तिमय चोव्तें पाचुमय पांचवें वैडुर्यमय सट
वें अकिकमय सातवें गोमेदिकमय आठवें वेरोअमय नवावें
पुष्परागमय धावें जबर्जदमय यिकरावें फिरोजमय बारावें
२१ जामलिमय। तिं बारा कवडं बारा मोतिं प्रत्येक कवाड
येकर मोतियान रचित आनि ते नगरालि वाट निर्मळ
काचुवारि चोक भांगरान रचित आसिलि।
२२ ताजे भितरि हांवें कोणे देवळ पळैले ना तेंथितें प्रभु
२३ देउ सर्व शक्तिमानु आनि लगरा पिले तागेलें देवळ। ते
नगराले भितरि प्रकाश कोर्चे खातिर सूर्यालें आनि चंद्रालें
आवश्यक ना तेंयिलें देवालें तेज तें दीप्तिमान कर्ता आनि
२४ नगरालें पिल तागेलो उजवाडु। आनि कोणते गुन्ना जाता
लि ते जातिकार तागेले दीप्तिंतु वेडायत आनि भुंयिले राय
आपणांगेलें महात्म आनि संभ्रमु ताजे भितरि हाडतित।

२५ दिसा तांगेलें कवाड केदनायि बंद जायसि ना आनि थैं राति
२६ जायसि ना। आनि सगळे देशकारांलें महात्म आनि
२७ संभ्रमु ते तांगेले भितरि हाडतित। आनि कोण कोणे
वस्तु अशुचि कर्ता जावो अळसुकुणि कार्य कर्ता जावो फट्टि
उत्तर म्हणता हो सगळो वस्तु कोणे प्रकारिं ताजे भितरि
प्रवेश करिसि ना तरि कोणते नगरापिल्लाले जीवनरूप
पत्रकांतु बरैल्लें जाता ते प्रवेश करतित।

२२ द्वाविंशति पर्व्वं।—देवाले आनि नगरापिल्लाले
सिंहासनांथाकुनु वारसलें फटिकाजे वारि निर्मल अमृत
२ निर्मल उदकालि येकि नदी ताणे माका दाकैलि। ते नग
राले वाटेर आनि नदीले दोनि तडिरि मासमासिं येकेक
प्रकार हेचि स्वयान बारा मासांतु बारा प्रकार फलदिल्
लो जीवनदत्लो रुखु आस ते रुकालें पान लोकालें सोख्
३ कोर्यं खातिर जाजांस। आनि कोणे शाप रार्बासि ना
किंतु देवाले आनि नगरापिल्लालें सिंहासन ताजे भितवलें
४ जायत आनि तागेले सेवक तागेलि सेवा कर्तित। आनि ते
तागेलें तोंड पळैतित आनि तांगेलें कपाल तागेले नांवान
५ अंकित आयत। थैं आनि राति जायसी ना वातिलें
जावो सूर्याले ऊजवाडालें प्रयोजनयि तांगेलें ना तेंयितें
प्रभु देउ तांगेलो ऊजवाडु कर्ता आनि ते सदासर्वदा राज्य
६ कर्तित। मागिरि ताणे माका सांगलें हें उत्तर विश्वा
सुचें आनि सत्य आनि साधु आचार्याले प्रभु देउ कांयि
कालालें भितरि जावचो विषयांक आपणाले दासांक दाकोचे
खातिर आपणाले दूताक बळैलास।
७ चोयि ह्यांव वेगिं येतां कोणते हे पुस्तकालें आचार्य उत्तर
पालशिता तो धन्यु।
८ ह्यांव येहनु हे विषयांक चोयलों आनि आयकिलें यानि

आयकुनवि चोयतचि कोण दूतान माका हो विषयु दावैलो
९ ते दूताले पायांलें भजन करुंचें खातिर हांव पळों। ताव
कि माकां ताणे सांगलें सावधान हें कोनांका तेंयितें हांव
तुगेलो सहदासु आनि तुगेले आचार्य भाव आनि कोणते हे
पुस्तकालें [illegible] पालक्षिताति तांगेले भितरि येकलो देवालें
भजन करि।
१० मागिरि ताणे माका सांगलें हे पुस्तकालें आचार्य उत्तर
लाकूटो कोनु बंदु नाका तेंयितें समयु लागि जालास।
११ कोणतो अयथार्थिकु तो अयथार्थिकु जावनु रावो आनि
कोणतो मळिसैत तो मळिसैत जावनु रावो आनि कोण
तो यथार्थिकु तो यथार्थिकु जावनु रावो आनि कोणतो
१२ साधु तो साधु जावनु रावो। आनि चोयि हांव वेगगी
येतां आनि क्रिया गारि फळ प्रतिमनुष्याक दिवचे खातिर
१३ फळयि मेगेले भसि आस। हांव क आनि ल आदि आनि
१४ अंत प्रथम आनि शेष। कोणते तांगेलि आज्ञा मान्
वाति ते धन्य कि ते जीवनदेतले रुकालें फळ खावचो अधि
कार पावताति आनि बागलाचान नगरांतु प्रवेश करताति।
१५ तेंयितें सुणि आनि मायावि लोकु आनि चेडियेकार आनि
जोवसि मारते आनि देवपुज्यारि आनि कोण कोणे फकि
उत्तर चा भाला जावो सांगता हे भायर रावताति।
१६ हे उत्रालें प्रमाण तुमकां मंडलींतु दिवचाक हांव यिशु
आपणाले दूताक धाळास हांव दाउदालें मूळ आनि तांतु
थाकुन उबजलें आनि तेजस्कार आनि फांत्यांवेलें नक्षत्र।
१७ आत्मा आनि कन्या उलैता कि यो कोणतो आयकता तो
सांगा कि यो कोणतो ताम्नेलो तो येवो आनि कोणालि इच्छा
१८ जाता तो येवनु फुंक्या अमृत उदाक घेवो। तेंयितें कोणतो
हे पुस्तकाचें आचार्यालें उत्तर आयकता ते प्रत्येक मनुष्या

घेरि द्यांव हें प्रमाण दिन्हां कि तरी कोण कोणे हे उत्रालें भर्सि आनि कांयि मेळैता जाल्यारि कोण दुःख हे पुस्तकांतु
१९ वरीतु गेलंस देउ तें दुःख चडाव कोनु ताका दित। आनि हे पुस्तकाले आचाया उत्राले कांयि तरी कोण कोणे लोयु कर्ता जाल्यारि जीवनरुप पुस्तक आनि पुण्य नगर आनि हे पुस्तकांतु कोण बरप जालांस हे सगळ्यांचाके तागेलो
२० अधिकार देउ उठकरायत। कोणता हे उत्रालें प्रमाण दिता तो म्हणता कि अवश्य द्यांव शीघ्र येतां आमिन हें
२१ जायो हे प्रभु यिशु यो। प्रभु यिशु खीष्टालो अनुग्रह सगळे पुण्यकेल्यांचेरि आसो। आमिन।

